# तुमच्या सांस्कृतीक दायजाचें जतन करात.
# गोंय राज्य संग्रहालयाक भेट दियात.

- हें भोवउद्देशी संग्रहालय गोंयचे संस्कृतायेचें सम्यक दर्शन घडोवपा खातीर यत्न करीत आसा.
- संग्रहालयांत सांप्रत सकयल दिल्लीं दालनां आसात.
  - मुर्तीदालन
  - ख्रिस्ती कलादालन
  - मुद्रण कलादालन
  - बॅनर्जी कलादालन
  - धार्मीक अभिव्यक्तीदालन
  - सांस्कृतीक मानववंशशास्त्र दालन
  - समकालीन कलादालन
  - नाणकशास्त्र दालन
  - गोंयच्या सुटके झुजाचें दालन
  - मिनेझिस ब्रागांझा दालन
  - फर्निचर दालन
  - सैमाचो वारसो दालन
  - पर्यावरण आनी उदरगत दालन
  - भूगर्भशास्त्र दालन
- संग्रहालयांत धा हजारां वयर वस्तूंचो संग्रह आसा.
- संग्रहालयांत दृक्श्राव्य विभाग आसून, विनवणे प्रमाण विद्यार्थ्यां खातीर आवाजचित्रफितीच्यो कार्यावळी दाखयतात.
- पुरातन प्रस्तर चित्रांच्या थळाची फायबर ग्लास प्रमाणबद्ध प्रतिकृती संग्रहालयाच्या वाठारांत उबी केल्ली आसा.
- हें संग्रहालय तुमचें. तुमचे कडल्या वस्तूंचो मोलादीक संग्रह, दान, विकत वा ठेव अश्या रुपांनी संग्रहालयाक दिवन तुमच्यांनी संग्रहालय समृद्ध करूं येता.




संग्रहालय उकतें आसपाचो वेळ:
स. ९.३० ते सां. ५.३०
(सोमार ते शुक्रार)


## गोंय राज्य संग्रहालय

संग्रहालय विभाग
इडीसी संकूल, पाटो, पणजी-गोंय
फोन: २४३८००६, २४३७३०६, २४३७३०७
वेबसायट : www.goamuseum.nic.in
E-mail: museumgoa@sancharnet.in




दिवाळी / नातलां २००९
वर्स: ३६ आंक : ३

# जाग

* संस्थापक
*अ. सुमंत केळेकार*

* संपादपी
*माधवी सरदेसाय*

* उजवाडावपी
*जयवंत भा. सरदेसाय*

* छापपी
*हिरु नारायण नायक*
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.


## हो कथा विशेशांक वाचप्यांच्या हातांत दितना–

अंदूंचो वर्सुकी खाशेलो आंक चंद्रकांतबाब केणयांचेर काडप म्हूण आमी थारायल्लें. पूण 'कोंकणी'चो चवथ आंक आनी 'जैता'चो दिवाळी आंक हे दोन खाशेले आंक चंद्रकांतबाबांचेरूच तयार जावपाचे आसात म्हणपाचें कळ्ळें तेन्ना सर्त करपाचें टाळून एके वेगळे तरेन चंद्रकांतबाबांक आर्गां भेटोवपाचें आमी थारायलें.

चंद्रकांतबाबांचो जीव आसलो कथेचेर. आधुनीक कोंकणी कथेचें मुळावण तांणी घालें आनी पांच एक दसकां ह्या मळार सातत्यान लेखन केलें. ह्या प्रवासांत तांकां 'कथिका' मेळ्ळी. ती तांणी केळयली. इतलेंच न्हय, तर कोंकणी कथा फुलची चंवरची म्हूण्णूय ते उमेदीन वावुरले. मुखेलपणान कथेक ओंपिल्लें 'कुळागर' म्हयनाळें तांणी सुरू केलें. 'कुळागरा'च्या सुरवेच्या आंकांनी नामनेच्या भारतीय तश्या येवरोपी कथाकारांच्या कथांचे अणकार उजवाडा हाडले आनी तरणाट्या कोंकणी कथाकारांचें क्षितीज रुंदावपाचो वावर केलो. (सलमान रश्दींचें नांव गाजूंक लागचे आदींच तांची एक नवलिका चंद्रकांतबाबान इंग्लीशींतल्यान कोंकणींत हाडून 'कुळागरां'त उजवाडायल्ली.) तांणी कथा सर्ती घेतल्यो, कथा शिबिरां घेतलीं. 'तुजे भितर स्पार्क आसा' म्हूण सांगून कितल्याश्या किटीं वयलो गोबर फूक मारून पयस सारलो... कथे कडेन चंद्रकांतबाब इतले एकरूप जाल्ले की केन्ना केन्ना ते उलयतालेय कथा बरयल्ले बशेन... देखून, आमी थारायलें, चंद्रकांतबाबांक कथे वर्वींच आर्गां ओंपप. आनी, हो 'कथांजली' खाशेलो आंक तयार जालो.

कथाच मागोवपाच्यो, व्हडलेशे त्रास नात अशें सुरवेक दिशिल्लें. पूण ह्याय आंकाक लागून कांय केंस पिकलेच आसतले. कामियांव दारांत पावतकच, 'राव रेय! पेज जेवन येतां...' म्हणून पेज जेवंक धांवप हें आमचें दायज. चडश्यो कथा, 'धाड... पूण फुडल्या आंका खातीर दवरतां' म्हूण सांगतकच आयल्यो. वेळान आयिल्ली एक कथा घेतली म्हूण दुसरी, तिसरीय घेतली. निमाणें जड काळजान कांय पेल्यान दवरच्योच पडल्यो... इतल्या ह्या बोवाळांत आंक तयार जावपाक सुमारा भायर कळाव जालो. आमच्या वाचप्यांक तिश्टत दवरचे पडले हे खातीर तांची माफी मागुंकूच जाय.

एकवीस कथांची ही 'कथांजली.' ह्यो कथा वाचतकच कोंकणी भाशीक-समाज ताचे गिरेस्त विविधताये सयत वाचप्यांच्या दोळ्यां मुखार उबो जाले बगर रावचोना. कोंकणी कथा आज खंय आसा ताचीय थोडी-भोव नाट ताका मेळ्ळे बगर रावचिना. विज्ञान कथा, गुप्तहेर कथा सारकेले कोंकणींत उण्या प्रमाणांत आयिल्ले कथा-प्रकारूय हे 'कथांजली'त आसपावल्यात. इतलेंच न्हय, कोंकणीच्या वेगळ्या वेगळ्या मोडींतल्यान फुलिल्ल्यो कथा घडये पयलेच फावट आमच्या वाचप्यांक अश्यो एकठांय पळोवंक मेळ्ळ्यात.

माधव मंजुनाथ शानभाग खंय म्हणटाले, 'आमी जण एकलो आमगेल्या भांगराच्यो म्होरो बाजारांत हाडुया. तिजोरेंत चावये-कुलपांत दवरुया नाका. म्हणटकूच तांची थंय पारख जावन जी म्होर बरी चलता ती आपशींच लोक हातांत घेतलो.' दिनकरबाब देसाय खंय सांगताले, 'आमी एक कोंकणी म्हयनाळें देवनागरी लिपींत काडून तातूंत फक्कत काणयो आनी नवल-काणयो दिवच्यो आनी त्यो कोंकणी लोकांनी आपणाक येता ते तरेन बरोवच्यो आनी तश्योच छापच्यो. म्हणटकूच थोड्याच वर्सांनी सगळ्या कोंकणी लोकांक रुचता, आनी मानता तसली प्रमाण कोंकणी वयर सरतली.' (संदर्भ: 'येवकार-अध्यक्षांलें उलोवप', शणै गोंयबाब १९४५.)

कोंकणी भाशीक-समाज वेगळ्या वेगळ्या वाटारांनी, लिपयांनी, 'पोट-अस्मितायां'नी फापसून गेल्लो समाज. ह्या समाजाच्या घटकांक एकामेकांची वळख घडटली आनी हे वळखीचे घटमूट बुन्यादीचेर एकवटीत कोंकणी समाज उबो जातलो जाल्यार, ते खातीर एक 'माची' उबी करची पडटली हें आमचे म्हालगडे वळखल्ले. तांचे खातीर देवनागरी लिपी ही माची आशिल्ली... पि. गोपिनाथ कामत हांची कोचीचे मोडींतली कथा हातांत आयली. तेन्ना कितलेशे कडेन आडखळप जालें. निमाणें गोकुळदास प्रभुंच्या आधारान कांय उतरां समजून घेतलीं. तांचो अर्थ आमच्या वाचप्यां खातीर संवकळीच्या आशिल्ल्या उतरांनी कंसांत दिला. कोचीचे मोडींतल्यो अश्योच आनिकूय कथा येत रावल्यो जाल्यार इल्लें इल्लें आमचे मजगतचें परकेपण उणें जातलें आनी आमी लागीं येतलीं हे विशीं कोणाक दुबाव आसतलो व्हय?

ह्या आंकांत कथां भायर आनिकूय कितलींशीं वैचारीक, ललीत तशीं अभ्यासपूर्ण बरपां आसात. कवितेच्या आनी अणकाराच्या मळारूय हो खाशेलो आंक आपणाली कुरू दवरून वतलो हे विशीं आमकां इल्लोय दुबाव ना.

आतां, उपकार –

पयलीं, आमच्या सगळ्या बरोवप्यांचे, कवींचें. 'जागा'चेर असोच मोग उरचो ही इत्सा. तितलेच उपकार आमचेर विश्वास दाखोवन आमकां जायरातींचें फाटबळ दितल्यांचे. हें नवें वर्स आमच्या सगळ्या बरोवप्यांक, वाचप्यांक, जायरातदारांक आनी हेर बरें मागतल्यांक नवी उर्बा, नव्यो उमेदी घेवन येवचें ही काळजा सावन इत्सा.

ह्या आंकाच्या संपादनांत खूब स्रम घेतिल्ल्यान इल्लो विसव घेवपाची इत्सा जाल्या आनी देखून हे मुखावेलो जाग जोड आंक म्हूण मार्चचे अखेरेक उजवाडा येतलो हाची वाचप्यांनी नोंद घेवची.

*– संपादपी*



कथांजली

चंद्रकांत केणी

# ह्या आंकांत -

*❋ वैचारीक / ललीत निबंध :*



*❋ कथांजली :*













**✻ आंकाचें मोल: १२५ रु.**



# चंद्रकांत

**रवीन्द्र केळेकार**

पणजेंत एका काळार दत्ताराम सुखठणकार, वामन सरदेसाय आनी रवीन्द्र केळकार ह्या रुपांत एक त्रिकूट भोंवतालें. मराठींतलीं आनी पुर्तुगेजींतलीं (चडशीं पुर्तुगेजींत आयिल्लीं विश्वसाहित्यांतलीं) बरीं बरीं पुस्तकां वाचप, तांचेर एकामेकां वांगडा पोटभर उलोवप, हें सगलें कोंकणींत हाडूंक जाय अशें म्हणप आनी मेळत ताका 'कोंकणी करूंक जाय' म्हूण पटयत भोंवप हो आमचो छंद आशिल्लो. आमच्यांतलो वामन सदां सपनांनी गुल्ल रावपी, वाऱ्यार उडपी, तर दत्ताराम जमनीर पांय दवरून वाटे वयले फोंडारे उकत्या दोळ्यांनी पळोवपी आशिल्लो आनी हांव ह्याय तोंकार वचप ना, त्याय तोंकार वचप ना, हे तरेन मदल्या मार्गान चलपी आशिल्लों. आमचे तिगांचेय तीन तरांचे सभाव. पूण आमचें सूत बेस बरें जमिल्लें.

एक दीस वामन म्हणपाक लागलो, ''आमी कोंकणी कोंकणी फकत तोंडान म्हणटात... कोंकणींत एक अक्षर लेगीत बरयनात... जे मेरेन आमी कोंकणींत बरोवपाक लागचे नात, ते मेरेन कोंकणीक 'बोली' म्हणटल्यांचीं तोंडां आमकां धांपूंक येवपाचीं नात... आमी कोंकणींत एक नेमाळें कित्याक चलोवचें न्हय?''

'नेमाळें चलोवप सोंपें न्हय' अशें दत्ताराम म्हणटलो अशें दिशिल्लें, पूण अजाप म्हळ्यार ताणें 'चलोवया' म्हणून वामनाक तेंको दिलो.

खऱ्यांनीच ते मुस्तींत नेमाळें चलोवप कठीण आशिल्लें. चलोवचें जालें जाल्यार सरकाराक सांगचें पडटालें आनी सरकारान चलयात म्हूण सांगल्यारूच चलोवंक मेळटालें. आमी सरकाराक अर्ज केलो. नेमाळ्याचें नांव 'मीर्ग' आसतलें म्हूण सांगलें आनी नेमाळें पुरायेन साहित्यीक आसतलें म्हूण उतरूय दिलें. कांय दिसांनी सरकारान आमकां धा हजार रुपया डिपोझीट दवरून चलयात म्हूण सांगलें. धा हजार खंयच्यान हाडटले? आमी निर्शेले. येदींशीं तोंडां करून भोंवपाक लागले.

हे निर्शेल्ले अवस्थेंत आसतनाच वाटेर एक दीस एके कडेन आमकां आमादेव प्राझेरिश द कॉश्ता मेळ्ळो. आमचीं तोंडां पळोवन ताणें विचारलें, ''तोंडां कित्याक बावल्यांत रे तुमचीं?'' आमादेव वामनाचो दाट इश्ट. ते भायर, 'उ येराल्दु' नांवाच्या एका पुर्तुगेज दिसाळ्याचो संपादक. आमी कित्याक निर्शेल्यात हें कळना फुडें ताणें म्हळें, ''तुमकां नव्या नांवाचें नवें नेमाळें कित्याक जाय? 'उ येराल्द' ह्या नांवान चलयल्यार जायना? 'उ येराल्दा'क आपणाली कोंकणी आवृत्ती काडपाचें सरकारी परमिशन आसा. आमची आयताराची पुरवणी म्हूण काडात...''

तिगूय आमी फुरफुरून आयले आनी रोखडें 'उ येराल्द' ह्या नांवानूच एक सप्तकी नेमाळें आमी सुरू केलें. ल्हानशें स-आठ पानांचें. बरोवपाची सगली जापसालदारकी वामनान आपणाल्या आंगार घेतली.

पांच सात आंक भायर सरल्यात जातले, वामन म्हणपाक लागलो, "हातूंत फकत आमीच बरयतात... फकत आमचीच खाज न्हिवता... दुसऱ्यांक कशे बरोवंक लावप...?"

हांवें म्हळें, "एक कथा सर्त जाहीर करुया. सर्तीक जी कथा पयली येतली तिका शंबर रुपयांचें बक्षीस दिवया..."

ते मुस्तींतले शंबर ते, जेन्ना रुपयाचें मोल रुपया आशिल्लें, पांच पयशे जावंक नाशिल्लें.

सर्त जाहीर केली. खूब कथा येतल्यो अशें दिशिल्लें. आयली फकत एक कथा - कांसावले सावन धाडिल्ली चंद्रकांत केणी नांवाच्या एका भुरग्याची.

सर्त कसली करतले, कपलाची?

एकूच एक आयिल्ली अपुरबायेची ही कथा छापतले म्हळ्यार आमचें नेमाळेंच बंद पडलें!

आमादेव उ येराल्दाचो संपादक आशिल्लो खरो, पूण मालक नाशिल्लो. मालकाक कोणें तरी वामन हें चलयता म्हूण सांगलें आनी मालक भियेलो. वामन वर्सभर बंदखणींत रावन आयिल्लो एक 'जयहिंदिश्त' आशिल्लो.

चंद्रकाताची म्हजी पयली वळख ती ही. पूण दोन गजालीं कडेन म्हजें लक्ष गेल्लें. १ - चंद्रकांत केणी ह्या नांवा कडेन आनी २- चंद्रकांताच्या अक्षरा कडेन. दिसलें, आमचे उपरांतचे पिळगेंतल्यान कोंकणीच्या मळार हो भुरगो खातरीन मुखार येतलो आनी सभावान हो भुरगो उजू आसतलो. जाचें अक्षर निवळ, तो सभावान उजू आसता असो आयज आसा तसो तेय मुस्तींत म्हजो भावार्त आशिल्लो, भोळो म्हणात तुमी ताका.

वर्स देड वर्सां उपरांत वामन वर्ध्याक पावलो. हांव ते पयलींच थंय पाविल्लों आनी काकासायब कालेलकरां सांगातांत रावन गांधींक समजून घेवपाचो यत्न करपाक लागिल्लों. बंदखणींत रावन आयिल्ल्यान वामनाचे राजकी हक सरकारान पांच काय धा वर्सां खातीर काडून घेतिल्ले. असल्या मनशाक गोंयांत नोकरी दिवपाचें काळीज कोण करतलो? हांवें ताका वर्ध्याक आपोवन घेतलो. म्हळें, हें वेगळेंच एक जग. तुका हांगा खूब कितें मेळटलें. कांय दीस रावन पळे. तो आयलो. दोन तीन म्हयन्यां भितर ताका गांधी पटलो. इतलेंच न्हय, तर पटपाक सगल्यांत कठीण तो चरख्या फाटलो विचार पटलो. चरखो एक पटूंक जाय, गांधीचें उरिल्लें सगलें पटपाक मागीर मातूय वेळ लागना.

एक दीस वामनान म्हळें, "आमकां 'मीर्ग' गोंयांत चलोवंक मेळूंक नाशिल्लें, हांगा सावन चलोवया... आमकां लागलां तें गांधी विचाराचें पिशें आमच्या इश्टां-सांगात्यांक लावया..."

गांवांत वचून ताणें एक प्रेस सोदून काडलो. खर्चाचो अदमास केलो. आनी १५ ऑगस्ट १९५३ ह्या दिसा आमी मीर्गाचो पयलो आंक उजवाडायलो.

गुरुनाथ केळेकार आनी सुमंत केळेकार ह्या म्हज्या घरच्या सांगात्यांनी गोंयचे आनी मुंबयचे मेळून देडशें दोनशें पटयेकार मेळोवन दिल्ले.

तीन-चार आंक भायर सरल्यात जातले, एक दीस चंद्रकांताची मीर्गा खातीर एक कथा आयली, मीर्गाच्या धोरणांत बसता असली. पूण खरेपणानशीं ती ताची नाशिल्ली. खलिल जिब्रानाचे एके कथेचो ताणें केल्लो तो अणकार आशिल्लो. हांवें वामनाक विचारलें, "कितें करुया?" वामनाचे कांय हट आशिल्ले, कांय मर्यादा आशिल्ल्यो आनी कांय तत्वांय आशिल्लीं (तरणी पिराय ही ताची). ताणें म्हळें, "जिब्रान कोंकणींत येवचो, पूण मराठींतल्यान न्हय. नीट अरबींतल्यान वा अरबीच्या खासा जिब्रानान केल्ल्या इंग्रजी अणकारां वयल्यान..."

तात्पर्य: चंद्रकांताची हीय कथा आमी मीर्गांत छापली ना. चंद्रकांत दुखावला जावंक जाय. कित्याक, ते उपरांत मीर्ग दोन अडेज वर्सां नेमान भायर सरलें आनी चंद्रकांतान मीर्गा खातीर कितेंच बरोवन धाडलें ना.

वर्धा, दिल्ली करून १९५६त हांव मुंबय पावलों आनी गांधी स्मारक निधीच्या आदारान 'गोमंत भारती' नांवाची एक संस्था चलोवपाक लागलों. त्याच अदमासाक चंद्रकांतूय मुंबय पावलो. एक दीस तो म्हाका गिरगांवांत खोताचे वाडींत मयेंकारागेर मेळपाक आयलो.

"हांव चंद्रकांत केणी," ताणें हांसत आपणाली वळख करून दिली. गोरी कात, लांब शिडशिडीत कूड, हांसरें तोंड, कंवळी पिराय... हांवें अदमास केल्लो तसोच तो आशिल्लो. ताका हांव गिरगांवांतल्या एका इराणी रेस्तोरांतांत घेवन गेलों. आनी म्हजे पद्दतीन ताका मेजूंक मापूंक लागलों. कितें शिकला, कितें वाचलां, कितें आनी कितलें बरयलां, खंयचो बरपी सगल्यांत चड आवडला - हजार तरांचे प्रस्न विचारले. व्हडलोसो शिकूंक पावूंक ना म्हणपाचें कळ्ळें. पूण पुर्तुगेज समजता, इंग्रजींतल्यो कथा, नवलकथा वाचता, मराठी तर वाचताच. ते भायर मराठींत बरयता. हिंदीय वाचपाक लागला. हो आपूण आपणालो शिश्य आनी आपुणूच आपणालो गुरू — सदां नवें नवें कितें शिकतलो आनी आयुश्यभर शिकत रावतलो — सेल्फमेड मॅन जातलो — म्हणपाची मनाचेर पयली छाप पडली, आनी म्हजी आनी ताची तार रोखडीच जुळ्ळी. खंयच्याय मळार देवूं तो, फाटीं केन्ना रावपाचो ना, सदां मुखारूच रावतलो म्हणपाचीय खात्री पटली. कोंकणीच्या वावरांत हो आमकां एक सांगाती म्हूण मेळटलो हे तरेची मनांत एक आस्तूय ताणें जागयली. कोंकणीचो वावर एकल्या-दुकल्याच्या कर्तुत्वान जावपाचो न्हय, हजार सांगात्यांचो हातभार लागल्यारूच तो मुखार वचपाचो हाचो ताका अदमास आसा म्हणपाची जाणविकूय जाली. आनी, अर्द पावूण वरा भितर आमी एकामेकांच्या 'नात्यां'तले जाले.

नातें रगताचेंच आसता अशें ना. काळजाचेंय आसता आनी काळजाचेंच नातें खरें आसता.

ताका नोकरी जाय आशिल्ली. हांवें दोगां तिगां कडेन उतर घालें. विष्णू नायका कडेन घाल्लें उतर धरलें. विष्णूबाब मुंबय आकाशवाणीचेर कोंकणी विभागाचो मुखेली आशिल्लो आनी नवी कोंकणी घडोवपाच्या वावरांत गुल्ल आशिल्लो. ताणें चंद्रकांताक स्टाफार घेतलो.

ते उपरांत चंद्रकांत म्हाका जेन्ना जेन्ना मेळ्ळा तेन्ना तेन्ना 'आयज म्हजी एक कथा हांव रेडियोचेर वाचपाचों आसां... मुजरत आयक

आं... हांवें कांय नवे प्रयोग केल्यात.'' अशें सांगून गेला. प्रयोगां-बियोगांतलें म्हाका केन्ना कांय समजलें ना. पूण ताणें सांगलां त्या दिसा हांवें ताची कथा आयकल्या आनी कथेच्या मळार हो आपणाली एक खाशेली वळ चिरूंक लागला अशें म्हाका दिसलां. कथाकार ते मुस्तींत कोंकणींत चडशे कोण नाशिल्ले.

म्हयन्या दोन म्हयन्यां उपरांत एक दीस अकस्मात विष्णूबाब म्हजे कडेन चंद्रकांता आड एक 'कंप्लेन' घेवन आयलो... ''कसलो मनीस दिला रे तुवें म्हाका? ताका आपणाल्यो मर्यादा लेगीत खबर नात. लक्ष्मणरावांची एक कथा न्हय रे हाणें परती केली. तरी बरें, रवाना जावचे पयलीं म्हज्या हातांत पडली. ना जाल्यार घात जावपाचो...!''

म्हाकाय धसको बसलो. हांवें चंद्रकांताक विचारलें. म्हणपाक लागलो, ''विष्णूबाबान म्हाका वाचून तिचेर मत दी म्हूण सांगिल्लें. तांचेच मराठी कथेचो तो अणकार आशिल्लो आनी मूळ मराठी रेडियोनच वितरायिल्ली. हांवें प्रामाणीकपणान म्हजें मत दिलें. लक्ष्मणराव एक व्हड कथाकार, हांव जाणां. पूण तांचे हे कथेची गजाल वेगळी.''

हांवें विष्णूक तो कितें म्हणटा तें सांगलें. परिणाम जावपाचो तोच जालो - विष्णू ताका भियेवपाक लागलो. लक्ष्मणराव ताचे पसून पयसावलो.

एक दोन सप्तकां उपरांत हांवें एक दीस चंद्रकांताक विचारलें, ''तूं काकासायबां सरीं रावपाक तयार आसा?''

''हय,'' ताणें अनमन नासतना जाप दिली.

म्हाका अजाप जाले. कसलें काम करचें पडटलें, आपणाक कितें मेळटलें, असलें कितेंय तो विचारतलो अशें दिशिल्लें. पूण ना, ताका कांकासायबां सरीं रावप म्हळ्यार कितें तें कळिल्लें.

हांवें म्हळें, ''काकासायब एक व्हड मनीस. तुका अदमास लेगीत आसचो ना येदो व्हड. म्हऱ्यांत रावले उपरांतूच तुका तांचें व्हडपण कळटलें. पूण... तांचे भोंवतणी जे कोण रावतात ते आमचे असलेच आनी आमचे येदेच. राग-दुस्वास, मत्सर असल्या अवगुणांनी भरिल्ले. तांच्या धोंगां-पोंगांची तुका आडखळ जावं येता...''

''तांचे कडेन हांव जुळोवन घेतलों. म्हाका तांची आडखळ जावपाची ना...''

हांवें म्हळें, ''काकासायब कांय जोडी-बिडी नात, तांचे कडेन पयशे नात. तुका पगार-बिगार मेळपाचो ना.

''जेवंक खावंक मेळटलें मूं? पुरो. म्हाका तांचे म्हऱ्यांत पयशे जोडपा खातीर वचपाचें ना...''

हांव खोशी जालों. ह्या भुरग्याक खंयचे संदीचें म्हत्व कितें तें बेस बरें समजता. आनी हांवें ताका सांगलें, ''वर्स, दोन वर्सां रावले उपरांत तुजे तुकाच आपणें कितें जोडलां तें समजतलें. तुज्यांत सुप्तावस्थेंत आशिल्ल्यो कितल्योश्यो शक्ती जाग्यो जाल्ल्योय तुका दिश्टी पडटल्यो. काकासायबांक सद्दां धा वीस पत्रां येतात. सगल्या पत्रांक ते त्याच



*दिल्लीक 'सन्निधी'त काकासाहेबांच्या कुटुंबाचे वांगडी...*

दिसा जापो दितात. पूण ह्यो जापो ते आपणाल्या हातान बरयनात. डिक्टेट करतात. त्यो बरोवन घेवच्यो पडटल्यो. ते भायर सद्दां एकाद-दुकलो लेखूय ते डिक्टेट करतात... चोवीस वरां म्हऱ्यांत रावपाचें काम हें...''

ताणें म्हळें, ''कितलेंय डिक्टेट करूं, हांव केन्ना उबगचों ना.''

उपरांत हांवें म्हळें, 'तांचे सरीं रावतकूच 'लाव' कितें आसतलो हाचो अदमास तुका दितां. तांगेलें हेडक्वार्टर दिल्ली आसूं, पूण ते थंय राविनात. खरेपणानशीं रावतात रेल्वेच्या डब्यांत. ते एकसारके भोंवत आसतात. तुकाय ते मर्दी मर्दी आपणा वांगडा घेवन वतले. हाका लागून आपशीं तुका देश पळोवपाक मेळटलो. दुसरें, ते खंयूय वचूं, तांकां मेळपाक त्या त्या वाटारांतले साहित्यकार, चिंतक, समाजीक कार्यकर्ते, असले वेगळ्या वेगळ्या मळां वयले व्हड व्हड लोक येतात. तांच्यो वळखीय जातल्यो. तांच्यो काकासायबां वांगडा चर्चा चलतात त्यो आयकुपा सारक्यो आसतात. तुका जायत्यो गजाली आपशीं कळटल्यो... तूं एका जंगम विद्यापिठांत वतलो, इतलें लक्षांत धर. खूब शिकूंक मेळटलें...''

''तांचे सरीं रावंक मेळ्ळें जाल्यार हांव म्हाका भाग्यवंत लेखतलों.'' ताणें एका वाक्यांत आपणालो निर्णय सांगलो.

हांवें म्हळें, ''हांवें तुका फकत विचारलां, उतर दिवंक ना. फाल्यां काकासायब मुंबयंत येवपाचे आसात, दोन दीस आसतले. मागीर, अहमदाबाद, राजकोट, जयपूर करून दिल्लीक वतले... मुंबयंत हांव तांकां मेळटलों... विचारून पळेतां... दोन दिसांनी तुका सांगतां...''

दुसऱ्या दिसा हांव काकासायबांक मेळ्ळों. घरा वचपाक भायर सरचे पयलीं तांकां म्हळें, ''म्हजे कडेन एक भुरगो आसा, गोंयचो - मराठी जाणा. मराठींत कथाय बरयता. साहित्याचेर जीव. अक्षरूय बरें... वर्स दोन वर्सां तुमचे सरीं उरलो जाल्यार म्हाका एक बरो सांगाती मेळटलो.''

''फाल्यां घेवन यो.'' तांणी जाप दिली.

दुसऱ्या दिसा हांव चंद्रकांताक घेवन तांचे सरीं गेलों. कांय प्रस्न विचारून जातकच काकासायबांनी ताका विचारलें, ''मग केव्हा पासून येता?''

''आज पासूनच... या क्षणा पासून.'' चंद्रकांतान जाप दिली.

''पूण तूं रेडियोर आसता न्हय?''

''हय... पूण म्हाका घडये तुमचे बराबर दिल्लीक वचचें पडटलें म्हूण रेडियोच्या अधिकाऱ्यांक हांवें आयजूच सांगलां... आनी तांणी म्हाका वच म्हळां...''

त्या दिसा सावन चंद्रकांत काकासायबांच्या जंगम विद्यापिठांत एक विद्यार्थी म्हूण भरती जालो. रेडियो वयले नोकरेक सोडचीट दिली.

म्हाका याद जाता, दोन म्हयन्यां उपरांत हांव दिल्लीक पावलां तेन्ना चंद्रकांताक आमच्या 'सान्निधीं'तल्या वातावरणांत पूर्णपणान भरसून गेल्लो हांवें पळयलो. भुरगो कसो म्हूण चवकशी केल्या तेन्ना ''खूब बरो, मनमिळावू'' म्हूण सगल्यांनी एका मतान जाप दिल्या.

काकासायबांचेंय काळीज ताणें जिखलां.

वर्सा उपरांत पावलां तेन्ना मराठी वांगडा हिंदींतूय तो बेस बरें बरोवन घेवपाक लागला आनी गुजरातीय समजूंक वाचूंक लागला म्हणपाचें पळेलें. दिल्लींतल्या साहित्यीक, सांस्कृतीक, सामाजीक (इतलेंच न्हय, तर राजकी लेगीत) संवसारांत ताच्यो वळखीय खूब वाडल्यात आनी कांय जाणांचो तर तो 'आत्मियू'य जाला म्हणपाचें दिसून आयलें. खंयूय केदयाय व्हड मनशा कडेन वचून तो लोकांचीं कामां करून येता हें पळयलें.

चंद्रकांत आदलो उरूंक नाशिल्लो. खूब बदलिल्लो. खूब वाडिल्लो.

'सान्निधीं'त ताणें एक 'गोवा इन्फोर्मेशन सॅण्टर' सुरू केल्लें. गोंयचे सुटकेची चळवळ ते मुस्तींत थंडावल्ली. तरी आसतना, गोंयांत खंय खंय कितें न्हय कितें घडत रावतालें. जें कितें घडटालें ताची म्हायती तो भारत सरकाराक दिवपाक लागलो. ह्या निमित्यान ताचो समर सेना सारकेल्या विदेश खात्यांतल्या एका 'डिप्लॉमॅटा'कडेनूय संबंद आयलो.

चंद्रकांताचें एक आसा, जाचे कडेन ताचो संबंद येता, तो सदां तिगोवन दवरता, तुटूंक दिना.

आनीक एक गजाल मुजरत सांगूंक जाय —

जो जो गोंयकार ते मुस्तींत दिल्लींत पावला, ताका तो मुजरत वचून मेळ्ळा. ताका 'सन्निधीं'त घेवन आयला, आनी काकासायबां म्हऱ्यांत व्हरून ताका बसयला. कांय जाणांक तर जवाहरलालजींचो ॲपॉयंटमॅण्टूय ताणें मेळोवन दिला. खूब कठीण काम हें. जवाहरलालजीं कडेन वळख आशिल्ल्या दुसऱ्या खंयच्याच गोंयकारान तें केन्ना कोणा खातीर करूंक ना.

चंद्रकांत दिल्लींत आठ-धा वर्सां उरलो.

एक दीस गोंय मेकळें जालें आनी कांय म्हयन्यां भितर चंद्रकांत एक प्रौढ, परिपक्व - सीझन्ड ॲण्ड मॅच्युअर - कार्यकर्तो म्हूण गोंयांत आयलो. येतना एक नवी नदर घेवन आयिल्लो. ऐन उमेदीचे पिरायेचो आशिल्ल्यान काळजांत सामान्या भायली उर्बा घेवन आयिल्लो आनी कर्तुत्व गाजोवपा खातीर ताचे मुखार इतिहास-विधात्यान एक नवें करकरीत मेकळें गोंय शेकानशेक पातळावन दवरिल्लें.

इतिहास विधात्यान ताचे मुखार दवरिल्लें हें एक व्हड आव्हान आशिल्लें. हें आव्हान ताणें कशें कितें झेल्लें हें सांगचें जालें जाल्यार म्हाका चारशें पांचशें पानांची चंद्रकांताच्या जिविताची कथा बरोवपाचो प्रकल्प हातांत घेवचो पडटलो. घेन आशिल्लों. पूण आयुश्याचे म्हजे बँक बॅलन्सींत इतलीं वर्सां आतां खंय उरल्यांत?

इतलें अनमन नासतना सांगीन : जिका लिपी ना, व्याकरण ना, जिच्यांत साहित्य ना म्हूण व्हडले व्हडले बुदवंत हिणयत आयिल्ले, ते कोंकणी भाशेक गोंयच्या आनी राष्ट्राच्या जिवितांत जी सुवात आयज मेळ्ळ्या, ती तिका कशी मेळूंक पावली, हाचो इतिहास कोणूय बरोवंक बसलो जाल्यार पाना पानार चंद्रकांताचें नांव घेतले बगर ताका तो बरोवंक येवपाचो ना... चंद्रकांताचे इत्से बगर कोंकणी चळवळीच्या झाडाचें एक पान लेगीत हालूंक ना.

गोंयची सुटका जायना फुडें चंद्रकांतान काकासायबांक म्हळें,



*काकासाहेबां वांगडा गोंयांत*

''मी आता गोव्याला जाऊन रवीन्द्रांबरोबर काम करू इच्छितो. तुमचा आशिर्वाद मिळेल का मला?'' कर्तुत्वी भुरगो हो म्हणपाचें काकासायब जाणा आशिल्ले. तांणी म्हळें, ''तूं कसलेंय काम कर. म्हजो आशिर्वाद सदांच आसतलो.''

रोखडोच चंद्रकांत गोंयां आयलो. येना फुडें ताणें म्हाका म्हळें, ''कांट्यान कांटो काडूंक जाय. मराठीवाद आनी विलिनीकरणवाद हांचो विरोध करचो जाल्यार मराठींतल्यान एक दिसाळें सुरू करूंक जाय.''

हांवें म्हळें, ''ही आकांताची म्हत्वाकांक्षी येवजण. जमतलें व्हय आमकां एक दिसाळें काडूंक?''

''कित्याक जमचें ना? हांव वासुदेवबाब साळगांवकारांक मेळटां. पळयतां किते म्हणटात ते!''

वासुदेवबाबांक कोंकणीचेंय कांय पडूंक नाशिल्लें तशें मराठीचेंय कांय लागनाशिल्लें. पूण बांदोडकारांचें कसलेंय काम आसूं, ताका नखलामी करप हें तांचें तत्व जावन पडिल्लें. वेळगेंचे खणीक लागून तांचें बांदोडकारां कडेन देमांद चलतालें.

तांणी म्हळें, ''गो अहेड.''

चंद्रकांत शिट्रूक. तो वासुदेवबाबांचेर निंबून रावंक तयार नाशिल्लो. ताणें एक येवजण आंखली. बाबा, चलेबाब, मधुबाब हे तीग तिंबलेभाव, शांतीलाल खुशालदास आनी वासुदेवबाब तशे तांचे भाव रामकृष्णबाब साळगांवकार हांचो एक ट्रस्ट तयार केलो आनी ट्रस्टाची मान्यताय घेवन तडक उठून मुंबय गेलो. कृष्णा कारवार ताचो बऱ्यांतलो बरो इश्ट. कोंकणी मनीस, मराठी पत्रकार, लेखक, प्रकाशक हांचे कडेन दाट संबंद आशिल्लो. तो चंद्रकांताक अण्णा फणसे कडेन घेवन गेलो. अण्णा आचार्य अत्र्यांच्या 'मराठा' दिसाळ्यांत काम केल्लो एक झुंझार पत्रकार. ताणें विचारलें, ''उद्देश काय आहे? विलिनीकरणाला विरोध करणे?''

चंद्रकांतान भियेत भियेत ''हो'' म्हळें.

''मग मागे का रहायचे? एकदम तुटून पडुया की महाराष्ट्रीय नेतृत्वावर.'' महाराष्ट्रांत असलोय एक मनीस आसा हें पळोवन चंद्रकांताक अजाप जालें. कांय दिसांनी अण्णा 'मराठां'त ताणेंच घेतिल्ल्या कांय सांगात्यांक घेवन गोंयांत आयलो. प्रेस सुरू केलो आनी रोखडेंच 'राष्ट्रमत' नांवाचें एक दिसाळें मराठींत सुरू केलें.

गोंयांत मराठीवादी जायते आशिल्ले. पूण सगलेच मराठीवादी विलिनीकरणवादी नाशिल्ले. हांकां मराठींतलें विलिनीकरणविरोधी दिसाळें पळोवन खूब खोस जाली. राष्ट्रमत खूब खपपाक लागलें. एक एक आंक वाचपी धा धा जाण तरी आशिल्ले. हजारभर आंक खपले जाल्यार धा हजार वाचपी जाताले. राष्ट्रमतांत अण्णान हाडिल्ल्या मराठी पत्रकारां भायर उदक भेंब्रे, जनार्दन फळदेसाय, हरिश्चंद्र नागवेंकार सारकेले कोंकणी भक्त बरयताले. ते भायर खासा चंद्रकांताचे अग्रलेख आनी म्हजे (स्टाफार नासतना बरयिल्ले) लेख उजवाडा येताले. चौगुल्यांच्या कट्टर मराठीवादी 'गोमन्तका' परस कट्टर कोंकणी भक्तांचें हें मराठी दिसाळें वाचपी गोंयांत चड लोक आशिल्ले. ओपिनियन पोल येवन तो जिखीसर राष्ट्रमत नेटान चल्लें. पोलाचो निकाल लागलो त्या वेळार काँग्रेसवाल्यांच्या आनी युगोवाल्यांच्या मतां भायर विलिनीकरणा आड जीं मतां पडल्यांत तातूंतलीं चडांत चड मतां राष्ट्रमत वाचतल्यांचीं आसूंक जाय ओपिनियन पोल कोणेंय 'हाडूं', तो जिखला राष्ट्रमतानूच हें सत कोणूच न्हयकारूंक पावचो ना.

कोंकणी भक्तांची एकूच एक प्रातिनिधीक संस्था म्हळ्यार कोंकणी भाशा मंडळ. हे संस्थेन गोंयचे सुटके उपरांतचें पयलेंच (आठवें) कोंकणी संमेलन घडोवन हाडिल्लें. मडगांवचें राजकर्ण कशें चलता हाचो अदमास मडगांवा भायल्या आमकां भाशा मंडळाच्या वांगड्यांक नाशिल्लो. तांणी पेद्रू कुरै आफोंसांक संमेलनाचो अध्यक्ष वेंचून काडलो. येवकार अध्यक्षाचे सुवातेर नरशींवबाब नायक येवं येतालें, पूण तांची वेंचणूक जावचे पयलींच तांच्या चिरंजिवान - बाबून - आमकां सांगून धाडलें, तांकां वेंचून काडशात जाल्यार आपूण संमेलन जावंकूच दिवचों ना मडगांवांत. परिणाम, वांगड्यांनी येवकार अध्यक्ष म्हूण म्हजें नांव मुखार काडलें. नरशींवबाब दुखावले. ''हांकां एक लाख रुपया म्हैसूरच्यान मेळ्ळ्यात'' म्हूण आमचेर आरोप केलो आनी

सातोस्कारांक सांगलो. सातोस्कारांनी तो गोमन्तकाचेर छापलो. हांवें 'खुलासो' धाडलो तो छापलो ना. 'खंयचो हे हळशिर्केत पडलों' अशें म्हाका जालें. म्हणटासर पेद्रू कुरै आफोंस आपूण अध्यक्ष जावंक तयार ना म्हणपाक लागले. तांच्या ताळ्याक कॅन्सर जाल्लो. सारकें उलोवंक येनाशिल्लें. आमी मनोहररायाक अध्यक्ष केलो. मनोहराचें भाशप 'टॉप' जालें. ह्या एकाच भाशणान ताणें आख्खें मडगांव जिखिल्लें. ह्या संमेलनाक उमाशंकर जोशी, प्रभाकर माचवे, मंगेश पाडगांवकारां सारके मनीस हाजीर आशिल्ले.

केशवदाद भेंब्रो आतां मेरेन खंयच दिश्टी पडनाशिल्लो. तो मुखार आयलो. ''तुमी कंपूशाय चलयल्या. भाशा मंडळ लोकशायेन चलूंक जाय'' अशें म्हणपाक लागलो. ''तीन केळेकार (हांव, सुमन्त आनी गुरुनाथ), तांचो भाचो (शंकर भांडारी) म्हळ्यार कोंकणी भाशा मंडळ न्हय''. आमी मडगांवच्या राजकर्णाक पयलींच विटिल्ले. आमी तांकां भाशा मंडळ तुमीच चलयात म्हळें. तांणी घेतलें. आमी केशवदादाचो सभाव नकळ आशिल्ले. भाशा मंडळान क्रमीक पुस्तकां छापपा खातीर शिक्षण खात्या कडल्यान वीस हजार रुपया रीण घेतिल्लें. केशवदादान मंडळ हातांत घेना फुडें ते 'मागून हाडले' आनी आपणालें निजी रीण पयलीं फारीक केलें. म्हणटासर तांचे कमिटींतल्या एकल्यान भाशा मंडळाचीं कांय कदेलां विकलीं आनी जे पयशे आयले ते 'खाले'.

परिणाम - भाशा मंडळ बंद पडलें.

चंद्रकांतान तें आपल्या हातांत घेतलें आनी एका वर्सा भितर जाग्यार घालें. तो कोंकणी पंगडांत आशिल्लो. पूण कोंकणी पंगडाचो फुडारी जावंक नाशिल्लो. आतां फुडारी जालो. कोंकणी चळवळीक दिशा दाखोवपाचें काम करपाक लागलो.

कोंकणीची जापसालदारकी आंगार घेतल्या त्याच वेळार ज्युस्त ताणें पर्तगाळच्या मठा कडेन संबंद जोडलो. एक दीस विद्याधिराज स्वामींचो 'ॲडवायजर' जालो. स्वामी गोंयांत आनी कारवारा येताले तेन्ना मराठींत प्रवचनां करताले. दक्षीण कॅनरांत कन्नडांत करताले. तांकां सगले कडेन 'कोंकणींतल्यान करात' म्हूण सल्लो दिलो. स्वामी सगळे कडेन कोंकणींतल्यान उलोवपाक लागले. एक दीस अचकीत सिंडिकेट बँकेचे मॅनेजर के.के.पैंक कोंकणी चळवळींत ओडून तांकां कोंकणी परिशदेचे अध्यक्ष केले. हांवें चंद्रकांताक मेळून सांगलें, ''चंद्रकांत तुजीं पावलां चुकीचे दिकेन पडपाक लागल्यांत आं! कोंकणीच्या नांवान तूं सारस्वत समाजाचें संघटन करूंक लागला. आमचेर पयलींच 'सारस्वत' म्हणून छाप बसला. कोंकणीचेर सारस्वतांची भास म्हूण छाप आसा. तुज्या राष्ट्रमताक कांय जाण 'सारस्वत मत' म्हणपाक लागल्यात आनी तूं सारस्वत समाज उबो करपाक लागला! हालींसराक पुंडलीक, शिवदास, तानाजी, वेळुस्कार, पाडगांवकार हांचे सारकेले भौसांतले कोंकणी भक्त निर्माण जाल्यात. ते आमचे पसून पयस वतले आं!'' ताणें थंडसाणेन जाप दिली, ''तांकां हुनहुनीत येवकार दिवया, पूण सारस्वतांचेर बहिश्कार करप ना. सारस्वत कोंकणी समाजाचो मेंदू, ब्रेन. तो ज्यो देखी दिता त्योच देखी हेर दिवपाक लागतात. ते कोंकणी पसून कडेक सरले जाल्यार तो 'ब्रेनड्रेन' जातलो. आनी तो आमकां परवडपाचो ना.''

चंद्रकांतान ह्या प्रस्नाचेर खूब खोलायेन येवजिल्लें. के. के. पैन एक-दोन वर्सां भितर विश्व कोंकणी संमेलन घेतलें. दक्षिण कॅनरांतल्या सगल्या कोंकणी लोकांक जोडून घेतलें. आतां मेरेन गोंयचे हिन्दू क्रिस्तांव कारवारचे हिन्दू क्रिस्तांव आनी दक्षीण कॅनरांतले कानडी लिपींत बरयताले ते इतल्यांकच कोंकणी समाज म्हणटाले. चंद्रकांताक लागून दक्षीण कॅनरांतले कोंकणी संबंदान उदासीन आशिल्ले लोकूय कोंकणी चळवळीक मेळ्ळे. आमी धा-पंदरा लाख आशिल्ले ते एकदम चाळीस पन्नास लाख जाले.

एक दोन वर्सां भितर म्हज्या लक्षांत आयलें, चंद्रकांत समाज घडोवपाच्या कामाक लागला. जे मेरेन कोंकणी 'लोक' आशिल्लो, कोंकणी 'समाज' निर्माण जावंक पावंक नाशिल्लो. हो समाज चंद्रकांतान निर्माण केला.

कर्तुत्वाचे तेंगशेर पाविल्लो आसतनाच एक दीस चंद्रकांताक 'पार्किन्सोनियन' जालो. सर्वांग कडकडपाचें एक रूप. अ.ना. म्हांबऱ्याक ही पिडा जाल्ली. पूण ती ताचे तकलेक बादूंक नाशिल्ली. ती तरतरीत चलताली. कोणाचो आदर घेनासतना तो चलतालो. चंद्रकांताचे तकलेक ती बादली. ताका चलूंक लेगीत सारकें येना जालें. म्हांबऱ्याक ही खबर कळ्ळी. ताणें आपूण घेतालो तीं वखदां चंद्रकांताक धाडून दिलीं. पूण चंद्रकांताचेर तांचो कांयच परिणाम जालो ना. कांय जाण म्हणपाक लागले, ताका कोणाची दिश्ट लागल्या. हांव असल्यो कुड्ड्यो गजाल मानपी न्हय. पूण म्हाका तें खरें दिसपाक लागलें.

तो हे अवस्थेंत आसतना म्हाका ज्ञानपीठ मेळ्ळें. म्हजें अभिनंदन करपाक तो प्रियोळा आयलो. धुवेन नाका म्हळें. जांवयान नाका म्हळें. तरी प्रियोळा वचपाक न्हेसून भायर सरलो. प्रियोळा पावला तेन्ना ताका गाडयेंतल्यान उखलून भायर कदेलार बसोवचो पडलो. कदेला सयत ताका उखलून घरांत हाडिल्लो. भायर सुर्णीं भोंकपाक लागलीं म्हूण कोण आयला तें पळोवपाक गिरीश भायर गेलो, पळेत जाल्यार चंद्रकांत!

हांव येवकाराक मुखार आयलों. आतां मेरेन पळयिल्लो प्रसन्न व्यक्तिमत्वाचो, हांसऱ्या मुखामळाचो चंद्रकांत हो नाशिल्लो. पिरायेन म्हजे परस धा बारा वर्सांनी ल्हान, म्हजे परस पंचवीस वर्सांनी जाणटो, म्हाल म्हातारो - पिसुडिल्ल्या कवड्या सारको 'कोण तरी' आशिल्लो. 'कितें गत करून घेतल्या रे पापया तुवें तुजी ही' हांवें म्हळें, आनी म्हजे दोळे ओले जाले. 'तुजें अभिनंदन करपाक आयला' ताच्या सांगात्यां मदल्या एकल्यान म्हळें. 'तें फोना वयल्यान करूं येतालें,' हांवें म्हळें तेन्ना तो कितें तरी उलयलो. म्हाका मात लेगीत समजलें ना.

हें चंद्रकांताचें म्हजें निमाणें दर्शन आशिल्लें.

कांय दिसांनी बाय माधवीचो 'चंद्रकांतबाब गेलो' म्हूण सांगूंक फोन आयलो. गिरीशान तो घेतिल्लो. ताणें विचारलें, 'मर्णाक वतलो?' 'ना' म्हळें. आनी भितर कुडींत येवन हुडक्या हुडक्यांनी रडलों कोणाच्याच मरणाक इतलो रडूंक ना हांव.

*('कोंकणी' चवथ अंक २००९ च्या सौजन्यान)*



# भोवप्रसवी साहित्यकार

**दामोदर मावजो**

### कथाकांत

म्हज्या भुरगेपणांत आमगेर 'भारतमित्र' नांवाचें मराठी म्हयनाळें नेमान येतालें. सुपुल्लीशी पत्रिका ती. कांय थळाव्यो खबरो, कांय राष्ट्रीय खबरो, एकाद्री कविता, आपउलोवप अशें तरेकवार साहित्य आसतालें. कांय स्फुटां आनी काणयो म्हजें लक्ष ओडून घेताल्यो. तातूंत चंद्रकांत केणी ह्या लेखकाचें नांव घडये घडयेक वाचूंक मेळटालें. ताच्यो इल्ल्योश्यो काणयो वा स्फुटां भोव वाचनीय आसतालीं. एक काणी म्हाका अजून याद आसा.

निवेदक रेल्वेन पयसुल्ल्या प्रवासाक वता आसतना सकाळफुडें गाडी एका स्टेशनाचेर थारता तेन्ना दोग भुरगे 'म्हजें वर्तमानपत्र विकतें घे' म्हूण ताचे कडेन हुज्जत घालतात. ताकाय पेपर जायच आसता. एकल्याचो पेपर घेतकच दुसरो पिरायेन मातसो ल्हान आशिल्लो भुरगो व्हडल्या कडेन झगडटा आनी आपणालोय एक पेपर घे म्हूण निवेदकाचे फाटीक लागता. ताची तोखणाय आनी काकुळट करीत निवेदक ताचे कडल्यानूय तोच पेपर घेता. गाडी सुटपाक थोडो वेळ आसा म्हूण निवेदक लागशिल्ल्या च्याच्या स्टॉलार वता. तेन्ना फाटले वटेन ते दोगूय भुरगे पेपर विकून आयिल्ले पयशे मेजतना तो पळयता. तांचो संवाद आयकतकच ताका कळटा, ते दोगूय खासा भाव.

त्या इल्ल्याश्या नेमाळ्याच्या एकाच पानार छापिल्ली ती ल्हानशी पूण काळजाक हात घालपी कथा पन्नास वर्सां उलगलीं तरी हांव अजून विसरूंक पावंक ना ही एकच गजाल त्या लेखकाचे लेखन कुशळटायेची देख म्हूण दिवपाक पुरो.

### कथिकेचो जनक

आयज आमी चंद्रकांतबाबांक कथिकेचो जनक म्हूण पाचारतात. खासा चंद्रकांतबाब लेगीत कथिका हो प्रकार कथे परस चिके वेगळो अशें लेखताले. म्हजें मत मात वेगळें. कथिका हीय कथाच. विस्तार ल्हान आसता देखून तिका कथिका म्हणूंक जाय. आटाप ल्हान आशिल्ल्यान केन्ना केन्ना कथिका हो ललीत निबंद आनी कथा हांचे मदलो साहित्य प्रकारसो दिसता हें इतलेंच तिचें वेगळेपण. अशें आसलें तरी कथिका बरोवप हें कठीण काम. गागर में सागर भरपा इतलेंच कठीण. पूण हें काम चंद्रकांतबाब सहजतायेंन करताले. ताचें कारण म्हाका दिसता, जें कितें सांगपाचें आसा तें थोडे भितर सांगून मेकळो जावपाचो तांचो सभाव. 'भारतमित्रा'चेर आयिल्ली ती काणी हीय एक कथिकाच. 'आंबले तोर' ही तांची गाजिल्ली कथा हीय कथिकाच. तांचे प्रकृतीक सगल्यांत चड मानवपी साहित्यप्रकार म्हणल्यार कथा, आनी कथेंतूय चड उठून दिसता ती तांची कथिका.

'भारतमित्र' वयली ती कथा हांवें वाचिल्ली तें वर्स १९६६ वा ६७ आसुंये. तेन्नाच्यान ते सातत्यान बरयत रावले. सातत्य आनी भोवप्रसवता हे तांचे तोखणाय करपा सारके गूण. खंयच्याय नेमाळ्यान वा साहित्य पत्रिकेन तांचे कडेन लेख मागलो आनी तांणी तो दिलो ना अशें केन्ना घडलें ना. अर्द शतका परस चड काळ सातत्यान कथालेखन करपी चंद्रकांतबाब हे घडये गोंयचे एकलेच लेखक आसुंये.

### आद्य कथाकार

कोंकणींत आधुनीक कथेचो जल्म केन्ना जालो? पयली कथा खंयची? आमी हेर भासां परस चड फाटीं नात म्हूण दाखोवपा खातीर आमी शणै गोंयबाबां कडेन बोट दाखयतात. 'म्हजी बा खंय गेली' ही कोंकणींतली पयली आधुनीक कथा अशें सांगतात. ती एक उत्कृश्ट कथा आनी त्या काळाच्या मानान खूब वयल्या पांवड्या वयली कथा हातूंत मातूय दुबाव ना.

पूण मॉडर्न शॉर्ट स्टोरी म्हूण ज्या प्रकारा कडेन आमी पळयतात तातूंत 'म्हजी बा...' खंय शी बसता तें परतून तपासून पळोवंक जाय. ते कथेची मांडावळ आनी अखेर पळयल्यार तिका आयची कथा म्हणूंक येत अशें दिसना. तेन्ना आपसूक आद्य कथाकार म्हणून फकत चंद्रकांतबाबां कडेन बोट दाखोवचें पडटा. आधुनीक कथेचें मुळावण तांणीच घालें अशें म्हणूंक जाय.

कोंकणींत पुस्तक उजवाडावपाचें धाडस त्या काळार कोणच करिनासलो. शणै गोंयबाबाचीं पुस्तकां लेगीत काशिनाथ श्रीधर नायक

हांचे वेव्हाराचेर आडनदर करून केल्ले निसुवार्थी करणेक लागून प्रकाशीत जावंक पाविल्लीं. अशा वेळार चंद्रकांतबाबांचो *'धर्तरी अजून जियेताली'* हो कथां झेलो उजवाडाक आयलो. शणै गोंयबाबांल्या *'गोमन्तोपनिषद'* (पयलें खंड) ह्या पुस्तकांत 'म्हजी बा खंय गेली' ही कथा आसा. पूण तातूंतल्यो 'वासूशणैली पोपाय', 'बाबुमामालो पणस', 'पितुबाबालो तांब्यापटो' आनी 'खर्णवीर' ह्यो साहित्यकृती म्हणल्यार ललीत निबंदच. कथा न्हय. देखूनच चंद्रकांतबाबांचो *'धर्तरी अजून जियेताली'* हो कोंकणींतलो पयलो कथां झेलो म्हणूंक जाय.

### ललित्यपूर्ण भास

सुर्ती रुपया वरी चोख उतरांची खाण गांठीक आशिल्ल्या केणींची भासूय व्हांवती सरस्पत. भोव वाचनीय. भास हो साहित्याचो प्राण अशें लेखतात. भास प्रवाही आसल्यारच साहित्यांत लालित्य येता. हें लालित्य चंद्रकांतबाबांच्या साहित्यांत - मागीर ती कथा आसूं वा नवलकथा, कथिका आसूं वा ललीत निबंद - उचांबळून आयिल्ले वरी खळखळटा. केणीबाब मूळ साश्टींतल्या कांसावले गांवचे. तांच्या कथांनी हें वातावरण येता. हांगासल्लीं मनशांय दिश्टी पडटात. पूण त्या पात्रांच्या तोंडांतली भास संवादांची शी दिसना. देखीक 'सपन' हे तांचे कथिकेंत मिंगेल ह्या पात्राच्या तोंडांत 'सांगतां हांव. पूण एक अट' अशें वाक्य आसा. 'अट', 'माया', 'तोल गेलो', 'अचकीत', 'नकळं' हीं उतरां ह्या वाठारांतलो क्रिस्तांव मनीस उपकारायना. हरशीं कथा बरी बरयल्या. सुंदरच आसा. पूण चंद्रकांतबाबां सारकिल्या खांप्या आनी फिशाल कथाकारा कडल्यान अशें कशें घडूं येता हाचो विचार हांव करतां तेन्ना लक्षांत येता, ल्हान पिरायेर चंद्रकांतबाब ह्या वाठारांत वाडले. पूण भास घडटा अशे पिरायेर ते गोंया भायर पावले. भाशेचेर आंतरभारती संस्कार जावंक लागले. हिंदी, मराठी, इंग्लीश ह्या भासांतल्यान वाचन-उलोवप जालें. ताचो पोशक परिणाम केणीबाबांचे कोंकणी भाशेचेर जालो. तांची कोंकणी आंतरभारती जाली. हेर भारतीय भासांनी वापरतात तीं समान उतरां आनी कोंकणी भाशेच्या सभावा कडेन जुळटात असलीं उतरां घेवन तांणी साहित्य रचलें. अशें करतना कांय कडेन, भोव करून क्रिस्तांव पात्रांच्या संवादां कडेन पावतकच, तांची भास अडेची कशी दिसताली इतलें खरें. पूण घडये वाचपाचे प्रक्रियेंत थळावी बोलीभास आडखळ हाडटा हो कांय वाचकांचो अणभव लक्षांत घेवन, संवाद सुटसुटीत जावचे ह्या हेतुनच ते तशें करताले जावंये.

कोंकणी भाशेची उतरावळ अभिव्यक्ती खातीर उणी पडटा अशें कांय लोक आनी लेखक लेगीत समजतात. पूण ती तांची समजूत तांचें अज्ञानूच दाखयता. म्हाका केन्नाच तशें जाणवल्लें ना. चंद्रकांतबाबांच्या साहित्यांत कसलोय जिणे-अणभव वा अतिसुक्ष्म भावना अभिव्यक्त करपाचें सामर्थ्य आशिल्ली भास स्पश्टपणान दिश्टी पडटा.

### प्रयोगशीलताय

चंद्रकांतबाबांक कथेच्या मळार नवे नवे प्रयोग करपाक मानवताले. शैलीचे नदरेन तांणी व्हडलेशे प्रयोग केल्ले दिश्टी पडनात. पूण विशयांचे नदरेन सामके नदरेंत भरपा इतले केल्यात. गोंयच्या सुटके झुजाचे फाटभुंये वयले धरून घटस्फोटीत पालकांच्या भुरग्यांचे अशे तरेकवार विशय तांणी आगळे वेगळे तरेन हाताळ्ळ्यात. राणी रूपमती वा मंगल पांडे सारक्यो इतिहासीक पात्रांच्या संबंदांतल्योय कथा बरोवन एक वेगळे तरेचो प्रयोग तांणी केला. ह्यो कथा इतिहासीक कथा न्हय. लेखक वा निवेदक आपणाक मेळिल्ल्या पात्रांच्या तोंडांतल्यान



*चंद्रकांतबाब साहित्यीक इश्टां वांगडा दामोदर मावजो, रवीन्द्र केळेकार, मंगेश पाडगांवकार आनी नरेश मंत्री हांचे वांगडा.*

ह्यो इतिहासीक खबरो आयकता अशें सांगीत ह्यो कथा आकार घेतात. 'काशीचो वधस्तंभ' हीय अशीच एक पुराणकथेचेर आदारिल्ली कथा. एका राजान आपल्या कुंवराक परस्त्रीचें अपहरण केल्ले खातीर मरणाची ख्यास्त फर्मायिल्ली आनी ज्या वधस्तंभाचेर ताचो बळी गेल्लो ताची ही कथा. ह्यो कथा वाचनीयतेचे कसवटणेर भोव वयल्या पांवड्याच्यो आसात हें खरें आसलें तरी कथा हे संज्ञेक त्यो कितल्यो पात्र आसात काय? चंद्रकांतबाबान केल्ले हे प्रयोग सर्वसामान्य वाचकांक भोव भावले हेंय तितलेंच खरें.



चंद्रकांत केणी

कथेचे शैलीचे वा मांडावळीचे प्रयोग करपाकूय तांकां भोव मानवताले. 'किस्सा मुर्गी का' ही तांची कथा चित्रगुप्ताच्या दरबारांतल्या निवाड्याचेर आदारून आसा. पात्रां कोण? कोंबो, कोंबी आनी कोंबयेकार घोव-बायल. कथालेखक जेन्ना आपणाले कलेच्या मळार पांय रोंबून घटमूट उबो रावता तेन्नाच तो नवे नवे प्रयोग करून आपणाले कलेक विस्तार दिवंक सोदता. सदांच तो जैतिवंत जाता अशें ना. प्रयोग फसताय. पूण नवी जाणविकाय मेळटा. चंद्रकांतबांबानूय अशे प्रयोग केल्यात. 'मांडवी अशीच व्हांवता' ही कथा निखट्या संवादांतल्यान उबी जाल्या. हेर भारतीय भासांनी हे असले प्रयोग जावंक लागिल्ले आनी चंद्रकांतबाब हे चतुरस्त्र वाचक जाल्ल्यान तांकां ताची जाणविकाय आशिल्ली. पूण कोंकणी कथा निकतीच आंग धरूंक लागिल्ली. कूस परतूंक सोदताली. अशा समयार चंद्रकांतबाबान नवे प्रयोग करून पळोवपाचें धाडस दाखयलें. देखीक, 'जननी' ही कथा घेवया. सर्जनानुभूतीचो आविश्कार घडोवपी ही कथा म्हणल्यार एके वेगळे शैलींत आनी वेगळ्या मुडांत बरयिल्ली कृती. कथानक व्हडलेंशें ना. पूण कथन करपाचो लेखकाचो कलात्मक किंवाटो दिश्टीक पडटा.

म्हजे नदरेन हो एक बरो प्रयोग आसलो तरी ही फशिल्ली कथा. भाशेचें लालित्य भोव सुंदर. पूण जिणेचें एक व्हडलें सत्य गूढ उतरांनी सांगपाचो यत्न लेखकान केला. मोगाक लागून सर्जन घडटा हाचो अणभव 'ती' घेता. 'ती' ही कोण? एक अस्तुरी? एक झाड? काय लेखकाची प्रतिभा? ती कोणूय आसूं येता - पूण ती एक जननी, हें सांगपा खातीर लेखकान विणिल्ल्या मायाजाळांत चोखंदळ वाचक फारावना. उतरांचो खेळ आनी विचारांची पुनरावृत्ती टाळून कथा अदीक मोटवी केल्ली जाल्यार घडये तो एक जैतिवंत प्रयोग जावं येतालो.

### निवेदन शैली

चंद्रकांतबाबांच्यो खूब म्हणल्यार खूब कथा प्रथमपुरुशी निवेदनांत आसात. म्हाका दिसता, असल्या निवेदनांत हो लेखक अदीक रमतालो. 'नातें रगताचें' वा 'खंत ना, खेद ना' वा 'याद आसा?' ह्या कथांनी लेखक आपणालेच अणभव जिवे तट्‌टटीत करून सांगता असो भास जाता. प्रथमपुरुशी निवेदनांत लेखकाक मनांतल्यो भावना उकतावपाक सोंपेपण मेळटा. पूण तेय परस मर्यादा चड आसतात. निवेदकाचे असवडीं कितें घडटा तें सांगतना मर्यादा पड्टात. पूण चंद्रकांतबाबांची लिखणी प्रथमपुरुशी निवेदनांत सदांच पर्जळ्ळ्या.

चडशे लेखक प्रथमपुरुशी निवेदनांत निवेदकाक नायक करतात. पूण चंद्रकांतबाब चडश्या कथांनी निवेदकाची भुमिका फकत श्रोत्याची वा प्रेक्षकाची घेतात. 'विप्रदास' कथेचो नायक आपणाले अणभव लिखीत स्वरुपांत निवेदकाचे सुवादीन करता. वा 'रीना जोझेफ' हे कथेंतली रीना ही अस्तुरी लेखकाक मेळूंक येता आनी आपणाली जिणेकाणी सांगता. जावं 'अपराजिता' जावं 'लुसी' जावं 'कर्फ्यू' जावं 'जगताप', ह्या सगल्या कथांनी निवेदक नाममात्र आसा. कथा आनी व्यथा त्या त्यां पात्रांच्यो. तांच्याच तोंडांतल्यान उकतायिल्ल्यो निवेदकाच्यो फकत प्रतिक्रिया. पूण हेंच ह्या लेखकाचें खाशेलपण.

### अस्तुरी

चंद्रकांत केणी ह्या लेखकाच्या साहित्यकृतींतल्यो अस्तुऱ्यो हो खरें म्हणल्यार प्रबंधाचो विशय. कितल्यो तरेकवार बायलो. 'अहिल्या', 'लुसी', 'मीस डायना डिसोझा', 'मीरा', 'रीना जोझेफ' हातूंत एकले भाशेन दुसरी ना. अहिल्या ही फेमिनिस्ट विचारांची, मीरा स्वताक संत मीराबायेचो अवतार लेखपी, रीना ही आपणाल्या अपंगूळ घोवा खातीर कितेंय करपाची तयारी आशिल्ली - ह्यो सगल्यो बायलो आपआपणालें दुख्ख वा भावना कांयच दाखय-लिपय करिनासतना निवेदकां मुखार व्यक्त करतात.

केणीबाबांच्यो चडश्यो नायिका पिरायेन मध्यम. घडये हे पिरायेचेर संभाशण उकतेपणान करपं सोंपें जाता वा खाजगी गजाली सांगतना लजभीड आड येना म्हणून जावंये. चड्श्यो बायलो दिसपाक सुंदर, आंगलोटीन रेखीव आनी पुरुशत्वाक आव्हान दिवपी. '...तिचो भेस भडक आसलो. आंखून चित्र काडचें तशी ती दिसताली. देहाची बारीक सारीक बाग लेगीत नदरेंत भरताली. आनी तोंडार गोड हांसो.' (रीना) वा '... चार चवगांत नदरेंत भरपाची. गंवां रंगाची गोरसाण आनी कोरीव शिल्पा वरी आंगलोट... चकचकीत दोळे. हांसतना गालाक खळयो पडटाल्यो आनी धवेफुल्ल दांत ल्हायां वरी चकचकताले. फुडल्यान घेतिल्ली लांब केंसांची फांती तिचे छातये वयल्यान जमनीर पाविल्ली.' (मीनाक्षी). 'आंगभर साडी. मानेर लांब सळसळीत रसमी केंस. फूल स्लीवजांचो ब्लावज - साडयेच्या रंगाक मॅचिंग असो. गळ्याक भांगराची बारीक सरपळी आनी तिका भांगराचो खुरीस. सरपळी ब्लावजा वयल्यान भायर काडिल्ली.

कानाक दोन रिंगो. नाकाक कांय ना. कपलाक कांय ना. गोरी-धवी. तिशींतली आसुंये' (मीस डायना).

### आनी शिरंगार

शिरंगाराचींय वर्णनां कथांनी येतात. पूण चंद्रकांतबाब नायक - नायिकेचो शिरंगार विशिष्ट मर्यादे भायर व्हरपाचें धाडस दाखयनात. चडांत चड ओंठांक ओंठ तेंकतले. पूण उत्कटतायेन घेतिल्लें चुंबन येवचें ना. आंगा वयल्यान नदर भोंवता पूण हात भोंवना अशे तरेचीं वर्णनां चड. चंद्रकांतबाबांच्या कथांतलो शिरंगार होय एक अभ्यासाचो विशय.




चंद्रकांतबाबांची अनेक स्त्रीपात्रां धीट आनी धाडसी. रीना जावं अहिल्या. कुडीचें हातियार वापरून दुडू जोडपी रीना पयशे कशे जोडले ताचें समर्थन करून म्हणटा – '...तातूंत म्हजो गुन्यांव कसलोच ना. थोडोसो म्हज्या रुपाचो आनी आंगलोटाचो. पूण चडसो पयशेकारांचोच'. आनी फुडें निवेदकान दिल्ले पयशे परते दिवन ती विचारता - 'तुका कांयच दिले बगर तुजे पयशे हांव कशें घेवं?' अहिल्या ही दुसरेपणांतली बायल घोवाक सडेतोड विचारता – '... हांव वांझ न्हय आनी दादल्यान दुसरी बायल करप धर्मांत बसता आसत जाल्यार बायलेन दुसरो घोव करप हो अधर्म कसो जायत?'

पूण हें धाडस चंद्रकांतबाबांचे नायक दाखयनात. 'पोस्टमॉर्टम' कथेंतलीं मीनाक्षी धिटाय दाखोवन नायकाच्या आंगार लवंडटा तेन्ना 'तिगेल्या उकत्या गोऱ्या पोटा वयल्यान एके फावटी हात भोंवडावचो अशें ताका दिसलें आनी एक उस्वास सोडून ताणें तो विचार बदल्लो.' सिनेमा पळयतना 'थेटरांतलो हो काळोख, पड्ड्या वयलो उत्तान शृंगार आनी कुशींतली कंवळी ऊब' आसुनय 'इंटरवलाक लायटी पेटल्यो तसो तो सडसडीत उठून उबो रावलो. चोराचेर पुलिसांच्या बॅटरी दिव्याचो झोत पडटकच तो साव दिसपाचो यत्न करता तसो ताणें बुशर्ट सारको केलो. 'येतां आं' म्हणून तो भायर गेलो.' चंद्रकांतबाबांचे चडशे नायक संस्कार, सभ्यताय, लज, संकोच, भंय... हांच्या चेपणा खाला वावुरतना दिश्टी पडटात. 'हिप्पी चली' ही तांची गाजिल्ली कथा. दोन संस्कृतायां मदलें अंतर दाखोवपी. नायकाचो ते अस्तुरे कडेन कुडीचो संबंद आयिल्लो दाखोवपी ही त्या मानान धिटायेन बरयिल्ली कथा. पूण हे कथेंतलोय नायक भिवकुरो. तिका दीस गेल्यात म्हूण कळटकच अस्वस्थ जावपी. केणीबाबांचे एकेय कथेंतलो नायक धीटपणान, उत्कटतायेन प्रणयक्रिडेंत रमिल्लो दिश्टी पडना. सभ्यतायेचो बुरखो पांगरुनूच भोंवता.

### आंतरभारती भास

चंद्रकांतबाबांची भास आंतरभारती तशीच तांची कथाय आंतरभारती. ती गोंयचे भुंयेक दसून रावना. ती खंयूय घडटा. दिल्लीक, अहमदाबादेंत, मुंबय वा अलाहाबादेंत. चंद्रकांतबाबान अनेक गांव पळयल्यात. देखून तांचे कथेंतलें वातावरण अस्सल दिसता. तांच्या आंगांतलो बहुश्रुत लेखक तांच्या कथांनी ठळकपणान जाणवता.

निजी जिणेंत चंद्रकांतबाब केणी हे सारस्वत समाज, पर्तगाळी मठ वा ज्ञाती संबंदी व्यासपिठां कडेन खूब संवकळेचो संबंद दवरून आशिल्ले. ते खातीर म्हजे सारकिले तांचे इश्ट तांचेर अर्दी-मर्दी रागार-फुगार जाताले. पूण एक गजाल मान्य करूंक जाय, चंद्रकांतबाबांच्या साहित्यांत खंयच जातीचो अभिमान वा धर्माची ओड दिश्टी पडना. निजी जीण आनी भौशीक प्रणाली आपआपणाले सुवातेर राबोवपाची कळाशी तांकां भोव बरी जमिल्ली. 'व्हंकल पावणी' कथेंत तर ते आंतरजातीय लग्नाचें समर्थनच करतात. आपपर भाव मातूय ना मानपी चंद्रकांत केणी हे एक श्रेष्ठ कथाकार अशें हांव मानतां.

## कादंबऱ्यांचो सको हुबोवपी कादंबरीकार

वेळाची आनी पानांची मर्यादा पळोवन चंद्रकांतबाब कथांचें लेखन करताले. पूण चंद्रकांतबाबांल्या कादंबरी लेखनांत एक वेगळी तरा दिश्टी पडटा. कांदबरींत कथानकाक फावता तितलो विस्तार दिवपाची मेकळीक लेखकाक आसता. चंद्रकांतबाब ती घेतात. पूण हांगाय विस्कळीतपणां जाणवतात. मर्दीच कथानक विस्तार घेता जाल्यार मर्दीच तें संक्षिप्त आनी तुटक दिसता. पूण मुळांत चंद्रकांतबाब हो उत्तम ललीत निबंदकार जाल्ल्यान तांच्या सगल्या कादंबऱ्यांनी लालित्य खेळटना दिश्टी पडटा.

*'एकलो एकसुरो'* ही तांची पयली नवलिका. पूर्ण कादंबरेचें कथानक जावपाची तांक आशिल्लें हें कथासुत्र. पूण लेखकान, वेळ नाशिल्ल्यान जावंये वा मूड नाशिल्ल्यान जावंये, बसकण मारून कथानकाक विस्तार दिवपाची तकालस घेतिल्ली दिसना. कथानक सुचलें पूण कादंबरी बरोवपाक फुरसत ना देखून थोडे भितर तकलेंतलें सगलें कथानक संक्षिप्तपणान बरोवन दवरलें – फुडें केन्ना तरी कादंबरीलेखन करपाच्या हेतान. पूण तशें घडूंक पावलें ना. अखेरेक जल्माक घालपाचे कादंबरेचो सारांशच वाचप्या मुखार दवरचो तशी ही नवलिका *'एकलो एकसुरो'* उजवाडाक आयली. पांचव्या म्हयन्याचेर बाळंत जावन जल्माक आयिल्लें भुरगें खिन्नटिल्लें उरचें तशी ही कादंबरी जाल्या. अशें हें हांव आतां बरयतां – कारण आयज कोंकणी कादंबरेचें दालन फुलूंक लागून रंगरुपाक आयलां. आयज एका चंद्रकांतबाबाल्योच स कादंबऱ्यो म्हजे मुखार आसात. १९७३ वर्सा *'एकलो एकसुरो'* उजवाडाक आयिल्ली तेन्ना कोंकणी कादंबरेचें दालन तशें रितेंच आशिल्लें. कोंकणींत कशीय जावं, कादंबरी येवची अशें येवजुपी आमचे सारक्या वाचप्यांक पंचवीस वर्सां फाटीं

हे नवलिकेचें भोव कवतूक दिशिल्लें हेंय तितलेंच खरें.

*'एकलो एकसुरो'* चें कथानक इतलें सुंदर आनी काळजाक हात घालपी आसा की विस्तार मेळिल्लो जाल्यार हे कादंबरेचें भांगर जातलें आसलें. ब्राझीलाच्या सांपावल शारांत भारताचो कोन्सूल म्हूण गेल्ल्या एका गोंयकार अधिकाऱ्याक थंयचे बंदखणींत ना केल्ल्या अपराधाची ख्यास्त भोगीत कश्टतल्या गांवभावाची खबर कळटा. नोकरी लेगीत धोक्यांत घालून तो त्या गांवभावाक वाटावपा खातीर वावुरता. पूण त्या तिरायत मनशा पासत इतलेय त्रास काडले उपरांत घरचींच कशीं त्या मनशाक फाट करतात हाची ही करूण कथा. बरी कादंबरी जावं येताली. पूण समाजीक, राजकी, भाशीक आनी साहित्यीक चळवळींत घुस्पून पडिल्ल्या एका लेखकाक पडिल्ले समयविवंचनेक लागून व्हळून गेली.




चंद्रकांतबाबांल्यो अनेक कथा प्रथमपुरुशी निवेदनांत आसतात आनी निवेदक खासा चंद्रकांत केणीच आसतात. पात्रां तांकां मेळून आपणाली कथा व व्यथा सांगतात आनी लेखक मागीर ताचेर कथेचो साज चडयतात. कादंबऱ्यांनीय चंद्रकांतबाब तशेंच करतात. तांचे *'श्रीनिवास'* हे नवलिकेंत खासा श्रीनिवास हें पात्र लेखकाक येवन मेळटा आनी आपणाली जिणेकाणी खूब विस्तारान सांगता. खिस्ती-खिस्तींनी गांठी मारीत आनी गांठी सोडयत कथानक फुडें वता. आपणाल्या जिवितांतलीं कांय कुवाडीं श्रीनिवास उलोवन दाखयता. आपणाली काणी निवेदकान बरोवन छापची अशीय अपेक्षा करता. इतल्यान कांदबरी थांबना. लेखकान बरयल्ली काणी वाचून नवीं पात्रां लेखकाक मेळटात. दामोदर लेखकाक मेळून कथानक फुडें व्हरता. श्रीनिवास मेलो ही खबर निवेदकाक हें पात्र सांगता आनी कथानकांतले दुवे जुळोवचे खातीर एवरिकाक मेळून ताचे कडसून खबरो काडटा. कशे तरेन मोडणां घेत घेत अखेरेक श्रीनिवासाचे जिणेचीं सगलीं कुवाडीं सुटलीं हे भावनेन लेखक नवलिका सोंपयता. हे कादंबरिकेची निवेदनशैली आगळीच आसा. श्रीनिवास हें पात्र आपणाली जिणेकाणी लेखकाक सांगतां सांगतां खासा लेखकूच ह्या कथानकांतलें एक पात्र जावंन उरता. खरें म्हळ्यार, शैली खातीर कोंकणींतली तरी ही एक दखलपात्र नवलिका थारता. पूण घडये बारीक अक्षरांत छापिल्ल्यान वाचपाक हातांत घेवपाक मन फाटीं सरता देखून तिची फावो तशी नोंद कोणें घेतिल्ली दिश्टी पडना. कुळागर प्रकाशनान पन्नास ते साठ पानांचीं पुस्तकां छापून उजवाडावपाची एक येवजण जाहीर केल्ली. ते येवजणेंत बसोवपा खातीर बारीक प्रिण्ट वापरून ती तितल्या पानांनी बसयिल्ल्यान वाचनाक थोडी आडखळ येता.

१९९१ वर्सा तांची *'रातभर पावस'* ही दुसरी कादंबरी उजवाडाक आयली. हिका कादंबरी म्हणची काय ना होय एक प्रस्नूच. ही एक प्रेमपत्रांची सरपळी. नवो प्रयोग करून पळोवपाचे वानशेंतल्यान जल्माक आयिल्ली. प्रेमपत्रां होय एक साहित्यप्रकार अशें लेखपी चंद्रकांतबाबान एका फाटोफाट एक असो प्रेमपत्रमय साहित्यप्रकार रचून नेमाळ्यांतल्यान उजवाडायला. उपरांत सगलीं प्रेमपत्रां एकठांय करून तांणी *'रातभर पावस'* हें पुस्तक उजवाडाक हाडलें. वयलेचाराक कादंबरेचोच प्रकार सो दिसपी हो प्रयोग म्हळ्यार लेखकाची फशिल्ली निर्मिती अशें म्हणूंक जाय. मुळांत हें बरप नेमाळ्यां खातीर बरयिल्लें. तेन्ना एक एक पत्र वाचतना वाचनीय जाल्लें. पूण उपरांत सलग सगलीं पत्रां वाचतना कांय पानां वाचून जातकच उबगण येता. पुनरावृत्ती जाणवप, ते भायर सलग छापिल्ल्यान एक पत्र खंय सोंपता आनी दुसरें खंय सुरू जाता तेंच समजना. ताका लागून वाचकांचो गोंदळूय जाता आनी उबगणूय येता. बरोवप जालांच न्हय, एकठांय करून छापून उडोवंया हे भावनेंतल्यान जल्माक आयिल्ली ही कादंबरी अशें म्हणूंक जाय.

चंद्रकांतबाबान खऱ्या अर्थान कादंबरी केळयली ती तांचे साठी कडेन. ताचे पयलीं तांची आनीक एक कादंबरिका उजवाडाक आयिल्ली. *'एक सपन सपनेल्लें'* ही कादंबरिका एका स्वातंत्र्य सैनिकाचे जिणेंत आयिल्ल्या मोगाच्या मोडाची. हे कथावस्तूंतय एक बरी आनी व्हड कादंबरी जावपाची तांक आशिल्ली. पूण थोडे भितर सांगून उडोवपाची ताकतीक केल्ल्यान ही नवलिका व्हडली उबारी घेना. पूण *'विराट'* वा *'बर्मी दीस'* सारक्यो कादंबऱ्यो मात बरो विस्तार घेतात. घडये, वृत्तपत्र संपादनाचो भार उणो जाल्ल्यान फुरसत मेळूंक लागली देखून फुडल्यो कादंबऱ्यो चंद्रकांतबाबांक बऱ्यो विस्तारान बरोवंक मेळ्ळ्यो.

*'श्रीनिवास'* ही नवलिका आसली तरी तिका संक्षिप्ततायेची बादा जावंक ना. विशय योग्य रितीन हाताळ्ळा आनी फावो तितलोच विस्तारय तिका दिला. वयर नमूद केल्ल्या साहित्यकृतींनी लेखकाली थोडे भितर सांगून झटपट सोंपोवपाची ताकतीक हे नवलिकेंत दिश्टी पडना. आनी ते पयलीं उजवाडाक आयिल्ल्या दोन विस्तृत कादंबऱ्यांनीय ती दिश्टी पडना.

*'बर्मी दीस'* आनी *'विराट'* ह्यो दोनूय कांदबऱ्यो विशय आनी आशयाचे नदरेन पुरायेन वेगळ्यो. अश्यो नवलकथा कोंकणी साहित्यांत आज मेरेन येवंक नात. दोनींतलेंय समान सुत्र म्हळ्यार कादंबऱ्यांच्या प्रमुख पात्रांनी लेखकाचे सुवादीन केल्ली आपापणाली डायरी. ही काणी दुसऱ्याची. ताणें सांगल्या आनी हांवें फकत ताचेर साहित्यीक भाशेचो साज चडोवन तिचें शब्दांकन केलां अशे भावनेंतल्यानच लेखकान ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यात.

ब्रिटिश लस्करांत मेजर म्हूण निवृत्त जावन आपणाली कूड गांवघरा मातयेक लागची हे भावनेन लंडनांतसून गोंयां आयिल्ल्या एका जाणट्या मनशान सांगिल्ली आनी डायरेंत बरोवन दवरिल्ली काणी म्हळ्यार *'बर्मी दीस.'*

दुसऱ्या महायुद्धाचे फाटभुंयेर तरणे पिरायेर लंडनांतसून गोंयांत परततना अँथनी रॉड्रीग्स हो ताची बोट ब्रह्मदेशांत आडखळून उरिल्ल्यान रंगूनाक पावता. गांठीक दुडू नात म्हूण मेळत तें काम करतां करतां तो मांगशीश नांवाच्या एका बर्मी संस्थानांत पावता. ह्या पयसुल्ल्या देशांत नवी भास, नव्यो चाली रिती, कुड्डे भावार्थ, विक्षिप्त लोक, विचित्र अणभव ह्या सगल्या अँथनीन घेतिल्ल्या अणभवांचो आपरोस म्हळ्यार *'बर्मी दीस'* ही कादंबरी. चंद्रकांतबाब मुळांतच फिशाल अशे लळीत लेखक. लालित्यपूर्ण भाशेक लागून कादंबरी भोव वाचनीय जाल्या. अनुभुतीच्यो मर्यादा जाणवतात. पूण वाचनाक बादिकार जायनात. आनी बर्मी जीवनशैली प्रत्यक्ष अणभवूंक नाशिल्ल्यान ज्यो थोड्योभोव मर्यादा आसात ताची जाण लेखकाक आसा. देखून अँथनीचे डायरेचो लेखकान मुजरत उल्लेख केला.

*'बर्मी दीस'* कादंबरेंत बर्मी वातावरण आनी थंयचे भावार्थ वाचकां मुखार बेस बरे येतात. कथानक एकसुत्री अशें ना. महायुद्धाचे अखेरेक नायक अँथनी मांगशीश सोडून परतो भारतांत येता आनी ताच्या बर्मी अणभवां वांगडाच *'बर्मी दीस'* कादंबरी सोंपता. कादंबरेचो अखेर ताकतिकेन आटापिल्ले वरी अचकीत जाल्ल्याची भावना वाचकांच्या मनांत दाटून उरता.




*'विराट'* हीय अशीच डायरेच्या आदारान बरयिल्ली नवलकथा. सुरवेच्या मनोगतांत लेखकान हाची गवाय दिल्या. आनी उपरांत कांदबरेंतूय लेखक हो नायकाचे जिणे कडेन तटस्थतायेन पळोवपी एक पात्र जावन वावुरता. लेखकाची आनी नायकाची भेट, उपरांत नायका विशीं कुतूहल, नायकान लेखकाक डायरी दिवप आनी आपणाली जिणेकाणी बरोवपाक अनुमती दिवप ह्यो गजाली ह्या दोनूय कादंबऱ्यांनी एकेच तरेन आयल्यात.

गोंयच्यान घर सोडून पळून गेल्लो विराट भगवी कफनी घेवन दीस सारता. परत गोंयां येता. उपरांत कॉलेज शिक्षणा खातीर मुंबयंत पावता. थंय ताचे जिणेंत एक नाटक घडटा. पुरबी हे चलयेची आवय सुमित्रा विराटाक हिन्दी बरी उलोवची कशी तें शिकयता. आनी ल्हवुल्हवू ती विराटाक वश करता. विराटान आपणाले धाकले धुवे कडेन, पुरबी कडेन, लग्न करचें आनी आपणा कडेन कुडी संबंद दवरचे अशी मागणी ती करता. इतले मजगतीं शिरीन ही तरनाटी विराटाचे जिणेंत येता. पूण तें नातें चड दीस तिगना. घोवाची बदली जाल्ल्यान दिल्लीक पाविल्ली सुमित्रा वकिली करपाच्या निमतान मागीर विराटाक दिल्लीक आफयता. एक दीस पुरबी, जी आतां भोव सुंदर आनी गुणेस्त तरनाटी जाल्या, अचकीत घरा पावता तेन्ना ती आपणा खातीर आवयन वेंचून काडिल्ल्या घोवांक आपणाले आवयचे कुशींत रतीमग्न पळयता. जिणेक उबगून ती जीव दिवपाचो यत्न करता. विराट वितरागांनी हिमालयांत वता. थंय एका साधूचो शिश्य जाता. साधूच्या आदेशाचें पालन करपाक तो पवनगिरी संस्थानांत वता. थंय ताका महाराणी रूपमती मेळटा. मोडणां मोडणांनी कथानक फुडें सरता. राणी महानंदा, फुलवंती, अशा अस्तुऱ्यां कडेन संबंद येतकच विराटाक आपूण अबरगती कडेन वतां म्हणपाचें जावणता आनी तो बद्द गोंयां आपणाल्या घरा येता. एक दीस परतोय मुंबय वता. नोकरी धरता. पूण रोखडोच उबगून भगवी मुस्तायकी आंगार लकोवन दक्षिणेचे भोंवडेर वता. एका गांवांत पाविल्ले कडेन जोर तापता देखून ताका एका घरांत आलाशिरो घेवचो पडटा. हो एक सिद्धपुरूश जावंये अशें लेखून घरचीं ताची सेवा करतात. घरकान्न सुशिला ताचे पांय चेपता. सेवा करतां करतां ती कुडी सूख मागता. सुमित्रा वरीच हिवूय विराटाचें लग्न आपणाले सतरा-अठरा वर्सांचे धुवे कडेन तिचे इत्से विरुद्ध करून ताका घरजावंय करून बांदून दवरूंक सोदता. पर्थून विराट थंयसून पळून वता. हांगाच कथानक सोंपता.

पर्थून एक फावट वाचकाक अतृप्त दवरून तुटकपणान कादंबरेचो अखेर जाता. *'विराट'* कादंबरेचो अखेर करतना डायरेची एक नोंद नमूद करून लेखक नायकाक उद्घृत करता — ''वासना तृप्त करुनूच आसक्ती सोंपूं येता.'' हें वाक्य नायकान केल्ले वासनापुर्तीचें सूचक. कादंबरी सोंपोवनय डायरेचो आदार घेवन आचार्य रजनीश आनी काझी नोव्हा हांचे उल्लेख केल्ल्यान ते अप्रस्तृत दिसतात. ते टाळूंक जाय आसले.

*'विराट'* म्हळ्यार एक वासनाकांड. हातूंत खरें कितलें, फट कितलें तें सांगप कठीण. डायरेचो उल्लेख सुरवेच्या मनोगतांत आयिल्ल्यान ही काणी विराट (मूळ नांव बदल्लां) अशें लेखक म्हणटा त्या पात्राची असो विस्वास वाचक बाळगिता. पूण वाचतासतना लेखक त्या पात्रा कडेन चडच समरस जावन ताका न्याय दिवंक सोदता अशें दिसता. डायरेंतल्यो नोंदी खऱ्यो काय हो नायकाचो कल्पना विलास असो संभ्रम वाचकाक पडूं येता. तोंडार सभ्यतायेचें रुपडें घेवन वावुरचें पडटा तेन्ना वासनापुर्तीक आडमेळीं येतात. दादल्यां वरीच बायलोय कुडी सुखाक हापापिल्ल्यो आसतात. आनी वासना पुर्ती खातीर खंयच्याय थराक वचूं येतात अशें दाखोवपाचो यत्न हे कादंबरेंत जाला. कुडीं सुखाक वंचीत आशिल्लो दादलो फँटसींत रममाण जावन जीं चित्रां दोळ्यां मुखार हाडटा तशे तरेचें फँटसायज्ड कथानक हे कादंबरेंत दिश्टी पडटा. तातूंत चूक कांय ना. पूण सर्जनशील



*मंगळूरांत मों.ॲलॅक्झांडर डिसौजा आनी भौ. एडविन डिसोजा हांचे वांगडा.*

अभिव्यक्तीचें दर्शन निखालस घडना. अशें अशें घडलां तें हांव निवेदन करतां हे भुमिकेंतल्यान हे कादंबरेचें लेखन जालां.

डायरे वयल्यान कादंबरी बरोवपाचे प्रयोग हाचे पयलीं हेर भासांनी जाल्यात. इंग्लीश लेखक सुधीर ककर हांगेली 'मीरा ॲण्ड महात्मा' ही कादंबरी मॅडलीन स्लेड उर्फ मिराबेन हिगेले डायरे वयल्यान आनी तिणें बरयिल्ल्या वा तिका आयिल्ल्या पत्रांचे संदर्भ घेवन बरयल्या. हे कादंबरेंत निवेदक आसा. निवेदकाक डायरी कशी मेळटा ती खबर आनी उपरांत निवेदकान सेवाग्रामांत महात्मा गांधीं वांगडा सारिल्ल्या दिसांची खबर सांगीत लेखक 'मीरा आनी महात्मा' हांच्या संबंदांचेर उजवाड घालता. पूण हो निवेदक खासा लेखक न्हय. तर लेखकान कल्पना शक्तीचेर आदारून तयार केल्लें एक पात्र. हो निवेदक आश्रमांत पावता आनी प्रत्यक्ष गवाय जावन खुबश्यो गजाली सांगता. एक आगळी वेगळी शैली वापरून बरयिल्ली ही कादंबरी हीय एक सत्यकथाच. पूण भोव वाचनीय आनी कादंबरी कशी दिसता.

चंद्रकांतबाबांल्या डायरे वयल्यान बरयिल्ल्या कादंबऱ्यांनी नायक आशिल्ल्या डायरेच्या मालकां परस निवेदक आशिल्ल्या लेखकाचेंच मनोगत आमी वाचतात काय असो दुबाव येता. सुधीर ककर हांणी खूब म्हायती मेळयली. पूण कादंबरेक पोशक तितलीच वापरली. डायरेंतल्यो अनावश्यक नोंदी तांणी टाळ्ळ्यो. पूण चंद्रकांतबाबांक कादंबरी बरयतना डायरेंतल्यो नोंदी उण्यो पडल्यो म्हणपाचें जाणवता.

चंद्रकांतबाबांली निवेदनशैली सुंदर, भोव वाचनीय नागरी आनी गांवगिरी ह्या दोनूय भाशाशैलींची जाण तांकां आसा. अशें आसुनूय *'बर्मी दिसां'*त ॲंथनीच्या तोंडांत घाल्ली भास अडेची कशी दिसता. संवाद हे जशे उलयतात तशेच आसचे. पूण हांगा 'मरतना एकलोच वतलों... देखून ह्या संवसारीक वस्तूं वयली आसक्ती सोडूंक सोदतां.' वा 'हांव म्हज्या पुर्वजांचो अवतार' असलीं वाक्यां लंडनांत रावन आयिल्ल्या ॲंथनीच्या तोंडांत सोबनात.

*'श्रीनिवास'* कादंबरेंतूय 'तारवटी लोक दोन-तीन वर्सांनी घरा येतात' अशें म्हळां. तारवटी आदल्या काळार वर्सा वर्सा येताले. हालीं तर स म्हयने थंय चडांत चड णव म्हयने ते बोटीर आसतात. लेखकान तपशिलाचेर बारीकसाणेन लक्ष दिवंक ना हाचें हें दयोतक.

*'बर्मी दीस'* कादंबरेंतलीं कांय सौंदर्यस्थळां ठळकपणान जाणवतात. एके कडेन ॲंथनी गोंयकारांचेर बडी मारून म्हणटा — 'इंग्लीश उलयले म्हूण ते इंग्लीशमॅन जावचे नात आनी कोंकणी विसरले जाल्यार ते गोंयकार उरचे नात.'

*'विराट'* कादंबरेचें कथानक चडशें गोंया भायरच घडटा. म्हणटकच आंतरभारती भाशाशैली चंद्रकांतबाबान भोव सुंदर रितीन केळयल्या. संवादांतल्यान कथानक फुलत वता. विराट्या वांगडाच वाचकूय ठांय ठांय भोंवन येता.

चंद्रकांतबाब केणी हांच्या कादंबऱ्यांचें म्हजे परीन मुल्यमापन करतना दोशांचेरूय उजवाड घाला. तरिकूय एक गजाल मान्य करुंकूच जाय, कोंकणींत कादंबरेच्या मळाचेर काळोखूच आशिल्लो अशा वेळार तांणी कादंबऱ्यांची रचना केल्या. विंगड विंगड विशय घेवन त्यो बरयल्यात. खासा लेखक भारतभर भोंविल्ल्यान, आकांताचें वाचन केल्ल्यान आनी बहुश्रुत आशिल्ल्यान ताचो प्रभाव ताच्या वट्ट साहित्याचेर दिश्टी पडटा.

चंद्रकांतबाबांच्या साहित्याचे अनेक चाहते आसात. कोंकणी सरस्पतीच्या दालनांत तांणी आपणा खातीर खाशेली सुवात जोडल्या. ह्या भोवप्रसवी लेखकाच्या साहित्याचें योग्य मुल्यमापन तांच्या जिवीतकाळांत जावंक पावलें ना. हाचे फुडें तें बेगीन जावचें. ताचो लाव तरणे पिळगेच्या लेखकांक आनी अभ्यासप्यांक मेळ्ळे बगर रावचोना.

*('कोंकणी' चवथ अंक २००१ आनी जैत दिवाळी अंक २००१ ज्या बरेपणान)*



# चंद्रकांत केणी : जिवीत आनी कार्य

**प्रकाश नायक**

शणै गोंयबाबान कोंकणी मनशाचे कोंकणी अस्मितायेक जाग हाडली आनी एके नदरेन कोंकणी भाशेच्या पुनरुत्थानाच्या वावराची बुन्याद मारली. उपरांत बाकीबाब बोरकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय आनी तांचे पिळगेंतले आनीक कांय जाण शणै गोंयबाबान घालून दिल्ले वाटे वयल्यान मुखार गेले. तिसरे पिळगेंत रवीन्द्र केळकार, मनोहरराय सरदेसाय, शंकर भांडारी हांचे वांगडाच चंद्रकांत केणी आनी हेरांनी कोंकणी चळवळीचें नेतृत्व केलें.

हे पिळगेच्या काळांत गोंयांत राजकीय-सामाजीक मळार कांय वाद सुरू जाल्ले. तातूंत गोंयचें अस्तित्व आनी कोंकणी भास हे मुखेल मुद्दें आसले. गोंय एक वेगळो प्रदेश आनी ताची भास कोंकणी हें दाखोवन दिवपाक ही पिळगी वावुरली, झुजली, रस्त्यार देंवली. ह्या संघर्शांत चंद्रकांत केणींचें व्हड योगदान आसा. तांणी आपलें पुराय जिवीत कोंकणी भाशेक, कोंकणी साहित्याक आनी कोंकणी राज्याक भेटयलें अशें म्हणूं येता. तांच्या कार्याचो विचार करतना भौ. रवीन्द्र केळेकार हांच्या उतरांची याद जाता. ते म्हणटात, "जिका लिपी ना, व्याकरण ना, जिच्यांत साहित्य ना म्हूण बुदवंत हिणयत आयिल्ले ते कोंकणी भाशेक, गोंयच्या आनी राष्ट्राच्या जिवितांत जी सुवात आयज मेळ्ळ्या, ती तिका कशी मेळूंक पावली, हाचो इतिहास कोणूय बरोवंक बसलो जाल्यार पाना पानार चंद्रकांताचें नांव घेतले बगर ताका तो बरोवंक येवपाचो ना. फाटल्या तीस बत्तीस वर्सांच्या काळांत चंद्रकांताचे इत्से बगर कोंकणी चळवळीच्या झाडाचें एक पान लेगीत हालूंक ना."

अशा ह्या व्हड गोंयकाराचो, व्हड कोंकणी मनशाचो जल्म गोंयांत २६ नोव्हेंबर १९३४ ह्या दिसा तांच्या आजोळा कुंकळ्ळे जालो. भौ. शांताराम पांडुरंग केणी आनी भौ. प्रेमाबाय शांताराम केणी हांचो हो दुसरो पूत. एका हिन्दू मध्यवर्गी रुढीवादी रासवळ घराब्यांत चंद्रकांत केणी ल्हानाचे व्हड जाले. तांचें मूळ घर मडगांवां आसलें. पूण तांच्या आज्यान, भौ. पांडुरंग केणी हांणी धंद्या खातीर कांसावले बिराड केलें आनी थंय ते स्थायीक जाले. तांच्या बापयाक ज्योतीश विद्येची ओड आसली. तांणी ही विद्या खूब बरी शिकून घेतली. उपरांत ज्योतीश विद्येचेर प्रभुत्व जोडटकच ते मुंबय स्थायीक जाले आनी होच व्यवसाय तांणी आपणायलो. ह्या संबंदांत तांणी *'ज्योतीश सागर'* नांवाचें पुस्तक बरयलां.

चंद्रकांतबाबांचें भुरगेपण कांसावली ह्या सैमान नटिल्ल्या दर्या वेळे वयल्या मुरगांव तालुक्यांतल्या गांवांत गेलें. तांकां कांसावले गांवा विशीं विशेश ओड आसली. ह्या गांवा विशीं ते एके कडेन अशें बरयतात:

"म्हजें सगळें भुरगेपण कांसावली गांवांत गेलें. संवसाराची पयली वळख आनी जिणेंतले पयले संस्कार हांवें त्या गांवाच्या वाठारांतच घेतले. थंयची दर्यावेळ आनी दोंगुल्ल्यो, झाडां आनी पेडां, मनशां

आनी वझरे सगळ्यां कडेन म्हजी संवकळ. एके एके वस्ती कडेन जिणेंतली एक एक अमुरपिकी याद घुस्पल्ली उरल्या. आनी तातूंत रेमेतीच्या दोंगरा कडेन तर म्हजें भावनीक नातें निर्मल्लें आसा. थंयच्या दर एका झाडाक आनी तळपाक, कपेलाच्या प्राकारांत आनी सकल्या वझऱ्या म्हऱ्यांत चार वाटांच्या चारय पाजांनी... जिणेंतले मोलादीक खीण जोडिल्ले उरल्यात. भुरगेपणांत अभ्यास करपा निमतान वा निखटें हेडपा खातीर जसो हांवें ते दोंगुल्लेचेर वेळ सारला, तेच भाशेन जाणटेपणांत लेगीत सुखाचे आनी खंतीचे खीण मनांत दाटून आयले तेन्ना तेच दोंगुल्लेचे फाटीचेर हांवें वेळ सारला. रेमेतीच्या दोंगरान म्हाका खूब दिलें. केन्ना केन्नाय अशें दिसता, म्हजो पोसो उणो पडलो. त्या दोंगराचें रीण जिणेंत फारीक जावचें ना."

भुरगेपणा सावन चंद्रकांतबाबांक भोंवपाची खूब ओड. नव्यो नव्यो सुवातो, थळां पळोवपाची आवड. ही तांची भोंवपाची आवड जिवीतभर उरली. भुरगेपणा सावन तांकां आनीक एक पिशें आसलें तें म्हळ्यार वाचनाचें. हेंय तांचें पिशें निमाणे मेरेन उरलें.

गोंयांत त्या काळार पुर्तुगेज राजवट आशिल्ल्यान चंद्रकांतबाबांचें मुळावें शिकप पुर्तुगेज भाशेंतल्यान जालें. कांसावलेचे सरकारी मुळावे शाळेंतल्यान तांणी "सेगुंद ग्राव" म्हळ्यार चवथी मेरेन शिक्षण घेतलें. उपरांत कांसावलेच्याच सेंट फेलिक्स स्कुलांतल्यान कांय वर्सां शिकले उपरांत मडगांवच्या पॉप्युलर इंग्लीश हायस्कुलांतल्यान ते मॅट्रीक मेरेन शिकले.. मॅट्रिकेच्या शिक्षणा वेळार तांचे साहित्य साधनेक सुरवात जाली. बरें बरें साहित्य वाचून काडप म्हूण ह्या वेळार तांणी थारायलें. मडगांवच्या सारस्वत ब्राम्हण समाजाच्या (आयच्या गोमंत विद्या निकेतनाच्या) वाचनालयाचे आनी दामोदर वाचन मंदिराचे ते वांगडी जाले. खूब वाचपाक लागले. वाचनाचें पिशें तांकां इतलें लागलें की केन्ना केन्ना शाळेंतलो वावर आनी अभ्यास कुशीक दवरून ते दुसरीं पुस्तकां वाचत बसताले. वाचनाक लागून तांकां बरोवपाचीय प्रेरणा मेळ्ळी. ह्या संदर्भांत ते बरयतात, "वाचनाचे आवडीचो म्हजेर एक वेगळो परिणाम जालो. रवीन्द्रनाथ टागोरांची एक कथिका आसा - "नांवाचो खेळ." तें कथिकेंतल्या नायका भाशेन ती अवस्था आसली. हांवें कितेंय तरी बरोवचें, कशें बरोवचें तें खबर नासलें, म्हजें नांव छापून येवचें, अशी उमळशीक लागून उरताली. हांव बरोवंक लागलों." आपलो पूत शाळेच्या अभ्यासाक वेळ आनी महत्व दिनासतना वाचता आनी बरयता हें शांतारामबाब केणी हांकां सदांच आडखळटालें.

चंद्रकांतबाबान हायस्कुलांतल्या हस्तलिखिता खातीर बरोवंक सुरवात केली. उपरांत आपणें कितें तरी बरोवचें आनी तें आपल्या नांवान छापून येवचें ही उमळशीक तांकां लागली. तेन्ना ते पंदरा-सोळा वर्सांचे आशिल्ले. हे उमळशिकेक लागून शाळेच्या अभ्यासाचेर तांचें लक्ष थिरावनासलें. तांचें हें साहित्याचें पिशें तांच्या बापोलयाचे नदरेंत भरपाक लागलें. बापोलयान तांकां सदां शिटकावचें, "आदीं शिकून घे, मागीर बरोवंक पुराय जल्म आसा," तेन्ना तांकां तीव्रपणान दिसपाक लागलें, आपली योग्यताय आपल्या घरच्या लोकांक दाखयले बगर आपणाक आपल्या घरांत मान मेळचो ना.

तांणी आपलें पयलें वयलें बरोवप कोंकणींतल्यान केलें. हाका तशींच कारणां आसलीं. पयलीं मडगांवां शिकता आसतना लोहियांचो प्रभाव तांचेर पडलो. उपरांत ३० जानेवारी १९४८ ह्या दिसा गांधीजींची दिल्लींत हत्या जाली. तेन्ना भारत भर गांधीजींच्या अस्थींचें विसर्जन करपाची येवजण थारली. तेन्ना कांसावले एक अस्थी विसर्जन सभा जाल्ली. तातूंत भुरगो चंद्रकांत पयलो वयलो कोंकणींतल्यान उलयलो, आनी कोंकणींत उलयल्ल्यान हें उलोवप सगळ्यांक कळ्ळां म्हणपाचें ताणें पळेलें. हे सभेंतलें उलोवप म्हळ्यार कोंकणीची तांणी घेतिल्ली दिक्षा अशें म्हणूं येता. गोंयकारांची भास कोंकणी, तांची अस्मिताय कोंकणी हाची तांकां तेन्ना जाणीव जाली.

चंद्रकांतबाबान पयलें वयलें बरोवप कोंकणींतल्यान केलें. पूण




*गोंय मुक्ती उपरांत पणजे आझाद मैदानार भरिल्ले प्रार्थना सभेंत. वांगडा (दावे वटेनच्यान) दीनाबाब गावणेकार, शंकर भांडारी, रवीन्द्र केळेकार, काका कालेलकर, पुरुषोत्तम काकोडकार आनी बाकीबाब बोरकार.*




*अखील भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेचे माचयेर, मंगळूरांत.*

तेन्ना गोंयांत कोंकणी साहित्यीक नेमाळीं नासलीं. खंय छापून हाडप हो मुखेल प्रस्न आसलो. पूण तेन्नाच पणजे सावन भौ. दत्ताराम सुखठणकार, भौ. वामन सरदेसाय आनी भौ. रवीन्द्र केळेकार हांणी एकठांय येवन ''उ येराल्दु' ह्या पुर्तुगेज दिसाळ्याची कोंकणी साप्ताहीक आवृत्ती काडपाक सुरवात केली (आयताराची पुरवणी - ल्हान, स-आठ पानांची). हातूंत एक कथासर्त जाहीर जाली. सर्तींत पयली येवपी कथेक शंबर रुपयांचें बक्षीस आसलें. हे सर्तीक फकत एक कथा आयली. कांसावले सावन चंद्रकांत केणी हांची. ती, 'मेवणो' तांची छापून आयिल्ली पयली कथा आसली. पूण कोंकणी 'उ येराल्दा'चे दोन तीन अंक आयले उपरांत तें सप्तकी नेमाळें बंद पडलें. उपरांत चंद्रकांतबाब 'भारत-मित्र' ह्या म्हयनाळ्याक आपलें लिखाण धाडपाक लागले आनी तें उजवाडा येवपाक लागलें. उपरांत 'मनोहर', 'सविता' ह्या मासिकांक मराठी कथा बरोवन धाडपाक लागले आनी त्योय उजवाडा येवपाक लागल्यो. १९५० वर्सा सावन ते कोंकणी आनी मराठी दोनूय भासांतल्यान बरोवंक लागले.

उपरांत मॅट्रिकेची परिक्षा दिवपाक ते मुंबय गेले. थंय तांकां 'होम सिकनेस' जाणवूंक लागली. हे सिकनेसीक लागून ते कोंकणी भाशेक चड लागीं आयले. ह्या काळांत मुंबय कोंकणी भाशीक चळवळीचें म्हत्वाचें केन्द्र आशिल्लें. मुंबय चंद्रकांत केणींचो संपर्क भौ. रवीन्द्र केळेकार, भौ. बाकीबाब बोरकार सारक्या कोंकणी म्हालगड्यां कडेन आयलो. ह्या कोंकणी वातावरणांत कोंकणी साहित्य निर्माण करपाची तांची तांक आनी उर्बा वाडली.

मुंबय चंद्रकांतबाब आपणाक एक चाकरी सोदताले. भौ. रवीन्द्र केळेकारांक तांणी आपली अडचण सांगली. तेन्ना मुंबय आकाशवाणी केंद्राच्या कोंकणी विभागांत तांकां काम मेळूंक पावलें. थंय एक वर्स ते उरले. आनी उपरांत रवीन्द्र केळेकारां वरवींच चंद्रकांतबाब आचार्य काकासाहेब कालेलकरां म्हऱ्यांत पावले.

काकासाहेबांक आपल्या हातान बरोवपाची संवय नाशिल्ली. ते आपणालें साहित्य दुसऱ्याक बरोवंक घालताले. हें बरोवन घेवपाचें काम आतां चंद्रकांतबाब करताले. काकासाहेब एक साहित्यकार तशेच एक गांधीवादी विचारवंत. ते दिल्लीक 'सान्निधी'त रावताले, पूण एका सारके रेल्वेंतल्यान भारतभर भोंवत आसताले. काकासाहेब आसताले थंय तांकां वेगळ्या वेगळ्या मळां वयले व्हडले व्हडले लोक, साहित्यकार मेळपाक येताले. 'सन्निधी'चें वातावरण एका विश्वविद्यालया सारकें आसलें अशें चंद्रकांतबाब सांगताले.

'सन्निधी'ची 'गांधी हिन्दुस्तानी प्रचार सभा' ही संस्था हिन्दुस्तानी प्रचाराचो, भाशीक समन्वयाचो वावर करताली. १९५० वर्सा सावन हे संस्थेन एका मुखपत्राच्या स्वरुपांत 'मंगल प्रभात' नांवाची एक पत्रिका चलोवपाक सुरवात केली. तातूंत आचार्य काकासाहेब कालेलकरांची प्रतिभा आनी चिंतन दिसतालें. 'मंगल प्रभात' पत्रिकेच्या संपादनाच्या कामांत चंद्रकांतबाब हातभार लायताले. काकासाहेब एक शैलीदार लेखक आसले. तांच्या लेखनाचे गूण चंद्रकांतबाबान आत्मसात केले. मुखार एक वेवसायीक पत्रकार म्हूण चंद्रकांतबाबान सुवात जोडली तेन्ना तांचे लेखणेंत हे गूण दिसपाक लागले. काकासाहेबांच्या संपर्कांत आयिल्ल्यान चंद्रकांतबाब आपलें बरप दुसऱ्याक बरोवंक घालपाची कलाय शिकले. साहित्य डिटेक्ट करता आसतना कोणूय मर्दी आयलो जाल्यार हातांतलें काम थंय थांबोवन ते त्या मनशाक येवकार दिताले आनी ताचें काम जाले उपरांत परतेय डिटेक्ट करपाक लागताले. गांधीवादी प्रभावाक लागून चंद्रकांतबाबूय खादी घालूंक लागले. निमाणे मेरेन ते खादी घालताले.

ह्या काळांत दिल्लीक तांचो नेमाळ्यां-दिसाळ्यां कडेन संबंद आयलो. तांणी दिल्ली युनिव्हर्सिटीचो जर्नलिझम कोर्स केलो. हिन्दी भाशेचेर प्रभुत्व जोडून 'नई कहानी', 'हिन्दुस्तान', 'धर्मयुग' सारक्या नेमाळ्यां खातीर बरोवपाक लागले. 'हिप्पी चली' ही तांची कथा पयली वयली हिन्दींतल्यान छापून आयिल्ली.

काकासाहेब राष्ट्रभाशेचो प्रचार करताले. हाका लागून चंद्रकांतबाबांक हिन्दी विशीं एके तरेचें आपलेपण दिसूंक लागलें. १९९९ वर्सा Sixth World Hindi Congress, (London) चे माचये वयल्यान उलयता आसतना ते म्हणटात, "Hindi would not be a World Language unless and until it receives its due place and dignity in its homeland." दिल्ली सावन तांणी *'भुंयचांफी'* (१९५६) ह्या वेंचीक कोंकणी कथांच्या पुस्तकाचें संपादन केलें.

गोंय मेकळिकेचे चळवळी वेळार चंद्रकांत केणी दिल्लीक आसले. थंय ते 'गोआ समाचार केन्द्र' चलयताले. हें केंद्र गोंयच्या राजकी

प्रस्नांचेर उजवाड घालतालें. थंय जायत्या राजकी मळा वयल्या व्यक्तीं कडेन तांचो संबंद आयलो. तातूंत मुखेल आसले भारताचे प्रधानमंत्री जवाहरलाल नेहरू. काकासाहेब गोंय वेगळें राज्य आसचें आनी कोंकणी ताची राजभास जावची ह्या मताचे आसले. ह्या संबंदांत तांची आनी चंद्रकांतबाबांची हेरां वांगडा चर्चा जाताली.

१९६१ वर्सा गोंय मेकळें जातकच चंद्रकांतबाब गोंयांत आयले. मेकळ्या गोंयांत १९६२ वर्सा तांणी 'त्रिवेणी' हें सातोळें काडलें. ते हिन्दी, कोंकणी आनी मराठी अश्या तीन भासांतल्यान भायर सरतालें. हें सातळें चड काळ चल्लेंना.

गोंय मेकळें जातकच १९६२ वर्सा कोंकणी परिशदेचीं आठवी बसका मडगांवां जाली. ही गोंयांतली पयली कोंकणी परिशद आसली. हे परिशदेंत चंद्रकांतबाब हाजीर आसले. त्या दिसा सावन रवीन्द्र केळेकार, गुरुनाथ केळेकार, शंकर भांडारी हांचे वांगडा तांणी आपणाक कोंकणी चळवळींत पुरायेन झोकून दिलें. कोंकणी भाशेक देशांत तिच्या हक्काचो एक प्रदेश जोडून दिवपाचो वावर, तशेंच ह्या प्रदेशाक कोंकणी संस्कृतीक अभिव्यक्तीची जोड दिवपाचो जो वावर चल्लो तातूंत तांचो मोलादीक हातभार लागलो.

ह्या काळांत तांणी पत्रकारिते वरवीं केल्लो वावर मोलादीक थारता. गोंय एक वेगळो संघप्रदेश आनी कोंकणी ताची राजभास हो विचार भौसा मेरेन पावोवपा खातीर एक वर्तमानपत्र जाय आसलें. पूण तेय परंस चड विलिनीकरणवादी वर्तमानपत्रांतल्यान जी वेगळ्या संघप्रदेशाची आनी कोंकणीची टिका जाताली ते टिकेक जाप दिवपा खातीर एका वर्तमानपत्राची गरज उप्रासली, तेन्ना चंद्रकांतबाबान १ सप्टेंबर १९६३ ह्या दिसा 'राष्ट्रमत' हें मराठी दिसाळें जल्मा घालें. राष्ट्रमत सुरूं करपाक तांकां महाराष्ट्रांतले पत्रकार हाडचे पडले. तातूंत अण्णा फणसे हांची भुमिका म्हत्वाची आसली. उपरांत गोंयच्या तरणाट्यां मदल्यानूच नवे नवे पत्रकार तयार करपाचें मोलादीक कार्य तांणी हातांत घेतलें.

चंद्रकांतबाब राष्ट्रमतांत आसले तेन्ना राष्ट्रमत विलिनीकरणवादी भुमिकेचो विरोध करपी चळवळीचें मुखपत्र आसलें. कोंकणी चळवळीचेंय हें मुखपत्र आसलें.

पत्रकारितेच्या मळा वयल्या ह्या वावराच्या काळांत चंद्रकांतबाबान दिल्लीक वचून पंडित नेहरूंची मुलाखत घेतली. गोंयच्या भाशीक वादाची खबर आयली तेन्ना पं. नेहरूंनी 'अजीब हैं ये गोवा के लोग' अशें म्हळें. तें वाक्य पी.टी.आय. मार्फत भारताच्या कोनशाकोनशांनी पावलें.

चंद्रकांतबाबांचें दुसरें मुखेल कार्य म्हळ्यार कोंकणी मनशाक संघटीत करपाचो वावर. हिंदू तशे क्रिस्तांव, गोंयचे तशे गोंया भायले सगळ्या कोंकणी मनशां मेरेन कोंकणी चळवळीचो मंत्र पावोवन तांकां कोंकणी चळवळीचे माचयेर हाडपाचो वावर चंद्रकांतबाबान पोटतिडकीन केलो. मडगांवची कोंकणी भाशा मंडळ ही संस्था कांय कारणांक लागून बंद पडिल्ली. ती चंद्रकांतबाबान फुडाकार घेवन परती क्रियाशील केली. १९७२ ते १९७६ मेरेनच्या काळांत ते भाशा मंडळाचे अध्यक्ष आशिल्ले.

कोंकणी साहित्याच्या मळार चंद्रकांतबाबान मोलादीक वावर केला. हातूंत संपादक म्हूण तांचो वावर नदरेंत भरपा सारको. राष्ट्रमतांत 'सोमार' नांवाची कोंकणी पुरवणी ते उजवाडा हाडटाले. उपरांत कांय काळा खातीर राष्ट्रमताचो आयतारचो अंक कोंकणींतल्यान काडपाचो प्रयोग तांणी केलो. राष्ट्रमतांतल्यान कोंकणी कथा स्पर्धा घेवन नव्या बरोवप्यांक प्रोत्साहन दिलें.




*मडगांवां कोंकणी भाशा मंडळाचे कचेरे भायर. वांगडा स. जनार्दन फळदेसाय, रवीन्द्र केळेकार आनी उदय भेंब्रे.*

१९७८ वर्सा तांच्या संपादना खाला 'कुळागर' हें म्हयनाळें मडगांव सावन भायर सरलें. तें गद्य साहित्याक प्रोत्साह दितालें, तर 'रुतू' हें कविते खातीर आसलें. १९८७ वर्सा 'सुनापरान्त' ह्या कोंकणी दिसाळ्याची स्थापना जाली. १९८७ ते १९९० मेरेन चंद्रकांतबाब सुनापरान्ताचे संपादक आसले. १९९५ वर्सा श्रेष्ठ पत्रकारितेचो राष्ट्रीय पुरस्कार ताका मेळ्ळो. १ सप्टेंबर २००४ वर्सा राष्ट्रमत दिसाळें बंद पडलें.

सारस्वत समाजा विशीं चंद्रकांतबाबांक खूब आपलेपण आसलें. १९९९ वर्सा 'सारस्वत' हें गोंय सारस्वत समाजाचें त्रैमासीक मडगांव सावन प्रसिद्ध जालें. चंद्रकांत केणी ताचे संपादक आसले. सारस्वत समाजाचे उदरगती खातीर चंद्रकांतबाब खूब वावुरल्यात. सारस्वत समाजाचेर उजवाड घालपी कांय पुस्तकांय तांणी बरयल्यांत.

पत्रकार आनी साहित्यसाधना हीं दोन क्षेत्रां वेगळीं अशें चंद्रकांतबाब मानताले. ह्या दोन क्षेत्रांची केन्ना एकामेकांक बादा जावची न्हय म्हूण तांणी खूब जतनाय घेतली. हे विशीं ते म्हणटात, ''कथाकार आनी पत्रकार हांचे पिंड वेगळे. गीतेंतल्या स्थितप्रज्ञावरी पत्रकार भावनांच्या भोंवऱ्यांत आपूण घुस्पना आसतना देगे वयल्यान

व्हांवत्या प्रवाहाचो थाव घेता, जाल्यार कथाकार मनांत आनी देहांत त्या भोंवऱ्यांत बुचकळ्यो खाता वा केन्नाकेन्नाय व्हांवत्या प्रवाहा आड पेंवता. देखून कथाकाराच्या व्यक्तिमत्वाची सावळी कथेचेर पडटा. पूण पत्रकार हो संजयाचे तटस्थतायेन कुरुक्षेत्रावेले लडायेचें वर्णन करपी आसता. ताका लागून अक्षरांच्या संवसारांत वावुरतना म्हाका दोट्टी भुमिका करची पडटा.''

चंद्रकांत केणी एक बरे वक्ते आसले. तांगेलीं भाशणां आयकून प्रभावीत जाल्ले कितलेशे जाण आमकां कोंकणी चळवळीच्या मळार मेळटात.

कोंकणी साहित्याच्या मळार चंद्रकांतबाबान मोलादीक योगदान दिलां. गोंय एक वेगळे अस्मितायेचो प्रदेश हें तांचे लेखणेंत सदांच दिसतालें. तांच्या विचारांत आनी आचारांत प्रादेशीक अस्मितायेचो आग्रो दिसतालो. तांच्या कथा साहित्याक मात प्रादेशीकतायेची वंय मान्य नासली. ताची कथा संवसारीक तत्वां कडेन नातें जोडटाली.

एक कविता हो प्रकार भायरायल्यार तांणी साहित्यांतले विंगड विंगड प्रकार हाताळ्ळ्यात. तातूंत कथा, नवलिका, कादंबरी, ललीत निबंद,वैचारीक निबंद, अणकार, भुरग्यांचें साहित्य हे तरेकवार प्रकार आसपावतात. पूण ह्या सगळ्यां मदीं कथाकार म्हूण तांचें योगदान नदरेंत भरता. कोंकणी कथेंत वेगवेगळे प्रयोग तांणी केल्यात. तशेंच कोंकणी कथा साहित्यांत कथिका हो साहित्यप्रकार तांणी बंगाली साहित्यांतल्यान हाडून रुजयला. तशेच *धर्तरी आजून जियेताली* (१९६४), *अळमीं* (१९७५), *व्हंकल पावणी* (१९७५), *आशाढ पांवळी* (१९७५), *कथिका* (१९९३), *मेघ मल्हार* (१९९४), *जंय वतां थंय* (१९९४), *बहुरत्ना वसुंधरा* (२०००), *रुपां आनी रुपडीं* (२००७) हे तांचे कथा संग्रह. साहित्यीक मळा वयल्या तांगेल्या योगदानाक लागून तांकां जायते पुरस्कार मेळ्ळ्यात. हांतलो एक म्हत्वाचो पुरस्कार म्हळ्यार *'व्हंकल पावणी'* कथां झेल्याक मेळिल्लो १९८८-८९ वर्साचो केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार.

१९७६ वर्सा मंगळूर शारांत जाल्ल्या अखील भारतीय कोंकणी परिशदेच्या ११ व्या अधिवेशनाचे ते अध्यक्ष आसले.

चंद्रकांत केणी केन्ना निवृत्त जाले नात. ते सदांच कार्यशील आसले. हातुंतूच तांकां पार्किन्सोनियन हें दुयेंस जालें. ह्या दुयेंसाक लागून उठ्ठा बसतना तांकां दुसऱ्या मनशाचो आदार जाय पडटालो. अशे परिस्थितींत लेगीत बरोवपी घेवन ते बरयत आसले. ह्याच दुयेंसाक लागून ३ फेब्रुवारी २००९ ह्या दिसा ते आमकां अंतरले.

गोंय मेकळें जालें तेन्ना तांणी गोंया खातीर कांय सपनां पळेलीं. तीं प्रत्यक्षांत हाडपाक ते वावरत आशिल्ले कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळची, गोंय मुक्त प्रदेश आसचो, गोंय राज्य जावचें, कोंकणी राजभास जावची, गोंयाक आपलें स्वताचें विद्यापीठ आसचें, स्वताचें उच्च न्यायालय आसचें, गोंयाक राज्यसभेंत प्रतिनिधित्व मेळचें... आनी, कोंकणीक ज्ञानपीठ मेळचें हीं तीं सपनां आसलीं. देखून जेन्ना भौ. रवीन्द्र केळेकारांक ज्ञानपीठ मेळ्ळें तेन्ना चंद्रकांत केणी दुयेंत परिस्थितींत लेगीत हट्टान तांचें अभिनंदन करपाक गेले. तें अभिनंदन आसलें एका साकार जाल्ल्या 'ज्ञानपीठ' ह्या सपनाचें.



# म्हाका उमजल्ली चंद्रकांतबाबांली कथा

योगिनी आचार्य

"हांव कथा कित्याक बरयतां?

म्हजे म्हाकाच हो प्रस्न हांवें जायते फावटी विचारला. दर खेपेक म्हज्या मनान वेगळी वेगळी जाप दिल्या. त्या सगळ्या जापांचो आयज विचार केलो जाल्यार अशें म्हणचें पडटलें की वेगळ्या वेगळ्या वेळार विंगड विंगड कारणां खातीर हांवें कथा बरयली. फाटलीं तीस वर्सां हांव कथा बरयत आयलां. ती म्हाका सादली आसत वा नासत आनी ती वाचप्याक आवडली आसुये वा नासुये. तश्यो हांवें बरयल्ल्यो जायत्यो कथा वाचप्या मेरेन लेगीत पावंक नात. पूण इतलें खरें की दर एक कथा बरयताना, ती बरोवन पूर्ण जातकच म्हाका आनंद मेळ्ळा. तो कृतार्थतेचो, साफल्याचो वा सृजनाचो आनंद आसलो."

*'व्हंकल पावणी'* ह्या कथा संग्रहांत चंद्रकांत केणी हांणी आपलें 'स्वगत' बरयलां. ताचो हो एक भाग. ह्या वळींतल्यान आमकां चंद्रकांतबाबान आपले कथेचेर केल्लो विचार स्पश्ट बरो दिसता.

चंद्रकांत केणी गोंयच्या कोंकणी कथाकारांचे आदर्श अशें म्हळ्यार लटीक थारचें ना. कितलेशेच कथा लेखक तांच्यो कथा वाचून कथा बरोवपाची स्फूर्त घेवन बरोवंक लागल्यात आसुये. हाचे फाटलें कारण म्हळ्यार चंद्रकांतबाबांच्या कथांचें वेगळेपण. तांगेली कथा एकाद्रे विशिश्ट चाकोरे भितर बंदिस्त उरूंक ना. तांचे कथेचीं कांय सौंदर्यस्थळां आसात. ह्या कथांतले पात्रांचे संवाद, पात्रांचें व्यक्तिचित्रण, प्रसंग, भास, शैली आनी जिणे कडेन पळोवचेली नदर ह्यो गजाली वाचप्यांक भावले बगर रावनात. चंद्रकांतबाबांचे कथेचेर बरयतना, म्हाका उमजल्ली चंद्रकांतबाबांची कथा अशी भुमिका घेतल्या. आनी हे भुमिकेंतल्यान ह्या लेखाचें बरोवप जालां.

### कथाबीज

चंद्रकांतबाबां कडेन सादिल्ल्या संवादांतल्यान आनी तांणी बरयल्ल्यो कथा वाचतकच जाणवता, ते आमचे सरभोंवतणचे जिणेंतले अणभव आपले कथेंत मांडटाले. सामके सादे विशय लेगीत तांचे खातीर कथाबीज थारताले. चंद्रकांतबाब पत्रकार जाल्ल्यान कितलींशींच कथाबिजां तांकां तांचे कचेरेंत मेळ्ळ्यांत जावये. देखीक, अहिल्या, रीना जोझफ. दर एके व्यक्तींत चंद्रकांतबाबांक कथाबिजां मेळटालीं आनी तांचें कथेंत रुपांतर जातालें अशें आसलें तरी तांची कथा अडेची निखालूस दिसना. वास्तवाकडेन संबंध आशिल्ली कथा चंद्रकांतबाब बरयताले देखून तांची कथा काळा भायली वा न पटपा सारकी अशी जायना.

### शैली

चंद्रकांत केणींल्यो कथा चडश्यो प्रथमपुरुश आनी निवेदनात्मक शैलींतल्यो. घडये तांचो पत्रकाराचो पिंड जाल्ल्यान ही शैली तांका चड भावल्या आसत. निवेदनात्मक शैलीचो एक धोको आसता. वाचप्याक वाज येवपाची शक्यताय आसता. पूण चंद्रकांतबाबांच्या कथां संदर्भांत ही गजाल जायना. उरफाटें तांचे कथेची सुरवात ते

निमणे मेरेन वाचक कथा कशीच सोडिना. तांचे कथेचो तोल खंयच वचना. एके लयेन ती कथा फुडें सरता आनी फुलाच्यो पाकळ्यो फुलच्यो तशी ती फुलत वता.

**भास आनी पात्रां**

चंद्रकांतबाबांची भास सामकी सोंपी आनी सादी. सहज कोणाकूय समजुची अशी. जड उतरां वा वाक्यां वापरिनासतना चंद्रकांतबाब वाचप्यांक जिणेचें तत्वगिन्यान कथे वरवीं समजायताले. एकाद्र्या पात्राची मानसीक स्थिती द्वंद्व वा ताच्या मनांतलें मानसीक अचूक उतरांनी तांच्या कथांनी वाचूंक मेळटा. *'बर्मी दीस'* ह्या पुस्तकांतल्या अँथनी रॉड्रिग्स ह्या व्यक्तिचित्रा वरवीं चंद्रकांतबाबान जिणे विशीं खूब म्हत्वाचें सांगलां. अँथनी रॉड्रिग्स म्हणटा, ''मायेच्या मनशा पासून पयस वचप हें खूब कठीण काम. पूण ह्या संवसाराचो हांव एक भोंवडेकार. म्हजे भोंवडेचो काळ सोंपत आयला. वतना म्हाका एकोडेंच वचपाचें आसा...'' खूब साद्या सोंप्या उतरांनी चंद्रकांतबाब अँथनी सारकेल्या कितल्यांश्याच जाणट्या मनशांचें मन उकतें करता. गोंया भायर रावपी गोंयकाराची गोंया विशीं आशिल्ली ओड आनी alienation ची भावना चंद्रकांतबाब अँथनी वरवीं मांडटात. ''म्हजी बायल जन्मान थंयची आनी थंयचीच नागरीक. भुरग्यांक तोच आपलो देश आनी तेंच आपलें घर दिसता. बायल म्हजी, भुरगीं म्हजीं, पूण त्या वातावरणांत म्हजे म्हाकाच हांव परकी दिसतालों.''

चंद्रकांतबाबांचे कथेंत अस्तुरी खूब प्रभावीपणान आयल्या. आहिल्या, रीना जोझेफ, सुधाबाय सारकेल्यो तांगेल्यो कितल्योश्योच नायिका आसात. प्रत्येक अस्तुरेक तांणी वेगळे तरेन वाचका मुखार दवरल्या. तांच्या बारीक बारीक गजालींचें आनी हालचालींचें वर्णन ते करतात. तांची शैली इतली प्रभावी की ती अस्तुरी दोळ्यां मुखार उबी रावले बगर रावना.

धुंकल पावली

चंद्रकांत केणी



मेघ मल्हार

चंद्रकांत केणी




चंद्रकांतबाबांची अस्तुरी मध्यमवर्गीय. आपले मर्यादेन रावपी. खूब वर्सांनी सुधाबायक शंकर मेळटा तरी पूण आपलें उचंबळीत मन ती आळाबंदा हाडूंक शकता आनी तटस्थपणान ताचे कडेन उलोवंक शकता. तांचे नायिकेक आपलीं खाशेलीं मता आसात. तीं मतां त्यो धिटायेन मांडटात. देखीक, अहिल्ल्या जावं रीना जोझेफ. आपले कुडीचो उपयोग करून पयसो जोडपी बायल-मनीस आपली भुमिका स्पश्टपणान उकती करता.

चंद्रकांतबाबांचीं पात्रां, तांची शैली जावं तांणी बरयल्ल्यो कथा समाजांतल्या खंयच्याय पांवड्या वयल्या मनशाक आवडपा सारक्यो. कित्याक तर त्यो मनशांच्या भावनांचेर वा तांच्या जिवितांतल्या खाशेल्या प्रस्नांचेर उजवाड घालपी आसतात. ह्या संदर्भांत चंद्रकांतबाबांचीं उतरां याद जातात. ते म्हणटात, आपले कथेंत आयिल्लीं पात्रां रेल्वेच्या प्रवासांत मेळिल्ले वरी. एकलो चडटा, दुसरो देंवता... प्रत्येक मनीस वेगळो. आपली आपली कथा मांडटा. मनशाची जीण आनी तांचें अणभवांचें गांठवल चंद्रकांतबाबांले कथेची प्रेरणा अशें दिसता. दर एके व्यक्तिरेखे बरोबर एकरूप जावपी हो कथाकार ताका लागून चाकोरे भायर विचार करूंक शकता. जिणेंत कितलींय आडमेळीं आयलीं तरी जीण खूब सुंदर आनी ती सुंदरतायेन जगची असो विचार चंद्रकांतबाब आपले कथे वरवीं मांडत आयल्यात.

चंद्रकांतबाब केणी एक भारतीय कथाकार. तांच्या कथांनी गोंय सोडून दुसरेय विशय येतात. समजांत उप्रासपी प्रस्न, तांचें पडबिंब तांच्या कथांनी पळोवंक मेळटा. असो हो मनशां मदीं रावन मनशांच्यो भावना, तांचे प्रस्न मांडपी कथाकार.

चंद्रकांतबाबान कितल्याश्या नवोदीत कथाकारांक मार्गदर्शन दिलां जावंये. तांचे कडल्यान प्रेरणा घेवन खूब जाण व्हडले जाल्यात आसतले. तांच्या साहित्यांत तांणी वाचप्यांक आनी युवा साहित्यिकांक मोलादीक देण दिल्या. ते खातीर कोंकणी समाज आनी नवोदीत साहित्यकार सदांची तांच्या रिणांत उरतलो.




# 'सात पावलां मळबांत': एक चिंतन

**चंद्रलेखा डिसौजा**

'सा*त पावलां मळबांत'* हो कुंदनिका कापडीआ हांणी गुजरातींत बरयल्ले *'सात पगलां आकाशमां'* हे कादंबरेचो सर्गेस्त चंद्रकांत केणी हांणी केल्लो कोंकणी अणकार. हे कादंबरेचेर बरयतना पयलीं 'सप्तपदी'चेर म्हळ्यार, 'सात पावलां'चेर बरोवप प्रासंगीक दिसता.

लग्न एक सामाजीक संस्कार. पूण लग्नाचे विधी-नेम धर्माचेर आधारिल्ले आसतात. देखीक, गुजराती समाजांत 'हस्तमेळाप' म्हूण एक विधी आसा. 'हस्तमेळाप' म्हळ्यार दोन हातांचें मिलन. ह्या वेळार न्हवरो-व्हंकल एकामेकांक ल्हान-सान भेट-वस्तूय दितात. पूण बारीकसाणेन विचार केल्यार, 'हस्तमेळापा'च्या वेळार जें दिवप-घेवप जाता तें उपचारीक आसता. खरें म्हत्व आसता दोन वेगळीं वेगळीं व्यक्तित्वां एका अस्तित्वांत गुंथून येतात त्या पवित्र खिणाक. लग्न एक जटील जापसालदारकी. लग्न सगळीं जातात. पूण म्हणून लग्नांत बांदिल्लीं सगळीं दोन अस्तित्वां एक जातात अशें म्हणूंक येवचें ना. खूबशे फावटीं लग्नांत फकत बंधनूच उरता, 'संलग्न' कांय उरना. भुरगीं जल्माक येतात, पूण पूर्णतायेची इत्सा साकार जायना. लग्नाक आमी निखटें शारिरीक बंधनूच न्हय तर दोन आत्म्यांचें मिलन मानतात. शरीर ते आत्म्या मेरेन पावपी यात्रा केल्लीं मनशां खूब उण्या प्रमाणांत आसतात. चडशीं जाणां भुरगीं जालीं म्हणटकच तांचेच खातीर जीण सारीत उरतात, तांकां वाडोवपांतूच संवसाराचो रगाडो ओडीत रावतात. केन्ना केन्ना लग्ना भायले संबंधूय मूळ धरतात. पूण तांकां समाजा कडल्यान मान्यताय मेळना. असले संबंध हालीं खूब वाडूंक लागल्यात. तांकां लागून घटस्फोटांच्यो केसीय हालीं वाडल्यात.

घोव-बायलेचें नातें सप्तपदीच्या सात पावलांतल्यानूच आकार घेता. देखून पयलीं हींच सात पावलां समजून घेवया.

'...आमकां दोगांकूय बहुपुत्र जावं. ते पुत्र शतायू जावं...' 'पुत्र', 'पुत्री' न्हय. हरशींय *'मनुस्मृति'* वाचली जाल्यार खंयच 'पुत्री' जोडपा खातीर कामना केल्ल्याची नोंद मेळना. सगळ्याक पुत्र जोडपाचीच कामना आनी यज्ञ आसात. *'शतपथ ब्राह्मणां'*त खंय

खंय पुत्री खातीर कामना दिश्टी पडटा.

''अन्न दिवप आनी अनुकूल वागप, बळ दिवप, धन दिवप, भव्यताय, संतती, इश्टभोग, पुत्र दिवपी हीं सात पावलां. आतां गांठवल बांदून होमा भोंवतणी प्रदक्षणा घालतना न्हवरो ह्यो सात गजाली व्हंकले कडेन मागता. दुसऱ्या अर्थान, तो तिका आपली गुलाम करता.'' ('आमच्या संवसाराचीं सात पावलां... एकेक आव्हान पेलीत गेलें', हेमा नायक. बारदेस चवथ अंक, २००९. पानां: ८, ९.)

आयज व्हंकलेच्या काळजांत सात पावलां मळबांत कोरांतपाचो हावेस आसा, पूण अजून आमची सप्तपदी मात तीच गुलामपणाची आसा. हे सप्तपदींत आमच्यांनी बदल घडोवन हाडूं येत काय? म्हजी मैत्रीण माधवी सरदेसाय आनी हांव केन्नाय ह्या विशयाचेर उलयल्यांत तेन्ना आमकां दिसलां, सप्तपदींत न्हवरो व्हंकले कडेन कांय गजाली मागता. ताचे परस, 'अमके अमके गजाली खातीर आमी एक पावल वांगडा घालुया' - हे भाशेची सप्तपदीची बांधणी आमी केली जाल्यार स्त्री-पुरूश सहजीवनाचे नवे बुन्यादीचेर आमची सप्तपदी उबी जावंक पावतली —

— *ॐ इष एकपदी भव ।*

जिविताचें पयलें पावल आमी वांगडा घालुया.

— *ॐ ऊर्जे द्विपदी भव ।*

सक्रीय आनी गतिशील जीण आनी वांगडा जियेवया.

— *ॐ रायस्पोषाय त्रिपदी भव ।*

उदात्त आनी आदर्श जीण आमी वांगडा सारुया.

— *ॐ मयोभवाय चतुष्पदी भव ।*

प्रसन्न दांपत्य जिणेचीं आमी साथिदार जावया.

— *ॐ प्रजाभ्यः पंचपदी भव ।*

आमी सुसंतान प्राप्ती खातीर देवाक आर्गां दिवया.

— *ॐ ऋतुभ्यः षटपदी भव ।*

जिवितांतलीं सुखदुःखां आमी वांगडा पेलुया.

— *ॐ सखे सप्तपदी भव ।*

विचारांत आनी वागणुकेंत संवादिता साधून आमी खऱ्या अर्थान सहचर जावया.

हे नवे सप्तपदीचो आग्रो आमी धरूंक पावलीं जाल्यार घोव-बायलेच्या नात्यांतलो गुलामीचो अर्थ वचून ते सुवातेर मैत्रीपूर्ण साहचर्याचो अर्थ येवंक पावतलो. दोगांय समान जातलीं. ऊंच-उणाक, शोषक-शोषीत ह्या नात्यांतल्यान तीं मुक्त जातलीं. नाजाल्यार 'चांद तारों को छूने की आशा' खंयची, 'चांद तारे' सोडुनूच दियात, सादे निर्णय घेवपाची मेकळिकूय आमकां आसचिना. कित्याक, पती सर्वेश्वर आनी पतीण सर्वशोषीत, वा केन्ना केन्ना, पतीण सर्वेश्वर आनी पती सर्वशोषीत — ह्यो दोनूय स्थिती सारक्यो न्हय. सखा-सखी ह्या रुपानूच दांपत्य जीण खऱ्या अर्थान सफळ जावं येता. आयच्या संदर्भांत लग्न-संस्थे म्हर्यांतूच जंय प्रस्नचिन्न उबें जाता तेन्ना घोव-बायलेच्या संबंधा विशीं आमकां नवी नदर आपणावचीच पडटली. हाची सुरवात साहचर्य, मैत्री आनी समानतायेचे भावनेचेर उबी आशिल्ले सप्तपदीन करची पडटली. नाजाल्यार आयजूय चलयेक वस्त लेखून तिका दान करपाची 'कन्यादाना'ची पवित्र (!) चाल तशीच चालू उरतली.

*'सात पावलां मळबांत'* वाचचे पयलीं हे कादंबरेक कुंदनिकाबेनीन बरयल्ली प्रस्तावना वाचूंक जाय. चंद्रकांतबाबान तिका 'बायलेचो प्रवास कारावासांतल्यान कैलासा मेरेन' असो माथाळो दिला. ''लग्ना उपरांत दादल्याची जीण चडशी बदलना पूण बायलेच्यो कितल्योशोच गजाली बदलतात. तिगेलें घर आनी कुटुंब बदलता. नांव आनी आडनांव बदलता. काम बदलता, धर्म बदलता...'' (पान V). बायलेचो हो प्रवास वाचले शिवाय कादंबरी वाचून फायदो जावचोना. कादंबरेंतल्यान जे प्रस्न उप्रासतात तांच्यो जापो लेखिकेची प्रस्तावना वाचतना मेळटात. कादंबरेचें मुखेल पात्र वसुधा इतलें साधारणीकृत जालां की दर एके बायलेक तातूंत आपुणूच दिश्टी पडटा. बायल-मनशेची व्यथा लक्षांत येता. दादल्याची वळख ताचो हेरां कडेन संबंध जोडले बगर करूं येता. पूण बायलेची वळख अशी स्वतंत्रपणान जायना. ती दादल्या कडल्या तिच्या संबंधां कडेन विणिल्ली आसता. तिच्या व्यक्तित्वाचें अस्तित्व मिस, कुमारी, मिसेस, श्रीमती, सौ. वा गंगास्वरूप सारकेल्या विशेशणां शिवाय पांगळें जाता. घोव आसल्यार साज-शृंगार, ना जाल्यार रितें कपळ. कुंकूम पसून लावपाचो तिका अधिकार उरना. दादलो विधूर जालो जाल्यार मसणांतल्यान दुसरी बायल हाडपाचो यत्न सुरू जाता. बायल विधवा जाल्यार मात भुरग्यांक वयर काडप, तांचो सांबाळ करप हो एकूच पर्याय तिचे मुखार आसता.

''लग्न दादल्याक फाटबळ दिता. [लग्नाक लागून] ताचें व्यक्तिमत्व फुलता. पूण लग्नाक लागून बायलेचो ऱ्हास जाता.'' (सोनिया हंफ्री, 'प्रस्तावना' गुजराती आवृत्ती पान XX). ही परिस्थिती बदलूंक जाय. भारतीय दादल्याची - आशियायी दादल्याचीय म्हणूं येता — मानसीकताय सामान्यतायेन अशी आसता — ताका बायल शिकिल्ली आनी नोकरी करपी जाय आसता. पूण आपली जोड मोडटा आसतना तिणें घोवाक विचारिल्लें जाय आसता. नोकरी करून घर सांबाळपी बायल तिपेटीन काम करता. पूण ह्या कामा बद्दल तिची फाट थापटुपी मात कोण आसना. आमच्याच देशांत न्हय, सगळ्या संवसारांत गृहस्वामिनीचें गृहप्रबंधन महत्वाचें अशें मानपी खूब कमी लोक आसतले. बायलेक चोविसूय तास काम करचें पडटा ताचो मोबदलो दिवपाचें कोण चिंतचोना हें जालेंच, वयल्यान तिका उणी लेखपांत व्हडपण मानपी खूब जाण मेळटले. 'वसुधा' एक प्रातिनिधीक पात्र. 'मौनाचे संस्कार' जाल्लें पात्र. तिका आपलें आयुश्य घरांतूच सारचें पडटा.

'मनशाक विचार उक्तावपाची मेकळीक सदांच नासता पूण विचार करपाची मेकळीक आसता.' (पान ७.)

मुक्त आकाश, सुर्यास्ताचो वेळ आनी आगाशी हीं तिनूय तत्वां वसुधाक तिच्या विचारांचो नवो मार्ग तयार करपाक आधार दितात. तिका दिसता, आपल्या घोवान म्हळ्यार व्योमेशान आपल्याक मातशी तरी समजून घेवची. पूण संबंधूच जेन्ना एकल्यान आदेश दिवप आनी एकल्यान आज्ञा पाळप असो आसता तेन्ना बायलेची व्यथा म्हळ्यार, 'घोवाक जाय तें दी, पूण बायलेक जें सूक्ष्म जाय आसता तें घोव

दिवंक पावना (पान १९)'. दर मनीस आपल्या मनाप्रमाणें जियेवंक आशेता. पूण ताका खऱ्यांनीच तशें जियेवंक मेळटा? चड करून बायलेक?

एनाक दिसता, खूबशीं **जाळांचीं बंधनां** तोडलीं जाल्यार ती तशी जियेवंक शकता. अलोपाक दिसता, आपल्यां लोकांच्या अस्विकारा आड **एकली तग धरपाची जिद्द** आसत जाल्यार हें शक्य आसा... विनोदाच्या विचारा प्रमाण, **एकली तग धरपाची आनी एकली रावपाचीय** जिद्द जाय. मित्राक दिसता, फकत एकली रावपाचो प्रस्न न्हय. चड करून ती बायल आसत जाल्यार ती सगळ्या तरांनी **एकोडी जावन उरता.** ती खात्रीन जगूंक शिकता, परिणामांचो हुस्को केलोना जाल्यार... **आपलें रेंवट आपुणूच शिंपीत जाल्यार...**






अलोपा, विनोद, एना, मित्रा, वसुधा हीं सगळीं 'फुलघर' वसोवपी फुलां. ह्या पात्रांच्या माध्यमांतल्यान लेखिका जे विचार मांडटा तांचें विश्लेषण केल्यार अशें दिसता —

बायलेक आपल्या मना प्रमाणें जगपाचें आसल्यार तिका 'जाळांचीं बंधनां' तोडूंक येवंक जाय, 'समाजाचो अस्विकार' सोंसपाची, 'एकली रावपाची' तिचे भितर शक्त आसूंक जाय. 'एकोडी जावपाची' आनी 'आपलें रेंवट आपणेंच शिंपपाची तयारीय तिणें दवरूंक जाय.

पोरणे सप्तपदीचीं पावलां म्हळ्यार सामाजीक, आर्थीक आनी मानसीक जाळें. हीं नैतीकतायेचीं अवरोधक तत्वां दादल्याक घुसपावन दवरिनात. बायलेक घुसपावन दवरतात. समाजाचो अस्विकार करप, एकोडी जावपाची तयारी दवरप म्हळ्यार वसुधा, मित्रा, अलोपा हांचे बशेन जगप. ही स्थिती 'फुलघरा'खातीर आदर्श दिसली तरी ती संतुलीत स्थिती म्हणूंक येना. ह्या सगळ्यांनी एक तर घोवांक सोडल्यांत वा तांकां घोवांनी सोडल्यात. हाचो अर्थ — घोवाक वा दादल्याक आपल्या मना प्रमाणें जगूंक मेळटा. पूण तोच अधिकार बायलेक मेळना. घोव सकाळीं फुडें पेपर वाचूंक बसूंक शकता, बायलेक तो मेळना! रांदतना, 'ताका' आवडटा तेंच जेवण रांदचें पडटा! हीं पावलां कितलींय नैतीक दिसलीं तरी तीं अन्यायाचीं आनी असमानतायेचीं. आनीक कितलो काळ आमी हे सात फेरे घेत रावतलीं? आमचीं नांवां बदलून आमचें 'अथ ते इति' विसरतलीं? आदर्श भारतीय सुनो जावपाक आपणाक विसरून वतलीं?

हे कादंबरेंत सतीश, वासंती सारकीं पात्रां आसात. तीं कलेच्या माध्यमांतल्यान नांव जोडूंक सोदतात. बायल कलाकार आसता तेन्ना तिका एकूय सवलत मेळना. पूण घोव कलाकार आसता तेन्ना ताची बायले कडल्यान खूब अपेक्षा आसता. ताका दिसता, तिणें घर सांबाळचें, वेव्हार सांबाळचो, आपूण सृजनशील कामांत मग्न आसतना भुरग्यांक बोवाळ करूंक दिवचो न्हय... घोव-बायले मदली ही भेदरेखा अणभवतां तेन्ना सोनिया हंफ्री म्हणटा तें पट्टा. लग्ना उपरांत दादल्याक आपलो व्यक्तिगत विकास करूंक संद मेळटा. बायलेक मात आडखळी येतात. लग्नाच्या संबंधांत दोगांकूय आपल्या गुणांचो विकास करपाची समान संद मेळना ते मेरेन हो संबंद फकत देहा मेरेनूच उरता. ताका देह-विकासाची मर्यादा आसता. लग्नांतले संबंध शरिरा वरवींच येतात पूण हें ह्या संबंधाचें पयलें सपण. शरिराच्या माध्यमांतल्यान अशरिरी जावपांतूच लग्न संबंधाचो खरेलो विकास आसा. जे लग्नसंबंध अशे अशरिरी जावंक पावनात तांच्या विकासाची संभावना खूब उणी आसता.

*'सात पावलां मळबांत'* कादंबरेंत समाजांतल्या वेगवेगळ्या स्तरांनी घोव-बायलांचे वेग वेगळ्या तरांचे संबंध दाखयल्यात आनी तांचें सूक्ष्मतायेन विश्लेषणूय केलां. लेखिकेच्या सफल चिंतनाचें फळ समाजा खातीर उपेगी अशे 'फूलघर' हे सुंदर व्यवस्थेच्या विचारांत दिश्टी पडटा. पूण हांगा म्हज्या मनांत प्रस्न आसा. दर एका घरांत गृहस्थाश्रमाचीं फुलां परमळटात आसतना तांचे खातीर तांचें घरूच 'फूलघर' कित्याक जावंक पावना? गृहस्थाश्रमा भायलें वेगळें 'फूलघर' स्थापीत जावचे परस आमी मनशां सहअस्तित्वाचें तत्व पाळून, आपले तांकी प्रमाण आपआपलो परमळ पसरावन एकामेकांचें अस्तित्व विकसीत करपाक एकामेकांक आधार कित्याक दिवंक पावनात? प्रकृती आनी तिचीं तत्वां सहअस्तित्वा वरवींच आपलो विकास साधतात. हो प्रकृतीचो संदेश मनशाक कित्याक आयकूंक येना? पूण मनशां भितर मात मनिसूच मनशाचो

दुस्मान जाता. असल्या वेळार दोश कोणाक दिवपाचो? लग्नसंस्था ही सामान्य मनशा खातीर आशिल्ली संस्था. सामान्य बायले-दादल्याक एकामेकां सांगातान आपणालो सर्वांगी विकास साधूंक वाव दिवपी संस्था. ही संस्था खंय आनी कशी उणी पडटा?

*'द बायॉलॉजिकल ट्रॅजडी ऑव्ह् वुमन'* हो एन्टन नेमिलोव्ह हांणी मूळ रशियन भाशेंत बरयल्ल्या पुस्तकाचो स्टेफनी ओ-फेन्ताल हांणी केल्लो इंग्लीश अणकार. हें पुस्तक मातृत्वाचो महिमा गायता. खुबश्यो आवयो ह्या मातृत्वाच्या जाळ्यांतूच घुसपून उरतात. बापूय मात पितृत्वाच्या जाळ्यांत घुसपून उरना. बायोलॉजिकली आवयपणाचे प्रक्रियेंत आवयूच चड इन्व्हॉल्व्हड् आसता. तिच्या कुसव्यांत भुरगें आसता. देखून आवय आनी भुरगें हो अणभव आवय खातीर फर्स्टहॅण्ड एक्सपीरियन्स आसता, तर बापाय खातीर तें सेंकड हॅण्ड एक्सपीरियन्स आसता. घडये हाकाच लागून म्हणटात जावये – 'to bring up children mother should have father's head and father should have mother's heart.'

काळीज आनी तकली हांचो संतुलीत उपेग म्हळ्यारूच जिणेची कविता आनी भुरगें म्हळ्यार आवय-बापायच्या जीवन काव्याची परिपूर्णताय! दोगांयची जापसालदारकी समान आसता, पूण तातूंतच आडकून उरपाची गरज ना. संवसारभरच्या मानव समाजांत ती जापसालदारकी आवयच्या वांट्याक चड येता. ही परिस्थिती बदलूंक जाय. आवयक आपले खातीर वेळ मेळुंकूच जाय, आनी हेच खातीर घोव-बायलेन सहअस्तित्वा खातीर प्रयत्नशील रावूंक जाय. कुंदनिकाबेन कापडीआन *'सात पावलां मळबांत'* कादंबरी बरयल्या तशीच मीराबेन भट हांणी *'सात पगलां साथमां'* नांवाची कादंबरी बरयल्या. ही कादंबरी समानताय आनी सहअस्तित्वाचें चिंतन दिता. मनीससमाजा खातीर, लग्नसंस्थे खातीर हें चिंतन खूब महत्वाचें. पूण आमी मनशां आजुनूय हे वाटेर मुखार वचूंक पावंक नात. *'सात पगलां आकाशमां'* आनी *'सात पगलां साथमां'* जें चिंतन दितात तें आपणायलें जाल्यार ताची उपयोगीताय महत्वपूर्ण थारतली.

आयज लग्नसंस्था 'क्रॉसरोडार' आसा. मुखार ती आनीक असक्त जावपाची आसा. कोंकणी अणकाराच्या मळार थेट गुजरातींतल्यान कोंकणींत आयिल्ली ही कादंबरी खऱ्यांनीच विचार करपाची मेकळीक हाडटा. चंद्रकांतबाबान कोंकणी साहित्यांत नवीन वातायन (Ventilator) दिलां. स्त्री-पुरूश संबंधाचें जें समीकरण आसा तें अणकाराच्या माध्यमांतल्यान कोंकणींत नवीन दृश्टी आनी सृश्टी रचता, हातूंत इल्लोय दुबाव ना. खरेंच –

"घरांत सुसंवाद निर्मुचेलो आसत जाल्यार तो आमचे लाचारीचेर न्हय, सहकार आनी समानतेचेर उभारचो पडटलो." (पान ११५.) हें खरें आसा तितलीच कायद्याची राखणूय गरजेची आसा. स्त्री-पुरूश संबंधांत एकामेकांचेर psychological violence जाता तेन्ना, फ्रांस देशाचे प्रधानमंत्री फ्रांसोआ फिय्यों हांणी संयुक्त राष्ट्राच्या धाव्या अंतरराष्ट्रीय दिसाच्या संमेलनांत सांगिल्ले प्रमाण, बायलांक जी शारिरीक, मानसीक, मनोवैज्ञानीक पिडा भोगची पडटा तिच्या संबंधांत कायदे तयार करप गरजेचें थारतलें, खास करून सोफिस्टिकेटेड समाजांत मानसीक आनी मनोवैज्ञानीक छळ जाता तेन्ना. Psychological violence खातीर आमच्या देशांतूय आमकां असले कायदे करचेच पडटले. (The Time of India, गोंय, नोव्हेंबर २८, २००९, पान १०).



# यादींचीं कुपां

सुजाता सिंगबाळ

ऑक्टोबर २००८ तलो एक दीस. चंद्रकांत केणींल्या 'The Saraswats' ह्या पुस्तकाचो पणजेच्या मॅरियट हॉटेलांत लोकार्पण सुवाळो. सगळीं हेवटेन तेवटेन बोवाळटालीं. चंद्रकांतबाब मात एकेच कडेन पुतळो कशे घट्ट बशिल्ले. पार्किन्सन दुयेंसा खातीर कितलोसो तेंप ते घरांतूच आशिल्ले. तांचें भायर भोंवप खूब कमी जाल्लें. पार्किन्सन दुयेंसाचे तांकां त्रास जातांले हें कोणाय पळेतल्याच्या लक्षांत आयले बगर राव नासलें. पूण हें दुयेंस चंद्रकांतबाबांली उमेद केन्ना ना करूंक पावलेंना. हांव तांकां मेळूंक गेलां तेन्ना तांणी सदां म्हाका हांसत्या तोंडान येवकार दिला. हात थरथरतात, उठूंक बसूंक त्रास जातात पूण तरी तांकां हांवें सदांच कसल्या तरी कामांत गुल्ल पळेल्यात. एक दीस हांवें तांकां म्हळें, 'कोंकणीक तिची हक्काची सुवात मेळोवन दिवंक तुमी झुजले... आतां ह्या दुयेंसा कडेन तुमी झुजतात. तुमी निजाचे झुजारी.' हाचेर तांणी हांसून म्हळें, 'सद्या हांव under house arrest आसां...'

चंद्रकांतबाबांक मिटिंगो, संमेलनां, दबाजे हातूंत भाग घेवपाची खूब उमेद. भोंवपाची, बोवाळपाची उमेद. पूण त्या दिसा म्हाका ते ह्या सगळ्या पसून पयस, विरक्तशे दिसले. हांवें तांकां तशे केन्ना पळोवंक नाशिल्ले. एकूच प्रस्न तांणी म्हाका विचारिल्लो, 'मडगांवां केन्ना येता?' ते उपरांतूय तांची खबर घेवंक फोन केल्ले फावटीं तोच प्रस्न. दिवाळे दिसा चंद्रकांतबाबांक वचून मेळप म्हूण येवजिल्लें. पूण त्या दिसा ते चलयेगेर आशिल्ले. उपरांत इत्सा आसुनूय मेळप जालें ना आनी केणीबाब गेले. 'The Saraswats' च्या लोकार्पण सुवाळ्या वेळार तांकां मातशें मेळिल्लें तीच आमी निमाणी भेट थारली.

आज चंद्रकांतबाब नात...

म्हजी तांचे कडेन वळख जाली तो दीस आज याद जाता. स. उल्हास बुयांवाल्या चल्याचें – सिद्धनाथाचें – लग्न आशिल्लें. त्या सुवाळ्याक म्हज्या मांवान चंद्रकांतबाबां कडेन म्हजी वळख करून दिली.

'तुजी मेकळी, प्रवाही, प्रांजळ कथाशैली म्हाका आवडटा. 'राष्ट्रमता'खातीर बरय. हांव सदां इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझांत येतां. थंयच हाडून दी... केन्ना येता घेवन?' चंद्रकांतबाबान विचारलें.

'फाल्यांच.' हांवें म्हळें. पूण घरा पावतकच दिल्लें उतर विसरलें.

दोन दिसांनी चंद्रकांतबाबांचो फोन. 'तुवें राष्ट्रमताक बरप दिता म्हणिल्लें. खंय पावलें?'

'आज येतां घेवन. तुमी आसतले?'

'सांजचो आसतलों.' तांणी सांगलें.

सांजचें एक लेख आनी एक कथा घेवन हांव गेलें. दोनूय बरपां मराठींत आशिल्लीं.

''राष्ट्रमता'ची पुरवणी कोंकणींतल्यान येता. कोंकणी कथा दी...' चंद्रकांतबाबान म्हळें.

'कोंकणींत केन्ना बरोवंक ना... म्हजी तांबडी कोंकणी जातली...' हांवें म्हळें.

'बरयतां बरयतां निवळटली. उलयता तशें बरय. व्हर्जीन कोंकणींतल्यान बरय.'

'व्हर्जीन कोंकणी' म्हळ्यार? सारकेंशें समजलें ना. पूण घरा आयलें आनी कोंकणी कथा बरोवंक बसलें.

'मराठी उतरां खूब आयल्यांत बरपांत. पूण तुजे लेखणेंत स्पार्क आसा. मेकळेपण आसा...' तांणी म्हळें.

आज हांव कोंकणींतल्यान बरयतां तें चंद्रकांतबाबांक लागून...

उपरांत चंद्रकांतबाबां कडेन म्हजी बरी इश्टागत जाली. तांचे म्हजे मजगतीं वयाचें अंतर. मानान, ज्ञानान, अणभवान ते म्हजे परस खूब व्हड. पूण तांणी म्हाका आपूण 'व्हड' हाची जाणविकाय जावंक

केन्ना दिलिना.

तांचें अणभवविश्व खूब व्हडलें. तांचें उलोवणें आयकूंक म्हाका खूब आवडटालें. गजाली सांगूंक तांकांय आवडटालें आनी त्यो आयकतना हांवूय रमतालें. वझरो एके लयेंत गुणगुणत व्हांवता तशें तांचें उलोवणें. ते खंयचोय घडिल्लो प्रसंग सांगताले तेन्ना कथा बरोवची तशे सांगताले. ते फकत प्रसंग सांगताले — 'अशें अशें घडलें' - इतलेंच. ताचेर आपली प्रतिक्रिया दिना आशिल्लें.




चंद्रकांतबाबांक रागान उलयल्ले हांवें केन्ना पळोवंक नात.

'केणीबाब, तुमकां केन्नाच राग येना?' एक दीस हांवें तांकां विचारिल्लें.

'राग येना असलो मनीस आसूं येता? पूण राग उकतो करपाक संयम जाय पडटा. मनाचो संयम, वाणीचो संयम, वागपाचो संयम. सार्वजनीक जिवितांत संयम आसुंकूच जाय.' तांणी सांगलें.

संयमान, नमळायेन वागपाचो तांचो गूण म्हाका खूब आवडटालो. तांचे सारको मनीस मेळप भोव कठीण.

आनीक एक याद आसा —

एक दीस एक कथिका बरोवन हांव तांकां दाखोवंक गेलें. तांणी सांगलें, 'ही कथिका न्हय, ही ल्हान कथा.' कथा आनी कथिका हांतलो फरक कितें काय म्हूण विचारतकच तांणी म्हाका दोनां मदलो भेद समजावन सांगलो. आनी विचारलें, 'पट्टा मगो?'

आपले मुखार बशिल्लो मनीस पिरायेन, अणभवान कितलोय ल्हान आसूं, ताच्या मताचो ते सदां आदर करताले.

म्हज्या मराठी कथा संग्रहा खातीर प्रस्तावना बरोवंक तांचे कडेन स्क्रिप्ट दिली तेन्ना हांवें तांकां म्हळें, 'केणीबाब, ह्यो कथा सुधारूंक जाय जाल्यार सांगात आं...' ते हांसले आनी तांणी विचारलें, 'कथा कशें सुधारतलें तूं...? कथा सुधारूं नाका, फकत बरयत राव. टनांनी माती येता तेन्ना कणांनी भांगर मेळटा...' चंद्रकांतबाब जायते फावटीं अशे सुचक उलयताले. लेखन म्हळ्यार साधना, अखंड तपश्चर्या हेंच ते सांगूंक सोदताले जावये.

कोंकणी आनी गोंय हे चंद्रकांतबाबांल्या काळजाक लागींचे अशे विशय. 'गोंयांत एक दीस गोंयकार सोदचो पडटलो ही तांची खंत. 'गोंयांत भायल्यान जे येवन रावंक लागल्यात तांचे कडेन आमी तांचे भाशेंत उलोवंक जायना. कोंकणींतल्यान उलोवंक जाय. आमची भास आमी जिवी दवरूंक जाय... तशीच आमची भूंय सांबाळून दवरूंक जाय. पयशे मेळटात म्हूण शेतां, भाटां, दोंगर, रानां भायल्यांक विकून उडोवंक जायना. आमची भुंयूच आमची उरलिना जाल्यार आमी गोंयकार कसले? गोंयांत गोंयकाराक मानान जियेवंक मेळूंक जाय. आमची भूंय टिकली, भास टिकली जाल्यारूच आमी गोंयकार...' तांणी म्हणचें.

चंद्रकांतबाबांचो आपल्या भावाचेर — अण्णाचेर — खूब जीव आसलो. 'आमचें नातें राम-लक्ष्मणा सारकें...' खूब खेपे तांणी म्हाका सांगचें. भाव कॅन्सराच्या दुयेंसान बरो नाशिल्लो तेन्ना ते खूब अस्वस्थ आसताले. भावाच्या मर्णा उपरांत ते खूब खचले...

एक दीस चंद्रकांतबाबांक हांवें विचारलें. 'केणीबाब, तुमी धीरगंभीर विचारी तशेच वेव्हारी कशेय दिसतात म्हाका. तुमचें खंयचें रूप खरें? तें काय हें?' तांणी जाप दिली, 'तोय हांव, होय हांव.

चंद्रकांतबाब एक खेपे आमगेर आयिल्ले तेन्ना घरांत हांवें सिताफळां हाडिल्लीं आशिल्लीं. सिताफळ म्हजे आवडीचें फळ. चंद्रकांतबाबांकूय सिताफळां आवडटात म्हूण हांव नकळं आशिल्लें. 'म्हाका सिताफळां आवडटात म्हूण तुका कशें कळ्ळें?' तांणी विचारलें आनी सांगलें, 'मुंबय आयस्क्रिमा बशेन गोड, येद्दीं मोठीं सिताफळां मेळटात. म्हजो इश्ट अण्णा फणसे म्हजे खातीर तीं मुद्दाम सोदून हाडटालो...'

अण्णा फणसें विशीं उलयतना ते खूब हळवे जाताले. यादींनी शेणून वताले. 'काकासाहेब कालेलकर आनी तांचे वांगडा सारिल्ले ते दीस म्हळ्यार म्हजी पुर्वपुण्याय. पुर्वपुण्याय आसले बगर असल्या पुण्यात्म्यांचो सांगात मेळना...' तांणी सांगचें. रवीन्द्रबाब केळेकारां विशींय ते अशेच आपलेपणान आनी आदरान उलयताले. 'रवीन्द्रबाबांक तूं केन्ना मेळ्ळां? एक दीस या आमी तांगेर...' तांणी म्हणिल्लें. पूण तो योग केन्ना आंयलोना.



*कोंकणी भाशा मंडळाचे कार्यावळींत उलयतना. वांगडा रजनी भेंब्रे, नागेश करमली आनी एम. व्ही. कामत.*

मनशां मेळटात तीं ऋणानुबंध आसता म्हूण. चंद्रकांतबाबांचे आनी म्हजे अशे ऋणानुबंध आशिल्ले. यादींक रंग आसता. रुपूय आसता. आकारूय आसता. यादी म्हळ्यार जिविताचें एक आंग. यादी म्हळ्यार प्रस्नूय बी आनी जापोय बी. आज चंद्रकांतबाब नात. आसात तांच्यो यादी.





# हॅपी बर्थ डे

दामोदर मावजो

"हॅलो, हांव आमोद उलयतां - आमोद देसाय. फेर्नांडीस, आय मीन, केव्हीन फेर्नांडीस आसा?"

"हॅलो. मि. देसाय, हांव मिसेस फेर्नांडीस उलयतां. केव्हीन निकतोच बाबाक घेवन ग्राउण्डार गेला. फुटबॉल प्रॅक्टिसेक. ह्या दिसांनी तेंगेलें सिलेक्शन जावपाचें आहा न्हूं? एनी मॅसेज?"

केव्हीन अकाउण्टस् सॅक्शनांत आसता. केन्नाय कामा निमतान आमोदाक मेळ्ळो म्हणटकीर चेड्याच्योच गजाली. असो बरो खेळटा, तसो हुशार आसा. कालच केव्हीन सांगतालो - ज्युनिअर फुटबॉल पंगडांत वेंचून आयलो जाल्यार फुडल्याच म्हयन्याक तांची टीम पंजाबाचे भोंवडेर वतली खंय... चेडो सिलॅक्ट जावचो म्हूण गुड्डो लेगीत घाला आसतलो. ही मिसेस फेर्नांडीसूय चेड्याच्यो अपुर्बायो सांगपाची एकूय संद सोडना. फुटबॉल प्रॅक्टिसेक गेला खंय!

"किर्तें रेकाद आहा, मिस्टर देसाय?"

"आं, हय. ताकाच असो न्हय. तुकाय. आमगेल्या चैतन्याचो, आय मीन माय सन, ताचो बर्थ डे आसा. परां, शेनवारा. सांजे धाकलीशी पार्टी आमगेर. तुमी दोगांनी, आय मीन तिगांनीय, आमगेर येवपाक जाय. इन्व्हिटेशन दिवपाकच फोन केला."

"सोनवारा म्हुटल्यार सॅटर्डे न्हूं? बाबागेली प्रॅक्टीस सोंपता म्हुटल्यार साडे स-सात जाताय. सिलॅक्शन..."

"नो प्रॉब्लेम, मिसेस फेर्नांडीस. उशीर जाल्यार जावं! पूण येवपाक जाय. आय ॲम काउण्टींग ऑन युवर व्हिजीट."

फोन दवरतनाच आमोदाली नदर चैतन्या खातीर हाडिल्ल्या फुटबॉलाचेर गेली. घडये खेळाची आवड निर्माण जावंये चैतन्याक म्हूण हाडिल्लो हो आमोदान. सकाळींच हर्षान आल्मारी वयलो काडून पुसून बी सकयल दवरिल्लो. नेट्टान शूट मारपाची कूय दांबून ताणें ल्हवूच पांय लावन बॉल सोफ्या पोंदा धुकल्लों.

"शूट मारची जाल्यार म्हुगेऽ चेड्यान, आडायलो जाल्यार गोली सयत बॉल गोलांत वोसोंकूच जायो." एक दीस फेर्नांडीसान झेत सांगिल्ले. फेर्नांडीस वतकच प्यून गांवसान

म्हणिल्लें, 'हो फेर्नांडीस चेड्याक चड माथ्यार घेता. एक दीस तो बापायचेरच शूट मारना जाल्यार पुरो.''

''मेळ्ळो फेर्नांडीस?'' मोबायल घेवन आपणाल्या इश्टिणींक फोन मारतां मारतां हर्षान मर्दीच विचारलें.

''ना. पूण ताची बायल मेळ्ळी. ती ताचे फुडली –''

''कित्याक, कितें म्हळें?''

''फकत बाबाच्यो खबरी –''

''बाबा?''

''चेडो तांगेलो. सिलॅक्शना खातीर प्रॅक्टिसेक वता खंय. बरे खेळपी खूब आसात. सगळेच खंय सिलॅक्ट जातात? हांवें आयकलां, केव्हीनान खंय मिनिस्ट्राक घट धरला. हांव बॅट मारतां, फाल्यां तागेलो चेडो सिलॅक्ट जालो जाल्यार सिक लीव्ह घालून केव्हीनूय टिमी वांगडा पंजाबाक गेले बगर रावचो ना.''

चैतन्याक मात कसलोच खेळ नाका. फुटबॉल हाडलो जाल्यार दोन दिसां भितर तीन ग्लास आनी चार हारशे फोडले.

''हाऽय इंदिरा. येदोळच्यान कितले फोन मारले गो तुका?''

''मागीर मिस्ड कॉल कसो मेळ्ळो ना तर?''

''आगो, हांवें फोन मारले तुज्या घरा. विसरलेंच – तूं भोंवती भागरत! आतां म्हळें, मोबायलाचेर पळोवंया. खंय आसा गो तूं?''

''गेलां आसतलें गार्डनांत. निमित्त्य भुरग्यांचें. हें भोंवता इम्प्रेशनां मारीत.''

आमोदालें आयकून हर्षा पयलीं गणमणलें. मागीर फोनार हात दवरून चिड्डिल्ल्या आवाजांत ताणशेलें,

''केद्या मोट्यान उलयता तूं? ताका आयकूंक येतलें. मातसो वगी राव आतां.'' आनी पर्थून मोबायल कानाक तेंकयलो,

''ना, गो. आमोद चैतन्या कडेन उलयतालो. बापूय घरा आसलो म्हणटकीर पूत कस्सोच ताका सोडिना. म्हाका लेगीत वळखना. एऽ इंदिरा, कुलकुलाट कसलो आयकूंक येता गो? गार्डनांत काय कितें गो? ऑं - म्हाका दिशिल्लेंच.''

''तूं यो मगो चैतन्याक घेवन. गार्डन बरेंऽ जालां आतां. भुरगीं मज्जा करतात.''

''येन दिसता गो. पूण फावता खंय? वेळच मेळना. तातूंत म्हाका कांय मोटार चलोवपाक कळना आनी तुजे भाशेन म्हजे कडेन स्कुटीय ना. आमोदाचेर पातयेवपाचें आसा? तो घरा येतासर आमोरी जाता. मागीर आनी गार्डन कसलें, मडसरेचें?''

''आतांच यो मगो! एऽ पळय, गौरवीय आयलां आपल्या दोगांय भुरग्यांक घेवन. तुगेलो तर एकलोच. हांवें ताका पळयल्यार खूब दीस जाले. तूं ताका घेवन भोंवच ना. आतां यो ताका घेवन. ताकाय खेळूंक मेळटलें. सांग आमोदाक, मातशें पावय म्हूण. पयस कांय ना.''

इंदिरालो आगरो – कितलो खरो, कितलो अडेचो, देव जाणा!

''तूं जाणा न्हय गो. चैतन्याकच भोंवपाक आवडना. तातूंत गार्डन तर निखालस नाका ताका. तातूंत आयज केन्ना न्हय तो आमोद बेगसार घरा पावला. ताका चैतन्या कडेन खेळपाचें आसा खंय. ओ पळय, फुटबॉल घेवन खेळटा ताचे कडेन ना, ना. घरांतच.''

इतले म्हणसर चैतन्याचो भुकेचो वेळ जाल्लो. आमोद ताका उखलून घेवन आयलो आनी जेवणा मेजा लागीं कदेलार बसयलो.

''ए, आमोद. हांवें हॉर्लिक्स करून दवरलां. मातसो पिवयता ताका? ना, गो, हट्ट करता. पूण बाबा पुता केल्यार पिता. बापायन पिवयल्यार तर –''

''फोन कित्याक केल्लो गो?'' इंदिराक ताकतीक आशिल्ली जावंये!

''आरेच्या! अवांतरूच उलयत रावलें पळय. आगो, तुका बर्थ डेक आफोवपाक म्हूण फोन केल्लो. हय, हय. चैतन्याचोच. परां– शेनवारा. सांजे सांताक सुमार यो. भुरग्यांक हाड. आनी घोवाकूय.''

''खंयच्या हॉलांत?''

इंदिरान आपल्या भुरग्याचो चवथो वाडदीस लेगीत हॉलांत मनयिल्लो. हार्लीसराक चालच पडल्या ही. ते भायर नाच, खेळ, गेम्स, जादू, कसरती... भुरग्यां परस जाणटींच खेव करतात.

''हॉलांत सो कित्याक गो? आमचो फ्लॅट कांय इतलो ल्हान न्हय. ते भायर आमकां ओपन टॅरॅस आसा. तुवें पळयलां न्हय? हय, हय. आमी तें बंद करून घेतलां. चैतन्य धुमशेणां कांडटा पळय – भंय दिसता. आनी तशीं आमी गांवभर सांगचीं नात गो. फकत लागशिल्ल्यांकच सांगलां. यो, आं! आनी मिस्टराकूय सांग. सांगलें ना म्हणीत.''

''इंदिराक दिसता, आपणें हॉलांत केलो बर्थ डे. आतां लोकांनीय करचो.'' फोन सकयल दवरून हर्षान म्हळें.

हॉर्लिक्स पिवयतना चैतन्याच्या आंगार पडिल्लें तें आपल्या लेंसान पुशीत आमोदान म्हळें,

''ताका हॉलांत सेलेब्रेट करपाक कितें जालां? तागेलो घोव आसा फूड अँड ड्रग्स ॲडमिनिस्ट्रेशनांत. हॉटेलां ताच्या बोल्सांत. हॉलूय फुकट आनी केटरिंगूय टकफू – अशें लोक म्हणटात आं!''

''जायीत. पोरुं आपणाले धुवेक इंदिरान कांकणां केल्लीं भांगराचीं. देड पोवनाचीं बी जायीत. आपुणूच दाखोवन तोखेतालें. आतां आमी चैतन्याक घाल्ली सरपळी पळोवन दोळे धुंवनात जाल्यार पुरो.''

''त्या तुगेल्या इंदिराक आफोवंयाच नाका म्हणिल्लें तुका हांवें. म्हाका तें मात्त आवडना. झेत करता व्हडले. आनी ताचो तो घोव? गवर्नमेंट ऑफिसर म्हूण मेतरायता. फाटीं बर्थ डेक तांगेर गेल्लीं तेन्नाचें हांव विसरूंक ना.''

''कितें तें?''

''विसरलें? आजून केजीक कित्याक घालो ना चैतन्याक हाचो तांकां हुसको.''

''हांवें हरशीं इंदिराक पयलींच सांगून दवरिल्लें – केजी, मॉंटेसरी हांचेर आमचो मात्तूय विस्वास ना. तेन्ना कवी मनोहररायान बरें सांगिल्लें पळय – केजी म्हळ्यार किलोग्राम. येद्याशा भुरग्याच्या मेंदवाचेर दवरतकींच तो चिड्डता म्हूण. तशेंच सांगिल्लें ताका जाल्यार ज्योक सांगिल्ले भाशेन हांसली.''

''हांवेंय ताच्या घोवाक तेंच सांगलें. स्कुलाक घालप तें स वर्सांचेरच. बाकी नर्सरी रायम्स आनी खेळ आमी ताका घराच शिकयतलीं. पूण सभाग्याचो सभावच दुबावी. विचारता कसो – तुमगेलो चलो प्रॉब्लेमॅटीक काय म्हूण! अशीऽ तिडक मारिल्ली!''

''ते आमोणकान्नीन बी सांगलें ना मूं तांकां तशे? इंदिरा बरें वळखता तिका.''

''म्हाका दिसना. ती तशी मनीस बरीऽ.

तुका याद ना? प्री-प्रायमरीक ॲडमिशन मेळनाशिल्लें तेन्ना तिणें उतर घालून प्रायोरिटीचेर दिल्लें तें?''

''पूण मागीर तिणेंच आमकां आफोवन सांगलें न्हय – भुरगीं डिस्टर्ब जातात. अभ्यास सोडून चैतन्याचेरच लक्ष वता भुरग्यांलें!''

''पूण आमच्याच बऱ्याक सांगिल्लें तिणें. मस्तीं भुरगीं चैतन्याक चाळयतालीं. ताचे वाटेक वतालीं, म्हणून –''

''मागीर तिडक आमकां येवपाची. पालकांनी, तक्रार केली कित्याक म्हळें तिणें?''

''तशें म्हळें ना तिणें. पालकांनी तक्रार करचे पयलींच ताका दुसरे कडेन घालात म्हणिल्लें तिणें. वयल्यान तिणेंच सल्लो दिल्लो – चैतन्य शाळेंत रमना. तो हेरां परस मातसो वेगळो. लोक ताचे विशीं कित्या कितें उलोवंक लागतले. ते परस –''

''ॲबनॉर्मल भुरग्यां खातीर शाळा आसतात म्हूण तिणेंच सांगिल्लें न्हय? जाय जाल्यार आपूण उतर घालतां – 'डॅडीस होम' म्हणटात थंय? निमाणें तिकाय हो ॲबनॉर्मलच दिसलो मूं?''

''तरी तिचो हेतू बरो आशिल्लो. तिणेंच आमकां सांगिल्लें न्हय – 'तारे जमीं पर' मुजरत पळयात म्हूण!''

मिसेस आमोणकारान सांगिल्ल्यानच तीं तो सिनेमा पळोवपाक गेल्लीं. ईशानाली आवतिकाय पळोवन रडिल्लीं. ईशानाच्या आवय-बापायची तिडक मारिल्ली तांकां. सिनेमा पळोवन दोगांय घरा आयिल्लीं तेन्ना चैतन्य गाड न्हिदेंत आसलो. न्हिदिल्ले कडेन पळयल्यार कितलो सुंदर दिसतालो! तेन्ना हर्षान म्हणिल्लें, ''आमकांय असलो एक राम निकुम्ब सर मेळूंक जाय आसलो, न्हय?''

तो सिनेमा पळयतकीर आमोदान चैतन्या खातीर कलरिंग बुक्स आनी क्रेयन्सांचें व्हडलें पाकीट हाडिल्लें. पेंटिंग कुशीकच उरलें. एक दीस भूक लागिल्ल्या वेळार ताणें दोन क्रेयन्सच खावन उडयिल्ले.

''आमोणकान्नीक बरीऽ समजिकाय आसा. तिका भुरगीं आवडटात. चैतन्याची लेगीत अपुर्बाय करताली. तिणें एखादरी शाळा उगडली जाल्यार हांव दोळे धांपून चैतन्याक तिचे सुवादीन करीन –''

''बरें, बरें. ते आमोणकान्नीक आफोवपाचें मनांत आसा मूं तुज्या? आफय. पूण मागीर ती विचारतली – बण्टी कशें आसा? कितें सांगतलो? फ्रेंडाक दिवन उडयलें म्हूण?''

''अशें करुंया. बर्थ डे दिसा सिरीला कडेन फावोर मागून बण्टीक आमगेर हाडुंया. बाबू पासून पयस बांदून दवरुंया.''

हर्षाले दोळ लिकलिकले, ''आयडिया. पोमेरियन सुणीं पोसपाची फॅशन जाल्या हालीं. लोक येतले तेन्ना फ्लॅटाची सोबाय वाडटली.''

''आगो, कितले फावटीं सांगलें तुका – लोक पोमेरियन म्हणटात, म्हणूं. तूं सारकें पोमेरेनियन म्हण.'' फोन घुंवडायतां घुंवडायतां आमोदान हर्षाची चूक सुदारली.

पोरूं नोवेंबरांत आमोणकान्नील्या पोमेरेनियन कोलगान पिलां काडिल्लीं. एक पील हर्षा कडेन दिवन तिणें म्हणिल्लें – ''हें बण्टी. भुरग्यांक पॅटस् आवडटात. चैतन्याकूय आवडलें जाल्यार ताकाय खेळपाक संवगडी जालें.''

पयल्याच दिसा चैतन्यान बण्टीचे धवे फुल्ल ल्हंवेक हात घालो. बचक मारलें ते सोडीच ना. बण्टीन पयलीं किंळच्यो मारल्यो. मागीर ताका दांत लायले, बुरके काडले... निमाणें ल्हंव तुटून हातांत आयली तेन्ना मूठ सोडली. तेच राती आमोदान बण्टीक व्हरून सिरीलाक दिवन उडयिल्लें.

''आमोणकारालो फोन कोण उबारना सो? तुजे कडेन तिचो मोबायल नंबर आसा?''

''ना रे बाबा! ते परस रातीं ट्राय करुंया. ते मेरेन तूं डॉ. केरकाराक कर.

डॉ. केरकार च्यायल्ड स्पेशालिस्ट. बाबू जालो तेन्ना मॅटर्निटी होमानच ताका आफोवन हाडिल्लो. पळय जाल्यार आमोदालो स्कूलमेट. बरो वैज म्हूण नांवाजतालोच. ते भायर लेखक म्हणुनूय गाजतालो.

''परबीं तुमकां. अ हॅल्दी च्यायल्ड!''

खोशेन तीन किलो पेडे वांटिल्ले सगल्यांक तांणी. पेडो तोंडांत उडयतना केरकारान म्हणिल्लें –''हर्ष आनी आमोद म्हळ्यार शीममेर नाशिल्ली खुशी. आनी तातूंतसून जल्माक आयलां तें साक्षात चैतन्य.''

आमोदान तेंच उतर जिखून धरिल्लें. चैतन्य! बारशाक मुजरत डॉक्टर केरकाराकूय आफयिल्लो. तेन्नाच्यान तो तांचो कुटुंबीक इश्ट जाल्लो.

म्हयनो जालो तरी बाब मान धरना जालो.

''कांय भुरगीं वेळ लायतात मान उबी धरपाक.'' आनी तशेंच जालें. तीन-साडेतीन म्हयन्यांचेर मान थीर जाली. कूस परतुपाक लेगीत स म्हयने लागले. शेजारचीं - वळखीचीं बेठींच कुतां काडटालीं–

– आंवंय! आजून धिमकुरी मारना?

– दोळे पळय गो बिटबिटे शे!

– गोरपाण हागेली धवसाणशी दिसता!

– रुपान सुंदर आं! पूण सत्यभास काडिल्ले वरी!

सगलीं भुरगीं सारकीं आसतात? हाताचीं बोटां लेगीत सारकीं आसनात. पूण उलयतल्यांचीं तोंडां धरूं येतात?

हर्षान लोकांक घरांत आफोवपाचेंच उणें केलें. बर्थ डे मात मोटे उमेदीन मनयलो. खाण-जेवण बरें बरें केलें. ते भायर आयस्क्रीम. लोक खूश. बाबू पयलीं रडलो. मागीर वग्गी पडलो. मागीर न्हिदलो.

वर्स जालें तरी बाबू चलनासलो. आजयेन म्हळें – आमोद सवाय वर्साचेर चलूंक लागिल्लो. बडीचेंच आसतलें तें.

बर्थ डेक आयिल्ले कडेन केरकारान आमोदाक कुशीक आफोवन व्हेल्लो – ''चैतन्य नॉर्मल आसा शें दिसता तुका?''

''कित्याक म्हणटा? ताचो प्रॉग्रेस थोडो स्लो आसा, इतलेंच.''

''म्हाका क्रेटिनिझमाचो दुबाव मारता...''

''कितें? कितें म्हळें?''

''ना, कांय ना. पूण प्रॉग्रेस असोच स्लो शें दिसलें जाल्यार येवन मेळ. थोड्यो टॅस्टस् करच्यो...''

हय. चैतन्याची वाड हेरां परस मंद आशिल्ली. तो वरांचीं वरां वग्गी पडून रावतालो. नाका तेन्ना हांसत रावतालो. हांसयल्यार हांसच नाशिल्लो. भूक लागल्यारच रडटालो. हेर भुरग्यां भाशेन केन्ना चैतन्यान राती जागयल्यो नात. लाळ गळत उरताली. पूण खूब भुरग्यांक जाता अशें! हांगूंक-मुतूंक जाल्यार सांगूंक कळनासलें. पूण–

''म्हगेली आई सांगताली, हांव पांच

वर्सांचें जायसर हातुणार मुततालें. चैतन्याक हें बडीचेंच आयलां आसतलें.'' हर्षान म्हणचें.

पूण जेन्ना हर्षाले आवयनच हुसको परगटायलो तेन्ना पयले खेपेक आमोद ताका घेवन केरकारा कडेन गेलो.

''आमकां चैतन्याचो तसो हुसको दिसना. तागेली वाड चडच स्लो आसा खरी. तुवें म्हणिल्लें न्हय, म्हणून आयलां. आतां तूंच पळय आनी सांग - हें बडीचें काय नडीचें?''

केरकारान चैतन्याक तपासून म्हळें, ''कुडीची वाड उणी जाली वा स्लो जाली ताचो म्हाका हुसको ना, आमोद. पूण -- राव. पयलीं ई.ई.जी. कर.''

इलेक्ट्रो एन्सेफलोग्राम काडलो. कवटी बरी आसली.

''पूण कवटे भितर? मेंदवाची वाड जावंक ना. देखून हो असो --''

मागीर आनीक तपासण्यो जाल्यो. आयोडीन डेफिशन्सी, थायरॉयड हॉर्मोन्स डेफिशन्सी, एन्डोक्रायन डिजॉर्डर...

हर्षा रडपा कडेन पावलें. ''हें कितें आयलां आमच्या नशिबांत, डॉक्टर?''

''तो बरो जातलो न्हय, केरकार?''

''हॉमोन्स वाडोवपा खातीर ड्रग्स दिवंया. पूण -- डॉन्ट एक्सपॅक्ट मिरेकल्स. तो क्रेटीन च्यायल्ड म्हणुनच वाडटलो. यू मस्ट लर्न टू लिव व्रिथ हिम. ताच्यो गरजो समजून ताचे कडेन वागचें पडटलें...''

''कितले दीस? कितलीं वर्सां?''

केरकार कांय उलयलो ना. वखदां बरोवन दिलीं.

''तुमकां कितें दाखयतां. फाल्यां सकाळीं येयात...'' केरकारान तशें कित्याक म्हळें तें दुसऱ्या दिसा तो तांकां घेवन आपणाल्या एका पेशंटागेर गेलो तेन्ना कळ्ळें.

''हाका पळयात.''

ते कुडींत एका कोनशाक एक भुरगो उबो आशिल्लो. मर्दी वणटीक तेंकून एक कॉट आडवी दवरिल्ली. दुसरे वटेन एक आल्मार शिरेन उबी करून त्या भुरग्या खातीर एक कुरकूट तयार केल्लें. दोन अडेच फूट उंचायेचो तो भुरगो भकास नदरेन तांचे कडेन पळयतालो. ताचे परस ताच्या आंगा वयले कपडेच बरे दिसताले. उकतें तोंड, तोंडांतल्यान गळपी लाळ आनी मोटटे दोळे... पळोवं नजऽ जालें तांच्यांनी.

''हाची पिराय कितें आसतली जाणात? ताका बावीस वर्सां जाल्यांत.''

खरेंच दिसलें ना तांकां. खुजे पळयिल्ले तांणी. तातुंतलो दिसलोना.

''अशें कशें शक्य आसा?'' हर्षान म्हळें.

पूण आमोदान त्या भुरग्याल्या ओंठांर वाडिल्ली पातळशी मिशी पळयिल्ली. ताका उतर फुटलें ना.

''आमचो चैतन्य --?''

''ना. ही मायक्रोसेंफाली केस. इट इज कॉन्जिनिटल एबनॉर्मलिटी. स्कल वाडना देखून मेंदू वाडना. मागीर सगलीच -- मेंदवाची आनी कुडीची वाड खिन्नट्टा.''

''ताचें भविष्य कितें, केरकार?''

''ताचे कुडीक कांयच जावचें ना. पिराय वाडटली पूण तो खिन्नटिल्लोच उरतलो. तागेल्यो सगल्यो फॅकल्टीस् बंद आसात. ताचो आय-क्यू सोळा मेळ्ळा. तो आनीक वाडचो ना.''

''आनी ताचीं आवय-बापूय?'' हर्षान कळवळून विचारलें.

''ह्या भुरग्यान निदान आपणाक पळोवन हांसचें, आपणा कडेन उलोवचें अशें दिसप सभावीक तांकां. पूण तें तशें जावचें ना.''

भायर सरतना केरकारान विचारलें,

''तुमकां जें फावो जालां तें हाचे परस बरें आसा शें दिसना तुमकां? युवर्स इज अ क्रॅटीन च्यायल्ड. नशीब समजात - तो मायक्रोसेफालीचो बळी न्हय.''

''चैतन्य बरो जावचो ना केरकार?''

''बरो जावप म्हळ्यार कितें हाचेर अवंलबून आसा. तो शिकतलो, खेळटलो, गायतलो अशी आस्त बाळगूं नाकात. पूण ताका समजून वागयात. ताका आनंद दिवपाचो प्रयत्न करात. ताचें पॅरेण्टींग ही तुमचे वयली चॅलेंज...''

आनी ही चॅलेंज दोंगांयनी स्विकारिल्ली.

''लागलो ना रे फोन डॉक्टराक?''

''येदोळच्यान एंगेज्ड मेळटालो. तुवें विचारपाक लागलो, पळय. ...हॅलो, केरकार, हांव आमोद देसाय उलयतां.''

''हॅलो, आमोद! कसो आसा? आनी आमचो चैतन्य कसो आसा?''

''बरो आसा तो.''

''पर्थून व्हायोलण्ट बी जाल्लो?''

''ना. म्हळ्यार चड न्हय. मर्दी एकदां...'' हर्षाले केंस ओडिल्ले तें सांगचें काय ना हें थारावचे पयलींच केरकारान म्हळें --

''तुमी ताची बरी अपुर्बाय करतात तें पळोवन बरें दिसलें आमोद. बरें, फोन कित्याक केल्लो?''

''केरकार, चैतन्याचो बर्थ डे सेलेब्रेट करपाचें येवजिलां आमी.''

खीणभर डॉक्टर केरकार वगी रावलो. कितें दिसलां काय ताका?

पयलो बर्थ डे दबाजान मनयिल्लो. ते उपरांत दुसरो सामको घरचे भितर मनयिल्लो. तिसऱ्या वाडदिसाच्या दिसांनी तांकां सुतक आशिल्लें. पयसुल्लो काका खंवसलो तें नीब मेळिल्लें.

चवथ्या वाडदिसा पयलीं चैतन्य बरो ना जाल्लो. ताका हाग-ओंक जाल्ली. डॉ. केरकारान म्हणिल्लें, ''ताका इन्फॅक्शन जावंक वा कितेंच बादूंक दिवं नाकात. ताची प्रतिकारशक्त उणी आसा.''

फाटलें वर्स चैतन्यान बरें काडलें... फकत -

''दॅटस् ग्रेट, आमोद! गो, अहेड.'' केरकारालें खुशाल जाल्लें मुखामळ दोळ्यां मुखार हाडीत आमोदान आमंत्रण दिलें,

''तुवें येवपाक जाय केरकार. चड लोकांक आफोवं नात - लागींच्यांकच!''

''ओ के! केन्ना म्हळें?''

''शेनवारा. परां सांजे सात वरांचेर - घरांतच.''

''बरें, येतां. फकत इमर्जन्सी आयली जाल्यार मात -''

''तें समजूं येता. पूण उशीर जाल्यार लेगीत यो.'' हय. केरकारान फोन दवरचे पयलीं विचारूंक जाय.

''केरकार, आनेक विचारूं?''

''ऑफ कोर्स! कितें तें?''

''बाब बरो वागतलो हाची आमकां खातरी आसा, केरकार. पूण सांगूं येना, न्हय! म्हळ्यार - घडये - एखादरो तो... याद आसा न्हय फाटले खेपेक तुवें ताका न्हिदेची सिरप दिल्ली. फाल्यां - म्हळ्यार शेनवारा - लोक बी येतलो. तेन्ना ताका... कितेंय... आय

मीन न्हिदेचें वखद दिल्यार जाता?''

ऑफिसांतलें काम घरा हाडिल्ले कडेन म्हत्वाच्या कागदांचेर चैतन्य मुतलो म्हणून आमोदान रागा भरशीं एक थापट ताचे फाटीर मारिल्लें. ते उपरांत ताणें पळय एक खेव केल्लो! कस्सोच आटापाक येनासलो. किंळच्यो मारीत स्टूल उखलून बापायचेर मारिल्लें. मागीर कोणाक लागींच येवपाक दिनाशिल्लो. डॉ. केरकारान येवन फॉर्सान न्हिदेची सिरप दिल्ली तेन्ना थंड जाल्लो.

केरकार कांय उलयना तें पळोवन आमोदानच बेगबेगीन म्हळें - ''तशीं आमी वखद दितलींच अशें ना. दिवचीं नाच. पूण –''

''गरजच दिसल्यार 'लार्गातील' सिरप दी.''

''थँक्यू -'' सू जालें आमोदाक.

''कितें म्हळें डॉक्टरान?'' फोन दवरना फुडें हर्षान विचारलें.

''दिल्यार जाता म्हळां. फाल्यां तूं डायपर हाडपाक वतलें तेन्नाच 'लार्गातील' सिरप घेवन यो.''

''बरें जालें. आतां म्हगेले सगले फोन करून जाले. तूं ते आमोणकान्नीक पर्थून ट्राय करून पळय.''

धपक्याक लागलो.

आमंत्रण मेळना फुडें आमोणकान्नीन म्हळें – ''आरे व्वा! हॅपी बर्थ डे म्हणपाक येतलींच हांव. चैतन्य बरो आसा न्हय? बरो खेळटा बण्टी कडेन?''

''हय, व्हय. खेळटा.''

''आमगेर डॉगीन आनीक चार पिलां काडल्यांत. चैतन्याक बर्थ डे प्रेझेंट म्हूण आनेक दिवं?''

''नाका, नाका. एक आसा तें पुरो. आनी प्रेझेंट बी नाका. तुमी येयात मात.''

फोन दवरतनाच ताका उगडास जालो.

''हॅलो, सिरील, हांव देसाय उलयतां. एक उपकार कर. शेनवारा सांजचो संक सुमार येतां हांव. म्हाका एके राती खातीर बण्टी दी. आयतारा सक्काळीं पावयतां परतें. ओ के? प्लीज! थँक्यू!''

हर्षान चैतन्याक उबारून मांडयेर घेतलो, आडवो घालो. आनी धाकटुली कातर घेवन केंसानी हात भोंवडायत खंयूय केंस घुस्पून जाल्ली जटा कातरून काडूंक लागलें. ''बाबू, तुगेलो पांचवो वाडदीस बरो मज्जेन करुंया मरे? शाणो तो म्हजो. शाण्या भाशेन राव आं. कोणूय कितेंय म्हणूं - आयकुवपच ना, पळोवपच ना.'' सोबीत मुदयाळ्या केंसांतली जटा हर्षान ल्हवपीक हातांनी कातरून काडली. ''कितलो शाणो म्हजो बाबू! लोकांलीं भुरगीं सामकीं पिशीं. हात लायल्यारच रडटात.''

कातर जाग्यार दवरून हर्षान बाबूक सोफ्याचेर बसयलो.

''जाली मरे सगली तयारी? उरलां कितें?'' आमोदाक विचारलें.

''केटरिंगाची ऑर्डर कन्फर्म केली. फकत मल्ल्याक सांगपाचें उरलां. ताका बिराडार फोन मेळूंक ना आजून. आनी तागेलो मोबायल नंबर ना म्हजे कडेन. फाल्यां ऑफिसाक वचचे पयलीं तांगेल्या बिराडारच वचून आमंत्रण दितां. मागीर सगलीं आमंत्रणां सोंपलीं.''

बाबूल्या केंसांतल्यान बोटां भोंवडायत हर्षान म्हळें, ''खूब निवळ्ळासो दिसना, बाबू? लाळ देंवपाची उणी जाली कितली! मातशी लांबायूय आयल्या, न्हय? फाल्यां नवे कपडे बी घालतकूच सामको राजकुंवर सो सोबतलो, पळय. मागीर कळटलें सगल्यांक - ते समजतात तितलो तो हो न्हय म्हणून.''

दुसऱ्या दिसा सकाळीं आमोदान मल्ल्याल्या फ्लॅटाची बॅल मारली तेन्ना मल्ल्या पुजेक बशिल्लो. 'नाका नाका' म्हणटना ताचे बायलेन च्या हाडून दिली.

मल्ल्यान भाड्याक घेतिल्ल्या नव्या ताल्ल फ्लॅटाची तोखणाय करतनाच शर्ट चडयत मल्ल्यामाम भायर आयलो.

''कशशे आसा, मिस्टर देसाय?''

''म्हगेल्या चल्याच्या बर्थ डेचें आमंत्रण दिवंक आयलां. शेनवारा सांजे... सगल्यांनी येवचें.''

''व्वा, व्वा! भारी संतोषु जालो.''

इतले म्हणसर मिसेस मल्ल्यान भितरसून आकांतून बोवाळ मारलो, ''तुगेल्या पुत्तानु कित्तें केलें, चोय. पूरा घाण...''

मल्ल्यामाम धांवट भितर गेलो. आनी फुडल्याच खिणाक ठा करून मारिल्लें थापट आनी भें करून पुताली रड दोनूय सोमतींच आमोदाल्या कानांर आपटलीं. कितें जालें काय म्हूण भितर वचून पळय जाल्यार फ्लॅटाच्या नव्या ताल्ल वणटींचेर मास्टर मल्ल्यान हातांतले पेन्सिलीन बिरबिटें करून दवरिल्लें. ओनरशीपचेर घेतिल्लो फ्लॅट जाल्यार जावं आशिल्लो. भाड्याच्या फ्लॅटाच्या वणटींचेर पिंतारून दवरल्यार घरकार वगी रावचो ना हे विवंचनेंत मल्ल्यान कपलार हात मारून घेतलो. आमोद ल्हवूच थंयसून कडसरलो.

ऑफिसांत पावतकीर आमोदान गांवसाक ही खबर सांगली.

''म्हगेलें आयकता, सायब. भुरग्यांल्या बिरबिट्यांनीच घराची सोबाय वाडटा. जांकां नदर आहा न्हू तेंकां तेंची कला तितूंत देखों येतली. ना तेंकां बिरबिटें–''

आमोदाल्या दोळ्यां मुखार तें बिरबिटें चित्रशें जावन उबें रावलें. मळबांतलीं कुपां? काय गच्च रुखावळ? काय ती पोमेरेनियनाची फापसल्ली ल्हंव?

सांजेचेर आमोद उत्तेजीत जावन घरा आयलो. हर्षाय उमेदीन ताचीच वाट पळयतालें. हॉलांत लायिल्ल्या टिव्ही मुखार चैतन्य दोळे बिटबिटायत बशिल्लो.

''डायपर हाडले हांवें. आनी न्हिदेची सिरपूय हाडली. आमोद, हांव सांगूं? आमी सात जावचे पयलींच ताका वखद दिवंया. लोक येता म्हणसर तो जांबयो काडटलो. मागीर न्हिदावंया. न्हिदांत बाबू दिसताय बरोऽ! कांयच कळना. न्हिदांत हांसता तेन्ना तर दिश्ट काडचीशें दिसता.''

''बेस्ट आयडिया. ताका हांगा सालांतच न्हिदावंया. आनी हें पळय, फाल्यां सकाळीं बाबूलो सगलो खेळ भायर काडून दवर. फुटबॉल, बार्बी, मोटारी, सॉफ्ट टॉयस...''

''हय. हांव बरें करून मांडून दवरतलें.''

''मांडून? नाका नाका. पातलाय. अस्ताव्यस्त. भुरग्यालें घर सोबूंक जाय.'' उलयतां उलयतां आमोदान बोल्सांतली पेन्सील काडली आनी चैतन्या फाटले वणटीचेर बिरबिटायत सुटलो.

''कळुंदी लोकांक. चैतन्य कितलो खेळटा... वणटींचेर बिरबिटें करता... मस्ती करता...''





# रोबोटीक वॉरफॅर

**महाबळेश्वर सैल**

आर्मेनिया आनी ज्योर्जिया हे मळबांतल्यान भुंयेर स्वर्ग देंवन आयल्ले वरी सोबीत देश. न्हंयो, तळीं, रानां, शेतां, मनशां सगळेंच सोबीत. थंयची हवा तर दीस रात मखमल कांबरून घेतिल्ले वरी थंड गुलाबी. सोवियत युनियना पासून वेगळे जाल्ल्याक गेल्लीं णव्वद वर्सां हे दोनय देश बरे इस्टागतीन, भावपणान शेजराक रावताले. ह्या देशां मदीं झूज सुरू जालें तें भुंये पोटांतल्या उदकाच्या सांठ्याक लागून. दोनय देशां मदीं शिमेर दोनेक हजार चौरस किलोमिटरांचो पडींग भुंयवाठार आसलो. थंय कसलेंच झाड-झोंप, तण किल्लनासलें. सगळो फातरट वाठार. तरी तो वाठार म्हजो तुजो म्हण फाटलीं बरींच वर्सां धुसफूस चलताली. पूण दोनय देशां मदीं बरे इस्टागतीचे संबंद आशिल्ल्यान ती वयर सरून येयनासली. तातूंत तो पडींग वाठार. मातयेंत शेड आनी बारीक धवे फातर. पूण संवसारांत सगळे कडेन उदकाचो उणाव सुरू जाल्लो. हाहाकार पडिल्लो म्हटल्यार जाता. सगळे कडेन उदकाचो धंदो जोरांत चलतालो. चीन संवसारांतलो सगळ्यांत व्हड उदकाचो निर्यातदार देश जाल्लो. पावस उणो जाल्लो. लोक फक्कत धर्तरिच्या पोटांतलें उदक हुपशिताले.

भुंयेच्या पोटांतल्या उदकाचो सोद घेतना आर्मेनिया आनी ज्योर्जिया ह्या दोनय देशांतल्या विज्ञानिकांक सोद लागलो — ते बंजर भुंयेच्या पोटांत व्हडा प्रमाणांत उदकाचे सांठे आसात म्हण. तेन्ना सान ह्या दोनय देशांचें त्या वाठारा विशीं उकतें झगडें सुरू जालें. दोनूय देश त्या वाठारार कडकपणान आपलो अधिकार सांगूंक लागले आनी दोन इस्ट देश दुस्मान जाले. दोनय देशांनी आपलें सैन्य हाडून त्या वाठारांत देंवयलें. मागीर ल्हान-व्हड झुजांय सुरू जालीं. सैन्यतांकीचे नदरेन दोनय देश एकाच बळाचे आसले. ह्या वर्सांनी सैन्यदळां मदीं भुंयेचेरच झुजां जातालीं. विमानां, क्षेपणास्त्रां आनी वट्ट हवाईदळ कुचकामी जाल्लें. कारण, चडश्या देशां कडेन लेझर किर्णांनी भरिल्लीं अशीं कांय अचूक अस्त्रां आशिल्लीं की तीं खंयचेंय विमान वा क्षेपणास्त्र शिमेंत रिगचे पयलींच ताका कडोवन, लासून उडयतालीं. तीं स्वयंचलीत आसलीं. आनी तांचो सक्सॅस रेट णव्वद टक्क्यां वयर आसलो. ताचेन विमान दळच कित्याक, नावीक दळय कुचकामी जाल्लें, आनी जमनी वेल्या झुजाक, पर्यायान भुंयदळाक, सुमारा भायर महत्व आयल्लें. संवसारांतल्या साठ टक्के देशां कडेन अणुअस्त्रां आसलीं तेच परी तीं आर्मेनिया आनी ज्योर्जिया कडेनय आसलीं. आतां खंयच्याच देशा कडेन अणुझुजां खेळची धिटाय नासली. अणुझूज खेळप म्हटल्यार आपल्या देशाचो संपूर्ण विनाश अशेंच ते धरून चलताले. झांबिया आनी झिंबाब्वे,

अफघानिस्तान आनी पाकिस्तान ह्या देशांनी फाटीं अवसानघातकीपणान अणुझूज खेळून आपलो नाश करून घेतिल्लो. आतां थंयचे वीस टक्केच लोक शिल्लक उरिल्ले. तेवूय तरातरांच्या कांक्रांनी वळवळटाले. त्या देशांनी इतलें अणुप्रदूशण पातळिल्लें की भायल्या देशाचे सैनीक वा हेर लोक त्या वाठारांनी वचूंक मागनासले. तातूंत अमेरिकेन जाहीर केल्लें – खंयचोय देश कोणाय आड अणुबाँब वापरतलो तेन्ना त्या देशा आड अमेरिका अणुझूज सुरू करतली. ताचेन आतां संवसारांत अणुझुजां सुरू जावची शक्यताय सामकीच उणी जाल्ली. आतां दर एका देशा कडच्यो अणुशस्त्रांच्यो राशी जंग खायत पडिल्ल्यो. आतां चड झुजां जातालीं तीं पांयदळां मर्दीच. म्हण पांयदळ दुस्मानाचेर झुडोन वचूंक चडांत चड कशें तांकिवंत जातलें हाचेर जोरांत संशोधन चलतालें. वांगडाच, झुजांत सैनीक उण्यांत उणे मरचे म्हणय यत्न चलिल्ले. कारण, संवसाराची लोकसंख्या वेगान उणी जायत आसली. मनशाल्या जिवाच्या म्हालवजार झुजां खेळप नाका जाल्लें.

हांतूतल्यानच 'रोबो सोल्जर' आनी 'रोबोटीक वॉरफेरा'ची येवजण मुखार आयल्ली. तशी ती पोन्नीच कल्पना. पूण ह्या वर्सांनी तिका अतोनात म्हत्व आयल्लें. तांचो आतां मोटो अंतरराष्ट्रीय धंदो जाल्लो. ह्या धंद्यांत अमेरिकेंतल्याच दोन कंपन्यांची मक्तेदारी आसली. एका परिपूर्ण रोबो सोल्जराचें मोल धा कोटी डॉलर आसलें. तातूंतले अडेज कोटी अमेरिकेच्या सरकाराक वयताले. म्हण अमेरिका सरकार ह्या धंद्याक खुबच प्रोत्साहन दितालें. रोबो चडांत चड आधुनीक, चडांत चड मारेकार जावचे म्हण यत्न जाताले.

ज्योर्जिया समंजस आनी शांत प्रवृत्तीचें राष्ट्र आसलें. दोनय देशां मदलें दुस्मानपण तर वाडतच आसलें. इंच इंच भुंये खातीर झुजताना सैनीक मरतच आसले. आर्मेनियाक तर दुस्मानाक बुद्द शिकोवची खुमखुमीच लागिल्ली. झूंज आतां उदका खातीरचें, भुंये खातीरचें उरनासताना तें प्रतिष्ठेचेंय जाल्लें.

म्हण आर्मेनियान तीन हजार कोटी डॉलर फारीग करून तीनशें स्वयंभू, हाय टॅक्नॉलजीचे 'रोबो सोल्जर' विकते घेतले. ते खुबच गुंतागुंतीचे आसले आनी तांचें टॅक्नीक समजून घेवप बरेंच अवघड आसलें. ते रिमोटा वेली मनशांली आज्ञा पाळटाले. प्रसंगार सोता निर्णय घेवंक्य तांकताले. मनशाल्या मेंदू कडेन स्पर्धा करऽ सारको कृत्रीम गुंतागुंतीचो मेंदू तातूंत बसयल्लो. ते फायरींग करूंक तांकताले. मोडून तोडून उडोवंक तांकताले. तशेच मुखार आयल्ल्याक सुरी तोंपून मारुंकूय तांकताले. त्या रोबों भोंवतणीं एक अभेद्य कवच उबें केल्लें आसलें. तांकां 'मारून उडोवप' खुबच अवघड आसलें. धा-वीस माळ्यांचे इमारतीर ते उडयो मारून चडटाले. घरांचीं घरां फोडटाले. धांवत्या गाडयांक ओडून धरताले. मनशां परस तांची कार्यक्षमता शंबर पटींनी चड आसली. वयल्यान तांकां सोंपेपणान मरणां नासलीं. तांचे भितर बसयल्लो मेंदू एक अजापाचें तंत्रयंत्र आसलें. एक फावट तांकां कार्यप्रवण केले म्हणटकीर ते मुखार दिसता त्या मनशाक फारान, सुरी तोपून, उखलून भुंयेर आपटून मारताले. कसलेय अडथळे पार करून वचूंक ते तांकताले. मनशां वा जिवो प्राणी वळखुपाची तांक तांकां आसली. भावना संवेदना सोडल्यार मनशाले बुद्दीचे बरेच आयाम तांचे सरीं आसले. संवेदना नाशिल्ल्यान ते कितलेय क्रूर जावंक शकताले. तांकां तीन हात आसले. एका हातान ते फारपेट करूंक तांकताले, दुसऱ्या हातान सुरी तोपूंक तांकताले तर तिसरो हात ते घण कसो उपेग करताले. फारपेट करतो हात म्हटल्यार एक मशीनगनूच आसलो.पांच घोड्यां इतली ताकद एकेका सोल्जर रोबोंत आसली. ते विज्जेर, सौर उर्जेर आनी तेलाचेर वा गॅसाचेर चलताले. तांकां परिस्थितीचें, दिकांचें, अंतरांचें, अचूक ज्ञान आसतालें. तांकां दोनच गजाली खबर नासल्यो – एक, मरणाची भिरांत आनी दुसरी, मनसंवेदना. तांच्या विज्ञानिकांनी तांकां सगळें दिल्लें. दिवंक नासलें तें मन. तांकां तें शक्यय नासलें. संवेदना आनी भिरांत नाशिल्ल्यान विज्ञानिकांनी तांकां जितले क्रूर केल्ले ती सगळी क्रूरताय ते झुजांत वापरताले.

ते तिनशीं रोबो अमेरिकेंतल्यान विमानान हाडून आर्मेनियांत देंवयले तेन्ना ते मडीं कशेच पडून आसले. हे चलतले किते, झुजतले किते अशें दिसतालें. तांचे वांगडा कंपनीचे दोन रोबोटीक टॅक्निशियन आयल्ले. तांणी दुसऱ्याच दिसा तांकां ॲक्टिवेट केले आनी ते हालूंक धोलूंक लागले. खरें तर ते टॅक्निशियन बरेच भियेल्ले आसले. थंय अमेरिकेंत कंपनीच्या आवारांत काम करप वेगळें आसलें. हांगा पयस रोबोंक कसली आज्ञा दिवंकच ते भियेताले. इल्लें किते चुकल्यार घात जावं येतालो. थंयचे थंय कितेंय करूंक लायताले. मैदानांतल्यान भोंवडावन हाडटाले. रानाकडांनी व्हरून हाडटाले. रोबोंक आज्ञा दिवप हें इतले गुंतागुंतीचें, हुशारकायेचें काम आसलें, स्थानीक इंजनेरांक तें कितलेंय शिकयलें तरी नीट कळनासलें. तांकां दिसतालें, ते दोगय टॅक्निशियन रोबों वांगडा हांगाच रावचे, तांणी ज्यॉर्जियाचेर घुरी घालून ताका झोडून मोडून उडय मेरेन तरी. बेगीच्या बेगीन रोबोंक सरादेर उबे करून, तांकां आज्ञा करून ज्यॉर्जियाचो पुराय विध्वंस जावचो अशें आर्मेनियन अधिकाऱ्यांक दिसतालें.

रोबोंक आज्ञा दिवप पांवड्या पांवड्यांनी जातालें. एक फावट सरादेर उबे करून सर्वंकश आज्ञा दितकीर मात तांकां आटापप भोवच कठीण आसतालें. ते आपलें इंधन आसा मेरेन झुजत रावताले, तोडत फोडत रावताले. वाटेर गाविल्ल्या जिव्या प्राण्यांक फारान मारताले, सुरे तोपून, आंवळून आपटून मारताले. लिपिल्ल्याक ओडून भायर काडटाले. धांवतल्याक फाटीं ओडून आपलो घण कसो हात ताचे तकलेर मारताले. तांचेर मात फारपेटाचो कांयच परिणाम जायनासलो. गरज दिसता तेन्ना तांकां रणभुंये वेल्यान परत आफोवची मागणी आसली. पूण ते प्रत्यक्ष झूज खेळटाले तेन्ना भितरल्या यंत्रतंत्रांत - सर्किटांत इतलीं कंपनां तयार जातालीं की दिल्ल्यो आज्ञा रोबो मेरेन पावच नासल्यो. रणभुंयेर केन्ना तांचो शेवट खूब वायट जातालो, सगळ्या तरांचीं इंधनां सोंपिल्ल्यान ते मदींच बंद पडटाले. केन्ना केन्ना आज्ञा मेळचे कक्षे भायर गेल्ल्यान भरकटत खंयचे खंय पावताले. भितरल्या यंत्रतंत्रांत केन्ना बिघाडय जातालो. तें मात धोक्याचें आसतालें.

आर्मेनियान हाडिल्ल्या तिनशें रोबोंतलो एक रोबो दुयेंती कसो मंद हालचाल करतालो, मार्चिंगांत फाटीं पडटालो, केन्ना सोता भोंवतणीच घुंवतालो. चलताना भितरल्यान

'घुर्र' कसो आवाज येतालो. दिल्ल्यो आज्ञा पाळ नासलो. टॅक्निशियनांक कळिल्लें, हाचे मर्दी कसलो तरी बिघाड आसा. ताका दुरुस्त करची धिटाय आनी तसलें बरें ज्ञान तांकां नासलें. ताचो प्लग निखळावन ताका बंद करून दवरचें ते चिंतताले. रोबोंक प्रत्यक्ष सरादेर उबे करचे पयलीं ते ताका कुशीन काडून गुदावांत उडोवचेय आसले.

एक दीस सगळ्या रोबोंक 'हामडून' ते रानांकडांनी घेवन गेल्ले. खऱ्या सैनिकांची जशी ड्रिल आसताली, रोडमार्च आसतालो तशें ल्हान-सान आज्ञा करून रोबों कडच्यान हें सगळें करून घेताले. रोबोंक ॲक्टिव्ह दवरचे खातीर तें गरजेचें आसतालें. हातूंत रोबोंक आज्ञा करप एक मोटी अवघड कसरत आसताली. ह्या रोबोंच्या वेव्हारांत तेंच अवघड काम आसलें. आर्मेनियाच्या राजकारण्यांक ताक्तीक लागिल्ली. एक फावट रोबो ज्यॉर्जियाचेर घालून केन्ना झूज जिखता अशें जाल्लें. रानकडे वेल्यान एक मैदान पार करून रोबोंचें सैन्य बराकींत आयलें. पूण खूब उसरां कळ्ळें, एक रोबो मर्दींच खंय तरी ना जाला. नेमको खंयचो रोबो ना जाला तें नंबरा वेल्यान पळयताना तो 'दुयेंत' रोबोच ना जाला म्हण तांकां कळ्ळें. सगळी धांवपळ सुरू जाली.

पूण त्या 'दुयेंत', 'पिशा' रोबोली झाडाच्या अडसराक आसताना वा व्हाळशेंत, घळींत असताना खंय तरी चलपाची दिशाच चुकली. तो ज्योर्जियाल्या सैन्याल्या डिफेन्सा वटेन तोंड करून चलूंक लागलो. नीट चलत रावलो आनी डिफेन्सा मर्दींच येवन घुसपलो. तेन्ना ज्यॉर्जियाच्या सैन्यान ताचेर खूब फारपेट केलो. पूण ताका तो लागलो ना. त्या 'पिश्या' रोबोक रणभुंयेर काम करूंक एक्टिवेट करुंक नासलो. म्हण ताणें उलट फायर केलोना. तो व्हायलंटय जालोना. मागीर तीस चाळीस सैनीक धांवन येयले आनी ताका आडावन, आड उडोवन दोरांनी बांदून घातलो.

आर्मेनियान आपणाक आड घालूंक रोबो हाडल्यात म्हण ज्यॉर्जियाक आर्दीच खबर लागिल्ली. तें मोटे चिंतेंत पडिल्लें. पूण दोन कोटी डॉलरांक एक रोबो हाड सारकी अर्थीक ऐपत ताका नाशिल्ली. एके पर्डिग भुंयेर बिनभरवंशाचें झूज खेळूंक इतलो पयसो खर्च करप ताका सारकें दिसनासलें. पूण एक रोबो आयतो हातांत गाविल्लो. मोटी भासाभास जाली. किते तरी बेगीनच करूंक जाय आसलें. ज्योर्जियाचे इलॅक्ट्रिकल इंजनेर इतलेंच जाणा आसलें, ह्या रोबोचो नीट अभ्यास केल्यार हेर सगळ्या रोबोंच्या प्रोग्रामिंगांत ढवळाढवळ करून बिघाड करूं येता. पूण तांकां रोबोटीक तंत्रज्ञानाचें कांयच ज्ञान नासलें. तेन्ना तांकां कळ्ळें, तुर्कस्तानांत एक फामाद रोबोटीक टॅक्निशियन आसा. तो पयलीं अमेरिकेंत रोबो तयार करच्या आस्थापनांत काम करतालो. एक फावट एक बिघडिल्लो रोबो दुरुस्त करताना त्या रोबोन आपलो हात घण कसो ताच्या दाव्या भुजार मारलो. भूज दाव्या हाता सयत तुटून गेलें. भूज पुराय चेंचून गेल्ल्यान तो हात परतो जोडुंकच जालो ना. तो मागीर कांय लुकसान भरपाय घेवन परतो आपल्या देशांत आयलो.

कळटकीर ताकतिकेन एक विमान धाडून ताका ते घेवनच आयले. तो एक खूब हुशार रोबो-टॅक्निशियन आसलो. अमेरिकेंत ताणें कांय नव्या प्रॉजेक्टांरय काम केल्लें. हात वयतकीर आपल्या देशांत परत वयतां म्हणटकीर अमेरिकेंतल्या विज्ञानिकांनी ताका खूब आडखळी हाडिल्ल्यो. लुकसान भरपाय दिवन मोकळे करुंकय फाटीं फुडें करताले. निमाणें ताणें आपूण एक 'निरुपद्रवी अपंग मनीस' म्हण प्रतिज्ञापत्र आनी प्रमाणपत्र दितकीर ताका आपल्या देशांत वचूंक मेकळीक दिल्ली. ताचो राग ह्या तंत्रज्ञाक आसलो. अमेरिका असल्या नाड धंद्यांत पयसो करून गब्बर जायत आसा हेंवय ताका मानव नासलें. ताणें पयलीं त्या धरिल्ल्या रोबोचें प्रोग्रामिंग समजून घेतलें. मागीर तें प्रोग्रामिंगच इबाडूंक आपलो असो रिमोट कंट्रोल तयार केलो. दिसाक वीस वीस तास करून सारके आठ दीस ताणें काम केलें. ज्योर्जियांतले इंजनेर ताका फाव ती मदत करूंक भोंवतणी हरघटकेक तयार आसताले. तांच्या आधारान ताणें आर्मेनियाचे रोबो इबाडून उडोवची सगळी तयारी केल्ली. आतां ते वाट पळयताले, आर्मेनिया ज्योर्जियाचेर रोबों सयत केन्ना घुरी घालता, ताची.

एक रोबो ना जातकीर आर्मेनियाचे फुडारी घोर चिंतेंत पडिल्ले. आनीक आनी दीस काडचे नाकात. रिस्क घेवची नाका म्हण आठच दिसांनी आपल्या सैन्या सयत तांणी एक उणो तिनशें रोबो हाडून सरादेर उबे केले.

तांकां सर्वंकश आज्ञा दिवन चडांत चड तांकिवंत, क्रूर करून ज्यॉर्जियाचेर धांवडायले. मुखार ज्यॉर्जियाचें सैन्य आसलें. मागीर धायेक मैलांर नागरी राबितो सुरू जातालो. खरेंच पांचशेंक मिटर ते रोबो आनी ताचे फाटल्यान धायेक हजारांचें सैन्य फाटपेट करीत, मार वेगान धांवलें. मागीर यकायक किते जालें! सगळे एक उणो तिनशेंय रोबो कांय खीण थारले. मागीर थंयचे थंय घुमजाव करून फाटीं फिरले आनी फाटल्यान येवपी आर्मेनियन सैन्याकच मारत सुटले. ताचेर ते फारपेट करताले, कोणूय हाताक मेळ्ळ्यार उखलून आपटिताले, सुरे तोपताले आनी घण कश्या हातान मेळत ताका घोडायताले. तांचो धांवचो वेग मनीस सैन्या परस धा पटीन आसलो. तीन चारूच वरां भितर तांणी आर्मेनियाचें धायेक हजारांचें सैन्य मारून उडयलें. मागीर ते तशेच नागरी वसतींत घुसले. थंयूय तांणी मोट्या प्रमाणांत नासधूस केली. भावना विरयत 'मनशाचो मेंदू' बसयल्ले ते रोबो भितरलें सगळें इंधन सोंप मेरेन लागीं लागीं चोवीस वरां धुमाकूळ घालताले. ह्या वेळांत तांणी धा हजार सैनिकांक आनी ते परस चड नागरिकांक मारून उडयले. तांणी मारिल्लो एक फारपेट चुकऽ नासलो. दर एकाच्या हाताच्या आर्मांत शंबर गुळयो स्टोर केल्ल्यो आशिल्ल्यो. वट्ट तीस हजार गुळयो! तितल्योय सोंपिल्ल्यो. ते भायर आपटून, सुरे तोंपून ते लोकांक मारताले. भिवन धांवपी मनशांक फाटीं ओडून मारताले. घरांचीं दारां फोडून भितर घुसून लोकांक मारताले. आर्मेनियान तीन हजार कोटी डॉलर खर्च करून ज्यॉर्जिया आड उबें केल्लें तें 'महाअस्त्र' ताचेरच उलटल्लें.

हे वटेन एक हात गेल्लो तो तुर्कीचो रोबो-तंत्रज्ञ रिमोट कंट्रोला वेल्यान रोबोंक विध्वंशी आज्ञा दितच आसलो. ताचें काम आतां खूबच सोंपें आसलें. कारण ताणें फक्कत रोबोंची दिशा बदलून तांचो मारो आर्मेनिया वटेन केल्लो.





# मेकळें मेकळें

शीला कोळंबकार

साठी उलगली.

एक दीस अकस्मात फाटल्यान वळून पळेलें. धस्स् जालें. फाटल्यान कोणूच नासलो. एक जितो मूस लेगीत. म्हजें हांव एकलेंच, म्हजे वांगडा कोणूच ना म्हूण दुख्ख जालें ना. वेल्यान बरें दिसलें. हांव आनी हें घर. घर म्हळ्यार कितें? ह्यो वणटी. साक्षी भावान सगळें पळेतात आयकतात. उलय मात नात. तेंच बरें आसा. त्योवूय बी उलयल्ल्यो जाल्यार? कंटाळो न्हय कंठाळो येवपाचो. हालीं हांव मोनेळाचेर लब्धेलां.

सगळेच लोक उलयतात. धबधब्या वरी. आपलीच लाल म्हणपी उलोवप. सादें, सोंपें, सरळ अशें उलोवप नाच. स्वार्थी, निरर्थक पूण दुस्वाशी, दुसऱ्यांक रक्तबंबाळ करपी उलोवप. वागप. ह्या लोकांक भितल्लो असो आवाज ना काय? काय तो पुरवला? काय तो कोणाक आयकुपाचोच ना?

लोकांचे नदरेंतल्यान पळेल्यार म्हजे इतलें सुखी आनीक कोणूच ना. रावंक बंगलो. पयसो आडको. दारांत घोडो, गाडी...

हेर लोकां वरी म्हजो जल्म जालो. सगळीं शिकतात तशें हांवूय शिकलें. सगळ्यां वरी लग्न जालें. लग्न जातकीच भुरगीं जालीं. भुरग्यांची उस्तवारी करतासर एकवीस वर्सां कशीं गेलीं कळ्ळेंच ना. पयलीं ल्हान आसतना तांचें हांसप, पयलें पावल घालप... मागीर तांची शाळा... हायस्कूल... कॉलेज. हांव अख्खेच्या अख्खें घोव, भुरगीं, संवसार हातूंत घुसपून उरलें. आनी मागीर पळेल्यार लक्षांत आयलें, आरे, हें कितें जालें? हांव जांचे भितर घुसपल्लें तीं भुरगीं म्हजे पास तोडून अळंग कुशीक सरलीं. आनी तांचे खातीर जीव झरयतां झरयतां घरकारूय पयसावला हें लक्षांतूच आयलें ना.

भुरगेपण केन्ना सरलें आनी व्हड केन्ना जालें, कळ्ळेंच ना. आवय-बापायले सावळेंत जियेलें. जिणेची पयली खरसाण लागली ती म्हज्या साकरपुड्या वेळार म्हजो साकरपुडो जालो. थाटांत. म्हजी जिवाभावाची मैत्रीण - म्हणजे हांव तरी तशें ताका समजतालें –

ममता, तें आयिल्लें ते दीस तें आमगेरूच रावलें. सगळें जाले उपरांत आमी घरा आयलीं. हांव हवेंतूच उफेतालें.

घरा येतकूच अकस्मात ममता व्हडाव्हडान रडूंक लागलें. कितें जालें तें कांय कळ्ळेंच ना. मागीर खूब वेळान म्हजे कुडींत ताका हाडून हांवें ताका थातारलें. रडपाचें कारण विचारलें. ताणें सांगलें, "तुजो साकरपुडो जालो. तूं आतां घोवा घरा वतलें. मागीर म्हाका मैत्रीण अशी कोणूच ना. म्हजें कशें जातलें? म्हज्या लग्नाचेंय पळोवपी कोण ना. कोणूय पळेलो जाल्यार ताका वरदक्षणा दिवपाक आमचे कडेन पयशे नात. हें सगळें चिंतून म्हाका रडूंक आयलें."

ताचे उपरांतची गजाल. कितें जालें, खबर ना. पूण न्हवऱ्याकारां कडल्यान रेकाद आयलो, आमकां ती चली नाका. कित्याक बी कारण कांय ना. म्हजो साकरपुडो मोडलो. इतले पयशे उदकांत.

मागीर ममताचें लग्न जालें. ताका चलो जालो. उपरांत म्हजें लग्न जालें.

लग्न जावन घोवा घरा गेलें. पूण एक दाग घेवन. कसलो दाग काय म्हळ्यार, हांवें कांयच करिनासतना, म्हजी कांय एक चूक नासतना मोडिल्ल्या साकरपुड्याचो. साकरपुडो जावन लग्न मोडप म्हळ्यार चलये भितरूच नॉत आसूंक जाय.

एकेक खेप दिसतालें, त्या चल्याक वचून मेळचें आनी जाप विचारची, लग्न कित्या पसवत मोडलें काय म्हूण! जिणेंत खुबश्यो गजाली करीनश्यो दिसल्यो, पूण केल्यो नात. तांतली ही एक!

कथा कादंबऱ्यांनी वाचतालें, टी.व्ही., नाटकांनी पळेतालें घोवा-बायलेचें प्रेम! ती सहेतूक नदर, तो नकळटां केल्लो कळीत स्पर्श! बायलांचें काळीज फुलोवपाचे कितले सादे सादे खीण! हाका हें कांय जमलेंच ना. हांव म्हणटां, तुमकां येना जाल्यार दुसऱ्यांचें पळोवन तरी शिकात. ना! बायल म्हळ्यार... वावराडे परस पाश्ट कोण तरी... वावराडेक वावराचे पयशे मेळटात. एक वावर आवडलो ना जाल्यार दुसरो वावर ती करूंक शकता. जाय तेन्ना जाय तितले दीस ती सुटी घेवंक शकता. आनी बायल? तिणें सगळें हें करूंकूच जाय. सगळींच बायलां करतात. म्हजे आवयन केलें ना? घरांतलें सगळें काम पळोवन, सगळें करून लेगीत एक मायेचें उतर ना. वेल्यान 'तूं घरा बसून आसता. तुका कसलें काम आसता?' खंयूय गेलें जाल्यार तो घरा येवच्या वेळार घरा आसूंक जाय. हाका पिक्चरां, नाटक, संगीत आवडना. म्हाका आवडटा. पूण कोणा बराबर गेलें जाल्यार हाका आवडना. वेल्यान म्हणटा, तुका लागून अख्खें थेटर घरा हाडून दवरलां... त्या थेटरार हाचे बराबर बसून कितें पळोवपाचें? जाल्यार न्यूज, क्रिकेट आनी फुटबॉल. चडूच जाल्यार ॲनिमल प्लॅनेट.

ॲनिमल प्लॅनेटा वेलीं जनावरां तरी जायतीं बरीं. तातूंतलो नर लेगीत मादये बराबर प्रियाराधन काय बरो करता. मादयेची इच्छा नासत जाल्यार तिचे म्हऱ्यांत वचना... जनावरां लेगीत परवडलीं...

भुरगीं भायर सरून गेलीं. तीं वगतार आयलीं नात, आवयचो दोश. तिका खेपप. तुवें तांचेर बरे संस्कार केले नात. हांव म्हणटां, तूं बापूय न्हय? तुवें संस्कार केल्यार जायना? तुवें तांकां समजावन सांगल्यार जायना? भुरगीं उसरां घरा आयलीं जाल्यार आपणें तांकां कांय म्हणप ना. ताका दिसता, हांवें तांकां तापोवप. म्हळ्यार, बापूय बरो, आवय वायट.

आनी भुरगीं? तीं म्हणटात "डॅडी असो कसो? घरा येवंक आठ, णव जालीं जाल्यार कितें, तोंड करता! आमी हेर भुरग्यां वरी सकाळीं चारांक बी घरा येनात न्हय! ड्रग्ज बी घेनात न्हय? तुमचें नांव पिड्ड्यार करिनात न्हय?" — हाचेर हांव कितें उलोवं? मदले मर्दी म्हजो मृदंग. दोनूय वटांनी दोगांय बडयतात.

नवी गाडी घेतली. पयलीं सांगप बी काय ना. जाय ती गाडी. जाय त्या रंगाची. म्हाका चलोवंक शिकप म्हळ्यार ना. हांव शिकतां म्हळ्यारूय नाका. म्हज्या आवय-बापायक आवडचेंना. आनी हाची भयण? तिका ती नाका म्हणटा आसतना गाडी चलोवंक शिकयलें. वेल्यान ताका गाडी घेवन दिल्या. तेन्ना ताचे आवय-बापूय तांका कांय म्हणिनात? भयणीच्या मांय-मांवाक चलता ताणें गाडी चलयल्ली?

तकलेचें खोबरें जाता. हालीं हालीं तें खंवटेता.

गाडयेची गजाल सोड. साडी तरी? उंची साडयो हाड्टा. ताका जाय त्या रंगाच्यो. पाडापडिल्ली साडीय म्हज्या आवडीच्या रंगाची घेवपाचें म्हाका स्वातंत्र्य ना? उंची साडयांनी, भांगरां-शिंगरांनी, वज्रांच्या वस्तींनी म्हाका मढवप... पूण एका तेंपार हें सगळें बरेंय दिसतालें. दिसतालें, कितलो हाचो म्हजेर मोग! म्हाका खूश दवरूंक हो कितलो धडपडटा! त्या तोलार हेर गजाली, वागणूक खटकनासली.

वय वाडलें. भुरगीं व्हड जालीं. म्हाका म्हजो विचार करूंक, म्हजेर लक्ष दिवंक वेळ मेळूंक लागलो. आनी एक सत होलमलें. ताणें म्हजे खातीर म्हूण जें जें केलें तें ताणें म्हजे खातीर न्हय, तर आपले खातीरूच केल्लें. आपली श्रीमंती दाखोंवपाचो तो सोस आसलो. पयशाचो तो कैफ आसलो. म्हजे वरवीं ताचे श्रीमंतीचें तें प्रदर्शन आसलें.

खरें म्हळ्यार तो ताका जाय तसो जगलो. साकरपुडो मोडिल्ले चलये कडेन लग्न जावन तो "समाज सुधारक" जाल्लो. हांवूय बी, इतलें खबर आसुनूय व्हड मनान ताणें म्हजो स्विकार केलो म्हूण, ताच्या उपकारा पोंदा चेपून उरलें.

हो मनीस आपल्याक जाय तसो जगलो. थंय दुसऱ्याचो विचारूच नासलो. दुसरींय मनशांच आसतात. तांकांय काळीज आसता. हाच्या राज्याक हें खबरूच ना. एकेक खेपे दिसता, इतल्या बंधनांत रावन हांवें हाचे बराबर दीस काडलेच कशे?

पूण आनीक कितें करतलें आसलें? आवय-बापूय नात. भाव तांच्या संवसारांत. आमच्या समाजांत कुळारा चार-आठ दीस रावंक गेल्यार मान आसता. कायमचें रावंक गेल्यार मान कापून घेवपाची.

धाडस करून गेल्यारूय लोक म्हणटले, ह्या उतारवयांत हिका कसली अवदिसा येवजली. ज्युस्त त्या वेळार तांकां म्हजो मोडिल्लो साकरपुडो येवजतलो. लोक म्हणटले, कोणाक वाडिल्लें नाका, सांडिल्लें जाय तसली गजाल. सोडून गेल्ले आवयचे चलये कडेन कोण लग्न जातलो? समाज

फुडारला खंय! सगळीं बंडलां. समाज ल्हवू ल्हवू मनूच्या काळांत सरकता.

आयचीच गजाल. घरांत आमी दोगांच. भुरगीं शिक्षणा निमतान भायर. हालीं तोवूय बी शेनवार आयतार रातचो भायर वता. पाट्यांक . काम करून तो थकता. ह्यो पार्ट्यो ताका थाकाय दितात. मागीर हांव घरा एकलेंच भूत कशें! आपली बायल एकलीच घरा आसता, ताची ताका पर्वाच ना. पयलीं तो असो गेलो, काय वायट दिसतालें. हालीं बरें दिसता. कित्याक, ते दीस तरी तो घरा येतासर टी.व्ही. म्हजो आसता एकल्याचोच. तो येतासर जाय तो प्रोग्राम पळे. सिनेमा पळे नाजाल्यार बेठेंच सर्फींग करीत बस.

असोच एक आयतार. तो पार्टेक गेलो. हांव खूश.

ताचे मोटारीचो आवाज पयस वतासर आयकत उरलें. मागीर टी.व्ही. पळोवंक म्हूण उठलें. पळेत जाल्यार करंटूच गेलो. पाडापडिल्ल्याक आतांच वचूंक जाय आसलें.

हांव थंयच जमनीर बसलें. थपकल मारून. हाका जमनीर बशिल्लें आवडना. जमनीर बसतकीच बरें दिसलें. ताचो सूड घेतिल्ले वरी.

पांय सोडून थंड बसलें. देवाचे कुडींत दिवली जळटाली. तिचो उजवाड ते कुडींत आसलो. हांव ते दिवलेक पळेत उरलें. दिवलेंतली जळटी वात. तिची जोत मान वयर करून पळेता काय दिसली. मर्दीच ती सकयल पळेता काय दिसताली. म्हाका एक हिंदी पद येवजलें –

*मोहे छोडो हाये सजना,*
*दिया शीश उठाये सजना,*
*रहा मोहे निहार ॥*

ताणें लागीं ओडटकीच ती म्हणटा, सोड म्हाका. पाडापडिल्लो तो दिवो पळे म्हाकाच पळेता... कितले सूचकतायेन ती दिवो पालय म्हणटा! कवीचे कल्पनेचें म्हाका कवतूक दिसलें.

आतां दिवलेंतलो तो उजवाड सरकत गेलो. पर्जळत गेलो. म्हणटा म्हणसर ताणें घस कशा काळखाक खावन उडयलो. एक खोशयेचें ल्हार म्हज्या आंगार ल्हारेत गेलें. दिसलें, आरे, हो एदोसो दिवो इतल्या काळखाक खावन उडोवंक शकता जाल्यार हांव म्हजें दुःख भिरकटावन उडोवंक शकना?

इतल्यान लायट आयली.

हरशीं जाल्यार हांव ताची वाट पळेत बसपाचें. पूण आयज बसप ना. ताणें कांय केन्नाच सांगूक ना ताची वाट पळेत बस म्हूण! हांवूच ताचो हुस्को करीत बसतालें. नाका जाल्ले विचार मनांत येताले. पार्टेक गेला थंय चड पिलो बिलो जाल्यार? खंयूय पडलो जाल्यार?... ॲक्सिडंट जालो जाल्यार? तो घरा आयलो काय सूऽ जातालें.

हांव सगळ्यांचो हुस्को करीत बसलें. घोवाचो. भुरग्यांचो... हांव हांचो इतलो हुस्को करतां पूण तांकां हाचें कांय पडूनूच वचूंक ना. एद्या व्हडल्या घरांत बायल एकटीच आसा. आपणें तिचे वांगडा रावंक जाय, हो विचार केन्नाच ताच्या मनाक आफुडलो ना काय? हालीं गोंयां कित्याय किते घडटा. तेन्ना, तिका कोणेंय कितेंय केलें जाल्यार, असो विचार मनांत येवन तो केन्ना अस्वस्थ जाला काय? स दीस काम केले उपरांत ताका रिलॅक्स जावपाचें आसता. मागीर बायलेकूय रिलॅक्स जायन दिसना काय?

हांव वचून न्हिदलें. घराची चावी आसा ताचे कडेन. जाय जाल्यार येतलो भितर आनी न्हिदतलो... आसूं, पाडपडूं. म्हजे बगर ताका आनी कोण आसा कसो विचार करून ताच्या तालार नाचलें. ताचो थातोमातो केलो. ताका माथ्यार बसोवन घेतलो. इतलें करूनूय ताचें एक मायेचें उतर ना. मेळ्ळे ते फक्कत धेंगशे, थोमणे आनी म्हजे कडेन लग्न जावन म्हजो उद्धार केल्ल्याची भास. हांव मात सगळे सोंशीत भितरले भितर जळत उरलें. आतां जळप ना.

हांव हुस्क्या मेकळे न्हिदलें.

रातीं बेगीन न्हिदिल्ल्यान सकाळीं बेगीन जाग आयली. उठून फिरूंक गेलें दर्या देगेर. थंय बरी गडद निळीं, धवीं आनी गोबऱ्या रंगांचीं कुपां आयिल्लीं. आनी त्या रंगांत तांबूस गुलाबी रंगाचे ढग, टी.व्ही.चेर रस्त्यार कोणालीय मुलाखत घेतना अनवळखी तोंडां आशिकुशीक येवन रावतात तशे राविल्ले.

म्हणटा म्हणसर एक काळो ढग आयलो. आनी पावस पडूंक लागलो. तो पावस तरी कसो? कुसां कुसांचो. उबो, आडवो तिडवो. हय न्हयसो. पावस आंगार घेतां थंय आसां, अचकीत सूर्य उदेलो. आनी म्हणटा म्हणसर मळबांत इंद्रधनुष्य आपले सातूय रंग घेवन उदेलें. हांव त्या पावसांत न्हालें. इंद्रधनुष्याच्या रंगात रंगलें. शेवण्यांच्या सुरांनी भिजलें. आनी मजा म्हळ्यार, म्हजें एकसुरेपण खंय गेलें, कळ्ळेंच ना. म्हाका जाणवलें, म्हजें एकसुरेपण अडेचें आसलें. म्हजी खोस, म्हजो विशुद्ध आनंद सैमाच्या गोपांत आसलो. हें सत म्हाका होलमलें. सैमा कडल्यान उर्जा घेवन, घरचे, दारचे लोक धोशी घालतात त्यो मनार घेना आसतना, त्यो पानां, फुलांक सांगून अळंग कश्यो सोडून दिवच्यो, तांचे बराबर कशें हांसचें हें हांव शिकलें आनी एके तरेचे नवे उमेदीन घरा गेलें.





# खतां

**गोकुळदास प्रभु**

शाळा सोडिल्ली. हांव इश्टां वांगडा घरा वतालों. रस्त्यार सांजचें मोव वत पातळिल्लें. आनी रस्तो दोन देवळांचो आनी मदीं उरिल्ले एके तळयेचो स्पर्श घेत फुडें पडिल्लो. एकामेकांचीं फकाणां करीत वचत आसतना आमकां मार्गा कुशींतल्या घराच्या दारवट्या कडेन ती जाणटेली बायल दिश्टी पडली. तांबडें कापडं न्हेशिल्ले तिणें ताचो पालव तकले वयल्यान ओडून घेतिल्लो. हातांत एक ल्हानशी बुरशी पिशवी आसली. भितरल्यान कोण भायर येवपाची वाट पळयत राविल्ली.

म्हज्या नावाडग्या इश्टान तिची मस्करी केली - तांबडे!

रोखडीच ती घुंवली. आमचेर तिचे पेटिल्ले दोळे पडले. आनी त्या उज्यांत म्हजो इश्ट बावलो, बावडो जालो. कांय घडूंक नाशिल्ले भशेन आमी वोगीच चलत रावले. पूण तिचीं उतरां आमकां फाट घेत आयलीं. — कोण रे तांबडी, सुण्याच्यांनो? आवय तुमची? घरा वचून आपय मरे तिका तांबडे म्हण! रांडळा पूत! शाळेंत वता असलें शिकपाक?

आमच्या इश्टान वोगीच बडी दिवन पेट घेतलो म्हण आमी मुमुरख्यान हांसले.

घरा पावना फुडें हांवें ती गजाल आईक सांगली. तिणें शिटकायलें — तांबडी तिंबडी म्हण ते घाणयारे बोडके लागीं वचूं नाका आं. जिबेक तिचे हाड ना. घरच्यांक दुस्मान करून, घरदार सोडून हांगा थंय हेडटा ती. कोण कितें म्हण पळयनासतना संवता. देखुनच कोण लागीं घेना. वोगीच वचून तिच्या तोंडांत पडूं नाका...

पूण दुसऱ्या दिसा नाका जाल्लेंच जालें. शाळेंत वतना ती तळये कडल्या उक्त्या देट्या घरांत बशिल्ली दिसली. पयसुल्ल्यान तिका पळोवन हांव मार्गाचे दुसरे बगलेक गेलों. ताकतिकेन, तिका चुकोवन वचत आसतना तिचो आवाज आयकलो — बाबा, हांगा यो मातसो.

हांव गोंदळ्ळों. रावूं, काय तिचो उलो आयकूंक ना अशें सवंग करून फुडें सरूं? उलोवन रावलों तर इश्ट मस्करी करतले आनी घरचीं रागार जातलीं. पूण आयकनासतना फुडें सरलों तर फाटल्यान ती संवतली आनी तेन्नाय इश्टांचीं फकाणां आयकुपाचें पडटलें. चिंतपाक वेळ मेळ्ळो ना. धांवपाक पांय हाल्लो ना. तिणें परत उलो मारलो — हांगा यो रे.

हांव थाबलों आनी तिका सांगलें — शाळेंत पावपाचो वेळ जाला...

— वेळ जालो तर कितें जालें? ते गिळटले तुका?

गिळंटले तर गिळूं दी अशें सांगपाक जिबेर आयलें. पूण वोगीच रावलों. इश्ट पयस रावन पळयताले.

— तूं त्या पोप्यालो नातू मरे?

हांव अजापान रावलों. म्हज्या आज्याचें नांव आनी हांव ताचो नातू तें तिका कशें कळ्ळें काय?

— तुका कशें कळ्ळें?

हांव तिचें मिरयो पडिल्लें तोंड आनी खरपून खरपून धवी जाल्ली जड्डी कात तेळीत रावलों. तिचें कापड इतलें बुरशें जाल्लें. ताचेर हांगा थंय काळीं खतां पडिल्लीं. मनांत वीट भरून आयिल्ली...

— तुका पळयलो तर कळटा मरे. पोप्यालेंच नाक. व्हडले कान आनी रंग मरे तुका.

हांव नुलयत रावलों.

- आसूं तें. कोणाचो चलो तूं? गिरीलो काय नान्नालो?

- गिरीलो.

- ऊं... एक सांग, तुमगेलें रावळार कशें घर आसा मरे? तातूंत म्हाका एक कूड दिवपाक गिरीक सांगशी?

हें बरें आसा! हांवें चिंतलें. ही कोण आमची? बुरशी खंयची! आमगेर येवन रावपाक सोदता! वाटेर पडिल्ल्या लोकांक हाडून रावपाक आमचें घर किर्ते सत्र व्हय? आनी ती मागणी घेवन बाबा कडेनच वचपाक जाय! सांगना फुडें खपक करून तिका गिळटलो तो...

- हांव वतां. शाळेंत वचपाक वेळ जालो.

- ऊं. वच. वच. हांव मागीर येतां तुमगेर. तुजे आई कडेन उलोवपाचें आसा.

हांव फुडें सरलों.

- लकी मरे हो! तांबडी तागेर रावपाक येता! आतां घरांत बरो वास भरतलो!

इश्ट मोट्या मोट्यान हांसले. हांव तांकां फाटीं घालून ताकतिकेन चल्लों...

देवळाचे पश्चिमे दिकेंतल्या उकत्या वाठारांत एका घराच्या सामकार सात आठ लोक गर्दी करून राविल्ले. घरांतल्यान व्हडा व्हडान कोण तरी आड्डतालो — ऊठ. उसळून वच हांगाच्यान...

हांव जिज्ञासेन गर्दैतल्यान वाट काडून फुडें सरलों. पळय तर थंय घराचे पडवेर 'तांबडी' बसून आसा. घरकार तिका भेश्टायता...

— दळडिरी खंयची! उठून वता काय पुलिसांक आपोवं?

— आपय रे, आपय. घरा दारा आयिल्ल्याक अशेंच सांगपाक जाय तुवें. तुज्याय घरांत बायल भयण सगळीं आसात मरे? तांकांय असोच हिणसायता? चलून पुरो जालें म्हण पांच मिनटांक बसलीं...

— बशिल्ली पुरो. बशिल्ले सगळे कडेन रगताचें खत करून वता. तशें वाटसुऱ्याक बसपाक सत्र न्हय हें.

ती पडवेच्या खांब्याचो आदार घेवन हळूच उठली आनी पांवडे देवन आंगणांत आयली. तेन्ना पळयलें, ती बशिल्ले कडेन ओलसाण.

कोणें तरी विचारलें —

— आगे, तुका शकना तर घरांत न्हिदून उरना कित्याक? वोगीच हांगा थंय भोंवता मुगे?

— म्हजें घर खंय आसा? घर भाट सगळें त्या चंडाळान हिसकायलें न्हय?

— कोण तो?

— चलो म्हजो, नीच. आनी कोण? जोगूल पडूं ताजे तकलेर...

— आनी कोण ना तुका?

— आसात सगळीं. म्हाका सारयेर दवरून उजो दिवपाक. पाड पडिल्लीं...

फाटल्यान घरकाराले बायलेचो आवाज आयकलो,

— दळडिरी खंयची. बशिल्ले कडेन रगत लावन गेली. आतां हें सगळें साफ करपाचें कर्म म्हजें!

'तांबडी' तें कांय आयकनासतना फुडें चल्ली. पूण त्या घरांतल्यान कोणें तरी फातर काडून तिचेर शेंवटिलो दिसता. तिच्या तोंडांतल्यान 'आवयस्' अशें उतर आयलें आनी राविल्ले कडेनच ती मांन परशीत बसली. मागीर ती हळूच उबी जाली. घुंवली आनी किंवाट्यान पूण रडकुऱ्या आवाजान शिरापलें —

— रांडळा पुतांनो, केन्नाच बरें जावंचें ना तुमचें. म्हजेर फातर मारतात? सात जल्मांत वळवळून मरतले तुमी. पळयात...

ती घुंवन राविल्ली तेन्ना म्हजी दिश्टी तिच्या कुल्यां कडले रगताचे ओलसाणेक दसून राविल्ले रेंवेंचेर पडली. तिका मूळव्याधीची पिडा आसा अशें म्हज्या इश्टांनी सांगिल्ल्याची म्हाका याद जाली... ओंकूंक आयलें...

रोखडीच ती घुंवन फुडें येवपाक लागली. हांव तिचे नदरेंत पडचों न्हय म्हणून एका जाणटेल्याचे सावळेंत आंग चोरून रावलों...

हांव जमनीर बसून म्हजें होम वर्क करीत आसलों. जनेला कडेन सावळी कशी दिसली म्हूण तकली उबारून पळयली. घस्स जालें. भायर 'तांबडी' राविल्ली!

— बाबू, मातशें दार उगडटा?

तांबडी हांगा येतली अशी म्हजी भिरांत आसली तरी आतां तिचें आगमन अनपेक्षीत आसलें. ती घरांत दिसली तर किर्ते करपाचें म्हूण चिंतूंक नासलें. गोंदळून रावलों.

— उगड मरे दार, कित्याक भियेता तूं?

— हांव... हांव... आईक आपयतां.

— बरें, वस. आपय.

हांवें भितरले कुडींत वचून आवयक आपयली —

— आई गे. ती आयल्या.

— कोण ती?

— ती जाणटेली - 'तांबडी'.

आवयन कपलार मारलें —

- हांगाय पावली ती?... किर्ते करपाचें देवा! हांव ना म्हण सांग मरे.

— हांव तुका आपयतां म्हण सांगलें तिका.

— हांव भायर सरलीं म्हण सांग.

— ती दार उगड म्हणटा. मागीर हांव किर्ते करूं?

आवय फाटीं फुडें करीत गंभीरतायेन फुडल्या दारा कडेन गेली —

— किर्ते जाय तुका?

— बाय गो, घरा कडेन आयिल्ल्याक भितर यो म्हण.

— तुका किर्ते जाय?

— आगो, म्हाका वळखली ना तूं? कशी वळखतली? तुमच्या लग्ना वेळार पळयल्ली आसतली म्हाका, धा बारा वर्सां जालीं न्हय... आसूं तें... कशी आसा तूं?... आनी गिरी खंय भितर ना? आपय ताका. दुरपद मावशी आयल्या म्हण सांग. म्हज्या हातांत काडून खेळयल्या ताका... आतां तुमी सगळीं वाडलीं, व्हडलीं जालीं... पूण म्हाका अजून तुमी सगळीं म्हजीं पोरांच...

— तुका जाय तरी कितें?

— इल्लें उदक दी. भोंवन भोंवन पुरो जालां. चार दीस जाले भोंवत आसां. घरा वचपाक मेळना. म्हजो चलो आसा मगो, राखेस तो. रातचो पिवन येवन मारता म्हाका. आनी ताजी ती बायल चेडी, तिचे विशीं कांय सांगपाचें न्हय. दोगांयनीय मेळून म्हाका नागयलें. म्हजें घर भाट तांच्या नांवार केलें. म्हांतार पिरायेर हांव तांकां जड जालीं गो... इतलीं हिणसायतात, सोंसना...

— तूं अशी हेडटा कित्याक? जाणटेल्यांक आदार दिवपाक कितलीं घरां आसात. खंय तरी वचून रावुंयेता न्हय?

— तशें खंय तरी वचून रावूं येता? आनी तशें खंय तरी वचून रावप आमच्या घराब्याक सोबता? तूं सांग... तुजीं आई बाबा खंयच्या तरी अनाथाश्रमांत वचून राविल्लीं तुका सोंसतलें?

म्हजी आई नुलयत रावली. तांबडेन तिका सांगलें —

— हांव हांगा रावूं गो, कांय दिसांक?

— हांगा?! ना, ना. हांगा जमचें ना.

— हें पळय - 'तांबडे'न आपली बुरशी पिशवी उकती केली आनी तातूंतल्यान एक पोती काडली. ती उगडून तातूंतली भांगराची वस्त काडून दाखयली.

— उणें पुणेंय धा-बारा पवन आसतलें. हें तूं दवरून घे. फकत म्हाका हांगा रावपाक सोड. तूं पेज निशें कितें दिता तें दी. तें घेवन उरिल्ले दीस काडीन.

— कांय नाका. आमी दोगांय नोकरी करतात. तुका पळोवन घेवपाक कांय जमचें ना. तूं आनी खंय वचून विचार.

— आगो, कांय ना तरीय तूं म्हजी दायजी मगो...

— म्हाका कांय खबर ना. हे आसतना येवन विचार तूं...

हांव वोगीच आईच्या फाटल्यान बोटां मोडीत रावलों... आतां तांबडेचो अवतार बदलतलो... तिचो सूर बदलतलो... तिचीं उतरां कडक जातलीं... तिच्या शिरापांचो शिंवर सुरू जातलो...

आवय भितर आयली आनी रांदचे कुडींत वचून बसली. खूब वेळा उपरांतय भायल्यान् गाळयांचो आवाज आयलो ना म्हणून हांवें हळूच भायर येवन जनेलातल्यान पळयलें.

तांबडी फुतफुतेवन, तकली हालयत, सवकासायेन चलत वताली. तिच्या कापडाचेर कुल्यां कडेन सुकिल्लें रगत आनी धुल्ल भरसून व्हडलें काळें खत जाल्लें दिसलें.

म्हाका तिचें तोंड पळोवपाची जिज्ञासा जाली. ती बेजारून रडली काय कितें? पूण ती फाट वळून पळयनासतना देट्ट्याचें दार उकतेंच सोडून भायर गेली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठून हांव दांत घासतालों. बाबा दूद घेवन आयलो आनी येना फुडें आईक सांगलें,

— आमची ती दुरपद मावशी आसा मगो... तिणें तळयेंत जीव दिलो... पुलीस आयल्यात... चवकशी करतात...

आईचीं ओंठां कडकडलीं.





# मठी

देविदास कदम

ग्राम पुरसा मठयेंतली बसका सोंपली.

गांवठण हाल्लें.

शंकरबाब कमरेचो वालो सांबाळत उठलो.

उठतना तेका पांय धरिल्ले वरी जालें. देवा, हांव जाणटो जावूं ना मूं? मनांत येवजुवप जाता थंय आसा, खिणांतच मन थकिल्ले वरी दिसलें. बेठेंच. इतले बेगीन जाणटो जावप म्हाका उपकारचें ना. चार भुरगीं गांठीक आसात. तीं मार्गाक लागता मेरेन रटें दण्णोंक जाय!

शंकरबाब भायर सरलो.

पांयांक चामड्याचीं जोतीं चडयतना तेणें पुरसा मठयेर नदर भोंवडायली. कित्याक हुसको करतात हे मठयेचो? मठी अजून खंय जीर्ण जाल्या? म्हगेर घरा मठयेक चयल्यार ही काय बरी! गळ्ळेच पावसान दोन थेंबे जाल्यार भितर गर्भगुडी ना? पुरसाक कांय थंडी-जोर बादचो ना. तोच हेरांलो थंडी-जोर पयस करता... गरजे भायर ताकतीक ही...

येवजणेंत तो चलूंक लागलो. तेच्या सांगात्यांक - गोंयदाक, सुकूक, कुशालीक - 'येतां रे...' म्हणचें धंगणय तेका उरूंक ना.

हेर दुगदुगे उणे आसात म्हूण, आयज एक नवो दुगदुगो तकलेंत वसतेक येयिल्लो. हुसको कुशीक काडून तकली हगूर करुया म्हटल्यार कर्जदारी कसो तकलेंतल्यान हालनासलो. सामको खुरमांडी घालून बशिल्लो.

मनशान इतलें भिजूड कित्याक आसचें? चार जणां मुखार तेणें आपली कथा आनी व्यथा मांडुकय फाटीं-फुडें करचें? घरांतली अब्रू चार वणटी भायर वचूंक दिवंनये, ही मनशाची संकुचीत वृत्ती. एक फटकिरो हंब तो!

मागीर तेणें स्वताकूच विचारलें, तशें आसल्यार तुवें तेंकां सांगूंक ना कित्याक? घडये तेंका तुजी काकूट येतासली.

तो जाणा, खंयचोच मनीस तशें करिना. मनीस आयजवेर हो हंब घेवनच जियेला. आपली काकूट केल्ली कोणाक जाय?

तो हेंवूय जाणा, भायल्या वेव्हारा कडेन भितरलो हिशेब जुळ्ळो जाल्यारूच मनीस तडीर पावता, नातर तो घुस्पता. हें घुस्पवप भोव जीवखावपी आसता.

आयज तोवूय घुस्पला...

शंकरबाब चर्रर चर्रर करून जोर्ती वाजयत चलतालो. एकटोच. आपलेच येवजणेंत. हरशीं तो आपल्या हेर सांगात्यां वांगडा गजाली करत येवपी. पुणून आयज तेका एके खर येवजणेन हेरां साकून वेगळायत सटसटीत पावलां मारत चलूंक लायिल्लो. मनीस आपलेच येवजणेंत घुस्पल्यार खंय तेका हेरांचो सांगात नाका आसता. ताचेंय तेंच जाल्लें.

तकले वयर कांव कांव करत कावळ्यांचें एक भिरें दिगंतराक वचूंक लागिल्लें. तेंचेर नदर वचना फुडें शंकरान मनांत म्हणलें, 'चल्ले बाबडे आपल्या घरा.'

शंकरबाबाक दिसलें, हरेकाक, तो मागीर जीव-जंतू आसूं, जनावर आसूं, सवणें आसूं, नातर मनीस आसूं, घरा परतुवचेंच पडटा. घर कोणाक चुकलां? जिवाक थीर करपी, इस्राम दिवपी घर हें हरेकाक जाय आसता, देखुनच सगळीं आपलीं घरां करतात.

आतां तेका खोलायेन होलमलें, खऱ्यांनीच मनशाक मोह-माया कर्तुबाच्या सांपळ्यांनी बांदून दवरता तें घरच! हातूंतल्यान सुटप भोव कठीण. हातूंत घुस्पल्ल्यांक मर्ण सुदीक नाका आसता. मर्ण मनशाचो पूर्ण विसव हे सुदीक विसरायेर उडयता हें घरच!

हेंच घर मुखार मनशाक किर्तें करूंक लायना? ह्या घरा पासत रटे दण्णोवचे पडटात. हाडां झरोवचीं पडटात. वटवटे काडचे पडटात. चोंय दिकांनी हेडचें पडटा. जिवाक विसोव, इस्राम मेळचे पासत केल्लें हें घरच जिवाचो विसोव आनी इस्राम दोनूय गोळाक लायता.

मागीर तो आपले भितरूच मुमुरखें हांसलो. तेणें मनांत म्हणलें, खरे हुशार फकीर - संन्याशी! तेकां घरां नाका आसतात... मागीर तेणें येवजिलें, तशें चवंक गेल्यार तेंवूय खरें न्हूं! तेंकां सुदीक निमाणे कडेन विसोव घेवंक खंय तरी आलाशिरो जायच!

एकवटीत, हरेक जिवाक राबितो करूंक घर जाय, हें कोणूच न्हयकारचो ना.

पुणून...

देवाचें किर्ते...?

देवाक खऱ्यांनीच घर जाय...?

देव पुराय ब्रह्मांड व्यापून आसा म्हणटात, मागीर तेका हे इल्लेशे देवमठयेंत घुस्मटोन दवरप सारकें? तुमकां मान्य आसल्यार दवरात, गा! पुणून, हें करतना, हेरांचे घरमठयेर नांगर घुंवचो ना हेचें धगंण आसूं! आमी सगळीं तेचींच भुरगीं म्हणटात न्हूं? तो आपल्या भुरग्यांक मार्गार उडोवन आपूण सुरक्षीत रावंक सोदतलो?

शंकरबाबाच्या ह्या विचाराक चार जणां मुखार मोल ना, हें शंकरबाब जाणा. भौसाचेर जाल्लो एकवटीत संस्कार होच खरेलो.

घरची वाट माइडयतना तेका मक्तासुराचीं उतरां कानांर मारिल्ले वरी परतून परतून येवजतालीं.

आर्दी आमी देवाची खुंटी मारून, मागीर आमची मठी जोडल्या. देखून देवाचे मठयेचो विचार आर्दी जावंक जाय, मागीर आमचे मठयेचो! आमी भिजल्यार कोंता येता, देव भिजूंक फावो ना! तेका भिजूंक दिना जाल्यार, तो आमकां भिजूंक दिवचो ना!'

देव भिजता?...

देव केन्नाय भिजलां?...

देवय केन्ना भिजूंक ना, आनी मक्तासूरय भिजूंक ना.

आमी सगळे गांवकार जिते आसा मेरेन देव कसोच भिजचो ना! भाटां-बेसान गिरेस्त आशिल्लो मक्तासूरय भिजचो ना!

भिजल्यात आनी भिजतात ते आमी. रैताव, कुळवाडी, नांगर कशे गांवकार! सगळे वटेन भिजतात!

गेल्ल्या पावसांत आमी भिजिल्लीं. घरमठयेंत भितर रावनय भिजिल्लीं. भायर घोग्यांनी पावस रकतालो आनी विसकळ जाल्ल्या नळ्यांतल्यान भितर गळटालें. मागीर हिंगा थिंगा तोप दवर, तातां दवर करप जालें. खंय खंय म्हण तातां दवरतले?

पोरूं भिजिल्लीं, तशीं अंदूय भिजतलीं. भिजचेंच!

अंदू घर सारकें करूंना जाल्यार इपस्टा जातली.

घराचे पाकाशे बरगल्यात. रिपी मोडल्यात. तेतूंत माकडान उडी घेवन नळेय गेल्यात. कितलीं वर्सां जालीं घराचे कोपरे कलवांनी शिंवप जाता. फाटले वटेन वणटीर गळून गळून वणत पडूंक पावल्या. वणटीन खांब्या कडल्यान आंग सोडलां. थंय माती भरुनूय भरवंसो ना. ह्या पावसांत घर दुरुस्त करिना जाल्यार ती शेर्त पडटा. भितर जनेलांची, दारांचीय परिस्थिती येगळी ना. तेंच्यो चौकटी वाळटेन खायल्यात. तेतूंतल्यान सांसवां गळटात.

घरकान्न कितले दीस जाले, फाटीक लागल्या, 'घर सारकें करून घेया, ना जाल्यार ह्या पावसांत तें हुडी घेता! मातये वणटींचें आजे-पोंज्यान काडिल्लें पोन्नें घर तें!'

एक दीस केंवरे काडत शंकरबाबान म्हणलें सुदीक, 'घेवं घेवं, हुडी घेवं. सगळीं रातचीं न्हिदिल्लीं आसतनाच घेवं हुडी. एक परीन पुराय मेकळे जातले. फाटल्यान रडूंक कोण उरचो ना.'

खऱ्यांनीच घर जाण्टया मनशां वरी बागवोन येयलां. भरवंसो दवरप पिशेपणाचें.

दामूली पायण बलांटून शंकरबाब बांदार येयलो.

मुखाल्ल्यान कुश्टबाब येतालो.

'बसका जाली रे शंकरा?' म्हणत कुश्टबाब येवन शंकरबाबा मुखार थारलो. खांदा वेलें खोरें सकयल दवरलें. काश्टेच्या मुखार सोडयिल्ल्या शेवान हुमेन चिपचिपिल्लें तोंड पुसलें. तो उकतोच आसलो. आनी, वावरा गेल्लो आतांच परततालो म्हूण तेचें हुमेन भिजिल्लें आंगच सांगतालें.

'दी, एक इडी दी...'

'खंय गेल्लो तूं?' शंकरबाबान आपले धवे बंडेंतल्यान धवो चवकनी इडेकंडो भायर काडत विचारलें.

'पोरसाक अगळ काडून येयलां... जालेंना पोरसूं करचें आतां?'

'म्हगेलें आनी अगळ काडचें तशेंच उरलां...' अशें म्हणत शंकरबाबान कंडयांतल्यान एक इडी काडून कुश्टबाबाक दिली. आनी एक आपल्या तोंडाक लायली. लायटर काडून आपली इडी पेटयली, मागीर 'हूं... घे' म्हणत पेटिल्लें लायटर कुश्टबाबा मुखार धरलें.

कुश्टबाबान इडी पेटोवन दुकोट सोडत विचारलें, 'बसका जाली?'

'हय तर!' मागीर कुश्टबाबाच्या तोंडा कडेन रोमून चयत म्हटलें, 'तूं येवं ना कसो?'

'तूं आनी कितें इचारता शंकरा? सून भाणत जाल्ली नकळो? सुयेर न्हू? देवळमठी भश्टय म्हणटा?'

'थोऽ थोऽ थोऽ थो! इसल्लों मु रे हांव!' शंकरबाबान पोल्यार मारून घेत म्हणलें. 'तकलेर नाका-नाका जाल्ले पेज येयिल्ल्यान, हेदिसाडेन भोवच इसरप जाता, ना अशें न्हू!'

'म्हाका सांग, कितें थारलें बसकेंत?'

'पुरसा मठ पर्थून बांदचो!'

'पुराय?'

'हय! चोयवटेच्यो पोरन्यो वणट्यो पाडप. थंय नव्यो वणट्यो उब्यो करप. वयर सिलेब!'

'सिलेब?'

'हय तर! देवळमठी सिलेबाची काडले बगर तेका सिलेबाचें घर काडूंक मेळना न्हूं! देव कोपचो ना?'

'सारकें तुजें हां शंकरबाब, आतां व्हडले घरचीं मनशां, तोंड कोण उगडटलो?'

'पूण आमचेर पेटणे पडटात! तेमी हुडटात म्हूण आमच्यांनी हुडूंक जाता? आदींच आमगे पांयांक पेटके येयल्यात...!'

'हय रेऽऽ बाबा!' कुश्टबाबान इडयेचो झुरको घेवन दुकोट भायर सोडत म्हणलें. 'पूण एक खरें रे शंकरा, देवळमठी खुबच जीर्ण जाल्या रे!'

'हय रे, पूण म्हगे घरा मठये इतली न्हूं न्ही!'

हाचेर कुश्टबाब खो खो करून हांसलो. हांसतां हांसतां खोक-खोक करून खोकलो. उपरांत 'हाक् थू' करून बोचकोभर थुकत म्हणूंक लागलो, 'सारकें तुगेलें, जण एकल्यालें जण एकल्याक!'

'... आनी तेंवूय देवा परबे पयलीं जावूं जाय म्हणटा! तेचो पूत विजनेर जावन येयला न्हू, तो पयशे उबे केल्यार बांदून दिवची जापसालदारकी घेता म्हणटा!'

'तशें जाल्यार तेंकलें मुरे येवन!'

'म्हणच तकली पिकार जाल्या.'

'गांवठणान मत दिलें?'

'मक्तासुरान सांगल्यार गांवठण ना म्हणटा?'

कुश्टबाबान हुस्कारो सोडलो. तेच्या तोंडांत आशिल्लो नाशिल्लो दुकोटय भायर सरलो.

'कितें तें?'

शंकरबाबान इडयेचो घोट घेयिल्लो. तो तेणें नाका-तोंडांतल्यान भायर सोडिनासतना नकळट गिळ्ळो. घुस्मटलो आनी खोकूंक लागलो. 'मरूं तो!' म्हणत खिणभर हड्डें पुसत रावलो. जशें काय हेणें हड्डें वयल्यान पुसतकीर भितर दुकोट सकयल देंवतलो.

'शिवरामान सांगलें तेका, आपूण एक घरा मठी काडची येवजितां, आपलें घर पोन्नें जालां...'

'मागीर कितें म्हणलो?'

'तेचीं सद्दांचींच शाणेशास्त्रां! आपलेंच खरें करप!... शिवराम मागीर तोंडांत फोव घालून ओग्गी.'

'म्हाका सांग, एकेकल्याक फाळो कसो येयला?'

'खांडयेक तीन हजार आनी शेंडयेक पांयशी रुपया!'

'म्हाकाय अंदूं जडच तें! धुयेले व्हारडिकेचें येवजितालों...!'

'तुका फकत धुयेले व्हारडिकेचें! म्हजे मुखार इल्ले पेच नात!' शंकरबाबान इडये पोंत मोखून भायर मारत म्हणलें, 'एक खरें कुश्टबाब, गिरेस्त मनशाक केन्नाच कसलेंच मुखेलपण दिवं नये, तेका गरीब मनशाक मतींत घेवन विचार करप जमना! आनी दुसरें म्हणल्यार, गांवठणान तोंड उगडूंक शिकूंक जाय!'

'सारकें तुजें!' कश्टबाबाकय तेचें उलवणें मानवल्लें.

मागीर उलवणीं मदींच तुटयत शंकरबाबान म्हणलें,

'कुश्टबाब, हांव येतां, आयजच हांवें घरा कडेन हरीमेस्ताक आपयला. तिनसांज कात्रेरशें यो म्हूण सांगिल्लें...'

'बरें...'

शंकरबाब चलूंक लागलो.

खोरें उखलून खांदार घेवन कुश्टबाबय चलूंक लागलो.

चार पावलां फुडें चलतकीर शंकरबाब अचकीत थारलो. फाटल्यान चयन तेणें कुश्टबाबाक सादयलें, 'कुश्टा हांयें कांय उलयलें ना हां! कांय उलयलें ना!'

'हां... हां... कळ्ळें!' कुश्टबाबान हात उखालन सांगलें, 'कांय उलयलो ना तूं!'

दोगय दोन दिकेन फुडें चलूंक लागले...

शंकरबाबान हिशेब केल्लो, पांच खांडयेची जमीण म्हटल्यार पंदरा हजार रुपया. चार भुरगीं आनी आमी दोगां म्हटल्यार स जणांले शेंडयेचे तीन हजार. वट्ट अठरा हजार! दिवचें कांय चुकना!

कुश्टबाब धुयेले व्हारडिकेचें येवजिता. तेगेले धुये परस म्हगे व्हडली धू दोन वर्सांनी व्हड. गळ्याक लागलां. आदीं मोडूंक येयिल्लीं घरामठी दुरुस्त करुया म्हूण आसां. व्हारडिकेचें फुडल्या वर्सा चवया म्हूण आसां. व्हारडीक तोंडाची ती? नोकरे शिपायाक दिवची म्हणल्यार उण्यांत उणें एकोणीस तोळे भांगर आनी एकोणीस हजार मागतले. ते भायर हेर खर्च!

रैताव मनीस, शेतकामती, करतलो कसो? खेतें हांगतलें कितलें आनी शेणी थापतलें कितलें? पांच खांडये जमणीर स पोटां भरूंक जाय. दोगूय धुवांक मॅट्रीक मेरेन शिकयलें. व्हडलो पूत बारावेक आनी धाकलो धावेक. तेंच्या शिक्षणाचो खर्च उणो? आतांचो जमानो चयल्यार भुरगींय चडच जालीं ती! करतलो कितें तेंका, हें आतां येवजता... तेन्ना बायले म्हर्‍यांत वयतना येवजूं ना!

शंकरबाबाल्या बापाय-तेंपार तेंगेली धा खांडयेची जमीन आसली. स खांडयेचें सरदें शेत आनी चार खांडयेचें वायंगणा शेत. शंकरबाबाल्या बापायच्या दुयेंसाक लागून तीन खांडयेची वायंगणा जमीन विकप जाल्ली. शंकरबाब नेण्टो तेन्ना, तीग भयण्यो. तेच्या बापायक तोंडाचो बाव जाल्लो. पोळ्यां मेट धरिल्ले अंकोला मेरेन आनी देवबाग धरिल्ले जोयडा मेरेन पुराय पुराय वखदळी, वैज जाल्ले. गूण येवंक ना. ल्हवूच तकलेक एक गोळ येयलें. तेतूंतच सोपलो. मागीर दोन खांडयेची जमीण भयण्यांल्या व्हारडिकां वेळार विकप जाली.

तूर्त तेचे कडेन एकूय वायंगणा शेत उरूंक नासलें. वायंगणा शेतां हीं दोन पिकेचीं. सरदें

एक पिकेचें. एक पिकेन कितें कर्म जाता?

ह्या सरद्या शेता भरवंशार सगळें करूंक जाय!

हेरालें तशें न्हू. तेंगेर वांयगणा शेतां आसात. घरांत कोण ना कोण रोजेक आसात. फाटीं उरला तो शंकरबाबच.

वर्सभर हाडां दणयल्यार सुदीक अखेरेक मना सारके चार पयशे गांठीक मेळनात. इतलीं वर्सां मेळयिल्लें आवयल्या दुयेंसान धुयलें. आवय सोंपतकीर बायलेन धुवूंक सुरू केलां. तेका पंदरा-पंदरा दिसांनी उमास-पुनवेक भन्नी येता. दमो खंय!

खंय खंय कुटूक मुटूक करून पंदरा वीस हजार उरल्यात.

हेजेन घर दुरुस्त करुया म्हणल्यार ही आतां पुरसा मठी हड्ड्यार येवन बसल्या.

शंकरबाब घरा पावलो तेन्ना धर्तरेर काळसाण पातळूंक लागिल्ली. तेची घरकान्न आंगणांत तुळशीक दिवो लायताली. घोवाक चयन तिणें म्हणलें, 'हरीबाब येयला. वासरेर बसला...'

शंकरान जोतीं काडून दारांत दवरलीं. भितर येयलो. वासरेर बाकड्यार हरीमेस्त च्या पीत बशिल्लो.

'शंकरबाब, येयलो?'

'भायर गेल्ल्याक घरा येवचेंच पडटा न्हूं हरीबाब! घर कोणाक चुकलां? जनावरांक आनी सवण्यांक सुदीक चुकना. तें मागीर कशेंय आसूं. बरें आसूं नातर म्होडकें आसूं!'

'तुगे घर मात सामकेंच म्होडकें जालां शंकरबाब. हांयें पुराय चयलें. अंदू सारकें करना जाल्यार ह्या पावसांत शेर्त हुडी घेता!'

'तें हांवूय जाणां रे, पूण सादारण खर्च कितलो येतलो?'

'म्हगे कोंता परमाणें वीस-पंचवीस जायच!'

'फुडल्या वर्सा चया तशें जाल्यार...!'

हरीमेस्त शंकरबाबाल्या तोंडाक चयत रावलो खिणभर. 'अंदू घर सारकें करिना जाल्यार फस्तीक पडटलो तूं शंकरबाब!' हरीमेस्तान परतून सांगलें.

'फुडें चया, फुडें चया, म्हूण मुखार धुकलीत तुमी घराची परस्थिती इतल्यार हाडली. आनिकूय फुडेंच चया म्हणटात?' शंकरबाबाले घरकान्नीन मुखार येत म्हणलें.

खिणभर शंकरबाबान घरकान्नील्या तोंडा कडेन थीर नदरेन चयलें. मागीर म्हणूंक लागलो, 'तूं सांगता तें खरें गो, पूण हांयें अंदू पुरसामठाक अठरा हजार दिवंक जाय न्हूं? नाजाल्यार देव भिजतलो! देव भिजल्यार जाता तुका? सांग...!'



शंकरबाबाली घरकान्न हेचेर कांयच उलयलिना. ती शेडको येयिल्ले वरी सटसटीत भितर गेली.

कांय खीण थंय किण्ण, किरांव मोनेपण पातळ्ळें. झाडांमाडांतल्यान वाऱ्याचें एक पान लेगीत हालूंक ना. तुळशी मांडये वेलो दिवो सुदीक थीर, संथ पेट्टालो.

शंकरबाबान ह्या मोनेपणाक जाग हाडत म्हणलें, 'बरें, यो तूं हरीबाब. देवाच्या मनांत घडये हें घर सारकें करचें नासुये.'



# पियानो

एडविन जे. एफ. डिसोजा

मिसेस मेलिस्सा मोंतेरोच्या दिवानखान्यांत इतलें दाट मौन देंवल्लें की तिच्या दोळ्यां थावन खळमीत नासतां गळचे दुकांचे पावळे तिच्या पोल्यांचेर गळोन तिच्या गौनाचेर पडताना जावचो आवाजयी आपणाच्या कानांक आयकाता म्हण खालिद इब्न राशीदाक भोगलें. त्या दिवानखान्यांत फकत तेगां आसल्लीं – मेलिस्सा, तिचो पूत रॉय आनी खालिद. तो दिवानखानो जो त्या विक्टोरियन बोंगल्यांत आसल्लो त्या बोंगल्याची खरिदी करूंक खालिद इब्न राशीद आयिल्लो, कॅनडा थावन. खरी गजाल कसलीगी म्हळ्यार, रॉय ताका घेवन आयिल्लो. खालिद कॅनडांत सॅटल जाल्लो इंडियन मुस्लीम, एक बांदपी. ताचें खरें नांव खालिद इब्राहिम राशीद, पूण कॅनडांत ताणें खालिद इब्न राशीद म्हळ्ळें. हाका काराणां सबार आसल्लीं जावयेत. ताचें प्रमूख दफ्तर कॅनडांत आसल्लें आनी संवसाराच्या वेवेगळ्या देशांनी ताचीं वेवेगळीं बिसनेसां आसल्लीं. पूण ताणें बांदपाच्या वयवाटांत हात घाल्न सुमार पांचच वरसां जाल्लीं. संवसारांतल्या खंच्या देशांत कसलो वयवाट बळ आरायता हाचेर खालिदाची गिदा नदर पडताली, घुंवताली, विंचताली. ताच्या खबरींनी ताका पांच वर्सां आदीं खबर दिल्ली – भारतांत इन्शूरेन्स आनी बांदपां हांतूं दुडू आसा, तुवें दुडू घाल्यार. बांदपाच्या मळार गोंय, बेंगळूर आनी मंगळूर – सगळें दक्षीण भारत. खालिद मलबार मुळाचो मुस्लीम आनी ताचीं पाळां कॅनडांत बरींच रोंबल्लीं. तरी मलबारांतले ताचे गांच कांय मेणाचे न्हय. मंगळूरांत ताणें जायते प्रतिश्टीत कातोलिकांचे जागे भांगराचें मोल दिवन घेतल्ले. ताका विचित्र दिसतालें, ताच्या एका बांदपी मित्राच्या कंपेनीन मंगळूरच्या एका इगर्जेक लागोनच एक मस्जिद उबारल्ली, एका कातोलीक कुटमान ताका विकल्ल्या जाग्यार. खालिदान हें साहस मुस्लीम-कातोलीक म्हळ्ळ्यां समुदार्येच्या नदरेन पळेलेंना, पूण आपल्या मित्राची वयवाटी सकत जावयेत म्हळ्ळ्या दिश्टीन पळेलें.

खालिदाची दिश्ट सबार दीस थावन - तो तवळ तवळ केरळा-मंगळूराक येतालो आनी ताची बांदपा कंपेनी येदोळच मंगळूरांत फामाद जाल्ली - मिसेस मोंतेरोच्या 'मोंतेरो म्यान्शन' हाचेर आसल्ली. सुमार साट सेंटसांचो जागो तो. ताचेर आसचो बोंगलो सोडल्यार पांचतीस-चाळीस सेंटसां इटाळ सुवात. इटाळ सुवातेचें ताका कांय पडोन वचूंक नातल्लें. ह्या साट सेंटसांचेर बोंगलो धरणी समा करून कितल्या महलांचीं कितलीं ॲपार्टमेँट बांदपां उबारयेत, शॉपींग मॉल, मल्टिप्लेक्स सिनेमा, हॉटेलां... चार प्रमूक रस्ते मेळच्या सुवातीक आपलें मूख दिवन आसचो हो बोंगलो कांय शेंबर वर्सांची मजबूत प्राय आनी विन्यास दाकयतालो. खालिदान ह्या बोंगल्याचे खरिदी खातीर वयल्या वयर खबर काडलेली. हें ताणेंच करिजे म्हण नातल्लें. ताचे खबरीच हीं कामां करताले. त्या बोंगल्यांत मिसेस मेलिस्सा मोंतेरो म्हळ्ळी एकली प्रायवंत एकलीच जियेता, तेगां चाकरिणी आसात, एकलो माली आनी वॉचमॅन आनी दोग डॉबरमॅन पेटे. मिसेस मोंतेरोचीं सर्वां कॅनडा, आस्ट्रेलिया आनी स्टेटसांत सॅटल जाल्लीं. तिचो निमणो पूत रॉय कॅनडांत आसल्लो आनी दोन वर्सांक एक पावटीं येतालो, आवय लागीं फलां मारतालो, तिका उमे दितालो, विस्की पियेतालो आनी डॉबरमॅन पेट्यां लागीं खेळतालो.

कॅनडा म्हणताना खालिद सगळोच जिवाळ्ळो. ही म्हातारी तो जागो आनी बोंगलो विकूंक तयार ना म्हळ्ळें ताका मंगळूरांतल्या हेरां बांदप्यांनी सांगल्लें. पूत कॅनडांत आसा न्हय, आपणा इतल्याक म्हणालो खालिद. कॅनडाक कशेंयी हांव म्हज्याच हाता ताळवेक वळकाल्ले परीं वळकातां. ह्या म्हातारेच्या पुताक सोदून काडूंक कांय कश्ट जावचेनात. आनी व्हय, तिका चड म्हळ्यार कितलीं वरसां? कितलीं वरसां उमकळोन रावात ती तिच्या बोंगल्याक?

खालिदाचें काम ताणें येवजिल्ल्याच्याकी

सुलब जालें. रॉयक ताणें सोडून काडलोच. कॅनडांतल्या एका स्टार रेस्टॉरेंटांत बसून आसल्ल्या ताणें रॉय लागीं शीदा प्रस्ताप काडलो. स्कॉच पियेवंचो रॉय संत्र्याचो रोस पियेवंच्या खालिदाक दोळे अशीर करून पळे लागलो.

'तुवें म्हज्या मतींतलींच उतरां चोरलींय, खालिद!' तो म्हणालो. 'पूण माम्मी आयकाना न्हय? हांव मंगळूराक गेल्ल्या वेळार – Hell, what a place to live – सबारश्या बिल्डरांनी आमचो जागो आनी बोंगलो खरीद करूंक म्हाका फीलर्स सोडल्यात. पूण माम्मी कान हालयना. आतां कितें करचें? ती मोरता पर्यांत राकचें. Sounds cruel, no?'

'तिका तूं हांगासर कित्याक हाडिनाय? ती महंतिनी, शिकपी स्त्री... हांगासर खंडीत ती फीट जातेली.'

'तशें तूं चिंताय!' म्हणालो रॉय. 'तिका दोन पावटीं हांगासर हाडलें. पयली भेट बऱ्यान जाली. हांवें दोन दीस रजा काडली. म्यागी - म्हजी पतीण - तिणें एक हफ्तो रजा काडली. बरें. दोन वरसां उपरांत तिका परत हाडलें. तवळ म्हज्यो धुवो – म्हालगडें तेरा आनी दुसरें धा वरसांचें – प्रायेक पावल्ल्यो. तांचें नडतें तिका आवडलें ना. सदांनीत घरांत कटपट – फिर्यादी. एका दिसा म्हज्या मालगड्यान तिका म्हळें खंय, ग्रानी, तुका हांगासर किचन सांबाळोंक हाडल्या खंय, आमचेर अदवाज चलोवंक न्हय. माम्मीन लडाय मार्न दुसऱ्याच हफ्त्यांत तिकेट बूक केली आनी पाटीं गेलीं.

खालिद चूप बसलो. रॉयन दुसरो पेग स्कॉच हाडयली.

'पूण म्हाका तो प्लॉट आनी बोंगलो जाय, रॉय!' तो म्हणालो, रॉयन आपल्या दुसऱ्या पेगाचो दुसरो घोंट ताळ्यांत देंवयताना. 'हांव दिवंक तयार आसचें मोल आयकाशी तर तुका कॅनडांत तरी घाम सुटत!'

'तितलोयी घमंडी तूं हां?... तुमी मुस्लीम जाल्यारी जाववेत मिस्टर खालिद. आमी पळे... पयलें बोंबय जालें. गल्फ, इंग्लेंड आनी आतां कॅनडा, आस्ट्रेलिया, अमेरिका... पूण तुमी भायर आसल्यारी पयशे लुंवतात इंडियांतच. Fantastic man, fantastic!

'तुवें आनी हांवें वेगींच इंडियाक वचाजे, रॉय!' म्हणालो खालिद खचितायेन. त्या फुडें म्हजी कन्स्ट्रक्शन कंपेनी त्या प्लॉटाक कितले दिवंक तयार आसा म्हळ्ळें आयक. तुजीं आनी तुज्या आवयचीं सर्व सिंतिमेंतां पिगळोन वेतेलीं. तुका आसा एकलोच भाव आनी दोगी भयणी. तीं वांट्याक येतीत म्हण चिंताय? इंडियाक वचा नातल्लीं तीं पयशांक येतीत?'

'तुजें फिगर सांग, खालिद!' म्हणालो रॉय. 'तूं कांय जेम्स बॉंडाचो फस्ट कझन? इतलें सर्व जाणाय आमचे विशांत?'

खालिद एका खिणाक हासलो आनी ताणें ऐवज सांगलो. 'आनी हें सगळें तुका कॅनडाच्या दुडवान हांव फारीक करतोलों. What say you?

रॉयचे दोळे कोंगे जाले. कॅनडांत ताचें होडें बऱ्यान चलनातल्लें. धुवो वाडोन येताल्यो, म्याग्गीचो दळबार मळबाक तेंकल्लो... तें ताच्याकी चड शिकपी, ताच्याकी दोडत्यान जोडतालें, मटव्यान आनी सोंप्यान. रॉयक कॅनडांत दुडवांची सखत जरूरत आसल्ली.

'टिकेट हांव दितां!' म्हणालो खालिद, निमाणो खिळो मारलेल्या परीं.

रॉयन तिसरी स्कॉच हाडयली. 'हाचें बिलय तूंच दी,' तो मनांत म्हणालो खालिदाक एक मतलबी दिश्ट दिवन.

आनी आतां मोंतेरो म्यान्शन.

'माम्मी, तुवें एका निरदाराक येजे!' रॉय म्हणालो. 'राजांवीक जायजे. तुका दोन वाटो सामकार आसात – पयली, तुवें आमच्या सांगाता कॅनडांत रावचें. तशें तूं करिशिनाय, कित्याक, तुका म्हजीं भुरगीं आवडनांत. म्याग्गीची सावळीच जायना. पूण तुजीं हांगाचीं मंगळूरगारां हें कशें समजातात? तीं कितें म्हणतात म्हळ्ळें तूं जाणाय. दुसरी वाट – हो जागो बोंगल्या समेत मिस्टर खालिदाच्या कंपेनीक विकचो. ताचीं सबार पॉश एपार्टमँट बांदपां मंगळूरांत आसात आनी एकांत तुका एक पॉश पँटहौस एपार्टमँट दिवंक मिस्टर खालिद खुशेन ओंपला. बॅस्ट ऑफर. तुज्या तेगां चाकरिणांक घे, एपार्टमँटांत राव, आराम कर. नव्यांतली नवी सजावट तो करतोलो तुज्या नव्या एपार्टमँटांत. नवी एल्.सी.डी. टिवी, आतां कितें तें इंडियांत आयलां... टाटा स्काय? बराबर. तुज्या वॉचमॅनाक खालिदान सैटाचेर काम दितां म्हळां...' फुडें उलोवंक ताका कांय सुस्तालें ना.

'जालें तुजें, रॉय, my son?' तिणें दुकां पुसून विचारलें. 'म्हज्या डॉबरमॅनांक कितें करताय?' वेटरनरीक आपोवन तांकां इंजेक्शन दिवन निदायताय? एक सुवी म्हाकायी तोपुंदी तो डॉ. नारायण. कितें म्हणताय, मिस्टर खालिद?'

खालिदान कितेंच म्हळ्ळें ना.

'हांवं कांय तितलो क्रूर न्हय, माम्मी!' उस्मडलो रॉय. 'तुज्या डॉबरमॅनांक बेंगळूर धाडची विलेवारी करतां हांव. थंय पेटांचे मोगी आसात धाराळ. कांय ना तर तांची जतन घेवचीं कॅनेलां आसात.'

'हुम्म!' ती म्हणाली. 'तुमी सर्व मांडण्यो करुनच आयल्यात हां, जंटलमॅन?' ती सुको हासो हासली. 'तूं तितलो क्रूरि न्हय हां रॉय? उडास कर, तुजो बापय कोचीन नेवल थळार उन्नत अधिकारी जावन आसल्लो आनी तुमकां तेगांक आमी कसल्या शिस्तेन, घमंडायेन आनी सब्यतेंत वाडयिल्लें तें उडासांत हाड.'

'माम्मी!' रॉयन ताळो चडयलो. 'तुमी आमकां दिल्ल्या वाडावळीक आमी कसलेंयी आयब हाडलां?'

'ना,' ती म्हणाली. 'पूण हांवच आतां तुमच्या जिणियेचें आयब जाल्यां!'

'All these are impractical and useless sentiments, Mummy!' तो म्हणालो आनी आपली स्कॉच फिक्स करूंक आरशाचीं पॅनॅल-दारां आसच्या कबाटा लागीं गेलो. एके चाकरिणीन खालिदाक सोडा-लॅमन सरबत हाडलो.

'सगळें मंगळूर तुज्या तसल्यांनी तालिबान करून सोडलां!' येकाचाणे म्हणाली मेलिस्सा.

'तूं ह्या पॉयंटाक येतेलीय म्हण हांव जाणां आसलों, मिसेस मोंतेरो!' खालिद म्हणालो; 'सगळें मंगळूर रॉय तसल्यांनी मुस्लिमांक विकलां म्हणच्या बदलाक तुवें तुजें महंतनीपण उपेग करून उतरां विंचलींय. तुका दुरसाना हांव,' ताणें मुंदरिलें. 'संवसारांत जावंच्या सर्व अनाहुतांक दोन कारणां मात्र आसात – मुस्लीम, हिंदू मूळभूतवादी आनी

अमेरिकाचें सि.ऐ.ए.!' तो हासलो. 'तूं मुस्लिमांचेरच येतेलीय म्हळ्ळो अंदाज म्हाका आसल्लो. सि.ऐ.ए. पयस जालें म्हणया.'

मॅलिस्सान वोंट चाबले. 'म्हजो उद्देश तसलो न्हय आसलो, मिस्टर खालिद!' ती म्हणाली. 'तुजे लागीं माफ मागच्या तितली सभ्यता आनी महंतनपण म्हजे थंय आतांयी आसा. I'm sincerely sorry for hurting your religious sentiments. I'm sorry. पूण पळे भोंवतीं, मिस्टर खालिद आनी तूं रॉय! एक तेंपार कातोलिकांच्यो जावनासल्ल्यो आस्ती आज मुस्लिमांच्या ताबेंनी आसात...'

'हाका काराण कोण मिसेस मोंतेरो?' शांत ताळ्यान विचारलें खालिदान. 'विकतेले आसल्यार मुनाफो पळेवंचे खरीदार आपापींच येतात. जावं ते मुस्लीम या जुदेव. Here, this is a two-way traffic. तुमी डिमांड केल्ल्याच्याकी चड दिवंक तयार आसचे खरीदार आमी. त्या शिवाय, ह्या मंगळूरांत तुमचें म्हळ्ळें कितें आसा? तुमच्या मोगाच्यांनी तुमचें मंगळूरच सांडलां म्हळ्ळ्या उपरांत तुवें या तुजे तसल्यांनी ह्या परन्या वणदींक, बांकांक, कदेलांक, वणदीर आसच्या त्या वागा-चामटाक उमकळोन रावचें तरी कित्याक. आनी तो पियानो...'

'म्हज्या पियानो विशांत तूं कांयच उलयनाका मिस्टर खालिद!' तिणें ताळो काडलो. 'त्या पियानो विशांत तूं कांयच उलयनाका.'

आतां माफ मागची सर्ती खालिदाची. 'त्या पियानोक तितलोयी सिंतिमेंताळ जागो आसा म्हण हांव नेणासलों!' तो म्हणालो. 'I am sorry!'

'सॉरी?' आपलो ग्लास घेवन पार्टी आयलो रॉय. 'नॉनसॅन्स! हो पियानो ह्या दिवानखान्याचो कितलो जागो खाता तें तुका दिसना, माम्मी?'

'तुका आतां दिसलें रॉय?' तिणें विचारलें. 'आमच्या लग्नाच्या प्रथम ॲनिव्हर्सरी संभ्रमाक हो पियानो म्हाका म्हज्या रॉबर्टान दिल्लो. पळे, पळे तें तैलचित्र, मिस्टर खालिद. रेस्पेराक भायर सरोन इगर्जेच्या दारार आमी उबी आसांव. कसो दिसता पळे म्हजो रॉबर्ट नेवल समवस्त्रार. Handsome, no? लग्न जावन एक वरस संपताना ताणें म्हाका हो पियानो प्रेसेंट जावन दिलो. कित्याक, म्हाका संगिताचें खूब पिशें आसल्लें आनी आतांयी आसा. ह्या पियानोचीं चरित्रां बरींच आसात, my son, खालिद...'

'माम्मी, पुरो कर!' म्हणालो रॉय. 'तुज्या पियानोचीं चरित्रां हांवें आयकोन आयकोन म्हज्या कानांपुलांचेर चामकोळ उदेल्यात!'

'पूण खालिदान आयकोंक ना न्हय?' तिणें विचारलें. 'कॅनडाक वचून तुजी भास बरीच सुदारल्या, रॉय!'

'तूं ती कथा म्हाका सांग, मिसेस मोंतेरो,' ताळ्यांत कसलीच विर्राय दाकयनासतां म्हणालो खालिद.

मेलिस्सा सगळीच जिवाळ्ळी.

'बरो शाणो आसा हो खालिद!' मनांत म्हणालो रॉय. 'आतां हो माम्मीच्या सिंतिमेंतांचेर खेळता आनी दस्तवेजांचेर तिची दस्कत - कबलात घेतल्या शिवाय तो भायर वेचोना.'

'Thanks my son, खालिद!' ती म्हणाली. 'जाणाय ह्या पियानोक कितली प्राय जाली म्हण? १८२८ इसवेंत लंडनांत रॉबर्ट वॉरनुम म्हळ्ळ्यान 'कॉटेज पियानो' म्हळ्ळ्या नांवान हें वाजंत्र रचलें. कोचिनांत आतां मटानचेरी रावळेर आसा न्हय? ताका पयलें डच प्यालेस म्हणताले. पुर्तुगेजांनी सोळाव्या शतमानांत — 1663, to be exact — हें रावळेर बांदल्लें. उपरांत आयले डच, आनी तांणी हें रावळेर स्वाधीन केलें, सुदरायलें, आनी राजा ऑफ कोचीन हाका दिलें. आयक फुडें, खालिद बाबा, हो डचांनी हाडलोलो पियानो त्या रावळेरांत पडोन आसल्लो तो म्हज्या रोबर्टाच्या नदरेक सांपडलो. ताका ताचेर मोन पडलें, पूण ताणें म्हाका कितेंच सांगलेंना. हो पियानो सारक्या कंडिशनार नातल्लो आनी तो रिपेरि करच्या खातीर म्हज्या रॉबर्टान सगळो संवसार मोडलो म्हणयेत. What a man! पूण विपर्यास कसलोगी म्हळ्यार, हो पियानो रिपेरि करूंक सकचो मनीस कोचिनांत आसल्लो!'

'माम्मी!' रॉय मधें पडलोच. 'उरल्ली काणी हांव जाणां आनी कॅनडाक पावल्या उपरांत हांवच ती खालिदाक सांगतां. Now, let's talk business. आतां वयवाट उलोवया.'

'तूं मुंदरसी, मेलिस्सा उम्मी!' म्हणालो खालिद.

तिणें कपालाक मिरियो घाल्यो. 'तशें म्हळ्यार?'

'सॉरी, तुजी परवाणगी नासतां हांवें तुका उम्मी -मम्मी - म्हण उलो मारलो.' खालिदाचो ताळो मातसो कांपेरो जाल्लो.

'आवयक आपोवंक परवाणगी जाय, खालिद, my boy?' तिणें विचारलें.

हें आयकोन आसल्ल्या रॉयचें धैर्य चुकलें. 'माम्मी कांय उणी शाणी न्हय!' तो परत आपणा इतल्याक म्हणालो. 'आतां ही खालिदाच्या सिंतिमेंतांचेर खेळता. To hell with them!' ताणें आपणाक आनयेक ड्रिंक फिक्स केलें.

'कोचिनांत १५६८ थावन जुदेवांचें एक सिनेगोग आसा...' ती गड करून रावली. 'तूं मुस्लीम आनी हांव तुजे लागीं जुदेवां विशांत उलयल्यार कशें?'

खालिद हासलो. 'तूं हो बोंगलो आनी हिताल म्हज्या कंपेनीक विकूंक तयार नांय रायट उम्मी?' ताचें सवाल बोलतेंच आसल्लें.

'रायट!'

'कित्याक? हांव मुस्लीम म्हळ्ळ्या खातीर?'

'बिल्कूल न्हय!' ती सणसणलीच. 'म्हळें हांवें ह्या पयलें... तालिबान आनी कितें कितें. तूं मुस्लीम म्हळ्ळेंच म्हज्या नकाराचें काराण तर हांव तुका म्हज्या पियानोची कथा सांगतां, खालिद बाबा?'

'भोवशा सांगतिनांय, उम्मी!' तो म्हणालो.

'आतांयी तो सिनेगोग आसा व्हय, पूण जुदेव नांत. मिसेस गोल्डा मेयरान इस्रायेल देश आसा करताना संवसारबर आसल्ल्या जुदेवांक उलो दिल्लो — विंचून काडलेली परजा इस्रायेलाक पार्टी येवंदी — आनी ह्या उल्याक पाळो दिवन गेल्ल्या जुदेवांनी इस्रायेल परत रचलें. आतां कोचिनांत फकत सतरा जुदेव आसात म्हण हांवें आयकालां, आनी तांकां एक राब्बियी ना खंय!'

'तूंच पुणी वचानांय!' म्हण रॉय म्हणतो आसल्लो, पूण ताणें म्हळें ना. ह्या सगळ्या प्रकरणांत ताका आपणाचें महत्व पिगळोन

गेल्ले परीं भोगलें.

'तुका संवसारांत घडच्या संगतीची म्यान-खबर बरीच आसा, उम्मी!' म्हणालो खालिद.

'खरेंच तें!' ती म्हणाली. 'खरें महंतनपण, ग्रेस्तकाय आनी सब्यता म्हळ्यार म्यानच.' हें म्हणताना तिची दिश्ट रॉयाचेर पडली.

'पूण आमी कोचिनांत आसताना सिनेगोगाक एक राब्बी आसल्लो. किलें ताचें नांव... इट्जाक रामोन, व्हय. राब्बीचें काम तो करतालो, पूण ताचें पाशांव जावनासल्लें पियानो. पियानो रिपेरि करच्यांत तो अव्वल. इंडियांत ब्रिटिशांचें राज चलतालें आनी तांच्या बोंगल्यांनी आसचे पियानो रिपेरि खातीर कोचिनाक ते धाडताले. म्हज्या रोबर्टान हो पियानो डच प्यालेसांतलो कसो पुणी खरीद करून, इट्जाक रामोनाच्या पांयांथळीं धाडून रिपेरि करयलो आनी म्हाका इनाम जावन दिलो. इट्जाकान म्हाका जुदेवांचें लोकवेद संगीत शिकयलें. पूण आतां खालिद बाबा... हो पियानो कितलेशा वरसां थावन पाड पडोन मौन जाला. ह्या बोंगल्यांतलें संगीत आळवळां, पुता!' ती कसकसोन रडली.

हें पळेवन आनी आयकोन रॉय सुको हासो हासलो. 'You know what|' तो खालिदाक म्हणाला. 'हो डील जायजे तर तुवें त्या इट्जाक रामोनाक परत जीव जायशें करिजे. ताणें हांगासर येवन हो पियानो रिपेरि करिजे, माम्मीचें संगीत परत ह्या बोंगल्याच्या वणदींक दणसूंक लागाजे...'

'तुजें उलवणें बरें लागाना, रॉय!' म्हणालो खालिद.

'ताणें तशें उलवंक काराण हांवच!' म्हणाली मेलिस्सा. 'म्हज्या भुरग्यांक हांवें महंतनी, मेयमोच्यांची सब्यता शिकयली. बिडाराचो आनी धरतेचो, देशाचो मोग शिकयलोना. ह्या मधें खुद्द हांवच हें सर्व विसरलीं. आतां म्हज्या निष्प्रवणेचो नतिजो पळेताना पस्तावान म्हजींच सिंतिमेंतां आंक्रेल्यांत आनी देकून हो बोंगलो तुका हांव दिना, खालिद!'

'माम्मी!' खिळंचलो रॉय. आमालान ताचें शिंतीद खवदळायिल्लें. 'तुजें ओद्दुवोरांट चड जालें. तक्षण कबलात दी, मिस्टर खालिद फाल्यांच वकिलाक आनी दस्तवेजांक घेवन येतोलो आनी आमी डील पास करयां. तूं आनी तुजो पियानो! भेतून घालीन तो पियानो खिणा भितर; गुळी घालीन तुज्या दोगांयी डॉबरमॅनांक. Silly stupid non-sense...!'

'विसरलोय तूं तुज्या म्याग्गीक पियानो खेळोंक शिकयिल्लें हांवें म्हण?' रडण्या मधें तिणें विचारलें. आतां म्याग्गी कॅनडांत व्हडलीं व्हडलीं पियानो कॉन्सर्टां दिता आनी...' ती फुडें उलवंक सकली ना.

खालिद उटलो.

'आतां हांव वेतां!' तो म्हणालो, 'फाल्यां म्हाका केरळाक वचूंक आसा आनी त्या उपरांत कॅनडाक पार्टी...'

'पूण आमचो डील?' आकांतलो रॉय.

'डील जातोलो आनी जरूर जातोलो!' हात मुकार वोटायलो खालिदान. रॉयन यांत्रीक रितीर तो धरलो.

'पूण केदळा?'

'वेळ येताना रॉय. वेळ येताना.'

खालिदाचे दोळे रॉयच्या दोळ्यां लागीं झुजले. 'आमी परत कॅनडांत मेळया.' ताचो हात सट करून ताणें सोडलो. मिसेस मॅलिस्सा मोंतेरो सरशीं वचून तो भागालो आनी ताणें तिच्या दोनयी पोल्यांचे आनी कपालाचे उमे घेतले.

'आमी परत मेळतेल्यांव, उम्मी!'

तिचें मुखामळ फातरेलें. तिणें कसलिगी एक विंचवण केल्ली.

'तूं दस्तावेजां घेवनच ये पुता, खालिद!' ती म्हणाली, एका निरदाराक येकाचाणे पावल्ले परीं. 'एका बऱ्या वकिलाकयी घेवन ये. म्हजो बोंगलो, आस्त म्हजोच नवो पूत घेता न्हय? विक्र्याचो दुडू मात्र तूं रॉयकच दी. तुजीं हर शर्तां म्हाका मंजूर आसात.' तिणें दुकां पुसलीं.

'वेळ येताना, उम्मी, सर्व वेळ येताना!' खालिद म्हणालो.

उपरांत, बिळा परीं तोंड उगतें करून उबो रावल्ल्या रॉयचें भूज थापडून खालिद भायर गेलो. थोड्या वेळान ताचें बी.एम्.डब्ल्यू. स्टार्ट जावंचो आवाज तांकां आयकालो.

'तूं किलेंगी विळास चुकोन आयलाय, मानेस्ता!' मेलिस्सा म्हणाली आपल्या बोंगल्याच्या दारवटार उबो जाल्ल्या मध्यम प्रायेच्या मनशाक पळेवन. खालिद ह्या बोंगल्याचीं मेटां देंवोन पंदरा दीस जाल्ले आनी तो गेल्ल्या तीनच दिसांनी आवय लागीं एकच एक सब्द उलय नासतां रॉय पार्टी कॅनडाक गेल्लो.

'तुजें नांव मॅलिस्सा मोंतेरो आनी ह्या बोंगल्याचें नांव मोंतेरो म्यान्शन?

'व्हय, पूण... तूं कोण आनी खंय थावन आनी कित्याक आयलाय?'

तो मानेस्त हासलो. ताच्या पाटीची बाग चड जाल्ले परीं तिका दिसली.

'म्हजें नांव इलान रामोन!' ताणें कळयलें.

'रामोन?' तिणें दारवटाचो आदार घेतलो उबी रावोंक. 'पूण हें जुदेवांचें नांव.'

'संवसारार आनिकी जुदेव आसात मानेस्तिणी!' तो म्हणालो. 'हिटलरान लगाड काडल्ले फकत स मिलिया जुदेवांक मात्र. आतांयी कोण कोण आम्मच्या पाटीक लागल्यात. पूण आमी तांबडो दर्यो परत्यान उतरोंक आयते आसांव.'

'इलान रामोन... तूं...?'

'हांव इट्जाक रामोनाचो नातू... राब्बी... पियानो रिपेरर... कोचीन सिनेगॉग?'

तिच्यान उबी रावोंक जालें ना. हें समजाल्ल्या त्या मानेस्तान तिका आदार दिवन दिवानखान्यांत बसयलें. तिच्यो चाकरिणी भितर थावन धांवोन आयल्यो.

'तूं... आनिकी?'

'कोचिनांतच आसां, मदाम!' तो म्हणालो. 'पियानो रिपेर करची म्हज्या आज्याची तांत्रीकता हांव मुंदरोन आसां... म्हाका कोचींतल्यांनी आनी म्हज्या गिरायकांनी इस्रायेलाक वचूंक सोडलो ना..'

'पूण तूं हांगासर?'

'म्हाका खालिद इब्न राशीदान धाडला!'

'आनी कित्याक, देवा सर्वेस्परा... Why O Lord, Why?'

इलान रामोनान आपल्या मात्याचें किप्पाट (जुदेवांची उरूट तोपी) काडून मोगान तिच्या मात्याक बसयली.

'तुजो पियानो रिपेरि करूंक!' तो म्हणालो. 'ह्या बोंगल्यांत परत संगीत वाळाजे म्हळ्ळी आशा ताची!'





# लखपती भिकारी

गजानन जोग

आमकां सगल्यांकूच जगपा खातीर पयसो लागता. तो मेळोवचो पडटा आनी सांबाळून दवरपा खातीर इल्ली काटकसरूय करची पडटा. इतले मेरेन हें सगळें बरें आसा. पूण कितल्याश्या लोकांक पयसो मेळोवपाचें आनी तो सांबाळून दवरपा खातीर काटूकपणां करपाचें व्यसनूच लागता. ते लोक पयसो जोडीत आनी जल्मभर तो मेजीत रावतात. तो वाडटरीत तांकां बरें दिसता आनी इल्लो उणो जालो जाल्यार तांची न्हिदूच खळटा. थोड्या लोकांक तर हें पयशाचें पिशें इतलें लागता की तो एक केन्नाच बरो जायना असलो रोग जावन पडटा. म्हजे मुखार एक असलो रोगी आत्तां येवन बसला. ताचो रुपयांनी वालोर लागीं लागीं एक करोड जातलो... पूण...

वित्त आनी विमो अश्यो दोन सर्विसी दिवपी आमची कंपनी. अश्या लोकां कडेन आमचो संबंध येता. हो मिस्टर किणी. तो आमचो एक क्लायंट. पांच किलोमिटरां वेल्यान तो रिक्शेन आयला, रिक्शेचे पयशे हांवें दिल्यात. म्हज्या ए.सी. कॅबिनांत बसून तो म्हज्या पयशांनी सिगार ओडूंक लागला. प्यूनान ताका ताच्या ब्रँडाचें सिगार हाडून दिलां. फस्क म्हज्या टेबलाच्या निमाण्या ड्रॉवरांतल्यान काडून दिलां. प्यूनान तें केन्ना म्हज्या ड्रॉवरांत दवरलें, ताकाच खबर. हे प्यून सगले असलेच! नेमून दिल्लीं कामां करपाचें थंयच उरलें, असलीं नाका जाल्लीं कामां, सांगी नासतना करतात. मि. किणी म्हजो फोन लागीं ओडटा आनी आपल्या बोल्सांतल्यान पेपराचो चार आंगळां एदो कागदाचो कुडको काडटा. ताचेर फोन नंबर बरयल्ले आसतले. तो कागदा कुडको लेगीत एकेच वटेन मेकळो आसतलो. दुसरे वटेन कितें तरी छापिल्लें आसतलें. हांगा बसून तो

ते सगले नंबर लायतलो. फोनाचो खर्च भायले भायर सुटलो न्हय!

''मिस्टर मिस्टर, म्हाका च्या बी दिवपाचो ना तूं? हांव कस्टमर मरे तुजो.''

किणीमाम म्हाका ऑर्डूच सोडटा. च्याची ऑर्डर दिवचीच पडटा, म्हज्या बोल्सांतल्यान तेय पयशे वतात. पूण ताका दुसरो उपाय ना. असो हो किणीमाम. तो मुळचो दक्षीण कर्नाटकांतलो. हाच्या भुरगेपणांत घरची परिस्थिती सामकी बाबत आशिल्ली खंय. पोटा फाटल्यान तो आदीं कोचीक पावलो, थंयच्यान मागीर मुंबय पावलो. दिसाचीं आठ वरां काम करप आनी रातीचें कॉलेज करप. अशें करून तो शिकलो. एके बँकेंत लागलो. बढत्यो घेवन ए.जी.एम्. पोस्टा मेरेन पावलो. निमाणें गोंयांत आसतना रिटायर जालो आनी गोंयांतूच राबितो करून रावपाक लागलो.

ताका भुरगेंबाळ कोण ना. हांगा गोंयां रावपाक लागल्यार ताका पंदरा वर्सां जावन गेल्यांत. म्हाका याद जाता ते प्रमाण ताची घरकान्न भायर पडून पांचेक वर्सां जाल्यांत. तीनेक वर्सां आदीं हांव हे शाखेंत बदली जावन आयलों तेन्ना एक पावट हांव ताच्या घरा पावलां. एके व्हडले वसणुकेंत पयल्या मजल्यार आवांताद फ्लॅट. पूण अवस्ता कशी? सारण मारूंक ना, घैरांव काडूंक ना. घरांत हुंदीर मरून कुसला ताची घाण मारता. वणटी कडेन बियरीच्या बाटल्यांच्यो रिकामी क्रेटी हारीन मांडून दवरल्यात. त्यो वयर मेरेन, फॅना मेरेन पावल्यात. खाटीचेर आनी खाटीक लागून आशिल्ल्या टेबलाचेर पेपरांच्यो राशी कशायकश्यो पडल्यात. तातूंतच कम्प्यूटर, फोन, च्याचीं उश्टीं कॉपां अशें सगलें सामान अस्ताव्यस्त पडलां. असो देखावो. तें सगलें पळोवन हांव ताकतिकेन थंयसून कडसरलों. आनी परतो केन्नाच ताच्या घरा वचूंक ना. एक पावट तो बरो ना जाला तेन्ना फोनार फोन करून 'स्वल्प घर्लागी यो, घर्लागी यो' अशें माळेगण ताणें म्हजे फाटल्यान लायिल्लें. हांवें प्यूनाक धाडून ताका दोतोरागेर व्हरपाची वेवस्ता केली. दोतोराची फी आनी वखदांचे पयशे हांवेंच फारीक केले हें सांगपाची गरज ना.

आमच्या पयल्या पन्नास क्लायंटां भितरलो तो एकलो. शेअर, म्यूच्युअल फंडां भितर ताचो लाखांनी पयसो आसलो. शेअर्साचें दिसपट्टें ट्रेडींग तो करतालो. फाटल्या दोन-तीन वर्सां सावन घरा बसून ऑनलायन ट्रेडींग लेगीत करपाक लागिल्लो. सगळो हिशोब केल्यार ताची मालमत्ता कोटीच्या घरांत पावताली. तो म्हज्या ऑफिसांत आत्रापयऱ्यान येतालो. येवचे आदीं म्हाका फोन करतालो आनी रिक्शा धाडपाक सांगतालो. आयले उपरांत च्या पाणी सिगार. आमकां हें सगलें करपा खातीर कंपनी वेगळे पयशे दिना. पूण एक जाणटो मनीस, म्हाका बापाय समान. देखून हांव ताच्यो शिनिफिक्यो तोंड धांपून आयकतालों आनी बोल्साक खार लावन तें सगलें करतालों.

च्या आयली. खुणेन ताणें आनीक एक सिगार हाडपाक प्यूनाक सांगलें. एके वटेन म्हज्या फोनार उलयतालो ती फोन लायन ताणें धा मिणटां गुंतोवन दवरिल्ली. म्हजे फोन दुसरे लायनीर येवपाक लागले, म्हज्या सेल फोनार येवपाक लागले.

''किणीमाम, तुमचें काम कितें आसलें सांगलें ना तुमी...''

''आं कस्सलें सांगता तूं? ताणें उरफाटो म्हाका प्रस्न विचारपाक सुरवात केली. ताका आतां सारकें आयकूंक येना. म्हाका दिसता, ताका विस्मृतीचोय रोग जडला आसतलो. कुडीची निवळसाण सारकी जायनासली. तो म्हऱ्यांत बसल्यार नाका पुरो जातालें.

हांव बदली जावन हांगा आयलों तेन्ना ताणें म्हाका एक ऑफर दिल्ली. ती अशी - हांवें ताच्या फ्लॅटांत ताच्या एका रुमांत रावचें. म्हाका कंपनी दिता तें भाडें हांवें ताका दिवचें. तातूंतले पांच टक्के तो म्हाका परतें दितलो. हांव तसल्यो गजाली करिनां म्हूण हांवें सांगलें. तरिकूय तो म्हजे फाटिकूच लागिल्लो. पूण ताच्या राबित्याचें एकदांच हांवें दर्शन घेतिल्लें आनी तें म्हाका सासणा खातीर पुरो आशिल्लें. ते दीस नाकांत भरिल्लो तो वास फुडें कितलेशेच दीस म्हाका त्रास करतालो. कितलेशेच दीस म्हजी जेवणा वेली वान्साच उडिल्ली.

हालीं हालीं ताचो हांव सोडलों जाल्यार कोणारूच विश्वास नासलो आनी ताका लागींचोय हांगा गोंयांत कोणूच नासलो. बायले वटेन नातें कितें कात तें म्हाका खबर नासलें.

''ए मिस्टर मिस्टर, प्लीज, म्हाका घरा पावय, तुजे गाडयेंतल्यान.'' ताणें म्हाका ऑर्द सोडली.

''म्हजी गाडी सारकी ना, तुमी रिक्शेन चलात, आरे ह्या, एक रिक्शा आपय पळोवया. पूण किणीमाम, तुमचें काम तरी कितें आसलें?''

''तुका पळोवपाक आयलेलों.'' ताणें सांगलें.

रिक्शा आयली. शणैन हात फुडें केलो. हांवें पन्नास ताच्या हातार दवरले.

''आतां साठ घेतात.''

हांवें तोंड धांपून आनीक धा रुपया ताच्या हातार दवरले आनी फुडें सरून ताका उठपाक हात दिलो.

''कॅन आय टेक धिस डायरी?'' ताणें म्हजे कंपनीची डायरी पळोवन विचारलें. डायरी दिवपाचे दीस फाटीं पडिल्ले. तो मार्च म्हयनो चलतालो. टेबला वयली डायरी हांव वापरतालों आनी म्हजे कडेन दुसरी डायरी नाशिल्ली. ह्या बरगेल्ल्या म्हाताऱ्याक डायरी कित्याक काय? म्हाका तिडक मारली.

''मिस्टर शणै, तुका डायरी कित्याक? तूं कितें करतलो तिचें?'' हांवें मातशें तिडकून विचारलें.

''शेअरांचो हिशोब दवरपाक.''

''तें काम करपाक आमी आसात न्हय शणैमाम...'' हांवें म्हळें आनी तेन्नाच म्हाका म्हज्या मजदनीसान ल्हव येवन कानांत सांगलें, ह्या जाणटेल्यान आमची वर्सुकी फी फाटल्या वर्सा सावन भरूंक नासली... आतां तो म्हजी डायरी मागतालो.

''शणैमाम, आमची दोन वर्सांची फी दिवपाची आसा.''

''ना रे देवा, दिल्या मरे...''

'' ना ना, पावूंक ना फी.''

''वतां हांव, मेळुया परते'' अशें म्हणत तो उठलोच. फियेचो विशय ताणें अचळय कुशीक काडलो.

मर्दी मर्दी येवन म्हाका खार घालपाचें काम शणैमाम बरे भशेन करतालो. म्हयन्याक स-सातशीं रुपयां वयर एक पयसो खर्च करप ना असो ताचो नेम आशिल्लो. लाखांनी रुपयांचो धनी आशिल्लो तो मनीस सामको खांकनवाळ कसो रावतालो. कपडे पोन्ने, खतां पडिल्ले, आनी तांकां केन्नाच इस्त्री करी नासलो. जेवणा-खाणाचें जाल्यार एक वेगळेंच प्रकरण आसलें. बायल आसतना खंय तिका दनपारचेंच दोन वेळचें जेवण करचें पडटालें. रातीं कितेंय शिजोवपा खातीर गॅस पेटयल्यार शणैमाम तिचे आवय-बापूय वयर काडटालो. ती सोंपले उपरांत थोडे दीस हाणें पेज बी करून काडले. फुडें रांदपाक सामकेंच जमना जालें तेन्ना निमाणें सगलो हिशोब करून ताणें जेवणा खातीर एक वेगळीच आयडिया सोदून काडली. तो रावतालो ती एरिया पॉश. थंयचें जेवण ताका म्हारग पडटालें. ताचेर ताणें उपाय सोदून काडिल्लो. थंयच्यान एक किलोमिटराचेर हमालां खातीर एक सवायशें कॅण्टीन आशिल्लें. हो थंय वतालो आनी जेवून परत ल्हव ल्हव लकत लकत येतालो. ताका हांव कितले फावटीं सांगतालो,

''शणैमाम, खाणा-जेवणाचे हाल कित्याक करता? कोणा खातीर पयशे सांबाळून दवरता तूं? तुवें कितलेय मोडले जाल्यार तुजे पयशे सोंपपाचे नात. मोडून मोडून कितले मोडटलो तूं?''

पूण ताचेर असल्या प्रवचनांचो कस्सोच परिणाम जायनासलो. केन्ना केन्ना बियर पितालो. ना अशें ना. पूण बियरीचेर म्हयन्याक शंबर रुपया मोडटात म्हूण खंतीय काडटालो. बियरींचे रिकामी क्रेट पळयत बसतालो. बियर तो पेगांनी पितालो हें सांगल्यार खरें दिसचें ना. पूण ताका हांवें तशें करतना पळयला.

पयशे वाटावपा खातीर कितें कितें करू येता हें शणैमामा कडल्यान शिकचें. शेजाऱ्यालो पेपर मागून हाडून वाचप हें सदांचेंच. आर्दी आर्दी तो सगलें शार चलून भोंवतालो. तेन्ना भौशीक वाचपघरांत तो दिश्टी पडटालो. शारांत वर्सभर खंय ना खंय सत्यनारायण पुजा बी जाताच. ती बातमी पेपरांनी आसता. शणैमाम थंय चुकनासतना हजर आसतालो. आर्दी भरपूर खातालो आनी प्रसादाचे दोणे बोल्सांत भरून घरा हाडटालो. सणापरबेक चुकून पावलो सो दाखोवन वळखीच्या लोकांगेर दत्त म्हणून हजर जातालो. थंय कोणाक तरी धरून आपणाल्या कर्तुबीपणाच्यो चार खबरी सांगले बगर रावनासलो. कितल्याश्याच लग्नांनी शणैमाम म्हाका मेळ्ळा. ताका आमंत्रणाची गरज नासताली. तो अतिथी कसो येतालो, मूस, दोमळे येतात तसो. आनी हक्कान दोन वेळांक पावऽ सारकें जेवून वतालो. हरशीं मार झेतान खबरी मारपी शणैमाम जेवणाची बुफे सुरू जातकीच आपल्या श्रोत्याक थंयच सांडटालो आनी बद्द वचून लायनींत पयलो दुसरो नंबर धरतालो. मागीर तो आनी ताची प्लेट. बाकी सगलें जग ताका आसून नाशिल्ले भशेन. ताका जेवतना पळोवप ही व्हडली शिक्षा आसतली. तो वणटी कडें तोंड करून म्हळ्यार लोकांक फाट करून भकभकीत जेवतालो.

दुदाची पोती तो दोन दिसांतल्यान एक पावट घेतालो. ती दाराक लावपी रघू आमकांय दूद घालतालो. ताचे कडल्यानूच म्हाका ताच्या मरणाची गजाल कळ्ळी. रघू दोन दिसांनी दूद घालपाक गेलो जाल्यार आदली पोती दाराक तशीच हुमकळटाली. ताका दिसलें, म्हातारो विसल्ला आसतलो. परतो दोन दिसांनी दूद घालपाक गेल्यार दाराक दुदाच्यो दोन पोतयो. मागीर मात ताका दुबाव आयलो. आमची दोगांची वळख आसा हें रघूक खबर आशिल्लें. आमगेर येवन रघून दारार मारलें आनी म्हाका ती गजाल सांगली. हांव रोखडोच ताका गाडयेंत वांगडा घेवन शणैमामाल्या वाठारांत पावलों. थंय म्हजे वळखीचो एकलो बँकर मेळ्ळो. तो शणै मामालेच बँकेंत काम करतालो. तिगूय जाण आमी शणैल्या फ्लॅटाच्या बंद दारा मुखार पावले तेन्ना त्या मजल्या वेल्या हेर फ्लॅटांची दारां ल्हव ल्हव मातशीं उगडपाक लागलीं.

म्हळ्यार तांकांय कितें तरी दुबाव आयिल्लो जावंये. पूण आपणाक नसती भानगड नाका म्हूण कोणेंच त्या बंद फ्लॅटांत कितें घडलां आसुंये हाचेर लक्ष दिवंक नाशिल्लें. आयज हें अशेंच घडटा. जण एकलो आपापल्या फ्लॅटांत दारां बंद करून उरता. हेरांल्या घराब्यां कडेन कोण लक्ष दितलो? हांकां आपणाल्याच घरा कडेन सारकें लक्ष दिवपाक वेळ नासता.

कितें करचें तें हांव चिंतूक लागलों. मागीर हांवें वाऱ्यार उलयल्ले भशेन व्हडल्यान आवाज काडून लोकांक बातमी दिवची तशी ती खबर सांगली... रघूक सांगून दार फोडपाची वेवस्था केली. दार उगडतरीत भस्स करून आयिल्ल्या वासान कितें घडलां हें सगल्यांक खिणा भितर कळ्ळें. नाकाक लेंस लावन हांव भितर सरलों. ट्यूबलायट पेटत आशिल्ली. निमाण्या समयाक शणैमाम खाटीरसून जमनीर पडिल्लो. रगत तोंडांतल्यान व्हांवून सुकिल्लें. चार दीस जावन गेल्ल्यान सर्वांगाक दुर्गंधी मारताली. फोनाचो रिसीवर जाग्यार नाशिल्लो. टेबलार पेपर आनी पेन. पेपरार बरयिल्लें 'डियर मिस्टर मिस्टर...'

त्या निमाण्या खिणाक ताका म्हजी याद आयिल्ली काय? म्हाका तो फोन करूंक सोदतालो काय? त्या लखपती मनशाक अशें कोणूच नाशिल्ल्या, बेवारस भिकाऱ्या भशेन मरण येवचें हें ताचें विधिलिखित आशिल्लें. तो जितो आससर ताचो एक पयसो कोणें खावंक ना. आनी मजा म्हळ्यार, मेले उपरांत लेगीत ताची संपत कोणाक दिवची हो एक मोठोच प्रस्न जावन पडलो. निमाणी पेपरांत जायरात दिवची पडली. मागीर ताचे मेवणेच्या नात जांवयाक काय कोणाक ती सगली जोड कायदया प्रमाण वता हें सिद्ध जालें तेन्ना हांवें सुटकेचो स्वास सोडलो. सगलें निभयलें. पूण मजा म्हळ्यार शणैमामाले मेवणेचो तो नातजांवय शणैमामाल्या घराण्याक सोबऽ सारकोच दिसलो. शणैमामाल्या विल्याचो खर्च कितलो जालो, तो कोणें केलो, त्या सभाग्यान कांयच विचारूंक ना आनी हांवेंय ताका कांय सांगूक ना. जालें तें बरेंच जालें. अंत्येश्टी खातीर ताचे जोडींतल्यान पयशे खर्च केल्यार भूत जावन शणैमाम म्हजे गोमटेर बसपाचो हातूंत दुबाव ना.





# प्रॉमिसरी नोट!

जयमाला दणायत

"आगा, आयकलां तें खरें?"

"कितें तें?"

"म्हणचे, तुका कांय खबर ना तर! म्हाळूबाबाल्या घरार जप्ती आयल्या."

"कितें? आनी म्हाका कशें कळ्ळें ना तर?"

"आगा, एका दिसांत आशिल्ल्याचें नाशिल्लें जावन पडलें पळय सगळें! भाट-बेंस, भांगर-शिंगर, घर-दार सगळें सगळें पावणेर पडलें."

"आरे रे रे! चुरचुरे बाबड्याचे! मोठ्या नेटान वावुरतालो गांवभर; मोतयां वेंचलीं थंय आतां शेणयो थापच्यो पडटल्यो बाबड्याक!"

"ना गा, 'करणी तशी भरणी' म्हणपाची, आनी आनी कितें?"

"आयकलां हय गे व्हनीबाय? त्या कमळाबायच्या घरार वीज पडली खंय!" आंगणांत पापड सुकपाक घालतां घालतां सगुणमावशेन शेजान्नीक सांगलें.

"खरें काय कितें? गडगडप ना, गुडगुडप ना, जोगलावणीना, म्हाळा पावसय ना. मागीर ही वीज कशी पडली तर?" मावशीबाय मर्दीच पचकली. सगळीं पदर तोंडार धरून खी, खू करूंक लागलीं.

"ही म्हणून एक बाये, सामकीच बोणेर! साप्प आठ आणे!" व्हनीबाय वितरागली.

"तुमगेली ही कुवाड्यांची भास बाये म्हाका समजना. कितें तें सरळ सरळ सांगचें."

"आगे, म्हणचे म्हाळूबाबालें आशिल्लें नाशिल्लें सगळें घरदार धुवन व्हेलें. त्या सिल्व्हियाल्या पेद्रून! म्हणटगीच कमळाबायल्या घरार वीज पडिल्ले वरीच जालें ना?" एकलेन स्पश्टीकरण दिलें.

"आगे वीज पडल्यार फकत घराचोच लासून गोबोर जावपाचो. पूण हांगा भाट-बेंस, भांगर-शिंगर सगळ्याचेरच उदक सोडचें पडलें ना?" दुसरेंन म्हळें.

"आंऽ अशें कशें जालें तर अवचीत? जुगार बी खेळटालो व्हय गे?" मावशीबायन सादेपणान विचारलें.

"आगे, जुगार बिगार कांय न्हय. गिरेस्तांले आगळे वेगळे छंद नडले हे. आनी कितें तर?" दुसरेन समारोप करीत म्हळें.

"चुरचुरे गे पापणीचे! कसलें पातक घडिल्लें आदल्या जल्मांत म्हणून हे भोग आयले बाबडेच्या नशिबांत, देवच जाणा. हरशीं उलोवंक करूंक एकदम बरी आं. कितेंय

मागूंक गेल्यार केन्नाच ना म्हणी नासली. सामकी गरीब गाय.'' सगुणमावशेन म्हळें.

''हांव जाणाच आसली, नाय तरी हें केन्ना पूण घडपार्चेंच. आगे, घरांतल्यांक बाबड्यांक खांपयो आनी लेपो; त्या रांडलाक मात सदांच ताज्यो फडफडीत मुड्ड्श्यो आनी शेंवट्याच्यो गांथनी! नशीब एकेकाचें.'' व्हनीबाय फडफडली.

''कितें रे बायो, लजे म्हारग हेंच्यो करण्यो; आतां येदो व्हडलो हो भाटकार, रातयांत रस्त्यार येयलो काय ना? सगळें आसलें नासलें ना नपश्वार जालें एका फारांत!''

''मागी रे? घरांतलें सगळें सामान सुमारान भायर मोखून मायत्या भितर दुसऱ्यागे घरा वचचें पडों ना उमथ्या मानेन?''

''शे, शे, रातयांत भुरग्यां-बाळां सकट तोंड न्हिपोवन मुंबय वोसों गेलो न्ही?''

''कसली रे बाबा ही आदावंत येयली हेंचेर, देव जाणा!''

''तो पेद्रू सारकोच लाद्रू जालो न्हू रे?'' भाटांतलीं कुळां, मुंडकार फुतफुतताले. गांवभर हो एकच बोवाळ पडिल्लो! म्हाळूबाबाल्या घरार जप्ती आयिल्ल्याची ही खबर- घरा-दारांत, शेतां-पाणट्यार, पिंपळा पेडार-ल्हानां-व्हडांच्या तोंडांत ही एकच खबर आशिल्ली.

पयलीं तेंपार व्हडल्या व्हडल्या सावकार-भाटकाराली गांवांत तशीच देवस्थानांत, चड करून कुलदैवत आशिल्ल्या गांवांत, एक तरी 'दवरिल्लीं बायल' म्हणजेच 'आंगोस्तर' आसतालेंच आसतालें. आनी अशें आसप हीच तांकां व्हड अभिमानाची गजाल आसताली. खरें तर त्या काळांत घरांतल्या बायलांक चड व्हालोरूच दिनासले म्हळ्यार जाता. तांणी फकत हांचें पोट आनी भुरग्यां-बाळांक सांबाळप! तांकां फकत रांदचेकुडींत मान! ना जाल्यार बायल म्हणचे पांयांतली व्हाण समजुवप! तांचो इल्लोय विचार करी नासतना दुसरी दवरप. घरांतल्या बायलांकय ही खबर आसताली. कोण 'कोणाची', खंय आसता; घरा नासल्यार भाटकार खंयच्या घरांत मेळटलो हें गांवांतल्या इल्ल्याश्या नाकशिमऱ्या भुरग्याक लेगीत खबर आसतालें. आनी ही लजेची खबर नासून तातुंतूच व्हडपण मानपाची रीत आसताली. हे लोक बाजारांत नुस्तें हाडूंक वताले आनी बाजारांत घेतिल्ली ताज्जी फडफडीत शेंवट्यां गांथन घरा पावचे पयलीं मदले मर्दी नाच्च जाताली. म्हणचे ती 'त्या' घरांत पावताली, ताचे सयत! घरच्यांनी मागीर दारांतच कितेंय सादें करबट जावं खांप्यां बराबर दीस सारपाचो. ह्यो असल्यो भानगडी चड तितली त्या गिरेस्ताची प्रतिष्ठा व्हड! घरांत पुडव्या बराबर दांड्यार आंगोस्तर आसूंक जाय तशेंच हें! घरांत बायल आनी दारांत आंगोस्तर!

हे रिती परमाण म्हाळूबाबाचें हें एक प्रकरण गांवांतच आसलें. तेंवय एके क्रिस्तावणी कडेन! म्हाळूबाब म्हणचे गांवांतलें एक व्हडलें प्रस्थ! अर्दो तरी गांव ताचे मालकीचो आसलो. सिल्व्हियाक पळोवनच म्हाळूबाब सामको पिसो जाल्लो. तेन्ना ताका जात-धर्म कित्या कित्याचोच आठव उरलो ना. आनी सिल्व्हियानय म्हाळूबाबा कडेन सूत जुळटकीच हेर कोणाकूच, मागीर तो कोणूय व्हडलो पुर्तुगेज सिन्योर आसलो तरी, दारांत उबो केलो ना. म्हाळूबाबा कडेन सिल्व्हिया ताची बायल आशिल्ले वरीच वागतालें. मागीर म्हाळूबाबाकय ताची तशीच तजवीज करची पडली ना? ताचो सगळो खर्च-दबाजो, बाडबिस्तारो हें सगळें म्हाळूबाबाच्या नाड्यारच चलतालें. सिल्व्हिया वेवस्थीत ख्याली खुशालीन रावचें, ताका कितेंच उणें पडचें न्हय म्हणून केन्ना तरी भावनेच्या भरांत ताणें ताका एक प्रॉमिसरी नोट बरोवन दिल्ली. आनी ताका लागून आतां हो असो घात जाल्लो. खरें तर सिल्व्हियाच्या रुपागुणां मुखार ताका ते जोडीचो व्हडलोसो व्हालोरय दिसनासलो. सिल्व्हियानय जल्मभर ते नोटीचो कांयच उपेग करूंक नासलो. दोगांय ते नोटीक विसरुनच गेल्लीं म्हणपाचीं. पूण हालींच सिल्व्हियाक कामीण जाल्ली. तिवय रगतांतली! म्हाळूबाबान जायते दोतोर-वैज केले. पूण सगळें फुकट! सारकें डायग्नोसिसय जावंक पावलें ना. आनी सिल्व्हिया गेलें.

सिल्व्हियाल्या पयलींच्या घोवाचो पूत पेद्रू! लोक म्हणटाले, ह्या म्हाळूबाबाच्या प्रकरणाक लागून तो आपणाले मांय कडेन झगडून, केस्तांवां करून दुबय गेल्लो आनी थंयच सॅटल जाल्लो. मांयच्या मरण कार्याक म्हणून हांगा गोंयांत आयिल्लो. मांयचो फांत उस्तितना तिच्या पोन्या काशोदांत ताका हो दस्तऐवज-म्हणजे हो कागदा कुडको - म्हणजेच ही जीर्ण शीर्ण जाल्ली प्रॉमिसरी नोट मेळ्ळी; ताणें ती आपणाल्या आमिगाक, आदोगाद फ्रांसिस्काक दाखयली आनी त्याच खिणाक ताचें भाग्य फळफळ्ळें आनी म्हाळूबाब आनी ताच्या घरच्यांचें नशीब परतलें! आवयक लागून पेद्रूचो म्हाळूबाबाचेर खर राग आशिल्लो. हाका लागुनच आपल्याक घराभायरो, गांवाभायरो जावन पयस भायल्या देशांत वचून रावचें पडलां अशें ताका सदां दिसचें. ताचो सारको सूड घेवपाचो चान्स हे नोटीन आतां ताका दिल्लो.

तेन्ना तेंपा वेल्या त्या धा हजारांचे प्रॉमिसरी नोटीचें मोल आतां खंयचे खंय पाविल्लें: तिचो व्हालोर इतलो वाडिल्लो की म्हाळूबाबाली आखखी इस्टेट ताणें धुवन व्हेली. सगळें भाट-बेंस, दुडू-पयशे, भांगर-शिंगर सगळ्या सगळ्याचो कब्जो घेवन राबितें घर लेगीत पावणेर काडचें पडलें. सामकें न्हेसत्या वस्त्रानिशीं म्हणटात तशें तांकां घरा भायर सरचें पडिल्लें. गांवच्या लोकां मुखार आनी भाटांतल्या कुळां मुंडकारां मुखार लजेक म्हारग जावन रातयांत गांव सोडून म्हाळूबाब आपले फामिली सयत मुंबय गेल्लो तोंड घेवन! पेद्रूकय परत रोखडेंच दुबय वचचें आशिल्ल्यान मेळत त्या मोलान ताणें शेतां भाटां विकून उडयलीं. लोकांकय बेस्स बरें जालें. उण्या मोलान आयतेच शेता कुडके, जमनी मेळिल्ल्यान तांचो फायदोच जाल्लो. ''मिठायवाल्याच्या घरार तुळशीपत्र'' दवरिल्ले परी ताच्या आदोगाद मित्रान ताका नाडून म्हणटात तशें आपलेंय पोट भरून घेतलें. एके रातयांत आशिल्ल्याचें नाशिल्लें जावन पडलें — फकत ते एके प्रोमिसरी नोटीक लागून!

जुस्त माकडाच्या हातांत कोलती मेळची तशी पेद्रूच्या हातांत ती नोट सांपडली आनी, मारुतीन आपले शेंपडेच्या उज्यान रावणाची आखखी लंका जळयिल्ली? तशी पेद्रून त्या कागदा कुडक्यान म्हाळूबाबाचें आनी ताच्या घरच्यांचें आखखें जिवीत नश्ट करून उडयलें. ते इल्लेशे नोटीन म्हाळूबाबाच्या आखख्या घरादाराच्या गळ्याक नॉट बशिल्ली...!





# गेले ते दीस...

विठ्ठलराय भट

रामदास केंकरो युनियन बँकेच्या डिव्हिजन ऑफिसात डेप्युटी जनरल मॅनेजर म्हूण प्रोमोशनार हाजीर जालो. हाजीर जावन दोनूच दीस जाल्ले. नवें ऑफीस, नवो स्टाफ म्हूण कोणाच कडेन जास्त उलय नासताना रामदास आपलें काम समजून घेत आशिल्लो. ताका नोकरेचो सामकोच वाज आयिल्लो. ब्रँच मॅनेजर म्हूण प्रमोशन जालां तेन्नाच्यान हरएक कडेन साताट म्हयन्यां पेक्षां जास्त दीस तो टिकलोना. हाचें कारण ताचो कडक सोभाव. युनियन बँकेंतली युनियन एकदम स्ट्रॉंग आनी पावरफुल. ती कांय ना कांय कारणान ताज्या विरुद्ध वयर पर्यंत कागाळ्यो करतेर राबताली. ताज्या आड घोशणा दिवप, काळ्यो फित्यो लावून काम करप अशें कन्न ताका तरास दिताली. मॅनेजमॅंट मागीर ताजी पयस खंय तरी बदली कन्न उडयतालें. रामदास नव्या जागेर पावचे पयलींच युनियन थंयच्या लिडराक ताजी खरी खोटी वळख दिताली. केंकरो कामार रुजू जावच्या पयलींच थंयचें वातावरण ताज्या विरुद्ध दुशीत जाल्लें आसतालें. मागीर कितें? फाटल्या पाना वयल्यान मुखार सुरू! पयल्या ब्रँचांतलें क्लोजींग बॅलन्स नव्या ब्रँचांतलें ओपनींग बॅलन्स जातालें... तें कितेंय आसलें तरी रामदास कामाक वाग आनी हुशार पूण. तशें म्हूण ताका प्रमोशन मेळिल्लें.

लंच अवर सुरू जालो. स्टाफ आपापलो डबो घेवन लंचाक बसलो. लंच घेतां घेतां ते ग्रूप कन्न कसली तरी चर्चा अगदी तावातावान करताले. तांची चर्चा गंभीरतायेन चलताली. आपल्या कांचेच्या कॅबिनांतल्यान रामदासाक सगळें ज्युस्त दिसतालें. रामदास आपल्या कडेन पळयता तें स्टाफ पूण जाणा आशिल्लो. पूण कोणाक ताजें कॅर ना. डिव्हिजनल ऑफीस आशिल्ल्यान हांगा ब्रँच ऑफिसा म्हणकी पब्लीक येवपाचो प्रस्न नाशिल्लो. सगळीं एडमिनिस्ट्रेशनल आनी फिनानशियल कामां. स्टाफ कसली चर्चा करता तर? रामदास विचारांत पडलो. हांगा हाजीर जावन दोन दीस पूण जाले नात. कोणाकूच फायरींग केलें ना. सगळ्यां कडेन नरमायेन आनी आदरान चलतालो. पयलेच्या ब्रँचांतल्या लोकांनी हांगच्या लिडरा कडेन आपल्या विरुद्ध कागाळ्यो केल्ल्यो उरत. ताका मनांत दुबाव आयलो. कितें तरी येवजून ताणें बॅल मारली. प्यून कॅबिनात येतरीक ताणें विचारलें,

'सावंत, जेवण जालें तुगेलें?'

'हय सर.'

'जेवण-खाण त्या त्या वेळार घेतल्यार बरें आसता. जिवाक, आरोग्याक बरें पडटा.'

'हय सर.'

'एक काम कर, माका एक कॉफी सांग.'

'जायत सर. धाडून दितां.'

सावंत कॅबिनातल्यान भायर वचपाक गेलो तेन्ना ताका रामदासान परतो आपयलो.

'कितें सर?'

'सावंत, एक विचारतां, भायर कितें चल्लां?'

'सर, तुमकां खबर ना?'

'ना. कितें जालें?' विचारताना रामदासालें काळीज बाक-बूक जातालें.

'सर, हेड ऑफिसातल्यान कांय वेळा पयलीं सर्क्युलर आयला. बँकेन व्हिआरएस् लागू केला. एका म्हयन्या भितर जाय ताणें फॉर्म भन्न दिवपाक जाय. भरपूर लुकसान भरपाय मेळपाची आसा. शिल्लक आसा त्या दिसांची पूण भरपाय मेळतली. शिवाय म्हयन्याक भरपूर पेन्शन आसाच.' हें सांगताना सावंतालें मुखामळ हांसकुरें जाल्लें.

'अशें अशें! म्हणूच स्टाफ जमून जमून उलयता?!'

'हय सर.'

'सावंत, तूं घेतलो की ना व्हिआरएस्?'

'घेतलों म्हळ्यार? घेतलोंच!'

'हातात एकदम पयसो आयल्यार खूब जाण बिगडतात. तांकां नाका तीं व्यसनां लागतात. बरेच जाण सोरो पिवपाक लागतात...'

'तुमी सांगतात तें खरेंच सर. बुदवंतपणाचीं उतरां तुमगेलीं. पूण हांव माळकरी. सोरो, शागोती, निस्तें - कित्याक

हात लायना हांव. मजे बायलेन पूण गळ्यांत माळ घाल्या.' सावंतान आपल्या गळ्यांतली तुळशी माळ शर्टा भायर काण्ण रामदासाक दाकयली. मागीर ती दोळ्यांक लावन भितर सरकायली.

'पूण घरा बसून कितें करतलो तूं?'

'सर, हांव हांगा मुंबयंत रावचोंना. कोंकणांत सावंतवाडींत मजें घर आसा. व्हड बाग आसा. थोडें शेत पूण आसा. थंय वचून ताजो देखरेख करतलों. म्हाताऱ्या आवय-बापायली शेवा करतलों. तांगेलो पुंडलीक जातलों.'

'सावंत, भोव बरे आसात तुजे विचार.' रामदासान समाधानान म्हळें. आपल्या विरुद्ध युनियनाची कांय कागाळ ना तें जाणून ताका सूऽ जाल्लें.

सावंतान सांगलें, 'सर, तुमी सांगतात तें खरेंच. हांव राबतां त्या चाळींत सॅंडोज कंपनींत काम करचे बरेच लोक राबताले. भरपूर पयसो मेळता म्हूण जास्तींत जास्त लोकांनी व्हिआर्एस् घेतली. धडाधड. एकल्यान घेतली म्हूण दुसऱ्यान घेतली. दुसऱ्यान घेतली म्हूण तिसऱ्यान घेतली. थोडे जाण गांवाक गेले. थोडे जाण पुण्यांत गेले आनी थोडे पिण्यांत गेले — सोरो पिवन पिवन बेब्दे जावन लिव्हर कॅन्सर, कामीण असले रोग जावन मेले.

'पुण्यांत गेले आनी पिण्यांत गेले' हीं सावंतालीं उतरां आयकून रामदासाक खूब हांसो आयलो.

त्या रातीक रामदासान खूब विचार केलो. अजून तागेली आट वर्सांची सर्वीस शिल्लक आशिल्ली. प्रोव्हिडंट फंड, ग्रॅच्युटी, लुकसान भरपाय मेळून तिशेक लाख रुपया मेळपाक हरकत ना. पेन्शन आसा तें वेगळेंच. खावचें, पिवचें, मजा करची अणी न्हीद काडची. हांगा थंय भोंवडी मारची, इस्पिटां दाव खेळचे. कांय काम कन्नासतना दुडूच दुडू मेळता तर कित्याक ही व्हिआर्एसाची संद सोडची? ना तरी गेल्ल्या गेल्ल्या कडेन युनियनवाल्यांली पनवती साडेसाती शनी म्हळकी फाटल्यान लागिल्ली. ह्या आठवड्या भितर निर्णय कळोवपाक जाय आशिल्लो. विचारांतूच केन्ना तरी रामदासाक न्हीद लागली.

दुसऱ्या दीस सकाळीं रामदास बेगिनूच उटलो. जिवाक फ्रेश दिसपाक लागलें. व्हिआर्एस् घेवपाचो निर्णय घेतिल्ल्यान तागेल्या बोडा वयलें व्हड चेंपण ना जाल्लें. त्या दीस सदां पेक्षां बेगीच रामदास आफिसात गेलो. व्हिआर्एस् घेवपाचो आसां हें ताणें बायलेक, पुताक आनी सुनेक अजून सांगलें नाशिल्लें. सगळ्यांक एकदम सरप्रायज दिवचें अशें ताणें थारायलें. त्या दीस रामदासान व्हिआर्एस्चो अर्ज दिलो आनी जमिल्ले तितले अर्ज हेड ऑफिसात धाडून दिले. म्हयन्याभरान व्हिआर्एस् सॅंक्शन जालां म्हूण ताका पत्र आयलें. रामदासाक एकूण एकोणचाळीस लाख रुपया मेळपाचे आशिल्ले. शिवाय दर म्हयन्याक मेळतलें पेन्शन वेगळेंच. रामदासान हिशोब केल्ल्या पेक्षां धा-बारा लाख रुपया जास्तूच मेळताशिल्ले.

रातीन सगळे जाण जेवपाक बशिल्ले तेन्ना रामदासान सगळ्यांच्या ताटांत दोन दोन मलाई पेडे घाले. पेटी कावेरी कडेन दिली.

'नाना, कितें आज? कसले पेडे? डिव्हिजनल मॅनेजर म्हूण प्रमोशन मेळ्ळां की कितें?' पुतान आनी सुनेन एकदमच विचारलें.

झुजांत जैत घेवन आयिल्ल्या हिरो म्हणकी छाती फुगोवन रामदासान सांगलें,

'हांवें व्हिआर्एस् घेतल्या. एक तारकेच्यान हांव कामाचे कटकटींतल्यान कायमचो मेकळो जातां.'

रामदासालीं उतरां आयकून तिगांय अजाप जालीं. थोड्या वेळान बाबुरायान सांवरून घेवन विचारलें, 'नाना, अजून साताट वर्सां सर्वीस आशिल्ली न्ही तुजी? मागीर कित्याक इतल्या बेगीन व्हिआर्एस् घेतली?'

'घेतली बाबा. युनियनाच्या कटकटींक हांव सामको करगून गेल्लों. व्हिआर्एस् घेतली ताजी भरपूर लुकसान भरपाय मेळता. मागीर कित्याक सोडचो चान्स?'

घरांतल्या लोकांक आपणें व्हिआर्एस् घेतली तें आवडलें ना हें रामदासाक कळ्ळें. कारण बायल अणी सून हांणी थंडपणान ताजे कडेन पळयलें आनी तीं कांय बीन उलय नासताना जेवतेर राबलीं. पूण रामदासान कोणालेंय कॅर केलें ना. जेवणा नंतर थोडो वेळ टीव्हीचेर बातम्यो पळोवन तो न्हिदपाक गेलो.

रामदास सकाळीं आरामशीर उटलो. वणती वयल्या घडयाळांत पळयल्यार आट वरां जाल्यांत. केन्नाय स वरार उटपाचो मनीस आज गाड न्हीद लागून आट वरार उटिल्लो. ताणें घरा भितर कितें चलता ताजो सुलूस घेतलो. पूत आनी सून ऑफिसात वचपाचे गडबडींत दिसलीं. कावेरी किचनांत काम करताली. तोंड धुवन आयल्यार तिणें च्याचो कप डायनींग टेबलार हाण्ण दवरला. तोंडान हूं की चूं ना. मुसडो फुगिल्लोच आशिल्लो. च्या पिल्यार ताका ताजेपणाचो वास ना. रंगान पूण काळो काळो आसा. म्हळ्यार सकाळींच केल्लो च्या बायलेन परतो गरम कन्न दिल्लो म्हूण ताका कळ्ळें. पूण तो कांय उलयलोना. सकाळीं सकाळींच झगडें नाका म्हूण वोगीच रावलो.

पुतान कामाक वतना सांगलें, 'नाना, एक काम कर. टिपॉयाचेर फोना बील अणी चेक दवरला. यादीन आज भन्न सोड. लास्ट डेट आसा.'

पुतान आपल्याक बील भर म्हूण सांगचें अणी तें पूण अल्टिमेटम दिल्या म्हणकी! इतले दीस माका कोणें कसलेंच बील भरपाक सांगलें नाशिल्लें. मनांतल्यान रामदास थोडो नर्व्हससो जालो. पूण कांय उलयलो ना. दाडी कन्न घेवया म्हूण सगळें सामान काण्ण घेवन बसलो. संदांच कावेरी उदकाची वाटी हाण्ण दवरताली. आज कांय वासपूस ना. रामदासान तिका उलो दिलो.

'कितें गो कावेरी? केन्ना धन्न हांव दाडी करपा खातेर हांगा बसून आसां. उदीक दी मुगो!'

'माका कामां आसात सतराशें साठ. तुमी व्हिआर्एस् घेवन मेकळे जाले. पूण माका मात्र ह्या कामांतल्यान व्हिआर्एस् घेवपाक जायना. उटून घेयात.'

उपाय नासताना रामदासान उदीक हाण्ण घेतलें, दाडी कन्न घेतली, न्हालो, ब्रेकफास्ट घेतलो अणी पेपर वाचूंक वचून बसलो. तितल्यान बायलेन ऑर्द सोडलें —

'फोन बील भरपाक वतले न्ही तेन्ना पयलीं भाजे मार्केटांत वचात. भाजी घेयात. घरा भाजी कांय ना. रात्री जेवणाक मागीर भाजी केलिना म्हूण कुरकुरनाकात, तशें म्हूण पयलींच सांगून दवरलें.'

बायलेलीं उतरां आयकून रामदासाल्या कपाळाक मिरयो पडल्यो. नाकपुडयो फुल्ल्यो. दोळे तांबुरले... अजून पर्यंत सदींच भाजी

हाडपाक वचपाची मनीस आज माका नोकराक सांगिल्ल्या म्हणकी ऑर्द दिता? जावूं. झगडें नाका, रामदासान मनांतूच म्हळें. पेपर कवळून काण्ण बाजून दवरलो. भाजेची पिशवी, टेलिफोन बील, चेक घेवन भायर सरलो. आपल्याक आवडतात त्यो भाजयो घेवन बील भरपाक गेलो. थंय पावल्यार येदी होडली लायीन. गेटी भायर पर्यंत लोक वता दनपारांक उबे आसात. रामदासान लोकां वयल्यान नदर फिरयली. तातूंत जास्तींत जास्त बायलांच आशिल्लीं. थोडे दादले. तागेल्या म्हणकीच रिटायर जाल्ले अशे दिसताले.

टेलिफोन बील भन्न घरा येताना रामदासाक रस्त्यार ताजो इश्ट रोयदास (रोहीदास) मेळ्ळो. आतां हाजे कडेन उलयलो ना जाल्यार तो गप्प रावचो ना असो ताणें विचार करता पर्यंत रोयदासान म्हळें, 'कितें रामदास? अजून पर्यंत तुगेल्या हातांत चकचकीत ब्रिफकेस रावताली. आतां आयली की ना हातांत भाजेची पिशवी?! ही: ही: ही:!'

'कितें करचें रोयदास! तुवें माका परतें परतें सांगिल्लें, व्हिआर्एस् घेवूं नाका म्हूण. माका आज पयले दिसाकूच अणभव आयलो.'

रामदास दनपरां दोन वरांर घरा पावलो. बायल टीव्ही वयले सिरियल्स पळोवपाक गुल्ल जावन गेल्ली. तशें म्हळ्यार तिनें जेवन घेतलें तर! रामदासान अदमास केलो. हातपांय धुवन तो डायनिंग टेबला कडेन येवन बसलो. सगळें जेवण थंडगार जाल्लें.

'सगळें जेवण शेळेलां म्हुगो!'

'मदेंच उट्न तुमचे खातेर जेवण गरम कन्न दिवपाचें माका जमचें ना. मज्यो आवडीच्यो सिरियल्स माका रातच्यो पळोवपाक मेळनात म्हूण हांव त्यो दनपारां पळयतां. जेवण परतें गरम करचें म्हळ्यार गॅस बेश्टोच इबडावचो पडलो ना!'

'आब्बा! गॅस वापरच्या खातेरूच तर हाडलां न्हिगो?'

'हय. पूण हांव म्हणतां, एक दीस थोडेंशें थंड जेवण जेवलें म्हळ्यार कितें जाता? सदींच हांव तुमकां सगळ्यांक वाण्ण जेवता पर्यंत हांव जेवचें जेवण शेळेंच जाता न्ही? वर्सांनी वर्सां हांव जेवतां म्हूं! माका कितें धाड मारल्या?''

सिरियल ऐन काट्यार आयिल्ली. सून घर सोण्ण वता. तो सीन चुकपाक जायना म्हूण कावेरीन अणी मुकार झगडें वाडयलेंना. कशे तरी चार घास खावन रामदास पाना वयल्यान उटलो. हात-तोंड धुवन बॅडरुमांत वचून न्हिदलो. हांतुळणात बरोच वेळ लोळतेर पडलो. मागीर केन्ना तरी ताका न्हीद लागली.

रामदास जागो जालो तेन्ना स वरां जाल्लीं. तोंड धुवन हॉलात येता पर्यंत बॅल वाजली. दार काडल्यार दोस्त जयवंत दारात उबो.

'यो जयवंत. बरें जालें तूं आयला तें. आतांच हांव इराण्याल्या हॉटेलात च्या पिवपाक वचचो आशिल्लों. वांगडाच वचुया.'

'कित्याक? वयनी ना रे घरात?'

'अरे, तिणें कोणाकूच सांगनासताना व्हिआर्एस् घेतल्या.'

'आं! वयनी नोकरी करताली? हांव नकळों म्हरे!'

'अरे बाबा, कावेरीन नोकरीतल्यान न्ही तर घरकामातल्यान व्हिआर्एस् घेतल्या. हांव घरा न्हिदलां म्हूण जाणा तरी ती शेजारणीगेर फक्यो मारपाक गेल्या. हाज्या पयलीं ती हांव उट्न बसचे पयलीं डायनींग टेबलार च्या तयार करून बसताली. आतां थरमासांत च्या उरत. पूण या आमी इराण्यागेर.'

दोगांय दोस्त बनपाव अणी च्या पिवन गार्डनात फिरपाक म्हूण गेले.

'जयवंत, तूं खरोच नशीबवान पुरूश. शाणो तूं म्हूण तुवें व्हिआर्एस् घेतली ना. माका आज पासून गरमागरम च्या, जेवण मेळचें बंद जालां. पयलीं दाडी कन्न घेवपाक बसल्यार बायल गरम उदीक हाण्ण दिताली. आतां तिजी पंरवणी चलता — आपलीं कामां आपल्यानूच केल्यार कितें जाता? अणी तुमकां तर आतां जायतो वेळ आसा. माका घरात हजार कामां पडिल्लीं उरतात.'

'रामदास, घरा वचुया आतां. आट वाजले. माका फाल्यां सकाळीं बेगीन उट्न कामाक वचपाक जाय. तुका कितें बाबा, आरामात उट्ल्यार जाता.'

जयवंतान सहज म्हण म्हळें. पूण ते शब्द थेट रामदासाल्या काळजात घुसले.

साताट दीस अशेच गेले. बॅंकेंत वचून आपल्या एकांवंटाची चवकशी कन्न येवुया म्हूण रामदास थंय गेलो. बॅंकेंत गेल्यार कोणेंच तागेली दखल घेतली ना. पळयलें ना पळयलें अशें कन्न जो तो आपूण कामात बिझी आसल्याचें नाटक करपाक लागलो. सगळे तकली बागवोन बसले. मॅनेजराक चीट धाडल्यार अर्द्या वरान ताका कॅबिनांत आपयलें.

रामदासान मनातूच म्हळें, हांव पयलीं केन्ना डिव्हिजनल आफिसातल्यान येतालों तेन्ना हेच लोक यॅस सर्, यॅस् सर् म्हूण भोंवताणी जमा जाताले. जाग्या वयल्यान उट्न उबे रावताले. मॅनेजर तर कॅबिनातल्यान भायर येवन हुनहुनीत येवकार दितालो. कोल्ड ड्रिंकात स्ट्रॉ घाल्न हातात दितालो. आतां ×××× चीट धाडल्या तरी अर्द्या वरान भितर आपयता. रामदासाक मनातल्यान खूब वायट दिसलें. पूण कितें करतलो? थुकी गिळिल्ल्या म्हणकी अपमान गिळ्न गप्प बसलो.

भायर वत रणरणतालें. हुमेन आंग सगळें चिकचिकतालें. जीव नाका जाल्लो. घरा पावतरेक रामदासान बायलेक सांगलें, 'कावेरी, एक ग्लासं थंड उदीक दी गो.'

बायल बडबडपाक लागली —

'तुमी व्हिआर्एस् घेतली तेन्नाच्यान माका मगेलो जीव नाका जाला. अख्खो दीस घरा बसून रावतात अणी 'हें दी गो, तें दी गो' अशें सारकें चालूच रावता. पयलीं दीसभर तुमी ऑफिसांतल्या लोकांक ऑर्द दिताले. आतां घरा बसून दीसभर माका ऑर्द सोट्टात. हांव पूण मदें मदें घरकामातल्यान व्हिआर्एस् घेतलें. तुमकां थंड उदीक जाय न्ही? उटात. फ्रिजात थंड उदकाच्यो जायत्यो बाटल्यो आसात. घेयात अणी जाय तितलें उदीक पियात.'

रामदास उदास जालो. कामा बिगर घरातल्या लोकां कडेन जास्त उलयना जालो.

एक दीस रोयदास घरा आयलो.

'रामदास, तुवें व्हिआर्एस् घेवन म्हयनो भर जालो म्हुरे. तूं पयलीं आयताराक, रजे दिसार इस्पिटान खेळपाक येतालो. आतां कित्याक येना?'

'रजे दीस कित्याक? हांव सदींच खेळपाक येवपाक तयार आसां. पूण कावेरीन मर्दी खोडो घाला. तिणें बजावून सांगलां — आतां हाज्या नंतर सांजे मायत्याक माका देवळात वचपाक जाय. कॉलनीतल्या

बायलांनी भजनी मंडळ काडलां. हांव थंय भजनां म्हणतां... आतां कितें करपाचें तें तूंच सांग. पूण एक गम्मत आसा. कावेरीलो आवाज आयकून देव कानात बोटां घाल्न रावना जाल्यार जालो.'

रामदास कुचिंद्रीपणान हासलो. ताजे बरोबर रोयदास पूण.

'चल, आमी थोडो वेळ फिरून येवंया.' रोयदासान सांगलें. बागेत वचपा पयलीं ते रोयदासाल्या घरा गेले. वयनीन गरमा गरम कांद्यांच्या भज्यांचो घाणो घाल्लो. ताजो परमळ घरभर पातळिल्लो. रामदासान मागू मागून घेवन भज्यो खाल्ल्यो. कितले तरी दीस जाल्ले, ताणें घरा केल्ल्यो भज्यो खावन. खोकलो येता म्हूण कावेरी पापड सुद्धा तेलात तळना. गॅसार भाजता. रामदासाक ते गोश्टीचो उगडास ज़ालो. अणी तो मनातल्यान उदास जालो.

रामदासाले दीस सरून सरना जाले. पेपर म्हूण कितलो वेळ वाचतलो? टीव्हीचेर तेच तेच प्रोग्राम... सिरियल्सां – कथानकांत थोडोसो बदल. सगळ्या चॅनल्सांचेर तेच तेच एकूच सारके प्रोग्राम. पळोवन सामको वाज येतालो. कितले घटस्फोट, कितले अपघात, कितल्यो भानगड्यो – विचार नाकात. हे घुस्मटेतल्यान कशें भायर पडपाक जातलें? अशे विचार रामदासाल्या मनात घोंगावच्याक लागले. ताका एक आयडिया सुचली –

'कावेरी, अशें करुंया. आमी थोडे दीस बेंगळूरांत रंजूगेर वचुंया. पोर केन्ना धन्न आपल्यागेर कांय दीस रावपाक येयात म्हूण लालायतेंर आसा. पयर फोनार उलयताना पिंकी पूण आपयतालें. म्हयनोभर राबून येवया. नाती बरोबर खेळपाक मेळतलें. तुका बीन थोडो आराम मेळतलो.'

'मजो आराम झक मारूं... तुमी वचून येयात. तुमी हांगा म्हयनोभर नात म्हळ्ळोच माका आराम जातलो.' मारकुरे गायी म्हणकी कावेरीन शिंगां उबीं केलीं.

'अशें कित्याक म्हणता गो तूं? तुका धुवेक, नातीक, जांवयाक मेळपाचें अशें दिसना?'

'दिसता तर! दिसना कित्याक? पूण ताजे खातीर हांव तांगेर वचपाचें ना. तांकां हांगाच आपोवन घेतलें. आनी तांची जाय ती अपुरबाय करतलें. पूण थंय वच्ची खबर मात्र काण्णाकात.'

'अशें कित्याक म्हणता गो? त्या घरा आमची धूव दिल्या न्हिगो?'

'तुमकां खबर ना. रंजूल्या बाळंतपणा वेळार कितें तरी प्रॉब्लॅम आसा म्हूण कळतरीक हांव थंय धावन गेलें. जांवयान सांगलें, बेंगळूरांत सगळी सोय आसा म्हूण. म्हाका फकत दोन म्हयन्यां खातीर मदतीक यो म्हूण ताणें सांगलें म्हूण हांव थंय गेल्लें. उगडास ना तुमकां?'

'हांव जाणां तें. मागीर?'

'रंजूली मांय दळिद्री सोभावाची. मजे कडच्यान घरांतलीं सगळीं कामां कन्न घेताली. बाळ अणी बाळांतीलें कसलेंच काम ती कन्नाशिल्ली. दीसरात माका वावराडे म्हणकी घरा घोळोवन घेताली. थंय राबून देडेक म्हयनो जातरेक तिणें मजे कडेन उलोवपाचेंच बंद केलें. कितें विचारल्यार आंगार कचकन्न किसळून येताली. समा जाप दिनाशिल्ली. तिगेली सोंडी फुगिल्लीच राबताली. हांव थंय राबून फुकट भूस खावन दीस काडतां, परतें वचचें उलयना अशें तिका दिसतालें...' रडकुन्या आवजान कावेरीन मनांतलो गाळ भायर उडयलो.

'उरता एक एकट्यालो सोभाव. तिचो सोभाव तसो आसा म्हूण खबर ना माका.'

'खबर ना न्ही? मागीर वचून राबून येयात. थोड्याच दिसांनी तुमी हांगा धावन येतले पळयात.'

रामदास कांय उलयलो ना. तागेलो बाप्पा ताका केन्नाय म्हणतालो ती याद जाली – बायलकुरीं उतरां आयकून आमी दादल्यांनी वेव्हार चलोवपाक नजो; सत्यानाश जालो म्हूण समजुवचें... कितें जालें तरी बेंगळूरांत धुवेगेर वचचेंच अशें रामदासान थारायलें.

रामदासाक पळोवन रंजूक अणी पिंकीक खूब खुशी जाली. जांवयान रिती परमाणें स्वागत केलें. पूण रामदासाक पळोवन रंजूल्या मांयलें तोंड मात्र तांबडें तांबडें जालें. कसनुसें हासल्या सारकें कन्न ती भितर गेली अणी आपल्या कुडांत वचून बसली. मागीर बद्द जेवणा वेळारूच भायर आयली.

धूव अणी जांवय सकाळीं कामाक वताले, ते बद्द सांजचे घरा परतताले. पिंकी आजे म्हाऱ्यांत रावताली. आजो आयल्या पासून ती ताज्या वांगडाच रावपाक लागली. तो नातीक दनपरां अणी रातीक बरबऱ्यो काणयो सांगतालो. रामदास घरा आशिल्ल्यान पिंकील्या आजेली मजा जाली. ती दनपारचो भूस जातरेक शेजारणीगेर गजाल्यो मारपाक म्हूण वताली ती सामकें सांजे मायत्याक घरा येताली. तिणें आडवळणान दोन तीन खेपेक सांगलें, 'कुळारच्या मनशांनी धुवेगेर जास्त दीस रावपाचें तें बरें दिसना.' पूण रामदासान तें कानामनार घेतलें ना. तरी ताका मना भितरूच असमाधान जालें. आयिल्ल्या धा दिसां भितरूच तो घरा परतलो.

सांजेर स वरार पावची 'उद्यान एक्सप्रेस' चार तास लेट जावन रातच्या धा वरांर दादराक पावली. लोकल धन्न घरा वचुया म्हळ्यार ताका थंय जयवंत मेळ्ळो.

'कितें रामदास! भायल्या गांवच्यान आयला दिसता?'

'हय रे. बेंगळूरांत धुवेगेर गेल्लों. गाडी चार तास लेट. थंय म्हयनोभर रावतलों म्हूण गेल्लों. पूण थंय धुवेल्या मांयले नमुने पळोवन धा दिसातूच परतो आयलों.'

'रामदास, हांवें तुका पयलींच सांगिल्लें, व्हिआर्एस् घेनाका म्हूण. मनशाक पयसो तसोच समाजात, कुटुंबात मान पूण जाय जाता. एक खेपेक गांडी मुळातली खुर्ची गेली म्हणतकीर त्या मनशाक ऑफिसात, घरात, दारात आदर मेळना. लोकांल्या नदरेंतल्यान तो सकल देंवता. हाजो तुका अणभव येन्ना पर्यंत आयलो आशिल्लो उरत. म्हणतात न्ही –

*स्थानभ्रष्टाः न शोभन्ते।*
*दंताः केशाः नखाः नराः॥'*

'हय रे बाबा, तूं सांगता तें शंबर टक्के बरोबर. अगदीं मज्या मनातलेच उलयलो पळय. व्हिआर्एस् घेतलें अणी घर फिरलें. घर फिरलें तशे घराचे वाशे पूण फिरले. नोकरेंत आसताना कामाची कटकट दिसताली. वाज येतालो. पूण ऑफिसात आदर आशिल्लो. वट आशिल्ली. 'यॅस सर, यॅस सर' म्हूण अवती भोवती लोक भोंवताले. घरा बायल तत्परतेन मर्जी सगळीं कामां करताली. आतां गेले ते दीस!'

रामदासान व्हड असो सुस्कारो सोडलो.







# आफ्रिकानिस्त

सॉतॅर रे. बार्रेत

आलेसान कानाक केंचललें विडये प़ोंत पोशेत पोशेत काडून तोंडात घालें. फसका काडी मारीत तें पेटयलें आनी कडक दम मारून फुसऽऽ करून धुंवर भायर सोडलो. हें करताना ताचे किडेल्ले दांतूय दिसले. खरें म्हळ्यार, ते किडेल्ले दांत आनी तें विडये पोंत एकामेकांक बरीं सोबतालीं. आलेस गांवचो पाडेकार आसलो. आयजूय पाडो बरो जालललो. घरा वचून न्हावून धुवून जातकूच ताणें किस्तोदीले गादयेर वचपाची वाट धरली. आयज तर किस्तोदी कडें खास कितें विचारपाचें आसलें. राव रे! आलेसान 'किस्तोदीली गादी' म्हळें? आरेच्या! आदल्या तेंपार ती गादी म्हणल्यार जातालें. पूण आतां तिका गादी म्हणप म्हणचे पापूच न्ही तर म्हापाप जावपाचें. कारण आतां ती 'बार अँड रेस्टॉरंट वायलांकिणी' जाल्ली.

तरीय आलसूक आनी गांवच्या दुसऱ्या पाडेकारांक आनी मानयांक ती आदली किस्तूली गादीच आसली. ते आदले भशेनूच थंय येवन बसताले आनी इल्लें कोपाचें मारीत, आनी आयल्यो पयल्यो खबरो करीत, आपलो वेळ सारताले. आतांचें 'बार' मात आदल्या किस्तूचो पूत चलयतालो आनी ताकाय बापायचेंच नांव दवरललें.

पूण पयलीं सांगलां तशें आलेसाक किस्तू लागीं कितें तरी विचारपाचें आसलें. कसलो तर मनांतलो दुभाव तो, जाचेर फकत किस्तू उजवाड घालूंक शकतालो. तो म्हळ्यार गांवच्या बारीक सारीक लिपलल्या गुटांची तिजोरी कसो. सुकना तसली तिजोरी. एका वेळार केसारव्हाळा वेले झरीचें आनी थरसांझरीचें उदक सुकत आसलें, पूण आमच्या किस्तूल्यो खबरांच्यो झरी केन्नाच सुकपाच्यो नासल्यो. तसो आलसू सभावान मातसो भिवकुरो खरो, पूण आयज ताचो निश्चेव सामको थीर आसलो. आनी ते खातीर ताळो भिजोवपाक जाय आसलो, आनी पोटांतूय इल्ले गरमेची गरज आसली.

म्हणून, "किस्तू, एक आल्याचो पाव हाड चोया!" म्हणत, आपल्याकूच धीर दियीत, :'ऑर्द' सोडली.

किस्तून पावा बरोबर सोडा बोतलीकूय हात घातललो पळोवन आलसून ताका आडायलो. "नाका नाका, आयज सोडा नाका. आयज 'ड्रायीच' घेतां. ताळो मात्सो खरजूंक लागला सो. थंडी जाता शी दिसता."
आलसून येरें हळूच घुंवडायलें. आपल्याक जें कितें विचारूंक जाय ते खातीर धीर जाय आनी, म्हणून, ड्राय घेतां हें सांगपाक जातालें? शी, लज बेश्टी.

आंग़ान घटमूट आनी तेजिस्त, सामको सिनेमांतलो नट कसो दिसपी किस्तूचेर नदर भोंवडायता आसताना आलसून आल्याचो ग्लासांत रकयलो आनी एक बरो कडक घोंट मारलो. सोरो कशे परीं, गळो ताळो लाशीत, आलसूच्या पोटांत पावतालो तें ताच्या तोंडा वेल्या हावभावांचेर नदर मारल्यार कळटालें.

"शी किस्तू, आल्या बरोऽ कडक आस मुरे!" खांकाडो काडीत आनी गळो पोशेत आलसू उलयलो. किस्तू तर तितल्याकूच रावतालो.

"हें आनी कितें रे आलसूबाब. तुका म्हण कित्याकितेंय दिवपाक जाता? तुका दिला तो आल्याचो सामको पोरणो. सदांच्या गिरायका खातीर कुशीन काडून दवरललो." किस्तून सोऱ्याचो 'ग्राव' चड़यत म्हणलें.

एक मात खरें आसलें. गांवांत कोणाकूय गांवटी वो भायलो पसून सोरो जाय जाल्यार

तो किस्तोदी कडेन मेळटालो. एका वेळार गांवच्या व्हडल्या भाटकाराक, आफ्रिकानिस्ताक पसून, ब्रांकु, तींतु, कॉन्याक, विस्की जाय जाल्यार तो हाडून दितालो. तसो किस्तूचो सभाव कोणाकूय पावपाचो. आफ्रिकानिस्त भाटकार विदेशांत आसतालो तेन्ना ताचीं भाटबेंसां पसून तोच पळेतालो. शिवाय तो भाटकाराचो शेजारीय. पूण हालींच मात तो आफ्रिकानिस्ता कडचो मातसो पयस जाल्लो. आनी आमच्या आलसूक तर खबर जाय आसली ती आफ्रिकानिस्त भाटकारा बाबतींतूच!

इतल्यान आलसूचे दोन सांगाती पाडेकार इश्ट, रुजार आनी सोदू भितर सरले आनी ताच्याच मेजार येवन बसले. तांकां पळोवन आलसूक आनिकूय धीर आयलो. आल्याचो पाव तर पोटांत पावललो आनी गरमी वाडत वेताली. म्हणसोर, पयसुल्ल्यान मुज्ग वाजतल्याचो आवाज आयकूंक आयलो. सोदून म्हणलें, ''आयज आफ्रिकानिस्त भाटकारागेर पार्टी आसा किर्तें? मुज्ग आयकूंक येता तें तांगेरूच. शिवाय पिकपीक लायटी बी घाल्याय तांगेर.'' हें आयकून रुजारीन आपले व्हटेन, हळू किस्तोदीचेर विस्त मारीत, सोदूल्या जोताक धरलें.

''आफ्रिकानिस्तांगे बाब किर्तें! तेंगेर आंतऱ्यापयऱ्यान केसो ना जाल्यार केसो तरी पार्ट्यो आसातूच. आनी अजाप म्हळ्यार इदादीन ८० वयर पावोत आयला खंय तो!'' आलसू तर बोट भितर घालूंक निमित्ताक रावतालो. आफ्रिकानिस्त भाटकाराची थोडी भोव खबर तो जाणा आसलो. पूण किस्तू इतली न्हय. आफ्रिकानिस्त भाटकार तर गांवांतलो चड मोटो भाटकार जावन आसलो. ताचें नांव ज्युझे इमेर्सियानु थेवदॉझियु दे काश्तॅलु ब्रांक इ दीयश आसलें, तरी ताका गांवचो लोक 'आफ्रिकानिस्त' म्हणुनूच वळखतालो. ताका आफ्रिकानिस्त म्हूण वळखूंक कारणां आसलींय बी. ताणें आपलें चडशें जिवीत उदेंत आफ्रिकेंत आसलले आदले पुर्तुगेज वसणुकेंत, मोझांबिकींत, सारललें. ताची आवय, दॉना तॅल्मा ही गांवच्या भाटकाराची, सि. रॉगासियानू पांतालियांव दीयश हाची एकलीच धूव. ती लिसेवार शिकताना एका पुर्तुगेज पाकल्याच्या मोगांत पडली, काजार जाली आनी घोवाक घरजांवय केलो. बाब ज्युझे इमॅर्सियानु हो तांचो एकटोच पूत. शिकप जातोच पुर्तुगेज प्रशासनांत उंचल्या पदाचेर ताची मोझांबिकींत नेमणूक जाली. आनी बरींच वरसां तो थंयच उरलो. आवय बापूय मरतकोच घरदार, भाटबेंस उबंत पडटा तें पळोवन ताका गांवघरा परत येवचें पडलें. आनी तेंय बी सामकें जाणटेपणार. तो येवचे आदीं ताचें सगलें आमचो किस्तोद पळेतालो.

लोक उलयताले तशे, ज्युझेन आफ्रिकेक आसताना, भुरगेपणार, सगले तरेचीं फोल्गां मारलीं. आनी भेंडभर चिखलांत रावुनूय काश्टी सुकी दवरली खंय. आनी सामकी तोंडांत बोट घालपाची गजाल म्हळ्यार, दोन वरसां फाटीं तो नव्यान भोंवडेक गेल्लो. परतो येताना, काजार जावन आयललो. बायल हाडलली ती सामकी २५ वरसांची सोबीत सुंदर गोरीपीठ बावलें कशी आसली. एक वरस जाता म्हळ्यार तांगेर एक बाब जालो. आयज तागेलो वाडदीस आसलो. आनी ताकाच लागून पार्टी आसली. फकत किस्तू मात पयलीं भशेन थंय वचो नासलो.

आलेसाचो दुसरो पाव सोंपत आयललो. मनांतलो दुबाव आयज कशेय तरेन जाग्यार घालूंक जाय आसलो. ताणें किस्तूक मातशे मोट्यानूच उलो मारलो.

''किस्तूबाब, मातसो हिंग यो रे! तुको किर्तें गरजेचेंऽ इचारूं जायें. तुका गांवची सगली बारीक पसून खबर आसा न्हू रे!''

आलसू आतां मातसो तर्र जायत वतालो हें कळटालें. किस्तूक दिसलें आपणें पोरणो आल्याचो भायर काडललो तें आपलें चुकलें काय? तरीय आल्याचो पाव कुशीन काडीत ताणें आलसूक विचारलें,

''आलसू सांग, किर्तें जाणा जावंक जाय तुका?''

''किस्तूबाब, चोय, आफ्रिकानिस्त सामको जाणटो जाला. ओय मुरे?''

किस्तून ओय म्हणलें.

''आफ्रिकानिस्तागे बायल सामकी तरनाटी, ओय मुरे?''

किस्तून परत ओय करीत मान हालयली.

''जाल्यार म्हाका आतां सांग चोयन, इतू जाणटेल्यागेर रोखडीं भुरगीं जातायी?''

अशें म्हणत ताणें मेजार हात मारलो. तरी बरें, रुजारीन, सोदून आनी किस्तून ग्लास आनी बाटल्यो सांबाळ्ळ्यो म्हूण. किस्तून किर्तें सांगचे पयलींच रुजारीन मर्दींच जाप घाली,

''तेशें किर्तें आसा तो तें! दादुलो आनी गाड गरोरार लागोता, एशें म्हुणटाय न्हूरे?''

आलसू तापलो! ''रुजार, तुगे मर्दी जाप नाका! तुगे तोंड बोंद! हां किस्तूबाब, सांग तूं किर्तें सांगता तें!''

ताणें किस्तूक परतो चोपक्यांत धरलो. किस्तोदीन सरभोंवतीं बारांत विस्त मारली. तांकां सोडून, नशीब म्हणटात तशें, बार त्या वेळार रितें आसलें. ताणें आलसूक म्हणलें,

''आलसू, तुका एक काणी सांगतां. बारीकसाणीन आयक हां! आफ्रिकेंतलीच खबर ती. एक शिकारी आसलो. एक दीस असोच रानांतल्यान पासोयेक गेलो. लागींच पासोय मारून येतलो म्हूण ताणें आपलें बंदूक हातांत धरूंक नासलें. हातांत फकत एक रोत आसलें. चलतां चलतां दोळ्यां मुखार एक वाग उबो जालो. शिकारी थाऱ्या भियेलो. तरी शिकारी तो. वागाक आपूण भियेलां म्हूण दाखोवंक उपकारना. ताणें सोमतेंच रोत बंदूक कशें उबारलें, खांदाक तेंकयलें आनी तोंडान ढो करून आवाज केलो. आनी, अजाप म्हळयार, वाग थंयच मरून पडलो. शिकाऱ्याक दिसलें, आपणें केलल्या आवाजाक भियेवन वाग मरून पडलो म्हूण. आनी ही खबर तो व्हडले व्हडविकेन सगल्यांक सांगूंक लागलो. पूण खरी गजाल वेगळीच आसली. तो शिकारी आपलें रोत खांदाक लावन तोंडान आवाज करतालो, त्याच वेळार फाटले वर्टेंतल्यान झाडा कुशीक रावून ताका दिश्टी पडोनासताना, दुसऱ्यानूच खरो फार सोडललो. आतां समजलो मुरे?''

आलसून मारलल्या आल्याचो 'एफेइत' देंवत वतालो.

*''मांय पाय काळीं चेडुवा,*
*गोरी कशी काती?*
*हांव जाललें दादुल्या,*
*चांदन्याचे राती.''*

हें कांतार म्हणत आलेसान घरची वाट धरली.





# पैज

**ज्योती कुंकळकार**

माधवाच्या आनी म्हज्या लग्नाक अठ्ठावीस वर्सां पुराय जालीं. भायर सामकें दमट वातावरण. पावस पडटा काय दिसतालें. मन अस्वस्थ आशिल्लें. उजो खूब जातालो. जीव नाकासो दिसतालो. काळजांत मळब दाटून आयिल्लें.

हांव कॉलेज करता आसतनाच म्हजें लग्न थारलें. ते मेरेन म्हज्या लग्ना संबंदीं हांव एक भव्य, दिव्य सपनूच पळयतालें. घोव कसो आसचो हाचेर हांव केन्नाय चिंतीत बसतालें. एकाद्र्या टिपिकल फ्रँच प्रियकरा सारको, खूब रोमँटीक. एकाद्र्या अमेरिकन दादल्या भशेन देखणो. पूण ताचें काळीज मात भारतीय दादल्या सारकें नितळ आसूंक जाय. आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, सुसंस्कृतपण, सभ्यता हे गुणूय ताचे ठांय आसपाक जाय. म्हणजेच, असामान्य असो सांगाती म्हाका जाय आशिल्लो. पूण माधवाचो फोटो पळयलो त्याच खिणाक म्हज्या सपनांचो सामको पिठो जालो.

देवा, असलें कसलें ओबड-धोबड मुखामळ आनी तेंवूय सामकें निर्विकार, मठ्ठ! चड शिकूंकना, बापायचो लाडको, आस्पतीन बरो, व्यवसाय बरो चलना हें म्हज्या कानार आयिल्लें. ते भायर म्हजे परस चार आनी पांच न्हय तर बारा वर्सांनी व्हड. आनी तो काळ सामको मागाशिल्लो नाशिल्लो हें म्हत्वाचें. तरी आसतना ते मुस्तींत लग्नाचे बाबतींत चलयेचें मत विचारांत घेवपाची पद्दत नाशिल्ली म्हळ्यार जाता. पूण आमच्या घरांत वातावरण मातशें मेकळें आशिल्लें. सगळीं भावंडां शिकिल्लीं. म्हजो बापूय सरकारी नोकरेंत बऱ्या हुद्द्यार आशिल्लो. म्हजे विशीं ताका खूब आस्था, प्रेम आशिल्लें. हांव मनान खूब सादें, सरळ आनी हुशार आशिल्लें. म्हज्या स्वातंत्र्याचेर, जावं, हांगा-थंय भोंवपाचेर ताणें केन्नाच कसलींच बंधनां हाडलीं नात. म्हाका ल्हानपणा पसून काणयो बरोवपाची, नाटकांत काम करपाची, वाचनाची, खेळाची आवड आशिल्ली. ताकाय केन्नाच कोणें ना म्हळें ना. वयल्यान उत्तेजनच दिल्लें. जिविताचो मना पसून आनंद घेवप, ही बापायची धारणा आशिल्ली. खरें म्हळ्यार, म्हज्या मनांतलें ज्या मनशा कडेन हांव मेकळेपणान उलोवंक शकतालें, सांगपाक

शकतालें अशी एकच व्यक्ती आशिल्ली, ती म्हळ्यार, म्हजो बाबा.

''बाबा रे, हांव तुमकां जड जालां?''

''कित्याक म्हणटा बाय?''

''म्हाका आनीक शिकपाक जाय. नोकरी करपाक जाय, म्हज्या पांयार उबें रावपाक जाय!!'' एक खीणभर बाबा म्हाका पळयत उरलो.

''पूण आयज ना फाल्यां केन्नाय तरी एक दीस तुका लग्न जावचेंच पडटलें.''

''हय, पूण तें आतांच जावपाक जाय अशें ना न्ही?''

''घराणें बरें आसा. चल्या भुरग्याक तूं आवडलां. ताणें जावन विचारलां. जंय आपूण जावन वचचें पडटा, थंय कोणें तरी आपणें जावन उतर घालां, ताका चड किंमत न्ही? आनी बाय, असल्यो गजाली परत परत जुळून येनात.''

''अशें कशें बाबा? म्हजीय म्हूण आवड आसा काय ना?''

''आगो, पूण माधवांत कितें वायट आसा? पयलीं इतलीं तीं भाटकारां नासत, पूण आमचे परस धा वांट्यांनी बरीं आसात. शेतां-भाटां, कुळागर-काजू-अनसां... बाराय म्हयने हातांत पयसो घोळटा. ते भायर धंदोय चलता. फॅक्टरी आसात. घरांत कसलीच जबाबदारी ना. सगळ्यांचीं मनां सांबाळून राणये भशेन राज्य करतलें तूं. म्हजो विश्वासूच न्ही, म्हाका खात्री आसा. आनी हें सगळें चिंतून हांवें तुजें लग्न थारायलां. जिवितांत कितेंच उणें पडचेंना तुका.''

''बाबा, ताचें तोंड पळयलां तुवें?''

''बेठें तोंड पळोवन मनशाचें मोल केन्नाच करचें न्ही. कुडीचे सुंदरकाये परस आनिकय खूब कितें बरें आसता. आनी शिक्षणाचे बाबतींत सांगपाचें जाल्यार शिक्षणीक पात्रता पदव्यांचे फुटपट्टेन मेजपाची नासता.'' अकस्मात बाबाचें हें तत्वज्ञान आयकून हांव अजापभरीत जालें.

''बाबा...'' हांव कितेंय उलोवचे पयलीं बाबा मोन्यांनी भितर गेलो. बाबा असो कित्यांक वागता? घडये तीन वर्सां पयलीं ताईच्या लग्नाचो खूब बोवाळ जालो. लग्न ठरले उपरांत ताईन सांगलें, आपल्याचो एक मित्र आसा, ताचे कडे हांव लग्न जातलें. तेन्ना बाबाक ठरिल्लें लग्न मोडपाक खूब मानसीक त्रास जाले. सोयऱ्यां कडसून आयकुचें पडलें. घडये तोच विचार बाबाच्या मनांत आयला काय? एके भावनेच्या भरांत हांव लग्नाक तयार जालें. कसलोच वाद घालो ना. पूण म्हज्या मनांत मात एक कोनसो काळखोच उरलो. दुखेस्त अंतस्कर्णान हांव म्हज्या लग्नाचे तयारे कडेन पळेत रावलें. कसलोच फुडाकार घेतलो ना. इतलेंच कित्याक? शालू लेगीत भावजेनूच हाडलो.

लग्नाच्या दिसा मंगलाष्टकां सोंपतकच अंतरपाट कुशीक सरलो आनी म्हजी नदर ताचेर पडली. जितले उमळशिकेन नदर पडली तितल्याच वेगान ती हांवें फाटीं घेतली. माळ घालतना तो चेरो म्हाका आनिकूय घुमो दिसलो. तो मध्यम उंचायेचोय नासलो. सामकोच मोटवो. सामकी वीट येवची अश्यो मिशयो. फुडलें आयुश्य असल्या मनशा बरोबर घालोवपाचें, हाचे बरोबर न्हिदपाचें... भुरगीं जल्माक घालपाचीं... शी...

पयलेच रातीक आपलें रुक्ष मुखामळ बदलपाचो ताणें यत्न केलो. कुडीचें दार बंद केलें आनी तोंडा वयलो त्राशीक भाव अचळय नाच केलो. टेबललँप पेटयलो. मेजा वयल्या फ्लावर पोटांतलो एक गुलाब घेवन तो म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हाका पळयत रावलो. फुडें कितें जातलें हें म्हाका खबर आसलें. मनांतल्या मनांत हांवें तयारी केल्ली. पूण आतां म्हजो ताळो सामको सुकून आयिल्लो. ताणें आपलो हात म्हज्या खांद्यार दवरलो तशें म्हाका कलकलपाक लागलें. हांवें ताका कांयच प्रतिसाद दिलो ना. म्हाका हें लग्न मान्य नाशिल्लें म्हणपाचें कितें तरी म्हाका सांगपाक जाय आसलें. मनांतल्यान खूब राग आयिल्लो... घुस्मटमार जाल्लो. तरी वगी रावन हांव फुडले घुरयेची वाट पळयतालें. आनी एका खिणांत ताणें म्हाका भोगून घेतलें. मांजर हुंदराचेर उडी घालता तशें. कसलोच शृंगार ना, उलोवप ना, हांसप ना. कसलेच चाळे नात. नवें ताल्ल न्हेशिल्लें पातळ मात लेगीत चुरलें ना. हातांतलो पांचवो चुडो मातय किणकिणलो ना. माथ्यांतले मोगऱ्या फांतयेंतलें एकूय मोगरें उश्यार पडलें ना. आनी दुसऱ्याच खिणाक तो घोरेवपाक लागलो. हांव ताका पळयत उरलें. आतां अशेंच आख्खें आयुश्य सारपाचें...

माधव आवय-बापायचो एकलोच पूत. एकलो आसपांत फायदे आसतात तशीं उणेपणांय कमी नासतात. सुवार्थी... कशें वागप, कशें उलोवप, खावप-जेवप, कशें रावप हाचें मातूय धंगण नासलें. घर मात व्हड. संपत्तीय खूब. म्हाका दिसलें, हाका एक भावंड आशिल्लें जाल्यार घडये घरांत वेगळें वातावरण आसपाचें. हाचो सभावूय इतलो रुक्ष आसचो नासलो.

लग्नाच्या दुसऱ्या दिसा आमी बॅडरूमांत बसून लग्नाक आयिल्ल्यो भेटवस्तू पळयतालीं. हाचे आते भयणीन हाका एक बरी वज्राची मुदी दिल्ली. हांवें सहज म्हळें, ''पांच कॅरटांचें तरी व्रज आसतलें. कितलें चकचकता पळय.''

''पांच न्ही, दोन कॅरटांचें आसतलें...'' माधवान म्हळें.

''ना. पांच कॅरटांचें.'' म्हज्यान रावूं नज जावन हांवें परत म्हळें.

''ओगी राव, चड शाणपणां उलोवं नाका. हांवें सांगलें दोन कॅरटांचें म्हणटकच तें तितलेंच आसतलें. आनी एक सांगतां, म्हजे बरोबर वाद केन्नाच घालूं नाका.'' एकदम ताचो असो अवतार पळयलो खरो पूण हांव मातूय बदलें ना आनी फांटीं सरप म्हजो पिंडूच न्हय.

''ना. पांचूच कॅरटांचें तें. पैंज मारता?'' म्हज्या तोंडांतल्यान एकदम उतरां भायर सरलीं. ल्हानपणा पसून पैज मारपाची म्हाका खूब संवय. पावस पडटलो काय ना? इंडिया मॅच जिखतली काय ना? खंयच्या भागांत खंयचो आमदार वेंचून येतलो? एक न्हय दोन. हांव पैजो लायतालें. पैज लावपाक अमकेंच कारण जाय अशें नासलें. कसलेंय निमित्त पुरो जातालें आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, दर फावट हांवूच पैज जिखतालें. हे खातीर घरांतलीं सगळीं जाणां म्हजी तोखणाय करतालीं. माधव म्हजे कडेन पळयत म्हणूंक लागलो, ''बरें आसा, लायली पैज.''

''तूं शेर्त हारतलो.''

''पळोवया... आनी तूं हारलें जाल्यार?''

''तूं सांगता तें आयकतलें.''

माधव कांयच उलयनासतना उठलो. मुदयेचें बॉक्स बॉल्सांत घालून भायर सरलो. हांव म्हज्या कामाक लागलें. न्हावन-धुवन

देवाची पुजा करता म्हणसर माधव घरांत भितर सरलो. ल्हवपीक पावलांनी बॅडरूमांत गेलो. हांवें ताचेर व्हड अन्याय करून ताका त्रासांत घाल्ले बशेन खुनशी नदरेन तो म्हाका पळयत गेलो. हांव समजुपाचें तें समजलें. पैज जिखिल्ल्याची खोस खिणभर लेगीत भोगली ना. आनी ताका कांय विचारलेंय ना.

पयलीं पयलीं ताच्या सभावाचो अदमास म्हाका येनासलो. केन्नाय आवडीन हांवें घरकामांत लक्ष घालें जाल्यार घरच्या काम करपी बायलांचेर तो वगीच चाळवतालो. केन्नाय रांदचें कुडींत आवडीन एकाद्रो जिनस करपाक गेलें जाल्यार रांदपिणीचेर धेंगशे घालतालो. ते खातीर घरांत कितें करपाचें हो म्हजे मुखार व्हडलो प्रस्न आसतालो. वाचून वाचून कितलो वेळ वाचतलें? बसून रावपाची म्हाका संवय नासली. तरी आसतना माधव फॅक्टरींत गेलो म्हणटकच हांव कित्याकूय हात-बोट घालतालें.

आनी, अशा वेळार भक्ताक प्रसन्न जाल्ल्या देवा भशेन म्हजे बरोवपाचे आवडीन तकली वयर काडली. लेखन म्हजो आवडीचो छंद! म्हज्या जिविता कडल्यान म्हजी कितें अपेक्षा आसा, हें सदांच हांव बरोवन सांगतालें: म्हज्या मनांतलीं उतरां प्रगट जावपाक लागलीं जाल्यारूच हांव ह्या घुस्मटमारांतल्यान भायर पडूंक पावतलें अशें कितें तरी म्हाका दिसपाक लागलें.

एक दीस सदचे परस मातसो बेगीनसो माधव घरा आयलो. जाल्यार हांव बरोवपांत गुल्ल! थोडो वेळ विसव घेतकूच म्हजे फाटल्यान येवन अचळय उबो रावलो.

''कितें चल्लां?''

हांव कदेली वयल्यान उठलें ना. आनी फाटल्यानूय पळयलें ना.

''हांव बरयतां.''

''तें दिसता म्हाका, पूण कितें बरयता?''

''कथा!''

आंगार पाल पडची तसो तो कांचवेलो आनी मागीर मुखार येवन तकली बागोवन एक-दोन वळी वाचपाक लागलो.

''हांव घरा येवन अर्दवर जालें.''

''खबर आसा म्हाका. दुसरें कांयच करपाची परवानगी ना म्हणून बरोवंक बसलां.''

कांय दीस हांव बरयत रावलें. म्हजें हे भाशेन बरोवप ताका व्हडलेंशें मानवलें ना. एक दीस विचार करपाक बरोच वेळ घेतलो आनी मागीर म्हणपाक लागलो, ''जें तूं एकलेंच वाचतलें त्या बरोवपाचेर इतलो वेळ खर्च कित्याक करता? ते परस पयलीं तूं पुस्तकां वाचतालें तशें वाचीत राव. थोडें तरी भायलें ज्ञान मेळटलें.''

''हांवें बरयल्लें हांव एकलेंच कित्याक वाचतलें? म्हजी कथा आनिकूय खूब लोक वाचतले.''

''म्हणजे, तूं काणयो सांगत भोंवतलें?''

''म्हजी कथा हांव मासिकाक धाडटलें, मागीर ती छापून येतली, छापतकूच खूब लोक ती वाचतले.''

''कितें? तुजी कथा छापून येतली? ती कोणें छापूं नाका? मागिरूच लोक वाचतले.'' ताका हांसूंक आयलें आनी तो व्हडल्या व्हडल्यान हांसपाक लागलो.

''तुका कितें दिसता? म्हजें लिखाण उजवाडावपाचे लायकीचें ना?''

''तातूंत कसलो दुबाव? कोणूच शाणो मनीस तुजी कथा छापचो ना. तुका आपणा विशीं सुमारा भायलो आत्मविश्वास.''

ह्या उतरांनी म्हज्या मनाचो तोल सुटलो. आनी हांव उलोवन गेलें – ''पैज मारता? समज, म्हजी कथा 'जाग' मासिकांत छापून आयली जाल्यार?''

माधवान म्हजे कडें दुबावान, तिडकीन पळयलें. ती नदर कांट्या भशेन काळजाक तोंपली. हांव उठलें आनी ताचे म्हऱ्यांत गेलें.

''पैज लावपाक भियेता?''

''हांव कित्याक भियेतलों? हांव खंयचेच गजालीक भियेना.''

''मागीर, म्हजी कथा छापून आयली जाल्यार म्हाका बरोवपाक केन्नाच आडमेळीं हाडचो ना न्हय? कबूल?''

''हय, आनी तुजी कथा छापून आयलिना जाल्यार हे फुडें आयुश्यांत तुका पेन हातांत धरपाक मेळचें ना. कबूल?

''कबूल.''

मागीर दोन-चार दीस हांव कथाच घेवन बसलें. माधवान कसलेंच आडमेळें हाडलें ना. म्हज्या मना सारकी कथा बरयली. निवळायली. आनी 'जाग' मासिकाक धाडून दिली. संपादकीय निर्णयाची वाट पळयत रावलें. कांय दीस गेले. कांयच जाप आयलिना. म्हजें मन धास्तावलें. मागीर हांव विसरुनूय गेलें. मदीं म्हजो मांव बरो ना जालो. हॉस्पिटलांत उरलो... कांय दिसांनी तो गेलो. हातूंत एक-दोन म्हयने गेले.

कांय दिसां उपरांत म्हजी इश्टीण रुपाली आमगेर आयली. म्हजी 'जाग' मासिकांत उजवाडा आयिल्ली कथा आवडली म्हूण सांगून ताणें म्हाका घट्ट वेंग मारली. आनी हांव अजापभरीत जावन पळयत उरलें. रुपा कितें उलयता, सांगता हाचेर म्हजें मातूय लक्ष नासलें. तें गेलें तेन्ना म्हज्या मनांत दुबावाची पाल चुकचुकली. माधव आरमारीच्या एका खणांत ऑफिसाचीं कागदपत्रां दवरतालो. तो खण उस्तिना फुडें म्हाका 'जागा'चो अंक मेळ्ळो. अंका बरोबर संपादकान धाडिल्लें पत्रूय. ''तुमची कथा खूब आवडली. तुमचो घरकार तुमचे कथे बद्दल चवकशी करपाक आयिल्लो तेन्नाच अंक तयार जाल्लो म्हणून अंक आनी फूल थंय फुलाची पाकळी म्हणून थोडेंशें मानधन बरोबर धाडटां. आमच्या वाचप्यां खातीर तुमच्यो आनीक कांय कथा बेगीन धाडल्यार उपकारी जातलें.'' हे गजालीक एक म्हयनो जावन गेलो. एके उमेदीचे भावनेन म्हजें मन आनी शरीर आनंदीत जालें. जाल्यार दुसरे वटेन गळो आनी दोळे भरून आयले. म्हज्या मनांत एक कोडसार भावना जागी जाली. म्हज्या घोवाचो म्हाका आतां तिरस्कार दिसपाक लागलो. दिल्ल्या उतराक पाळो ना दिवपी हो मनीस कपटी कसो दिसूंक लागलो.

उपरांत ताच्या उलोवण्याचेर म्हजो विश्वासूच उरलो ना. हो मनीस सदांच उंटा भाशेन तिरकस चलपी आनी तसोच उलोवपी! ताचे कडेन मना पसून उलयनूच दिसना जालें. ताचे आरमारीच्या खणांत अंक मेळ्ळो त्या दिसा पसून हांव परत बरोवपाक बसलें. दाव्या दोळ्यान म्हाका पळेतालो. पूण कितें बरयता हें विचारपाचें धाडस ताणें केन्ना केलें ना. एक दीस दनपारची सुस्त न्हीद काडून उठ्ठकच बरोवपाचो बरो मूड आयलो. रातचेंय हांव बरोवंक बसलें. ल्हवू ल्हवू रात वाडपाक लागली. हांव बरयत रावलें. तो खाटीर बसून म्हजी वाट पळयतालो. ताणें म्हाका कदेली

वेलें उठयलें ना. आनी हांवें म्हजें पेन खिणभर लेगीत सकल दवरलें ना. हांव किते बरयतां हें म्हत्वाचें नाशिल्लें. पूण म्हजे कडेन फटींगपणां करपी मनशाक एक दीस तरी वळवळत दवरून हांवें इल्लो तरी आसुरी आनंद मेळयलो.

म्हजें लेखन चालूच आशिल्लें. आनी एक दीस म्हज्या जिवाक बरें दिसना जालें. ओंकारी येवपाक लागली. तोंडाक रूच ना जाली. दोन दीस हांथरुणाचेर लोळून काडले. माधवान मागीर दोतोराक हाडलो, तपासलें आनी ताणें म्हाका दीस गेल्ल्याचें सांगलें. ही खबर आयकतकूच माधव सामको खूश जालो. घरांत येवपी पयल्या भुरग्याची सुलूस सगळ्यांकूच खोस दिवन गेली. ल्हवू ल्हवू दीस वताले. ह्या मदल्या काळांत म्हज्यो तीन कथा प्रकाशीत जाल्यो. त्या मासिकांचे अंक माधवान आपणेंच वचून हाडले. एका दिवाळी अंकाचे कथा सर्तींत म्हाका पयलें इनाम फावो जाल्लें. ताची रकम आनी कांय संपादकां कडल्यान प्रशंसेचीं पत्रां आयिल्लीं. तिंवूय ताणेंच हाडलीं. ताका कसलीच खोस मात जावंक नासली. तो आपल्या कामाचोच एक भाग अशें घडये ताका दिसलें आसुंये. पैजेंतलो आपलो पराभव तो ल्हवू ल्हवू मान्य करपाक लागलो अशी म्हजी भावना जाली.

म्हाका णववो म्हयनो चालू आशिल्लो. ह्या वेळार माधवान म्हजी बरीच जतनाय घेतली. किते जाय-नाका तें तो पळयतालो. दर म्हयन्याक दोतोरागेर चेकपाक व्हरतालो. भाजी, नुस्तें, फळां, दूद किर्तेच कमी कर नासलो. घरांतल्या चाकरा कडेन खाणां-जेवणाचें, वखदांचें वेळापत्रक दिवन दवरिल्लें. आतां हांवूय जाता तितलें नॉर्मल वागपाचो यत्न करतालें.

अकस्मात एक दीस माधव उमेदीन खूब खेळणीं घेवन आयलो. बरे बरे बावले, बॅट-बॉल, अशीं खूब तरांचीं खेळणीं. म्हाका अजाप दिसलें. आनी हांसुंकूय आयलें.

"एकदम इतलीं खेळणीं घेवन घरसो भरपाक लागला? भुरगें जायना फुडें खेळटलें काय किते?"

"हय, सगळीं खेळणीं म्हज्या बाबू खातीर हाडल्यांत."

"बाबू खातीर म्हळ्यार? बाबू जातलो म्हण तुका कोणें सांगलें?"

"कोणें कित्याक सांगपाक जाय? म्हजो विश्वास आसा. म्हजो बापूय-पापा- जल्माक येतलो."

"आनी चली जाली जाल्यार?"

"शक्यूच ना. म्हाका चलोच जाय. ह्या बावल्या सारको गुडगुडीत, गोरोच!"

"म्हजे सारकी चली कित्याक नाका?" कांय खिणां खातीर म्हजें मन दुशीत जालें. जीं उतरां हांव ओंठांर हाडचें ना म्हूण आशिल्लें तींच ज्युस्त ओंठांर आयलीं.

"पैज मारता? चलीच जातलें!" म्हजीं उतरां आयकना फुडें ताची पांयाची तिडक मस्तकाक मारली. दांत-ओंठ खायत तो किर्तें तरी पुटपुटलो.

"किर्तें जालें? म्हजे कडेन पैज मारपाक सामको भंय दिसता न्ही?"

"कित्याक काय म्हणटां? अशें कोण तूं? व्हडलें ज्योतिशी बी? सदां पैज जिखता खंय तूं."

"हय? म्हाका चली जालें जाल्यार दुसऱ्या भुरग्याची अपेक्षा केन्नाच करप ना. आनी चलो जालो जाल्यार चल्याक तुज्या मना सारको वाडय. हांव तातूंत केन्नाच धवळा धवळ करचें ना. जालें?" तो किर्तें तरी गुणगुणत भायर गेलो.

म्हाका माधवा विशीं ल्हवू-ल्हवू आपलेपण दिसपाक लागलें. आपलेपण काय सहानभुती तेंवूय कळपाक मार्ग ना. पूण मन ताचे कडेन ओडूंक लागलें.

म्हजे दीस भरले. एके फांतोडेचेर म्हज्या पोटांत जावपाक लागलें. माधवूच म्हाका हॉस्पिटलांत घेवन गेलो. सुमार स वरांनी डिलिवरी रुमांत व्हेलें. वतना म्हजो हात घट्ट धरीत माधव म्हणपाक लागलो, "बॅस्ट ऑफ लक. म्हाका चलोच जातलो. हांव तेवूय अवस्थेंत मुमरखें हांसलें. कांय वेळान दोतोरान सांगलें, 'चली जाली.'

ते उपरांत माधवान म्हजे अपुरबायेचे धुवे कडेन सामकीच आडनदर केली. बापायचो मोग ताका मेळ्ळोच ना. मागीर मात म्हाका परतून परतून ताचो राग येवपाक लागलो. ताचें उतर म्हळ्यारच म्हजें पित्त खवळपाक लागलें. तोय आपल्या व्यवसायांत गुल्ल जावपाक लागलो. त्या निमित्तान भायर वचप वाडपाक लागलें. हांवें म्हजे चलये बरोबरच स्वतंत्र विश्व उबें केलें. ताका खूब अपुरबायेन वाडयलें. कसलींच बंधनां घालिनात आनी सुमारा भायर स्वातंत्र्यूय दिलें ना. शिक्षणांत ताणें नांव जोडलें. ल्हवू ल्हवू हांवेंय म्हजें साहित्यविश्व उबें केलें. म्हणटासर म्हजे दोन कथासंग्रह उजवाडाक आयले. ल्हान-व्हड पुरस्कार मेळ्ळे. साहित्य संमेलनांनी, परिसंवादांनी कथे विशीं उलोवपाक-बरोवपाक लागलें. ल्हान जावं, पूण म्हज्या लेखनाचो आदर करपी वाचपी वर्ग तयार जालो. एक नांवाजती लेखिका म्हणून म्हाका नामना मेळ्ळी.

चलयेक जे तरेन वाडोवपाची म्हजी इत्सा आशिल्ली तशेच तरेन हांवें ताका वाडयलें. युनिव्हर्सिटींत पयलें येवन दोळे दिपकावपी यश ताणें जोडलें. त्या दिसा सगळ्या वर्तमान पत्रांनी बायचो फोटो पळोवन माधव खोशी जालो. त्या निमित्तान ताणें उमेदीन एक पार्टी केली. फुडल्या शिक्षणा खातीर बायक अमेरिकेक धाडपाचो निर्णय हांवें घेतलो आनी सगळी तयारी माधवान केली. शिक्षणा खातीर ताका अमेरिकेक धाडलें. एअरपोर्टार दोगांय पावपाक गेलीं. परत येतकच मात माधव खूब रडलो. हांवें सांत्वन केलेंना. ताचें हें रूप खरें काय फट? हांव दुबावांत पडलें.

म्हजें शुभू सभावान शांत आनी संयमी आसलें. बुद्दीचें, शिक्षणाचें, शिस्तीचें आनी वेळाचें म्हत्व हांवें ताच्या मनाचेर बिंबयल्लें. दोन वर्सांनी आपले वळखीच्या अमेरिकन वैमानीक चल्या बरोबर ताणेंच आपलें लग्न थारायलें. म्हाका खूब बरें दिसलें. माधव शुभू कडेन फोनाचेर बरो उलयतालो.

म्हाका मात माधवांत खूब व्हडलो बदल जाला अशें दिसलें ना. बिझनेसांत थोडे वायट दीस आयले. तेन्ना ताका थोडो मनस्ताप जालो. एक व्हडलें फार्म हावज ताका विकचें पडलें. तेन्ना म्हाका ताणें विश्वासांत घेतलेंना. समाधाना खातीर जावं वा मन ल्हव करपा खातीर जावं, तो म्हजे कडेन केन्नाच आयलो ना. मनांत किर्तें तरी राग धरून विचित्र पद्दतीन म्हजे कडें वागतालो.

चलयेच्या जल्मा उपरांत आमचे दोगांयचे बॅडरुमूय वेगळे जाल्ले. चली व्हडलें जातालें तितलें आमचे दोगांय मदलें अंतरय वाडटालें.

आमी दोगांय एकामेकां कडेन उलय नासतना रावनात. पूण सगळें सांबाळून सामकें सुर्के, तात्पुरतें, कामा पुरतें उलोवप आसलें. एकाच कुटुंबांत रावनूय आमी वेगळीं रावलीं.

गेल्या वर्साचे चवथी कडले दीस. घरांत नोकर चाकर धू-पूस करताले. रंग काडटाले. हांवूय हेवटेन तेवटेन बोवाळटालें. तीन वर्सांनी शुभू आनी जावपी जांवय रॉबिन आनी ताचें कुटुंब भारतांत येवपाचें आसलें म्हूण चड चत्रायेन काम करप जातालें.

त्या दिसा बंगल्याचें रंगाचें काम सोंपले उपरांत नोकर पुराय बंगलो धुतासर हांव उबें रावन पळयतालें. तिळसानां देवाक दिवो लावन बॅडरुमांत गेलें जाल्यार काळजांत किसकिसपाक लागलें. घामाच्यो पांवळ्यो देंवपाक लागल्यो. ताचे पयलीं थोडेशे दम्याचे त्रास चालूच आशिल्ले. म्हाका खूब त्रास जावपाक लागलो. घामान सगळें आंग भिजलें. हांवें बेगीन बेगीन चाकराक उलो मारलो. म्हज्या विचित्र आवाजान माधव एका खिणांत शेजारच्या बॅडरुमांतल्यान धांवत आयलो. रोखडोच दोतोराक फोन केलो. म्हाका रोखडेंच हॉस्पिटलांत ॲटमिट केलें. मेजर ॲटॅक आसलो. माधव दनपरां रातचो चुकयनासतना हॉस्पिटलांत येतालो. हुस्क्याचे दीस सोंपले. णव दिसांनी हांव घरा परतलें.

माधव रातचो म्हज्याच बॅडरुमांत न्हिदपाक लागलो. चड उलोवप ना. पूण ताचें आसप म्हाका धीर दितालें. पयलेच फावट ताच्या दोळ्यांत हुस्को दिसलो. वासनेन भरिल्ले आसताले ते हेच दोळे काय? असो दुबाव म्हाका पडटालो. एका सारको म्हाका पळयत रावतालो. म्हाका ओगीच ऑकवर्ड दिसतालें. लग्न जाल्लीं तेन्ना तो असोच केन्ना केन्नाय नदर लावन पळयत बसतालो.

"कित्याक असो पळयता? आतां हांव जाणटें जालें. आतां म्हजे दीस उरल्यात तरी कितले? फकत शुभूचें लग्न पळोवपाक मेळ्ळ्यार पुरो" अशें हांवें म्हळें मात, कितल्या वर्सांनी ताणें म्हजो हात आपल्या हातांत घट्ट धरलो.

"ना, अशें म्हणूं नाका. तुका कांयच जावचेंना. तुजे पयलीं हांव वतलों."

"ना केन्नाच ना. म्हजे परस तुजी भलायकी ठणठणीत आसा. कसलेंच दुर्येस तुका ना..."

"ना, हें हांव खात्रीन सांगतां, तुजे पयलीं हांवच वतलो."

आनी निमाणें घडपाचें तेंच घडलें. जीं उतरां फाटल्या दोन दसकांत हांवें उच्चारूंक नाशिल्लीं, जीं हांव विसरून गेल्लें तीं म्हज्या ओंठांर आयलीं. "पैज? मारता?"

माधवान फटक् करून आपलो हात म्हज्या हातांतल्यान काडून घेतलो आनी म्हाका पळयत रावलो. हांवें सहज म्हळें,

"कितें, पैज लावपाक भिता? हांवच पैज जिखतां, केन्नाच हारना न्ही?" आनी हाचे पयलीं केन्नाच घडूंक नाशिल्लें तें घडलें. ताच्या तोंडांतल्यान एकदम कर्कश आवाज आयलो. "ना. हांव निखालस भिवूंक ना. आयुश्यांत एकदां तरी तूं हारतलेंच. पळेशीत तूं." ताणें तुरतुरीत उठून लायट बंद केली. घटघटीत उदक पियेलो आनी खाटीचेर आड पडलो. ती रात म्हाका अस्वस्थ करून केली. कित्याक आजय पैज लावपाची अवदिसा म्हाका आयली? ओगीच माधवाचो मूड ऑफ केलो. पूण ही पैज मात म्हाका जिखपाकूच जाय. माधवाचो हात घट्ट धरून हांव न्हिदेचे सुवादीन जालें.

दुसऱ्या दिसा उसरांच जाग आयली. चाकर सदांच सकाळीं च्या घेवन येतालो. ताचे बरोबर माधव पेपर धाडटालो. च्याची किटली आसा पूण पेपर ना. माधव खंय दिश्टी पडना. तशेंच ल्हवू उठलें आनी भायर आयलें. पेपराची घडी तशीच टिपॉयचेर आसली. आयज माधवान पेपरूय वाचूंक नासलो.

इतल्यान आमच्या नाल्लाच्या लॉजांत काम करपी रघुवीर मोठ्यान आड्डत भितर आयलो. "वैनीबाय... वैनीबाय!"

"आरे कितें जालें, रघुवीर?"

"वैनीबाय, सकाळीं लॉजाचें दार उकतें आशिल्लें. रातीं कुलूप लावन गेल्लों... म्हणून धांवत भितर वच जाल्यार धनयान पाटयेर गोळ लावन घेतला!"





# हुमरो आनी माजघर

**मधुसूदन जोशी**

तोंडांत घाल्लें बोट चोखत बाळून दोळे किलकिलायले. दोळे अर्दकुटे उकते जाले. अर्दकुट्या दोळ्यांत काळखा वांगडा हय न्हय सो उजवाड रिगलो. बाळूक कुशीक संवकळीची ऊब मेळ्ळिना तेन्ना ताचे दोळे पुराय उकते जाले. उकत्या दोळ्यां मुखार माजघरांतलो काळोख आयलो. बाळूक जांगे पोंदा ओलें लागिल्ल्यान ताणें कूस परतिली. फुडल्या दारांतल्यान उजवाड माजघरांत रिगतालो. उजवाड तोंडार पडिल्ल्यान बाळूल्यो पातयो हाल्ल्यो. तो कुशीर परतलो. परततना तोंडांतलें बोट भायर सरलें. दिमकुऱ्यांनी बाळू दारा मेरेन आयलो. फुडले हात हुमऱ्यार दवरून तो उदेंतेंत वयर सरपी तांबड्या गुंज सुर्याक पळोवपाक लागलो. आंगणांत सवणें येवन चिंवचिंवपाक लागिल्लें. बाळूची नदर ताचेर थिरावली. सवण्याच्या चिंवचिंवांत ताणें आपणालो हुंहुंत्कार मेळयलो. बाळूचो हुंऽहुंत्कार आयकून आंगणांत पणसा मुळात आशिल्ली गाय दारा कडें आयली. वासरे वयल्या एका सोपणार गायन फुडले पांय दवरले. कान दारा वटेन करून ती बाळूक पळयत रावली. बाळून गायक पळोवन आपणालो माणकुलो हात वयर काडलो. दोन मोनीं मनां दोळ्यांनी उलोवपाक लागिल्लीं. गायन मान नेटान हालयली. तिच्या तोंडांतली लाळ सोपणार पडली. बाळून फुडें सरपाच्या यत्नांत दुसरो हात उबारलो. पूण हुमऱ्या भायलें सोपण बरेंच सकयल आशिल्लें. ताचो हात सोपणा मेरेन पावलो ना. बाळूची गोलांटमारी जाली. तो करांदाय मारपाक लागलो. बाळूची करांदाय आयकून गायन सोपणा वयले पांय फाटीं घेतले. कान फाटीं घेवन ती रडपी बाळूक अगतिकायेन पळोवपाक लागली. आंगणांतलें सवणें झाडार वचून बसलें. पणसाचे खांदयेर बशिल्ल्या कावळ्यान नेटान 'कावकाव' करपाक सुरवात केली. इतल्या बोवाळांत बाळूची आवय रांदचे कुडींतल्यान भायर वासरेर आयली. बाळू उमथो पडून रडटालो. आवयन ताका ओगी करपाच्या यत्नांत दारांत उबी आशिल्ले गायक हामुडली. बाळून व्हडल्यान रडपाक सुरवात केली. आवयन ताका थातारीत गाय म्हऱ्यांत हाडलो. गायन बाळूक पळोवन 'हाम्मा!' केलें. नाक फुलयत वास घेवपाक लागली. रडपी बाळून दोनूय हात गाय वटेन केले. बाळूक घेवन आवय गाय म्हऱ्यांत आयली. गायन बाळूचो वास घेतलो. जिबली भायर काडून चाटपाचो यत्न केलो. गायचे जिबेचो थंड पोंत बाळूच्या पावलाक लागलो. गायची खरखरीत जीब बाळूचे आवयच्या हातार भोंवली. गायचे जिबेच्या स्पर्शान बाळूचें रडप थारलें. पोल्यां वयल्यान दुकां व्हांवपी बाळूच्या मुखामळार हाशें फुल्लें.

बाळूचे आवयच्या मनांत रिगिल्लो भंय वासरे वयल्यान माजघरांत गेलो. मेस्ताक सांगून माजघर आनी वासरी हांचे मदल्या दाराक फळी मारपाचें तिणें येवजिलें. दिमकुऱ्यांनी वचपी बाळूक सांबाळपाक फळी उपेग पडटली अशें तिका दिसलें. बाळूक आनी आवयक आंगणांत पळोवन गोबरांत लोळत पडिल्लें सुणें उठलें. शेंपडी हालयत तें तांचे म्हऱ्यांत आयलें. बाळूक आवयन हांडीर धरिल्लो. सुण्याक पळोवन बाळूल्या हाताचीं माणकुलीं बोटां हाल्लीं. बाळूचीं बोटां हालतात ते पळोवन सुण्याची शेंपडी आनीक नेटान हाल्ली. आवय म्हऱ्यांत येवन सुण्यान फुडले पांय उबारले. जिबली भायर काडून तें कूंऽय कूंऽय करपाक लागलें. सुण्याचें थंडसार नाक बाळूच्या पावलांक तेंकलें. ताका खातकुल्यो जाल्यो. बाळूय किटकिटपाक लागलो.

'मोती, सकयल! सकयल!' सुण्याचे फुडले पांय आवयच्या पोटाक लागिल्ल्यान तिणें आड्डून म्हळें, सुण्यान पांय सकयल घेतले. बाळू हांडी वयल्यान बागोवन ताका हात लावपाचो यत्न करपाक लागलो! ''भुभू जाय?'' आवयन कवतुकान विचारलें. बाळू सुण्याक पळोवपांत, आपोवपांत गुल्ल जाल्लो. आवय बाळूक घेवन घरांत आयली. घरांत भितर सरतना तिचो पांय हुमऱ्यार मातसो

आडखळ्ळो.

बाळू मातसो व्हडलो जालो तसो आवयन ताका आंगणवाडींत घालो. वातावरण आता बदलिल्लें. नवीं भुरगीं, नवी बाई, नवे खेळ. वांगडा एका जाग्यार बसपाची ख्यास्त. पयले कांय दीस बाळूक मेकळीक मेळिल्ली. आंगणवाडींत तो भोंवतालो, गातालो, नाचतालो. मागीर बाईन हातांत पाटी पेन्सील घेवपाक लायली. बाळून कांय वेळ पाटयेर गिरपटायलें. बाई रांदनी म्हऱ्यांत गेल्या तें पळोवन बाळून पाटी पेन्सील जमनीर दवरली. ताचीं पावलां पडवेंतल्यान भितल्ले कुडी कडें वळ्ळीं. हुमरो उलांडून बाळून कुडीच्या दाराचो आदार घेत कुडींत पावल दवरलें. कुडींत व्हडलोसो उजवाड नाशिल्लो. दार इल्लें हाल्लें. ताच्या जोड्याचो कर्रऽ असो आवाज जालो. कुडींतल्या कोनशाक बशिल्लें सुणें त्या आवाजान शिट्ट जावन उबें रावलें. पयलीं ताणें गुरगुरून पळयलें. बाळूक आवाज वळखीचो दिसलो. सुण्याक मात बाळू अनवळखी दिशिल्ल्यान ताणें भोंकपाक सुरवात केली. ताच्या भोंकपान बाळू भियेलो. ताणें पावल फाटीं घेतलें. ह्या बोवाळांत तो हुमऱ्याक आडखळ्ळो आनी जमनीर पडलो.

सुणें आनीक नेटान भोंकपाक लागलें. बाळूय रडपाक लागलो. बाळूच्या रडपाक लागून बोवाळ जालो. त्या बोवाळांत आनीक कांय भुरगीं रडपाक लागलीं. बाई भायर धांवन आयली. भुरग्यांनी सगळी काणी बाईक सांगली. बाळून चिरपाचें सोडून राटावळी केल्ल्यान हें घडलां हें तात्पर्य भायर सरलें. बाईन बाळूक दोळे मोटे करून ओगी केलो. बाळू जाग्यार बसलो.

'बाळू सुण्याक भियलो!' एकल्या भुरग्यान हांसत म्हळें.

'हय रे'? बाळूक पळयत बाईन विचारलें.

बाईच्या दोळ्यांत बाळूक सुण्याचोच भंय दिसलो. मांडयेर दवरिल्ले पाटयेर बाळूचीं दोन दुकां पडलीं. काळे किट्ट पाटये वयल्या दुकांनी बाळूक काळखांत लिकलिकिल्ल्या सुण्याचे दोळे दिसले. सुणें आंगार येता ह्या विचारान बाळू खुब्ब भियेलो.

''आता हांगसल्लो उठल्यार 'भुभू' आंगार सोडटलें!'' बाईन बाळूक सुण्याचो भंय घालो. बाळूक बाईचीं उतरां सुण्याच्या आड्डुपा सारकींच दिसलीं. हातांत पेन्सील घट्ट धरून तो पाटयेक पळयत रावलो. पाटये वयलीं ताचीं दुकां ल्हवू ल्हवू सुकपाक लागलीं. तशें ताका बरें दिसपाक लागलें. दुकांच्या दागां भाशेन सुण्याचो भंय ताच्या काळजाक दसून रावलो.

बाळू आनीक व्हडलो जालो. चवथी पास जावन इस्कोलांत वचपाक लागलो. अभ्यासा परस ताका चित्रां रंगोवपाक आवडटालीं. ल्हानपणांत ताणें रंगयल्ल्यो वणटी याद म्हण आवय बापायन तश्योच दवरिल्ल्यो. घरांत एक माजरा पील आशिल्लें. बाळू ताचे वांगडा खेळटालो. कागद दोराक बांदून ताका घरभर बाळू नाचयतालो. खेळून, उडयो मारून पुरो जाल्लें माजर जमनीर पातळटालें. बाळू तेन्ना स्कॅच पेनां घेवन त्या धव्या माजराक लेगीत रंगयतालो. सवायशिणी भाशेन ताच्या माथ्यार एक खेपे बाळून वाटकुळो तांबडो तिबो काडिल्लो. माजर बेस बरें रंगोवन घेतालें. आड पडिल्लें थंयच्यान कुशीक सर नाशिल्लें. अशेंच माजर आड पडिल्लें आसतना कोणें तरी देवापुजे वेळार घांट वाजयली. त्या आवाजान माजर शिट्ट करून उठून भायर धांवलें. माजर अकस्मात उठून धाविल्लें बाळून पळयलें. घांटीचो आवाज ताच्याय कानार पडिल्लो. बाळूंतलो 'न्यूटन' जल्माक आयलो. सफरचंद गुरुत्वाकर्षणाक लागून जमनीर पडटा. हे भाशेन, घांट वाजयल्यार माजर भियेता. बाळून आपणालो 'गर्नालनेम' सोदून काडलो. माजर दारांत दिसलें काय तो घरांतली घांट हाडून वाजयतालो. माजर बाळूच्या गर्नालनेमा प्रमाण भियेवन धांवतालें.

बाळू त्या दिसा इस्कोलांतल्यान घरा आयलो तोच तिडकून. इस्कोलांत निमाणो पिरेड आशिल्लो पीटीचो. पावसाळो निकतोच सोंपिल्लो. मास्तरान तांकां इस्कोलाच्या मैदानार वाडिल्ल्या तणाची बेण्णी करपाक लायिल्ले. पावसाळ्या उपरांतचे गोठाल्ल, गांयडोळ, कुसुंडे, भिरमोटी, गोगलगाय सारके जीव मैदानार खेळटाले. बेण्णी करतना गोठाल्लेची चक्री करून उडय, पानाक लांबपी कुसुंड्याक काडून दुसऱ्याक भेशटय, वा गोगलगायच्या शिंगांक हात लाय असल्यो बालक्रिडा चलताल्यो. काटमुयांनी गांयडोळाक चाबून ताचे हाल हाल केल्ले. ताची फडफड बाळून वांगड्यां सयत ताळयो मारीत पळयल्ली. तांच्या ताळयांक लागून स्टाफ रुमांतल्यान पीटीसर ग्रांवडार पावलो. कांय वेळ बोवाळ कमी जालो. परतून नाडेपेन्नां सुरू जालीं. बाळून भिरमोट धरून तिचे शेंपडेक दोरी बांदली. दोरयेच्या दुसऱ्या पोंताक कागद बांदलो आनी भिरमोट सोडली. बाळू फाटोफाट हेर भुरग्यांनी तसलीच रॉकेट सोडली. बाळूचें मिशन फळादीक जाल्ल्यान ताचे तकलेंत दुसरोच विचार आयलो. बाळून कागदा जाग्यार दोऱ्याक फातर बांदलो.

भिरमोट एके उंचाये मेरेन उडली. फातर जड आशिल्ल्यान एकाच जाग्यार पांखां फडफडायत उडपाक लागली. सगळीं भुरगीं बेण्णी सोडून बाळूलें मिसायल पळोवपाक लागलीं. पूण तेन्नाच थंय पीटीसर पावलो. सरा कडल्यान बाळूक फावो तें इनाम मेळ्ळें. ग्रांवडार बाळूक धिपरांचेर चलपाक लायिल्ल्यान बाळूचीं धिपरां सोलपून गेल्लीं. चुरचुरपी धिपरां वांगडा मनांत पेटपी रागाचें होमखण घेवन बाळू घरा परतलो. ताच्या मनांत एकूच विचार घोळटालो. आपुणूय बी पीटी टिचर जाल्यार, आनी आतां आसा तो टिचर भुरगो म्हण आपल्या हातांत मेळ्ळ्यार आपूण ताका खुटलायतलों, दिमयांनी ग्रांवडार भोंवडायतलों...

हुंवार पिडेस्तां खातीर मदत जमोवपा खातीर बाळू आपणाल्या वांगड्यांक घेवन वाड्यार भोंवपाक लागलो. निगळाक आशिल्ल्या फोंडू पैल्या घराच्ची पाज चडून ते घरा लागीं पावले. पुराय वाड्यार तेर्रासाचें घर आशिल्लें तें फोंडू पैलें. वासरेक लादयो घाल्ल्यो. वासरेर संगमरवरी फातराचो सोपो आशिल्लो. दारांतले तुळशीक टायल्स लायिल्ल्यो. फोंडू पै तिरसुवाद हें भुरग्यांक खबर आशिल्लें. घडये पयशे दिवचो ना असो अदमास भुरग्यांनी केल्लो. सदा, बाळू फोंडू पैल्या घरांत भितर सरले. हेर भुरगीं भायरूच रावलीं. सोप्यार बसून फोंडू पै भुरग्याक पळयतालो.

''किदें जाय?'' जानव्यान फाट खरपीत फोंडून विचारलें.

''आमी शाळेंतल्यान आयल्यात. हुंवार

पिडेस्तां खातीर मदत मागपाक," बाळून ल्हव आवाजांत म्हळें.

"तुमी शे भोंवतात? मास्तर ना वांगडा?" फोंडून सोप्या वयल्यान पाय सोडून बसत विचारलें. बाळू ओग्गी रावलो. फोंडूलो भंय ताच्या मनांत आशिल्लो. फोंडूल्या आगरांतले पोर्तुगाली जाम चोरून काडटना बाळू ताच्या हाताक लागिल्लो. फोंडून ताचो कान असो पिळिल्लो! उपरांतचे आठ दीस बाळूचो कान दुखतालो. 'मास्तर ना' ह्या उतरा वांगडा दुखिल्ल्या कानाची बाळूक याद जाली. बाळू ते यादीन फार्टी सरलो. सदा मात घट्ट पावलांनी बाजी प्रभू कसो फोंडूल्या दारांत रावलो.

"दितात न्ही?" सदान फोंडूक विचारलें.

"आठ आणे चलतात?" फोंडून किरवंटीचें नाणें काडीत विचारलें.

"चलतात," सदान थंडपणान जाप दिली आनी तो पयशे घेवपाक फोंडू म्हऱ्यांत गेलो. फोंडून दिल्ले आठ आणे घेवन ताणें कागदार फोंडूचें नांव बरयलें. बाळू मात मनांतल्या माजघरांतलो राग सांबाळीत फोंडूल्या घरांतल्यान भायर सरलो. असल्या फटकिऱ्या मनशाच्या घराचो हुमरो केन्नाच चडचों ना असो निश्चेव ताणें त्या खिणाक केल्लो. भुरगीं 'हर हर म्हादेव' म्हणत पाज दैंवपाक लागलीं. हो 'म्हादेव' फोंडू वयलो राग उकतो करपाक घाल्लो. पांच-स फावटीं म्हादेव घालतकीच सगळ्यांच्या मनातलो राग दैंविल्लो. फोंडूलें घर आतां फार्टी पडिल्लें.

बाळू आतां व्हड जाल्लो. कांय लोक आतां ताका बाळा म्हणपाक लागिल्ले. आवय मात बाळू म्हणून अपुरबाय करताली. ताका अपुरबाय जाय आशिल्ली. पूण 'बाळू' म्हणून मारिल्लो उलो आवड नाशिल्लो. बाळाक आतां सोळा सोपून सतरावें लागिल्लें. हायस्कुलांतल्यान तो हायर सेकंडरींत पाविल्लो. शाळेंतली ॲसेंब्ली आनी कवायत ताका आवडटाली. हेरां वांगडा तो मोठ्या आवाजांत जनगणमन म्हणटालो. निमाणीं 'जय हे, जय हे' हीं उतरां इल्लीं नेटान म्हणटालो. एक दीस ॲसेंब्लीक प्रिन्सिपल पावलोना. व्हायस-प्रिन्सिपलान ॲसेंब्ली घेतली. बाळा राष्ट्रगिता वेळार ताचेर लक्ष दवरून आशिल्लो. व्हायस-प्रिन्सिपल राष्ट्रगीत पुटपुट्टा. फकत ताचे ओंठ हालतना दिसतात. ताचो आवाज आयकूंक येना हें बाळाचे नदरेंत भरिल्लें.

"राष्ट्रगीत सारकें म्हणना तो कसलो टिचर?" ओंठांर आयिल्ल्या इल्ल्याश्या मिसरुडाक पीळ दीत बाळान वर्गांत प्रस्न विचारिल्लो. "हें तूं त्या टिचराक कित्याक विचारना?" कोणें तरी बाळाक सुचयलें.

"देशाभिमान मनांत आसचो पडटा. तो शिकोवन येना!" बाळान स्पश्टपणान मत मांडलें.

"व्हायस-प्रिन्सिपल देशद्रोही तर?"

"ना. आमी 'वंदे मातरम्' म्हणपाक सुरू करपाक जाय, मागीर कळटलें तो कसलो!" बाळाच्या पोटांतलें ओंठार आयलें. बाळाचो नाकांतल्यान मारिल्लो तीर कांय भुरग्यांक समजलो. कांय भुरगीं हाचें हें सदचेंच अशें म्हणून ओग्गी रावलीं. पूण 'जनगणमन' आनी 'वंदे मातरम्' हीं पांच उतरां बाळाच्या माजघरांत नाचपाक लागलीं. पूण ही गजाल टिचराक उकतेपणान विचारपाचें धाडस बाळाक जालें ना. भंयाच्या काळखान ताच्या विचाराच्या उजवाडाचेर त्या खिणा पुरतें जैत जोडिल्लें.

बाळा हायर सेकंडरी हुपून कॉलेजांत पावलो. इल्लें मेकळें वातावरण मेळ्ळें. इश्ट मेळ्ळे. इश्टिणी मेळ्ळ्यो. घरा कडल्यान टिफीन हाडपा बदला तो हॉटेलांत पाव-भाजी मारपाक लागलो. गॅदरिंगा दिसा रातीं तो इश्टां वांगडा हॉस्टेलांत रावलो. रातभर बापूय ताचो सोद घेतालो. आवय हुस्को करताली. सकाळीं बाळा घरा पावलो तेन्ना आवयक जीव आयलो! रातीं खंय आशिल्लो काय म्हूण बापायन तापून विचारलें.

"हॉस्टेलार..." बाळान एकाच उतरांत सोंपयलें.

"आरे, सांगपाचें तरी न्ही!" आवयन बेतेंच म्हळें.

"सांगून रावपाक मेळटालें जाल्यार हांव अशें कित्याक करतलों आशिल्लों?" सगळें बळगें एकवटावन बाळून जाप दिली. वासरे वयल्यान तो घरांत आयलो. शर्ट काडून खुंटयेक लायलो. कळसुली आनी वालो घेवन बांयचेर न्हावपाक गेलो. चार थंड उदकाच्यो कळश्यो आंगार ओततकीच ताका बरें दिसलें. माथ्या वयल्यान कीर जोडयांनी आड्डत वताले. न्हावन बाळा घरा आयलो. पडवेंत पांजऱ्यांत कीर आशिल्लो. बाळान वांशाक बांदिल्लो पांजरो काडलो. आंगणांत हाडून पांजऱ्याचें दार उकतें केलें. दार उकतें जालां हें किराक कांय वेळ समजलेंच ना. बाळान पांजऱ्याक मातसो थापटिलो. उकत्या दारांतल्यान कीर भायर सरलो. पयलीं फातरार बसलो. बाळान शिळोणी घाली. किरान ताका जाप दिली. पांखां फुलयत कीर उडलो. पणसाचे तेंगशेर बसून मेकळ्या ताळ्यान आड्डुपाक लागलो. बाळान पांजरो माजघरांतल्या कोनशाक उडयलो.

बाळा बी.एस्सीच्या निमाण्या वर्साक पावलो. फाटलीं तीन वर्सां ताणें गणीत विशय घेतिल्लो. गणितांतलो 'लिमीट' विशय सोडल्यार ताका सगळें आवडटालें. ताका कॅलकुलसांतले डेरिव्हिटिव्ह भोव आवडटाले. पूण Limit of f(x) as x tends to infinity अशें बी आयलें काय तो आडखळटालो. असल्या उतरां वांगडा ताच्या मनांत खंय तरी लिपिल्लो भंय इन्फिनीट जातालो. झिरो टू इन्फिनिटी हें कशें जाता? हे आदिमा हे अंतिमा? एक सनातन प्रस्न ताचेर घुरी घालतालो. सुरवेंतूय निमाणो निमाणोय तूंच? ह्या लिमिटाच्या प्रस्ना वेळार ताच्या दोळ्यां मुखार घरांतलें माजघर येतालें. माजघरांतलो काळोख म्हळ्यार शुन्य. माजघरा भायलें मळब म्हळ्यार इन्फिनिटी. पूण मदीं हुमरो. शीम.

निमाणे परिक्षेक असोच प्रस्न पेपरांत आयिल्लो. समांतर रेशा दिगंतराक मेळटात. सिद्ध करात. प्रस्न सोडयतां सोडयतां बाळाची गत कर्णा भाशेन जाली. ताच्या विचारांचें रोद भंयाच्या चिखलांत रोमलें. त्या भंयाच्या वज्या सकयल बाळा चेपलो. निमाणें समांतर रेशेचो प्रस्न ताणें अर्दकुटो सांडलो. पेपर सोडोवपाक ताका व्हडलोसो रस उरलो ना. उत्तरपत्रिका एकठांय दोऱ्यांत बांदून ताणें सुपरवायजंरा कडें दिल्यो. बोल्सांतलो लेंस काडून घाम पुसलो. मेकळो श्वास घेवन तो परिक्षा हॉलांतल्यान भायर सरलो.





# किर्र कुटूर...

सुधा खरंगटे

आयजय सकाळचें तें शेवणें आपल्यालें पद गावंक लागलें. ''किऽर्र कुटूर किर्र... किर्र कुटूर... कीऽऽर्र...'

मागीर म्हज्या आंगांत खंयच्यान भुरगेपणां संचरलीं, कोण जाणा, हांवें ताचोच सूर काडून म्हळें - 'किर्र कुटूर कीऽऽर्र...'

थोडो वेळ सगळ्याक थंड. कसलोच आवाज ना. मागीर मात त्या गच्च पानांनी भरिल्ल्या जांभळी रुखा वेल्यान एक मूठभर आकाराचें शेवणें भुर्ऽ करून आयलें आनी आमच्या पोरसाचे वंयेच्या खुंटारच बसलें. मान वांकडी करून कोणाक सोदिल्ले बशेन पळोवन ताणें साद घालो - 'किर्र कुटूर कीऽऽर्र...' हांवेंय ताचे बशेन साद घालो - ''किर्र कुटूर कीऽऽर्र...''

कितलो वेळ तें म्हाका मान वांकडी करून पळयतालें. मागीर भानार आयिल्ले बशेन भुर्र करून उडून त्या रुखांत नाच्च जालें.

हांवें मागीर थोडे खेपे 'किऽर्र कुटूर...' केलें ना...!! पूण ना...! परतो ताचो आवाजय ना आनी तें शेवणेंय ना.

''कितें त्या शेवण्या फाटल्यान लागलां गो? आड्डून आड्डून ताचे बशेन चोंच बी येत तुका...'' आवयन फंकाणां केली. तशें हांव हांसतच घरांत भितर सरलें आनी म्हळें, ''पळय मगे आई, धड मडवळणय न्ही... चिमणीय न्ही... बजबजेंय न्ही... नवेंचशें शेंवणें! दिसता मातशें मडवळणी बशेन, पूण शेंपडो ना. माथ्यार काय बरो पांखांचो लकलकीत तुरो... आनी अशी अशी मान काय बरें घुंवडायता जाणा! तूं जाणां गे ताचें नांव, आई?''

''...आगो, खंयच्या खंयच्या तेर्राक सावन येतात गो अशीं शेवणीं ह्या दिसांनी. मागीर तांतयां घालून पिलां काडटात. त्या पिलांक उडूंक येयसर रावतात... आनी मागीर एक दीस भुर्र करून वतात.''

आईन अशें म्हणूं नाका, तो विशय तितल्यारच सोंपलो. पूण दुसऱ्या दिसा सकाळीं तेंच्च संगीत. मातशें लागींच्यानशें... आनी हांव पोरसांत वंये कडेन धांवलें. धांवतना फातराक आदळून आंगठ्याचें बोट फुटलें आनी रगत व्हावंक लागलें- घे- आईचो बोवाळ मागीर! येद्‌दी व्हडली घोडी जाली... धांवता कितें? कळना तुका? आतां घोवागेर वचचें जालें... अशें आनी तशें...

शेवटाक साद घालून घालून तें 'किऽर्र कुटूर' ओगी पडलें आनी उडून गेलें. हांव मात मागीर वंये कडेन वचून तें बशिल्लें तो खूंट सांसपीत रावलें.

लग्न थारलां म्हूण आई म्हाका चांटे पावलाक उपदेश करीत आसता - अशें करचें, तशें करचें... चलयांचे जातीन दादल्या बशेन धुमशेणां कांडुंनये... मातशें भितर रांदचे कुडींत येवन आदार करचो... रांदप करपांत हातबोट घालचें.:. होः होः होः करून हांसूं नये... घब घब करून चलूं नये...

शेवटाक बेजारून हांवें म्हळें ''आई गे, आतां जाल्यार म्हाका नाका तें लग्न! कोणें

त्रासांत पडचें? ...नाकाच तें लग्न म्हाका...''

''शी:! शी:! थुमेकाल म्हण!' तशें उलयनात आं! पयलेच खेपे तुका दाखयता खिणीं पसंत पडलां तू! नक्षत्राक बरेंऽ पडलां आनी लग्न थारलां. ना जाल्यार त्या सुलूत्रें पळयता मुगो? घा कडेन दाखयलें. पूण पत्रिकाच जुळना. नक्षत्राक पडना म्हूण कितलें खेपो परतें आयलें नक्षत्र!! तुजें अशें सोंपेपणी थारलें, आनी लग्न नाका म्हणटा? परतें असलीं उतरां तोंडांतल्यान काडचें ना तूं आं!!''

''आगे आई, हांवें ते खातीर म्हणूंक ना गे! तूं म्हजे फाटल्यान लागता न्ही? अशेंच्च कर... हेंच्च कर... अशेंच्च उलय... मोठ्यान हांसुंनाका... म्हणचे लग्न जातकच हांवें घुसमटून मरप काय किर्ते? पूण हांवूय सांगून दवरतां, हांव म्हजे सदचे बशेन वागतलें - उलयतलें!! जाय जाल्यार घेयात, ना जाल्यार भायर उडयात...''

म्हज्या ह्या उतरांचेर आई सामकीच शेळेली. ''हें पोर केन्ना सुदारतलें, देव जाणा! तरी बरें, बदली जावन घोव पयस रावता. नाजाल्यार घरांत मांय-मांव, नणंद, देर-जाव अशें भरिल्लें घर...'' आई बडबडत रावली. हांव म्हज्या फुटिल्ल्या आंगठ्याक वखद लावन टेप बी मारून दुयेंत-पार्त जाल्ले बशेन, पांयां कडेन दुखेस्त नदर मारीत वंये कडेन उबें आसलें... आनी म्हजे फाटल्यानच आवाज आयलो -'किर्र कुटूर कीऽऽर्र...'

हांवें खोशये भरशीं फाटल्यान परतून लेगीत पळय नासतना ताका विचारलें, ''किर्र कुटूर, म्हज्या आंगठ्याचे खबरीक आयलां?''

ताणें बशिल्ले कडेन मान वांकडी करून म्हाका पळयत परतें आपलें गीत सुरू केलें.

येदेंशें हें किटूर... भुकेलां काय?? कितें खाता काय तें? हांवें भितर वासरेर नदर मारल्यार आजी एकादशीच्या उपासाक वरी-तांदूळ वेंचीत बसल्या. आजयेचें वेंचप तें! नाकार वक्ल बी लावन बारीक पळयता. आनी अचूक फातरा बदला तांदूळ भायर उडयता. हांवें तिचे म्हऱ्यांत बसून वेंचिल्ले बशेन करून जमनी वेले तांदूळ आनी सुपांतले मूठभर तांदूळ उबारले, वंये कडेन जमनीर फाफशिले. हेवटेन तेवटेन वांकडी चोंच करीत किटुरान ते चोंचींत भरले आनी उडून गेलें. पानां मर्दी नाच्च जालें.

मागीर हो सदचोच कार्यक्रम जालो. तांदळांच्यो कणयो, नाचणे, वरयो.... सदांच वंये कडेन फाफशिल्ल्यो दिसूंक लागल्यो.

आनी म्हज्या लग्नाचो दीस लागीं लागीं पावलो तशें म्हाका येवजलें - आतां हांव वतकच म्हज्या ह्या किऽऽर्र कुटुराक नाचणे, कणयो, वरयो कोण घालतलो?... कसो योगायोग...!! म्हज्या मनांत हे विचार येवपाक तें किऽर्र कुटूर येवचेंच बंद जालें... अकस्मात! कित्याक काय??

हांवें ताका कितलें सादयलें... तरेकवार कणयो बी वेगळ्या वेगळ्या जाग्यांनी दवरून पळयल्यो... पूण ना! कावळे मात काव काव करीत तें खाण खावपाक घिट्ट्यो घालूंक लागले.

मन ओगीच अखीनशें जालें. खंय गेलें काय म्हजें किटूर? कोणें फातरायलें बी ना मूं?... भुरगे जांबळां खातीर त्या झाडार फातर मोखीत आसतात. फातर बसून दोंको बी मोडूंक ना मूं ताचो?... हजार विचार...! आईक म्हळें लेगीत, ''आई गे, ह्या दिसांनी किऽर्र कुटूर ना मगे...!!''

''आगो, हांगाचें न्हय जातलें गो तें शेवणें! गेलें जातलें आपल्या तेर्राक! तूं ओगीच ताची चिंता करून मनाक लावन घेवंनाका...''

मागीर लग्न लागीं पावलें... लग्न जालें! आनी प्रदीपाच्या मोगा मुखार किटूर खंयचें? कुळारची लेगीत याद येना जाली. केन्नाय आयताराक बी मूळ घरा वतकच मांय-मांवाच्यो अपुरबायो... नणंदेच्यो जावेच्यो मस्कऱ्यो, फकणां... सगळ्यांनी माथ्यारशें घेतिल्लें म्हाका!... सुखान आंगानय मातशें भरलें हांव! कुळारा गेल्ले कडेन आई बी म्हणूंक लागली, ''लग्न बरेंऽ मानवलां आं आशाक...''

वर्सां खंय रावतात? दोन वर्सां भितर हाची मुंबय बदली जाली. चवथ्या माळ्यार फ्लॅट दिलो कंपनीन. सामको पॉश! थंय चार दीस बरेंऽ दिसलें. मागीर मात जीव लागलो घुसमटूंक. खंय एक झाड दिसना, पान दिसना. खबरी मारतलें म्हळ्यार शेजान्न ना... सगळीं दारां बंद! चाळीस फ्लॅटांची ती बिल्डिंग पूण कोण दिसपाक कठीण. सकाळीं भायर सरून गेल्लो लोक सांजचो पुरो जावन घरा येवपाचो... प्रदीपय तसोच! जो सकाळीं आठांक वता तो रातचो साडेआठ - णवांक उदेता. उदेता खंयचो? न्हावन, जेवण पोटांत घाल्ले बशेन करता तो हांथरुणार अस्तमता!!

''आरे, नजो रे म्हज्यान हांगा रावंक! खंयय चार झाडां-पेडां लागीं आसात अशें तरी घर सोद...''

''आशा, हांगा तुका कसले त्रास आसात गो? सगळ्यो सोयी आसात... नळाक चोवीस वरां उदक येता. कामाक कामवाली आसा... लिफ्ट आसा. सकलच बाजार आसा, थंय सगळें मेळटा. लागींच शॉपिंगाक दुकानां आसात...''

''पूण एक लेगीत झाड दिसना मरे! दोळ्यांक मातशें पांचवें कितेंय दिसचें म्हूण सगळीं जनेलां उकतीं करून बसलें जाल्यार चारी वाटेन फकत बिल्डिंगो...''

शेवटाक सिटी भायर डोंबिवलीक अशेंऽ बंगलो टायप घर भाड्यान मेळ्ळें. फाटले वटेन ल्हानशें पोरसूं कशें. चार झाडां. दोन पेरीचीं, थोडीं दशणीचीं. सारकें कुळारा आशिल्लें तसलें धव्याफुल्ल फुलांनी भरिल्लें अनंतांचें झाड. संकाळच्या पारार तांचेर थोड्यो चिमण्यो. थोडीं बजबजींय बी! जावंदी म्हळें, हांव रोयीन चार फुलझाडां. म्हाका घर आवडलें!

सकाळीं फुडे ह्या झाडां म्हऱ्यांत वचून उबें रावलें तशी कुळारची याद येवची. तें जांबळीचें झाड... तें म्हजें किऽर्र कुटूर. ताचें तें मान वांकडी करून पळोवप... हांवें त्या यादींनी तल्लीन जावचें! आयजय अशेंच हांव उबें आसतना हाणें म्हळें, ''आशा, कितें जालां गो तुजें? सामकें सतर-वितर जाल्ले बशेनशें! इतलो वेळ हांव तुका कितें सांगता, तें आयकलां तरी तुवें?''

...खरेंच! घोव कितें तरी सांगतालो तें हांव आयकतालें... पूण तकले भितर गेलेंच ना...

''हय! फाल्यां खंय तरी वचूंक जाय म्हणटालो न्ही तूं... कित्याक तें कळ्ळें ना...''

आनी हो खो: खो: करून हांसत रावलो. ''देवा, बायल गेली रे म्हजी कामांतल्यान!... आतां म्हजें कशें जातलें तूंच जाणा...!'' देवाक होरायत हो म्हजीं फकाणां मारूंक लागलो.

"पुरो! पुरो!... आतां केन्नाय मातसो मनांत दुसरो विचार आयलो जाल्यार हांव सामकें कामांतल्यान गेलें काय किर्ते? सांग न्ही म्हाका? किर्ते सांगतालो तूं? खंय वचपाचें आसा फाल्यां...?

मागीर प्रदीपान सांगलें, "आगे सायबिणी, फाल्यां न्हय... आज! आज सांजचो पांच वरांचेर सुरभीचो साखरपुडो. तयार रावता न्ही? याद उरतली? येतलें मुगो?"

खरेपणीं आज म्हाका खंयच भायर सरन दिसनासलें. पूण सुरभी म्हजी मावशेनणंद! जीव घालता पोर म्हजेर. वचुंकूच जाय. म्हणून वेलेचाराक हांसून हांवें म्हळें, "आब्बा! हांव आनी साखरपुडो बी चुकयतां?... सारकें साडेचारांक तयार पळय!"

हो जाणा आसलो, म्हाका लग्नाक, साखरपुड्याक, जावं कसल्याय फंक्शनाक बी वचपाक, मिरोवपाक खूब आवडटा म्हूण...! हाचे वेल्यान घोवानच न्हय, घरांतल्या सगल्यांनी म्हाका चाळोवप! मागीर हांवें म्हणप, "आनी ह्यो आलमारभर, तरेकवार रासभर उंची साडयो आसात तांचें किर्ते करूं?... त्या साडयां खातीर वतां हांव! ...म्हाका किर्ते मिरोवपाचो व्हडलो घोस्त ना..."

लग्ना उपरांत तीन वसाँनी ना-ना म्हणून रोहन जल्मलो. बाळंटेराक कुळारा वचून दोन म्हयने जातकच परतें मुंबय वचपाचें थारिल्लें. पूण मागीर "हें आनी अबरगत रोहनाक कशें सांबाळटलें? न्हाणयतना बी जमनीर मारलो जाल्यार...?" अशें म्हणत आवयन म्हाका आनीक दोन म्हयने तरी धाडचिना म्हळें...

...पूण कुळाराच रावन म्हजो सासुरवाससो सुरू जालो - हांगा वचुंनाका... हे खावंनाका... बांगडे खाल्यार भुरग्याच्या पोटांत घोंशे जातात... सुंगटां खाल्यार भुरग्याच्या पोटांत मुड्डतलें... हरवीं तोरां-आमाडे खावंनाका, भुरग्याक थंडी भरतली. फ्रिजांतलें उदक पिवप ना... सरबत पितना तातूंत झेल घालप ना... एक आनी दोन...?

आतांच पळय... सकाळचें मातशें पोरसांत झाडां मर्दी गेलें जाल्यार, "आगो, ओली बाळंत तूं... हांगा थंय अशें भोंवनाका. स्वेटर घाल... वारो सुटला पळय... काना वेल्यान पदर गुठलाय..." आईचें सुरू जालें.

"आं गे आई! हो पळय पदर पांगुरला हांवें! आनी ही शाल आसा न्ही? पळय, घेतां पांगरून." अशें म्हणत हांव गेलेंच पोरसांत... वंये कडेन उबें रावलें... पेरी वेल्यान एक शेवणें देंवलें तेंच अनंताच्या झाडार बसलें. ...मान वांकडी करून म्हाका पळोवंक लागलें...

ताका पळयतनाच मन खोशयेन भरूनशें आयलें... किर्ते तरी शेणिल्लें मेळिल्ले बशेन... तेंच काय?? मागीर भरिल्ल्या आवाजांत हांवें प्रस्न केल्ले भशेन म्हळें, "किऽर्र कुटूर कीऽऽर्र??"

आनी तें शेवणेंय बी खोशयेन भरचें तशें नाशिल्ले बशेन अनंताच्या एका खांद्या वेल्यान दुसऱ्या खांद्यार येत मान वांकडी करून गावंक लागलें, "किऽर्र कुटूर कीर्र ... किऽर्र कुटूर कीऽऽर्र!"

मागीर कितलोसोच वेळ आमी दोगांय एकामेकांक पळयतच उरलीं.





# चांगपण केल्यार

**पि. गोपिनाथ कामत**

आयर फल्लें जावनु केळकार [*उदेंतेक*] सूर्या प्रकाश एत्ता मात्र, हांव निद्‌देवनु पळेले [*पडिल्ल्या*] कूडांत जनर्लातुल्यान उजवाड भितर मारता. कालि निद्र्देच्याक चड वेळ जालो देकुन जावयात मांचार थाकुन उठांच्याक अलसाय दिसता. दोळे दांपुन एक लागेन घुवनु पळों [*पडलो*]. म्हळार नीद पणा [*पडना*]. मन खंयकी वाटे वेल्यान धांवता. तेद्दूस दफ्तरांतुले जवाबदार कामाचे पासुन उडगास एवनु छट जावनु हांव उटायलो.

खंचेय दिवसा हांव कंपनींतु गेलोना जाल्यार, माका घरकडे सभाव [*अशेंच*] बैसूक जावना. एकाचे मागलान एक जावनु एकेकेल्यालेय फोन एत्तलें. हें फैल खंतय [*खंय*] आसा, तें खंतय पेटोंका [*धाडूंक जाय*], हे कायरांत इत्ते [*कितें*] करका, नवे आयलेलांक खंचे सेक्शनांत सोडका, असले सघ प्रश्नाक कंपनींत थाकुन उल्लो खूब असतलो. तें देकुन रजा काण नतिले केदनाय दफ्तरांत वचे चांग म्हुण हांव लेकलें.

कंपनींत एकेच विभागांत कर्मचारियांक वेंचुन काडचे नंतना [*काडचे भायर*], तांकां खंचकडे प्रवर्तनाक घालका म्हुणूय, तांगेल सेवनकालाचे सर्व कायरिं हांवेच चोवनु करचे. ताजे जवाबदारि माका. ते बगेक [*ते खातीर*] मेगेल खुल्लाक चोवगजाण आसा. फिलिपोस, लिल्लि, सुमित्रन आनि वेणुगोपाल. सघटय दंद [*काम*] कठिन जावनु करुक, शिकुन काडून मागलान. एक कायरीं सांगुन दिल्यार तवळ करतले दुसरीय तेंच करुक तांच्यान जायना. ते बगेक तांकां तान ना.

हांव तांगेल प्रायेर कंपनींत क़ाम मेळेल कालाक चोयलार, अत्तंचे चेरडुवांक दंद करका म्हुणूच ना. फूडे कालाक [*आदल्या काळार*] आसिल मात्रिन उत्साह सहकरण, आत्मार्थ सेवन कांय आज ना. मास जातय [*म्हयन्याचे अखेरेक*] तांगेलो दाम समच मेळका. एकेक दिवसाक तन्नि करचे दंदाक लेक आसा. ताजे पसी चड इत्तेंय करुक सांगलार, तें दुसरे दिवसा करुक मागलान काण दवरतलीं.

तांचे लागि कोपान इत्तेयं सांगलार वांचु ना. नय जाल्यार आज्ञा केल्यारीय तन्नी हल्लूना. तांकां आज यूनियन आसा. यूनियनान सांगुचे लेकानमात्र तीं मुकार वत्तलीं. इत्तेंय उणाव तन्नी केल्लो म्हुण सांगुन तांकां कागत दिल्यार, फाय यूनियनालि घूडिय काण तीं मुकार देंवतलीं. मागीर तांगेल पासुन वर्षाडिचे प्रवर्तन रेखेंत इत्तेंय बरोवनु दवर्यात म्हुण मात्र एक आश्वास.

हांव साधारण मत्रीन सकाली उठावनु आयलोना देकुन, मेगेल बायल प्रमिळा कूडांत पावली.

''हेय, आज इत्याक उठांच्याक तोडोव 'करताय, दफ्तरांत वचप नावे?'' तीणे निंगिले.

''वचूका, आज एदे जनाले इन्टरव्यू

घटायलेल आसा [ *थारायल्यात* ]. हांव गेलोना जाल्यार सम जावना'' तिलागि जाप दिवनु हांव धारार [ *बेगीन* ] समच नाणियांत गेल्लो.

''एंचय, ते केळका केरींतुलो माधवु तुंका देकूक फिदरांत [ *फुडल्या दारांत*] एवनु बैसला,'' हांव नाण जावनु देवाक नमस्कार घालनु दफ्तरांत वच्याक तयार काडचे वेळार बायलेन एवनु सांगलें.

''माधवु..., हो तो शीवणकारि माधवु माका इत्याक सकाळीच देकूक आयला?'' हांव आठेयलें.

गेल्ले धा तीस वर्ष जालीं हांव माधवाक वळकता. एक साधारण सरळ कुटुंबाचो. शिवण करनु उपजीवन काडता. हांव देकिल थाकुन आज भित्तर तागेले रुपाक, शिवणेचे व्याराक [ *वेव्हारांत* ] फरक ना. हांगाच लागि देवळाचे केळकान [ *पुर्वेक* ] एक सान भाड्या घरांत राबता. बायलय, तेग जाण चेल्लियोय ताका. दोगांलि सिकवण धांवे भित्तर जावनु, तींवय बप्पाक शिवणींत सहाय करताय. तिसरी डिग्रिक फैनल सिकता म्हुण हांव आककिलेलें.

बायलेन काण दवरलेल च्याय बेगीन पीवनु हांव फिदरांत गेल्लो.

''नमस्कार किणिमाम,'' माका देकुन माधवु उठायलो. लागि तागेलि धूवय आसा.

''बैस माधवा, हांव अतां पावलो''उतलेंच माधवा लागि सांगुन हांव भित्तर कुडांत वचुन दफ्तरांत वरुक आसिले फैल सघटय काण दवरलें.

परतुन एवनु माधवा लागि कायरीं इत्तें म्हूण निंगीलें.

''मेगेल धुवेक तुंगेले, कंपनीन्तु क्लार्क इन्टरव्यूवाक कागत आयलां. ताजे पासुन निंगुया म्हुणतं [ *म्हुण्णूच* ] आयलेलीं.'' माधवान जाप दिल्लि.

''इन्टरव्यू केदना?'' हांव निंगिले.

''फाय सकाळीं एंवच्या बरपार बरेयला.''

''तूं इत्ते पर्यंत सिकीलि?'' हांव माधवाले धूवे लागि निंगिले.

''बि कोम, फस्ट क्लास, मागिर कंपुटर डिपलोमा कोर्स पास जाल्या.''

''जावो, तूं एक कायरी [ *काम* ] करी. तुगेले नांव आनि पत्तो बरोवनु दी. आतां माका कंपनींतु वच्याक वेळ जालो. तूं सांज वेळार माका एवनु देख.''

''जावो किणिमाम'' हें सांगून माधवुय धूवय भायर देवलीं.

बायले लागि कवाड आड कर म्हुण सांगुन हांवय धारार दफ्तरांतुले फैल काण भायर देवलो.

वोताक हुनसान ना जाल्यारीय, उणेच चमकुन आंग हुमेलें. रोटार पावंचे फूडे, लागि आसिले कंपनींत दंदाक भित्तर चडूक आसिलें सैरण आयकिलें. हो, वरां णव जावच्याक, धा मिनिट. माका आज तोडोव जालोवे? कंपनींत समयार पावंच्याक जात्तलवे? माका शंका जालि. बस वाटेन कंपनींत पावंच्याक तीस मिनिट पुणि अनिकय जावंका.

हांव बस स्टेषनांत उबून पावलो म्हुण सांगुयात. भाग्यान तवळीच एक बस भायर सरुक तयार जावनु राबल्यां. तंतु हांव उडकि मारनु चळोलोय कंडक्टरान बस सोडचि गांटय मारलि. माका सिटाचेर बैसुन आश्वास जालो, आनि चड वेळ नातिलें दफतरांत पावयात नवें.

रोटा वेल्यान बस धांवता तसीच, भायर थाकून मारचे शेळ वाऱ्यान मेगेल दोळे नीद एवनु धंपताय. तवळ मेगेल मनांत माधवु आनि तागेल धूव रमा सकाळीं माका देकूक आयलेल छठ जावनु उडगास जालो.

हांव दफ्तरांत पावनु, ते इन्टरव्यूवाचे फैल काणु चोयलो. हांगाचे एकच एक खालि पोस्ट भरुक पन्नेरा [ *पंदरा* ] जनांक अपेयला. सघ ग्राजवेट आनि पोस्ट-ग्राजवेट. कंपूटर कळचि उणेच. बारा जन भायर गांवचीं. गांवचे तेग जनांत एकलो डेविड जोसफ, हांगचे यूनियन लिडरालो चेरको [ *चलो* ]. तो बि.ए. आनि कंपुटर सिकिलो. एदे दिवस फुडे तो चेयरमानाक देकुन गेलोल माका उडगास आयलो. तें तागेले चेरकाक दंद मेळचे कायराक म्हुण खंडित [ *दुबाव ना* ] .

हांव रमाले कायरांत आलोचन केलि. तिका हांगाच एक काम मेळ्यार तें कुडुम्ब वांचतले. माधवाक व्हड आश्वासूय जातालो.

दंदाक वेचुन काडच्याक योग्य जालोल मनिश नेम आनि समय पालक जावनु लोकसेवा करुक प्रयत्नु काडचो आसूका, असी अनुमान. एक चांग उदयोग मेळूक एकलाक तागेल प्राप्ति वाटेन मात्र नय, देवालि दयाय आसुका. ते बगेक ताका उणेच भागूय जावंका. भो योग्यता आसा म्हुण सांगुन एकलाले इन्टरव्यू बरें जावंका म्हण ना. ते वेळार ताजे लागि निंगुचे प्रश्नाचे गौरव तकीत [ *गंभीरतायेचेर आधारीत*] आसतले, सम उत्तर दीवनु इन्टरव्यूवांत ताका विजय पावंच्याक.

हांव सांगिल मात्रिन रमा घरकडे आयलि. आमगेले कंपनीचे प्रोफैल, इन्टरव्यूवाक कसी तयार काडका, साधारण एंवचे संभवनीय प्रश्नं, इत्यादिका पासुन हांव तिका पूर्ण जावनु सांगनु हे वाटेन चड सिकुक उपदेश दिलो. नंतना इन्टरव्यूवाक निंगुचे प्रश्नाक कांय शंक नातिले बल दिवनु उत्तर करची रीति हांव तिका समजायली.

रमाक सर्व सौभाग्य देवु दिवो म्हुण हांव आशंसा केलि [ *शुभेच्छा दिली* ]. उपरांते ती घरकडे परतून गेल्लि.

इन्टरव्यूवाक रमा बप्पालागि दफतरांत आयलि. पन्नेरांत तेरा जन इन्टरव्यूवाक भाग गेंच्याक आयलि. देंपार भित्तर सघटांलें मेळप जावनु तांकां घरकडे परतुन वच्याक सांगले, परिणाम तांकां मागिर कळोंवू म्हुणूय सांगले.

दफ्तरांत थाकून वापस घरकडे वचे फूडे इन्टरव्यूवाचे परिणाम माका कळें.

प्रथम आयला चेन्नै गांवचो शेलवराज. रमाले नाव प्रथम स्थानार देकूक नातिलांत माका प्रयास जालो [ *वायट दिसलें* ]. म्हळ्यार दुसरे नांव तिगेल आयला. युनियन लीडरालो चेरको डेविड जोसफाले नांव ना.

शेलवराजाक नियुक्त करनु बर्प [ *चीट* ] तुरंत हेरदूसाच [ *दुसऱ्या दिसा* ] पेटेयले. दुसरे आयलेल रमाक एक वर्ष वेरट-लिस्ट करनु जवाब दिल्लि.

'जावंचे सघटय तागतांगेले कपलावेल बोरो तकीत [ *कपलांत बरयल्ले प्रमाण* ], हांव आठेयले.

डेविड जोसफाक टालप करनु [ *टाळून* ] रमाले नांव दुसरे स्थानार आयलेल लेकान काणु युनियन लीडरान मेजेर आरोपण हाळें, भ्रश्टाचाराचे. तागेल पूत दंद मेळूक विजय जालेना देकुन असले आरोपण यूनियनाले साधारण मात्र. कोन तें कन्नांत वेल्लेना, ताका कोन फटिबल दिल्लेना. कारण, मेगेल प्रवर्तना पासून सघटांकय कळता, समवाटेन नंतना

आज भित्तर कंपनीचे प्रवर्तनांत आत्मार्थ सेवन करनु, कांय चूकि आनि उणाव नातिलें मुकार गेल्ला. तज्यान कंपनि लेका भायर विकास पावल्या.

उणे [*कांय* ] दीस, मास तसी मुकार गेल्ले. रमाले भाग्य म्हुण सांगयात, कंपनीचें एक विभाग चेन्नै स्थापित करनु चड विकास हाडूक एक विशेष येवजण स मास फूडे केलेलाचि अनुमति मेळ्या. ताका लागुन थंगाचे प्रवर्तनांत सहाय करुक एकलाक लागेन क्लार्क पोस्टाक नियुक्त करुक आज्ञा जाल्या.

तेदुस हांव घरकडे पावलेल उपरांते रमाक लागिच कंपनींतु दंद मेळूक वचे कायरीं प्रमिळा लागि म्हळें. हीं वर्तमान आयकुन तिकाय आनंद जालो.

"तुमि हीं कायरीं अतंच माधवाक अपोवनु कळेयाय म्हणे" तीणे सांगलें.

"तें आतां नाका, आनिकय वेळ आस नवे? तूं ओमसोर काडसी [*ताकतीक करुं नाका*]. पत्र वेव्हार वाटेन कळोंचे नवे चांग" हांव तिलागि सांगले.

एक हफतो जालोल आसुका. एक दिवस हांव सांजवेळा दफ्तरांत थाकुन घरकडे वापस एवंच्याक माधवु आनि रमा माका देकूक फिदरांत बैसलांय. मेगेल सवळी देकिलीय छट जावनु दोगंय उठावनु माका नमस्कार सांगलो.

"किणिमाम, होड उपकार. धुवेक आज बर्प मेळ्ळें. कंपनीचे हांगाचे विभागांतूच घडसूंक सांगला," माधवालि विनयान दिंचि जाप.

"माधवा, हांगा असिले शेलवराजाक चेन्नै नवे युनिटांत तागेले गावांतुच पेटोवनु, बदलाक रमाक हांगाच दंद दिल्यां. हांतु माका कांय हाथ ना. सघटय तुगेले धुवेले भाग्य, देवालि दया" हांव सांगले. आनि तांका हांव हाथ दिवनु अभिनंदन केल्लीं.

मेगेल उत्तर आयकुन माधवालेय रमालेय दोळे भरले. उपजीवन काडूक कष्ट पावंचे एक कुडुंबाक एक सान उपकार करनु चांगपण मेळचे आनंदान मेगेल दोळे भरलेल माका कळेना.





# म्हजी धूव ती

**मायां अनिल खरंगटे**

— बाबू, तुका अशें धांवंक मेळचें ना, मातसो बस हांगा.

- बाबू, आयक रे पापया, तुज्या पुराय आयुश्याचो प्रस्न हो.

- आज आमी तुजें कांयच आयकुचीं नात. आमी थारावनूच आयल्यांत.

- निकर्तीच तीस वर्सां जातात तुका. कशे काडटलो दीस हे अबरगती बरोबर!

- कसलो वेळ आयलो गो हो आमचेर? कितल्यो सोयरिको येताल्यो बाबूक, नक्षत्राक पडना, प्रसाद जायना म्हणून परतिल्यो. हे सोयरिके वेळार बऱ्या गुणांनी नक्षत्राक पडलां, प्रसाद बरो जालो. खंयच्यानच म्हायती घेवपाक आमी कमी केलिना. पूण ही अवदिसा कशी पडली बाबूच्या गळ्यांत?!

- कोणेंच पाडपडिल्ल्यान इंफोरमसांव दितना चली असली म्हणून सांगलेंना.

- ताच्या रुपाक भुल्लीं आमी, रुपाक. गोरो रंग, नक्षत्र कशें रूप म्हूण सांगूंक आयिल्ली न्हय ती काकीबाय. पूण सोबीत फुलाक कीड लागल्या म्हणून सांगूंक विसरली!

- कीड न्हय, रोंटो. सगळी जीण पोखरून उडयतलो तो पापया.

- आपले चलयेक खपयतना किर्ते करता पळोवया. लग्न जावन वर्सा भितर कुळारा येवन पडल्यार पुरो हिचें चली. कळटलें मागीर, धुवेचो संवसार मोडटकर काळजाक कशे हुलप पडटात ते!

- वोगी राव गो. तिचो राग तिचे धुवेचेर कित्याक काडटा?

- खरें तुजें. पूण बाबूच्या संवसाराची वाट लायली तिणें! काळीज रडटा आमचें.

- आमी तिगी भयणी, आमचो फुलतो-फळटो संवसार. आनी आमच्या एकल्या एकसुऱ्या भावाच्या संवसाराची ही दशा. कांयच करूंक शकनात आमी.

- शकनात कित्याक विनय? कितलो समजायलो आमी बाबूक, घटस्फोट दी ह्या पिसांटाक, आमी रोखडोच तुजो दुसरो संवसार उबो करतात म्हणून, पूण हाणें आयकुपाक

नाका?

- आमगेल्या हार्णे आपल्या आदोगाद इश्टा कडेन सगळीं उलोवणीं लेगीत केल्लीं, पूण बाबू...

- बाबू, तुका ह्या पिश्यान असो किद्दें भुलयला?

- ताई, मालिनी पिशें न्हय.

- जावं, तोंड आसा तर तुका. वोदोळच्यान मिठा घोंट घेवन बशिल्लो. बायलेक पिशी म्हणटकच उतर फुटलें. पापया तुजे बायलेक पिशी म्हळ्यार तुका राग येता मरे? आमकां तुजो हो वाऱ्यार पडिल्लो संवसार पळोवन कितले जाळ पडटात आसतले, येवजी.

- बाबू, लग्नाक फकत स-सात म्हयने जातात थंय आसात, तुज्या. काय बरो जोडटा तूं, हें येदें व्हडलें घर बांदलां. कोणूय आपली चली दितलो तुका. सोड ह्या पिसांटाक. आई परस हांवेंच तुका वाडयला. म्हजो पुतूच कसो तूं. भयण न्हय, आवय सांगता म्हणून तरी आयक.

- ताई, तूं समजुनूच घेना म्हाका. आगो किर्ते जालां मालिनीक? मातशें नेर्वांचें जाता खरें, ताका मातशें सांबाळचें पडटा, ताचें मन सांबाळ्ळें, वेळच्या वेळार वखदां दिलीं काय बरें चली. दोतोरान लेगीत सांगलां म्हाका. तितलो वेळ सोडलो जाल्यार मालिनीचो सभाव कितलो मायेस्त! जीव दिता तें तुमकां सगळ्यांक. तुमी इतलें उलयतात, पूण एक दीस तुमकां किर्ते म्हणटा तें? तुमी ताका घटस्फोट दी म्हणटात पळे, तें ताणें खंय वचपाचें?

- तें तुका कित्याक लागता रे? आपले अर्दकुटे भयणीक तुज्या गळ्याक बांदून तो मुंबय वचून बसला तो ताचो भाव पळोवन घेतलो.

- आगो तुमकां मनीसपण म्हणून किर्ते आसा काय ना? कितेंय जावं, म्हज्या नशिबान मालिनी म्हाका अशें मेळ्ळें. म्हणून ताका हांव असो सोडचों ना. एके चलये कडेन लग्न जावप म्हळ्यार ताचे कडेन खूब तरांचीं नातीं जुळटात. फकत शेजेसांगातीण आनी घरकाम करपी वावराडीच नासता ती. सगळ्यांत पयलीं ती इश्टीण जाता, आवय जाता, भयण जाता, धूव जाता. ह्या सगळ्या नदरांनी पळयल्यार मालिनी खंयच उणें ना. नेर्वांचें चाळवता तेन्ना खुबळूं, पिसांटपणां करूं, हरशीं तें मोगाळ, म्होंवाळ बाय. सगळ्यांत चड म्हळ्यार ती म्हजी बरी इश्टीण आनी धुवूय कशी. दोनय नात्यांनी ताका हांव सांबाळटलों. हांव त्रासांत पडलां, म्हाका सोडयात म्हणून हांव केन्ना तुमचे म्हऱ्यांत आयलां? जाल्यार तुमी म्हाका असले सल्ले दियात. संवसाराचें एक चाक सारकें चलना म्हणून तें काडून उडोवप म्हाका मान्य ना. दोनूय चाकांचो तोल सांबाळून हांव चलतलों. तुमी चिंता करूं नाकात. आनी परतून हो विशय म्हजे मुखार काडूं नाकात.

- विनोद, असो तापूं नाका रे तांचेर. तुज्यो भयणी त्यो. तुजे वेले मायेन उलयतात.

- माली, तूं हांगा केन्ना आयलें?

- वोदोळच्यान तांचें आनी तुजें उलोवणें आयकतां हांव. तीं उलयतात तें फट न्हय रे. तूं भांगराचो भुरगो. ताई, विजू, खरें तुमचें. तुमचो भाव अपुर्बायेचो. स म्हयनेच जाल्यात आमच्या लग्नाक पूण हांव ताचेर खूब खूब मोग करतां. तुमचो भाव कोणेंय मोग करपा सारकोच. खूब आवडटा म्हाका तो. पूण हांव ताका सोबना. हांव ताची वाट लावचें ना. घटस्फोट दिवंक तयार आसा हांव. बरीशी चली पळोवन ताचें लग्न करात.

- बाबू आयक, मालिनीक अक्कल आसा ती तुका ना.

- मालू, माली, पापया तूं म्हाका दुसरें लग्न जा म्हणटा तें, तूं किर्ते करतलें? म्हाका सोडून रावपाक शकतलें?

- ना रे विनोद, पूण म्हाका लागून तुजी वाट लागिल्ली म्हाका सोंसना. हांव कशेंय जगीन. ह्या स म्हयन्यांत तुवें दिल्लो मोग याद करीत जगतलें. पूण... तूं... तूं दुसरें लग्न जा... विनोद.... जा रे... जा रे... लग्न....

उलयतां उलयतां मालिनी घुंवळ येवन पडलें.

मालिनी गुरवार म्हणपाची खबर विजयाक ताचे वावराडे कडच्यान कळ्ळी. ताचें मन उचांबळीत जालें. ताणें रोखडेंच ताईक आनी विनयाक कळयलें. खरें म्हळ्यार त्या दिसा विनोदान तांकां तापयत साकून तीं कुळारा येवंक नासलीं. गरजेचें कारण आसले शिवाय कुळारा वचप ना अशेंय तांणी थारायल्लें. पूण आतांच्या प्रसंगार तांकां वोगी बसप पुटवलें ना. विजय आनी विनय ताईगेर आयलीं. आतां तांकां वेगळोच भंय सतायतालो.

- ताई, आज आमी खोशयेन एक जावपाचीं. कोण पोळेर करतलो, कोण माणे करतलो, आंगलीं तोपरीं करपा जाय, ह्यो गजाली उलोवपाचीं, पूण...

- पूण... भावाचो वंश वाडटा म्हूण खोशी जावपा बदला कोम किरमून उडय म्हणपाचो वेळ आयला आमचेर.

- आनी, किर्ते करतलीं? आवय वरी जालें जाल्यार भुरगें?

- आनी, तें घेता त्या गुळयांक लागून ॲबनॉर्मल भुरगें जालें जाल्यार? तें परस पाड पडूं, नाकाच तें भुरगें. आबोर्त करून उडय म्हणून सांगया.

- हय, ह्या वेळार तरी बाबूक आमचें आयकुचेंच पडटलें.

तिगीय भयणी कुळारा आयल्यो. मालिनीक निकतोच दुसरो म्हयनो चलतालो. ताचें ॲबॉर्शन करून घे म्हणून तांणी विनोदाक तरे तरेन समजायलो. पूण विनोद दोतोराच्या उतरार घट राविल्लो.

मालिनी गुरवार म्हणून कळटनाच विनोदाकूय भुरग्या पासत भंय दिशिल्लो. ताणें दोन-तीन दोतोरांक मेळून आपल्या मनाचो दुबाव काडिल्लो.

मालिनीक जल्मा सावनूच नेर्वांचें दुयेंस नाशिल्लें. तें ग्रॅज्युएट जाल्लें. बरे कंपनींत नोकरीय करतालें. सोबीत दिसपी मालिनीक लग्नाच्यो मागण्यो येताल्यो. पूण मालिनी कानामनार घेय नासलें. मात तांच्या ऑफिसांत नव्याच आयिल्ल्या मॅनेजराचे नदरेंत तें घुसपलें. मालिनीच्या बापायन येवजिल्ल्या जांवयाचे फास्कोंत तो फिट्ट बसतालो.

दोगांयच्या घरच्यांनी लग्न थारायलें. स म्हयन्यां उपरांतचो म्हूर्त निश्चित केल्लो. दोनूय घरां उमेदीन लग्नाचे तयारेक लागिल्लीं, जाल्यार मालिनी आनी उमेश फुडाराच्या संवसाराचीं सपनां पळोवपांत गुल्ल जाल्लीं. केन्ना दर्याचे वेळेर, केन्ना वझऱ्याच्या कांठार सैमाच्या सांगातान तांची सांज फुलताली.

एक दीस वेळेर साकून येतना उमेशाचे मोटर सायकलीक ॲक्सिडॅंट जालो. उमेश आक्ताक गेलो. मालिनीक आंगभर घाय जाल्ले. पूण ताका साबुद्द आशिल्ली. उमेशाचें मरण ताणें दोळ्यांनी पळयलें आनी ताचो आवरो उडलो. ह्या धक्क्यांतल्यान तें निवळचे पयलींच, दोन खेपे ॲटॅक येवन गेल्लो ताचो बापूय जांवयाची खबर आयकून तिसरो ॲटॅक येवन गेलो. दोळ्यां मुखार घडिल्लीं दोन मरणां पळोवन मालिनीक आकांताचो धक्को बसलो. आतां तें दर एके गजालीक भियेतालें. कोण मोठ्यान उलयलो किंतें वा गाडयांचो हॉर्न वाजलो किंतें आनी किंतें म्हणून ना, कसल्याय कामाक तें आंग काडटालें आनी रडुंकूच लागतालें. तेन्नाच्यान ताका नेर्वांचें दुयेंस लागिल्लें. बरें आशिल्ल्या वेळार तें खूब बरें वागतालें.

ह्या बोवाळांत ताची शिर्वीस गेली. वाडिल्ले चलयेची जाल्ली दशा पळोवन ताचे आवयनूय हांतरूण धरलें आनी तातुंतूच तीय गेली.

मालिनीच्या लग्नाचो व्हड प्रस्न ताच्या भावा मुखार उबो जाल्लो. तांची सोयरी काकीबाय ताच्या आदाराक आयली. खरें म्हळ्यार मालिनीन दुसऱ्या कोणाच कडेन लग्न जावचें ना म्हणून हट धवरिल्लो. पूण भावान ताका तरेतरेन फुसलायलें. काकीबायनय ताच्या फुडाराचो प्रस्न ताका दाखोवन लग्नाक तयार केलें.

सोयरिको जुळोवप काकीबायचो धंदो. ती मालिनीच्या लग्नाची खटपट करतना ताचें लग्न कित्याक मोडलें तितलेंच सांगताली. मालिनीचेर ताचो परिणाम किंतें जाला तें मात सांग नासली.

काकीबायच्या यत्नान मालिनीचें लग्न विनोदा कडेन थारलें. विनोदाच्या भयणींनी मालिनीचें रूप पळेना फुडें चली पसंत केली.

लग्न जातकूच आठ दिसांनी विनोद मालिनीक घेवन हनिमुनाक गेलो. थंय मालिनी वचत थंय भिवपाक लागलें. विनोद मातसो भायर गेलो, हाणें रडत रावप. पूण विनोदाक ताचें व्हडलेंशें कांय दिसलें ना. नवी व्हंकल, पयल्या आघातांतल्यान अजून सारकें भायर सरूंक ना अशें समजून विनोद ताका फुसलायतालो, ताचें मन विसरायेर घालपाक ताका खंय खंय फिरपाक व्हरतालो.

हनिमुनाक साकून घरा येवन म्हयनो जावन गेलो तरी मालिनीची वागणूक तशीच आसली. तें पळोवन एक दीस विनोदान ताका विचारलें,

- मालिनी, तुका अजुनूय म्हजो भंय दिसता? कित्याक गो?

- ना, हांव तुका भियेना. पूण...

- पूण किंतें? कसलो भंय दिसता तुका, सांग.

- ना, म्हाका मरे... ह्या दोन वर्सांत अशेंच जाता.

- आमी दोतोराक दाखोवया तुका. तो किंतेंय...

- ना... ना... नाका. दोतोरान म्हाका गुळयो दिल्यात. त्यो हांवें ह्या दिसांनी घेवंक नासल्यो म्हणून...

- कसल्यो गुळयो? दाखय पळोवया.

- ना, ना, साद्यो त्यो.

त्या दिसा मालिनीन ताका कांयच सारकें सांगलें ना आनी गुळयोय दाखयल्यो नात.

दोन दिसां उपरांत एक दीस मालिनी व्हडाव्हडान रडूंक लागलें. त्या वेळार विनोद घराच आशिल्लो. ताणें ताका मायेन फुसलावन रडपाचें कारण विचारलें. तेन्ना मात मालिनीन ताका सगळी गजाल सांगली,

- आनी जाणा मरे, तेन्नाच्यान म्हाका असो वचत ते गजालीचो भंय दिसता. रडुंकूच येता. म्हणून म्हाका भाईन दोतोराक दाखयल्लें. ताणें म्हजी तकली थंड उरपाचो गुळयो दिल्यात.

दोन दिसां उपरांत विनोद ताच्यो गुळयो घेवन आपल्या दोतोर इश्टागेर गेलो. थंय ताका कळ्ळें, मालिनीक नेर्वांचें जालां. विनोदाक धक्कोच बसलो. पूण मालिनीचो राग आयलोना. आतां मुखार किंतें हो एक व्हड प्रस्न ताचे मुखार उबो रावलो. दोतोरान ताका धीर दिलो आनी सांगलें, ''ताका विसर नासतना ह्यो गुळयो दिवपाच्यो, ताचें मन सांबाळपाचें, ताच्या कलान वागपाचें, आनी ताका कसलोच भंय ना.''

विनोदाक कांतयल्ल्या रुपाचें सोबीत मालिनी पयलींच आवडिल्लें. तातूंत ह्या म्हयन्या भरांत ताच्या मायेस्त सभावाची वळख जाल्ली. आपल्या नशिबान आपल्याक ही बायल मेळ्ळ्या. तिका आसा तशी मानून घेवप असो निश्चेव ताणें केलो. 'लग्न जावन ताका अशें किंतेंय जाल्लें जाल्यार आपूण किंतें करतलों आसलों?' होय विचार ताच्या मनांत येवन गेलो.'

तेन्नाच्यान तो मालिनीक चडूच मोगान वागोवंक लागलो. ताच्या दुयेंसाची गजाल ताणें भयणींक सांगूंक नासली. पूण एक दीस तांकां ती कळ्ळीच. तांकां मात मालिनीचो खूब राग आयलो. विनोदाक तांणी तरे तरेन मालिनीक सोडपा विशीं फुसलायलो, धपकायलो. पूण विनोद आपल्या निश्चेवा पासून मातय हाल्लोना.

आतां मालिनी गुरवार म्हणून कळना फुडें ताणें परतय दोतोराचो सल्लो घेतिल्लो. दोतोरान ताका सांगलें, ''आवयचें दुयेंस भुरग्याक येतलेंच अशें म्हणूं नजऽ. असलें दुयेंस आशिल्ल्या कितल्याश्या बायलांगेर बरीं भुरगीं जाल्लीं आसात.''

दोतोराच्या ह्या विश्वासाचेर विनोद घट रावलो. ताच्या भयणींक दोतोराच्या उलोवण्याचेर मातंय विश्वास नासलो. तांणी मालिनीचो आबोर्त करून उडय म्हणून हट्टूच धरिल्लो. चार दीस तीं ताचे फाटीक लागलीं. पूण विनोद बदलो ना.

मालिनीक ताचे वरीच सोबीत बायू जालें. त्या बाळंटेरान मालिनीचीं नेर्वां वाडलीं. तें प्राचीक सारकें पळय नासलें. ताका दूद सारकें दिय नासलें. दोतोरान हाची कल्पना विनोदाक दिल्ली. ताणें सांगिल्लें, ''बाळंतपणांत हरशींच नॉर्मल बायलांचे नेर्व फ्राक जातात. तातूंत मालिनीक पयलींच हें दुयेंस आसा. तेन्ना भुरग्याक आनी मालिनीक सांबाळपाक कोण तरी हाडून दवर.''

विनोदाच्यो भयणी ताचेर रागार जाल्ल्यो खऱ्यो. पूण भावा वेले मायेन तांकां वोगी बसूंक दिलें ना. मालिनीक कुळारचे वटच्यान कोणाचोच आदार नाशिल्लो. तिगीय भयणींनी येवन ताचो बाळंटेर काडलो. बारसो करुनूच तीं गेलीं. ताईन आपली भागेली कलावती मालिनीच्या आदाराक दवरिल्ली. कलावती प्राचीक आवयचे मायेन वाडयताली. मालिनीकूय मोगान सांबाळटाली.

बाळंतपणा उपरांत मालिनीचें दुयेंस वाडत गेलें. आतां ताणें एकूच मनांत घेतिल्लें -

...म्हाका लागून विनोदाची वाट लागल्या... विनोद काय बरो भांगरा सारको भुरगो... ताचो संवसार बरो फुलपाचो... हांव ताका सोबना...बाय तरी बरें जाल्यार पुरो,.. तेंय म्हजे भशेन जाल्यार विनोदान कितें करप?... हांवूच मरूंक जाय आसलें... विनोदाक मेकळो करपाक...

नंडो आयल्यो काय मालिनी तांकां सांगतालें, जाणा ताई... तुमचो भाव खऱ्यांनीच अपुरबायेचो... हांवें ताची वाट लायली... आतां हांव मरतलें... तुमी ताचें दुसरें लग्न करात... म्हज्या बायक मात सांबाळात आं... तुमी सांबाळात... हांव विनोदाक मेकळो करतलें...

अशेच तरेची बडबड तें हालींसराक करत आसलें. तें चडशें आपलेच घुंवळींत आसतालें.

- विनोद, असो कितलो तेंप बसतलो? ऊठ मरे पापया. बाये खातीर तरी.

- मालिनी वचून दोन म्हयने जायत आयले. आतां तरी त्या दुःखांतल्यान भायर सर. फाटल्यीं दोन वर्सां तूं ताचे भोंवतणीच वावुरतालो. एक शिर्वीस सोडल्यार बाकी सगळो वेळ तूं ताचे खातीर दितालो. तुज्या जिविताचो तुवें केन्नाच विचार केलो ना.

- ताची कसलीच आवड पुराय करपाची तुवें दवरलिना. ताका बरें दिसूंक जाय म्हणून ताका जाय थंय ताका व्हेलें. देव-देवस्पणांत तूं विश्वास दवरी नासलो. पूण तुवें मालिनी खातीर हेंय केलें. सगळें उबगनासतना. ल्हान भुरग्याची करची तशी सेवा केली तुवें ताची.

- प्राचीची लेगीत तुवें केन्ना इतली जतनाय घेतली ना. ताका बाबड्याक वाडयलें तें ताच्या आत्यांनी आनी कलावतीन. आतां तरी प्राची कडेन लक्ष दी.

- इतलें तुवें करुनूय मालिनी गेलेंच. सदांच तुका मेकळो करपाची भास तें उलयतालें. तुका सुखी करपाचोच ध्यास लागिल्लो ताका. तूं असो दुःखी जावन बसून रावलो जाल्यार गेल्ले कडेन ताका सूख लागतलें मरे? मालिनी खातीर तरी तुजें दुःख विसर, पयलींचो विनोद जा.

- हय खरें तुमचें इश्टांनो. पट्टा म्हाका. पूण मन वळना. मालिनीच्या हुस्क्यानूच रावपाची संवय जाल्या म्हाका. आतां मेकळो स्वास घेवंकूच येना. खूब दिसता, आतां तरी बायूलाक खेळयत दीस सारचे. पूण... पूण मन तयारूच जायना, मालीची मातूय विसर पडना... म्हजें सगळें जिवीत ताचेच भोंवतणी घुंवतालें कशें. आतां सगळेंच शून्य दिसता. कितें करूं हांव. ताका सांबाळपाक म्हजे कडल्यान बी कसलीय चूक जावंक ना मूं? अशेंच दिसत रावता म्हाका.

- ना विनोद, तूं खंयच चुकूंक ना. असले बायलेचें इतलें सगळें करपं आमच्यांनी जाल्यार जावचें नासलें. आनीक कोणूय जाल्यार उबगतलो आसलो, फडफडटलो आसलो. तुवें म्हणून अपुरबायेन केलें ताचें सगळें.

- आरे, म्हजी धुवूच ती. आमचें घोव-बायलेचें नातें केन्ना सोंपलें म्हाका याद ना. ती म्हजी धूव जाल्ले वरी ताका हांव सांबाळटालों. खऱ्यांनीच ताचे इत्से खातिरूच म्हाका परत उबो रावंक जाय. निमाणे मेरेन उलोवंक येतासर म्हजी आनी प्राचीची चिंताच ताणें उलोवन दाखयल्या. पूण फाटलें सगळें विसरून परत उबें रावप इतलें सोपें ना. खंयचेंच दुःख सासणाचें उरना, जाणां हांव, पूण हो खीण वचपच खूब कुस्तार. तरी करतलों हांव यत्न...

उलयतां उलयतां विनोदाचे दोळे परतेय भरून आयले.





# वकालतनामो

**मुकेश थळी**

आमचे आदवोगादांचे क्लायंटूच असले. अपाँयंटमँट दिवनूय वेळाक प्रामाणीक रावचेनात. फाळकाराक सकाळींच घरा आपयलो. पणजे ऑफिसांत येवपाक हाका पयस पडटलें म्हूण. दुसली गजाल, आज हांव पणजे उरचोंय ना. कारण, म्हाका सकाळीं वास्को आनी सांजे मडगांवां केसी आसात. जाल्यार अचूक हो उसरां. काम जालें न्ही? आतां सुशेगाद...

हाचो कॉलेजकुमार पूत टणटणमारी. सगलें आयतें मेळटा. मजा चंगळ मस्ती करपाक जालां किर्तें? पयशांचो चुरको ना कसलोच. बापायक हॉटेलाच्या बिझनेसांत कांयच मदत करप ना. वयल्यान दगदग. चलयांक भोंवडावप. मोटारसायकल आयती मेळ्ळ्या. पेत्रोल आयतें मेळटा. आतां मोग म्हणचो काय मद काय आनीक किर्तें तें सांगप कठीण. रायबंदरचे एके चलये वांगडा हार्ली तो भोंवतालो. ताची सरपळीच हाणें आपणा कडें दवरली.

दोगांय मदीं बिनसलें. ते चलयेचे आवयन पुलिसेंत कागाळ केली. हाका पयर धरलो आनी भितर उडयलो. तेन्ना फाळकार पांयां पडूंक आयलो म्हाका. निमाणो ताका सोडयलो. तेच फुडले सोपस्कार करपाक आतां फाळकार येवपाचो आसा.

आयलो एकदांचो. तागेली बडबड आयकुचे पयलीं हांवेंच उलोवपाक सुरवात केली. पयलींच कळाव केला.

- आयक रे. हांव सांगता तें आयक. तुज्या पुताक पुलिशेंतल्यान भायर काडलो. फकत तुका लागून. हांव पुलिशेंत वचना. आदवोगादांचें काम पुलिशेंत वचप न्ही. आमचें काम कोटांत.

- आमगेल्या चेड्याचेंय चुकलांच. त्या चेडवाचेर मोग करता तें बरें आसा, तेची सरपळी हेका दवरपाची गरजूच ना. तकली इरार जाल्या दोतोर. तुमी मातसो समजाया तेका. घरच्या बिझनेसांत लक्ष घालिना. आतां केस रोखडीच मेकळी जातली न्ही?

- कायद्याचे कातरेंत सांपडलो न्ही, म्हणटकच... वेळ वतलो... परां येवन मेळ.

ओके?

हांवें फाळकाराक आडामो घालो. नाजाल्यार तो तीच तीच निरशेणेची टेप वाजयत रावतलो. म्हजी फी घेतली. आनी ताका आवियार केलो. हाका पॅरेंटिंगाचें वा हाच्या पुताक बरो मनीस जावपाचें लॅक्चर दिवपाक हांव कोण? जग सुदारल्यार आमची आदवोगाशी कशी चलतली? पुताच्यो केल्यात फाजील अपुरबायो. ना म्हणल्यार हांवें एक काम केल्लेंच. त्या इन्स्पेक्टराक सांगिल्लें, हाच्या सोंडार चार फुलय म्हूण. रातभर दवर म्हूण. निदान तितलोच तरी सुदारलो जाल्यार सुदारलो. हरशीं जाय जाल्यार रोखडोच सोडोवं येतालो. पुतालो आनी बापायलोय पयशांचो मद इल्लो जिरूंक आदार जालो.

गोंयांत हालींसराक गुंडगिरी, गुन्यांव, अत्याचार, आगळिको, खून वाडल्यात. तरनाटेच, तेय बी शिकिल्ले, चड प्रमाणांत आरोपी म्हूण कोर्टांत येतात. तातूंत मात हाचो पूत घुसपना जाल्यार पुरो. बापुयूच पिसो जातलो...

आतां म्हाका बेगीबेगीन तयारी करूंक जाय. आयज वास्को केस आसा. बिल्डर डिसौझाची.हो एक नंबरचो भिवकुरो मनीस. पणजेची रेप केस हांवें महेशाक, ज्युनियराक, घेवंक सांगल्या. वास्कोचे केसींत खरें म्हळ्यार महेशान हजेरी लायल्यार पुरो आशिल्ली. आयज written arguments फकत फायल करपाचे. पूण डिसौझाक लागून वचुंकूच जाय.

हियरिंगाची दाट फी दिता तो. निमाणे पयशे महत्वाचे. आमकां जाणटेपणांत किर्ते पेंशन आसा? Provident Fund आसा?

हो पळे, हो ताचोच फोन.

- न्हेसतां रे. कित्याक आबोलार जाताय रे? म्हाकाय आबूज करतात तुमी. आतां पोत्तो आनी फोन करूं नाका आं...

धंगण नाशिल्ले क्लायंट हे. लोकांचोय वेळ बरबाद करतात. अक्कलूच तेदी हांची. म्हणुनूच हे कोर्टाचीं सपणां चडूंक लागतात.

- ब्रेकफास्ट रेडी करूं?

- नाका. आयज हांव 'सत्कारां'त भाजी मारतलों.

आपलें टिफीन भरपी बायलेक - अर्चनाक - हांवें जाप दिली आनी खाड करूंक लागलों.

- आज बाबूक संगिताचो क्लास आसा मुगो?

- हय.

- तुजी बँक सुट्टकच ताका कलॅक्ट कर तर. म्हाका सांजे मडगांवां केस आसा. आज हांव पणजे पावचोंच ना. आनी एक...

- किर्ते?

- तीं उजोलावणीं खाणां, चिकन फिफ्टी-फाय काय किर्ते तें... तीं चड दिवं नाका गो ताका. पयर पोट इबाडलां म्हूण न्हिदिल्लो.

- तोच मागता न्ही?

- मागूं. सदां उठून बरें न्ही तें...

बाबू पयलो रँक घेना ही अर्चनाली खंत. म्हाका ती पटना. मनशान कर्तुत्ववान जावंक जाय. पयले नंबर घेतिल्ले लायफाच्या विद्यापिठांत फेल जावन फ्रस्ट्रेट जाल्ले पळेतात आमी. बाबू कोणूय जावं. फकत तो वायट संगतीक लागूंक फावना आनी गुंड पोरांचे संगतीन इबाडूंक फावना इतलोच म्हजो हुसको.

आज घरांत ब्रेकफास्ट घेवप ना. केन्नाय कूय मारतकच हांव वाटेर वतनाच शिरदोना गांवठी हॉटिलांत भाजीपाव मारतां हें अर्चना जाणा.

म्हाका ती भाजी खूब आवडटा. ताका हजार कारणां आसात.

- शिवा, गाडी भायर काड. घमय कसो गणोवं नाका. डिसौझाची फायल घे. वास्कोची केस करून दनपरां मडगांवां वचूंक जाय. मर्डर केस.

- विनायक सांवताली न्ही सर?

- आनी कोणाली, मश्ण्याली? काल डायरे वेलें तुवेंच वाचून सांगलां मरे. बेगीन कर पळोवया... आनी हें पळे, एन्ड्र्यूली मटको केसीची फायल घे.

- आज केस ना न्ही सर?

- त्यो जायण्यो तुका कित्याक रे? सांगलां तितलेंच आयक.

खरें म्हळ्यार ती फायल म्हाका वास्कोच्या ॲड.फियॉनाक दिवंक जाय. केसींचो लोड माथ्यार घेवन किर्ते करपाचें आसा? धांवाधांव वाडल्या.

गाडी सुटली.

- शिवा, शिरदोना 'सत्कारां'त च्या मारूंक रावपाचें.

- आं, सर... सीडी लावं?

- लाय.

- खंयचो ट्रॅक सर...

- स.

- व्हॉल्यूम कमी दवर रे सायबा... हे कानां कडले स्पीकर... म्युझीक मागीर म्युझीक उरना. नॉयझ जाता. रशीद खानाचो यमन सुरू जालो. दोन मिनटां दोळे आपशींच धांपले. धांपुनूच उरले. भक्तिभावपूर्ण आलापी. किर्ते सुरेल! कान तयार जातकच बेसुरें आयकूं नजो जाता. ते टीव्हीचेर उलोवपी परीक्षक... किर्ते ते? संगिताच्या कित्याक, सगल्याच मळांचेर बेसूर बाब चड भरल्यात. आमच्या मळार सगल्यांत चड.

शिवा म्हजे कडेन आयिल्लो तेन्ना ताका एकूच 'राग' खबर आशिल्लो. म्हजो. पूण ताका तो आवडटालो. हांकां हीच भाशा बरी कळटा. ताका म्हज्या 'मुताच्या' आनी 'दुदाच्या' अभिषेकांची संवय जाल्या आतां. पूण स्मरता. पडमूर न्हय. हरशीं अर्दकुटो. म्हणुनूच कसलींय कामां करता. रेड्या भशेन. बोणेर म्हणुनूच ड्रायव्हर जालो न्ही?

म्हजे कडेन शिकलो. शिकलो कपल! शिकयलो. किंवांट्यान सात्वीक गाळी लेगीत घालच्यो पडल्यो. पडटात. म्हाका खंयच्या रागाचो खंयचो ट्रॅक जाय हें तो जुस्त जाणा. मूड खराब जाल्लो आसतना तेन्ना सांगनासतना ट्रॅक सोळा लायता. किशोरीचो 'गोरख कल्याण'. हो राग केन्नाय भडकल्ली तकली शांत करपाक हांव आयकतां हें शिवाक कळूंक लागलां.

पेपरांचेर दोळे घुंवडायले. चिमटीभर गोंय. चाळीस आमदार. अलीबाबा आनी चाळीस चोर हे काणयेची याद करपी. अलीबाबा खूब जावन गेले. गोंयचें खोबरें करपाक कारण हे पॉलिटीशियन आनी दुसरी आमची ही ज्युडीशियरी... आमदारां इतलेच पेपर जावपाचे उरल्यात. आतां हो इंग्लीश पेपर. सरकारी गॅझेट जाला. सत्तेर येता ताका ग्राश. मारूंकूच जाय न्ही! पेपर चलयतात मिनैर. कोंकणी पेपरा वयली ही भाशा मात बरी दिसता. *आग्वाद बंदखणींतल्यान चार*

*गुन्यांवकार तिसरे खेपे फुज्य्यो.* हेडिंगूच सणसणीत. ते कोंकणीवादी ताका माथाळो म्हणटात.

मोबायल वाजलो. डिसौझाचो आसतलो. आबूज कंपनी. लंडनाक आशिल्लो खंय. मोटेपणां चड. धीस इंडिया, सच इंडिया. यूजलॅस... मागीर हांगा कित्याक आयला मरूंक? देमांदाक भियेता. खबरीच आयकुच्यो मेल्ल्याच्यो. ताचोच. फोन घेतलोच ना.

- सर, फोन वाजता.

विचारांचे तनरेंत आनी ट्रॅफिकेच्या घरघरांत हांवें आयकुना आसत म्हणून शिवान सदचे भाशेन याद केली.

- जाणा हांव.

तो समजुपाचें समजलो.

- ही स्विफ्ट गाडी बाबा. व्हॅगन आर न्ही ती. कट्टकट्ट करून मानाया भशेन शक्ती लावन गियरां किर्ते घालता, मोडून घालतलो. पिकप ती? तुजी लायकीच पिकप चलोवपाची. तीच चलयतालो तूं.

- हय सर.

- मडसरी तुजी. ऑफिसा सकयल त्या ड्रायव्हरां वांगडा क्रिकेट पळेत बसता आनी जगाचे धवळे करता तेन्ना ह्यो गजाली शीक मरे.

- आं सर.

- काय ट्रेनिंगाक बी धाडूंक जाय रे? न्ही, तशें जाल्यार सांग. गोंयचे मंत्री पळे. पुलीस यंत्रणा कशी आसची हें शिकपाक सिंगापूराक वतात. खाकीचीं युनिफॉर्मां निळीं केलीं म्हणून पुलिसांची लायकी बदलता? धोनां खंय पावल्यांत पळे. धांवपाक खंयचें, धड चलपाक येना हांकां, विटनेस बॉक्सांत कोणूय पीएसआय बी सांपडटकच हांव पिनतां पाड पडलेल्याक अक्षरशा. वचकून आसतात... पावले पळे. गाडी सायडीक पार्क करून यो.

'सत्कारां'तली पातळ भाजी म्हाका खूब आवडटा. तातूंत एक सादेपण आसा. अन्न सादें, रावप सादें, कपडे सादे... हें तत्वगिन्यान आमकां प्राचार्य सावंतान शिकयलें. लॉ कॉलेजांतलो हो एकूच प्रोस्सोर असो जाणें आमकां वेगवेगळे कायदे बेस बरे शिकयलेच पूण मनीसपणाच्यो आनी आदवोगाशी करतना पाळपाच्यो नितीच्योय गजाली शिकयल्यो. प्रोस्सोराचे आमी कांय माजी विद्यार्थी अजुनय ताच्या संपर्कांत आसात. आमी दर वर्सा मेळटात. सराचे अजुनय विद्यार्थी आशिल्ले भशेन. केदो विद्‌वान! मनीस म्हणून किर्ते? म्हन्यांत बसना फुडें उलयनूच दिसना. तो उलयनासतना लेगीत आंगांत किर्ते तरी संचार करीत आसा अशें दिसता. आमी जोडटात, तें सगलेंच आमचें आसना. थोडें चॅरिटीक दिवंक जाय, सर म्हणटा. स्वता सर ज्यो देणग्यो दीत आसता, ताची वाच्यता खंयच आसना. सादेपणांत सौंदर्य पळोवपाची एक वेगळीच नदर सरान दिल्ली.

रघू. उर्फ रगलो. रगल्याची भाजी. ही पळे. सांगनासतना हाडून दवरली.

- पात्रांव, मिच्ची हाडूं?

- रगल्या, आतां वास्को कोर्टांत वतां. पोटांत गुडगुड्ल्यार मागीर खंय धांव?

रगल्याचे खाडके वयलें तें पयल्या पावसार उदेवपी तण कशें खाड. खाड करता त्या दिसा तो रगलो कसो दिसचना. कालसांव मात सदांच चामड.

- पाणी हाड रे.

हांवें भुरग्याक ऑर्द सोडली. इश्कोलाक वचपी गांवातलो एक पोरांटो रगल्याचो एकमेव एसिस्टंट. Child labour कायद्याक लागली चुट्टी. हांव जाणां, रगल्याक कपबशयो धुवपाक, भाजीपाव दिवपाक, मेजां पुसपाक आवसील करपाक कोण मशणो येतलो?

- इश्कोल सोडलें रे? पोळयेचो कुडको भाजयेंत बुडयतनाच हांवें विचारलें.

- ना सर. सांचें.

- शिकप सोडूं नाका. हांगा यो. चोपड्यो बी घे. कितेंय जाय पडल्यार सांग.

हांवें ताच्या बॉल्सांत तीस रुपया घाले. दुसऱ्या मेजार दोळे घुंवडायत भाजी गिळांत सोडपी शिवान नदर मारलीच.

ही भाजी म्हणचे च्यें. जानोत. भाजयेंतलो रोस. ग्रेवी शब्द कसलो मड्याचो. फक्कड भाजी. तातूंतलीं चण्यांचीं कल्लां. थोडे खंयचे... खूब खेपे शिजूंक नाशिल्ले चडशे वाटाणे. भोंवतणच्या वेगवेगळ्या मळांचेर बुचबुचपी mediocre म्हणजे शिजूंक नाशिल्ल्या चण्यांची याद करून दिवपी. हे कुरकुरीत डंडे. पाव. हुनहुनीत फेंसाळ भाजयेंतलो तांबूस तेलतो. वा! कित्याकूच सर लागना हाची.

ह्या भाजयेच्या तेलत्यांत भरल्या याद त्या इश्कोला कडल्या कँटिनाची. शामालें. एकेच तरेची भाजी. शामाल्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, 'बट्टा भाजी'. हळडुवीच. बटाटाच्या चवकोनी कुडक्यांचेर दिसपी तो तेलतो. तेलत्या वयलीं सांसवां. भाजी म्हणल्यार शामालीच. सुकी भाजी. तसली भाजी हांवें आयुश्यांत खावंक ना. कितली रुचीक. रगल्याली भाजी म्हणजे तांतल्या तातूंत दुदाची तान ताकार.

केन्ना तरी बोल्सांत चिमटीभर पयशे उरताले. तेन्ना शामाल्या कँटिनांत वचून ती भाजी खावप हो खोशयेचो दीस आसतालो. त्या एकाच दिसा भूक खूश जाताली. हरशीं ती पोटांतल्या आंतकड्यांतल्यान किंवाट्यान खेपी. पंदरा मिनटांचो इंटरवाल आसतालो. घे भुरग्यांची गर्दी. लोंडो. शामाली बायल आनी तांचो इश्कोलांतूच पांचवेक शिकपी पूत भानूदास. गिरायक करता म्हणसर तीं खरशेतालीं. कांय चांडाळ भुरगे बॅल वाजसर गणोवन गणोवन खाताले आनी बॅल जायना फुडें बाण कशे धांवताले. ते गर्देंत कांय जाण पयशे दिनासतना पळटाले. एक दीस शामान म्हज्या बोंचकुलाक धरलो.

- पयशे रे?

- आत्तां दिल्यात ते!

- केन्ना?

- आतांच.

सोऱ्या भशेन 'च्या'च्या ग्लासाक इल्लो इल्लो घोंट मारपी बाप्पां दूदकारान भितल्ल्यान साद घालो. ''दिल्यात रे तेणें.'' शामान म्हाका सोडलो. ते गडबडींत आनीक धा फटींग पळ्ळ्यात आसतले. कोणाक तरी धरूंक जाय म्हूण शामान म्हाका धरिल्लो. चोर मेळटात थोडेच. हे भुरगे जल्मतनाच चोर, गुन्यांवकार आनी फटींग आसतात जाल्यार कोण जाणा. हांव ह्या विशयाचेरच चिंतीत आसतां.

एलएलएम् जायत सावन प्रोफसोर सावंत म्हाका एक सारको सांगता. कायद्याची डॉक्टरेट कर म्हूण. Juvenile delinquency विशयाचेर. सराक म्हजे विशीं आस्था आसा.

खरें म्हणल्यार म्हाका शामाचो रागूच आयिल्लो. बाप्पाक लागून हांव सुटलों. भाजी आंवडटाली म्हणून त्या कॅंटिनांत वतालों.

हो पळे रगलो कालसांवांक हात पुशीन्न आयलो.

- कांकणां हाडूं पात्रांव? हीं पळें आत्तांच आयल्यांत. रगल्यान विचारलें.

- एकूच हाड. वेळ जाता. च्यांत बुडोवन खातां... रगल्या, ह्या शिवाल्या हातांक चार कांकणां घाल तीं. अजून तयार जायना. इतलीं वर्सां म्हजे सरीं रावन लेगीत. झेंपेपण वचना... रगल्या, धा कांकणां गुटलावन दी शिवाक आनी धा म्हाका. शिवा, तीं भुरग्यांक व्हरून दी.

अर्चनाक कितें कळटलें, कांकणांनी कसलो जांदू आसा तो? ताका फकत भांगरांचीं कांकणां.

शाळेंत आसतना घरा च्या वांगडा एकूच कांकण मेळटालें. हांव तें जांगडा पोंदा घालून मोडटालों. कट्क. दोन अर्दी. बुडोवन खावप.

अर्चनाक एक दीस हांगा रगल्याल्या 'सत्कारां'त हाडलें. बाबू आशिल्लोच. बाबूक खरें म्हणल्यार भाजी आवडिल्ली.

पूण आवयल्यो संवयो फ्रायड रायस, पुलाव, पिझ्झा...

- म्हाका आवडूंक ना. अर्चून सांगपाची गरज नाशिल्ली. तोंडूच उलयतालें.

- कितें आवडूंक ना? हांवें बेठेंच क्रॉस केल्ले भशेन विचारलें.

- तशी भाजी वायटशी ना. पूण ही बशी. कुडकोच गेला पळे हांगा. धुतात कशे, कोण जाणा.

हे कप पळे. बाबूक दिला तो कानतुटको. ही बशी वेरेल्या. किचनांतलीं बुरशेपणां हांगच्यान दिसतात. मेजां... जनेलां वयलो धुल्ल...

- तुमी तें चिकन टिक्का पणजे खातात तें किचन पळेलां गो तुवें?

- निदान दोळ्यां आड मसंड पाड तरी. त्या हॉटेलाक निवळसाणीचें सर्टिफिकेट मेळ्ळां.

- तूं आनी बाबू तातूंतलीं चडांत चड खावपी म्हणून तुमकां मेळूंक ना? हांव हांसलों.

बाबू हुजीर हांव वाद वाडयना. आनी वादांत अर्थूय आसना. चोवीस तास आमचो वेवसाय वादूच घालपाचो. तो घालिना जाल्यार आमकां न्हीद लागना. सादी भासाभास केल्यार लेगीत अर्चूलें सदचें एकूच तुणतुणें — तुगेली ती आदोगाशी पुरो आतां.

एक गजाल मात केली. त्या दिसा सत्कारांतल्यान परततना अर्चूक एक लॅक्चर दिलें.

*- आगो, पोरूं आमचो प्रोफसोर सावंत विद्यापिठाचो डीन जालो तेन्ना ताणें आमकां कांय माजी विद्यार्थ्यांक च्या पार्टेक घरा आपयल्ले. सराच्या बंगल्यार गडगंज टी-पार्टी.*

*घणघणीत येवकार. मुखेल हॉलांत सरान खावपाक वेगवेगळे जिनस दवरिल्ले. एके वटेन तरेतरेची कटलरी. कितल्याश्याच तरांच्यो कप-बशयो. ल्हान-व्हड, तरेतरेच्यो, केन्नाच पळोवंक ना अशा रंगरुपाच्यो.*

*किटलेंत काफी दवरिल्ली.*

*सर तिका बूल म्हणी. 'बुलींतली काफी घेयात रे, जाय तितल्यो कप बशयो आसात पळे, येतां हांव' म्हणून सर मातसो भितर गेलो.*

*थोड्या वेळान परत आयलो. काफी घेवन जातकच सरान शिटकायलें,*

*- तुमकां सगल्यांक जाय तीं च्यावनां घेवपाची मेकळीक आशिल्ली. पूण चडश्या जाणांनी सुंदर नव्या आकाराचीं, डिझायनांचीं, व्हडलीं, रुंद कानांचीं च्यावनां उखल्लीं. सामके सादे पारंपारीक कप हे पळे हांगा कुशीक तशेच आसात.*

*- आमचें चुकलें सर? एके प्राध्यापिकेन म्हणल्यार आमचे वर्गमैत्रिणीन विचारलें.*

*हे देखींतल्यान सर कितें तरी कुरवेन शिकोवंक सोदी हें म्हाका कळिल्लें. आयकुपाची उमळशीक वाडिल्ली.*

*- चुकपाचो प्रस्नूच येना. हांव तुमकां एके सादे गजालीचो दिश्टावो घडोवंक सोदी. पळेयात, जीण सादी. काफये भशेन. तिचे घोंट मारीत रावचें. सादेपणानूच. काफी कसल्या कपांत घेतल्या ताका म्हत्व आसता? हालीं कपांकूच चड म्हत्व आयलां. कृत्रीमपण आनी बडवाचाराचे भकीक पडून व्हांविल्ल्यान आमी कपां फाटल्यानूच लागून शक्त वगडायत आसात. जिणेची काफी थंय न्हिवत आसता. पियेतल्याची वाट पळेत. तशीच उरता. पियेनासतना, आनी तानसोर लागुनूय; ताव्याक सुकतडो पडिल्लो मनीस कपांचेंच संशोधन करीत आसता...*

अर्चूचेर हे गजालीचो व्हडलोसो परिणाम जालोना. हाचें अजाप जालेंना. वयल्यान ताणें एक अनपेक्षीत प्रस्न विचारलो ताणें मात म्हाका धक्कोच बसलो.

- राव रे, तुवें कसलें कप उखलिल्लें?

लग्न जाल्लों, तेन्नाच सगलेच जाण अजाप करताले. Intellectual compatibility नाशिल्ल्यान कशें जुळटलें रे? होच प्रस्न. कसली मड्याची compatibility? बुदवंत आनी अती शाण्या पार्टनरांनी एकठांय येवप म्हणल्यार जें फ्रिक्शन जाता तें विचारूं नाका... म्हाका कशें कळ्ळें म्हणजे? हो बारोमिटर आमचेच कडेन आसा. गोंयांत जावपी डायवोर्सांचें प्रमाण पळोवचें. आनी अभ्यासचें. लग्न म्हणल्यार केन्नाच सुटावें जायना असलें जीगसॉ पझल कशें. दोगांय जाणां एकामेकांक केन्ना पुरायेन समजचनात. पुराय आयुश्यांत. प्रोफसोर केन्नाय विनोदान म्हणी - लग्न म्हणल्यार नाणें जावप. नाण्याक वेगळावं नजो अश्यो दोन बाजू आसतात. त्यो एकामेकांक केन्नाच वेवस्थीत पळोवंक शकनात.

गाडी वास्को धांवपाक लागली. शिवाक कितलीं मिनटां उरल्यांत आनी कितले बेगीन पावंक जाय हें गणीत पाठ आसता.

- सर तो हॉटेलांतलो भुरगो धड न्हूं आं.

ताका हांवें पयशे दिल्ले तेन्ना हाच्या पोटांत चाबिल्लें तें हांवें तेन्नाच ताडिल्लें.

- कित्या वयल्यान म्हणटा तूं हें?

- तो मटको लायता.

- लावं थंय.

- सुबेज.

- कारण?

- पयर गाडयेचेर फाटल्यान चारशें वीस बरयल्लें. हांयें विसाल्ल्यार वयल्यान सांगता, आदोगाद चॉरूच म्हुणोन.

त्या भुरग्यान कदाचीत तशें बरयलांय आसात. रघूच मटको घेता हें हांव नकळ? हॉटेल कम मटक्या बूथ. सिगारां ओडपाक,

मटको लावपाक आनी च्या भाजी मारपाक लोक हांगा येतात. आनी भुरग्यार्चे चुकलें कितें? आदोगाद फटींगपणाचें समर्थन करता म्हूण तांकां जगलोक चारसौबीस म्हणटात.

- ताणें गाडयेच्या हारशाचेर म्हणजे धुल्लाचेर हो आंकडो बोटान बरयलो हाचोच अर्थ तुवें गाडी धुवंक नाशिल्ली आनी पुसूंक नाशिल्ली. आतां तरी दशा पळे रे हारशांची... वच बेगीन आतां.

शिवाक उजरायलो. गाडी धांवक लागली. ताका पयशे दितकच हाच्या पोटांत चाबता. म्हज्यान बालकामगार पळोवं नजो जातात. तातूंत तो शिकता. अजून मेरेन कांय भोंवतणच्या मवाल्यांचे संगतीक लागून क्रिमिनल जावंक ना.

वास्को पावत आयिल्ले. देंवतेर एयरपोर्ट रोड मेळटा थंय कच्च करून अकस्मात शिवान ब्रेक लायलो.

- सांबाळून रे गाडवा...

- सर तें चली पळे मर्दीच स्कुटी उबी करून मोबायलाचेर उलयता. ताका साल्वार करूंक...

- जाणा, पळेलां हांवें. तांकां त्यो पँटी, टी शर्टी, म्हारग्यो स्कुटी, म्हारगे मोबायल आवय-बापूय आयते दिता. कुले जाल्यात दाट. चरबी जाल्या. रीत नाशिल्लीं पोरां. तूं सांबाळ.

दुकानां रस्त्यार येवपाचीं उरल्यांत. फुलांचो आनी तुऱ्यांचो गाडो. मुखार हें चली स्कुटी पार्क करून एके वटेन तुरो घेवन वांटपणां करता आनी दुसरे वटेन मोबायलाचेर उलयता.

- यो मुगो तूं. बेगीन यो... हांव आनीक एक बुके घेता तुजे खातीर... ऑके... ऑके...

शिवान गाडी कुशीकच्यान काडली.

पावले. वास्को पावले. कोर्टा कडेन.

- शिवा गाडी मागीर पार्क कर. हांव हांगाच देंवतां. ती दुसरी निळी फायल - एन्ड्रयूली घेवन यो. मटक्याची एक केस म्हाका ॲड.फियॉना कडेन दिवपाची आशिल्ली. वास्कोच्यो कांय केसी हांव सरळ फियॉनाकूच काडून दितां. हुशार पोर. क्रिमिनल केसी बरें हाताळटा. घोव मात पेज. बँक रिटेनरशीप आनी कांय कॉर्पोरेट केसी हांचेर तग मारता. फियॉनाकूय ह्याच कोर्टांत केस आशिल्ली.

ओपन कोर्टांत आयज वातावरण मातशें तंगूच दिसतालें.

खुनाचे केसीची सुनावणी आशिल्ली. एका तरनाट्यानूच ताच्या इश्टाचो हेरांच्या सांगातान खून केल्लो.

ही केस पेपरांचेर गाजताली. ताका लागून कोर्टांत आयज गर्दी दिसताली. पत्रकार बी.

हांवें फियॉनाक फायल दिली.

इतल्यान जुवीज आयली.

आमच्यो केसी उपरांत आशिल्ल्यो.

- हीं पोरां हे बुके घेवन हांगा कित्याक आयल्यांत? पार्टी बी आसा हांगा? Maintain decorum and discipline. जुवीज तापली.

हांवें फाटल्यान नदर मारली. चली वळखीचें कशें दिसलें... याद जाली. व्हदळ स्कुटी थांबोवन मोबायलाचेर उलोवपी चली आपले इश्टिणी सांगाता बुके घेवन थंय बशिल्लें. आनीकूय कांय कॉलेज कुमारी थंय आशिल्ल्यो. म्हाका कांयच उलगडो जालोना.

- आरोपी अमर बंदखणींत आसतना ताचो बर्थडे जालो. देखून ताका विश करून बिलेटेड बर्थडे ग्रिटिंग्स दिवपाक पोरां आयल्यांत. कोणें तरी कांचवेत जुविजाक सांगलें.

- आरोपी दुसरें वर्स एलएलबीचो विद्यार्थी. हीं भुरगींय लॉ स्टुडंट्स. मात्तूय शिस्त नाशिल्लीं. Get out.जुविजान भुरग्यांक भायर धांवडायलीं.

आरोप्याक विटनॅस बॉक्सांत व्हेलो. ताची थोडो वेळ चवकशी जाली आनी उलट तपासणी जाली. चडशे गुन्यांव ताणें मानून घेतले. पुलिसांनी चवकशी बारीकसाणेन केल्ली म्हूण माणसुकी. केस दनपार मेरेन स्थगीत जाली. त्या निर्विकार भुरग्याक पळोवन म्हाका भिरभिरी मारली. आपल्याच वांगडच्या इश्टाचो खून? आवय-बापायचो एकलोच पूत. मित्रा खातीर त्याग करपाचीं मुल्यां खंय गेलीं? चुकलां कोणाचें? आवय-बापायचें काय शिक्षण पद्दतीचें? आमकां मेळ्ळो तसलो प्राध्यापक सावंत हांकां मेळ्ळोना काय तसले अध्यापक मेळून लेगीत तांणी दिल्लें जिरोवपाची हांची लायकी ना? प्रस्नांचें मोड तकलेंत घुंवक लागलें. म्हजी केस कॉल आवट जाल्ली. कागदां फायल करपाचीं तीं हांवें केलीं. हाताक बेडयो घालून पुलीस व्हरताले त्या कथीतपणान उच्चभ्रू कुटुंबांतल्या भुरग्याक पळेत भायर सरलों.

कॉरिडॉरांतूच इन्स्पेक्टर गांवस मेळ्ळो. हांव त्या भुरग्याक किंवाट्यान उबगून पळेतां हें ताका कळ्ळें.

- दोतोर, शिकिल्ले भुरगे विनाकारण खून करतात कित्याक तेंच कळना. लीड हाणेंच घेतिल्ली. चार दीस आपल्याच इश्टाक मिरामार लिपोवन दवरून ताच्या बापाय कडेन हे लाखांनी पयशे मागताले. ताका बांदून घाल्लो आनी तोंडार टेपी मारिल्ल्यो. निमाणें, ह्याच भुरग्यान नायलॉनाची दोरी हाडून ताच्या गळ्या भोंवतणी रेवडावन ताका मारलो...

- गुड्डावपाचो घालून.

- एकूच थापट मारिना फुडें बकाबक ओंकपाक लागलो. सगलें वदपाक लागलो.

- बाकी एक. हे खेपे तुमी केस strong केल्या आं... पुलीस चवकशी खोलायेन जावंक जाय तशी जाल्या.

- व्हडली नायलॉनाची दोरी हाडपाक हो म्हापशेंच्या दुकानांत खंय गेल्लो तेंवूय सोदून काडलें... दोतोर, एकूच गजाल कळना जाल्या. चवकशे वेळार पयलेंच थापट मारिना फुडें हो जसो रडून वदपाक लागलो, तेन्ना एक गजाल मात आमकां दिसली.

- कितें तें?

- असलीं कांय थापटां शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या आवय-बापायन हाचेर वेळोवेळ मारून फाजील अपुरबायो करूंक नाशिल्ल्यो जाल्यार ह्या थरार पावचोच नाशिल्लो हो... आयती गाडी... आयतें पेत्रॉल... आमचो एक constable पगार घेता तितलो पॉकेट मनी हाचे आवय-बापूय ताका म्हयन्याक दिताले खंय.

म्हाका फुडले केसी खातीर मडगांवां धांवपाचें आशिल्लें. इन्स्पेक्टर गांवसाक पुलिसेंत नांव आशिल्लें. आनी सद्या तो सांगता तितल्याय गजालींनी अर्थ आशिल्लो. पूण जापो?

शिकिल्लो सवरिल्लो तरनाटो लेगीत हिंसा कित्याक करता? कारणां कितें? आयचो चंगळवाद? फोल्गांनी व्हांवत वचपी ह्या दिशाहीन गुन्यांवकारांक भरकटपा पसून मूळ

मनीसपणाच्या प्रवाहांत हाडपाक कांयच उपाय नात काय?... तकली चिंतनांनी शेणिल्ली दिसता. सकयल देंवन गाडये कडेन केन्ना पावलों, कांयच समजलेंना. शिवाच्या आवाजान कळ्ळें.

- सर, सरळ मडगांवां वचपाचें न्ही?

- आनी खंय मरणांत? वच मरे आतां. डिसौझान दिल्ली पयशांची कवळी बोल्सांत कोंबली.

घब्ब करून गाडयेचें दार हांवें मारलें. त्या तरनाट्या गुन्यांवकारान म्हजीं चिंतनां खुबळावन घाल्लीं. इतले क्रिमिनल वृत्तीचे हे दिवटे जल्मतनाच हे कालेतीचे आसतात काय? शिक्षणाचो वापर ते फकत आनीक फटींगपणां आनी हिंसा करपाक वापरतात काय कितें?

शिवान गाडयेच्या सीडी प्लेयराचेर ट्रॅकसोळा लायिल्लो. किशोरीचो गोरख कल्याण. तो कसलोच आवाज म्हाका आयकूंक येनासलो. शांत करपाची गजाल सोडूच.

भायर मरसर पावस कोसळटालो. मर्दीच मळब फुटिल्ले भशेन गडगड आनी जोगूल जालें. अकस्मात एक केण तकलेंत उसळून गेलें. प्रोफसोर सावंत म्हाका डॉक्टरेट कर म्हूण सांगत आसता. त्या विशयाचो आत्मो आज म्हाका मेळिल्लो. होलमल्लो. चालना! हय. संशोधन सुरू करप. पयली केस हिस्ट्री ही. मानसोपचार तज्ञां कडेन लेगीत उलोवन कायदो विद्यार्थी अमराचे वर्तणुकीची विस्कटावणी करप. Juvenile delinquency and crimes विशयाचेर म्हजो प्रबंध सुरू... यस!

पावसाच्यो पांवळ्यो विंडशिल्डाचेर कोसळटाल्यो. गाडी त्रास नासतना धुवन जाली आनी चारशें वीस नंबर आपशींच गेलो म्हूण शिवा धादोसभरीत जाला आसतलो. हारशाचेर निस्तुपी तें उदक कुशीक काडपाक दोन वायपर उणे पडटाले... विचार येताले वताले. एकार एक. सकाळच्या आदेसाक स्थगीत केल्ले ते केसींत सांजे कितें जातलें काय? त्या फुलां घेवन येवपी चलयांच्या आवय-बापायन तांचेर संस्कार करूंक ना काय? काय पालकांक दोश दिवप चुकीचें? अमराच्या आवय-बापायचें चुकलें काय तरनाटे पिळगेचेंच चुकलां? कित्या खातीर? टीव्ही, सिनेमा, इंटरनॅट, आयतो मेळपी पयसो, जबाबदारेची जाणीव नासप, मुल्यांचो आनी संस्कारांचो उणाव हाका लागून ही पिळगी व्हांवता काय?

ह्या डाय-हार्ड गुन्यांवकारांक काळिजूय आसना काय? तांकां कायद्याची भंयभीती ना काय ती मस्ती आळाबंदा हाडपाक कायदो उणो पडटा? गोंयची ही गुन्यांवकारी वाडत वचून आनीक भिरांकूळ रूप घेना मूं? ताचेर उपाय आसा काय? हेंच संशोधन करूंक जाय...

गाडी नेट्टान बाण कशी धांवत सुटिल्ली. विचारांची!





# पिरेरिगेलीं चेडवां

**किशू बारकूर**

हाचे पयलें पेद्रू ताचे जिणयेंत इतलो सुडसुडीत जाल्लो ना. त्या आयतारा मिसाक वचोन आयल्लो पेद्रू सगळोच नव्या स्पिरितान भरोंकय एक कारण आसा. कुमगार सेवन ताच्या मुकल्यान पिरेरिगेलीं चेडवां पाशार जावन वेताना मारल्ल्या पर्मळाच्या ल्हाराक अमालशें जावन झेमेवन बसल्लो पेद्रू , कळवणे वेळार विगाराच्या ताळ्याक उडोन पडल्लो.

पाटल्या थोड्या तेंपा थावन दियेसेजींतल्या 'नवी समाज २०००' जमात्यांक वचोन येवन उत्तेजीत जाल्लो देवोत विगार, तांच्याय गांवांत मुळावी क्रिस्तांव समाज बांदून हाडचे विशीं उलयल्लो. वाड्या वाड्यांनी साताट कुटमांचे ल्हान समुदाय घडचे विशीं ताणें विवर दिल्लो. शेरमांवा वेळार आपोस्तलांच्या कृत्यांतल्या मुळाव्या क्रिस्तांव समाजा विशीं ताणें शिकवण दिल्ली. कशे ते सुरविले क्रिस्तांव आपलें सर्व आस्त-बदीक विकून आपोस्तलांच्या पांयां मुळांत हाडन दवरताले आनी एकामेका वांटून घेताले, एकाच कुटमा बरीं जियेताले. आनी त्याच देकी खाल आतांच्या संवसारांत कशें ल्हान समुदाय बांदून हाडयेत म्हळ्ळे विशीं विगारान आपुरबायेन सांगताना पेद्रूक हे 'ल्हान समुदाय' निजायकी नवलांभरीत दिसल्ले.

तशें म्हण तांच्या वाड्याच्या ल्हान समुदायाच्या सर्वांनी आपलें सर्व आस्त बदीक विकून विगाराच्या पांयां मुळांत दवरचें म्हळ्ळें. चिंतप पेद्रूचें बिल्कूल न्हय. आतांच्या काळार असली मांडावळ कितली प्राक्टिकल जायत म्हळ्ळे विशीं तो जाणासल्लो. पुण ताच्या सबार तकली फोडाफोडींक ह्या ल्हान समुदाया वरवीं वाट मेळत म्हळ्ळो भरवसो पेद्रू थंय उदेल्लो. ताका आसल्ली 'मेजर' खंत म्हळ्यार ताच्या वाड्यांतलीं पिरेरिगेलीं चेडवां!

कांय सतरा आटरा वर्सां आदली गजाल. पेद्रू कांय साताट वरसांचो भुरगो. पेद्रूगेल्या गांवांत तंवळ वाहनां भोव उणीं, तेंय मिसाक येवंचीं म्हळ्यार नातल्लींच म्हणयेत, पिरेरिगेली लोरी सोडल्यार! त्या तेंपार ताच्या

गांवांत सर्वां वरनीं ग्रेस्त म्हळ्यार पिरेरिगेलीं. मदल्या वर्गाचो लोक उणो आसोन, गरिबांचो वांटो चड आसल्ल्या त्या गांवांत ग्रेस्तांक मेजूंक एका हाताचीं बोटां चड जातालीं. त्या काळार हरयेक आयताराचें पिरेरिगेलीं तांच्याच लोरयेर मिसाक येतालीं. पिरेरिगेलीं म्हळ्यार पिरेरा, ताची बायल आनी भुरगीं - दोगां चेडवां. इगर्जेंत तांच्याच, तांचें नांव बरयल्ल्या आनी दिंबी घालूंक 'नीलर' आसल्ल्या बांकार बसतालीं. मिसा उपरांत पार्टी वेतानां इगर्जे मैदानार जमल्ल्या भुरग्यांनी कुकाऱ्यो मार्न दारवाट्या पर्यांत ते लोरिये पाटल्यान धांवचें, घैरादीक थोड्यांनी लोरिये पाटल्यान उमकाळचें. एक पावटीं ती लोरी इगर्जे दारवाट्या उपरांत दोळ्यां भायर जाली तर पेद्रूक आनी ताच्या सांगात्यांक पिरेरिगेल्यांचें दर्शन हफत्या उपरांतच.

गांवांतलो एक मात बंगलो - पिरेरिंगेलो. क्रिस्तांवांची एक मात लोरी — पिरेरिंगेली. पयशिल्ल्या शेरांत कोर्वेंतांनी इंग्लेज शिकप शिकचीं भुरगीं - पिरेरिगेलीं. पांयां गांटी पर्यांत येवंच्या बुटां भितर इजार शिरकावन, हातांत बेत धर्न भरमान चलोन येवंचो — पिरेरा, आनी ताका सत्री धरूंक एक दिवोर. ताचें कारबार-दरबार पेद्रूगेल्या मात कित्याक, भोंवतणींतल्या पंदरा गांवच्या लोकांनी उलोवंचें तसलें. तशें म्हण पिरेरिगेलीं कोणाय संगीं भरसाल्लें, वोलाक, कुमगाराक, काजाराक या मोर्नाक कोणायगेर आयल्लें पेद्रूक कळीत ना. ताणें बिलकूल पळेवंक ना. तवळचो प्रायेस्त विगार दोतोरनीक येनातल्ल्या भुरग्यांचे कान वोळावन गोंयां दाकयतालो तरी, पिरेरिगेलीं चेडवां दोतोरनीक आयल्लो दाकलोच नातल्लो. ओट्टारे तीं गांवच्या खंयच्याय हिसोपाक मेळानातल्लीं. पेद्रू हें सर्व बऱ्यान जाणा, कित्याक म्हळ्यार, गांवांतल्या हेरां सर्वां प्रास बऱ्यान तो पिरेरिगेल्या चेडवांक ओळकता. ताणें तांकां गुमान केल्ल्या पयल्या आयतारा थावन आतां पर्यांत, हरयेका आयतारा तीं मिसाक येवन वेतां पर्यांत इगरजेंतल्या कुंदयाक ओणकोन तांकां पळेवंचो पेद्रू, ल्हान आसतां, हेर भुरगे तांच्या लोरिये पाटल्यान धांवताना, तांचे संगीं बिलकूल धांवल्लो ना. बगर कुंदयाक वोणकोन, दोळे धांपून पिरेरिगेल्या चेडवांचीं रुपणीं आपल्या मती पडदयार, मुकल्या एका हफत्या पर्यांत खंचोन दवरचें प्रेतन करतालो. तो तवळ आट-नोव वर्सांचो तर तीं चोवदा आनी सोळा वर्सां प्रायेचीं. तेन्नां सुरू जाल्ली ही परिगत केन्ना मोगांत बदल्ली तें पेद्रू नेणा, आनी कोणाच्या मोगार, व्हडल्या या धाकट्या चेडवाच्या म्हण विचारल्यार ताचे लागीं जाप ना. अशें ल्हान थावन पिरेरिगेलीं म्हळ्यार पेद्रूक खंय नातल्लो गौरव आनी तांचीं चेडवां म्हळ्यार जीव. आयताराचें मीस आनी पिरेरिगेलीं चेडवां, पेद्रूच्या जिणियेचो तुटोंक जायनातल्लो हिसो जावन, ताच्या अस्तित्वा विशीं पिरेरिगेल्या चेडवांक कांय खबर आसा या ना म्हळ्ळें पेद्रू नेणां. एदोळ पर्यांत तांचे लागीं उलयल्लें सोड, मुकामुकी पळेवन हासल्लें सयत ताच्या उडासाक येना. पेद्रूच्या वांट्याक तीं अंत्रळार परजळचीं सोभीत तारां आनी तो तांचो आराधक.

पेद्रू वाडोन येताना गांवांत सगळें बदलोन गेल्लें. पिरेरिगेल्या बंगल्या तेदें न्हय तरी इल्ले ल्हान साताट बंगले वयर आयल्ले. टेरेसाचीं घरां चडल्लीं. गल्फाच्या वाऱ्या संगीं गांवचीं कारबारांय वाडोन येवन पेद्रूच्या गांवाक नवेंच रूप आयल्लें. परने इगरजेक नवें कापड न्हेसयल्लें. नवे नळे बसयल्ले. रंग वोडल्लो. आल्तारीर मार्बल चडयल्ले. नांवां आसल्ल्या बांकांची रिवाज मोडून, कुशीच्या बोल्कांवांनी प्लास्टिकाचीं कदेलां दवरल्लीं. इगरजे मैदानार आतां आयताराचें वाहनां रावोंक जागो पावनातल्लो. पिरेरिगेली ग्रेस्तकाय त्याच मापान वाडल्ली आनी लोरिये बदलाक तांचें 'डेवो' मिसाक येवन हेर मारुती ८००, झेन, पदमिनी, सुमो आनी महिंद्रा मधें मिसळातालें आनी पेद्रू आपलें होंडा सिटी १०० हाङ्ग तांच्या कारा बगलेनच रावयतालो. तांच्या नांवाचो बांक आतां इगरजेंत ना तरी पिरेरिगेलीं चेडवां हरयेक आयताराचें, आदीं तो बांक आसल्ल्या जाग्यारूच दिंबी मारतालीं आनी पेद्रू तांच्या भोंवतणी व्हाळच्या पर्मळाच्या वर्तुलांत अमाली जातालो. आदीं गांवार पिरेरिगेले ग्रेस्तकाये विशीं उलोवणें चलताना, आतां तांचीं चेडवां काजार कित्याक जावनांत म्हळ्ळ्यो खबरो चलताल्यो.

पिरेरिगेल्या व्हडल्या चेडवाक पांत्तीस जावन, धाकट्याक तेत्तीस जाल्यारी तीं दोगांय एदोळ काजार जावंक नांत, मधें एका दाक्तेराची सयरीक आयल्ली. खंयच्यागी इजनेराक विचारल्लें म्हणोन गाबो जाल्ल्यो तरी, तीं केन्ना काजार जातात, जातातगी या ना म्हळ्ळे विशीं गांवार नक्की कोणायकी कळीत ना. तांचे लागीं उलोवन, विचार्न जाणा जावंची सळावळय ना. म्हातारो पिरेरा बायल सरल्या उपरांत चड आनी चड आपल्या कारबारांत बुडल्लो. पेद्रू मात्र पिरेरिगेल्या चेडवां विशीं दीस रात चिंतालो आनी कर्गतालो. ती एदोळ काजार जायनासतां आपणाकूच राकोन रावल्यांत म्हण ताचें भोगप. पयलें तीं आपूण प्रायेन व्हड जावंदी म्हण राकतालीं म्हण तो चिंताना, आतां आपणा संगी इल्ले पयशे जावन आपणाचें मट्ट इल्लें चडोंदी म्हण राकतात कोण्णा अशें स्वपणेतालो. पयशे करचे विशीं एदोळच एक ल्हान कारबार ताणें सुरू केल्लें आनी दीस रात आपलें कारबार वयर हाडूंक तो पेचाडतालो. ह्या मधें युवसंचालनाची लक्कीडिप विकच्या निबानं फेस्ता वेळार व्हडल्या चेडवा लागीं एक पावटीं तो उलयल्लो आनी सनवारा एक दीस धाकट्या चेडवा संगीं बस्सार एकेच सिटीर ताणें पयण केल्लें. ते दोन दीस ताणें आपल्या मती पडदयार भांगराळ्या अक्षरांनी कांतवन दवरल्ले.

पेद्रू बरो तरनाटो. इगरजेंत बरें नांव ताका आसा. युव मुकेली तो. गायान मंडळेंतलो आपुरबायेचो गावपी. सर्वांक देक दिवंच्या तसलो तरनो उदयमी. कोणायचे गरजेक पावंचे तसलो. वाड्यांतलीं कार्यां सुधारसून व्हरचे तसलो. कांय अपरूप इल्लिशी बियर पियेता. ताच्या दफ्तारांत थोड्या चलियांचे फोन येता तरी तो कोणायकी वारें घालिना. ताणें चिंतचें फकत पिरेरिगेल्या चेडवां विशीं.

मार्गार थावन पेद्रूगेर वचोंक मधें एक ओण मेळता. हेणे आनी तेणे दोन हितलांचे व्हड जयत दोरे आसोन मधें ल्हान भुरग्यांक सत्री

उसोवन धर्न चलोंक जायना तितली बारीक वाट. पेद्रू ल्हान आसताना पावसाळ्यांत ते ओर्णींत कश्टाल्लो आनी व्हड जातच सकल व्हर्न हात पाय घश्टोन मार कर्न घेतल्लें. आतां तांचें हिरो होंडा घरा पर्यांत वचनातल्लें. त्या दोनूय दोन्यांच्या धनियां लागीं उलोवन ते दोरे इल्ले इल्ले पाटीं घालचे विशीं एदोळ पेद्रून केल्लीं सर्व प्रेतनां निर्फळ जाल्लीं.

पेद्रूच्या घरा लागींच आसच्या ताच्या बाप्पूगेल्यां सर्वे तांकां गडिचे तक्रार आसल्ले. इल्ली सोडदोड कर्न आस्ती बदकाचीं दस्तावेजां सारकीं कर्न घेवंक पेद्रून केल्ल्या वावराक फळ मेळोंक नातल्लो. एक पावटीं तीं दस्तावेजां सारकीं जाल्लीं तर कारबारा खातीर काडल्ल्या रिणाचो थोडो भार पेद्रूच्या मात्या वयलो हाळू जातो.

शेजारच्या आनी दोन कुटमां मधें दुसऱ्याच रितीचे कश्ट. त्या दोनूय कुटमांक उदका खातीर एकूच बांय. ती बांय विर्शेत पावलाच्या सभेच्यांनी दोनूय कुटमांच्या सवलतेकं बांदून दिल्ली. तरी बांय बांदून जाल्या उपरांत, बांय आसल्ल्या जाग्याची जिल्लीबाय, शेजारचे विन्नीबायेगेल्यांक जावं, आनी कोणाकी एक थेंबो उदक दिवंक तयार नातल्ली. पेद्रूक खुद हांतूं कांय खंत नातल्ली तरी आपल्या शेजारा फकत उदका खातीर दोन कुटमां मधली लडाय ताका समा दिसनातल्ली. तेंयी सां.विर्शेत पावलाच्या बांय खातीर.

अशें आसतां पेद्रूक ल्हान समुदाय आनी मुळावी क्रिस्तांव समाज देवान दिल्लें देणेशें दिसल्ल्यांत नवल ना. विगारान सांगल्ल्या बरी पंगड केल्यार पिरेरिगेल्या घरच्या सर्वे हेर सर्व कुटमांचो एक पंगड जाता आनी ह्या समुदायाची पयली जमात पेद्रूगेर जमची जाल्ल्यान, लेक नातल्ल्या साध्यता विशीं पेद्रू स्वपणां देकतालो. जमातेंत समुदायांतल्या सर्व कुटमांनी पावट आसल्ल्यांनी येजे आसल्लें. पिरेरिगेर थावन पिरेरा येवंचो ना म्हळ्ळें पेद्रू जाणासल्लो. पूण चेडवां... तीं येवंक पुरो म्हण पेद्रू चिंतालो. ओणीचे दोरे पाटीं घाल्न एक ल्हान मारोग करचो, बाप्पूगेल्या आस्तिचीं दस्तावेजां समा करवंची. जिल्लीबाय आनी विन्नीबायेगेल्यांनी बांयचे उदक वांटून घेशें करचें, आनी सर्वां प्रास पिरेरिगेल्या चेडवां सरीं उलोवंचो आनी वोळक कर्न घेवंच्या अवकासा विशीं चिंतून पेद्रू सगळो सुडसुडीत जालो.

पयल्या जमातीची तयाराय पेद्रून भोव भरान केल्ली. घरांतल्या कोनशा कोनशांतलो कचरो झाडून, घयरम काडून नितळ कर्न सजयल्लें. समुदायांतल्या सर्वांगेर, पिरेरागेर सयत खुद वचोन वोवळीग दिवन आयल्लो. आयल्ल्या सर्वांक काफी फळाराची सरबाराय केल्ली. विगाराक, फिरगज उपाध्यक्षांक, कोवेंताचे व्हडिल्नीक, पत्राच्या प्रतिनिधींक आनी तस्विऱ्यो काडूंक आकार स्टुडियोक आपोवणें दिल्लें.

त्या दीस, तांच्या गांवच्या ल्हान समुदायांनी पयल्या समुदायाची पयली जमात पेद्रूगेर भोव यशस्वेन पोंताक पावली. विगारान ल्हानसो सेर्मांव दिलो आनी कोवेंताचे व्हडिल्नीन ल्हान समुदायाची शिकोवण दिली. उपाध्यक्षान पेद्रूचें मुकेलपण फुगारलें आनी उरल्ल्या तरनाट्यांक ताच्या मेटांनी चलोंक उलो दिलो. पेद्रू भायल्यान हासतालो तरी ताचें काळीज चिरमुटल्लें. जमातेक पिरेरिगेलीं कोणूय येवंक नातल्लीं.

उपरांतच्या दिसांनी, वाड्या वाड्यांनी सबार समुदाय वाडले, चडले आनी गांवार भरले. पेद्रूगेल्या समुदायाच्यो जायत्यो जमात्यो जमल्यो. मागणीं केली, पिडेस्तांक भेट दिली, करेज्मांत खुरसावाटो केल्यो. कोंफ्री पुरशांवार सोम्याच्या स्वागताक ब्यानर घालें आनी तांच्या गांवातच तांकां देकीभरीत म्हण विगारान कुरवारायलें.

पूण आतांय पेद्रूगेर वेची ओण तशीच आसा आनी ताची धाकटुली भाची सतरी उसोवन चलोंक कश्टाता. विन्नीबायेगेल्यांक चार हितलां उतरोनच वचोन पयशिलें उदक हाडिजे पडता. पेद्रूच्या बाप्पूगेलीं जमातेक आनी हेर गरजे वेळार सोडल्यार तांचे लागीं उलयनांत आनी पिरेरिगेलीं चेडवां बिलकूल जमातेक येनांत आनी तांकां आपणा विशीं कळीत आसा या ना तें पेद्रू नेणा!



# दांतांनी मेळ्ळो धागो

दामोदर पाणेकार

सकाळचीं सुमार साडे इकरा जाल्लीं. इतल्यांत फोन वाजलो. येवकार कक्षांतल्या रिसॅप्शनिस्टान तो सतीशाच्या कॅबिनांत घुंवडायलो. 'गुप्तहेर सतीश', घोगऱ्या आवाजाच्या सतीश भोब्यान आयिल्ल्या फोनाक जाप दिली. 'बाब, तुका पुलिसेंतल्यान...' मुखार उलोवंक दिनासतना ताणें म्हणलें, 'दी'. दुसरे वटेंतल्यान पुलीस निरिक्षक पावल पैरै उलयतालो. 'सातीशबाब, फोंडें सावन पुलिसांचो फोन येयलोलो. ते तुका ओकोनाय नू, देकून मुका तुजे लागीं उलोय मुणलां तेंणी.' 'आरे पूण. जालां कितें? तें मूळ तूं सांगीच ना.' 'आं!' याद केल्ले भशेन पावलान म्हणलें. 'तिगां सावोय वेऱ्यां रानांत मुरे एक सांगाडो मेवला फूंय. आयझूस फांतोडेर. मातसो पोयता झाल्यार पोय मुणटात ते तुका.' 'म्हाका आनीक कांयच नाका. रातची बलात्कार आनी खुनाची केश म्हाका अजून त्रास करता. आनीक कितेंच नाका. कामां पडल्यांत हजार', सतीशान वाजेवनशें म्हणलें आनी फोन दवरलो.

परतून पांच मिणटांनी पावलाचोच फोन आयलो. 'निरिक्षक गांवकाराचो 'रिक्वॅस्ट' आसा, तुवेंच पयली नदर घालची म्हूण.'. 'बरें सायबा, तुमी ओगी बसूंक दिवचेच नात. ताका सांग अर्द वरान पावतां म्हणून.'

तो उलयतालो तें शीलान कॅबिना भायल्यान सोंपतां सोंपतां आयकलें. 'आरे, असो वाजेता कित्याक? गुप्तहेरांनी सदांच आव्हानां घेत रावूंक जाय.' 'वा! आयलें तूं शाणें म्हाका शापोतां सांगूंक सकाळीं फुडेंच? कितें काय म्हणल्यार गुप्तहेरांनी आव्हानां घेत रावूंक जाय, आनी अशेंय म्हण मगो, आव्हानां घेत घेत तांचीं भुजां वांकडीं जावंक जाय आनी पोंग पडून ते तशेच मरूंक जाय...' 'आरे, आरे, खंयच्यान खंय पावलो तूं?' 'खंय म्हणचे? हांगाच आसां पणजेच्या आत्माराम बोरकार मार्गा वयले 'स्वस्तीक' इमारतींतले धावे माळये वयले अण्डरग्रावंड नोबल्सांचे कचेरेंत. म्हाका जायतीं कामां आसात.... म्हापशेंचें ॲसीड प्रकरण, दवर्लेचो बलात्कार आनी खून, मडगांवची फॉर्जरी, वास्कोचें हजारांचें बनावट नोट प्रकरण. मनीस खंय लक्ष घालतलो आनी खंय पावतलो?... देवा, म्हाका दिसाक २६

वरां दी रेय...' हाचेर शीलाक मोट्यान हांसूंक आयलें. ताणें हांसत हांसत सतीशाच्या गळ्यांत हात घाले तशें सतीशाकूय हांसूंक आयलें. 'हांव तुजी प्रतिक्रिया पळोवंक सोदतालों. बरें, बाय द वे, तूं हें नवें प्रकरण घेता आंगार?' 'हय घेतां', अशें 'कितें तें?' म्हणून विचारिनासतना शीलान पयलेच खेपे फटक करून म्हणलें.

पणजी शारांतल्या आत्माराम बोरकार मार्गा वयले 'स्वस्तीक' इमारतींत धावे माळयेर आशिल्ले एके खाशेले कचेरेंत सतीश भोबो ही व्यक्ती दीसभर कामांत गुल्ल आसता वा यो-वच करता. बत्तीस वर्सां पिरायेचें स फूट ऊंच अशें हें व्यक्तीमत्व. गोरो आनी घारश्या दोळ्यांचो सतीश हो पिंडान गुप्तहेर. स्कॉटलॅण्ड यार्डाच्या म्हयन्याभराच्या 'शॉर्ट टर्म' अभ्यासक्रमांत सतीश 'ए' ग्रेडींत पास जाल्लो. हैदराबादच्या पुलीस प्रशिक्षण केंद्रांत आनी मावण्ट आबूचे पुलीस प्रशिक्षण शाळेंत ताणें दोन-दोन म्हयन्यांचे कोर्स पूर्ण केल्ले. खून, बलात्कार, आबोर्त, खड्ड्यो आनी सांगाडे ह्यांच्याच जगतांत दीसरात आसपी सतीशाक गुन्यांवकारी संवसारांत पुलीस मानाचें स्थान दिताले, जाल्यार खांपे खुनी लेगीत ताका पळोवन कडकडटाले. केंसा वयल्यान खुनाचें विश्लेशण करपाचे ताचे कळाशे कडेन खंयच्याच पुलिसाक सर करूंक जमूंक नाशिल्लें. स्कॉटलॅण्ड यार्डांत प्रशिक्षीत जाल्ले व्यक्तीचो हात कोण धरूंक शकत आशिल्लो? गोंयांत तरी कोण ना!

जिवरसायनशास्त्र फांट्यांत एमएससी जाल्लें पांच फूट आठ ईंच लांबायेचें शीला पै ही सतीश भोब्याची मोगीण करंजळ्यां रावताली. म्हाविद्यालयांत शिकतना एनसीसीचें प्रशिक्षण घेतिल्ल्या शीलान उपरांत कराटेंत ब्राउन बॅल्ट मेळयिल्लो. सतीशान हातांत घेतिल्ल्या दरेका प्रकरणाचें शीला पै आपल्या मेंदवाच्या संगणकांत 'रॅकॉर्डींग' करून दवरतालें, कारण दर प्रकरणा वेळार तें सुरवातीक तरी ताचे बाराबर आसतालेंच. अण्डरग्रावंड नोबल्सांची प्रयोगशाळा तेंच चलयतालें म्हणल्यार जाता.

शीलान नवें प्रकरण हातांत घेतां म्हणटकच सतीशान पावलाक फोन करून सांगलें, फोंडेंच्या निरिक्षका कडेन आपलो संपर्क करून दी म्हणून. पावचो परतो फोन येतकच ताणें फोंडेंच्या ठाण्याक फोन लायलो. थंय गोमीश नांवाचो अनवळखी उपनिरिक्षक मेळ्ळो. तो सतीशाचो आवाज पयलेच खेपे आयकून नेर्वोझ जाल्लो; खोशीय जाल्लो. ताका उतर फुटना जालें. फोन करून सोंपतासर जेवणाचो वेळ जालो. फोंडेंचो निरिक्षक बाळा नायक गांवकार हाका तिनांक पावतां अशें सांग म्हणून ताका सांगून सतीशान फोन दवरलो.

'तुवें ताका तिनांक पावतां म्हणलां आनी तुजें दीसपट्टें ''घोरत पडण्याचे स्थान''?' शीलान हांसत हांसत विचारलें. 'आज कांय ना. आज जेवन आठ पडनासतना वचपाचें. ते भायर केश तुज्या हातांत आसा न्हय गो? देखून, यू गो. हांव येना.' 'तूं येना जाल्यार हांवूय वचना. इतलें हांव स्वतंत्र जावंक ना आनी इतले बेगीन जावूंय नजो.' स्त्री हट्टाक वखद ना हें जाणा जावन सतीशाक ताका वचपाक 'हयकार' दिवचोच पडलो.

ज्युस्त अडेजांक सतीशान शीलाक ताच्या घरा कडल्यान घेतलें आनी ताची आर्माडा फोंडेंचे दिशेन वचूंक लागली. तिनांक फोंडेंच्या ठाण्यार पावतकच निरिक्षक बाळा गांवकारान तांकां येवकार दिलो. थोडो वेळ चर्चा करून तीन-चार पुलिसांचो पंगड गुप्तहेरां बाराबार भायर सरलो. ते विशेक मिणटांनी सावयच्या राना वाठारांत पावले. काजी पुंजावंक गेल्ल्या एका मनशान पयली माहिती दिली अशें बाळान सतीशाक सांगलें.

सांगाडो पडिल्लो थंय साकून सुमार २५ मिटरांचेर आर्माडा थांबोवन चवकशी करपी पंगड रानांत चलत गेलो. पुलीस मुखार आनी फाटल्यान गुप्तहेर. सतीशान आनी शीलान सुमार अर्द मिनिट सांगाडो नियाळ्ळो आनी दोगांयनी एकाच बाराबर दिमयो मोडल्यो. शीलान आपले चवकशेचें मोबायल 'फॉरॅन्सीक लॅब' नांवाचें घोळटें शाकाणूशास्त्रीय पेटूल उकतें केलें. सगल्यांत पयलीं ताणें हातांचेर बुर्राशीचीं लुंवां चडयलीं. सतीशान चार-पांच कोनांतल्यान सांगाड्याचे फोटे मारले. बरेंचशें मास कोल्यां-वागांनी खाल्लें. दोळ्यांच्या, कानांच्या आनी नाकाच्या बुराकांतल्यान किर्डी-मुयांनी आपले घोंटेर स्थापपाक सुरू केल्लें. दांत एकदम बरे स्थितींत पळोवन शीलान सतीशाक तशी खूण केली. सतीशान दांतांचे माळेचे मेळत तितले 'क्लोझअप' घेतले. ताच्या मुखामळार मातशें हांशें फुल्लें. शीलाकूय खोस जाली. मेलो तरी मनशाचे दांत तो कोण आशिल्लो तें ज्युस्त सांगतात. फॉरॅन्सीक ओडॉण्टोलॉजीचो दोगांय गुप्तहेरांनी खोलायेन अभ्यास केल्लो. पूण दांतांवैजकीचें दांतांवैजां भशेन गिन्यान नाशिल्ल्यान तांकां कोणाय तज्ञ डॅण्टिस्टाचो आदार घेवचोच पडटालो.

शीलान पेटलांतल्यान दोन तिख्याच्यो पट्टचो काडून दांतांच्या माळां मदीं धोंगशिल्यो. मास नाशिल्ल्यान जबडे अचळय उकते आनी बंद करूंक मेळटाले. उपरांत, ताणें दोन तरांचे पिठे मिस्तुराद करून एके तरेच्या रसायनान ते मळ्ळे. तांचो एक मास कसो गुळो तयार जालो. तो ओडून ताणून ताणें ज्युस्त माळां मदीं धरलो आनी दांत ताचेर चिड्डिले. एका मिणटान ताणें आपणाक जाय आशिल्लो दांतांचो सांचो मेळयिल्लो. 'जालें तुजें काम?' अशें सतीशान विचारलें. शीलान मानेनूच दिल्लो हयकार मेळटकच सतीशान पुलिसांक सांगलें, 'सांगाडो उबारल्यार कामायता'. 'इतले बेगीन म्हणल्यार, आनीक कांयच करपाचें ना?' बाळान सामको अजापीत जावन विचारलें. गुप्तहेरांचें काम तो तरणो अधिकारी इतले लागींच्यान पयलेच खेपे पळयतालो. पुलिसां कडेन तांचे असलीं आवतां नाशिल्लींच, पूण तांकां तशे तरेच्या प्रशिक्षणाचो लेश लेगीत नाशिल्लो.

सगलीं आर्माडांत बसून फोंडेंच्या ठाण्यार परतलीं. सांगाडो शाकाणूशास्त्रीय चांचणे खातीर बांबोळे धाडून दिलो. सतीशान ताचे विशीं दोतोर कार्वाल्याक कळीत केलें. तेन्ना सांज जायत आयिल्ली. बाळाच्या कक्षांतूच च्या जाली आनी सतीश-शीलाच्या जोडप्यान पुलिसांचो निरोप घेतलो.

सकाळीं सतीश तळघरांत दोळ्यांचेर एक खाशेलें ओक्ल चडोवन टार्गेट शुटिंगाचो सराव करतालो. इतल्यांत वयल्यान गडगड्याचो कसो आवाज आयलो. सतीशाक तो आवाज संवकळीचो जाल्लो. आवाजाक पडसाद म्हणून तागेलीं सुणीं भोंकूंक लागलीं. आज

शीलाक मातशें भेश्टावचें म्हणून तो एका बल्ला फाटल्यान लिपून बसलो. मोटारसायकल वयर दवरून शीला तळघरांत पावलें जाल्यार सगल्याक किण्ण. 'सतीशाक साद घालीत तें भितर सरलें पूण ताका जाप मेळ्ळिना. आर्म वयरूच आशिल्लें देखून ताका सतीश लागींच आसा हें कळ्ळें. सगल्याक सोदीत सोदीत तें बल्लाक सामकें लाग्गीं पावलें तेन्ना सतीशान मोट्ट्यान 'आऽऽक्शो' अशी अडेची शींक काडली. शीलान क्रच्च करून आंग काडलें. तशें सतीशान ताका वेंगेंत घट्ट धरून चुमलें. 'आवयस! कितलें भियेलें जाणा हांव!'

'तुकाय भंय दिसता?'

'हय तर! मनीस न्हय रे हांव?'

'मागीर फायटर शीला अशी तुजी नामना आसा ती पोकी मगो?'

'हें, हें. ओगीच कितें? म्हन्यांत बॉम फुट्टकच कश्मीराचो राज्यपाल भियेलोना? तो सैन्याचो जनरल मरे!'

'पुरो. समजलें. आतां कामाचें उलोवया.'

'हय. सांग.'

'हांव सांगिना. सुत्रां तुज्या हातांत आसात... तुवेंच कितें तें थारावपाचें. हांव फकत नोकर तुजो. सांगकाम्या. बंदा हाजीर है' अशें म्हणीत सतीशान ताचे मुखार एक दिमी मोडली.

'पुरो, पुरो तुजे लाग', अशें म्हणीत शीलान ताच्या बावळ्याचेर ल्हवपीक मूठ मारली.

'आणि आता कामाला लाग. एय! फ्हायटर शीला म्हनतीत मला,' अशें म्यानेंतली तरसाद काडपाच्या झेतान शीलान म्हणलें आनी दोगांय खळखळून हांसलीं.

'सकाळीं पयलीं दो. कार्वाल्याक फोन करप.' शीलान स्वगत म्हणलें. ताचेर 'सारकें तुजें' अशी सतीशाची प्रतिक्रिया. 'आरे, सारकेंच सांगतां हांव. वांकडें सांगिना.'

'हांवें कितें म्हणलां तुका? हांव म्हजेच कडेन उलयतालों.'

'हांवूय बी', शीलान म्हणलें. परतून दोगांय हांसलीं.

'बरें. आतां दुसरें. उपरांत पणजे येवन पुलीस ठाण्या वयल्यान फोंडेंच्या पुलिसांचो अहवाल घेवप...' शीला आपले आपणाकूच एक-एक याद करीत रावलें.

***

दुसरे सकाळीं शीला आपल्या आज्यालो पुर्तुगेझ्झा तेंपा वयलो जर्मनीयी 'रणगाडो' (हें सतीशान ताचे 'पांझर' मोटारसायकलीक दवरिल्लें नांव) घेवन 'यू एन विल्ला'चेर पावलें. त्या वेळार सतीश आपल्या सुण्यांक पेल्लान प्रशिक्षण दितालो. केन्नाकेन्नाय तो फार मारुनूयं सुण्यांक भेश्टावपाचो येत्न करतालो, पूण ते जल्मताच 'गन टॅस्टेड' सुणे आवाजाक वा फाराचे किटींक भियेनासले. 'सऽऽतीश!' शीलाचो पयसल्यान साद आयलो. वाण्डरबिल्ट जिन्स आनी नायके टिशर्ट घालून वयल्यान ताणें रॅक्झिनाचें जॅकेट चडयिल्लें. माथ्यार हॅल्मॅट घाल्ल्यान तें वळखूंक येनासलें, पूण कोणाय अनवळख्याच्या आंगार धांवपी सुणीं शीला भितर सरतकच ताचे भोंवतणीं घुंवून वळख दाखोवंक लागलीं.

'आयज खंय स्वारी?' शीला घरांत भितर सरतनाच डिकीन हुकमाचो सवाल केलो.

'तशें हांव हरशीं येना काय कितें? भावोजी, ओगीच थोमणो मारूं नाकाआं', शीलान जाप दिली.

'हें पळय, हरशीं येवप आनी आज येवप हातूंत फरक आसा', दिनेश कामतीन आज ह्या उतराचेर भर दीत म्हणलें.

'आसा तशेंच काम आनी तुका तें कळ्ळांच आसतलें' अशें म्हणटनाच शीलान सतीशा वटयां तिरशी नदर मारली. सतीशान ताका दोळो मारलो आनी डिकीन सतीशाक दोळो मारलो — तेन्ना तिगांकूय हांसप आडावलेंना.

'आं! म्हणटकच खंय पावल्या तुजी चवकशी?' डिकीन परतून फोण्ण फोडलें.

'भावोजी, तुका खबर आसून तूं म्हजी झडटी घेता. सांगतां. डॅण्टल पॅटर्न दो. नोरोन्याच्या टॅक्निशियना कडेन धाडून दिला. आनी आतां हांव दो. कार्वाल्याक मरणा उपरांतचे चिकित्शेच्या अहवाला खातीर मेळटलें.'

'बरें आसा. बॅस्ट ऑफ लक न्हय, बॅस्ट ऑफ हार्ड वर्क.'

'तुजो आशिर्वाद आसतकच काम फत्ते', अशें शीलान म्हणटकच त्या तिगांय बाराबर स्मितानूय हांसपाचो आनंद घेतलो.

***

ज्युस्त णव वरां चाळीस मिणटांचेर सतीश आनी शीला बुलेटी वयल्यान पणजेचे कचेरेंत पावलीं. 'दो. कार्वाल्याक मेळुया न्हय?' शीलान ताका विचारलें. 'तूंच वचून यो' सतीशान फायलींतल्यान तकली वयर काडिनासतना म्हणलें. ताका शीलाची प्रतिक्रिया पळोवंक जाय आसली. पूण आपणा परसूय तें चड चिवट म्हणपाची ताका कल्पना नासली ती हे केशीन दिली. एक 'ब्र' उच्चारिनासतना शीला आपले प्रयोगशाळेंत गेलें, बॅग थंय दवरलें आनी तडक भायर सरलें.

शीलान आर्मांडा भायर काडली आनी बांबोळेची वाट धरली. आठूच मिणटांनी तें बांबोळे गोंय वैजकी म्हाविद्यालयाच्या फॉरेन्सीक विभागांत पावलें. दो. कार्वाल्य सकाळचें पयलें लॅक्चर सोंपोवन तेन्नाच थंय पाविल्लो. दोगांयची दारांतूच भेट जाली. 'बाँ दीय सिन्योर दोतोर.' शीलान दोतोराक अभिवादन केलें.

'बाँ दीय. मुयतु बाँ दीय. देव बरो दीस दिवं. तुका पुर्तुगेझ येता मूण माका खोबोर नासलें.'

'मातशी मातशी येता, दोतोर.'

'आं. आतां कामाशें उलोवया. जो सांगाडो मेवला त्या मुनशाच्या ओड्ड्यार कितेंय झोड मारून तेका माल्ला. ओड्ड्याश्यो बोरयो मोळ्ळ्याय त्यो तुवें पोयल्यातूच आसतेल्यो,' कार्वाल्यान भाश्य केलें.

'हय दोतोर. पूण म्हणटकच ताचो डॅण्टल पॅटर्न मेळसर रावचें पडटलें न्हय?'

'ओय. दांतां वोयल्यानूस तो कोण मुणपाशें गोमतेलें. रावया दोन दीस. आहा मुगो पासियेंस तुका?'

'हय दोतोर आसा. नाय जाल्यार दुसरो उपाय नाच न्हय?' शीलान निरशेवनशें म्हणलें.

'आगो, निरशेनाकाय. सोगल्या कामांक पासियेंस मुणटात तें झायस. पासियेंस नासल्यार, मुनीस काबार. सोझमोता मुगो तुका?'

'हय दोतोर. काडटां पासियेंस', शीलान उतर दिलें आनी दोतोराक 'आदेवश' म्हणून ताचो निरोप घेतलो. तें भायर सरतां सरतां

दोतोरान म्हणलें, 'मुजो रिपोट रोकडोस दितां. चोड करून फाल्यां सोकार्यी. बोरें, आदेवश.'

शीला कचेरेंत पावलें तेन्ना साडे धा जावन गेल्ली. हरशीं केन्नाय एकलें भितर सरत जाल्यार डिकीक आनी सतीशाक तांच्या कॅबिनां भायल्यान 'हाय' म्हणीत हात हालयत वचपी चली आज तडक, रागानशें, कित्याक गेलें हाचो उलगडो डिकीक जालो. तरी ताणें इण्टरकॉमार सतीशाक तार्चे कारण विचारलें.

'मूड ऑफ आसतलो. डॅण्टल पॅटर्न मेळ्ळे बगर मेल्ली व्यक्ती कोण हें कशें समजतलें?' सतीशान म्हणलें.

'तुजो वसो ताका लागला. पासियेंस नासपाचो. तुमी फोंडेंच्या सगल्या डॅण्टिस्टांक विचारलां?'

'हय. डॅण्टल असोसिएशना वरवीं कळीत केलां. ते भायर पॅटर्न इण्टरनॅटार घालुया', सतीशाची सुचोवणी.

तो अशें म्हणटा थंय आसा, शीलाच्या इनकर्मींग कॉलाची लायट पेटली. 'बरें भावोजी, शीला लायनीर आसा' अशें म्हणून डिकीचो फोन बंद करुन ताणें शीला कडेन जोडणी जोडली. 'सतीश, फोंड्यां वचून प्रत्यक्ष विचारप बरें काय...?' सतीशान ताका मर्दींच तोडीत म्हणलें, 'गाझोलीन सोंपोवपा परस वीज मातशी खर्च जाल्यार जाता. फोन, फॅक्स, ई-मेल हांचो वापर कर.'

तितल्यांत एक मनीस डॅण्टल पॅटर्नाचो अहवाल घेवन सतीशा कडेन दिवपाक आयलो. ताका डॅण्टिस्ट नोरोन्यान धाडिल्लो. तो पळोवन सतीश खोशी जालो पूण ताका शीलाक तिडावपाचें आसलें. ताणें इण्टरकॉमाचेर एक 'मिस्ट कॉल' दिलो. शीलाक ताकतिकेन आपोवपाचें आसल्यार तो जायते खेपे तशें करतालो. आज शीलाक तो खऱ्यांनीच आपयता अशें दिसलें आनी तें विचार करिनासतना ताच्या कॅबिनांत पावलें.

'कित्याक आपयिल्लें?' ताणें भितर सरतनाच विचारलें.

'एं, कांय ना. चुकून तुजो बटन दामलो.'

'ना ना, अशें जावंकूच नजो. तूं कितेंय तरी लिपयता.'

'म्हाका कितें तरी मेळ्ळां.'

'तशें जाल्यार तो डॅण्टल पॅटर्नूच आसतलो. मातसो दी.'

'ना गो, इतले बेगीन खंय आयला पॅटर्न? त्या तंत्रज्ञाकडेन तुवें दिला केन्ना आनी तूं इतले बेगीन मागता कशें?' सतीशान ताका धुंवडापा खातीर म्हणलें.

'ना ना. तुका तो मेळ्ळा आनी तूं म्हाका फटयता', शीलाक सामकी खात्री जाली.

अखेरेक सतीशाक तो अहवाल शीला कडेन दिवचोच पडलो. तो पळोवन शीलाचें मुखामळ फुल्लें. ल्हान भुरग्या भशेन ताणें तो सतीशाच्या हातांतल्यान झोमून घेतलो आनी नांव वाचलें. ताणें सोमतो पुलिसेक फोन केलो. 'आरे, पावल, मातशी दो. कार्वाल्या कडल्यान खड्डी मागोवन घेता काय...?' ताणें पावलाक तिडावपा खातीर फोन केलो.

'बाय, तुमीच मागयल्यार काम बेगीन जातलें न्हय?'

'बरें बरें मागयतां हांवूच' अशें म्हणून शीलान फोन दवरलो.

शीलान सोमतो दो. कार्वाल्याक फोन लायलो. सतीश वचपाक अनमनें करूंक लागलो तेन्ना 'पुरो तुजीं लागोळपणां' अशें म्हणीत, पांय आपटीत शीला भायर सरलें. तें लिफ्टांतल्यान भायर सरतनाच कोणाक तरी आपटलें. 'सतीश तूं!' 'हय हांवूच! गुप्तहेर सतीश भोबो म्हनतीत मला,' अशें ताणें म्हणिना फुडें दोगांकूय हांसो आडावना जालो.

तीं बांबोळे कुडींघरा कडेन पावलीं तेन्ना दो. कार्वाल्य आपलें लॅक्चर सोंपोवन भायर आयिल्लो देखून तांकां चड वेळ रावचें पडलेंना. हांगाच्यो थंयच्यो खबरो जातकच दो. कार्वाल्यान आपले कांय शाकाणूशास्त्रीय अणभव सांगले. हालींच व्हाळांत पडून मेल्ले एके चलयेचे मरणा उपरांतचे फाळणे आनी चिकित्शे विशींचो अहवाल आपणें कित्याक राखून दवरला तेंय ताणें स्पश्ट केलें. आंतकड्यो हैदराबादेक फॉरेन्सीक प्रयोगशाळेंत चिकित्शे खातीर धाडल्यात अशें ताणें सांगलें.

'तुमी कितें कास बी आळ्ळ्याय मूं?' दोतोरान विचारलें.

'हय. हाडल्या. घेवन येवं?' शीलान म्हणलें.

'ओय तोर. ना झाल्यार केशें वोत्तेलें बाय तूं?'

शीलान गाडयेंतल्यान कास हाडली ती घेवन दो. कार्वाल्य भितर गेलो. ताचे फाटल्यान सतीश आनी शीलाय कुडींघरांत गेलीं. मसंड शांतताय खावंक येताली आनी फॉर्मालिनाचो उग्र वास सगल्याक पसरिल्लो. दो. कार्वाल्यान आपणें सेगूर अशी कुशीक काडून दवरिल्ली खड्डी ते काशींत घालून, वयल्यान टेप मारून शीलाचे सुवादीन केली तेन्ना शीलाच्या मुखामळार भुरग्याचें निश्पाप आनी निरागस अशें हांशें फुल्लें. दोतोरूय हांसलो. 'बरें, आदेवश सिन्योर दोतोर' अशें सतीशान ताका हात दीत म्हणलें. शीलानूय आदेवश हें उतर उच्चारलें. तें हात दिवंक शकनासलें. एके म्हत्वाचे खड्डेची कास ताच्या जापसालदार हातांनी आसली. दोतोर तांकां गाडये मेरेन पावोवपाक आयलो.

शीलान गाडी सरळ घराच्या तळघरांत व्हेली. थंयच्या आर्टिस्ट रुमांत तीं कास दवरून अमृत ह्या आर्टिस्टाक आपोवन घेतलो. ताणें येतकच चित्रशाळेंत आपलें काम सुरू केलें. बिएफए शिकिल्ल्या त्या चित्रिकान चार वरां लागून खड्डेचेर प्लास्टिसीन चडयलें. कलाकृतींतली फिशालकाय, शरिरशास्त्राचो खोल अभ्यास आनी मनशाचे कुडी वयल्या मास आनी कात हांचे दाटायेचें शिक्षण आनी कलाकारांचें कसब हांकां लागून 'हाडार कात चडली' म्हणटात तशें खड्डे सुवातेर मनशाची आकृताय दिसूंक लागली. कृत्रीम दोळे, भुंवयो कान, केंस बी लायतकच खड्डे सुवातेर खरोच 'मनीस' दिसूंक लागलो. ताचो फोटो गोंयभरच्या पुलीस ठाण्यांचेर धाडलो.

चार-पांच दिसांनी एकलो मनीस फोंडें पुलीस ठाण्यार आयलो. नांव बोश्कु रोंकोन. आपलो भाव धायेक दीस जाले बेपत्ता आसा अशी कागाळ ताणें नोंदयतकच निरिक्षक बाळान ताका बसोवन घेतलो आनी सतीशाक फोन केलो. पावूण वरा भितर सतीश-शीलाची जोडी फोंडें ठाण्यार पावली. तांणी बोश्काची चवकशी करतकच आपल्या मेल्ल्या भावाची, राऊलाची, शेजाऱ्या कडेन दुस्मानकाय आसली आनी तो एकलोच रावतालो अशें ताणें सांगलें. नातलां वेळार ताका आपूण मेळूंक गेल्लों अशें म्हणून, तेन्ना घर बंद आशिल्ले खातीर सोयऱ्यांगेर सोद घेवन

अखेरेक तो पुलिशेंत कागाळ दिवंक आयिल्लो. शीलान सोमतोच कॅमरांतलो "खड्डे"चो रंगीत फोटो डावनलोड करून दाखयतकच तो आपल्या भावाक वळखलो.

सतीश आनी शीला बोश्काक घेवन सावयवेऱ्यां गेलीं. थंयच्या घराचे, वाठाराचे, न्हंये कडले, बी फोटे शीलान टिपले. त्या शेजाऱ्याक धरपाक चड वेळ लागलोना. घरांतूच आशिल्ल्याक धरपाक कितलो वेळ लागता? पुलीस आपणा सरेन पावचे नात अशी आठ दिसां उपरांत ताका खात्रीच जाल्ली. पयलीं आपूण त्या गांवचो न्हयच अशें भासोवन तार्णे पिशें पांगुरलें, पूण सतीशाचे दटावणे मुखार वाग आनी शींव लेगीत 'म्यांव' करतात थंय ह्या खांप्या न्हय आशिल्ल्या आनी सादे दुस्मानकाये खातीर शेजाऱ्याच्या हड्ड्यार फातर घालप्यान रोखडीच दिमी मोडली. गुन्यांव कबूल करतकच शीलान सोमते ताचे हात जोडून तांचेर लोखंड चडयलें. गणो नायकाक धरून व्हरी मेरेन खबर गांवभर पातळ्ळी आनी गांवकार पळोवपाक आयले.

आपणाक सदांच पियेवन गाळी घालतालो देखून एके रातीं रागान आपणें ताच्या हड्ड्यार चिरो घालून ताका मारलो असो कबुलीजबाब गण्यान कोर्टांत दिलो.

चवकशेचीं सुत्रां अण्डरग्रावंड नोबेल्साचे हुशार अस्तुरे कडेन आशिल्ल्यान तिणेंच – शीलानूच – केश न्यायालयांत मांडली. जुवीज डॅस्मंडान गच्च भरिल्ल्या कोर्टांत भारतीय दंड संहितेच्या कलम ३०२ खाला गण्याक जल्मठेपेची ख्यास्त फरमायली. अशे तरेन एके कुंप्लिकाद केशीचेर पड्डो पडलो.

दांतांमाळेचेर आदारून गुन्यांवकाराक ख्यास्त जावप हें कांय नवें न्हय. पूण शीला खातीर ती नवलाय आशिल्ली. दुसऱ्या दिसाच्या खबरांपत्रांनी शीलाच्या फोट्या सयत कोर्टाच्या कामकाजाची पूर्ण खबर दिल्ली.





# तेल बुडत, सत बुडचेंना!

**ब्रॅन्डा मिनेझीस**

"मैं ने नहीं किया साब! नहीं किया! सच बोलती मैं। साब, मारू नको साब। भगवान कसम। मैंने नहीं किया। झूठ नहीं बोलती साब। मारू नको साब। सा...ब, बस कर, बस कर साब! मेरे माँ-बाप... बस-बस - बसऽऽऽऽ...!"

किळांच मारीत, मैरांबी हांथरुणार उठून बसलें. ताचें हइडें धडधडटालें. शिंयांचो कुडकुडो आसुनूय ताचे कपडे घामेन भिजून चिप्प ओले जाल्ले. केंस भिजून उश्याचेर ओलसाण आयिल्ली. कितलीं वर्सां जावन गेल्लीं हे खबरेक. पूण आजुनूय अशींच सपनां पडून तें भिऊन जागें जातालें. चड करून डिसेंबर म्हयन्यांत.

ताचे कुशीक न्हिदिल्ली, आर जावन पडिल्ली ताची आवय न्हिदेंतली जागी जाली. आनी ताचो हात पोशेत ताका थातारूंक लागली. परत तें पुलीस ठाण्या वेलें सपन ताका पडलां हें कळूंक तिका वेळ गेलो ना. मोन्यांनीच ती ताका सांसपीत रावली. मैरांबी उठलें. मेजा वयलो उदकाचो तांबयो घेतलो आनी गटगटीत उदक पियेलें. चादराक घाम पुसलो आनी परतें आवयचे कुशींत न्हिदलें....

मैरांबीन चाळिशी हुंपिल्ली. पूण अजून तें लग्न जावंक नाशिल्लें. लोकांगेर पुसपा धुवपाचें काम करून आपलें आनी आपले दुयेंत आवयचें पोट भरतालें. ताचो बापूय, तें जल्माक येवचेल्या वेळार, ताचे आवयक सोडून आपल्या गांवांत गेल्लो आनी दुसरे बायले वांगडा रावतालो. ताचे आवयन चार चवगांचीं घरां भोंवून, वावर करून मैरांबीक वयर काडिल्लें. तें धा-बारा वर्सांचें जाता म्हळ्यार, तांच्या एका बरें मागप्यान, मैरांबीक जुजे मारीगेर कामाक दवरिल्लें. जुजे मारीचो नुस्त्याचो धंदो. ताचे कडेन नुस्त्याचो तीन-चार बोटी आशिल्ल्यो. त्या बोटींचेर मानाय खूब आसताले. तांच्या जेवणाची सोय जुजे मारीगेरूच जाताली. म्हणटकीर, त्या घरांत काम खूब. मैरांबी रांदपिणीक आदार करतालें. जुजे मारीची बायल फ्रांस्कीन मैरांबीची खूब अपुर्बाय करी. खाण-जेवण तांगेर उणें नाशिल्लें. गुणेस्त आशिल्ल्यान फ्रांस्कीनाचो ताणें विस्वासूय जोडिल्लो. मैरांबी फ्रांस्कीनाक 'बाय' म्हणटालें, आनी फ्रांस्कीन ताका अपुर्बायेन, 'बेबू' म्हणटालें. ताका धूव नासली.

मैरांबीक वाडले बगर तें जेवी नासलें. मैरांबी कामा पुरतेंच घरांतल्या वस्तूंक हात लायतालें. आपले आवयच्या वळणार चलतालें. जुजे मारीगेर मैरांबी ल्हानाचें व्हड जायत गेलें. शिस्तीन वाडलें. म्हयन्यांतल्यान एक-दोन फावटी ताची आवय ताका पळोवंक येताली. तेन्ना रातची रावन दुसरे सकाळीं वताली. ईद-मोहरम येतालो तेन्ना बायेन शिंविल्ले नवे कपडे, तांदूळ-तूप, बदाम-मसालो ह्यो वस्तू घेवन मैरांबी आवय म्हऱ्यांत रावंक वतालें आनी दोन दिसांनी परततालें. मैरांबीच्या पगाराचो पयसो ताचे आवयन केन्नाच घेतलोना. तिणें बायेक सांगिल्लें, "हांवें तो घेतल्यार खर्चतलो. हात पांय झरोवन कितें मेळटा तें म्हाका पुरो. मैरांबीची काळजी तूंच घेता. लग्ना वेळार लागतल्यो दोन वस्तू, ताचे पयशे जमोवन तूं कर. तुका चड बरें कळटा. ताची जबाबदारी तुजेर."

मैरांबी आतां एकवीस-बावीस वर्सांचें जाल्लें. पयलीं ताका बायेन कानांतलीं केलीं. मागीर एक बरी पेजाद सरपळी आनी मुदी. ते भायर पांयांक चांदीचीं पांयजणांय घेवन दिल्लीं. बँकेंत ताच्या नांवान खातें उकतें करून थोडे पयशेय घाल्ले. धा वर्सां वयरूच ताणें तांगेर काम केल्लें.

एका दिसा रांदता आसतनाच तांचे रांदपिणीक ॲटॅक आयलो आनी दोतोर येवचे पयलींच ती थंड जाली. मैरांबी तेन्ना मेरेन सगलें रांदूंक शिकिल्लें. पूण एकटें तें काम पेलूंक शकनासलें. थोडे दीस बायेन आनी ताणें कशेय बशेन ताणलें. बायूय आतां बरें पासार जायना आसलें. प्रॅशर आनी गोड्यामुतान ताची भलायकी पोखरिल्ली. दुसरो उपाय ना जावन त्याच गांवच्या, मारजाकीनाक ताणीं रांदपाक दवरलें. सवका सवका मारजाकीनाचो कामार हात बसलो

आनी बाये वयलो भार कमी जालो. मैरांबीचेर ताचो खर विस्वास, म्हणटकीर आपणालीं व्यक्तिगत कामां तें ताचेर सोंपयतालें. ताचे दोनूय चले आतां दुबय शिर्विसेक लागिल्ले.

कोंयसांव सायबिणीचें फॅस्त लागीं पावलां म्हणून फ्रांस्कीनान बॅंकेतल्या लॉकरांतलें भांगर हाडून आलमारींत दवरलें. फॅस्त जालें. पूण, थोड्याच दिसांनी नातलां येतलीं, भांगर परतें बॅंकेंत कित्याक दवरया? घरांत आसूं, ताणें मनांत म्हळें. दुसऱ्या आयताराक आपली माळ आनी चार मोठीं कांकणां घालून तें मिसाक गेलें. येवन तीं काडून मेजार दवरलीं. त्या दिसा तीं भितर दवरूंक मात तें विसरलें. दुसरो दीस असोच कामांत गेलो. दनपारचें जेवन मातशें आड पडूंक आपले कुडींत आयलें तेन्ना, ताका त्या भांगराची याद जाली. मेजार पळयल्यार वस्ती थंय नासल्यो. 'दवरल्यो काय हांवें त्यो भितर?' ओगीच ताच्या मनाक दिसलें. उश्या पोंदची चावी काडून आलमार उकती करून पळेल्यार जोग आनी दुसऱ्यो वस्तू दवरिल्ल्यो थंय आशिल्ल्यो. पूण माळ आनी कांकणां नासलीं. ताच्या मनांत पाल चुकचुकली.

मैरांबी आनी मारजाकीन जेवतालीं. अकस्मात बायेक कुजनांत पळोवन मैरांबीन विचारलें, "बाय तूं न्हिदूंक ना अजून..?"

"ना. ना. जेवात तुमी, मागीर सांगतां." अशें म्हणून मारजाकीन एका स्टुलार बसलें. ताच्या तोंडा वयलो रंगूच उडून गेल्लो. मैरांबीक तें विचित्र दिसलें. आयज बाय सदचे वरी दिस नासलें. 'बायेक बरें दिसना काय?' भिवून ताणें आंवडो गिळ्ळो. बेगी बेगीन तें जेवलें. मारजाकीनाचेंय जेवन जाल्लें. मंद आवाजान बायेन तांकां म्हळें, "म्हजी माळ आनी कांकणां काल हांवें मेजार दवरिल्लीं. तीं थंय आज नात."

"आलमारींत पळयलीं बाय?" मैरांबीन ताका याद करीत विचारलें.

"पळयलें हांवें. दुसरें भांगर आसा पूण माळ आनी कांकणां नात. आनी हांव सारकें जाणां, हांवें तीं भितर दवरूंक नात." थकिल्ल्या आवाजान, दोळे बिटबिटायत बायेन म्हळें.

"हांव बाये, तुज्या कुजना भायर, खंयच पांय दवरिना. आनी ते भायर सकाळचें येतां आनी रातच्या जेवणाची तयारी करून म्हज्या घरा वता." आपली बाजू साफ करीत मारजाकीनान म्हळें.

"चल, खंयूय पडल्यांत जाल्यार पळोवया" मैरांबीन बायेक ताचे कुडींत व्हरत म्हळें, सकाळीं सान्न मारून निवळ केल्लें घर, मैरांबीन सान्नीन परतून परतिलें. पुराय घर तांणी सोदलें. पूण भांगर मेळ्ळें ना. रात जायत आयली. आपलें काम जातकच मारजाकीनान घरचो रस्तो धरलो.

रातचो जुजे मारी घरा येना फुडें फ्रांस्कीनान भांगराची खबर ताका सांगली. दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडें जुजे मारीन, पुलीस स्टेशनार वचून कागाळ केली. दनपारचे पुलीस आयले आनी तांणी पळोवणी केली. उपरांत मारजाकीन आनी मैरांबीक प्रस्न विचारूंक लागले. मारजाकीनान सांगलें, "सायब, हांव तांगेर आयल्यार तीन चार म्हयने जाल्यात. तांच्यो वस्तू खंय आसतात तें म्हाका कांयच खबर ना. आनी सायब, तांचें कुझीन सोडून खंयच्याच रुमांत हांव वचना. हांवें कित्याक हात लावंक ना, सायब. म्हजेर दुबाव घेवंकूच नाकात. म्हाका चोरयेचो हात ना. हांव ह्याच गांवचें. कोणाकूय वचून विचारात सायब. म्हाका कांयच खबर ना आनी हांवें कांयच पळोवंक ना सायब. म्हाका सोडात."

पुलिसांनी मैरांबीक विचारलें, "वस्ती तुवें काडल्यात जाल्यार पयलींच सांग. तूं ह्या घरांत रावता न्हय?" मैरांबीच्या पोटांत कुळ्ळ जालें. भियेवन गुळो आयलो.

थरथरत ताणें जबाब दिलो, "सायब, धा वर्सां वयर जालीं हांव हांगा कामाक आसां. हांवें केन्नाच ह्या घरांतले खंयचेच वस्तूक कामा बगर हात लावंक ना. म्हाका हांगा कितेंच कमी ना सायब. बायेकूच विचार सायब, हांवें कितेंय चोरलां जाल्यार..." आनी दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी ताणें बायेक पळेलें.

फ्रांस्कीनाक ताच्या दोळ्यांत पळोवंक धाडस जालें ना. आनी मैरांबीचो रडकुरो आवाज आयकून ताच्या दोळ्यांतल्यान 'टप् टप्' करून पडटलीं दुकां मैरांबीचे नदरेंतल्यान सुटलीं नात.

पुलीस उलोवचे पयलींच मारजाकीनान मर्दीच तोंड घालून म्हळें, "सायब पयरूच तें म्हाका सांगतालें, आतां आपल्याक कांकणां करूंक जाय म्हणून... सरपळी आनी कानांतल्यां फाटल्यान बाय शेटीक आतां कांकणा करूंक सांगचें आसा म्हणून."

मैरांबीच्या काळजांत खप्प जालें. कुळकुळून मुतूंक तेंकलें. धांवत तें टॉयलेटांत गेलें आनी भळभळीत रडूंक लागलें. भंयान ताच्या आंगांतली शक्तीच आटली. खूब वेळ तें येना तें पळोवन बाय ताका सोदीत थंय आयलें.

"बेबू, बेबू, हांवें खंय म्हळां, तुवें चोरलां म्हणून? तूं भायर यो. देव दाखोवन दितलो कोणें केलां हें कर्तूप. यो तूं भायर. हांव तुका कांयच जावंक दिवचेंना."

ह्या मोगाळ धिराच्या उतरांनी खिळी काडपा इतली तरी शक्त मैरांबीक मेळ्ळी आनी तें भायर आयलें. पंचनामो करून आनी सगल्यांचे 'स्टेटमंट' घेवन पुलीस गेले.

दोन तीन दिसां उपरांत जुजे मारीक पुलीस स्टेशनार आपोवन व्हेलो. व्हडल्या सायबान ताका म्हळें, "पळय, आमी त्या दोगांकूय तशेंच तुज्या घरांत जेवंक येवपी मानायांक, प्रस्न केल्यात, आनी तांच्यो जबान्यो घेतल्यात. तुमगेर घरांत रावपी त्या चेडवाचेर आमी बोट दवरलां."

"पूण सायब, इतलीं वरसां ताणें केन्नाच कित्याकूच हात लावंक ना. खूब विस्वासू तें आमचें." जुजे मारीन म्हळें.

"पळय, चड विस्वासाचीं आसतात तींय करूंक शकतात घात. आनी नवी बायल-मनीस घरांत आयल्या, तीच संद बरी, अशें येवजून करूं येता न्हय ताणें चोरी? ते भायर, कांकणांची तें खबर करी, अशें ती तुजी रांदपीण सांगताली मरे. आतां तूं ते चलयेचीच वेट घेता जाल्यार आमच्या तपासांत आडखळ येतली. ना जाल्यार तुजी कागाळ तूं परती घे." मातसो तापूनच सायबान जुजे मारीक झेडपिलो.

कांयच उलयनासतना जुजे मारी घरा आयलो आनी बायलेक घडिल्ली गजाल सांगली, फ्रांस्कीनाकूय कितें करचें कळ्ळें ना. ते रातीक ताचो कसोच दोळो लागलोना.

दुसरे सकाळीं, पुलीस समन्स घेवन मैरांबीक व्हरूंक आयले. मैरांबीन रडून आकांत केलो. फ्रांस्कीनाच्या पांयांर घालून

घेतलें, ''बाय, खरेंच हांवें चोरूंक ना. सांग बाय तांकां. तूं म्हाका बरें वळखता न्हय? सगल्या देवांचो सोपूत घेतां बाय. म्हाका व्हरूंक दिवं नाका बाय. बाय...'' फ्रांस्कीनाच्यान कांयच करूंक जालेंना. ताणें ताका उठयलें आनी वेगेंत धरलें. ताच्या गळट्या दुकांनी मैरांबीचे केंस भिजले.

बायल पुलिसेन मैरांबीक कुशीक काडलें आनी ओडीत जिपींत बसयलें. फ्रांस्कीनाच्यान तें पळोवंक जालें ना. फाट करून तें भितर सरलें. आनी 'ओरातोरी' मुखार दिमयेर पडून सायबिणी कडेन ताणें भोगसणें मागलें. मैरांबीन चोरी करूंक ना म्हणून तें जाणा आसलें. सायबिणी, तूंच नीत कर. म्हज्या बेबूक, तें दोशी ना म्हूण साबीत करून ताची सुटका कर. म्हजें भांगर गेल्यार जाता. पूण एका निर्दोश भुरग्याक ख्यास्त जाल्ली म्हाका नाका.''

मारजाकीन रगड्यार मिरसांग वांट्टालें. जीप गेल्ल्याचो आवाज येना फुडें ताणें सुटकेचो सुस्कार सोडलो. कांश्यांतल्या उदकांत हात बुडोवन रगड्या वयलें उठून, फ्रांस्कीना म्हन्यांत येवन सुस्कारलें, ''बाय, देव नीत करतलो. तीं घांटयां. चड विस्वास दवरूं नाका ताचेर. आतां व्हडलें जालां तें. कोणूय मेळ्ळा आसतलो न्हवरो. तूं रडनाका ताचे खातीर. सत वयर येतलेंच.''

फ्रांस्कीन ताचे कडेन पळयनासतना, आपल्या रुमांत वचून खाटीर आड पडलें. ताच्या बेबूचो, काकुळतीचो आवाज ताच्या कानार खूब वेळ सादत रावलो.

हे वटेन पुलीस चौकेर मैरांबीक प्रस्न विचारूंक लागले. परतें परतें तें 'ना-ना' करीत रावलें. ताका बंदखणींत दवरलें. जल्ले, जळेरांनी ते रातीक ताका न्हिदूंक दिलें ना. दुसरे सकाळीं व्हडलो सायब ताची झडटी घेवंक लागलो. हिन्दींतल्यान तो ताका प्रस्न करूंक लागलो. विचारिल्ल्या प्रस्नाक मैरांबीचो न्हयकार आसलो.

मारल्यार सत भायर येतलें म्हणून, सायबान ताची तकली वणटीर आपटिली. ताका शॉक दिलो, विंगळें केलें. खूब हाल केले. पूण तरूय ताणें चोरी कबूल केलिना.

'हांवें चोरी करूंक ना. कित्याक फटीची कबुली दिवं?' मैरांबीच्या अंतस्कर्णान ताका जागयलें. देवाचेर आशिल्या भावार्थान ताचो आत्मविस्वास घट्ट जालो. खिणभर हाल उपाद्रे येवजून त्या जाळांतलें तरी सुटचें अशें ताका दिसलें. पूण दुसऱ्याच खिणाक ताच्या अंतस्कर्णान परतेंय ताका हालयलें. 'मेल्यार उपकारता, पूण फट उलयचें ना.' ताणें मनांत गांठ मारली. आनी ह्या निचेवाचेर पड्टलो मार सोंसूंक ताका शक्त मेळ्ळी. बंदखणींत दितलें जेवण तें जेवी नासलें. आवयक खबर कळटांच, ती ताका पळोवंक आयली. येतना तिणें शीत चटणी आनी लोणचें, केळीं खोल्यांत बांदून हाडिल्लीं. आवय आनी धूव वेंग मारून रडलीं. हाडिल्लें जेवण तिणें ताका फोर्सान भरयलें.

''अम्मा, हांवें करूंक ना चोरी. हांव कशेंच कबूल करचेंना. तांच्या मारान हांव मेल्यार जाता.'' पोटांत दोन गोटे पडून इल्ली थाकाय मेळटकच मैरांबीच्या तोंडांतल्यान हुडकेत हीं उतरां आयलीं. ताची आवय मोनी जाल्ली. दोळ्यांतल्यान व्हांवतले झरीक बांद घालूंक ती शकलिना. मेळूंक दिल्लो वेळ सोंपसर खिन्न नदरेन ती ताका पळयत रावली. ह्या जाळांतलें तें कशेंच सुटचेंना आनी मरूंक भियेना, म्हणटकीर आपलें पोर मरणा सुवादीन जातलें, ह्या विचारान तिका धक्को बसलो. ती गळसली. घरा येवन हांथरुणार लंवडली. आनी थंयच तिका आताक आयलो. ती धरून पडली.

हे वटेन फ्रांस्कीनूय दुयेंत पडलें. नातालांक येवपाचो आशिल्लो तांचो पूत गिलबर्ट, ही खबर आयकून पयलींच आयलो. मैरांबीचे आवयचीय खबर ताका मेळ्ळी. पयल्या पयलीं वचून तिका ताणें हॉस्पिटलांत ॲडमीट केली. ॲम्बुलन्सीन तिका व्हरताना मैरांबीचे आवयन ताका म्हळें, ''बाबा, म्हाजे धुयेन करूंक ना रे चोरी. तुमगेर तें ल्हानाचें व्हड जालां. बरी देख-रीत आनी शिस्त तें तुमगेर शिकलां. हांवेंय ताका बरीच देख दिल्ली. तुज्यान जाता जाल्यार ताका सोडय. पुलिसां कडच्यान मार खाता तें. मातूय जेविना. सुकून कांटो जालां म्हाजें पोर. मरतलें तें बंदखणींत. बाबा म्हज्या, हे आवयचे कट्टेंत आपले धुवेच्या जिविताची भीक घाल. मर सर तुजे उपकार विसरचिंना हांव.'' हॉस्पिटलांत पाव सर ती आवय दुकां गळयत रावली.

गिलबर्टाच्या काळजाक, तिच्या गळट्या दुकांनी पीळ घालो. मैरांबीन चोरी केल्या अशें ताकाय दिसनासलें. पूण...? तिका ॲडमीट करून घरा येतना, कितें तरी थारावनूच तो आयलो. घरा पावतकीर, आपल्या आवय-बापाय मुखार तो प्रस्ताव मांडलो. तें आयकून फ्रांस्कीनाच्या जिवाक बरें दिसलें.

दुसऱ्या दिसा, बापायक घेवन गिलबर्ट पुलीस स्टेशनार आयलो. 'बेल' दिवन मैरांबीक बंदखणींतल्यान सोडलें. आनी थंयच्यान सोमतेंच ताचे आवय म्हन्यांत हॉस्पिटलांत पावयलें.

त्या दिसाच्यान मैरांबीन जुजे मारीचें काम सोडलें, आनी आपली आवय करताली त्या घरांतलीं कामां करून आवयचे सेवेंत वेळ घालोवंक लागलें.

हे वटेन मारजाकीनाच्या हातांत संवसार पडलो आनी रांदचे कुडींतल्यान डब्यांतलें इल्लें इल्लें सामान ना जावंक लागलें. फ्रांस्कीनाक ताची सुलूस लागली, आनी मनांत आशिल्लो दुबाव घट जाल्लो. पूण गवाय नासली. म्हयनो सोंपना फुडें ताचो पगार ताच्या हातार दिवन ताणें ताका कामा वयलें काडलें.

मारजाकीन दुकरां पोसपाचो धंदो करतालें. ताचेर ताचें पोट भरतालें. कांय म्हयन्यां उपरांत ताचो एक व्हडलो दुकर मेलो. ताका पुरूंक ताणें एका मानायाक आपयलो. ''त्या माडा मुळांत ताका पूर'' अशें सांगून खोरें ताच्या हातांत दिवन तें भितर गेलें. मानाय फोंड काडूंक लागलो. खणटां खणटां ताच्या खोऱ्यान एक पोटली उस्तून काडली. ती उसोवन पळयल्यार, माळ आनी कांकणा.

तो मानाय फ्रांस्कीनाच्या भाटांतूय काय करतालो आनी तांगेर जाल्ले चोरयेची खबर गांव भर पाविल्ली. ताणें दुकराक थंयच उडयलो आनी पोटली घेवन फ्रांस्कीनागेर धांव मारली. चुकून ताणें दुसऱ्याच माडा मुळांत खणिल्लें. देवाचीच येवजण आशिल्ली जावंक जाय ती. चोर कोण तो कळ्ळो.

चोर मेळ्ळो, भांगरूय मेळ्ळें. पूण मैरांबीची गेल्ली अब्रू? आनी भिरांतीन, हाल उपद्रे सोंसून ताच्या काळजाक जाल्ले घाय? ताचीं भंगिल्लीं सपनां...?





# देवतेची मागणी

**किरण म्हांब्रे**

गेटीचो आवाज जालो, पप्पा आयलो. पप्पान स्कूटर भितर काडटा म्हणसर बाय आनी मम्मा वांरादार पावलीं.

"मेळ्ळो तो?" पप्पा घरांत येतकच मम्मान विचारलें.

"हय, बायक मागणी आसा म्हणटा देवतेची. प्रसाद घेवन पळय म्हळां." पप्पान सांगलें.

"खंय?"

"पयलीं फातर्प्यां वचून पळय म्हणटालो, फातर्पेकान्नीची आसा जाल्यार."

"रोखडींच गेल्यार बरीं न्हय?" मम्मान विचारलें.

"हांवूय तेंच चिंततालों."

पप्पा आनी मम्मा उलयतात तें बाय तांचे मदीं घुसपतना आयकतालें.

"या मगो बाय फातर्प्यां?" पप्पान बायक विचारून ताच्या अस्तित्वाची दखल घेतली. आनी सगलीं जेवंक गेलीं.

"कल्याणबाय, देवतेची मागणी म्हळ्यार किर्ते?" दुसरे दीस कल्याणबाय आयदनां घांसतना बायन विचारलें.

"मागणें म्हळ्या बाय, देयी तशी मागता," कल्याणबायन सांगलें.

"कशी?"

"न्हिदले कडेन सपणां येता आनीक सांगता... म्हाजें न्हूं बाय, येक कापड हांयें उपळोन सुकों घातिल्लें. कोणें तिका बिलेड लायली. राती कडेन न्हूं बाय, येक बायलमनीस म्हागे सपणां येयली आनी तें कापड मार्गो लागली. हांयें भटा इचाल्लें. भटान सांगलें तें देवतेन मागलां म्हणोन. हांयें व्हरोन दिलें तें देवतेक... बाय, देवतेन मागल्यार न्हूं बाय, दिवों जायें. देवता मागीर चड चड दिता. हांयें कापड दितगच मागीर म्हाका चार कापडां येयलीं."

बाय खेळ सोडून उठलें. मम्मा शाळेंतल्यान देडाक येवपाची. अजून साडेबाराच जाल्लीं. पूण तें वारांदार बसून मम्माची वाट पळोवंक लागलें. ताच्या खाक्यांतली बावली सकल पडली. बायन तिका उबाल्लिना. आज ती रडऽ नाशिल्ली. पडून तिका दुखलेंय ना. आज ती 'शाणीगुणीय' नाशिल्ली. तिका भूक लागना जाल्ली. ताता येना जाल्ली. बायक तिचे केंसूय उळयन दिसले नात. ती पिंसुडिल्ल्या केंसांनी जमनीर पडून रावली. फकत एक कपड्याची गुठली जावन.

कल्याणबायन सान्न मारतना भरून दवरिल्लीं आयदनां काशिंतूरच उरलीं.

"बाय पेज जेयता मगो?" कल्याणबायन विचारलें.

"म्हाका मम्मा जाय."

"मम्मा येवूं येळ आसा बाय."

"म्हाका मम्मा जाय..." बाय तेंच म्हणटालें.

देडाक मम्मा आयली आनी बायन धांवट वचून मम्माक घट्ट वेंग मारली.

"कितें जालें बाय?"

मम्मा नासतना खेळटना पडलें म्हण बाय रडनाशिल्लें. पूण मम्माक पळयतकीच ताका दुखिल्ल्याची याद जाताली आनी रडूंक येतालें. पूण आज तें रडलेंय ना. मम्मान उबारून घेतकच फकत मम्माच्या खांदार तकली चेंपून रावलें.

"बाय, कितें जालें? कल्याणबायन कितें म्हळें?" मम्मान विचारलें. बायक इल्लेंशें कितेंय म्हणचे पयलींच 'शिट्ट' जाता हें ती जाणा आशिल्ली.

"ना." इतलेंच म्हणून बायन परत मम्माच्या गळ्याक वेंग मारली.

मम्मान बायची अपुर्बाय केली. तरी तें सकल देंवंक तयार नाशिल्लें.

ताका खुसलावन सकल दवरून मम्मा मान्न्यांत हातपांय धुंवंक गेली. जाल्यार बाय मान्न्याच्या दारांतूच रावलें. मम्मा भायर येतकच ताणें परत मम्माक वेंग मारली.

"कितें जालां गो? आज कितें जालां तुजें?" मम्मा परत परत विचारताली.

"मम्मा, फाल्यां आमी खंय वतलीं?" बायन बऱ्या वेळान विचारलें.

"फातर्प्यां या मगो?" मम्मान विचारलें.

बाय ओग्गी रावलें. फातर्प्यां म्हळ्यार खूब पयस म्हण तें जाणा आशिल्लें. त्या एका काका बरोबर पयरच जात्रेक गेल्लीं तीं. खूब वेळ लागता थंय पावंक. मम्मा-पप्पा चडशीं केन्नाच वचय नात थंय. ते परस कवळ्यां बरें. रोखडींच पावतात. मम्मा-पप्पाय बी खूब फावट वतात कवळ्यां. बाय मनांत चिंततालें.

सगळो सांजवेळ तें मम्माक दसून रावलें. पप्पा घरा येतकच पप्पाकय आपले म्हऱ्यांत बसोवन दवरलो ताणें.

बायक आज कितें जालां, कोणाकूच समजलें ना.

मम्मान म्हळें लेगीत, "आज बायक कितें जालां समजना. वागरें पडिल्ले भशेन करता."

दुसरे दीस सकाळीं मम्मा आनी पप्पा बायक घेवन फातर्प्यां गेलीं.

पप्पान प्रसाद लायला म्हण सांगलें मम्मान. एका खांब्याक कितल्योश्योच फुलां पाकळ्यो लायिल्ल्यो. लोक ओग्गी बसून पळयताले. खांब्याक लायिल्ल्यो पाकळ्यो झडच नाशिल्ल्यो. निमाणें एक पडली.

भटान म्हळें, "देवता म्हणटा, आपणें मागूंक ना. तुमी कवळ्यां प्रसाद घेवन पळयात."

बायक मातशें सूऽऽ जालें. इतलें तरी ताका जाय तशें जाल्लें.

दुसरे दीस कवळ्यां वचपाचें आशिल्लें. उठ्ठनाच बायक ताच्या दारांत न्हिदिल्ल्या बुकल्याचो राग आयलो.

"सद्दां हांगा पातळटा हो." बायन रागान म्हळें.

मम्मान बायक नवो पोपो घालो आनी बायचें आंग कुचकुचूंक लागलें. मम्मा ताचे कडेन उलयताली तें ताका आयकुंकूच येना जालें.

कवळ्यां देवळा कडेन पावतकच बायन म्हळें, "आवयस्! कितलीं सोंपणां! म्हजे पांय दुखतात."

पप्पान बायक उबारून घेतलें आनी तीं देवळांत पावलीं.

देवळांत वचून पप्पान परत प्रसाद लायलो तेन्ना बाय सगलें देवूळ पळयतालें. देवतेचो न्हिदपाचो जागो, जेवपाचो जागो सोदतालें. हांगा खेळप आनीक कसलें?

बायच्या मनांत हुमाळ्यार हुमाळो येतालो.

इतले म्हणसर भटान म्हळें, "प्रसाद जालो. देवतेन मागलां ताका."

बायक भितल्ल्यान रडूंक येवंक लागलें. पूण तें रडलें ना. मम्माच्या हाताक घट्ट धरून रावलें.

भटमामान सांगिल्लें तशें मम्मा-पप्पान ताटांत तांदूळ नाल्ल दवरले. आनीक कितें कितें घालें. भट सांगून घेतालो. पप्पा-मम्मा भटमाम सांगतालो तशें करतालीं. निमाणें पप्पान ताच्या माथ्या वयल्यान उदक हुंवाळ्ळें. पडल्यार आजी फातर हुंवाळटा तशें.

उदक पप्पान ताटांत घालें. देवाक पांयां पडलीं. तीर्थ प्रसाद घेतलो, आनी बायक म्हळें, "या मगो बाय घरा?"

"हांवेंय येवपाचें?" बायचो आनंद भस्स करून उसळ्ळो.

"आनीक? तूं खंय रावतलें?" मम्मा हांसली.

बायक आतां आनंदान नाचन दिसतालें. कल्याणबायन सांगिल्लें, देवता मागता तें तिका दिवंक जाय म्हण. कल्याणबायन कापड व्हरून देवतेक दिल्लें. परतें हाडूंक नाशिल्लें. पूण मम्मा-पप्पा ताका घरा व्हरतालीं. तें मम्मा पप्पा म्हऱ्यांतूच रावतलें.

बायच्या मना वयलें वजें देंवलें.

"हांव तुमकां सोडून खंयच वचचें ना." ताणें मम्माक घट्ट वेंग मारली. परतें येतना उडयो मारीत सोंपणां देवंक ताका मज्जा आयली.





# आशिर्वाद

विन्सी क्वाद्रुस

वेळ पडत आयलो तरी मैदानार खेळपाक कोणच आयलो ना. दनपारच्यान बरोच पावस पडिल्लो म्हण घडये तांणी विसव घेवपाचें येवजिल्लें. बसून बसून फराशीकाक बेज्यार आयलो. फाल्यां फायनल मॅच खेळूंक जाय म्हण ताणें मैदानाक दोन रावंड मारले आनी आपलें आंग मातशें सदळ केलें. बॉल पांयांनी खेळयत खेळयत तो घरा कडेन परतलो. वणटीक लायल्ली गऱ्याची बडी काडली आनी व्हाळाचेर गेलो. तो गरयतालो थंयच्यान सादूमाम पासार जातालो. तितल्यान एक तवनास सायकलकार ताका आपटलो. सादूमाम लवंडलो आनी जमनीर पडलो.

''आरे, होय, दिश्टी पडना रे तुका? कुड्डो जाला? जाणटेल्याक उडोवन वयता?'' तो सायकलकार नेटाक वता तें पळोवन फराशीकान म्हणलें. आपणाली गरये बडी जमनीर शेंवटीत तो सादूमामा फुड्यांत आयलो. ताका उबो जावपाक आदार केलो.

''चड लागूंक ना मुरे सादूमाम?''

''ना रे बाबा. तुका देव बरें करूं.''

''सादूमाम, तूं हे वटेन खंय वयतालो?''

''हे वटेन बेताळा देवूळ आसा. तें खंय पडटा रे बाबा?''

''हें तें चोय. हे वाटेन नीट वच. येसोऽ रायटान एक डांबराचो रस्तो मेळटलो. तो रस्तो सारको देवळा कडेन वयता.''

''देव बरें करूं बाबा. पूण म्हाका एक सांग, तूं पावसांत गरोवंक सो बसला? ह्या दिसांनी नुस्तें लागता?''

''आमगे हॅबीट ती सादूमाम. फाल्यां मुगे बर्थडे. कितेंय लागलें जाल्यार बर्थडे बरो वयतो न्ही?''

''देवान तुका व्हडलो करूं बाबा. फाल्यांच्या दिसा जें कितें तूं मन लावन करतलो, थंय तुका यश मेळटलें... म्हजो आशिर्वाद तुका.''

''थँक्यू सादूमाम.''

फराशीकाल्या गऱ्याक दोन चोणकुलां फारवलीं. खुशाल जावन तो घरा गेलो.

''मांय गे, घे, आज बरें मेळ्ळां नुस्त्याक. बरें मीठ लाय आनी फाल्यां तळूंक दवर. कितू तेंपान येसो चोणकुलां मेळ्ळ्यांय. विंकपाक गेल्यार दोनशीं रुपया पूण मेळपाचे. वाटेर तो शांताराम पसरकार मागतालो. हांवें दिवूंनांय.''

चणकुलां पळोवन फराशीकाली आवय खूश जाली. दोन तीन दीस नुस्तेंच खावंक नासलें. उजरावपाक तिणें आदोळी काडली.

''हांव मातसो आग्नेलागेर वचून येतां हां.''

''आतां आनीक कित्याक वयता? आमोरी जाली मरे. हांव हें नुस्तें मिठाक लायतां. आमी आमोरी करया पयलीं.''

''मागीर करया गे आमोरी. म्हाका आग्नेला कडेन मातशें उलोवंक जाय. फाल्यां

आमगेली फुटबॉल मॅच आसा. आमी फायनलाक पडल्याय मुगे. आमी हेळपा आसाय. तेंग घारा कडेन लेट गेल्यार, तेगे पाय चाळवता.''

''चोयलें? तूं उलयता म्हळ्यार नुस्त्या काम काबार. चल, आतां मातसो वाती लायी. आमोरे वेळार आमोरी करपाक जाय.''

फराशीकान वाती पेटयता म्हणल्यार आवय नुस्त्याक दवरून आयली. ''आगो फिलु, राजा, खंय आसाय गो, येयात बेगीन आमोरी करूंक.'' आवयचो आवाज आयकून तीं आपलो खेळ अर्द्यारच सोडून धांवत आयलीं.

आमोरी म्हणून जातकच आवयन तांकां बेसांव दिलें. फराशीकाक बेसांव दितासतना आवयन ताचे हातींत एक फातर घालो.

''हें आनीक कितें गे मांय?''

''त्या चणकुलाच्या पोटांतल्यान भायर सरला तो.''

''सगळोच झगझगता मगे तो.''

''दाखय गे मांय, चोवया!'' धाकट्या राजान फातर मागून घेतलो.

''बरें, हांव मातसो आग्नेलाक मेळून येतां. दवर तो हां फातर.''

फराशीकान काळखांतल्यान धांव मारली. आग्नेल तकलेर हात दवरून भायरूच बसून आसलो.

''जाली मुरे फाल्यांची तयारी? प्लेयरां बी सागले?''

''हय रे. प्लेयर बी सगळे जाले. पूण म्हाका फाल्यां खेळपाक मेळपा ना दिसता.''

''कित्याक रे? तूं कॅप्टन मुरे आमगेलो, आनी तूं खेळपाना?''

''दनपरां मुगे बुटूच हायले न्ही रे सुण्यांनी.''

''इतलें मरे? तूं कांयच भिनाका. मुगे बूट सारके जाताय तुका.''

''आनी तूं कितें करतलो? तुका खेळपाक नाका?''

''हांव कोणाले पूण चोयतां. चल जालें मुरे?''

''चारांक हां मॅच. लेट करशी.''

''ना रे. हांव बेगिनूच येता. तुजे बूट येतासतना हाडटां.''

दुसऱ्या दिसाक साडेतिनांकच फराशीक मैदानार हजर. अजून कोणच येवंक नासले. घडोवन हाडप्यां मदले कांय जाण वावुरतना दिसताले. मैदान मात दोनूय वटांनी रंगीत बावटे लावन सजयल्लें. आमंत्रितांक बसपा खातीर कांय कदेलां घाल्लीं.

सवका सवका दोनय पंगडांतले प्लेयर जमा जावपाक लागले. आग्नेल आयलो आनी ताणें फराशीकाले बूट घालून पळयले. ते ताका ज्युस्त बसताले. लोकय जमा जावपाक लागले. फराशीक कोणाले तरी मागून हाडिल्ले बूट घालून न्हेसता म्हणल्यार रॅफ्रीन पिल्लूक मारली. ते वटेन निवेदकान मायकाचेर सगळ्या प्लेयरांनी मैदानार देंवचें म्हूण घोशणा केली. फराशीकाले टिमींत तांच्या वाड्या वयले आनी गांवचे नांवाजते प्लेयर आसले. देखून फायनल जिखपाची तांकां आस्त आसली. सगळे मेळून पंदरा जाणांनी ड्रॅस घाल्ले. आग्नेला मुखार प्रस्न उबो रावलो, पयल्या इकरा जाणां मदीं कोणाक खेळोवचे? आपयल्यात तांकां खेळयल्यार फराशीकाक भायर दवरचो पडटालो आनी तें आग्नेलाक नाका आसलें. फराशीक आनी आग्नेल शाळेंत सावन बरे इश्ट. आग्नेलाची अडचण फराशीकान वळखली.

''आग्नेल, तुवें आपयल्यात तांकां खेळय. हाफ टायमाक पळोवंचें. चलात तुमी ग्रावंडार. हांव भायल्यान सपोर्ट करतां.''

मॅच सुरू जाली. हाफ टायम जाता म्हणल्यार अतिउत्साहान भरिल्ली आग्नेलाची टीम एका गोलान फाटीं पडली. जे आपूण बरो खेळपी म्हण बडायो मारताले, तांचे कडल्यान अपेक्षाभंग जाल्लो. तरी आपूण भायर रावन फराशीकाक संद दिवंया म्हण कोणाच्याच तोंडांतल्यान आयलें ना. तशें पळोवंक गेल्यार विरोधी पंगडूय तितलो बळिश्ट नासलो. पूण तांचें नशीब तांकां सांगात दितालें. तांणीय कांय नव्या भुरग्यांक खेळपाक हाडिल्ले.

फाटल्या वर्सांनी फराशीकाल्या गांवान दोन-तीन फावट हें कप जिखिल्लें. ह्या वर्साच्या जैताक खेरीत म्हत्व आसलें. फाटल्या वर्सांनी आशिल्ल्या १० हजारां बदला हे फावट १५ हजार रुपया जिखतल्याक मेळपाचे आशिल्ल्यान फायनलीक वेगळीच चडाओड आसली. कोण तरी दुबयच्यान आयिल्लो. ताणेंच त्या इनामाची रकम वाडयल्ली.

मॅच परत सुरू जाली. आग्नेलाच्या पंगडाचेर आनीक एक गोल पडलो. फराशीकालो उत्साह देंवलो. मॅच हारपाचीं चिन्नां दिसपाक लागलीं. एका प्लेयरान बऱ्याच नेटान मारिल्ल्या शुटाचेर पयस गेल्लो बॉल हाडटा म्हणल्यार फराशीकान आग्नेलाक सायडीन आपोवन हाडलो.

''आग्नेल पळय, मॅच आमच्या हातींतल्यान वयता. म्हाका काडटा भितर?''

''कोणाक काडया भायर?''

''शाणूचो आज खेळच ना. ताका देंवय.''

रॅफ्रीन पिल्लूक मारली आनी बॉल परतून मैदानार नाचूंक लागलो. फराशीकान चवथ्या रेफ्री कडेन आपलें कार्ड दिलें आनी लायनीचेर फाटीं-फुडें धांवपाक लागलो. ताका वळखुपी भुरगे फिवण्यो घालून ताका बेगीन भितर वचूंक उर्बा दिवंक लागले. तेन्नाच रेफ्रीन लांब पिल्लूक मारून मॅच थांबयली. आग्नेलाच्या पंगडांतलो सॅबी जमनीर पडिल्लो. गोलीन मारिल्ल्या शुटाचेर बॉल घेवंक वतना विरोधी प्लेयरान ताका आड पांय घालून उडयल्लो. रेफ्रीन ताका हळडुवें कार्ड दाखयलें आनी दुखापतीक लागून सॅबीक भायर व्हरचो पडलो. तेन्नाच आग्नेलान फराशीकाक भितर घेतलो.

मॅच सोंपपाक धा मिनटां उरिल्लीं. फराशीकान मिड-फिल्ड सांबाळ्ळें. भायर रावन ताणें विरोधी पंगडाचेर बरोच अभ्यास केल्लो. तांच्यो चुको ताचे नदरे मुखार आसल्यो. फ्री किका खातीर बॉल भायर पडलो तेन्ना ताणें आपल्या गोलीक कांय संकेत दिले, आनी प्रतिस्पर्ध्यांच्या सॅन्टर हाफाचेर वचून रावलो. ताका आडोवपाक तांचे दोग जाण प्लेयर मुखार सरले. फराशीकाल्या संकेता प्रमाण बॉल मदल्या भागांत येवपा बदला आवटर लायनी वयल्यान देंवपाक लागलो. तसो फराशीकान नेट धरलो आनी बॉलाक आपल्या ताब्यांत घेयत आवटर लायनी वयल्यान धांवत सुटलो. प्रतिस्पर्धी बॅक जे तो वाठार सोडून आसले, तांच्या लक्षांतच आयलें ना. फराशीक कॉर्नेरा कडल्यान गोल एरयांत पावलो. गोली मुखार सरलो. पूण खंयचोय प्लेयर ताका लागीं येवंचे पयलीं झोकून तांणी पयसूच रावन गोलांत

शूट घेतली ती गोलीच्या हाताक लागनासतना, बार पोस्टाक लागून बॉल गोलांत भितर सरलो. आनी गोल! फराशीकाक ताच्या विचारांनी सांगात दिल्लो. भायर रावन तो येवजितालो तशेंच जाल्लें. सगळ्यांनी फराशीकाक वेगेंत धरलो.

मॅचीक आतां रंग आयलो. दोनय पंगड नेटान खेळपाक लागले. फराशीकाक परतून एक बॉल मेळ्ळो. तो बॉल घेवन मुखार वचपाक.लागलो. एक नदर आवटफिल्डाचेर घुंवडायली. तांचे तीन बॅकी सकल खेळटाले. तांणी कॉर्नरा वटेन सालूक बॉल घालो. प्रतिस्पर्ध्यांक ताणें ते वाटेन धांवडायले आनी बॅक पास मागतना ऑफ सायड सांबाळीत गोल एरया कडेन पावलो. आग्नेलाक बॉल घेवपाक मुखार घालो आनी आपूण आनीक फाटीं गेलो. सालूलो बॉल आग्नेला कडेन येतलो अशें धरून प्रतिस्पर्ध्यांनी आग्नेलाक मार्क केलो आनी फराशीकाक उकतो सोडलो. सालून आग्नेलाक बॉल घालचे सुवातेर फराशीकाक बॉल घालो. कॉर्नर कीक मारतात ते भशेन बॉल वाऱ्यांतल्यान फराशीका कडेन देंवलो. बॉल जमनीक तेंकचे पयलीं ताणें तश्या तशी शूट घेतली आनी गोली पळयतूच उरलो. बॉल ताचे फाटल्यान गोलांत आसलो. ताळयांचो गडगड आनी फिवण्यांचो आवाज. 'फराशीक! फराशीक!' म्हण कितलेशे जाण आड्डूंक लागले. कांय जाणांनी उबे रावन फराशीकाक परबीं भेटयलीं.

फराशीकालो खेळ घडये प्रतिस्पर्ध्यांनी पळोवंक नासतलो. निमण्या खिणाक तो मैदानार देंविल्ल्यान ताची शक्त आनी गती शाबूत आसली. तांणी फराशीकाचेर हल्लो चडयलो. ताकाच धरून रावप तांणी पसंद केलें. मॅच सोंपपाक अवगींच मिनटां आसलीं तेन्ना परत एक फावट प्रतिस्पर्ध्यांचें लक्ष आपणा वटेन वेधलें. बॉल सॅन्टरार येता म्हणल्यार पवित्रो घेवपाची आग्नेलाक कुरू केली. खिणा भितर फराशीकाक वेडो पडलो. तसो तो आपल्या गोला वटेन देंवपाक लागलो. हीच एक संद धरून प्रतिस्पर्ध्यांनी आग्नेलाच्या गोला वटेन धांव घेतली. लुटींत गोल जाल्यार जालो म्हण सगळेच वयर सरले. फराशीकाली मांडणी काम करपाक लागली. आपलो बॅकी मिंगेला कडेन बॉल पावतांच मदले फळयेंत खेळपी सालूक आवटरांत धाडलो आनी आग्नेलाक मुखार धांवूंक सांगलें. ह्या खिणाचीं कॅप्टनाचीं सुत्रां आतां फराशीका कडेनच आसलीं. कॉर्नरा वटेन नॉयलाक धांवडायलो. विरोधी पंगडाचो वाठार खाली आसलो. गोली तांकां सकल आपयतलो. तेन्नाच फराशीक मुखार वचपाक लागलो. फराशीकाल्यो हालचाली पळोवन मिंगेल बॉल फराशीळा कडेन घालतलो अशें दिसलें आनी प्रतिस्पर्धी ताचेच भोंवतणी रावंक लागले. पूण बॉल मुखार आशिल्ल्या सालू कडेन पावलो. सालून नॉयला कडेन दिलो. तितले म्हणसर आग्नेल आनी फराशीक प्रतिस्पर्ध्यांच्या गोल वाठारांत पावले. एकल्या बॅकीक फटयत नॉयलाक बॉल पास केलो. गोली दुविदेंत उरलो. शूट आग्नेल घेतलो काय फराशीक. तांचे प्लेयर अजून बॅका कडेन पावचे आसले. आग्नेल मातसो लागीं आसा म्हण गोलीन आग्नेलाक मार्क केलो. बॉल आग्नेला कडेन पावलो. गोलीन पवित्रो घेतलो. पूण आग्नेलान बॉल सोडून दिलो आनी फराशीकान चूक करनासतना हॅट्रीक केली. तिसरो गोल केलो.

गोलाचे पिल्लुकेचेर मॅच काबार जाली. परत एक फावट सगल्यांनी फराशीकाक उबारून धरलो. मैदाना भायर लोकांनीय 'हुरयोऽऽऽ' दिल्यो.

''तुका हांवें भायर दवरून व्हड चूक केली, फराशीक.'' आग्नेलान ताका परत एक वेंग मारून आपले उमाळे उकतायले.

''ना आग्नेल. तुवें म्हाका पयलीं खेळयल्लो जाल्यार घडये हांवय चुकतलों आसलों. आनी तुवें म्हाका खंय भायर दवरला? बऱ्या प्लेयरांक हाडून भायर बसोवपाचे?''

''पूण तुवें हे भशेन केन्नाच खेळ दाखोवंक ना मुरे.''

''जाणा आग्नेल, आज आमकां ही मॅच जिखपाकच जाय आसली. देखून भायर रावन हांव बोवाळ मारनासलों. तेंगेलो खेळ चोयतालों. ते कितें करून खेळटात तें हांवें सारकें पारखिलें. तोच चान्स घेयलो मुरे हांवें.''

''पूण तूं सारको टायमार भितर सरलो. हांवें दोन-तीन पावट सांगलें, एकलोय मुखार सरनासलो भायर सरपाक.''

''देवाक जाय जाल्यार सगळें जाता आग्नेल. देवाक जाय आसलें आमी जिखलेले. देवान सॅबीक इंज्यर्ड केलो आनी म्हाका भितर काडलो.''

''सॉरी हां आग्नेल. तूं म्हाका भायर काडटालो म्हण हांव वोगीच तुजेर बेज्यार जालों. फराशीक भितर सरूंक नासलो जाल्यार आज आमकां लज जावपाची.'' शाणून मान पोंदाक घालून म्हणलें.

''चोय, जावन गेलें तें घेवन बसपा न्ही. चल आतां, कप घेवपा या.'' फराशीकान मुखावयले भासाभाशेक पूर्णविराम घालो आनी वेदी वटेन चलपाक लागलो. तितल्याक मुखेल सोयऱ्यान आपणाले दोन शब्द रोकडेच सोंपयले आनी इनामां वांटपाचो सुवाळो सुरू जालो. बरो खेळगडो म्हण फराशीकाली निवड जाली. हें इनाम दितना ताची प्रतिक्रिया विचारली तेन्ना ताणें सांगलें, ''आज हांव एकदम खुशाल. कित्याक, हो मॅन ऑफ द मॅच मेळ्ळा म्हूण न्ही, आज मुगेलो बर्थडे. हांवें राती कडेन देवाक सांगलेलें, आज केशेय भाशेन ही मॅच जिखपाक जाय म्हण. आनी ताच्याच आशिर्वादान हांव हॅट्रीक करूंक पावलों. देव बरें करूं.'' परत एक फावट फराशीकांक लोकांनी ताळयो पेटयल्यो. मॅन ऑफ द मॅच म्हूण ताका एक हजार रुपया इनाम मेळिल्लें आनी मॅच जिखिल्ले तेंतूंतलो एक हजार म्हण दोन हजार रुपयांचो तो आज पयलेच फावट धनी जाल्लो.

खुशाल जावन घरा परतताना ताच्या मनांत एकच प्रस्न घोळटालो. 'हांव इतलो बरो खेळपी कांय न्ही. पूण म्हजे सवें असो चमत्कार केसो जालो? त्या सादूमामालो आशिर्वाद इतलो पावरफुल आसलो? बऱ्या कामाचें जर अशें इनाम मेळटा जाल्यार हांव सदांच बरीं कामां करतलों. आनी त्या चोणकुलांतल्या पोटांतलो फातर? ती म्हाका भेट, काय होय ताचोच आविश्कार? म्हजी मांय दाखयता ते वाटेन हांव सदांच चलतलों.' मनांतल्या मनांत हांसत घरा पावून ताणें जिखिल्ले दोन हजार आवयच्या हातार दवरले आनी चोणकुलांचो घोस्त घेवपाक जेवणा खातीर तयार जावपाक लागलो.





# अजून यादींत बाकी बाकी

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**

भर पावसा दिसांनी २५ आनी २६ जुलय २००९ ह्या दोन दिसांनी पुणेच्या कँप परिसरांत गोळीबार मैदाना लागीं आसलेल्या एस. एम. जोशी हिंदी माध्यमिक विद्यालयांत एक सर्व भारतीय भाषा संमेलन आयोजित जाल्लें. हें संमेलन महाराष्ट्र राष्ट्रभाषा सभा, पुणे आनी महाराष्ट्र राज्य हिंदी साहित्य अकादमी, मुंबय हांच्या जोडपालवान आकाराक आयल्लें. आनी कोंकणी भाशेचो प्रतिनिधी म्हूण ह्या संमेलनाक हांव थंय हाजीर आसलों. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या अध्यक्षान म्हजें नांव तांच्या जाळवणदारांक कळयल्लें.

भारतभरच्या सगळ्या भासांचे प्रतिनिधी थंय हाजीर आसले. म्हजें उलोवप २६ तारकेक जेवणा उपरांतच्या निमाण्या सत्रांत आसलें. आमच्या सत्रा उपरांत समारोपाच्या कार्यक्रमांत पं. हरिनारायण व्यास हांचो सत्कार जावचो आसलो. हिंदी सेवे खातीर तांचो संमेलनांत सत्कार दवरलेलो. ह्या मनशाची पिराय १०० वर्सां परस चड आसली. म्हजें उलोवप जाल्लें. हांवें म्हज्या उलोवपांत गोंयचो लोकवेद आनी कांय कविता तशेंच लोककाणयांच्या आदारान त्या काळावयल्या कोंकणी लोकमनाचो थाव घेवपाचो प्रयत्न केल्लो. ह्या प्रयत्नांत देव नांवाची संकल्पना मनशांत रुजजे पयलीं लेगीत ही कोंकणी भास आसली हें लोककाव्याच्या माध्यमांतल्यान सिद्ध केल्लें. ही गजाल खूब लोकांक आवडलेली हें म्हाका व्यासपिठा वयल्यान सकल आयले उपरांत खूब जाणांनी सांगलें.

सकल देंवना फुडेंच सत्कारमूर्ती पंडित हरिनारायण व्यास संथपणान उठून सडक म्हजे सरीं आयले, ल्हवूल्हवू, आनी तांणी म्हाका घट्ट खेम दिली. म्हज्या उलोवपाची तुस्त केली आनी म्हाका एक प्रस्न विचारलो. तो प्रस्न आयकून हांव थटाकलों. प्रस्न कितें आसलो तर "कविवर्य बा. भ. बोरकरांनी कोंकणी भाशेसाठी बरेच काही केले आहे. त्यांच्या नावाचा उल्लेख तुम्ही करायला हवा होता. तो तुम्ही का केला नाही?" हो हिन्दी भाशी मनीस एक तर चक्क पुणेरी

मराठी उलयतालो आनी बाकीबाबां वयलो आपलो मोग आनी याद भावार्थ उलयतालो, आनी ताच्या उलोवपाक बाकीबाबांच्या कोंकणपणाची एक जबरदस्त प्रभावळ आसली. जाणें ह्या संवसारांत एक शतक पळोवन घेतलां त्या मनशान बाकीबाबांक आपल्या मनांत केळयत दवरप ही एक अजापांची घडणूक अशें म्हाका दिसलें. ही एक शतसवंत्सरीय घडणूक अशें म्हाका दिसलें आनी तीय बरोब्बर बाकीबाबांची शताब्दी हुमऱ्यार आसतना घडटा हीय एक अद्‌भूत गजाल. पंडितजींची जीण पुण्यांत गेली. ग्वाल्हेरचो मनीस पूण मराठी जावन पुण्यांत रावलो. बाकीबाबांच्याय सान्निध्यांत तो आयल्लो. घडये पुण्यांत ते दोगूय वांगडाच आकाशवाणीचेर काम करतालेय आसूं येता. म्हजें कोंकणी संबंधांतलें हिंदी उलोवप आयकून बाकीबाबांच्यो यादी जळोवपी (जोडवीं जळयल्ले वरी) व्यास म्हाका खूब प्रभावीत करून गेलो.

१९८५-८६ च्या अदमासाक म्हाका केंद्रीय हिंदी निदेशालयाच्या कार्यक्रम अधिकाऱ्याचें पत्र आयल्लें. त्या पत्रांत तांणी म्हाका कोल्हापूरांत जातल्या एका अहिंदी लेखक संमेलनांत वांटो घेवपाचें आमंत्रण दिल्लें आनी हयकार कळोवपाक सांगल्लें. ह्या हिंदी निदेशालया कडें आनीक एक पावट म्हजो संबंध आयल्लो तो आमचे इश्ट आनी गोवा विश्वविद्यालयाचे हिंदी विभाग मुखेली तशेंच लेखक, डॉ. पांडेंक लागून. गोंयांत जाल्ल्या एका अहिंदी लेखक संमेलनांतल्या एका कार्यक्रमांत तांणी म्हाका आपोवन व्हेल्लो. हांव हो कार्यक्रम अटेंड करतलों अशें थारावन तांकां कळयलें. फेब्रेरांत जाल्लो हो कार्यक्रम कोल्हापूरच्या भाऊसिंगजी कॉलेजांत संपन्न जाल्लो. सुमार धा एक दिसांच्या ह्या कार्यक्रमांत एके रातीं एक कविसंमेलन जालें. डॉ. सुनीलकुमार लवटे ह्या त्या कॉलेजांतल्या हिन्दी विभाग मुखेल्यान सूत्रसंचालन केलें. संमेलनांत बरेच लोक कोल्हापूरांतलेय आसले. पंजाब, बंगाल, उडीसा,कन्नड, तमिळनाडू अश्या वाटारांतल्यान लेखक आयल्ले. ते त्या त्या वाटारांतल्या भासांतलेय लेखक आसले आनी हिंदीय लेखक आसले. म्हणटकूच हिंदी कविसंमेलनांत हेर भासांचोय आसपाव जाल्लो. हांवें थंय एकूच हिंदी कविता वाचली आनी हेर कविता कोंकणी म्हटल्यो.

डॉ. लवटेन म्हज्या नांवाची कविता वाचपा खातीर घोशणा केली ते पयलीं जी प्रस्तावना सुरू केल्ली ती बा.भ. बोरकारांच्या नांवान. तांणी म्हळें, 'हे बा.भ. बोरकरांच्या गोव्याहून आले आहेत.' म्हणचे, बाकीबाब आनी कोल्हापूर हांचें नातें बरेंच लागींचें अशें म्हाका दिसलें.

हांवें एके हिन्दी कविते वांगडा, म्हटल्यार एके कोंकणी कवितेच्या हिंदी भाशांतरा वांगडा, उरलेल्ल्यो तीन कविता म्हटल्यो त्यो सावुलगोरी, शिर शिर नाम्रुबे आनी भौसार्पणमस्तु. ह्यो म्हज्यो कविता संमेलनाच्या सगळ्याच लोकांक आवडलेल्यो. डॉ. लवटेंनी सांगलें, बाकीबाबांच्या नांवाक आनीक फुडें व्हरपी ह्यो कविता आयकून कान तृप्त जाले आनी आतां आमकां बाकीबाबांच्याच गोंयांत न्हय तर रमेश भगवंत वेळुस्कारांच्याय गोंयांत अशें म्हणचें पडटलें.

राती कडें हांतरुणार आड पडल्या पडल्या हांव चिंततालों — बाकीबाब काय आतां ह्या संवसारांत नात. पूण बाकीबाबांचे कवितेन लोकांक पिशें लायलां, आनी तांच्या काळजांत, मनांत बाकीबाब आसा. ही गजाल सुमार पंचवीस वर्सां पयलींची. आयजूय लोकांच्या वंठांचेर बाकीबाबांची कविता आसा ही खऱ्यांनीच अजापांची गजाल.

हांव दुसऱ्या दिसाच्या कार्यक्रमा खातीर कॉलेजांत गेलों जाल्यार आनीक एक गजाल म्हाका आश्चर्याचो धक्को दिवपाक रावल्ली. थंय पाव जाल्यार एक सुंदर अस्तुरी, पूण वयस्क वया कडें लकलेली, म्हाका थंय मेळ्ळी. तिणें हांसून म्हजें स्वागत केलें, आनी आपली वळख म्हाका दिली. तिचें नांव आसलें मंदाकिनी खांडेकर. ती कॉलेजांत लेक्चरर आसली आनी मराठी साहित्याचो भाग्यविधाता वि. स. खांडेकर हांची धूव आसली. काल रातच्या कवि संमेलनांत नासली. पूण तिका म्हज्या कवितां संबंधान कळ्ळें आनी तिणें म्हाका आपल्या घरा येवपाचें आमंत्रण दिलें. मागीर म्हाका सांगलें, बा.भ. बोरकर आपल्या बापायचे बरे इश्ट आसले आनी खूब फावटीं ते तांगेर येताले. आपल्याक तांणी आपूण सामकी ल्हान आसतना आपल्या आंगार खेळयल्या हेंय तिणें मोटे उमेदीन आनी आदरान सांगलें. म्हज्या कवितां संबंधान तिका आज कळ्ळें आनी म्हाका तिच्या, म्हणचे वि.स. खांडेकरांच्या, घरा व्हरचें अशें दिसलें. म्हणून हें आमंत्रण आसलें.

हें आमंत्रण येना फुडें म्हाका खूब उमेत तर जालीच. म्हजी कविता हे गजालीक कारणीभूत आसलीच पूण ते भायर बाकीबाबांचो ह्या महनीय कुटुंबा कडें आसलेलो संबंधूय कारणीभूत आसलो. बाकीबाबांक लोकांनी आपल्या काळजांत कसो दवरला ताचें हें दर्शन.

हांव आनी म्हजो एक पंजाबी कविमित्र अशे दोग जाण आमी वि.स.खांडेकरांच्या घरा गेले. घरांत मंदाकिनी खांडेकर एकटीच रावता. तिणें लग्न करूंक नासलें. तिच्या पिल्याचें म्हटल्यार खांडेकरांचें साहित्यूय म्हज्या भुरगेपणांत हांवें खूब वाचलेलें. आनी म्हाका आवडलेलेंय. एक मोटो लेखक म्हण खांडेकरां बद्दल आदरूय आसलो. म्हाका तांचें घर पळोवपाचें आमंत्रण येतलें अशें मात केन्नाच दिसूंक नासलें. पूण तें घडून आयल्लें. आनी तें घडपाचें कारण आसलें कविता. कविता म्हजी आनी कविता बाकीबाबांचीय.

मंदाकिनीन म्हाका सगळें घर दाखयलें. बापायच्यो, बाकीबाबांल्यो यादी सांगल्यो. बाकीबाब हांगा हे खुर्चेर अशे बसताले तें सांगलें. ते दोगूय दीसभर, केन्ना केन्ना रातभर, उलयताले तें सांगलें. हांव तें सगळें म्हज्या अंतरात्म्याचे दोळे उकते करून प्रत्यक्षांत पळोवंक लागलों. खांडेकर, बाकीबाब म्हाका पळोवन अजापीत जाल्ले वरी दिसले. इतल्यांत मातसो वारो आयलो. आमी बशिल्ले थंयचीं जनेलां आपलीं कवडां हालोवन गेलीं. वाऱ्याचो झोत म्हज्या माथ्याक स्पर्श करून गेल्लो. म्हाका दिसलें, हो वारो नासून वि.स. खांडेकर ह्या उत्तूंग साहित्यिकाचोच हो वरदहस्त. हें भाग्य म्हाका तांणी आपल्या घरांत आपोवन हाडून दिलां. मागीर बाकीबाबांचो आवाज... रमेश,अशें भाग्य सहज कोणाकूच लाभना. तूं भाग्यवंत म्हण तुका भाऊसायबाचो वरदहस्त मेळ्ळा. आनी म्हजो हात तर तुज्या माथ्यार सदांच आसा... 'चहा घेता घेता आपण कुठल्या



कल्पनाविश्वात गुंतून गेलात... ' अशें मंदाकिनीन म्हटलें तेन्ना हांव भानार आयलों.

बाकीबाब असो म्हाका तरी जायते कडें मेळ्ळा.

• ही गजाल १९८३ तली. हांव मेच्या म्हयन्यांत लखनऊ गेल्लों. वेळ आसत सुमार साडेतीन चार सांजवेळचो. हांव हजरतगंजच्या वाटारांत आसलों आनी परिवर्तन चौकाचे वाटेन वयतालों. लखनऊ सगळेंच पयलें पयलें. अचानक थंय म्हजी नदर एक बोर्डार गेली. हिन्दी भाषा संस्थान, लखनऊ. म्हजे वांगडा म्हजी घरकान्न आसली. हांवें तिका म्हटलें, आमी संस्थानाच्या अध्यक्षांक मेळ्या? ती म्हणपाक लागली, या. आमी गेलीं. हांवें, गोंयसून एक कोंकणी कवी तुमकां मेळपाक सोदता, अशी चीट भितर धाडली.

अध्यक्षांच्या चेंबरा भायर पाटी आसली. अध्यक्षांचें नांव आसलें ते पाटयेर. डॉ. शिवमंगल सिंह 'सुमन'. हांव हिंदींतल्यान एका फामाद कवीक मेळटां हो एक बरो योगायोग आसलो. आमकां भितर आपयलीं.

आइए... आइए... रमेशजी, अशें म्हणत म्हजें डॉ. शिवमंगल सिंह सुमनजीन स्वागत केलें. नांव घेवन म्हजें तो स्वागत करता हें म्हाका नवेंच आसलें. पूण इतल्यांत म्हाका आतांच हांवें नोट धाडलेली ताची याद जाली.

जालें, आमची भेट जाली आनी गजाली जाल्यो. बाकीबाब बोरकारांच्यो. कित्याक, तर १९८२ वर्सा साहित्य अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार भेटोवपाचो कार्यक्रम गोंयां जाल्लो. तेन्ना तोय खंय गेल्लो. आनी थंय बाकीबाबां कडें तांची वळख आनी इल्ली चड जाल्ली. तो एक व्हड कवी अश्या शब्दांत शिवमंगल सुमनांनी बाकीबाबांची तुस्त गायली, आनी अश्या बाकीबाबांच्या गांवचो, कवितेच्या गांवचो एक कवी म्हज्या संस्थानाक भेट दिता ही खूब भाग्याची गजाल अशें म्हटलें. मागीर च्या जाली. हांवें म्हजे घरकान्नीची वळख करून दिली आनी ती हिंदी कवी श्री नीलमजी हांची भाची अशें सांगतकूच तांणी म्हटलें... अच्छा... अच्छा... नीलमजी जो कलकत्ते में रहते हैं? वही है न? अरे हम जानते हैं... अरे अब तो आप हमारे और नजदीकी हो गए हैं... अशें म्हटलें.

भुवनेश्वांत म्हाका एक पावट डॉ. विनोद कानुंगोनूय अश्योच बाकीबाबांच्यो कविता म्हणूंक लायल्ल्यो. डॉ. कानुंगो हो उडियाचो विश्वकोश निर्माण करपी मनीस. गांधीवादी आनी साहित्यीक. भुरग्यां खातीर बरोवपी. हांवें बाकीबाबांच्यो कांय कविता म्हणटकूच तांणी तांचे कडल्यान खंयच्या तरी प्रसंगार आयकल्ली बाकीबाबांची कविता पांयजणांय म्हजे कडल्यान म्हणून घेतली. असो संवसारांतल्या लोकांच्या मनांत आसलेलो बाकीय म्हाका खूब वेळा पळोवंक गावला.

यादी आनीक खूब आसात. आनीक केन्नाय तरी.



# बाकीबाब: एक आनंदयात्री

सुरेश गुंडू आमोणकार

बाकीबाब बोरकारांचो जल्म कुडचड्यार तांच्या आजोळा ३० नोव्हेंबर १९१० ह्या दिसा जाल्लो. ८ जुलय, १९८४ ह्या दिसा ते पुण्यांत सोंपले.

बाकीबाब बोरकारांच्या व्यक्तिमत्वाचें आनी तांचे कवितेचें सौंदर्यरहस्य कळपाक तांच्या भोवआयामी आनी भोवताशी व्यक्तिमत्वाचो सोद आमकां घेवचो पडटलो. बाकीबाबांच्या कवी पिंडांत आनी व्यक्तिमत्वांत एकाच वेळार आमकां भोगी, विरागी, सौंदर्यउपासक, आनंदयात्री, मुक्त मनस्वी कवी, तत्वचिंतक, सैमयोगी, आर्तभक्त, प्रचंड आशावादी, अशा मनशाचें, तेच भाशेन, आपली कविता तालासुरांत गावपी संगीतप्रेमी मनशाचें दर्शन आमकां घडटा. तांकां आपले प्रतिभेचो आनी आपल्या मिशनांचो सोद तरणेपणांतच लागिल्ल्यान ते कवी म्हणुनच समाजांत वावुरले आनी जियेले. आपणें कमयल्ल्या काव्याचे संगीतमय गायकेची तांणी जल्मभर अभिमानान जतनाय केली आनी जबरदस्त आत्मविश्वासान ती जिवीतभर सांबाळ्ळी. ल्हानपणा सावन भजन-किर्तनाच्या संस्कारांत वाडिल्ल्या बाकीबाबांचे कवितेंत काव्य आनी संगीत हांचें अद्‌वैत अतूटपणान मेळटा. हाकाच लागून तांची कविता संगीतमय आनी ती ते जल्मभर आळयत रावले.

ज्या काळांत ते जियेले, त्या कालपटाचेर तांणी आपल्या प्रकृतीधर्माक धरून आनी व्यक्तिमत्वाच्या खाशेलपणाक लागून, गोंयचेर तशेंच कोंकणी-मराठी साहित्याचेर, आपली मुद्रा उमटायली. बाकीबाब निखटे एक व्हड कवी आनी साहित्यकार नाशिल्ले. १९४६त सरकारी नोकरेचेर खोंट मारून तांणी गोंयच्या मुक्तीझुजांत उडी मारली आनी हालउपाद्रे सोंसले. हें करून ध्येयवादाचो एक आदर्शपाठ तांणी गोंयकारां मुखार दवरलो. अंदू बाकीबाबांची जल्मशताब्दी गोंय मनयता. सरकारी पांवड्या वयल्यान ती मनयतात. महाराष्ट्रांत मराठी साहित्य वर्तुळांतूय ती मनयतात. असल्या सार्वजनीक जल्मशताब्दीच्या निमित्तान आमी कर्तुत्वी व्यक्तीचे उपकार आठयतात आनी तिचे पसून प्रेरणाय घेतात. भोवआयामी व्यक्तिमत्व आशिल्ल्या बाकीबाबांनी, गोंयच्या राजकारण आनी समाजकारणाचेर, कोंकणी चळवळीचेर आनी साहित्याचेर तशेंच मराठी साहित्याचेर विंगड विंगड तरांनी आपली म्होर उमटायली. बाकीबाबां सारके प्रतिभावंत इतिहासाचो वारसो फुडें व्हरतात आनी तातुंतल्यान स्वता नवो इतिहास निर्मितात. आनी ताका लागून परंपरेक नव्या परिमाणांचो लाव जाता वा नव्यो परंपरा सुरू जावपाक ते कारण थारतात. बाकीबाबाचें व्हडपण कित्यांत आसा? अविरत साधनेन बाकीबाब काव्यसम्राट जाले आनी आपले कवितेचें नाणें पाडून तांणी 'बोरकार-शक' निर्मिलो.

१९२६ वर्सा म्हळ्यार पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा तांची 'पुनवेची रात' ही पयली कविता *'प्रतिभा'* ह्या तांच्या काव्यसंग्रहांत प्रसिद्ध जाली. तर 'तमःस्तोत्र' ही निमाणी कविता ते सोंपचे पयलीं फकत चार म्हयने आदीं तांणी बरयली. म्हळ्यार, तांची काव्यसाधना सतत स दसकां अखंड चालू आशिल्ली. तांच्या पिंडांतूच काव्यउर्जेची झर निरंतर व्हांवताली आनी तांच्या पिंडाक ती पोसताली. ते म्हणटाले, व्हड सर्जनशील साहित्यीक वा कलाकार हो एक योगीच आसता. तांच्या चिरतारुण्याचो वझरो तांचे आनंद आनी सौंदर्य पुजेंत आसपाविल्लो. देखुनूच जिवितांत उत्साह आनी आनंदाचो खळखळपी वझरोच जावन काव्यरसिकांक आनी हेरांक ते तृप्त करीत रावले. हरशीं सामान्य आशिल्लो मनीस कला आविश्काराच्या उत्कट

ध्यासान, आपणें वेंचून काडिल्ल्या साहित्य मळार केदे उंचायेर पावता हें ताचें जिवीत नियाळ्ळ्यार स्पश्ट जाता. सामान्य मनशाचे पांय मातयेचे आसले जाल्यारय, संवेदनशील आनी ध्येयवादी मनशाक आपली जीण शुद्‌ध आनी पवित्र उदकाची न्हंय आसची अशें मनासावन दिसता .बाकीबाबान कठीण परिस्थितींतय आपले जिणेचें कोंड जावंक दिलें ना. देखुनूच ते एके कवितेंत बरयतातः ''या नदीच्या पार वेड्या यौवनाचें झाड आहे.'' तांचें जिवीत एक व्हांवती न्हंयच आशिल्लें. ते न्हंये पलतडीं आशिल्ल्या 'यौवनाच्या झाडाची' तांणी निमाण्या खिणा मेरेन अपुर्बायेन जतनाय केली आनी त्या झाडा आड लिपिल्ल्या 'अमृताच्या चंद्रा'च्या तांच्या आवडीच्या चान्न्यांत स्वता एतिश्ट न्हावन, ह्या जीवन भाष्यकारान रसिकांकय चिप्प न्हाणयले. तांकां जीवन 'मंगल आनी सुंदर' दिसतालें. आनी ते 'भोगी' मुडांत आसतना तांकां हो 'इहलोक लोभस' दिसतालो. तांचें जिवीत म्हळ्यार भोग आनी विराग हांचें अजब रसायण. बाकीबाबाक आपूण एक कवी हाचो सुरवेक सावनच दिश्टावो जाल्लो. ते जिणेचो मोग करताले आनी सैम, आनंद, प्रीत, चान्नें हांचें गीत गायतना तातूंत रमताले. मरचे पयली चार म्हयने आपल्या जीवन आनी काव्य साधनेचेर भाश्य करीत तांणी म्हणलांः *''गीत तुझे गातां गातां । मीच गीत झालो, प्रीत तुझी ध्यातां ध्यातां । मीच प्रीत झालों... लागलो न भोगां मागें । व तयास भ्यालों, । हाक जागृतीची येतां । त्यातुनी निघालो. असा धुंद गोसावी मी । ना कुणां कळालो, । तरी तुझ्या जोतिःस्पर्शा । भाळलो मिळालो.''*

बाकीबाबांच्याच मुखांतल्यान तांच्यो कविता आयकप हो एक आगळोच अणभव आसलो. ते एकपाठी आशिल्ल्यान कागद दोळ्यां मुखार धरून तांणी आपली वा हेरांची कविता केन्नाच गायली ना. कविता गायतना तांचो प्रत्येक अवेव उलयतालो - दोळे, केंस, भुजां, मान, हात, सगळें. तांचे दोळे श्रोत्यांच्या काळजाचो थाव घेताले. तांकां संगिताची जाण आशिल्ल्यान निखटो तांचो ताळोच गायतालो अशें न्हय. गायतना तांचें प्रत्येक गात्र फुलाच्या बोंग्या भाशेन ल्हवूच फुलतालें आनी तांचे कवितेंत ते आनी मुखार बशिल्ले श्रोतेय एकरूप जाताले. तांची काव्य मैफल सोंपतकच, तांचे कवितेंतलें संगीत, ताल, लय, शब्द, रूप, रस, गंधादींच्या विलक्षण मिसरणान वातावरण सामकें धुंद जातालें.

बाकीबाब आपल्या काळाचो प्रतिनिधी आसले. ते सदांच आपलेच तनरेंत आसताले — जावं आपल्या विचारांचे वा आपणाक 'येवपी' नवे कवितेचे वा आपणें वाचिल्ल्या पुस्तकाचे. जायत्या भासांचेर ताचें प्रभुत्व आशिल्लें. ते भोवभाशीक लोकां मदीं आसल्यार, ते गोंयकारां कडें कोंकणी, आनीक कोणा कडें इंग्लीश, मराठी मनशा कडें मराठी, हिंदी उलोवप्या कडे हिंदी, पोर्तुगेज उलोवप्या कडे पोर्तुगेज सहजतायेन उलयतना अजापूच दिसतालें. भारतीय आनी अस्तमतेच्या साहित्याचो तांचो खोल अभ्यास आशिल्ल्यान ते अचूक संदर्भ दिताले. कालीदास, ज्ञानेश्वर, रवीन्द्रनाथ हे तांचे आवडटे कवी. ज्ञानेश्वरींतल्यो होंवयो तांचे जिबेर नाचताल्यो. ह्या महाकवींच्या काव्यगुणां विशीं उलयतना ते फुलताले. कालीदासाच्या *'मेघदूत'* आनी *'रघुवंशां'*तले कांय वांटे तांणी अणकारिल्ले आनी चर्चेंत तांचे संदर्भ तोंडपाठ सांगताले.

आपलेच तनरेंत आसपी बाकीबाबान गोंयच्या सोबीत सुंदर सैमाचें भावपुराय स्तोत्र गायलें आनी हें करतना आपली तशीच रसिकांची



भावजीण आनी काव्यजीण फुलयली. तांचे प्रेमकवितेक सैमा पसून वेगळावंक येवचीच ना, इतले कवी बाकीबाब सैमा कडें एकरुप जाल्लें. तांची मराठी कविता म्हणल्यार महाराष्ट्राक तांणी करून दिल्ली गोंयची आगळी वेगळी सोबीत वळख. गोंय म्हणचे बोरकारांची कविता अशें समीकरण मराठी रसिकांच्या मनांत जाल्लें. *'माझ्या गोव्याच्या भुमींत, गड्या नारळ मधाचे । कड्या कपारीमधून घट फुटती दुधाचे'*, वा *'माझ्या गोव्याच्या भुमींत चांदणे येते माहेरा'* अशी गोंयची वळख मराठी रसिकांक करून दिवन तांकां तांणी सुखायले.

गोंयकारांच्या 'बाकीबाबा'न महाराष्ट्रांत 'कवी बा.भ. बोरकर' ह्या नांवान नामना जोडली. आपले आगळे वेगळे काव्यनिर्मितीन तांणी समकालीन मराठी कविता समृद्ध केली. गोंयचे भुंयेंत जल्मल्ल्या कवी बोरकारान गोंयचे सगळे सैमीक अळंकार मराठी कवितेच्या आंगार घालून ती संपन्न केली. रोमेंटीक प्रकृतीच्या ह्या कवीन रंग, रूप, रस, गंध, नाद आदींचें अप्रूप लावण्य मराठी कवितेचे ठांय उत्पन्न केलें. तांची कविता भारतीय अध्यात्म आनी जिणदिश्टी कडे एकरूप जाल्ली. पंच संवेदना साकारपी प्रतिमा सृश्टी ही तांचे कवितेची गिरेस्तकाय, तिचें वैभव.

बाकीबाब जल्मभर कवीच म्हणून जियेले. आपून एक व्रतस्थ कवी हाचो ते अभिमान बाळगिताले. ते आत्मविश्वासान भरिल्ल्यान कोणाच मुखार बाग्गालेनात. भारताच्या पयल्या प्रधानमंत्र्यांक मेळूंक गेल्ल्या शिश्टमंडळात ते आशिल्ले. गोंयचो प्रस्न शस्त्रबळान ताकतिकेन कित्याक सोडोवपाक येना हाचेर पंडित नेहरून शिश्टमंडळाचें बौद्धीक घेतलें. बाकीबाब हाचेर सट्ट करून अशे उसळ्ळे की पंडित नेहरून "पोएट, बी क्वायेट" (Poet, be quiet) अशें म्हणून कवीक सिगरेट दिली. १५ ऑगस्ट, १९४६ ह्या दिसा आचार्य काकासाहेब कालेलकर बाकीबाबांक घेवन वर्ध्याक महात्मा गांधीं सरीं गेल्ले तेन्ना महात्माजीन कवीक एक प्रस्न विचारलो: "कवी आसुनूय तूं राजकर्णांत कसो पडलो?" ह्या प्रस्नाक जाप दिवन बाकीबाबान म्हणलें: "मनशाचो स्वाभिमान धोक्यांत येतकच अशें वागचेंच पडटा." हें आयकून महात्माजीन काकासायबांक म्हळें: भक्त हृदय माणस छे...

खर परिस्थितींतय बाकीबाब कोणाच मुखार बागवलेनात, तत्वा पसून ढळ्ळेनात. आपल्या आंतरीक सुराक तांणी अखंड निश्ठा दिली. कोंकणी विशींची भुमिका सोडल्यार तांकां 'अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलना'चें अध्यक्षपद फावो जातलें असो प्रस्ताव घेवन खासा तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी तांकां मेळपाक तांच्या घरा पवरि आयले. "बोरकर तुम्ही प्रतिभावंत आहांत, तुमचा गौरव होईल." अशें शास्त्रीबुवान म्हणटकीच, बाकीबाबान परती जाप दिवन म्हळें: "मराठी साहित्यांत माझे स्थान अढळ आहे. माझा गौरव होणारच आहे. मी केवळ प्रतिभावंत नाही तर प्रज्ञावंतही आहे, म्हणून आपला हा प्रस्ताव मी स्विकारू शकत नाही." तांचे हे भुमिकेन त्या काळांत कांचवेल्ल्या कोंकणी भक्तांक बळ चडलें आनी तांचो आत्मविश्वासय वाडलो. बाकीबाब तांचें स्फूर्तीस्थान जाले. हे घडणुके पयलीं १९६२ वर्सा 'गोमंतक मराठी साहित्य संमेलना'चें अधिवेशन पणजे जाल्लें. येदो व्हडलो गोंयचो मराठी साहित्यकार पणजे रावता आसून लेगीत, तांची दखल कोणें घेतली ना आनी तांणी संमेलनांत वांटो घेवंचो म्हूण कोणें तकालस घेतली ना. माटवांत भाशण करतना आचार्य अत्रे कोंकणी भक्तांचेर फडफडले आनी मुंबयंत दादरच्या शिवाजी पार्काचेर बोरकरांच्या पुस्तकांची होळी करपाची भास ते उलयले. 'गोमंतक' दैनिकान प्रतिक्रिया विचारली तेन्ना बाकीबाबान नेटान म्हळें: "...तुकारामाचे अभंग बुडयल्ले, तेन्ना ते बुडले नात, ते तरले. ही महाराष्ट्राची परंपरा; देखून अत्रे म्हज्या पुस्तकांक उजो लायतलो हाची म्हाका चिंता ना. केन्ना होळी करतले ते सांगात. हांवूच येवन काडी लायतां."

बाकीबाबांचें भुरगेपण निळे न्हंयच्या कांठार आशिल्ल्या फोंड्या तालुक्यांतल्या बोरये गांवांत गेलें. सोबीत पांचव्याचार सैमान नटिल्ल्या गांवांत ते वाडले आनी बोरयेचें नांव तांणी बिरुदा सारकें मिरयलें. ल्हानपणांत गावांत शिक्षणाची सोय नाशिल्ल्यान तांचें मराठी शिक्षण जेमतेम दोन यत्तां मेरेन जालें आनी मागीर चार यत्ता मेरेन पोर्तुगेज शाळेंत जालें. धारवाडाक रावन ते मॅट्रीक जाले आनी फुडलें शिक्षण परवडनाशिल्ल्यान कॉलेजींत गेले नात. पूण जल्मभर स्वाध्यायान ते शिकत रावले. भुरगेपणांत तांचेर जे संस्कार जाले, तांकां लागुनूच ते संवेदनशील कवी जावंक पावले. घरांत भजनाची परंपरा सात पिळग्यां पसून चलत आयिल्ली. तीं भजनां आयकून आनी गायतां गायतां तांकां शब्दांचें तशेंच तालासुरांचेंय आपशींच ज्ञान जालें. संत साहित्या कडें तांची अचळय दाटी जाली. एकदां भजन म्हणटना, भुरग्या 'बाकीटान' 'बाकी म्हणे' असो आपणें रचिल्लो अभंग म्हणलो, तेन्ना ताचे आजयेन-बान -आपल्या घोवाच्या अणभवान सादूर जावन, 'हे मुखार अभंग बरोवचो ना' असो ताका सोपूत घेवंक लायलो. पूण कविता रचून म्हणूंक येता हें ताणें गांवांतल्या पात्रीस रेंदेराचे देखीन पळयल्लें. तो ताचो पयलो गुरू. माडाची सूर काडूंक वतना तो बाकीबाबाक एकाद्रें गीत म्हणून दाखयतालो. एका काजाराक पात्रीसान काजारांत घडिल्ल्या घडणुकांचेर रचिल्लें आपलें शीघ्र कवन (कटाव) म्हणून दाखयतकच, मनीस काव्य रचता ही जाणविकाय बाकीबाबाक जाली. पात्रीसाचो कटाव असो आशिल्लो: *'काल तिवळ केलें लग्न सरायक/येजमान्या बाबडे बेठे तरास / आगा येजमान्या म्हाका नाका जायणी / मिस्तुर केलां पचक-फेणी / कपळाची जाता उसा - उसळणी.'* यमकार यमकां जोडीत आनी घडघडीत उलयल्ले वरी पात्रीस गायता हें पळोवन बाकीबाब अजापीत जालो आनी ताका तो दिग्ग पुरूस वाडत वाडत गगनाक तेंकता काय दिसलो. 'कटाव' सोंपतकीच लोकांनी ताका देव कसो माथ्यार घेतलो. कवीत मनीस घडटा? तर तो मागीर मनीस न्हय. मनशाचें रूप घेवन आयिल्लो देवच अशें बाकीबाबाक दिसलें आनी आपणाकय पात्रीसा भाशेन कशें जावंक येत हाचो सोद तेन्ना पसून भुरगो बाकीबाब घेत रावलो. पात्रीसाक ओंपिल्ल्या *'पांयजणां'* ह्या काव्यसंग्रहाचें अर्पण पत्रिकेंत बाकीबाबान जें म्हळां तें सार्थ आसा: 'म्हज्या भुरगेपणांत आपणाल्या रसाळ शीघ्र कवित्वान म्हाका कोंकणीच्या अपार काव्यशक्तीचो पैलो साक्षात्कार घडयलो त्या म्हज्या गांवच्या म्हाल म्हाताऱ्या पात्रीस रेंदेराच्या म्होंवाळ यादस्तेक.'

कवितेच्या ईश्वरी प्रसादाचो आपणाक लाभ जाला अशी बाकीबाबाची श्रद्धा आशिल्ल्यान, स दसकांचे काव्यसाधनेच्या कालखंडात तांची साधना केन्नाच आटलिना. ते काव्यसाधनेक एक विलक्षण आनंदसाधना अशेंय मानताले, तेच प्रमाण, काव्यसाधना एके तरेची अध्यात्मसाधना अशेंय मानताले. ते म्हणटात : ''काव्य म्हणजे आत्मविद्येचो एक आगळो आनी लोभसवाणो आविष्कार; काव्य ही लययोगाची एक हृदयंगम कळा आनी जांणी अशें मना पसून मानलें आनी हे साधनेची वाट जे सोदीत आनी चलत रावले, ते संत जाले.''

बाकीबाब म्हजो व्हडलो मामा. म्हजी आवय, माणिक, हिचो व्हडलो भाव. बोरकार घराब्या कडें संबंध जुळचे पयलीं, बाकीबाब म्हज्या बापायचो जिवाभावाचो इश्ट आशिल्लो आनी ते दोगूय समानधर्मी आशिल्ल्यान, तांची इश्टागत जल्मभर तिगली. म्हजो बापूय, आपा, मुंबयच्या एलफिन्स्टन कॉलेजांतल्यान १९२५ त ग्रॅज्युएट जातकीच, गांधीजींच्या उल्याक साद दिवन शिक्षणकार्य करून नवो भारत घडोवपाचे उर्बेन गोंयांत आयलो. १९३० च्या सुमाराक बाकीमामाची आनी आपाची वळख जाली आनी रोखडच्योच तांच्यो वैचारीक आनी भावनीक तारो जुळ्ळ्यो. बाकीबाबान हाचो उल्लेख *'गितार'* ह्या आपल्या काव्यसंग्रहाचे प्रस्तावनेंत केला. बाकीबाब बरयतात: ''१९३० सालांत एके इंग्रजी शाळेचो शिक्षक म्हूण हांव म्हापश्यां गेलों. थंयच गुंडोपंत आमोणकारांची आनी म्हजी मैत्री जमली. आध्यात्मीक आनी तत्वज्ञाना विशींच्या ग्रंथांचो तांचो व्यासंग खडेगांठ आसलो... हेर खंयच्याय विशया परस तत्वज्ञानाचेरच आमच्यो चर्चा जाताल्यो... रवीन्द्रनाथांचें चडशें साहित्य हांवें तांचे कडल्यान हाडून वाचलें. तांच्या काव्यसंग्रहा इतलेंच तांच्या *'साधना'* आनी *'पर्सनॅलिटी'* ह्या पुस्तकांनी म्हाका भारून उडयलो... म्हज्या गदळिल्ल्या मनाक थिराय दिली आनी तांच्या काव्यसंग्रहांनी म्हाका काव्याच्या मुर्तिशिल्पाची आनी जीव कळेची खरी जाण करून दिली.''

ह्या रवीन्द्र-साहित्य वाचनाचें आनी चिंतनाचें फळ म्हणल्यार बाकीबाबान बरयल्लें रवीन्द्रनाथ टागोरांचें चरित्र - *'आनंदयात्री रवीन्द्रनाथ - संस्कार आणि साहित्य.'* एका आनंद साधकान दुसऱ्या आनंदयात्री महाकवीचो घेतिल्लो सोद. हो ग्रंथ बरोवन मराठींतल्या रवीन्द्रसाहित्यांत बाकीबाबान भोव मोलाची भर घाली. ह्या ग्रंथाक महाराष्ट्र राज्य टागोर जन्मशताब्दी सर्तीत पयलें इनाम मेळ्ळें. देड एक म्हयन्या भितर दिसाक बारा बारा तास वावरून हो ग्रंथ तांणी सिद्धीक व्हेल्लो.

१९४६ त बाकीबाबांचे जिणेक अकस्मात कलाटणी मेळ्ळी. डॉ. राममनोहर लोहियान १८ जून, १९४६ ह्या दिसा मडगांवां केल्ल्या सत्याग्रहाच्या राजकी भुंयकांपान तांची संथ जीण वयर सकल करून उडयली. तांणी लोहियांच्या उल्याक साद दिवन गोंयच्या मुक्तीझुजांत उडी मारून आपल्या उस्फूर्त कवितांनी तो उलो लोकां मेरेन पावयलो. *'त्रिवार मंगळवार आजला त्रिवार मंगळवार'*, *'दोतोर बॉस, दोतोर बॉस समजिकायेन वाग, तकली तुका ना जाल्यार उट्रंक चलूंक लाग'*, *'महात्मा गांधी आयलो रे, गोंयांत आमच्या पावलो रे, लोहियान हाडलो बावटो ताचो, मडगांव शारांत लायलो रे'* ह्यो कविता ल्हान व्हडांच्या ओंठांर नाचूंक लागल्यो. आपल्या संवसाराचो आनी फुडाराचो विचार करिनासतना, सरकारी नोकरेचो राजिनामो दिवन ते बेळगांवां गेले आनी बेळगांव आनी मुंबय सावन गोंयच्या मुक्ती संग्रामांत वांटो घेवंक लागले. 'आमचा गोमंतक', 'प्रजेचो आवाज' ह्या पत्रांचें तांणी संपादन केलें. २१ जून, १९४६ ह्या दिसा केप्यां बरयल्ले 'शांतादुर्गा' हें कवितेंतल्यान तांचो पोर्तुगेज राजवटी आड आशिल्लो मनःक्षोभ समर्थपणान उकतो जाताः *''शांता जाली दुर्गा । जागृति आयली दीन दुबळां । सगल्या पिडीत वर्गा रे''* अशें ते किंवाट्यान म्हणटात. तशेंच 'हुतात्म्यांची जागृति' हे कॅसलरॉक हांगा १० जुलय, १९४६ दिसा बरयल्ले कवितेंत ते आपलो मूड असो उकतायतातः *''धुळीधुळींतुनी सकळ हुतात्मे चवताळुनि उठले । अन् जुलमाचे चिरे चुनेरी खळखळ कोसळले । ... गर्भवतींचे गर्भ पुकारित सुटले 'जयहिंद' । स्वातंत्र्याच्या जयघोषांनी गिरीदरीं धुंद.''* १९ जून १९४६ ह्या दिसा तांणी केप्यां सावन आपल्या जिवाभावाच्या इश्टाक, म्हज्या बापायक, बरयल्ल्या पत्रांत त्या काळचे तांचे अस्वस्थ मनस्थितीचें दर्शन घडटा. ते बरयतातः

केपें - गोंय
१९-६-४६

मोगाळ गुंडू,

तुजें पत्र मेळ्ळें. शाळेची फुडें अशीच उदरगत जावं, तिच्यांतल्यान राष्ट्राक स्वातंत्र्य संपन्न करपी चारित्र्यवान आनी तेजस्वी तरुण निर्माण जावं, अशी सदिच्छा करतां. तुजे भेटेक हांव खूब आंवडेतां. तूं म्हजो जिवाभावाचो इश्ट आशिल्ल्यान आयुष्यांतल्या झुजा वेळार तुजेशीं उलयले बगर म्हजें बळगें दुपेट ज़ावचेंना.

दे.भ. लोहिया सारक्या व्हड फुडाऱ्यांच्या हातान काल मडगांवां सुटके झुजाचो नाल्ल फुटलो. दोळ्याचें पारणें फिटलें. तांचे फाटसून आमगेले ९-१० कार्यकर्ते बंदखणींत गेले. लोकांचो चोमो आनी उत्साह अपूर्व आशिल्लो. समुदाय तीन हजारां वयर आसुंये. एका फाटसून एक सत्याग्रही मुखार सरत रावले तशीं तशीं अधिकाऱ्यांचीं तोंडां आनी मनां पडलीं. सगळो वृत्तांत तुका मोरजकार सांगतलो. तुका हो सुवाळो चुकलो हाचें वायट दिसता.

कार्यक्रमाच्या आरंबा पयलीं लोहिया आनी मिनेझीस हांचेशीं म्हजी मुलाखत जाल्ली. त्यो गजाली भेटेंत सांगतां. काल म्हजी तकली विलक्षण तापिल्ली. पूण नोकरेंतल्यान भायर सरले बगर ह्या कार्यांत पडप म्हाका नितीक नदरेन गैर दिसलें. जे राजवटींत भाशण स्वातंत्र्य, सभा स्वातंत्र्य, मुद्रण स्वातंत्र्य आनी धर्म स्वातंत्र्य ह्या मनशाच्या सामान्य हक्कांचें नियंत्रण जाता, ते राजवटींत नोकर म्हणून काम करप हें म्हज्या स्वाभिमानाक सहन जावचें ना. म्हणून सगले धोके पत्करून आनी शक्त म्हज्या देशा खातीर खर्च करपाचें थारावन हांव म्हजो राजिनामो दितलों. अर्थात ह्या राजिनाम्याचीं कारणां सांगुनूच हांव तशें करतलों. भुरगींबाळां, संवसार ह्यो गजाली आसात खऱ्यो, पुणून ते खातीर सरकारी नोकरेंत रावंकूच जाय अशें कांय ना. सुटके झुजाक आरंब जाला तेन्ना धपको सहन करूंक आनी सर्वस्व बळी दिवंक सिद्ध जावंक जाय. भुरग्याबाळांक जाणें जल्मांक घाल्यांत

तो परमेश्वर तांची काळजी घेवंक समर्थ आसा. हांवें हो निर्णय पूर्ण विचारांती घेतला. भावनेच्या भरांत न्हय. आनी फुडें हेरांचें दडपण येवंक वेळ मेळचो न्हय देखून तो जाहिरूय केला. ती. काका किंवा मावशीबाय म्हजे इतल्या वर्साचे तपश्चर्ये उपरांत ह्या प्रसंगाचें गांभीर्य वळखून प्रसन्न मनान आशिर्वाद दितलीं अशी अपेक्षा हांव करतां. तुमचें दोगांयचें फाटबळ म्हाका आसचें. विशेश भेटेंत. बरें. भुरग्यांक आशिर्वाद आनी काका मावशीबायक नमस्कार. थंयची खुशाली जापेन कळय आनी म्हजी काळजी करिनासतना ह्या प्रसंगाचेर अभिनंदनाचो हात दी. जयहिंद.

तुजो,
बाकी

ता. क. वांगडा म्हजी कालची कविता वता. ती वाचून पळे.

पत्राच्या ताज्या कलमांत जे कवितेचो उल्लेख केला ती म्हळ्यार 'स्वातंत्र्याची सिंह गर्जना'. हे कवितेच्या *"त्रिवार मंगलवार, आजला त्रिवार मंगलवार, स्वातंत्र्याची सिंह गर्जना आज इथं उठणार"* ह्या पयल्या कडव्यान लोकमनाचेर त्या वेळार विलक्षण मोहिनी घाल्ली.

गोंय स्वतंत्र करूंक स्वातंत्र्यविरांनी जो अपूर्व त्याग केलो तांकां आपले 'ल्हान जाले म्हान' हे कवितेन आर्गां ओंपून तांची स्तुतिसुमनां ते अशे गायतात : *"गोंयचें नांव व्हड करून । ल्हान जाले म्हान । बंणखणिर्ची देवळां जाली, लामण दिवे प्राण । रगताचें तेल करून रात जागयली । तांणी रात जागयली । संवसाराची शांत करून तान भागयली । तांणी तान भागयली । धाय दिको गाजता तांचें फायचें यशोगान।"*

आनी स्वतंत्र गोंयचें सपन बाकीबाब आपले 'नवें युग' हे कवितेंत गायतात. तांची उतरां जैताचे मंत्र जातात. आनी बिण्ण काळखा उपरांत झगझगीत फांतोडेचें सपन ते पळेतात: *"सात लाख गोंयकार आमी । युग नवें फुलयतले । अंदल्यात मंत्र जिर्वी। ते फाल्यां उलयतले । जळत गोंय धुंवता जरी । घरांर नांगर भोंवता जरी। थैंच पाट अम्रुताचे फाल्यां आमी खेळयतले:... झोमुन घेवंक वैली घुडी । होमखणांत आमची उडी। माणसुकेच्या फायच्या जिर्णेत देवांकय भाळैतले."*

गोंय मुक्त जातकच, गोंयच्या वाट चुकिल्ल्या, स्वतंत्र अस्मिताय आनी अस्तित्व न्हयकारपी गोंयकारांचेर ते असो शीण काडटात: *"नाख आमी पावणेर काडलां । घालात तुमी लांस । म्हणशात तुमी तीच आमी । म्हणूं आमची भास... भितोडीच आमकां बरी । घर कित्याक जाय?। पोशान उदक पियेतल्यांक बांय कित्याक जाय,"* अशे तेजस्वी उद्गार आपले कवितेंतल्यान काडून तांणी महाराष्ट्रांतल्या राजकर्ण्यांचो राग आपणाचेर ओडून घेतलो. पूण ते मनीस म्हूण आनी कवी म्हूण आपल्या कर्तव्याक जागले. गोंयाक महाराष्ट्रांत विरगळावपाच्या प्रयत्नांक तांणी आपले कवितेंतल्यान खर विरोध केलो आनी गोंयचें वेगळेपण राखूंक सोदतल्यांक नवें त्राण दिलें. ते म्हणटात : *"अजून सरूंक ना संगर आमचें । लढचें आसा अजून खूब। लढले, थकले कितलेय जरी तुमि। तरीय राखा पैलीं उब । कितलें दैन्य, अन्याय असत्यय । अजून चलता भायर भितर । पुरतें तें हुमटिल्या बगर रे । मुक्त जावंचें नात आमचें पितर"*. स्वातंत्र्य



आयलें खरें, पूण खरें स्वातंत्र्य अजून येवचें आसा हें कळ्ळें तेन्ना बाकीबाब खंतीन म्हणटात: *"प्राणाक क्षय, बुद्धीक भय, फाल्यांक जंय, कालचीच वंय । आयलां थंय स्वातंत्र्य तें स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय. आप जंयच्या सगलें भ्रश्टें वंद्य परक्यांलेंच उश्टें । हुटकेती तांच्या भितोडे मेळटा ती उखलुंक तळय."*

खरी स्वतंत्रताय मन निर्भय करता. रवीन्द्रनाथ टागोरान *'चित्त जंय भंया विरयत, उंच नित्य माथें'* अशें आपले कवितेंत जें चित्र काडलां त्या चित्राचे सामकें उरफाटें हें चित्र पळोवन कवी बाकीबाब गोंयकारांक शिटकायता. स्वतंत्रतायेची पवित्रताय भश्टोवपी लोकांचेर आनी राजकर्ण्यांचेर बाकीबाब अशे बडी मारतात. अजून हें चित्र बदलूंक ना. तांचीं तेजिश्ट उतरां आमकां आजय हे परिस्थितीची जाणविकाय करून दितात.

महात्मा गांधीजींचें जिणेंतल्यान स्फूर्त घेवन बाकीबाबान 'महात्मायन' बरोवपाचो संकल्प सोडिल्लो. श्री ज्ञानेश्वरांच्या होंवयांचें शब्द लावण्य आनी अप्रतीम काव्यकलेच्या सौंदर्यल्हारांनी चपचपिल्लें 'महात्मायन' तांकां आपले प्रतिभेंतल्यान शब्दसाकार करचें आशिल्लें. मंगलाचरणाच्या पयल्या अध्यायान अनुपमेय उंचायेची मोख तांणी गांठिल्ली. 'दिव्यत्वाची प्रचिती' थंय जाणवताली. तातूंतल्यो कांय होंवयो हाची साक्ष दितात —

*सुत उवाच:*
*समुद्र होऊनि चंद्र पहावा । चंदन होऊनि भोगावा।*
*भक्त होऊनि ऐकावा । जीवन गाथा ईश्वराच्या ॥१३॥*
*भगवच्चरित्र महात्मायन । रचीत आहे कृष्णद्वैपायन ।*

*श्रवण करिती नरनारायण । आत्मपरायण ऋषीमुनी ॥१४॥*
*पृथिवी माय माऊली । होऊनी बापुडी माऊली ।*
*विश्वपित्याचिया पाउलीं । गाळूं लागली नेत्रोदक ॥१९॥*
*पृथ्वी उवाचः*
*सकळ त्रैलोक्याचे धन । जो सर्वेश्वर नारायण*
*तो नरवीर कुशी येऊन । न सरे दुःख माझे ॥२३॥*
*माझिया वैभवा देव भाळती । धांवून येती खालती ।*
*तेही होती भ्रष्ट मति । ऐसें दैव असें माझें ॥२५॥*
*प्रेषितांनी धर्म आणिला । तो ग्रंथाचिये बंदी पडला ।*
*दाही दिशा अधर्म पेटला । धर्मध्वजा पाजळित ॥२९॥*
*नारद उवाचः—*
*प्रभूस पावली यज्ञ स्तुती । दशम अवतार होईल भारतीं।*
*मोहनमुर्ति नामे ख्याती । लोकत्रयीं पावेल ॥४८॥*
*हा निर्मळ निष्कलंक । आत्मलक्षीं सत्यशोधक ।*
*देव असून होईल सेवक । आर्ताचियें कारणे ॥५३॥*
*हा अहिंसे होईल रूप । स्वभावधर्मे सत्यदीप ।*
*निर्भय निवांत चिरंतप । पाप ताप हरवाया ॥५४॥*
*हा रंकास करील बळी । साम्राज्य घालील पाताळीं ।*
*अकिंचन राहून पायांजवळी । लीन करील कुबेर इंद्र ॥५६॥*
*अग्नि भक्षुनि सोळावेळा । करील तो जीवन सोहळा ।*
*आत्मयाच्या सोळा कळा । उघडून दावील सर्वांना ॥५९॥*
*जे आचरतील त्याचे जीवन । अखंड करती स्मरण चिंतन ।*
*त्यास येथे समाधान । मुक्तस्थिती परत्रीं ॥७१॥*

तांचे कडल्यान 'महात्मायन' जालें ना. फुडलो जल्म मेळून 'महात्मायन' ते कोंकणींतल्यान निर्मितले अशी म्हजी श्रद्धा.

१९५६ वर्सा शिक्षक म्हूण पुण्यांत शिकतनाच केनियाच्या मोंबासा शारांत म्हजी शिक्षक म्हूण नेमणूक जाली. हें पद स्विकारपाच्या म्हज्या निर्णयाक बाकीमामान म्हाका पुराय फाठबळ दिलें. तरुणांनी नवीं नवीं आव्हानां स्विकारूंक जाय अशी तांची धारणा आशिल्ली. हांव केनियांत आसतना अदीं मदीं आमचो पत्रवेव्हार जातलो. २१ सप्टेंबर, १९५६ ह्या दिसा बरयल्ल्या पत्रांत ते बरयतातः

''प्रिय शुल्या, तुजें म्हों‌वाळ कोंकणी पत्र आनी ते परसय म्हों‌वाळ फोटो पळोवन आमचीं मनां भरून आयलीं. तुका बरयतलों बरयतलों म्हणटां म्हणटां इतले दीस गेले. हाचो अर्थ तुजो विचार मनांत नाशिल्लो अशें न्हय. आमी हाडव्हर तुज्यो खबरी करतालीं. हांगाच्यान तुका (मोंबासाक) वचूंक मेळिल्लें जाल्यार आमी तुका दोळेभर पळोवन घेतलीं आशिल्लीं आनी वतना आमची ल्हानशी याद म्हणून कितेंय दितलीं आशिल्लीं. आतां तें शक्य ना. तरी पूण आमचो मनस्पुर्वेचो आशिर्वाद आमी तुका धाडीत आसां. देव तुका वचत थंय येसूच दितलो आनी तुका नांवलौकिकान व्हड करतलो. म्हजें तुका इतलेंच सांगणें की येस, नांव, लौकीक ह्या सगल्या गजालीं परस मनीस जें प्रेम जोडटा, तेंच तागेलें खरेलें धन आनी जीवनाचें खरेलें सार्थक हें मात विसरूं नाका. गोंय, कोंकणी भास, आवयबापूय, भावंडां आनी नातीं पातीं हे सगले लागे बांदे म्हळ्यार मनशाच्या मनाचीं मुळावीं पाळां. तांचे तांकीर तो वाडटा आनी विस्तारता. नवीं नातीं जोडटा आनी सभराभरीत जाता. आमी सगलीं आनी चड करून आपा माई, तुका वचूंक दिवंक राजी जालीं, तूं व्हड जांवचो, तुज्या मार्गांत आमची माया आडवी येवची न्हय म्हणून. हाची जाणीव म्हेळूंक दिवं नाका. तेचप्रमाण ताची खंतय घेवं नाका. थंय आनंदान राव, आवडीन काम कर, आरोग्याक जप, मनीस जोड आनी पत्रां बरोवंक आदांवत करूं नाका... तुजो आबामामा.''

बाकीमामा खंयूय आसूं, चुकनासतना सांजेवेळा फिरूंक वतालो. एकदां म्हापश्यांत आमी क्रिस्तांवांचे शिमितेरी कडल्यान वतना हांवें ताका सहज म्हणलें : ''बाकीमामा, तुका खबर आसा, दर एके शिमितेरीच्या दरवट्याचेर ''आज म्हाका, फाल्यां तुका'' अशीं उतरां बरयल्लीं वाचूंक मेळटात. म्हणल्यार, मर्ण अटळ आसता हाचें भान दिसपट्टें आमी दवरूंक जाय, ही शिटकावणी तीं आमकां दितात. जीण आनी संवसार अनित्य आसलो, तरी आमी संवसारांत इतले घुसपतात की हें चिरंतन सत्य आमी विसरतात. फकत स्मशानांत वतकच आमकां खिणाचें वैराग्य येता.'' अशें हांव उलयलां मात, ते रोखडेच आपले तनरेच्या कोशांत गेले. आमी घरा परतले ते मोन्यांनीच. दुसऱ्या दिसा हांव पणजे तांकां मेळूंक गेल्ले कडें तांणी म्हाका म्हळें: 'शुल्या, आयक ही कविता', आनी ते गावंक लागलेः

*स्मशान असावे दोन हाकांवर — मनाच्याही;*
*पावलांना सराव असावा त्याच्या सांगाताचा*
*विशेषतः सायंकाळी*
*वाचून घ्यावें दरवाज्याच्या कमानीवरचें*
*मृताच्या मिटल्या ओठांतले अमर सुभाषितः*
*''आज म्हाका फाल्यां तुका*
*..............*
*चेतून पहाव्या गेलेल्या जिवलगांच्या*
*जिवंत झालेल्या जागत्या चिता*
*आणि स्वतःच्याही*

एके कवितेचो जल्म पळोवपाचें भाग्य म्हाका लाभिल्लें.

'पांयजणां' ही तांची एक प्रसिद्ध कविता. गोंयांत आनी महाराष्ट्रांत काव्यरसिकांक आवडिल्ली. जंय जंय बाकीबाब काव्यगायन करताले थंय थंय 'पांयजणा'ची फर्माइश जाताली. जितेंद्र अभिषेकीन आपल्या संगितान ती सजीव केल्ली आनी ती आयकतच रसीक आगळ्या वेगळ्या विश्वांत वताले. *''इंद्रदिनांचा असर सरेना, विसरूं म्हणता विसरेना''* ह्यो वळी हे कवितेक तंतोतंत लागू पडटात. बाकीमामा जेन्ना जेन्ना आमगेर येताले तेन्ना म्हजे घरकान्नीक, सुधाक 'पांयजणां' म्हणपाचो आग्रो करताले. ती कविता केन्ना 'जाली' हें तांकां विचारतकच तांणी सांगलें : ''१९४८त ही कविता हांवें पुण्यांत बरयली. १९४६ सालात संवसाराचेर तुळशीपत्र दवरून हांव गोंयच्या मुक्ती झुजांत पडलों. काकाचें (बापायचें) पत्र आयलें की पोर्तुगेज सरकाराचे त्रास चुकोवपा खातीर कुटुंबाक पुण्यांत व्हेल्यार योग्य जातलें. बापायच्या ह्या पत्राक लागून म्हाका वस्तुस्थितीची तीव्रतायेन जाणीव जाली आनी बायलेची तीव्रपणान याद आयली. दडपून दवरिल्ल्यो सगल्यो भावना उफाळून आयल्यो आनी गुणगुणत ही कविता जाली!'' ... *''त्या दिसा वडाकडेन गडद तिनसनां । मंद मंद*

*वाजत आयलीं तुजीं गो पांयजणां.''*

कोंकणी-मराठी वादांत बाकीबाबान आपल्या आत्म्याचो कौल कोंकणी वटेन दिल्ल्यान तांकां कठोर टिकेचें हलाहल पचोवचें पडिल्लें. गरजेवीण तांकां अपमान आनी मन:स्ताप भोगले. पूण ह्या वादंगांत बाकीबाबान आपली मन:शांती ढळूंक दिलिना. तांचो खाशेलो गूण हे गजालींत आनी हेर समाजकारणांत म्हाका दिसलो. तांणी आपल्या विरोधकांची केन्नाच निंदा केलिना वा कोणा विशीं अपशब्द उच्चारलोना. पूण 'मराठीच्या ओव्या' हे कवितेत तांणी आपली खंत अशी उक्तायल्या :

*''तुक्या-ज्ञान्याला छळिते तेच पण देती शिव्या*
*त्यांचा विसर पडाया गातो अशा तुझ्या ओव्या.''*

म्हज्या शैक्षणीक क्षेत्रांतले कारकिर्दीची आनी व्यवस्थापन कुशलतायेची ते तोंड भरून तुस्त करताले. हांव तांचो आवडटो भाचो म्हूण घडये आसुये. विशेश खोशयेंत आसल्यार बाकीमामा म्हाका म्हणटाले : ''शुल्या, म्हजी गादी तूंच फुडें चलयतलों आं, पळेशीत तूं.'' मागीर हांव मना थावन हांसतालों. कित्याक, म्हजे निवृती मेरेन म्हाका साहित्यांत चड रस घेवंक मेळूंक नासलो. वाचन चलिल्लें. पूण थोडें इंग्रजी आनी आकाशवाणी खातीर केल्लें थोडें कोंकणी बरप सोडल्यार हांवें साहित्य बरोवंक नासलें. बाकीमामाचे सदित्सेचें आनी आशिर्वादाचें सुफळ म्हणुनूच म्हज्या हातांतल्यान *'धम्मपद', 'भगवद्गीता', 'ज्ञानेश्वरी', 'जपुजीसाहिब', 'कुरळ'* आदी अभिजात ग्रंथांचे समश्लोकी गद्यपद्य अणकार जाले आनी ह्या वावरा खातीर २००९ वर्सा भारत सरकारा कडच्यान अपेक्षा नासतना म्हाका 'पद्मश्री' फावो जाली अशी म्हजी भावना.

गोंयचे मुक्ती उपरांत १९६२त बाकीमामाची बदली आकाशवाणीच्या पणजी केंद्राचेर जाली. १९४६ ते १९६१ ह्या काळांत म्हज्या बापायच्या आनी तांच्या सहवासांत खंड पडिल्लो पूण पत्रांतल्यान तांचो भावनीक संबंध चालूच आसलो. गोंयांत पावतकच म्हज्या बापायक ते अर्दी मर्दी मेळूंक येताले. आपाक काळजाचें दुयेंस जाल्लें आनी मेळटकीच ते सुखदु:खाच्यो खबरी तर करतालेच तसोच तांचो काव्य-शास्त्र - विनोदय चलतालो.

गोंयांत आसल्यार दर वर्सा ते आपाच्या वाडदिसाक चुकनासतना येताले. १५ डिसेंबर, १९६२ ह्या दिसा आपाक ६१ वर्सां जालीं. त्या दिसा सांजेचे ते कविता गुणगुणतच घरा भितर सरले. आपाक वेंगेंत घेवन शुभेत्सा दिल्यो आनी म्हजे कडल्यान एक कागद मागून घेतलो. पंदरा मिनटां भितर तांणी कवितेंतल्यान ताच्या जिवाभावाच्या मित्राक कविते वरवीं आपल्यो शुभेत्सा दिल्यो. आनी आमकां सगल्यांक ती कविता गावन दाखयली. तें म्हज्या बापायचे तपश्चर्येचें स्तवन आशिल्लें. आपाच्या मुखामळाचेर प्रसन्न भाव उदेले आनी ते कृतार्थ जाले. अशी आसता कवीच्या शब्दांची किमया:

(प्रिय गुंडूबाबाक ६१ वर्सां पुरीं जालीं त्या निमित्तान)
*जिणेन तुजे लागले दिवे लक्ष जातलि वात*
*सोंपुन रात उजवाडाक लक्ष येतले हात*
*जिणेन तुज्या सत्य सोदूंक प्राणाक येतलें पांख*
*पाळो ताका दिवंक येतली आंगापांगा तांक*
*जिणेन तुज्या प्रीत तुजी जातलि आमची नीत*
*सेवा तुजी येवन रूपा तिजेंच जातलें गीत*
*जिणेन तुज्या फायच्या गोंया येतलें नवें त्राण*
*शिष्य तुजे जातले नव्या भविष्याचे बाण*
*जिणेन तुवें जांटेल्यांचें फेडलें सगळें रीण*
*भांगराचें चंवर जालां तुजो खिणान खीण*
*येस तुजें पळौंक तुका उपट आयुष्य जांव*
*माणकांनी तुळुन तुजी दिष्ट काडीन हांव.*

अदूं बाकीबाबांची जल्मशताब्दी गोंय सरकार आनी गोंयकार मनयतात. तांच्या स्मारकाचें स्वरूप कशें आसचें हाची चर्चा चलता. तरेकवार सुचोवण्यो जल्मशताब्दी समिती मुखांर आयल्यात. पूण बाकीबाब हेर व्हड कवीं प्रमाणेंच आपल्या काव्यांतल्यान अजरंवर जाल्यात. मराठी साहित्याचो एक काळखंड 'बोरकर - कुसुमाग्रज' काळखंड म्हूण वळखतात. मराठी काव्याच्या मानान बाकीबाबांची कोंकणी कविता संख्येन उणी आसली. तरी तिणें कोंकणी कवितेक नवी दिशा दिली हें नाकारूंक येवचें ना.

मर्णा विशीं बाकीबाब सदांच निर्भय आशिल्ले. ईश्वरान निर्मिल्लें हें विश्व तांचे खातीर एक आनंदमहोत्सवच आसलो. ते सहज गावन वतात : *''व्हडें आलतडी लाय, म्हाका पलतडी पाय पांडुरंगा.''* आनी दुसरे एके कवितेंत ईश्वराक आळयतात : *''सरूं पाहतां हिची टवटवी । सद्गती दे हिज तुझ्या गौरवीं । मृत्यूची आनंद भैरवी । झणकारीत ने पार''* अशे मनोभाव ते उकतायतात.

हाचे फुडें बाकीबाबांचें शाश्वत काव्य-अस्तित्व रसिकांक आनंद दीत रावतलें आनी चिरंतन आनंदाचो ध्यास घेतिल्लो हो चिरतरूण कवी आमच्या कानांन निरंतर गुणगुणत रावतलो:

*''अजुन तरूण मी, अजुन तरूण मी*
*अजुन उगवे अरूण मनांत*
*अजुन भ्रमरसा भुरळुनि भ्रमतो*
*सकाळचा मी कमळ वनांत.''*

जगाचेर प्रेम करपी आनी सगल्यांक सदांच आनंद वांटपी अश्या बाकीबाबान म्हणून दवरलां न्हय —

*''श्राप दिवं नाका जगाक न्हय रे सामकें वायट तें*
*स्वर्गापरस करूंक येता गोड गायत गायत तें*
*रचलां जग ईश्वरान*
*तोच जावन आसता प्राण*
*सांग मागीर ओगिच कशें दुःखमूळ जायत तें?''*

बाकीबाबांक आपले कवितेचो जबरदस्त आत्मविश्वास आसलो. आपले फाटसून त्यो सासणाच्यो उरतल्यो हाची तांकां खात्री आसली. तांणी एके कवितेंत म्हळांच न्हय —

*''मी विझल्यावर त्या राखेवर*
*पण कोण्या अवसेच्या रात्रीं*
*धुळिंत विखुरल्या कविता माझ्या*
*धरतिल चंद्र फुलांची छत्री.''*



# कोंकणी व्याकरण : एक आत्मनिवेदन

सुरेश ज. बोरकार

कोंकणी भाशा मंडळान १९८६ वर्सा *'कोंकणी व्याकरण'* नांवाचें पुस्तक प्रकाशीत केलें. हे गजालीक आतां तेविशेक वर्सां जाल्यांत. फाटलीं २०-२२ वर्सां शाळा-कॉलेजींनी व्याकरण शिकतना ह्या पुस्तकाचो आदार शिकतल्यांक आनी शिकयतल्यांक मेळ्ळा. हालीं-हालींच ह्या पुस्तकाची सुदारीत आवृत्ती येवपाची गरज कांय जाणांनी उकतावन दाखयली तेन्ना दिसलें, कोशाचो वावर करतना जे कितें अणभव आयले तांचो आसपाव करून आनी पयल्या दोन आवृत्तींनी आशिल्लीं कांय उणेपणां मेकळीं करून एक सुदारीत आवृत्ती तयार करपाचो वावर सुरू करचो. तसो तो सध्याक चलता.

असो वावर चलतना तो तडीक वचून सुदारीत आवृत्ती तयार जायत काय कितें म्हणपाचो दुबाव कांय कारणांक लागून दिसूंक लागला. ही आवृत्ती पूर्ण जालिना जाल्यार निदान *'कोंकणी व्याकरणां'*त आयिल्ले एके म्हत्वाचें संकल्पने विशीं जो संभ्रम निर्माण जाला ताचें निकाराण जावप बरें अशें दिसलां आनी म्हणून ते विशींचें निवेदन हांगा करतां.

ही संकल्पना क्रियापद ह्या उतरा विशीं आसा. *'कोंकणी व्याकरणां'*त विधान क्रमांक ४ (पान २) हातूंत अशें आयलां — 'कोंकणी क्रियापदाचें साधारण रूप **प** अक्षरान सोंपता. चलप, धांवप, पुसप, मोडप, गडगडावप अश्यो देखी दिवन तें विधान स्पश्ट केलां.

हें पुस्तक प्रकाशीत जातकच कांय काळान कोंकणी भाशा मंडळान ताचेर एक चर्चा घडोवन हाडली. चर्चेंत वांटो घेतना संस्कृत आनी मराठी शिकोवपी एका प्राध्यापकान खूब खरपणान आक्षेप घेवन हें विधान पुरायेन अशास्त्रीय आसा अशें सांगलें, आनी चलप, धांवप, पुसप, बी रुपां क्रियापदां नासून तीं धातूसाधीत नामां आसात म्हणपाचें कसलेंच तरेची भीड-मुरवत धरिनासतना सामकें कठोरपणान सांगलें.

त्या काळार कांय कॉलेजींनी संस्कृत-मराठी शिकोवपी कांय प्राध्यापक कोंकणीय शिकयताले. कोंकणी विशींची आपली लागणूक प्रामाणीक आसची अशें दिशिल्ल्यान तांचे नदरेन ह्या पुरायेन अशास्त्रीय आशिल्ल्या विधानाक तांणी हरकत घेतली.

शास्त्राचे नदरेन सामकें चूक आशिल्ल्या क्रियापद ह्या उतरा विशींचे संकल्पनेक लागून कोंकणी शिक्षणाची वाट लागतली, तेन्ना जरी हें पुस्तक प्रकाशीत जाल्लें आसलें, तरी तें वेव्हारांत हाडचें न्हय, जाल्यार, तें भायर मारचें असो सूर ते सभेंत आयलो. त्या वेळार तेन्नाचे कोंकणी भाशा मंडळाचे अध्यक्ष, डॉ. तानाजीबाब हळर्णकार हांणी सांगलें, 'पुस्तक भायर मारुयाच, पूण नवें येतकच. ते मेरेन हें चलोवया.' आनी तें पुस्तक अजून मेरेन चलता.

टिका इतली खर जाल्ली की म्हजी वाचाच बशिल्ले वरी जाली. म्हजेर मोटो आकांत आयलो. कारण, जी संकल्पना घट करून क्रियापदा विशींचे पाठ तयार केल्ले तिची बुन्यादूच कोसळिल्ली. क्र. ४त आयिल्लें विधान आनी उपरांत तेच तरेचीं भोवन भोवन आयिल्लीं विधानां चुकीचीं थारलीं, आनी हाका लागून हांवें चुकीचें व्याकरण तयार केलें काय कितें अशे तरेचो विचार म्हाका पिडूंक लागलो.

व्याकरण बरोवंक सुरू करचे कांय वर्सां आदीं Scarlet Letter नांवाची एक अमेरिकी कादंबरी वाचिल्ली. हे कादंबरेंत एके अस्तुरे कडल्यान व्यभिचार घडिल्लो. थंयच्या त्या समाजान तिच्या गळ्यांत तांबडें A (Adultress उतराचो अल्पाकार) अक्षर घालून जियेवपाची तिका ख्यास्त फरमायिल्ली. ती ख्यास्त भोगतना ज्या उतळतापांतल्यान आनी भोगांतल्यान तिका वच्चें पडटालें ते विशींची ती कथा आसा.

ते खर टिके उपरांत म्हाका दिसलें, म्हजे कडल्यान शास्त्रा कडेन व्यभिचार घडलो काय कितें? आनी जशी ती अस्तुरी A अक्षराचें लॉकेट घालून जियेताली तेच भाशेन धासाना (धातूसाधीत

नाम) म्हज्या गळ्यांत घालून हांव भोंवतां असो भास ते उपरांतच्या ह्या तेविशेक वर्सांच्या काळांत जालो.

व्याकरणांत जायतें किर्तें आसा, आनी कांय गजाली नातूय बी. ह्या काळांत कोंकणीन सगल्या तरांचीं जैतां जोडलीं. म्हाकाय कांय पुरस्कार मेळ्ळे, पूण जो आनंद, सूख आनी समाधान मेळटालें ताचेर धासानाचें खत सदांच दिसून तें सगलें बाविल्ले वरी जातालें. पूण आशेचें किरण आसताच. अशें आशेचें किरण म्हणल्यार मराठी शब्दकोशांनी अशींच रुपां दिवन तांची क्रियापद म्हणून वळख आसताली.

गोवा कोंकणी अकादेमी स्थापन जातकच शुद्धलेखनाचे नेम तयार करपाचो वावर तिणें आपल्या आंगार घेतलो. आनी ह्या वावरा खातीर शुद्धलेखन समितीच्यो ज्यो बसका जाताल्यो (सुरवातीच्यो एक-दोन सोडल्यो जाल्यार) तांकां हाजीर रावून मार्गदर्शन करपाक त्या प्राध्यापकाक मुद्दम आपयताले. तांच्या संस्कृत आनी मराठी व्याकरणाच्या ज्ञानाचो फायदो आमकां जावचो असो हेत ताचे फाटल्यान आशिल्लो आसूंक जाय. अशे दरेके बसकेक क्रियापदा संबंदीं चर्चा जाताली तेन्ना, जाका आमी क्रियापद म्हणटात तें क्रियापद नासून धातूसाधीत नाम आसा म्हणपाचें ते भोवन भोवन सांगताले आनी हो विशय आमच्या लक्षांत कसोच येना तें पळोवन तांकां मोटें अजाप जातालें आनी खेदूय जातालो.




दरेके बसकेंत तीं रुपां क्रियापदाचीं साधारण रुपां कशीं हें हांव म्हजे तांकी प्रमाणें सांगतालों. ते प्राध्यापक विद्वान, संस्कृत आनी मराठी भाशांचे पंडीत. हांव संस्कृत भाशेची बुन्याद नाशिल्ले आनी मराठी भाशेच्या व्याकरणाचें व्हडलेंशें ज्ञान नाशिल्लो, हेवटेन तेवटेन धडपडून व्याकरणाचें पुस्तक बरयिल्लो एक किरकोळ लेखक.

कोंकणी चळवळींत इतले लायक लोक आसतना म्हजेर हो वावर कित्याक पडलो? हे विशीं एक गजाल सांगतां.

हांव लिसेवाचेर शिकतना शाळां मदीं फुटबॉल, क्रिकेट, बी खेळांच्यो सर्ती जाताल्यो. फुटबॉल पंगडांत चड करून क्रिस्तांव भुरगे आसताले आनी क्रिकेट पंगडांत हिंदू. सव्या आनी सातव्या वर्सा शिकपी आमी हिंदू खूब थोडे. क्रिकेटीच्या पंगडा खातीर गरजेचे इकरा गडे तयार करपाकूय केन्ना केन्ना जमनाशिल्लें. अशी जेन्ना परिस्थिती वायट आसताली तेन्ना एक-दोनदां हांव इकरावो गडो म्हणून खेळ्ळां. इकराव्या गड्यान केन्नाकेन्नाय गरजेच्यो धांवड्यो काडून आपल्या पंगडाक हारींतल्यान वाटायला आनी केन्नाकेन्ना जैतूय जोडून दिलां अश्यो देखी क्रिकेटीच्या इतिहासांत आसात. अशीच गजाल ह्या व्याकरणा संबंदान घडल्या. व्याकरण बरोवंक फावो तो वेळ आनी स्वास्थ्य त्या धकाधकीच्या काळांत कोणाक व्हडलेंशें मेळ्ळेंना. आनी म्हणून लायक आसुनूय तांचे कडल्यान हो वावर जालोना. ती पाळी, म्हणुनूच, इकराव्या गड्याचेर आयली.

आमच्या दोगांयचे मदीं ही एक मोटी विसंगती आशिल्ल्यान शुद्धलेखन समितीचे वांगडी संभ्रमांत पडटाले आनी कितें खरें आनी कितें फट हाचे विशीं तांकां निर्णय घेवंक जमनाशिल्लो. पूण अखेरेक निर्णय प्राध्यापकाच्या मता वटेनूच जालो.

ताचें अशें जालें. २००८ त प्रकाशीत जाल्ल्या अकादेमीच्या नेमांच्या वेळार क्रियापदाचे ते संकल्पने विशीं परतून एकदां तशेच तरेची भासाभास जाली. हांवें म्हजे सदांचे चाली प्रमाणें म्हजें म्हणणें सांगपाचो प्रयत्न केलो. त्या वेळार तांणी उबगून म्हणलें, 'हांव सांगतां तें तुमकां मान्य जायना जाल्यार म्हाका तुमी आपयतात तरी कित्याक?' तांच्या ह्या उद्वेगाच्या उतरां उपरांत म्हाका दिसलें, हांवें आतां ओगी रावप बरें. आनी हांवें उलोवपाचें बंद केलें. आमच्या सगल्यांचे नदरेंत ते प्राध्यापक एक आदरणीय व्यक्ती. तांचो मान राखचो अशें दिसलें, आनी तसो तो राखपा खातीर रांदप, मारप, धांवप अशीं क्रियापदां म्हणून आशिल्लो उल्लेख टाळ्ळो. २००३ आनी २००८ अश्या दोनींय पुस्तिकांतले क्रमांक १४ आनी १५ हे नेम पळयल्यार हो फरक कळटलो.

पूण म्हजो विशय नेमां पुरतो नाशिल्लो. तो संकल्पने विशीं आशिल्लो. ते संकल्पनेकूच ह्या बदलांक लागून मार बसलो आनी अप्रत्यक्षपणान *'कोंकणी व्याकरण'* जें तांणी २३ वर्सां पयलीं अशास्त्रीय म्हणिल्लें त्या तांच्या म्हणण्याक पुश्टी मेळ्ळी.

हीं इतलीं वर्सां एक अशास्त्रीय व्याकरण कोंकणी शिक्षणांत उरलें आनी ताचो लेखक व्याकरणांतलो एक मोटो जाणकार म्हणून वावुरलो अशा विचारान हांव बरोच अस्वस्थ जालों.

आमच्या दोगांय मदीं क्रियापद ह्या उतरा संबंदींच्यो परस्पर विरोधी संकल्पना कित्याक जाल्यो हाची विसकटावणी करपाची तिव्रतायेन गरज दिसली. पूण अभ्यासकोशाचो वावर चलतालो म्हणून हे विशीं चड चिंतन जावंक पावलेंना. तें त्या कोशा उपरांत जावंक पावलें. तें हांगा सांगतां. जांणी मराठी व्याकरणां बरयलीं ते सगले संस्कृत भास आनी तिचें व्याकरण शिकिल्ले आशिल्ले. ते थोडेभोव इंग्लिशूय शिकिल्ले आशिल्ले. तांचीं व्याकरणां हीं ह्या दोनूय भाशांच्या व्याकरणांचे मुर्शींतल्यान भायर सरिल्लीं रुपां.

तीं व्याकरणां म्हणल्यार एक मोटो काथोच जाला. ह्या काथ्याचें दर्शन कोणाकूय घेवपाचें आसल्यार तांणी श्रीयुत म.पां. सबनीस हांचें *'आधुनिक मराठीचे उच्चतर व्याकरण'* (१९५१) हें पुस्तक मुजरत वाच्चें. ह्या काथ्याचो एक परिणाम म्हणून संस्कृत व्याकरणांत धातू हें मूळ तत्व धरून क्रियापदा संबंदींची जी रचणूक केल्या तशीच ती मराठींतूय करपाचो तांचो हट्ट. ह्या हट्टाक लागून क्रियापद ह्या उतराची व्याख्या रामचंद्र भिकाजी जोशी हांच्या *'प्रौढबोध मराठी व्याकरण'* (१९२५) ह्या पुस्तकांत अशी पळोवंक मेळटा: ''ज्या

शब्दाच्या योगानें पदार्थाचें असणें किंवा करणें या गोष्टीचा (म्हणजे क्रियेचा) काळाच्या संबंधानें पूर्ण बोध होतो, त्यास क्रियापद असे म्हणतात. " (पान १४५.)

मो. रा. वाळंबे हांच्या *'सुगम मराठी व्याकरण-लेखन'* ह्या पुस्तकांत "क्रियापद म्हणजे वाक्याचा अर्थ पूर्ण करणारा क्रियवाचक शब्द" अशी व्याख्या दिल्या. आनी मुखार तांणी सांगलां: "धातूला प्रत्यय लागून क्रियापदाची विविध रुपे बनतात." दुसऱ्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार, धातूक कांय खास प्रत्यय लागून वाक्य पूर्ण करपाची तांक आशिल्लीं उतरां तयार जातात (क्रियापदां). धातूक दुसरे तरेचे प्रत्यय लागून वाक्य पूर्ण करूंक जमना अशे तरेचीं उतरां जातात (कृदंतां). म्हणचेच धातूक कांय प्रत्यय लागून क्रियापदां जातात आनी दुसरे कांय प्रत्यय लागून कृदंतां जातात. पूण क्रियापदांक आनी कृदंतांक एकठांय पाचारपाचें उतर ह्या व्याकरणांनी पळोवंक मेळना. अर्थांत, धातू ह्या उतरा विशींच तांच्या मनांत गोंदळ आसा. तो तसो नाशिल्लो जाल्यार जोशींच्या व्याकरणांत "ज्या धातुशब्दांचा क्रियार्थ त्यांच्यामध्यें पूर्ण असतो, 'काय करणें' हें ज्याविषयीं सांगावें लागत नाहीं ते, आणि स्थितिदर्शक 'अस' आणि 'हो' धातु, हे अकर्मक धातु होत. जसें, – बसणें, उठणें, निजणें, जाणें, फुगणें, उगवणें, मावळणें, असणें, होणें, इत्यादी" अशें पळोवंक मेळचें नाशिल्लें. (पान १४७.)

बसणें, उठणें, निजणें (बसप, उठप, न्हिदप) जीं धातूसाधीत नामां म्हणून कंठशोश केलो तांचो उल्लेख क्रियापदाचो विचार करतना जालोच कसो? अश्याच रुपांक (करणें, बोलणें, चालणें) हांकां ते धातू कशे म्हणटात? (पान १४६.)

त्याच व्याकरणांत १४५ पानाचेर आमकां अशें वाचूंक मेळटा: "अशी स्थितीवाचक क्रियापदे असणें आणि होणें अशीं फक्त दोनच आहेत." ह्या तांच्या विधानांत **असणें** आनी **होणें** जीं धातूसाधीत नामां तांकां त्या विद्वान मराठी व्याकरणकारान क्रियापदां कशीं म्हणलीं?

हो गोंदळ फकत जोशींच्याच व्याकरणांत आसा अशें न्हय. तो आमकां मो. रा. वाळंबे हांच्याय व्याकरणांत पळोवंक मेळटा. आपल्या व्याकरणांत ते बरयतात (पान ५६): "कोशामध्ये धातूची मूळ रूपे न देता 'णे' प्रत्यय लावून 'देणे, करणे, बोलणे, जिंकणे अशी रूपे देण्याची प्रथा आहे. 'देणे, करणे' ही क्रियापदे नसून ती क्रियावाचक नामे आहेत." अशें जर आसा जाल्यार, पान ५२ चेर 'मार देणे, अभ्यास करणे, प्रेम करणे, पाणी घालणे, विचार करणे' अशी नाम व क्रियापद मिळून होणाऱ्या शब्दांना संयुक्त क्रियापद मानू नये" आनी उपरांत, "**देणे, करणे, घालणे' ही मुख्य क्रियापदे** मानून (ठळक म्हजें) 'मार, अभ्यास, प्रेम, पाणी, विचार' ही त्यांची कर्मे मानावीत अशें तांच्यांनी कशें म्हणूं येता?

खुद्द सबनीसाच्या व्याकरणांत आमकां अशें वाचूंक मेळटा: "**श्रवण करणे', 'संपादन करणे'** (ठळक म्हजें) यांना जर **संयुक्त क्रियापदे** म्हणावें..." (पान १३१).

जांकां धातूसाधीत नामां अशें मोट्या हट्टान म्हणटात त्या करणे, घेणे, देणे अश्या उतरांक केन्नाकेन्नाय क्रियापदां म्हणपाचो तांचेर प्रसंग येता. हें त्या काथ्याचें फळ आसा. असो काथो आमकां कोंकणींत नाका, आनी म्हणूनूच इंग्लीश, पुर्तुगेझ अश्या भाशांनी infinitive म्हणून जी संकल्पना आसा ती घेवनूच *'कोंकणी व्याकरणां'*त क्रियापद हो विशय मांडला. मराठींत कसलीय एक संकल्पना ना म्हणून ती कोंकणींत आसची न्हय अशें बंधन आमचेर ना. Infinitive ह्या उतराचो अर्थ (पुर्तगेझींत infinitivo) दाल्गादाच्या पुर्तुगेझ-कोंकणी कोशांत 'साधारण रूप' असो दिला आनी तसोच तो फा. क्रेसेंस मोंतैर हांच्या *'कोंकणीचें गुरूपुस्तोक'* ह्या पुस्तकांत उपकारायला. आनी तेंच उतर *'कोंकणी व्याकरणां'*त घेतलां. आनी हाकाच लागून क्रियापदाचो सगलो विशय मांडपाक सोंपें जालां.

हें सगलें विश्लेशण करुनूय अजुनूय कांय जाण भ्रमांत उरूं येतात. हे विशीं एक देख दितां. हालींच्या काळांत गांवांतलीं जायतीं घरां धांपून उरिल्लीं दिश्टी पडटात. हीं घरां व्हड आनी तांचो सांबाळ करप मोटें कठीण. अशे अवस्थेंत तीं घरां राखून दवरप कशीं असो प्रस्न त्या घरांतल्या कर्त्या भुरग्यांक पडला. कांय जाण ट्रस्ट करून हो प्रस्न सोडोवंक पळयतात, जाल्यार कांय जाण हेर मार्गांनी. अशाच एका गांवांत कांय कर्त्या भुरग्यांनी घराचो ट्रस्ट करपाचो प्रस्ताव मांडलो तेन्ना घरांतल्यान जाणटेल्यान विचारलें : असो ट्रस्ट गांवांत कोणें केला? तें आदीं गांवांत तसो ट्रस्ट नासलो. दुसऱ्यान केल्यार आपणें केल्यार जाता अशी त्या जाणटेल्याची मानसीकताय. कांय विशयां संबंदान, चड करून व्याकरण, शुद्धलेखन, कोश अश्या विशयां संबंदान कांय जाणांची अशी मानसीकताय आशिल्ल्याचें दिसता.

मराठी व्याकरणांत आसा जाल्यार कोंकणी व्याकरणांत आसपाक हरकत ना, मराठी व्याकरणांत ना जाल्यार कोंकणी व्याकरणांत तशें आसप म्हणल्यार खंय तरी कितेंय तरी चुकता जावंक जाय अशी ही मानसीकताय आसा.

अशे हे मानसीकतायेक लागून जी एक भ्रमांत उरपाची स्थिती आसा तातूंतल्यान आमी सगले कोंकणी शिकपी, शिकोवपी, अभ्यासक, संशोधक पुरायपणान मेकळे जावचे म्हणून हांगा हालींच्या एका मराठी व्याकरणाचो दाखलो दितां. ह्या व्याकरणाचें नांव आसा *'तुमचे आमचे मराठी व्याकरण'* (२००३), लेखक श्रीपाद भागवत.

तातूंत लेखकान मेकळेपणान येणे, जाणे, आणणे, हसणे, उडणे अश्या धातूसाधीत नामांक क्रियापदां म्हणल्यांत. म्हणटकच, खेळप नाचप, हांसप हीं क्रियापदाचीं साधारण रुपां म्हणून मानपाक आमकां आतां कसलीच आडखळ आसची ना. तीं धातूसाधीत नामांय आसात. कशीं? 'शाणो मनीस' – शाणो हें विशेशण. पूण 'शाण्यांक उतरांचो मार' ह्या वाक्यांत शाणो हें उतर नाम. शाणो हें विशेशण नाम म्हणुनूय घोळटा. तेच भशेन खेळप, नाचप, हांसप हीं क्रियापदां केन्नाकेन्नाय वाक्यांनी नामां म्हणुनूय घोळटात.

फाटलीं २२-२३ वर्सां जाणकारपणाच्या भ्रमांत वावुरतना म्हजे कडल्यान खंयूय, कोणाचेंय, कित्याकूय लागून मन दुखलां आसत जाल्यार क्षमा आसची. इतलें मागून हांव आतां कुशीक सरतां.





# शिक्षण: भुरग्यांचें आनी पालकांचेंय

सतीश दळवी

बाल शिक्षणा संबंदान हांवें खोलायेन वाचन केलां आनी करीत आसां. बालशिक्षण हेंच आपलें ध्येय मानून ताकाच पुराय जीण ओंपपी म्हान व्यक्तीं लागीं म्हजो लागींचो संबंद आयला. बालशिक्षण 'कशें आसचें' आनी 'कशें आसचें न्हय', ह्या दोनूय गजालींचो हांवें प्रत्यक्ष अणभव घेतला. बाल शिक्षणा संबंदान पालकां मदीं आनी सरकारा मदीं लेगीत खूब अपसमज आसात. भुरग्याचे वाडीचे नदरेन बालशिक्षणाक खूब म्हत्व आसा. गंभीर असो हो विशय. हाची जाणवीक जावप आनी ते विशीं पालकां मदीं (फुडाराक जावपी पालकां मदीं लेगीत) जागरुताय जावप खूब गरजेची. देखून हें बरोवंक बसलां.

जण एका पालकाक दिसता, आपलें पाल्य व्हड जावचें, ताणें खूब शिकचें, ताका 'फट फट' इंग्लीश उलोवंक येवची, तें इंजीनियर, दोतोर जावचें. पाल्याच्या विकासाची इत्सा मनांत बाळगुनूच पालक ताका त्याच चलत आयिल्ल्या प्रवाहांत धुकलतात. 'इंग्लीश के.जी.' नांवाचे व्हांवतेंत ताचो पोनेळ सोडून दितात. तातूंत धडपडत, घुस्मटत आपटत-धपटत तें निश्पाप भुरगें खंय पावता ताची कोण नोंद दवरना वा दखल घेना. आपलें पाल्य त्या प्रवाहांत व्हांवत खंय पावलां, इंजीनियर/दोतोर हे तडीक लागलां काय मदींच खंय घुसपून पडलां, काय खंयच्या कांट्याक-खुट्याक झिरकलां, काय वार्टेत एकाद्र्या भोंवऱ्यांत सांपडून बुडलां, हें त्या पाल्याच्या आवय-बापायकूच खबर!

आयज गांवागांवांनी के.जी.चीं शेंकड्यांनी 'दुकानां' वयर सरल्यांत. तातूंत प्रशिक्षीत शिक्षक आसात काय ना हें पळेनासतना 'इंग्लीश के.जी.' ह्या एकाच आकर्शणाक लागून पालक आपल्या पाल्याक तातूंत भरती करता, कांय पालक फटीचे प्रतिश्ठेक लागून भुरग्याक शारांतले एकाद्रे नांवाजते शाळेंतले केजींत व्हरून सोडटात. ते खातीर आपल्या 'बोल्सा'क लेगीत पळेनात. गरज पडल्यार रीण काडून वा उश्णे घेवन ते शाळेक देणगी दिवची लागत जाल्यारय दितात आनी आपूण निश्चींत जाता. कारण, व्हडले शाळेंत घालून त्या भुरग्याचो 'के.जी. ते पी.जी.' मेरेनचो मार्ग तांणी मेकळो केल्लो आसता. प्रत्येक पांवड्यार ताका हे शाळेंतल्यान ते शाळेंत घालपाक आतां धांवचेली गरज लागचिना. ह्यो व्हडल्यो शाळा म्हणल्यार के.जीं.तल्या एका दारांतल्यान कच्चो म्हाल भितर घेवन बेकार ग्रेज्युएट दुसऱ्या दारांतल्यान भायर काडपी कारखाने. हो 'पदवी' नांवाचो दाखलो घेवन पदवीधर हुमरे झरयता आनी मागीर 'डिग्री'क बाजारांत कसलेंच मोल ना म्हणपाचें ताका समजता.

ह्या इतल्या वर्सांच्या प्रवासांत विद्यार्थी पुस्तकी अभ्यासक्रमाचे फास्केंतल्या चक्रांत भड्डून गेल्लो आसता. ताका आपलें अस्तित्व

नासता. ताच्यांत वेगळ्यो खंयच्यो क्षमता आसतात, तो वेगळें वेगळें कितें करूंक शकता, कोण ताका विचारिना वा तो आपूण जावन दाखोवंक शकना. विद्यार्थी पदवीधर जावन भायर सरता तेन्ना तो आपणाक पुरायपणान विसरिल्लो आसता. आनी तेच खातीर 'वेव्हारीक संवसारां'त निरुपयोगी थारिल्लो आसता. ताच्यो सगळ्यो क्षमता मेल्ल्यो आसतात.

काल-पयर प्रत्येक गजालींत लक्ष घालून ल्हान-सान प्रस्न विचारून त्रास करपी हो 'बाबू' आयज येदो व्हडलो पदवीधारक जावन लेगीत असो कसो वागता? कित्यांतूच लक्ष घालिना. सामको शेणिल्ले भशेन आपलेच तनरेंत आसता. कसलेच गजालीची आवडूच नाशिल्ले भशेन! हे गजालीचें पालकांक अजाप जाता. वायट दिसता. पूण ताचें कारण सोदपाचो यत्न तीं करिनात. तो वेळ गेल्लो आसता. पूण होच प्रसंग आपल्या पुताचेर येवचो न्हय म्हूण पदवीधर भुरगो यत्न करूंक शकता.

'व्हडल्या घराक पोकोळ वांसो'. शारांतल्या व्हडल्या शाळांनी तांचे क्षमते परस चड भुरगीं एका एका वर्गांत आसतात. ताका लागून कोण कोणाची काळजी घेवंक पावना. कोण कोणाची खबर घेना. कोण कोणाक वळखना. असल्या शाळांनी फकत उच्च प्रतिभेची देण आशिल्लीं वा 'व्हडल्या मनशांचीं' भुरगींच फुडें सरपाचीं. तांकांच शाळा 'वळखता'. बाकीचीं ते गर्देंत शेणटात. फटीची प्रतिश्ठा आनी आपलो बाबू अशे व्हडले शाळेंत घाल्ल्यान रोखडोच 'इंग्रजी बाबू' जातलो ह्या अपसमजाक लागून भुरग्याक असले व्हडले शाळेंत घालून पालक बाबड्या बोकड्याक वागाच्या तोंडांत दितात.

असल्या व्हडल्या शाळांनी 'विद्यार्थी केंद्रीत' शिक्षण जावंक शकना. तातूंत एकदम भुरग्या वयाचेर उपचारीक शिक्षणाची सुरवात केल्ल्यान भुरग्यांक तें पेलना. हीच गजाल गांवांनीय घडटा. बाल शिक्षण कशें आसचें हें खबर नाशिल्ले के.जीं.त शिकोवपी शिक्षक 'पोटा खातीर' वा धंद्या खातीर आपल्याक जाय तें शिकयतात. ह्या सगळ्या कारणांक लागून बालमनाचेर भयंकर ताण येता. ह्या उपचारीक शिक्षणाचो ताण सोंसपाची मानसीक, शारिरीक वा बौद्धीक तांक त्या अडेज-तीन वर्सांच्या भुरग्यांक आयिल्ली नासता. हाका लागून वर्गांत जें कितें चलता तें समजुपाचे वा आत्मसात करपाचे मनस्थितींत तो नासता. ताका तें जड वता. टिवीचेर लोकहितार्थ एक डॉक्युमेंटरी दाखयतात (एका वेगळ्या संदर्भांत). कुमारान निकतोच मातयेचो एक बुडकुलो तयार करून चाका वयल्यान सकयल काडला. कोण तरी तातूंत हाडून उदक ओत्ता. बुडकुलो फस्स करून मातयेभरवण जाता. त्या बुडकुल्याचें बळ तें उदक भरून दवरपाक कमी पडटा. तो भाजून 'तयार' जाल्लो नासता. तशेंच हें अडेज-तीन वर्सांचें बाळक उपचारीक शिक्षण पेलपा खातीर मानसीक, शारिरीक आनी बौद्धीक रितीन तयार जाल्लें नासता. हाकाच लागून त्या मातयेच्या बुडकुल्या भशेन तें कोंसळपाचो भंय आसता. सगळ्या नदरांनी नाजूक आशिल्ले ताचे प्रकृतीक हें शिक्षण पेलना. तें ताचे शक्ती भायर आसता.

वयले वयर पळेत जाल्यार भुरगें आमचेंच रूप घेवन आयिल्लें आसता. तें आमचेच भशेन चलता, उलयता. आमचीच प्रतिकृती आसता. मागीर शिक्षण लेगीत ताणें आमचेच भशेन घेवचें अशी आमच्या मनाची समजूत जाता आनी ताणें जाता तितले बेगीन हें शिक्षण घेवचें असो आमचो हट जाता. ह्या हटाक लागून शाळेंतलें शिक्षण समजना जाल्यार चल ट्युशनाक! मागीर ह्या के.जीं.तल्या माणकुल्या भुरग्याक लेगीत 'बऱ्या'ट्युशन क्लासांत ॲडमिशन! थंय लेगीत जो कोण बशिल्लो आसता तोय 'धंदेवाईक' आसता. तो शाळेंत दिल्लो होमवर्क करून घेता वा करून दिता आनी शिकयल्लें पाठ करून घेता. वयल्यान आपलो अभ्यास दिता.

सकाळचीं ९ ते १२ उपचारीक शिक्षण शाळेंत, थंयच्यान येना फुडें ट्युशन क्लास. आतां इतलेंय करून जर म्हज्या पुताक/चलयेक कसलीच कला येना जाल्यार आमचेर 'मागाशिल्ले' म्हूण छाप पडटलो म्हूण, 'नाचाक' वा 'ॲबॅकसा'क घालप! जालें. येद्याशा पोराचें भुरगेपण हातूंत शेणून वता. पूण हाका लागून त्या बाबड्या भुरग्याचेर जावपी 'आंतरीक अत्याचार' कोणाच्या लक्षांत येना. आपले जावपी हाल त्या भुरग्याकूय समजना. तितली जाण ताका आयिल्ली नासता आनी जाणविकाय आसलीय जाल्यार पालकांक सांगूंक ताचे लागीं उतरां नासतात. भुरग्याचे प्रतिक्रियेंतल्यान ताची मनस्थिती समजून घेवपाची कुवत पालकांकूय नासता.

भुरगो सुरवेक शाळेंत वचूंक अनमनता, पिरंगता, रडटा. दर खेपे आमी ताका 'बाबा-पुता' करून फुसलायतात. केन्ना केन्ना धमकायतात. कांय काळा उपरांत ह्या सगळ्या व्यापाची भुरग्याक संवय जाता. आमका दिसता, 'बाबू जाग्यार आयलो', पूण तशें नासता. तो भितल्ल्यान फुगार जाता. आनी उग्र जाता. भितल्लें फुगासांव वेगळे पद्धतीन भायर काडटा. आपणाक जाय तेंच करपाक लागता. वचत थंय त्रास करपाक लागता. चली भुरगें मुळचेंच नाजूक आशिल्ल्यान तें उग्र जायना. उरफाटें मोव पडटा. चलिल्ले बळजबरीचो परिणाम ताच्या मनाचेर, कुडीचेर आनी एकंदर प्रकृतीचेर जाता. कांय तेंपान तो दिसूंक लागता.

'हीं हालींचीं भुरगीं. कांयच आयकनात. आपल्याक जाय जाल्लेंच करतात' वा 'आमचें बाय किशोर वय सोंपचे पयलींच वयार आयलें' अश्यो कागाळ्यो आमी आत्रेपयऱ्यान आयकतात. हाचे फाटलीं कारणां खूब आसात. पूण म्हत्वाचें एक कारण म्हणल्यार, वयर सांगल्या ती पालकांची महत्वाकांक्षा आनी फटीची प्रतिष्ठा. हाका लागून आमी आमच्या माणकुल्याचेर ताचे क्षमते भायर ताण घालतात. ताचेर बळजबरी करतात! खरें म्हणल्यार ताचो एके तरेचो मानसीक, शारिरीक, बौद्धीक छळ करतात.

हांव पालकांक कांय दोश दिना. कांय पालक गरजेभायले महत्वाकांक्षेक आनी फटीचे प्रतिश्ठेक बळी गेल्ले आसतात हातूंत दुबाव ना. पूण परिस्थितीची सारकी जाण आशिल्लो पालक लेगीत, आनीक कांय पर्याय नाशिल्ल्यान, आशिल्ले परिस्थितींतल्यान मार्ग काडटा. तो आपल्या पाल्याक दिवं येत तितलो वेळ दिता. भुरग्याक आपणालें बाल्यजीवन जगूंक फावो तितलो वेळ तो ताका दिता. ताचे वांगडा आपुणूय खेळटा. आनी हे भशेन त्या ल्हान जिवाक दिवं येत तितलो आनंद तो दिता. पूण तरी लेगीत केजींतलीं तीं दोन-अडेज वरां आनी उपरांतचो तो अभ्यास भुरग्यांचो जीव खाताच. तो वेळ म्हणल्यार ताका 'काळ' दिसता. होच काळ खरो म्हणल्यार

ताका 'आनंददायी' आसूंक फावो आसलो. पूण भुरग्याच्या पाड्या नशिबान तो शिशूवर्गाचो 'राक्षसमयी काळ' जाल्लो आसा.

सरकार तर ह्या संबंदान आनी एकंदर शिक्षणाच्या मळार सामकेंच निर्जीव म्हणपा सारकें आसा. एक 'जबाबदार भारतीय नागरीक' तयार जावपा खातीर लागपी बुन्यादीची सुविधात्मक बांधणीच आमच्या सरकारान तयार करूंक ना. आयच्या शिक्षणांतल्यान आपल्या पांयांर उबे रावन आपले निर्णय आपूण घेवपी 'तरणाटे' तयार जायनात. हें शिक्षण 'लाचार' तरणाट्यांची पिळगी निर्माण करपी. हाचेर भारतभर शिक्षणतज्ञ आवाज काडीत आसात. पूण 'जैसे ठेविले ब्रिटीशें तैसेची रहावे' ही आमच्या 'आम जनतेच्या' मायबाप सरकाराची नीत आनी ताचो हो परिणाम.

आमची शिक्षण पद्धत पूर्व-प्राथमीक थरा सावन बदलपाक जाय. रशिया, जपान, चीन सारकेल्या देशांनी पयलीं आपले भाशेक म्हत्व दिलें आनी ते भाशेंतल्यान पुराय शिक्षणक्रम बांदून काडलो. भुरगें शास्त्रोक्त पद्धतीन कशें वयर सरतलें, स्वभाशाप्रेमी कशें जातलें, परावलंबी, लाचार जाय नासतना स्वबळाचेर, स्व-निर्णयाचेर, स्वरोजगार निर्माण करपी पिळगी कशी तयार जातली हाचेर लक्ष केंद्रीत केलें. हाचोच परिणाम म्हणल्यार ते देश आयज खूब मुखार पावल्यात.

"एक 'जबाबदार भारतीय नागरीक' तयार जावपा खातीर लागपी बुन्यादीची सुविधात्मक बांधणीच आमच्या सरकारान तयार करूंक ना. आयच्या शिक्षणांतल्यान आपल्या पांयांर उबे रावन आपले निर्णय आपूण घेवपी 'तरणाटे' तयार जायनात. हें शिक्षण 'लाचार' तरणाट्यांची पिळगी निर्माण करपी. हाचेर भारतभर शिक्षणतज्ञ आवाज काडीत आसात."

फकत अभ्यासक्रम बदलत रावलो, क्रमीक पुस्तकां बदलीत रावले म्हूण भुरगें शिकूंक पावताच अशें ना. ताका 'शिकचेली' प्रेरणा मेळूंक जाय, ताची आकलन शक्त वाडूंक जाय.

प्रेरणाशक्त जागृत जावंक दोन गजाली कारण थारतात. एक म्हणल्यार, भुरग्या भोंवतणचें वातावरण आनी दुसरें, भुरग्याचें अंतर्गत वातावरण. दोनूय गजाली एकामेकांक पुरक आनी तितल्योच म्हत्वाच्यो. तातूंत दुसरी गजाल चड म्हत्वाची. भुरग्या भोंवतणचें वातावरण आमी सोबीत केलें, कुडींत मेज कदेल दवरलें, मेजार पुस्तकां-चोपड्यो नीट मांडून दवरल्यो, वणटीर चार्ट, नकशे-तकटे लायले, कुडींत वेवस्थीत उजवाड पडचो, वारें घोळचें म्हण जतनाय घेतली, पूण त्या भुरग्याचें अंतर्गत वातावरण सारकें नासत जाल्यार ताचें लक्ष अभ्यासाचेर कशेंच लागचें ना. त्या भुरग्याचें मन प्रफुल्लीत नासलें, मनाचेर सतत चेपण आसलें, जाल्यार ताचे अभ्यासा कुडींत कितलेंय अभ्यासाक फावो सारकें वातावरण आसलें जाल्यार लेगीत ताचें अभ्यासाचेर कशेंच लक्ष लागचेंना. मनशाचें मन म्हणल्यार खूब म्हत्वाची आनी नाजूक अशी गजाल. तें शांत आनी प्रफुल्लीत आसलें जाल्यारूच कसलीय गजाल करूंक आंतरीक प्रेरणा मेळटली. आनी ते खातीर भायलें वातावरण अनुकूल नासलें जाल्यारूय ताचेर जैत मेळोवन भुरगें फुडें वतलें. म्हणुनूच भुरग्याचें भितल्लें वातावरण वेवस्थीत तयार जावप खूब गरजेचें. थंय कसलीच बाधा येवंक दिवंक जायना. ताची दोळ्यांत तेल घालून जतनाय घेवंक जाय.

शिक्षणतज्ञ हॉरस मान म्हणटा, 'A teacher who is attempting to teach without inspiring the pupil is hammering on cold iron.'

'भुरगें कशें शिकता' तें समजून घेवपाक जगभर शिक्षणाच्या मळार नवे नवे प्रयोग चल्ल्यात. भुरग्याची पुराय, म्हणल्यार सगळ्या आंगांनी, वाड जावची म्हणून ताचे शारिरीक, मानसीक, बौद्धीक वाडीचेर शास्त्रीय नदरेन प्रयोग चलल्ल्यातं.

हें संशोधन आनी तातूंतल्यान भायर आयिल्ले निश्कर्श पालकां मेरेन पावंक जाय. तांकां तांचें म्हत्व समजूंक जाय. आनी तेच खातीर पालक प्रबोधन म्हत्वाचें. आयज के.जी.च्या नांवान बालशिक्षणांत जी बजबजपुरी चल्ल्या ती पालकांच्या अज्ञानाक लागून, तांगेल्या अपसमजांक लागून. मागणी तसो पुरवठो चल्ला. तो पुरायेन अ-शास्त्रीय आनी म्हणून सामको चुकीचो.

हेच नदरेन 'पालक प्रबोधन' म्हत्वाचें थारता. 'प्रौढ शिक्षणा'ची चळवळ सरकार चालीक लायता. शिक्षण खात्यांत ते खातीर वेगळें 'कदेल' आसा. प्रौढ शिक्षण म्हणल्यार 'निरक्षर' प्रौढांक 'साक्षर' करचेली चळवळ.

भौ. रमेश पानसे म्हणटात, 'निरक्षरूच कित्याक? साक्षर, शिक्षीत, सुशिक्षीत प्रौढ लेगीत खऱ्या शिक्षणाच्या माटवा पोंदच्यान सामान्यतायेन गेल्ले नासतात. अशे तरेचो 'प्रौढ शिक्षणाचो विचार' मात उरला, 'भुरग्या संबंदान प्रौढ शिक्षण' अशें नांव ह्या प्रौढ शिक्षणाक भौ. पानसे हांणी दिलां.

पानसे म्हणटात, 'समाज स्वास्थ्या खातीर बाल शिक्षण जितलें म्हत्वाचें, तितलेंच 'प्रौढांचें बालशिक्षण' म्हत्वाचें. प्रौढां कडल्यान बाळक जल्म घेता आसतलो, पूण ह्या बाळकाचो फाल्यां प्रौढ तयार जातलो. ही बाळकाची प्रौढ जावपाची प्रक्रिया खूब म्हत्वाची. ही प्रक्रिया निरोगी कशी घडची हाचो निर्णय घेवपाचें, ताचेर जाणीवपूर्वक

लक्ष दिवपाचें सामर्थ्य भुरग्यांत आसना, ही जाणट्यांची जापसालदारकी. ती कशी पेलची हाचें शास्त्रशुद्ध शिक्षण आयच्या पालकांनी आनी फाल्यां पालकत्व आपणावपाच्या मार्गार आशिल्ल्यांनी घेवप खूब गरजेचें.'

खलिल जिब्रान हांणी म्हणलां,

Your children are not your children
They are the sons and daughters of
life's longing for itself.
They come through you
but not from you.
And
Though they are with you
they belong not to you
You may give them you love
but not your thoughts.
For they have their own thoughts.
You may house their bodies
but not their souls.
For their souls dwel in the house of
tomorrow which
You cannot visit,
not even in your dreams.

'तुमचीं भुरगीं तुमचीं नासतात. तुमगेर तांणी जल्म घेतिल्लो आसलो तरी तीं तुमचे पसून आयिल्लीं नासतात. तुमच्या घरांत ल्हानाचीं व्हड जाल्लीं आसलीं तरी तीं तुमच्या हक्काचीं न्हय. तुमी तांची माया, तांचो मोग करातूच पूण तुमचे विचार तांकां दिवं नाकात. तांकां तांचे आपणाले विचार आसतात. तुमी तांकां घरदार दिवंक शकतात, पूण तांच्या आत्म्याक तुमी बांदून दवरूंक शकनात. तांचे आत्मे फायच्या जगांत वावुरतात, ज्या घरांत तुमी सपनांत लेगीत पावंक शकनात. तुमी तांचे वरी जावपाचो यत्न करात. पूण तांकां तुमचे वरी करचेलो यत्न करूं नाकात, कित्याक, जीण उरफाट्या पांयांनी चलनां. ती सदां फुडेंच वता.'

असल्या 'स्वतंत्र' भुरग्यांक तांच्या पांयांर उबीं रावपा खातीर आमी फकत 'मदत' करचेली. सक्ती न्हय. ते खातीर वातावरण निर्मणी करचेली. इतलेंच आमचें काम. आमकां कोणें शास्त्रशुद्ध 'पालक शिक्षण' दिल्लें नासता. ते संबंदान आमी वाचिल्लेंय आसना. म्हण पिळग्यां संकिनी आमी आपटत-धपटत आसतात. पानसे म्हणटात, 'खंयचोय ल्हान-व्हड वेवसाय करचो आसलो जाल्यार ते खातीर खाशेलें शिक्षण घेवप गरजेचें ही जाणविकाय समाजाक आसता. पूण 'पालकत्वाचो वेव्हार' मात हे समजुती भायरूच उरला.'

भुरग्या विशींच्या विचारांक आनी वागपाक खरें पालकत्व म्हणूं येता अशें म्हणून पानसे फुडें सांगतात, 'जांकां शास्त्रीय बालशिक्षण कळ्ळें तांचें पालकत्व 'सुजाण' पालकत्व आनी जांकां तें कळ्ळें ना तांचें पालकत्व 'अजाण' पालकत्व. ह्या अजाण पालकत्वाचें जाता तितले बेगीन सुजाण पालकत्वांत रुपांतर करचेले यत्न जावंक जाय. ते खातीर गांवागांवांनी 'बालकाभिमुख प्रौढ शिक्षणा'चे वर्गच चलोवंक जाय.'

पूण 'सुजाण पालक' जावन कितें जातलें? शिक्षण प्रक्रिया तीच उरली, भुरगीं तेच शिक्षण प्रक्रियेंत भड्डून गेलीं आनी 'नाका तें शाळेंत वचप' म्हणून निर्शेत उरलीं जाल्यार उपेग कितें? हे शिक्षण प्रक्रियेक पर्याय आसा?

हय आसा. आयज जायत्या देशांनी जायत्या शिक्षणतज्ञांनी ते दिकेन अभ्यास चलयला, ते नवे नवे प्रयोग करीत आसात. नवे नवे विचार फुडें येत आसात. नवे नवे पर्याय आमचे मुखार मांडीत आसात.

आयज मेरेन असमाधानकारक शिक्षणाचो दोश आमी भुरग्यांचे सामाजीक-आर्थीक परिस्थितीचेर फोडटाले आनी तातूंतल्यानूच वाट सोदून काडचेलो यत्न करताले. शिक्षणतज्ञ आनी मानसतज्ञ हांणी केल्ल्या आनी चालू आशिल्ल्या संशोधनांतल्यान खरीं कारणां आमचे मुखार आतां येतात. आनी तीं आमचे शिक्षण पद्धतींतूच आसात म्हणपाचें खबर नाशिल्ल्यान आमी काळखांत वावुरतालीं हें आमच्या लक्षांत येता.

खंयच्याय पांवड्यार भुरग्याचें शिक्षण शाळेच्या 'वर्गांत' जाता आसत जाल्यार तें थंय कशे पद्धतीन जाता, हाचो सोद आतां घेतात, वर्गांत चलपी शिक्षण प्रक्रिया तपासतात. वर्गांत 'शिकोवपाची प्रक्रिया' कशी चलता, हाचे परस आतां वर्गांतल्यान 'शिकपाची प्रक्रिया' कशी परिणामकारक पद्धतीन घडटा हाचो अभ्यास चलता आनी ताका म्हत्व दितात. आयज मेरेन 'शिक्षकान कशें शिकोवप' हाचेर ताच्या शिक्षण महाविद्यालयांतल्यान भर दिताले. पूण आतां 'विद्यार्थी कशे शिकतात' हें समजून घेवप गरजेचें मानतात.

आयची शालेय शिक्षण वेवस्था एकोणिसाव्या शेंकड्यांतले सामाजीक गरजे प्रमाण आनी तेदेवेळच्या मानसशास्त्रीय सिद्धांतांचेर आधारिल्ली आसा. आतां एकविसाव्या शेंकड्यांत अर्थीक तशेच सामाजीक परिस्थितींत कितलेंशेंच परिवर्तन जालां, तेच वांगडा शिक्षणाक जी मानसशास्त्राची सिद्धांतीक बुन्याद आसली तातुंतूय कितलेंशेंच संशोधन जावन आयज आमका 'भुरगें शिकता कशें' हाची खुबशी जाणविकाय जाल्या.

आमी शिक्षणाचो विचार करतात, तेन्ना ताचे फाटल्यान 'शास्त्र' आसता म्हणपाचें चडश्या जाणांच्या लक्षांत येना. 'शिक्षणशास्त्राक' आधार 'मानसशास्त्राचो'. कितल्या तेंपा सावन मानसशास्त्राचेर आधारिल्ली शिक्षणप्रणाली आमी चिरत आयल्यात. हे मानसशास्त्रीय प्रणालीक 'वर्तनवादी मानसशास्त्र' (Behavioural Psychology) म्हणटात. तें मानसशास्त्र कांय मोनजातींचेर (हुंदीर, सुर्णे, गोरिला, बी हांचेर) केल्ले प्रयोग आनी तांच्या वर्तनांत जाल्लो बदल हाचेर आधारीत आसा. ह्या प्रयोगांचे निश्कर्ष जशाचे तशे मनशांक (विद्यार्थ्यांक) लागू करून शिकोवपाच्यो चालू (तात्कालीन) पद्धती तयार केल्यात. शिक्षणाचो गाडो हांगाच अडटा. शिकपी विद्यार्थ्यांची कुचंबणा हाकाच लागून जाता. शंबर वर्सां पयलींचें हें मानसशास्त्र (तेंवूय बी मोनजातींचेर आदारिल्लें). आज लेगीत शिक्षक महाविद्यालयांत शिकून भायर सरतात तेन्ना हीच शिकोवपाची एकमेव

पद्धत अशें मानून तिचो वर्गांत दोळे धांपून उपेग करतात. आमचे धोरणकर्ते लेगीत हेच शिक्षण प्रणालींतल्यान आयिल्ले आशिल्ल्यान शिक्षणांत तात्पुरत्यो दुरूस्त्यो करतात. पूण मुलभूत परिवर्तनाचो विचार ते करूंक शकनात.

शंबर वर्सां पयलींचें हें वर्तनवादी मानसशास्त्र संवसारभरच्या शिक्षणाच्या मळार आतां काळाभायरें जालां. ह्या अर्दशतकांत मानसशास्त्रांत खूब नवें संशोधन जावन बालमानसशास्त्रा संबंदान नवे प्रगत विचार वयर आयल्यात. हाचो शिक्षणशास्त्राचेर प्रभाव पडून वर्तनवादी शिक्षण पद्धतीक 'रचनावादी' शिक्षणपद्धतीचो नवो पर्याय आयला. हो पर्याय शास्त्रीय बुन्यादीचेर आधारीत आशिल्ल्यान, आनी भुरग्यांचे शिक्षणाचे सैमीक प्रक्रियेकडेन प्रामाणीक आशिल्ल्यान संवसारान सार्वत्रीकपणान तो आपणायला.

फाटल्या वीस वर्सांत मज्जामानसशास्त्रांत मेंदू संबंदान व्हडा प्रमाणांत संशोधन जालां. हातूंतल्यान मेंदू हो 'शिकचेलो अवयव' म्हणपाचें सिद्ध जालां. ह्या मेंदू संशोधनाच्या आधारान भुरगें कशें शिकता हें समजून घेवप सोंपें जालां. हाचेरूच नवी शिक्षणप्रणाली तज्ञांनी बांदून काडल्या. हे 'रचनावादी शिक्षण पद्धती'ची वा नवे शिक्षण पद्धतीची म्हायती, म्हणल्यारूच भुरगें शिकता कशें हाची म्हायती, शिक्षकां वांगडाच पालकां मेरेन पावपाक जाय.

म्हणुनूच पानसे म्हणटात, 'भुरगो कसो आसता, आनी तो कसो वाडटा, कसो शिकता, कसो वागता' हें 'बालकाभिमुख प्रौढ शिक्षण' प्रौढ शिक्षण अभ्यासक्रमांतलो म्हत्वाचो विशय. ह्या विशयाचें नीट शिक्षण आशिल्ल्या पालकांकूच 'सुशिक्षित पालक' म्हणुया. वेव्हारीक नदरेन ते निरक्षर आसले तरी. हाचे उरफाटें, वेव्हारीक नदरेन 'सुशिक्षीत' व्यक्तींक हें शिक्षण नासलें जाल्यार भुरगीं वाडोवपाच्या मळार तांकां 'अशिक्षितूच' मानचें पडटलें. असल्या अशिक्षितांचो आंकडो खूब व्हडलो. आनी होच खरो गंभीर प्रस्न. जण एकल्या भुरग्या कडेन म्हणल्यार फायच्या प्रौढा कडेन वा म्हणुया फायच्या पुराय समाजा कडेन संबंधीत असो हो प्रस्न.

ते खातीर शिक्षणांतल्या नव्या विचारा फाटली शास्त्रीक बुन्याद आमी पयलीं समजून घेवंक जाय. ही शास्त्रीक बुन्याद मज्जाशास्त्रांतल्या हालींच्या संशोधनांतल्यान आयल्या. तंत्रविज्ञानांत जाल्ले प्रगतीक लागून मनशाच्या मेंदूचे, तो कार्यरत आसतना फोटो घेवन ताचो अभ्यास करप सहज शक्य जालां. मेंदू संबंधान खात्रीलायक अशी कितलीशीच म्हायती आतां उपलब्ध जाल्ल्यान मेंदूची काम काजाची खूबशी वळख आमकां मेळ्ळ्या. हाचो आरोग्य शास्त्राचेर जाला तितलोच शिक्षणशास्त्राचेरूय परिणाम जाला. शिक्षणाच्या मळार ते पासत आतां क्रांतीकारक बदल जायत आसात. मेंदू संशोधनाचो एक फायदो म्हणल्यार, आतां 'भुरगें' आपल्या उपजत सैमीक प्रेरणांनी आनी कुशळटाये वरवीं 'शिकता कशें' हाची आमकां जाणविकाय जाल्या.

डॉ. आरती आनी डॉ. अतुल अभ्यंकर एके कडेन म्हणटात, 'सहज आनी सुलभ शिक्षणा खातीर गरजेचें तें शिकपाक भुरगें पुरायपणान तयार आसता. भुरग्या मुखार नवीं नवीं आव्हानां आसतात, नवे नवे प्रस्न आसतात, सतत बदलुपाचें कितें तरी भोंवतणीं घडत आसता तेन्नाच भुरग्याची क्षमता पुरायपणान उपेगांत येता. ही खरी सुरवात आसता, पूण हे प्रक्रियेचो अखेर केन्नाच जायना, हीच शिक्षणाची खरी मजा. खरें म्हणल्यार, भुरगें जल्माक येता तेन्ना सावनूच ताच्या शिक्षणाक खरी सुरवात जाता.'

अभ्यंकर फुडें म्हणटात, 'शिक्षणाचे प्रत्येक संदीचो भुरगें आनंदान अणभव घेत आसता. असल्या संदींक लागुनूच चकचयाळ आशिल्ल्यो ताच्यो मेंदूच्यो पेश्यो कार्यरत जातात. ताका जाय तितल्यो पेश्यो वापरूंक मेळटात. हाकाच लागून भुरगें शिकपाच्यो संदी केन्नाच सोडिना. जिस्त ह्या वेळार जाणटेल्यांची आडखळ जाता.'

"आरे, ताका पळे मरे, तें काडटा! मोडटलो मरे तो..." ताचे आवयची आड्डी.

"आरेऽऽ! तुका एकदां सांगल्यार समजना? दवर पयलीं तें... फोडटलो तूं तें!" बापायचो आवाज.

"शीऽऽ बाये! विटयता पळे हो... कांयच काम करूंक दिना, पळे, ताणें तें खेळणें मोडलें... जालें!"

"सामको त्रास करता हो हांगा. वचत थंय आपूण म्हणटा. ताका मातसो व्हरून उडयात पळोवया स्कुलांत..."

भुरगें अशें कित्याक वागता? तें सदांच चळवळी, सुशेग नाशिल्लें अशें कित्याक आसता? तें एका जाग्यार बसून कित्याक रावना? दोळ्यां सामकार दिसता ती वस्त तें कित्याक उखलता? तें आमी ध्यानांत घेवंक जाय.

अभ्यंकर म्हणटात:

"शिकचेल्यो ल्हान ल्हान संदी लेगीत भुरगीं सोडिनात. ताचे 'शिकपाचे प्रक्रियेक' कसलीच आडखळ जाय नासतना आपली सक्रीय मदत कशी जायत हें आमी पळोवप गरजेचें.

"शिक्षणाचे ल्हान ल्हान संदीचो लेगीत भुरग्याच्या शारिरीक तशेंच मानसीक विकासा कडेन म्हणजेच ताचे क्षमतेच्या चडांत चड वापरा कडेन सरळ संबंध आसता. ताणें आपले कुवतीचो शंबर टक्के वापर करप सैमीक."

अभ्यंकर फुडें म्हणटात, "शिक्षणाचो खरेलो अर्थ मर्तींत घेतल्यार आनी तशी संद मेळ्ळ्यार तुमचें भुरगें शिक्षणा खातीर सदां उत्सूक रावतलें. मेळिल्ले संदीचो तें पुरायेन उपेग करतलें. आपल्या स्वताच्या शिक्षणाचो वाठार रुंदायत विंगड विंगड मार्गांनी ताका मेळिल्लें गिन्यान बाकीच्यां मेरेन पावोवपाचो यत्न तें करतलें. सगळ्या आंगांनी ताचो विकास जावंक पावतलो. म्हणल्यारूच चडश्यो सगळ्यो पेश्यो कार्यरत करप ताका शक्य जातलें. एक पेशी कार्यरत जाली म्हणटकच तिच्या शेजारची पेशी जागृत जाता. दुसऱ्या उतरांनी सांगपाचें म्हणल्यार, ती जितीं जाता. अश्यो जित्यो पेश्यो भुरग्याची क्रियाशीलता, उमेद आनी उद्येगीकता दाखयतात."

डॉ. आरती आनी डॉ. अतुल अभ्यंकर म्हणटात ते प्रमाण, "आमी आमचे कुवतीचो फकत एक टक्कोच वापर करतात, म्हणुनूच संकुचीत जीण जगतात. तुमचें भुरगें ताची शंबर टक्के कुवत वापरपाक उत्सूक आसता म्हणुनूच तें आमकां सदांच हुतहुतें दिसता — आमकां त्रासदायक थारता. अशी संपूर्ण क्षमता वापरपी भुरगें आमचे मदल्या कितल्याश्याच जाणांच्या आकलना भायलें आसूंक शकता. न्हय,

आसतलेंच! आयज येदीं येदीं भुरगीं मोबायल सहजतायेन हाताळटात, ताचें इल्लें लेगीत गिन्यान आमकां जाणट्यांक आसना!''

म्हणुनूच अभ्यंकर फुडें म्हणटात, ''भुरग्यांनी तांचे उर्जेचो पुराय वापर करचो हे खातीर पालकांनी दोनूच गजाली करच्यो. भुरग्यांची क्षमता खऱ्या अर्थान स्विकारची आनी कितलीय कठीण गजाल दिसली तरी आपलें स्वत:चें अवलोकन करीत भुरग्या कडेन वेव्हार दवरचो. गिरायक सदांच 'खरें' आसता, ते भाशेन, पालक आनी भुरगें हातूंत भुरगें 'खरें' आसता. हें ब्रिदवाक्य मानचें.''

भुरग्याच्या विंगड विंगड क्षमतांची वाड जल्मा सावन आठ वर्सां मेरेन जाता. ह्याच वयाचेर आमी ताका फकत बरोवप आनी वाचप ह्या कामा खातीर के.जीं.त घालतात आनी ताच्या पुराय क्षमतांची वाडूच खुंटून उडयतात. फुडें मात तें मातशें व्हड जालें म्हणटकच आमी ताच्या 'सर्वांगीण विकासा'च्यो गजाली करतात. खरें म्हणल्यार, 'सर्वांगीण विकासा खातीर' लागपी मेंदूच्यो पेश्यो त्या वयाचेर कार्यरत जावप कुस्तार. कारण ते मेरेन त्यो वापरांतूच येवंक नाशिल्ल्यान 'मेल्ल्यो' आसतात.

आमकां पाल्याचो 'सर्वांगीण विकास' सादपाचो आसत जाल्यार ताच्यो सगळ्यो क्षमता सुरवे सावनूच, म्हणल्यार ताच्या जल्मा सावन आठ वर्सां मेरेन, ताका वापरपाच्यो संदी मेळोवन दिवच्यो पडटल्यो.

पानसे म्हणटात, ''मेंदूचें शिकपाचें, म्हणल्यार ज्ञानग्रहण करपाचें, आनी ते उपरांत कृती करचेलें कार्य विंगड विंगड चेतापेश्यांच्या परस्पर जुळपाचेर निंबून आसता. विंगड विंगड संदेशांचें दिवप-घेवप करचेलें कार्य जुळणी वरवीं चेतापेश्यो करीत आसतात (हाका कनेक्शनिझमचें तत्व म्हणटात). हें जुळणीचें कार्य वयाच्या आठ ते धा वर्सां मेरेन चालू आसता. म्हणल्यार आठ ते धा वर्सां मेरेनचें वय हें चेतापेश्यांचें जाळें पुराय पक्कें करपाचें, म्हणल्यारूच मेंदू तयार जावपाचें वय. ताचे पयलीं मेंदू सगळ्या आंगांनी तयार जावंक नाशिल्ल्यान पाल्याचें शिक्षणाचें कार्य म्हणल्यार मेंदूचे घडणेक मदत करचेलें कार्य. मेंदूचे घडणेकूच बाधा येवपी वा कांय बिघाड जावपी अशें शिक्षण आसून उपेगी ना. कारण, वापरांत आशिल्ल्यो पेश्यो टिकून उरप आनी वापरांत नाशिल्ल्या पेश्यांचो नाश जावप ही प्रक्रिया ह्या आठ ते धा वर्सांच्या वयाच्या काळांत चालू आसता.''

मेंदूतल्या चेतापेश्यांची जोडणी जायत वता तशी तशी भुरग्याची एक एक 'क्षमता' तयार जायत आसता. आनी क्षमता तयार जाता, तशें तशें ताचें कार्य लेगीत चालू जाता. हाचें दृश्य स्वरूप म्हणल्यार भुरग्याचो पावंड्या पावंड्यान जावपी कुडीचो विकास आनी तसोच पावंड्या पावंड्यान जावपी बौद्धीक आनी भावनीक विकास. चेतापेश्यांचे बांधणे वरवीं क्षमता तयार जातात तशें तशें भुरग्याचें परावलंबित्व कमी कमी जायत वता.

म्हणून पानसे फुडें म्हणटात, 'मेंदूंतल्या चेतापेश्यांचे बांधणेचें वा क्षमता निर्मणेचें वय म्हणल्यारूच बालशिक्षणाचें वय. बालशिक्षणाचो ह्या वया वयलो पुराय वेव्हार मेंदूचे वाडीक अनुकूल असोच आसूंक जाय. मेंदूचे वाडीक पुरक अश्यो विंगड विंगड आंगांनी युक्त अश्यो गजाली बालशिक्षणांत (आनी मुळाव्या शिक्षणांत लेगीत) आसप गरजेच्यो. वयर सांगलां तशें, मेंदूची वाड चेतापेश्यांचे जोडणेचेर अवलंबून आसता. पेश्यांची जोडणी जाता तशी तशी एक एक क्षमता तयार जाता आनी तांचें कार्य चालू जाता. ते खातीर क्षमते कडेन संबंदीत अणभव ताका मेळपाक फावो. अणभवा कणकणीं चेतापेश्यांची जोडणी जायत वतली आनी जाळें पक्कें जातलें आनी त्यो त्यो क्षमता तयार जायत वतल्यो आनी 'सर्वांगीण विकासाची' बुन्याद तयार जातली.'




**भुरग्याच्या सर्वांगीण विकासाच्यो क्षमता**

वयल्या आराखड्यांत दाखयलां ते प्रमाण भुरग्याच्या पुराय विकासाचे नदरेन पांवड्या पांवड्यान ताका एक एक क्षमते संबंधान अणभव दीत वचचेलें. हे अणभव ताका सुरवेक 'खेळा'च्या माध्यमांतल्यान दिवचेले - खरें म्हणल्यार खेळाच्या माध्यमांतल्यान भुरग्यानूच ते घेवचेले. आमी ताका कांयच सांगपाची, शिकोवपाची गरज नासता. पानसे म्हणटात तशें 'भुरगें आपुणूच अणभवांतल्यान शिकता.'

डॉ. अभ्यंकर सांगतात, ''भुरग्यां वांगडा आपणेंय भुरगें जावन खेळचें. भुरग्या वांगडा इश्टागतीन खेळटना आपलें शेणिल्लें, जियेवपाचें उरिल्लें भुरगेपण परतेंय जियेवपाची संद मेळटा. भुरग्याचें लागसारपण तुमच्यांतल्या भुरग्याक ल्हवूच साद घालतलें. भुरग्या भशेनूच सगळें विसरून सामकें त्या खिणांत जगपाचें मर्म तुमकां होलमतलें. जाणटेपणाचें रुपडें शेवटून दिवचेंशें दिसतलें. परत एक खेपे आयुश्य जगतां अशी भावना जागी जातली. 'लहानपण देगा देवा, मुंगी साखरेचा रखा' हाचो अणभव मेळटलो.''

पूण तेच वांगडा डॉ. अभ्यंकर एक संदेश दितात, ''आमच्यो सगळ्यांच्यो पाटयो पयलींच गच्च भरल्यात. आनी हीच खरी आडखळ. चडशे फावटीं आमचे पाटयेर जें कितें बरयलां तें समा आसा काय ना, तातूंत कितें तथ्य आसा काय ना तें पारखी नासतना तें आमी भुरग्याक पावयतात. खरी गरज आसा ती, आमची पाटी पुसून निवळ करचेली आनी परत बरोवचेली.''



# आमचो रमणी

**अना म्हांबरो**

रासवळ कुटुंब पद्दत तिगोवन दवरिल्लीं गोंयांत जीं थोडीं घराणीं आसात तातूंतलें एक म्हामाय कामतींलें. तांचें मूळ घर पणजे पोन्न्या सचिवालया कडेन आसा. तांची कुळदेवी महामाया (म्हामाय) हिचें देवूळ व्हर्नां (फातर्प्या लागसार) आसा. सगळे म्हामाय कामत हीं दोन स्थानां म्हत्वाचीं लेखतात.

कांय घराण्यांचे रिती-रिवाज आसतात. तशे म्हामाय कामतींलेय आसात. जो ते पाळटा ताका कुटुंबाचे येणावळीचो वांटो मेळटा. जो ते पाळिना ताका कुटूंब सोडचें पडटा. मागीर त्या घराण्या कडेन ताचो कसलोच संबंध उरना.

खूब वर्सां फाटीं एका मनशान — रामचंद्रबाबान — म्हामाय कामतींचें घर सोडलें आनी आपले खातीर दुसरें घर बांदलें. तातूंत तो आपले फामिलीक घेवन रावंक लागलो. तो सरकारी एंप्रेगाद आसलो. ताची परिस्थिती समृद्ध मध्यम वर्गी मनशा भशेन आसली.

ताचो एक पूत गोविंद. होय सरकारी एंप्रेगाद आसलो. उपरांत ताची बदली वास्को जाली. त्या वेळार तो आपलें कुटुंब घेवन वास्को रावंक लागलो. गोविंदबाब आनी ताची घरकान्न लक्षीमबाय हांकां स भुरगीं. पांच पूत आनी एक धूव. धूव — येसू — गोविंदबाबान आपल्या भाच्याक, वैकुंठ पैक, दिल्ली. गोविंदबाबांले पूत हे - रामा, कृष्णा, माधव, वासुदेव आनी व्यंकटेश. निमाण्या, व्यंकटेशाच्या जल्मा आदीं गोविंदबाब तिरुपती गेल्लो. थंयच्यान येतकूच तांकां चलो भुरगो जालो. म्हूण ताचें नांव व्यंकटेश दवरलें. आनी अपुरबायेन ताका व्यंकटरमण म्हणूंक लागलीं. ताचें उपरांत 'रमणी' जालें.

गोविंदबाब शिर्विसेक आसतना तागेल्या व्हडल्या पुतान क्लियरिंग एजंटाचो धंदो मुरगांवां सुरू केलो. तातूंत उपरांत कृष्णाबाबूय भितर सरलो. थोड्या काळा उपरांत रामाबाबा गोंय सोडून मुंबय गेलो. कांय उपद्व्याप केले उपरांत थंयूय ताणें क्लियरिंग एजंटाचो व्यवसाय सुरू केलो. रामाबाबाच्या त्या धंद्यांत माधव आनी वासुदेव हेय भितर सरले. ह्या सगळ्या भांवडां भितर माधव एकलोच शिकिल्लो. मुंबय आयला तेन्ना व्यंकटेश इश्कोलांत शिकतालो. तो खेळांत एकदम बरो आसलो. पूण मुंबय मॅट्रिकेचे परिक्षेक फ्रेंचीचे सुवातेर संस्कृत भास आशिल्ल्यान तो मॅट्रीक जावंक पावलो ना. ताचे मुखार दुसरें काम नाशिल्ल्यान रामाबाबान ताका आपल्या धंद्यांत घेतलो.

रामाबाबाचो धंदो तसो साधारणसो चलतालो. साधारणशी जोड जाताली. पूण तागेलें बारीक बारीक गजालीं कडेन लक्ष नासतालें. व्यंकटेशान ही गजाल पळेली. ताका दिसलें, हो धंदो सारको चलयत जाल्यार ताका व्हड फुडार आसा.

१९४० च्या अदमासाक 'कामत आनी कंपनी' स्थापन जाली. बेलार्ड पियर वाटारांत ताणी एक ऑफीस घेतलें. अर्दी मर्दी, व्यंकटेशाक ज्यो गजाली आवडनासल्यो ताचेर तो स्पश्टपणान उलयतालो. साधारण १९६० च्या अदमासाक ताणें भावाक सांगून कंपनीचीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. त्या वेळार कंपनीची येणावळ वर्साक साठ हजार सुमार आसली. कंपनी आपल्या हातांत घेतकूच व्यंकटेशान व्यवस्थीत पार्टनरशिप केली आनी तातूंत वेगवेगळे वांटे रासवळ कुटुंबांतल्या वेगवेगळ्या जाणांच्या नांवार घाले.

रमणीन आपलो धंदो वाडयलो. मुंबय बंदरा मेरेन तो मर्यादीत आसलो तो मुरगांव बंदरांत सुरू केलो. देशाच्या हेर कांय बंदरांनी ताचो बारीकसो व्यवसाय चलता. उपरांत ताणें गोंयांत नुव्यां एक बंगलो बांदलो. ताका 'लक्ष्मी गोविंद' नांव दिलें.

साधारण धा-एक वर्सां पयलीं ताणें आपल्या पुताच्या, म्हळ्यार अमिताच्या, हातांत धंदो सोंपयलो. ताची येणावळ आतां पांच कोटीं वयर आसा.

जे 'कामत अॅन्ड कंपनी' मार्फत हो धंदो चलता, ती एक पार्टनरशीप फर्म. हातूंत रमणी मॅनेजिंग पार्टनर. हे कंपनीच्या धंद्याचो लाभ कामत कुटुंबांतल्या सगळ्यांक उण्या अदीक प्रमाणांत मेळ्ळा.

रामचंद्रबाबान मूळ जें घर बांदिल्लें, तें घर कांय वर्सां उपरांत कृष्णाबाबान विकलें. उपरांत ताणें वास्कोंत दुसरें घर बांदलें. सध्या थंय ताचें कुटुंब रावता.

म्हजें भुरगेपण वास्कोंत गेलें. तेन्ना थंय हांव कृष्णा कामत आनी ताचे फामिलींतल्या लोकांक वळखतालों. उपरांत कॉलेजीच्या शिक्षणा खातीर मुंबय येतकूच हांव आमच्या एका सोयऱ्यागेर, वसंत कामत हांगेर, रावतालों. वसंताची चुलती माहिम सारस्वत कॉलनींत रावताली. वसंताक चौग भाव आनी दोगी भयणी आसल्यो. तांतली व्हडली मंदा लग्नाची आसली. तिका तिचे काकीन थळ म्हणून एक गोंयकार भुरगो - कॉलनींत रावपी हाडलो. तो रमणी.

कांय म्हयन्यां उपरांत लग्न ठरलें. साकरपुडो जालो. ते उपरांत ऑफीस सुट्टकूच रमणी सदांच स्कुटरी वेल्यान गोमाद कपडे घालून थंय येतालो. मंदाक फिरूंक व्हरतालो. ताका पळेतकूच आनी ताच्यो गजाली आयकतकूच त्या दोगांयचें पडटलें कशें असो हेरांक प्रस्न पडटालो. कारण, मंदाच्या घरांत ताच्या भावांचें एकामेकां कडेन उलोवप साप्प उणें. जाल्यार रमणी खूब उलयतालो. ते भायर बोबाटयो – व्हडल्यान उलयतालो, व्हडल्यान हांसतालो. ल्हान भुरग्यां वरी. ते भायर, आपणाक दिसता तें कोणाची पर्वा करी नासतना करपी. मंदा ताच्याक परतें. शांतपणान हांसून उलयतलें आनी कसलीय गजाल करता आसतना हाचो ताचो विचार करून करतलें. सगळ्यांचे वाडदीस, लग्नाचे दीस, कोण खंय दुयेंत बी जाल्यार ताची खबर घेवप – असल्यो सगल्यो गजाली करतालें. तांचें लग्न १९५९त जालें. फुडाराक त्या दोगांयचें बरें जमलें. हालींच तांणी लग्नाचो पन्नासावो वाडदीस मनयलो.

१९६० त सुमार हांव दादर सोडून माहिम रावंक गेलों. थंयच्यान रमणीलें घर लागीं आसलें. ताका लागून आमची संवकळ वाडली. धंदो सुधारतकूच रमणीन दोन गजाली केल्ल्यो – लोणावळ्याक जागो घेवन एक बंगलो बांदिल्लो आनी, एक सेकंड हँड मोटार घेतिल्ली. ते मोटारीन आमी तिगांय अर्दी मर्दी लोणावळ्याक वतालीं. ती मोटार घाट कशीबशी चडटाली. खुबशे फावटीं घाट चडचे पयलीं बंद पडटाली. रमणीचो भाल्या सबनीस म्हूण एक आमीग आसलो. तो ते मोटारींत बसतकूच म्हणटालो, 'रोल्स रॉयस ही सायलंट कार. हॉर्न सोडल्यार हे गाडयेचो खंयचोच पार्ट आवाज करिना. हाची गाडी परती! हॉर्न सोडल्यार सगळे पार्ट आवाज करतात.' आमी लोणावळ्याक वच नासले तेन्ना शेनवार आयतार मुंबय नाटकां पळेताले. नाटकांच्यो तिकेटी काडटना रमणी म्हणटालो, पयले लायनींत बसचें न्हय, कारण नाटकांतल्या पात्रांचो मेकप दिसता.

लग्ना उपरांत मंदान कॉलेजींत नांव घालें. तें बी.ए. मेरेन शिकलें. बी.ए.ची परिक्षा लागीं पाविल्ली तेन्ना एक दीस तीं दोगांय म्हाका फोटांत मेळ्ळीं. तेन्ना रमणीन म्हाका म्हळें, "आरे, हें बी.ए. जातकूच म्हाका शाणेपणां सांगिना मरे?" हांवें म्हळें, "फक्कत डिग्री तकलेंत गेली जाल्यार सांगतलें. डिग्री वांगडा ज्ञान तकलेंत गेल्यार सांगचें ना."

मंदान बी.ए.क फिलॉसॉफी घेतिल्ली. ती सारकी समजावन घेवपा खातीर तें डॉ. ग.ना. लवंदे कडेन गेलें. लवंदो मुंबय विद्यापीठाचो सुवर्णपदकाचो मानकरी, आनी रमणीचो सोयरो. एक तिरसुवाद मनीस. ताणें मंदाक सांगलें, "परिक्षेचो पेपर आयलो काय तुका जें कितें येवजता तें बरय. मुंबय विद्यापीठांत जे तत्वज्ञान शिकयतात तांतल्या एकल्याकूय तांचो विशय कळना. तुवें कितेंय बरयल्यार तुका मार्कस् मेळटले आनी तूं पास जातलें."

भुरगें नाशिल्ल्यान मंदाक ल्हवू ल्हवू देवस्पण लागलें. देवस्पणाचो ताचो भयरोजोळोप जालो. साधारण १९७० च्या अदमासाक मंदा एका नामनेच्या गायनकॉलजिस्टा कडेन ट्रिटमँट घेतालें. वर्सभर ट्रिटमँट घेतले उपरांत दोतोरान सांगलें, तुमकां भुरगें जावपाचें ना ही गजाल तुमी मतींत दवरात. त्याच वेळार रमणी आनी हांव ज्योतिशी शांताराम केणी हांचे म्हऱ्यांत गेले. तांणी ताची पत्रिका पळोवन सांगलें, हिचेर म्हाका चलो भुरगो स्पश्ट दिसता. आमी ताका सांगलें, डॉक्टरान भुरगें जावचेंना म्हूण सांगलां. ताचेर शांतारामबाबान म्हळें, ताणें सांगलां तें वैजकीचे नदरेन. हांव सांगतां तें ज्योतिशाचे नदरेन. उपरांत काय तेंपान मंदाक दीस गेले आनी चलो जालो. तो अमीत. ताणें मॅनेजमेंटाचो कोर्स केलो. आनी तो घरचो धंदो पळेता.

रमणीन लोणावळा आनी गोंयां घरां बांदल्यांत. उपरांत अमितान मडगांवां, पणजे फ्लॅट घेतल्यात. हो घराबो जो एका काळार पणजी सोडून गेल्लो ताचो आतां परतो पणजे कडेन संबंद आयला. एक वर्तूळ पूर्ण जालां.

रमणीचो आवयचेर खूब जीव आसलो. तिणें आदल्या काळार खूब त्रास काडून भुरग्यांक वाडयलीं म्हूण! ती खंय केन्नाय म्हणटाली, आपणें आपल्या घोवाक म्हळें, "तुमी म्हाका काय दवरलें ना." ताचेर ताणें म्हळें, "हांवें तुजो रमणी तुका दवरला. तो करतलो सगळें." रमणीन बापायलीं उतरां खरीं केलीं. तिची अखेर मेरेन काळजी घेतली.



# केगदी वेळे वयल्यो घुलो...



मनोहर पै धुंगट

'बापायची भयण आका दोळ्यां मुखार नाका...' अशी एक म्हण घोळटेंत आसा. ही पुराय म्हण न्हय. तिचो दुसरो भाग आसा. तुर्ताक तो कुशीक दवरून निमाणे कडेन पळोवया.

आका म्हणून म्हज्या बापायची व्हडली भयण आशिल्ली. ती आमकां सगळ्या भावंडांक इतली जिवार घालताली, ती दोन दीस दोळ्यां मुखावेल्यान पयस गेल्यार आमकां हिसपा भायर वायट दिसतालें. ती परती येवपाची आमी सारकी वाट पळेताले. आमचे वाडीच्या वयांत आनी उपरांत आमचे जिणेंत तिचो वेगवेगळे तरेन वावर आसतालो. आका बगर आमचें मात पासून जाय नाशिल्लें म्हळ्यार जाता.

'म्हणी' सर्वकाळीक सत्य सांगतात अशें मानतात. पूण हे म्हणी विशीं उलोवचें जाल्यार तातूंत इल्लेंय सत्य आसा अशें मानपाक आमच्यांतलो एकटोय तयार जावंचोना. 'कवुडलो पोर' बी लोककाणयांनी वर्णन केल्ले नणंद भावजेचे दुस्मानकाये विशींच्या गैर समजांतल्यान घडये ती उप्रासल्या आसतली... आकाचे आनी आमचे भावनीक संबंद जाणा जातकच हांव किर्ते म्हणटा तें कळटलें.

आकाचें लग्न त्यावेळचे रिती प्रमाण भुरगेपणांतूच जाल्लें. कुंभारजुवेंच्या बऱ्या घरांत तें पडिल्लें. पूण स्वताचो संवसार ताच्या नशिबांत नाशिल्लो. दिसांच्या जोराचे धामींत आकाचो घोव भायर पडलो. आकाचेर तरणेपणांत रांडावपणाचें व्हड संकट आयले. दिल्लें घर ताका खावंक आयलें. तो 'देव नाशिल्लो देवारो' जालो.

आमी आकाचें रूप पळेत आयले तें अशें धवें सुती पातळ, धवो ब्लावज, हातांत भांगराच्यो गोंट पाटल्यो, गळ्यांत कांय ना. कपळ धवें. आका गोरें आशिल्ल्यान तें धवेपण दोळ्यांक तोपून सोडटालें. हांसप निर्मळ. मुखावेल्याक आपलेंशें करपी. आकाच्या रुपांत, भेसांत जाणटेपणांतूय व्हडलोसो बदल जाल्लो दिसलो ना. केंस मात पिकून तांकां रुपेरी झांक आयिल्ली.

आदल्या तेंपार चांटे पावलाक फोटो काडपाची पद्दत नाशिल्ली. आकाचो फोटो आसा तो गोंयच्यान मुंबय येवपाक परमी Bilhete

de Identidade करचें पडलें तेन्नाचो. उपरांत आकाच्या कुटुंबांत जायते दबाजे जाले आसतले. लग्नां म्हणूं नाका, वाडदीस म्हणूं नाका. जायतीं फोटो आल्बमां आसतलीं. खोंटल्यांनी म्हणटात तशीं! आका तातूंत तुमकां खंयच मेळपाचें ना. सुवाळ्यांतल्या फोटोंक केन्नाच तें मुखार आयलें ना. भुरग्यांक खेळोवप, हेरांची पडत ती सेवा करप हातूंत गुल्ल आसतालें. फोटोक उबें रावपाक ताचे कडेन फुरसद नासताली. आनी 'फुटकें कपल' घेवन फोटो काडून घेवपाची आपणाक आवडूय ना अशें तें म्हणटालें.

आकाचो घोव भायर पडटकच ताचें मन दिल्ल्या घरांत चडशें रमना जालें. कांय ना कांय कारणा निमित्त्यान तें वेऱ्यां कुळारा येतालें आनी रासवळ घरांतल्या धबडग्यान सगळें विसरून घुसपून उरतालें. पुरुमेंताच्या वेळार तर म्हजे आजयेक तें मदतीक जायच आशिल्लें. पापड, दांगर, लोणचीं करप, मुसराद आंब्यांचो हालवो करप अशीं कितलींशीं कामां आसतालीं. आका म्हळ्यार कामाक वाग. 'जायू (आकाचें कुळारचें नांव) नासत जाल्यार हो बारा खांडयांचो रोव म्हाका निस्तरचो ना' अशें आजी म्हणटालीं. 'बारा खांडयांचो रोव' हीं म्हजे आजयेच्या तोंडांत घोळपी उतरां आमी न्हय त्या वेळार कितेंय मागपाक गेल्यार ती म्हणटालीं. 'आतां ना रे बाबा, म्हाका आयला बारा खांडयाचो रोव, मागीर पळोवया.' ज्या भाताच्या बियांक कोंब आयिल्लो आसता ताका रोव म्हणटात. १० मणांची एक खांडी, म्हळ्यार १२० मणांच्या रोवाची उस्तवारी करप. म्हळ्यार, कामाचो दोंगर. हें उपरांत केन्ना तरी समजलें.

पुरुमेंताचीं हीं प्रचंड कामां सोंपता सोंपता आजयेक, आकाक बी खाऱ्या उदकाचीं न्हाणां घेवपाची उमळशीक लागताली. कोणाचीं सात, कोणाचीं धा, बारा बी न्हाणां घेवपाचीं आसतालीं. भायल्या गांवांतले कांय लोक केगदीवेळेर मुदांसाक म्हणून येवन खारीं न्हाणां घेताले. 'खाऱ्या वाऱ्याक' वा 'मुदांसाक' अशीं उतरां त्या वेळार आशिल्लीं. दोतोर सुद्धां वायटकाराक 'मुदांसाक वच' म्हणून फर्मायताले.

आमचे घरचीं बायलां चलत चलत केगदीवेळेर खाऱ्या उदकाच्या न्हाणाक वतालीं. तांकां सांगात आकाचो. आमकां भुरग्यांक तर ही पर्वणीच. आमी तांचे बरोबर वेळेर वचप. तांचीं न्हाणा सोंपसर रेंवेंत पोटभर खेळत रावप. रेंवेंत बांय खणप, खोनीं करप, बोगदे करप अशें आमचें चलतालें. त्या वेळार रेंव कितली नितळ आसताली! घे म्हणून तरेकतरेवार घुलो मेळटाल्यो. त्यो आमी पुंजायताले. 'नाटी घुलो' म्हणून काळश्यो घुलो घुलांच्या खेळाक जाय आसताल्यो. त्यो मेळटाल्यो. 'हतयाचे दांत' म्हणून धव्योफुल्ल घुलो चलयांक कलाकुसरीच्या कामाक त्या वेळार लागताल्यो. आमी त्यो पुंजावपाक मदत करताले. आज वेळेर रेंवूय ना. घुलोय उरूंक नात आनी त्या वेळचे खेळ कलाकुसर हेंवूय बी उरूंक नासतलें!

बायलांक न्हावपाक सुरक्षीत असो एक जागो आशिल्लो. थंय ल्हारां जाय तशीं आंगार घेवन हुस्क्या मेकळें न्हावंक मेळटालें. सगळ्यो बायलो एकिमेकींच्या सांगातांत खबरी मारीत न्हाणां सोंपयताल्यो आनी परतताल्यो. घरच्या कामांक हात घालपाक. आमकां वेळे वयल्यान हालन दिस नाशिल्लें. एका सारकें रेंवेंत मस्ती करपाक आवडटालें. आयज हो जागो बायलां खातीर सुरक्षीत उरूंक ना. विकास कामाचे भकीक पडून तो नाच्च जाला.

ह्या खाऱ्या न्हाणांच्या संबंधान म्हाका एक घट्ट याद आसा. एकदां सदाचें भशेन बायलो खारें उदक न्हाताल्यो. आमी भुरगीं रेंवेंत खेळटालीं. आमची मस्ती असुरदाय चलिल्ली. इतल्यान एक दोग जाण बॉक्स कॅमेरा घेवन न्हाता त्या बायलांचे फोटो काडपाक लागले. तांकां पळेना बरोबर आका न्हावप अर्द्यार सोडून तरतरीत वयर आयलें. पातळ गुटलायलें आनी फोटो काडप्याच्या आंगार गेलें. 'तुमी कितें करतात हें? मातूय लज दिसना तुमकां? आवय, भयणी आसात मरे तुमकां? मालक्रियाद खंयचे कडले!' तांतलो एकलो मुखार सरलो आनी म्हणपाक लागलो, 'जायू आका, रागार जावं नाका. वायट हेतून आमी फोटो काडिनात. खारें उदक न्हावपाचे प्रथेचेर हांव एक लेख तयार करतां. त्या लेखा खातीर कांय फोटो आमकां जाय आशिल्ले.' 'तूं हांगा पावलोच कसो? पोजडी कादंबरी बरोवन तुजें समाधान जावंक ना? आनीक फोटो काडले जाल्यार सगळ्यांक एकठांय करून मेर्दामेर्द दितां.' आका रागान उलयतालें.

'जायू आका, बेश्टो गैरसमज करून घेवं नाका. हांवें पोजडी कादंबरी बरोवंक ना. पुर्तुगेज भाशेंतली एक कादंबरी मराठींत हाडल्या.' 'व्हडले उपकार केल्यात आसतले तुवें मराठी वाचप्यांचेर. हांगाचो पयलीं चलूंक लाग. भुरगीं सोडून हांगा कोण एक उबो रावना. तूं कोण व्हडलो जाशीत तुज्या घरा! चलूंक लाग.' तोंड धांपून तो पत्रकार थंयच्यान आपल्या सांगात्यां वांगडा गेलो. आकाक इतलें रागार जाल्लें हांवें केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें. त्या वेळार त्या परक्या मनशा कडेन झगडपाचो ताका कसो धीर जालो, कोण जाणा!

खाऱ्या न्हाणाच्या वैजकी गुणाचेर आकाचो सुमारा भायर विश्वास. तीं वेळार जालीं नात जाल्यार कितें ना कितें त्रास भोगतलो अशें ताका दिसतालें. मुंबय कायम रावंक येतकच तें एक तर गिमाच्या म्हयन्यांत गोंयां उडी घेतालें, आनी गोंया वचपाक अडचण आयली जाल्यार गिरगांव चौपाटीर नाजाल्यार जुहूक बी वचून न्हाणां घेवन मेकळें जातालें.

म्हज्या बापायचें बिराड मुंबय आयलें. म्हजे आवयचे मदतीक म्हणून आकाय मुंबय आयलें आनी निमाणे मेरेन आमचे बरोबर उरलें. आमी ताका केन्ना तरी 'ताई' म्हणपाक लागले. रासवळ कुटुंबांत ही नांवांची पद्दत म्हजेशीर आसता. आकाचो सगळ्यांत धाकटो भाव, आनू, ताका 'आका' म्हणचे सुवातेर 'ताई' म्हणपाक लागलो. उपरांत आमीय सगळे ताई म्हणपाक लागले. आनू सोडून हेर बापोलये बी ताका 'आका' आनी आमचे आवयक 'व्होनीबाय' म्हणटाले. आमीय आवयक व्होनीबाय म्हणपाक लागले. पांच भावां फाटल्यान आमकां अपुर्बायेची भयण जाली. ती मात आवयक 'आई' म्हणपाक लागली. म्हज्या व्हडल्या भावागेर भुरगीं जालीं तीं आपले आवयक 'ताई' म्हणपाक शिकलीं. आमचे ताईक तांणी 'व्हडली

ताई' म्हणपाक सुरवात केली. त्या भुरग्यांची चड करून दिपूची न्हिदपा वेळार मागणी आसताली – 'व्हडली ताई जाऽऽय'. रडटां रडटां तें तार्चे घोषवाक्य जालें. आमच्यो तीन पिळग्यो ताईच्या आंगा खांद्यार वाडल्यो म्हळ्यार जाता. भुरग्यांच्या सांगातांत, भुरग्यांक खेळोवपांत ती रमताली. भुरग्यांक ओगी कशीं करप, तांकां न्हिदोवप कशीं हाचें तंत्र तिका बेस बरें खबर आसलें. तिचे पाय कांयशे पांगे आशिल्ले. तांचेर न्हिदतना ल्हानग्यांक पाळण्यांत न्हिदिल्ले वरी दिसतालें जावये. भुरग्यांक धोलयताना, पांयांर जोजोयतना एक गोड गीत तिचें जिबेर येतालें. तें म्हळ्यार,

*एक पांय नाचय रे मुरारी, वाजूं दे घागरी*
*एक पांय नाचय रे मुकुंदा, घागरेच्या छंदा॥*
*एक पांय नाचय रे मुकुंदा, मुरलेच्या छंदा*
*एक पांय नाचय रे सांवळ्या, वाजय रे जंद्रीवाळ्या॥*

धोळयतना म्हणपाचें तिचें गीत आशिल्लें, *'धोल रे बाबा धोल, पोदेरान हाडले बोल. दुडू सांगता चड, बोल परतून व्हर.'*

दुसरें एक गीत म्हजे भयणुलेक खूब आवडटालें. तें म्हळ्यार,

*था करी गे बाये थाथुल्यो । भांगरान भल्ल्यो हातुल्यो*
*था गे था थातांची। गोरीं गोरीं बोटां बायच्या हातांचीं.*

आपले नातीक खेळयतना भयणीच्या तोंडार *'था करी थाथुल्यो'* हें गीत आयकून हांव अजापून गेल्लों. कितल्या वेगळ्या वातावरणांत, वेगळे संस्कृतायेंत म्हजी भयण पाविल्ली. तरी, ल्हानपणांत आयकल्लें गीत तें बद्द ताई वरीच आळयतालें. आनी मजा म्हळ्यार, तें आयकून भयणीची नात प्रतिक्रिया दिताली बद्द म्हजी भयण ल्हान आसतना दिताली तशीच. नातीक खेळोवपाचें सूख म्हजे भयणीक चड दीस मेळ्ळेंच ना. ताका देवाचें आपोवणें खूब बेगीन आयलें. आईचेर आनी बाबाचेर मन हालोवन सोडपी लेख तिणें बरयल्यात. ताईचेर बरोवंक तें पावलें ना. आमचें दुर्दैव, आनीक कितें म्हणटलों!

आज हांव बरोवंक बसलां तेन्ना म्हज्या दुर्बळपणाची परती परती म्हाका जाणविकाय जाता. ताईच्या गुणांचीं तासां दाखोवपी प्रसंगांची मनांत गर्दी जाता आनी म्हजे लिखणेचें उणेपण लक्षांत येता.

आमी सगळ्यांनी शिकून व्हड जावचे अशी ताईची मना पासूनची इच्छा. ताणें आमकां केन्नाय सांगप त्यो नामनेच्या लागशिल्ल्या लोकांच्यो गजाली. 'ग. ना. लवंदो जाणा, ताणें भांगराचें पदक मेळयलें. आमच्या बाळादादाचो तो मावशेभाव. मुद्दाम पदक घेवन ताका दाखोवंक आयिल्लो तेन्ना हांव थंय आशिल्लें. तुमीय अशे भांगराचें पदक मेळयात.' जाल्यार केन्ना डॉ. शिरोडकाराची खबर सांगताली. 'आमच्या शिरोडेंचो तो केदो व्हड दोतोर जालो आज पळेयात.' मुकुंददादाचो मामा धर्मानंद कोसंबी अशें सांगून ताचीं भुरगीं, बाबा, माणिकताई, बी शिकून कशीं मुखार गेलीं तें परत परत सांगताली. ताईक सगलीं नातीं आनी तांची माहिती आसताली. तीं सगळीं ती याद कशी दवरताली, कोण जाणा. कश्ट करून ह्या लोकांनी शिक्षण घेतलें हें ती आमच्या मनार कोरांतूंक सोदताली.

भाचरांच्या शिक्षणा विशीं तिका आस्था आशिल्ली, हुस्को भाईक आशिल्लो. वेन्यां तेन्ना बरी शाळा नाशिल्ली म्हणून म्हज्या व्हडल्या भावाक घेवन ती कुंभारजुव्यां वर्सभर रावली. आचार्य गणेश शिवराम सामंता कडेन ताका सोंपयलो. भाईच्या शिक्षणाची बुन्याद घटमूट जाली. ताचें अक्षर तर मोतयां सारकें येतालें. त्या म्हालवजार मुंबय पावतकच ताणें 'सेवा' म्हणून हस्तलिखीत वर्सुकें नेमाळें काडलें. साठ एक वर्सां पयलींचे सुंदर बरपाचे नमुने आशिल्ले एक दोन अंक वेन्यां पुस्तक कोठयेंत आसात.

दुसरी गजाल, म्हजो बापोलभाव मोहन एसएससी उपरांत कॉलेज सोडून नोकरी धरपाक गेलो. ताईक तेन्ना खूब वायट दिसलें. ताणें मोहना कडें उलोवप सुद्दां सोडलें. मोहनान नोकरी करून स्वताच्या पांयार उबो रावून मुखार शिकतां अशें सांगलें तेन्ना तिका सूऽ जालें. मोहनान नोकरेंत प्रगती केली, जायरातीच्या मळार नांव मेळयलें. शिक्षणूय घेतलें. ती धादोस जाली.

आमकां मेळिल्ल्यो डिग्र्यो, आमचे कॉनव्होकेशन फोंटो बी पळोवन तिका खोस जाताली. आनूक शिल्पकलेंत जे. जे. महाविद्यालयांतल्यान भांगराचें पदक मेळ्ळें. तें ती तोखेताली. आनून आपलें कसब वेगळ्या मळार दाखयलें. ज्युस्त येस मेळूंक वतालें तेन्ना जिवघेण्या अपघातांत ताका मरण आयलें. आपल्या परस ल्हानाचें मरण पळोवपाचें नशिबांत आयलें म्हणून ताईक सुमारा भायर दुःख जालें.

तिणें कुंभारजुव्यां व्हरून शिकयल्ल्या भाईन फर्स्ट क्लास केन्नाच सोडलो ना. आमचो तो 'रोल मॉडेल' जालो. ताईचे उपकार! डॉ. शिरोडकारा सारको प्रेमू व्हड डॉक्टर जालो. ग.ना. लवंद्या सारकें भांगरा पदक जयबाबूकय मेळ्ळें. अन्नाभाऊ मुखावेल्या शिक्षणाक अमेरिकेक पावलो. दासा गणिताचो व्हड प्राध्यापक जालो. भयणुले न तर एसएससीक मॅरीट लिस्टांत येवन एका फाटल्यान एक यशाचीं शिखरां गांठलीं. हें सगळे पळोवन तिका मुठभर मांस चडटालें. तिका ह्या सगळ्याची सुमारा भायर व्हडवीक. कोणें मोटार घेतली, बंगलो बांदलो हाचें कवतूक तिका आसतालें. पूण खरी खोस जाताली ती भुरगीं शिकून व्हड जावन नांव मेळोवंक पावलीं, हाची नात्यांतल्या व्हड मनशांचीं आमकां ती देख दिताली. आमी तांच्या पावलार पावल दवरून वचचीं म्हणून. आमचें यश तोखेवंक ती पावली. आनी तिका खोशी जाल्ली पळोवंक आमी पावलीं.

आयशिल्ल्या पयशिल्ल्या, सगळ्या नात्यांची तिका पुराय माहिती आसताली. आतांचे भाशेंत, नात्यांचो 'गुगल' म्हणपाक हरकत ना. कोणागेर कितलीं भुरगीं, तांचीं नांवां, घडये तांचीं वर्सांय ती सांगूंक शकताली. कुंभारजुवेंच्या केंकऱ्यालो शिकीन बाळंटेराचो दोतोर जावन आयलो. त्याच वेळार प्रेमूय बाळंटेराचो दोतोर जालो. तें आयकून तिणें म्हळें, 'दोगूय बरोबरचे. शंभूबाबाचें बिराड केगदीवेळेर वाऱ्याक आशिल्लें त्या वर्सा शंभूबाबाची बायल गुरवार आशिल्ली आनी त्या वेळार श्रीमतीय (आमचे आवयक ती श्रीमती म्हणटाली) तिसरे फावट गुरवार आशिल्ली.'

इतली स्मरणशक्ती आशिल्ली म्हाका दुसरी कोण मेळूंक ना! तिका एक आवड आशिल्ली, ती म्हळ्यार यात्रेक वचपाची. नात्यांतलो नाजाल्यार वळखीच्यांतलो कोणूय यात्रेक वचपाची तयारी करता म्हळ्यार ताई रोखडीच फुलताली. आपलो आसपाव तांच्या गोपांत जावचो म्हणून प्रयत्न करताली. यात्रेक वचूंक भायर सरिल्ल्या नातेवाइकांकूय ताई जायच आसताली. कितलेंय सांगलें जाल्यार वचपाचें सोडी नाशिल्ली. आमच्यो परिक्षा लागीं येतकच वचूं नाका म्हणून सांगल्यार मात आयकताली. परिक्षेच्या दिसांनी आमकां सकाळीं वेळार उठोवपाक, च्या करून दिवपाक आनी परिक्षेक भायर सरतना धीर दिवपाक आमकां ताई जायच आसताली. ताई जायत्या क्षेत्रांनी वचून आयिल्ली, अक्कलकोट, गाणगापूर, नरसोबावाडी, पंढरपूर, शिर्डी, तिरुपती बी.

ह्या यात्रां वेळार तिच्या धाकट्या भावाची, भाऊकाकाची, तिका मदत जाताली. भाऊकाका मसुराश्रमांत रावून आयिल्लो आनी ताचेर स्वामी समर्थाचो अनुग्रह जाल्लो. ताईक आध्यात्मीक मार्गाची वाट दाखोवपी तोच. घरांतल्या कामाच्या धबडग्यांतल्यान विसव मेळटकच दनपारची ती मातशी आड पडटाली. उपरांत *'दासबोध'* घेवन बसताली. नित्य नेमान ती *'दासबोध'* वाचताली. तिच्या हातांत घोळिल्ली *'दासबोधा'* ची प्रत हांवें म्हजे पुस्तक कोठयेंत तिची याद म्हणून दवरल्या. तांतलीं खंयचीं पानां चड वाचिल्लीं कशीं दिसतात तें पळोवपाक एक दीस ती प्रत काडून बसलों.

*म्हणोनी भगंवतासी शरण जावें॥ जो भगवंताचा भक्त ॥*
*तो जन्मापासूनि मुक्त ज्ञानबळे विरक्त॥ सर्वकाळ॥*

ह्यो वळी अधोरेखीत केल्ल्यो मेळ्ळ्यो. जिणेची उर्बा तिका 'दासबोधां'तल्यान मेळिल्ली आसुये.

सगळ्यांत ल्हान भाव शिल्पकार आनी नेपथ्यकार आनूकाका भायर पडलो तेन्ना ल्हानाचें मरण पळोवपा सारकें दुःख ना अशें ती म्हणटाली. तें दुःख भोगपाची तांक तिका आयली ती आध्यात्मीक विचारसरणींतल्यान *'दासबोधा'*च्या पुस्तकांत तिका आयिल्लीं एक दोन पत्रां, भाऊकाका कडल्यान बरोवन घेतिल्ले कांय अभंग, स्तोत्रां बी सांबाळून दवरिल्लीं मेळ्ळीं. आनीक कांय तिणें जमयलें ना. जमयलो जाल्यार सगळ्यांचो मोग. आनी वांटलो जाल्यारूय मोग.

मुंबय सदां खातीर रावंक येवचे पयलींची खबर. 'बाई' म्हणून तिची एक गुरुभगिनी आशिल्ली. ताई सारकीच तरणेपणांत राडांवपण आयिल्ली. बाई बरीच आस्तीक आशिल्ली. भुरगें-बाळ जालेंच ना. तिचेर तुमोराच्या ओपरेशना खातीर मिरजेक मिशन हॉस्पिटलांत वचपाचो प्रसंग आयलो. ताई तिचे म्हऱ्यांत रावपाक रोखडीच तयार जाली. मिरजेच्या हॉस्पिटलांतलो त्यावेळचो देव मनीस कसो दोतोर गोहिन हाणें बाईचेर ऑपरेशन केलें. ताई मन लावन पेशंटाची सेवा करताली. बाईचीच न्हय तर वॉर्डांतल्या हेर पेशंटांचीय काळजी घेताली तें पळोवन दो. गोहिन भारावन गेलो. ताणें आपूण जावन ताईक वैजकी तपासपा खातीर आपोवन व्हेली. पळय जाल्यार ताईकय ओव्हेरियन सिस्ट आशिल्लो. आपणाक जाता त्या त्रासा विशीं ताईन कोणाक सांगूंक नाशिल्लें. डॉ. गोहिनान तिचेंय ऑपरेशन थारायलें. वेरेंच्यान म्हजी आजी गेली आनी ऑपरेशन जालें. सगळो खर्च बाईनच केलो. म्हजी आजी दोगांकय घेवन परत आयली. बाई वेऱ्यां आमगेर थोडे दीस रावली. दोगांय पेशंटांची सरबराय आजयेन केली.

ताईन नर्सपणाचीं कामां जायतेदां केल्यांत आसतलीं. मावशे भयणीच्या बाळंटेराक वचप. नात्यांतल्या कोणाचेरूय हॉस्पिटलांत रावपाचो प्रसंग आयलो जाल्यार म्हल्यांत रावपाक ती केन्नाय तयार आसताली.

तिचेर हॉस्पिटलांत वचपाचो दुसरो एक प्रसंग आयलो, तो म्हळ्यार, तिची एक गुरुभगिनी त्रिभुवन रोडार रावताली तिका मेळपाक वतना क्विन्स रोड क्रॉस करतना एका टॅक्सीवाल्याची तिका धडक बसली. फाटल्यान येवपी एका दयेस्त पारशी मोटारवाल्यान तिका जी.टी. हॉस्पिटलांत व्हेली. हाताक बरोच मार लागिल्लो. तो प्लास्टरांतूय दवरचो पडलो. ॲक्सिडॅंटा उपरांत पुलीस चवकशेक आयले. तिणें सांगून सोडलें, 'म्हजीच चूक आशिल्ली, त्या टॅक्सीवाल्याचो कांय गुन्यांव ना.' ती रोखडी बरी जाली आनी सदचे वरी कामाक लागली. आमी मात तिका एकटी खंयच वचपाक दिना जाले. तिचीं सदांचीं कामां म्हळ्यार, आमी ल्हान जाग्यार आशिल्लीं तेन्नाय आनी व्हडल्या जाग्यार पावलीं तेन्नाय, रांदचेकुडीच्या मुखेल जाळवणदाराची. घरचींच मनशां धा बारा, तातूंत आत्र्यापयऱ्यान येवपी सोयरे धायरे. कोण परिक्षा दिवंक, कोण मुंबय दोतोराक दाखोवंक... बापयाचे व्यापारी मित्र, गिरायकां आयतारच्या जेवणाक आसतालीं.

ताईन आनी व्होनीबायन जमता म्हणसर पावण्यांची सरबराय करपाक उबगण म्हणून केन्ना केली ना. आमका ताईन उपाट प्रेम दिलें. सगळे तरेन आमची सेवा केली. आमकां मात तिचे म्हऱ्यांत बसून 'ताई आमीय तुजेर प्रेम करतात, ताई तूं आमकां जाय' अशें म्हणपाक फावलेंच ना.

हांतुळणार बी लोळत पडनासतना ताई आषाढी एकादशी दिसा भायर पडली. म्हजो बापूय गोंयां गेल्लो. ताची वाट ती पळेताली. भाऊकाका ज्युस्त वेळार पावलो. सगळे जाण मेळिल्ले वरी तिका दिसलें. 'तूं पावलो, आतां हांव चल्लीं' अशीं उतरां तिच्या तोंडांतल्यान आयलीं.

आतां देव असलीं मनशां घडयना इतलेंच हांव म्हणीन.

सुरवेक हांवें म्हणीचो अर्दो वांटो दिल्लो. पुराय म्हण अशी — 'बापायची भयण आका दोळ्यां मुखार नाका. आवयची भयण मावशी, खावपाक भरपूर दिवशी.' कोणाकूय दिसूं येता, यमक जुळोवपाक 'दिवशी' उतर 'दिशी' बदला घालां आसतलें म्हणून. पूण तशें नासुये. 'दिवशी' म्हळ्यार पातोळे सारकोच खावपाचो गोड जिनस. सट करून तो करप जायना. मावशी तकालस घेवन करून घालता. भाचरांच्या प्रेमा खातीर! ताई आका तर आशिल्लीच पुणून मावशीय आशिल्ली. व्होनीबाय (म्हजी आवय) आनी ताई भयणी भयणी कश्योच चल्ल्यो.





# आनंदमार्ग!

मुधा मुरेश आमोणकार

भुरग्यान रागाक वाट करून दिली --

"आगे, आमचीं सामकीं लागींचीं मनशां... कितेंय उलयतात, थोमणे मारतात, फुशारक्यो मारतात, दुसऱ्यांचेर नाका आसतना टिका करतात, विश्वासघात करतात. तांकां हांव एक पत्र बरोवंक सोदतां, 'तुमचें अंतरंग पळयात. भितल्लें मन पळयात. आत्मपरिक्षण करात. हेंच साधनेचें पयलें लक्षण. पयलें सपण. तुमी 'हांवपणाक' लागून बडबडत आसतात. हेच गजालीचो म्हाका खूब फावटीं त्रास जाता. ताका लागून हांव अस्वस्थ जाता." तो खेदान उलयलो.

हांवें ताका समजावचें म्हूण म्हळें:

आरे, ह्या अध्यात्म मार्गार तुजें पयलें पावल पडलां न्हय? हीच तुजी पूर्वपुण्याय! जाका हो दृष्टांत जाता, ताकाच तातूंतलो आनंद मेळटा. अलौकीक समजूय मेळटा. जे अशे उलयतात तांच्या मनांत आसा तेंच येतलें न्हय भायर? ते बऱ्यो गजाली आयकून बदतले अशें दिसता तुका? तांणी आपणाक बदलुचें, निरीक्षण करून समजिकाय, गिन्यान मेळोवचें अशी तरी अपेक्षा आमी कित्याक करपाची? हे अपेक्षेक लागून अपेक्षाभंगाचें दुःखूच आमकां जायत रावता, न्हय? हो मनस्ताप आमी तरी कित्याक आफोवन घेवचो? तो मनांतल्यान सामको हुमटावन उडोवपाचो. निश्चयान. तें दुःख झरयत दवरलें जाल्यार ताचो आपणाकूच त्रास जाता न्हय? तेंय बदलप कठीणच. 'पडले वळण सकल इंद्रिया' अशीच तांची स्थिती न्हय? घडये, दुसऱ्यांक त्रास दिवपांत, तांकां तामसी सूख, आनंद मेळटा जावये. म्हणुनूच पावला कणकणी ते हें वांकडें काम करीत आसतात. बऱ्यो गजाली, बरो उपदेश आयकून ते चडूच त्रस्त जावंक शकतात. ज्या खिणाक तांकां ह्या ज्ञानाचो दृष्टांत जातलो, तेन्ना घडये तांचें पयलें पावल त्या बऱ्या अध्यात्म मार्गार पडत.

जो साधना करता, ताचे कडेन ल्हवू ल्हवू एक अपूर्व शक्त येवंक लागता. हेरांक क्षमा करपाची तांक साधनेंतल्यान आमचे भितर सरता. तेन्नाच ही ज्ञानसाधना, ही शक्त खूबशें शिकोवन वता. ताका लागून आमच्या मनांतलो संताप, राग, तिरस्कार, ल्हवू ल्हवू क्षीण, दुबळो जावंक लागता.

बुद्धाच्या एका शिष्याचे एके काणयेची याद जाली. बुद्धाचे दोग शिष्य न्हंय हुंपताले. धोंपरा मेरेन उदकांत आशिल्लें. एक तरणाटी चलीय न्हंय हुंपताली. तिका भंय दिसपाक लागलो. तिणें आधारा खातीर हात मागलो. त्या दोगां मदल्या एका शिष्यान फुडें सरून तिका आधार केलो. तिका उखलून, पलतडीं व्हरून देंवयली. कांय वेळान दुसऱ्या शिष्यान ताका विचारलें, "आरे, एके चलयेक आफडून तुवें पातक केलां अशें तुका दिसूंक ना?" त्या शिष्यान शांतपणान म्हळें, "आरे, ते चलयेन आदार मागलो म्हूण हांवें तिका आधार दिलो. तिका हांवें पलतडीं पावयली त्याच खिणाक ही घडणूक म्हजे तकलेंतल्यान पुराय भायर पडली. एके चलयेक हांवें आफुडल्या ही गजाल हांव पुरायेन विसरून लेगीत गेलों. तूं मात इतलो वेळ तीच घडणूक घेवन बसला. अजून ती बायल - मनीस तुज्या खांद्यार आसा. हें खरलें पातक जालेंना?"

मनीस, सतत अमकेच एके विशिश्ट गजालीचो विचार करीत रावलो म्हणटकच तिचो ताकाच नकळटां त्रास जायत उरता. म्हणून तोच विचार, तीच याद निक्षून आपल्या मनांतल्यान भायर मारची. हेंच एक आमच्या हातांत आसता. आमीच हो निश्चय करूं येता. जांच्या मनांतूच सद्भावना नासता तांकां ती कोण दितलो? तांकां बरे तरेन, समजिकायेन समजायलें जाल्यार तें तांकां, वीख कशें दिसूं येता. ताका लागून, तांकां क्रोध राग- विकाराचें दुखर्णेय जावंक शकता. हें पातक तरी आमी कित्याक करचें? ताका हें बरें दर्शन आत्मपरिक्षणांतल्यान जातलें तेन्नाच तो बऱ्या मार्गार पावतलो. ही

अखंड श्रद्धा मनांत सतत दवरून आमी जियेत रावलीं जाल्यारूच आमकां केन्ना तरी सात्वीक समाधान मेळूंक शकता. निदान ताका लागून आपणाक त्रास तरी जायना. ही साधना भोव कठीण हें खरेंच. पूण आपणाल्याच आनंदा खातीर आनी समाधाना खातीर ती खूब गरजेची.

मनांतलो संताप-राग-तिरस्कार – घृणा ही सगळी घाण आपणेंच धुवन उडोवपाची. ह्या वावरांत हेर आपणाक कसलोच पालव दिवंक शकनात. हें अप्रूप गिन्यान जालें जाल्यार हेरांक सुधारपाचो अधिकार आपणा कडेन कोणेंच दिवंक ना ही अलिप्त भावना मनांत निर्माण जाता. हीच सात्वीक समजिकाय पसून आपणावची, हेंच योग्य न्हय? जांचें मन अहंकाराचे भकीक गेलां त्या मनाक ही समजिकाय मेळची, ज्ञानाचो साक्षात्कार जावचो अशी प्रार्थना करूं येता. त्या मनाक घडये शांती मेळूं येत.

कुड्डो हतयाक हात लायता तेन्ना ताच्या हाताक सोंडेचो स्पर्श जाता, मागीर, सोंड म्हळ्यारूच हती, हेंच सत अशेंच दिसता न्हय ताका? कानाक स्पर्श जालो जाल्यार तोच हती, अशेंच दिसता न्हय ताका? म्हाका दिसता तेंच पुराय सत्य अशेंच मानता न्हय तो कुड्डो मनीस? हे भाशेन आमचें मनूय खूब फावटीं कुड्डें जाता काय? घडये म्हुण्णूच ताका दिसता, म्हाका दिसता तेंच पुराय सत्य!

पूण साधना मनशाक नवी नदर दिवंक शकता! जण एकल्याक आपणें आसा तसो आपणावचो! ताच्या गुणां-दोशां सयत! पुरायेन निरपेक्ष भावनेन. अलिप्तपणान पळयनासतना एक आगळो-वेगळो ब्रम्हानंद आमकां मेळूं येता. आमचें मनूय विषण्ण जायना, बेचैन जायना. मनांत षड्विकारूय उत्पन्न जायनात. हातूंतल्यानच शांतीचें वरदान ल्हव ल्हव मेळूं येता. खऱ्या अर्थाचो ब्रम्हानंद होच न्हय व्हय? हेर किते करिनात हो विचार मनांतल्यान भायर वतकूच तांचे कडल्यान जाल्ल्या बऱ्या कामाचें, बऱ्या गुणांचें दर्शन आमचे नदरेक जावं येता. तीच नदर सकारात्मक, हयकारी जावंक शकता. आनी तांतल्यान मेळटा तें आमकां जायतें किते शिकोवन वता.

एका संतान म्हळांचः

''जिवितांतलें नातें म्हत्वाचें. आमचें भितल्लें नातें, खुबूच म्हत्वाचें, तें जाणून घेवचें. मनां जुळनात तेन्ना नातें बिघडटा. आपणाक बारीकसाणेन नियाळपाचें, आपणाल्या मनाचो अभ्यास करपाचो. आपणाल्या मतां कडेन आमी सदांच सहमत जातात व्हय? कालचीं मतां वेगळीं आशिल्लीं. तांचे कडेन आमी आज सहमत जायनात. आपणाच कडेन जर आमचे मतभेद जातात जाल्यार दुसऱ्यां कडेन ते जावप हे सभावीक न्हय? दुसरो कोणूय एक वेगळें मत मांडटा. तुमीच एका वर्सा पयलीं मांडिल्लें तशें. तुमी आयज तुमचे कडेन सहमत जातात. पूण काल नाशिल्ले. आयज जांचे कडेन तुमचें दुमत जाता, ती तुमचीच कालची प्रतिकृती.

''म्हणून मना भितर देंवन, आपणाल्याच मनाचें सूक्ष्म निरीक्षण करपाचें मागीर लक्षांत येता, आमच्या विचारां मदीं, भावनां मदीं एक लय आसा, ताल आसा. चराचराक व्यापून आशिल्ल्या चैतन्याकय एक सुंदर लय ताल आसा. आमच्या मनांतल्या भावनांचो, विचारांचो ताल चैतन्याच्या सुंदर ताला कडेन जुळ्ळो म्हणटकच त्या नादब्रम्हांतल्यान अध्यात्माचो उगम जाता. चैतन्य शांतस्वरूप आसा. आनंदस्वरूप, प्रेमस्वरूप आसा आनी तातूंत खळखळपी आपलेपणाच्यो प्रेमाच्यो, आदराच्यो, दयेच्यो आनी आनंदाच्यो भावना म्हळ्यार 'अध्यात्म'.

''मुखेल गजाल म्हळ्यार, दर एका खिणाक मनांत सुंदर भावना आसची तेन्नाच आमी सकारात्मकते कडेन, हयकारी भावनां कडेन आमच्या मूळ गुणां कडेन पावंक शकतात. तेन्ना लोकांच्यो चुको सहन करपाची शक्त येता.

''जीण जशी येता तशी घेवची. आमचें पुण्य, पातक, आनंद, दुःख आसल्यार लेगीत जीण थांबना. गंगे वरी पवित्र जिवीत आमकां सगळे तरेन पवित्र करीत व्हांवत आसता. आपणें आपणाकूच तातूंत पुरायेन ओंपून दिवचें आसता.''

ह्या संतान कितले बरे तरेन सांगल्या न्हय ही अध्यात्माची शिकवण?

दुसऱ्यांक सुधारपाचो अधिकार आमीच आमचे आमकां दितात न्हय? बरो उपदेश करून, कोणूय शाणो-सज्ञान जावंक शकता? हें शाणेपण वा ही समजिकाय ताका सहजपणान येवं येत काय? मन शांत दवरपाचें आसत जाल्यार ध्यान साधना एक अप्रूप शक्त दिवन वता. जण एकल्याक आसा तशेंच आपणावचें - गुणां सयत, उणेपणां सयत. हाची संवय जातकच हेरां कडल्यान आमी कसल्योच अपेक्षा बाळगिनात. तांचे कडेन अलिप्तपणान पळयतना एक अप्रूप ब्रम्हानंद आमकां मेळूं येता. मनय दुःखी, अस्वस्थ जायना. तातूंत तप्त विकारय उप्रासनात. मागीर शांती म्हणल्यार कितें तें ल्हवू ल्हवू होलमूंक लागता. खरेलो निर्मळ आनंद होच म्हणपाचो.

लोक कितें करिनात, हाची कागाळ करपा बदला, तांणी कितें बरें केला, तें पळोवपाचें. हातूंतल्यान आमची न्हयकारी नदर, हयकारी जावंक पावता. आनी तांतल्यान मेळपी आनंद आमकां खूबशें दिवन वता. भगवद्गीतेंत सांगलांच न्हय? मनशा भितर साधनेंतल्यान ही हयकारी भावना तयार जाता. ताका सत्याचो सार्थ दिश्टावो जाता तेन्ना ताका कळटा, हांव ह्या संवसारात आयलां एक प्रवासी म्हूण. ही जाणविकाय जातकच मनीस संवसारांत सदींच सोयरो जावन रावता. हो प्रवासी आपल्या खांद्यार चड वजें घेवन भोंवना. वज्याक लागून ताचो हो प्रवास वेदनामय जावं येता. ताका सदांच जाणविकाय आसता, जीण म्हणल्यार गजबजिल्लो बाजार. आनी मागीर तो मार्ग सोदता. ते गर्दैतल्यान हेरांक आनी खासा आपणाक दुखय नासतना तो हेरांक कसलेच त्रास दिना आसतना सोयरो कसो जियेता. तो म्हणटा, कांयच म्हजें न्हय. आनी म्हणून सगळ्या गजालीं कडेन तो अलिप्तपणान पळयता. खऱ्या प्रवाशाक हो संवसार फकत एक 'बेस कॅंप, दिसता. तो शांतपणान आपणाल्यो सगळ्यो शक्ती एकवटावन फुडल्या प्रवासाची तयारी करता. आपूण सतत प्रवासी म्हणून खंयचेच गजालीची आस-ओड नाका, हे भावनेन तो मुखार वचत रावता. हें सगळें हांगाच दवरून वचपाचें, ही वृत्ती आपणावपाचो यत्न करत. होच खरेलो आनंदर्मा. हय मूं?





# सायोनारा जपान!

दामोदर मावजो

### क्योतो - जपानांतलें नीज जपान

क्योतो जपानाची अस्तंते कडली राजधानी आनी तोक्यो उदेंते कडली. तोक्योचें आदलें नांव 'येदो' मागीर 'क्योतो' वयल्यान तें 'तोक्यो' केलां हें म्हाका क्योतोक येतकीच कळ्ळें. क्योतोची वळख जपानाची सांस्कृतीक राजधानी म्हणून करून दितात. जपानी संस्कृतायेंत जें किर्तें सोबीत सुंदर आसा तें सगळें क्योतोंत आसा. हांगचीं शिंतो देवळां, राजवाडे, बागो, म्युझीयम, घरां सगळें शंबर नंबरी जपानी. जपानांत हेर कडेन पसून तें क्योतोंतल्यान पावलां.

क्योतोंत सगळ्यांत पयलीं आमी निजो-जो - निजो कॅसल — पळोवपाक गेलीं. जपानी राजा म्हळ्यार 'तेन्नो' ताच्या सरदारांनी म्हळ्यार शोगुनांनी ताका नांवा पुरतो राजा दवरलो. खरी सत्ता शोगुनांची चलताली. सामुराय हे तांचे प्रोफेशनल फायटर्स. धनयां खातीर झगडप हें तार्चे कर्तव्य. माथ्यार लांब विणी, रंगीत कपडे आनी हातांत तलवार. आपल्या धनया खातीर जीव दिवपी अशी तांची नामना. हें कर्तव्य पुराय करूंक पावलेनात जाल्यार ते 'हाराकिरी' करताले. हाराकिरी म्हळ्यार पोटांत चाकू तोंपून केल्ली आत्महत्या. हो निजो कॅसल १६०३ वर्सा पयलो तोकुगावा शोगून इयाशू हाणें आपल्याक रावपाक म्हूण बांदिल्लो. तिसरो शोगून इमेत्सु हाणें तो पुराय केलो. निजो-जो मोमोयामा वास्तुकलेचो अप्रतीम नमुनो. पंदरावो शोगून योशिनोबू हाणें राज्य चलोवपाचे अधिकार जपानी सम्राटाक परते दिले. ह्याच वाड्यांत ते सोपस्कार जाल्ले. तेन्ना हो म्हाल सम्राटाची संपत्ती जालो. १९३९त सम्राटान तो क्योतो शाराक अर्पण केलो आनी ताचे वयलो आपलो हक्क सोडलो.

निजो किल्ल्यांतले निनोमारू पालासींत वतना जोतीं भायर काडून दवरचीं पडटात. भितर सरतना, कॉरिडॉरांत पांय दवरतनाच, लाकडी फ्लोरांतल्यान चिंव-चिंव असो आवाज येता. ते खातीर ताका 'नायटिंगेल फ्लोअर' अशें म्हणटात. पांयां पोंदच्यान आनी कसलो आवाज येता, पळयल्यार, युकोन सांगलें हांगा लाकडांच्या फळयांची रचना मुद्दम तशी केल्या. कोणेंय तांचेर पांय दवरतकीच सिक्युरिटीक समजूंक जाय म्हणून. तातूंतल्यो पयल्यो दोन कुडी इन्स्पेक्शन रूम म्हणून वापरतालीं. हांगच्या कुडींक वणटीक लायिल्ल्या पेटिंगां वयल्यान वळखतात. हांगा पायन आनी विलो रुखांचीं चित्रां आसात. म्हणून ह्या कुडींची नांवां विलो आनी पायन, जपानी भार्शेत 'यानागी-नो-मा' आनी 'वाकामात्सु-नो-मा'. ताचे फुडलो टायगर रूम 'तोझामुराय-नो-मा'. हो रूम दाखयतना युकोन सांगलें, इंडियन राजान शोगुनाक वागाचें चित्र भेट दिल्लें. ताचे वयल्यान हें चित्र रंगयलां. चित्र रंगयतल्या कलाकारान खरो वाग केन्नाच पळोवंकना. खरें म्हळ्यार जपानांत वाग-शींव·असलीं जनावरां नात. ताचे फुडले तीन रूम शोगुनाचे मिनिस्टर येवन बसपाचे. ह्या रुमांचें एक बरें, मदल्यो लांकडांच्यो वणटी पेल्यान सारतकूच व्हडलो हॉल तयार

जाता. ताचेर मोराचें चित्र आसा. हेंय भारतांतल्यानूच आयलां. 'खरो मोर असोच दिसता?' युकोन विचारलें.

'ओहीरोमा इची नोमा' हो सगळ्यांत सुंदर रूम. हातूंत खासा शोगून कोण येतात तांकां मेळटालो. हेच कुडींत पंदराव्या शोगुनान जपानी सम्राटाक ताचो अधिकार परत केल्लो. तेदेवेळार थंय कोण खंय बशिल्ले, तांचे मेणाचे पुतळे करून दवरून ती याद जिती दवरल्या. अश्यो एक एक कुडी पळयत निमाणी आयली 'शिरो-शोयन्' शोगुनांची न्हिदपाची, ऊठ-बस करपाची कूड. हेय कुडींत तेदेवेळेची वातावरण निर्मणी केल्या. शोगुनाच्या तिनशीं बायलांच्यो सेवा करपाक तिनशीं दासयो आसताल्यो. तातूंतल्यो लग्न जाल्ल्यो आशिल्ल्यो त्यो सकाळीं उठून दांत घासले उपरांत दांतांक काळो पिठो लावन दवरताल्यो. अशें केल्ल्यान दादल्यांक ती लग्न जाल्ली बायल म्हूण कळटालें आनी तिका ते वायट नदरेन पळयनाशिल्ले. हे कुडींत शोगून वापरताले ते किमोनो दवरिल्ले. किमोनोंच्या फाटल्या वटांनी शोगुनांची फॅमिली सिम्बॉल आसताली.

आनीक एक व्हडलो हॉल 'कुरो-शोयन्'. तोकुगावा फामील मेळपाचो जागो. हांगा येतकीच जनेलांतल्यान भायर पळेयात म्हणून युकोन सांगलें. फातरांचें गार्डन. मदीं तळुली. निनोमारु गार्डन. जपानी गार्डनांची सुंदरकाय दोळ्यांनी फकत पियेवपाची. ती वर्णुपाक उतरांच मेळचिंनात. हे निनोमारु पालासी फाटल्यान गेटी भितर आनीक एक होनमारु पालास आसा. पूण थंय वचपाक दिनात. सप्टेंबर म्हयन्यांत थंय भौशीक च्या पार्टी जाता. तेन्ना थंय वचपाक मेळटा. हो होनमारु राजवाडो १७८८त उज्यान लासून गेल्लो. पूण जपान्यांनी तो परतो तश्या तसो उबो केलो. आमचे बराबर पुण्यांतलो गोखले म्हूण एकलो आशिल्लो. ताणें रोखडेंच म्हळें, नाजाल्यार आमचो शनिवारवाडो पळेयात. तोय असो उबो करूं येतालो. नाय जाल्यार पेशव्यां मदीं आनी शोगुनां मदीं व्हडलोसो फरक ना. तांणीय मराठ्यां कडल्यान सत्ता आपल्या हातांत घेतिल्ली. पुणे महाराष्ट्राची सांस्कृतीक राजधानी. क्योतो जपानाची. क्योतोची जपानी बोली जपानीचें प्रमाण रूप. तशीच पुणेची मराठी. तो क्योतो आनी पुणें हातूंतलीं साम्यां सोदूंक लागलो. मातसो विचार करून पळयल्यार म्हाकाय तें खरें दिसलें.

क्योतोंतलें आनीक एक सुंदरांतलें सुंदर थळ म्हळ्यार गोल्डन पॅव्हीलियन, म्हळ्यार रोयकोनजी टॅम्पल - किंकाकुजी देवूळ. योशीमित्सू ह्या तिसऱ्या शोगुनान तें बांदलां. धकेचपाट्यांतले चार दीस हांगा येवन सुखांत घालयतलों म्हूण ताणें हो सर्ग निर्मिलो. सुंदर बाग बांदली आनी ही वास्तू बांदली. शोगून मरतकीच ताणें सांगिल्लें तशें तें झेन देवूळ केलें. चायनीज स्टायलीचे गेटींतल्यान आमी भितर सरलीं. सरळ वटेन मातशीं भितर सरतकीच दिश्टी पडलें, भांगराच्या पत्र्याच्यो वणटी आशिल्लें तीन माळ्यांचें खासा जपानी पद्दतीचें पाखें आशिल्लें रोयकोंजी देवूळ. तेंकूच एक ल्हानशेंच तळें, आनी तळ्याच्या एका कोनशाक रोयकोंजी देवळाचें उरफाटें पडबिंब पडिल्लें. सरभोंवतणचे रुखावळीचेंय पडबिंब. तळयेंत माणकुलो जुंवो. ह्या माणकुल्या जुंव्याकूय खासा नांव आसा - 'आशिहारा जुंवो', आनी तळयेचें नांव 'क्योक्योची' म्हळ्यार हारशी तळें. तातूंत हारशांत दिसता तशें देवळाचें रूप बी दिसता म्हणून जावये.

भांगराच्या देवळा म्हऱ्यांत वचून सारकें पळयलें. हातूंतले तिनूय मजले खंय तीन तरांचे वास्तुकलेचे नमुने. सकयलो राजवाडो कसो — हो-सू-इन. पयल्या मजल्याची बांदावळ सामुराय घरा बशेन. चू-ऑन-डू. दुसरो मजलो झेन बांदावळीचो - कुक्कुयो-चो. पयल्या आनी दुसऱ्या माळ्यांचे भायले वणटीक भांगराचे पत्रे लायल्यात. सामको वयर पाख्यार फिनिक्स पक्षी उबो आसा. जपानूय बी ह्या फिनिक्स पक्षा बशेन गोबरांतल्यान वयर सरलां. तशींच दावे वटेन चलत चलत फुडें आयलीं. जपानांत वचत थंय शाळेच्या भुरग्यांक घेवन शिक्षक आयिल्ले पळोवंक मेळटात. भुरग्यांची गर्दी. टुरिस्टांची गर्दी. चडशे टुरिस्ट जपानीच. हांवें अशें म्हणलें मात, युकोन सांगलें, ते सगळे जपानी न्हय. तातूंतले अर्दे कोरियन आनी चिनी. सगळ्यांचे दोळे बारीक आसतात. कोरियन मनशाचो चेरो मात्तसो चेपटो जाल्यार चिनी मनशाचो वाटकुळो. बारीकसाणीन पळयल्यार कळटा. मागीर म्हाका तो एक छंद लागलो, तोंडां पळोवन जपानी मनीस वळखुपाचो.

ह्या सगळ्या लोकां मदल्यान वाट काडीत युकोन म्हाका सेक्का - ताई म्हळ्यार टी हावजा कडेन हाडून सोडलें. जपानी सेरमनीचो अणभव घे म्हणून. ही टी सेरेमनी म्हळ्यार च्या पियेवपाची कला. ही कला झेन भिक्खून सुरू केल्ली. झेन पंथी भिक्खू ध्यानाक बशिल्लो आसतना ताका खंय न्हीद आयली म्हूण ताणें च्याचीं पानां काडून ही च्या करून घेतली. हो भिक्खू कोंड्याचे खोंपींत रावतालो. म्हूण ही च्या पिवपाची सुवात खोंपूच आसता.

पयलीं भायल्या आयदनांतल्या उदकांत हात पांय धुले आनी हांव खोंपींत भितर सरलें. जमनीर 'तातामी'. वयर तणाचें पाखें. वणटी तश्योच कागदाच्यो आनी तणाच्यो. खोंपी भायर एक तळुली. तातूंत मदीं तीन चार फातर. किमोनो घाल्ले बायलेन कमर बागोवन येवकार दिलो. हांव पांय दोडून सकयल बसलें. मुखार ल्हान ल्हान कपां आशिल्लीं. कपांक कान नाशिल्ले. शेगडेर उदक खतखतालें. तिणें एक आयदन घेतलें. तातूंत म्हऱ्यांतल्या डब्यांतलो दोन कुलेरां पाचवो पिठो घालो. दोन कपां खतखतीत उदक घालें. कुलेर घेवन एके लयेत खिरयत बसली. एक वाद्य बी वाजयिल्ले बशेन. मागीर ती च्या कपांत ओतली आनी एक कलाकृती निर्माण केल्ले बशेन म्हजे म्हऱ्यांत आशिल्ले चवायेचेर तें कप हाडून दवरलें. कप इल्लेंशें. च्या अर्द कप. हांवें कप आंगठों आनी चार बोटां मदीं धरलें. तिणें म्हजीं बाकीचीं तीन बोटां कुशीक काडून कपाच्या पोंदा धरलीं आनी सवकासायेन च्याचें वर्णन करूंक लागली. हांवें कप तोंडा कडेन व्हेलें. पयलीं कप दोन बोटांनी धरपाची सर्कस करची पडटाली. तातूंत हो पाचवो कसाय म्हज्या ताळ्या सकयल वचचोना अशें दिसलें. फकत एक एक थेंब पीत रावलें. कप तोंडा कडेन धरून ती किर्ते उलयता तें आयकत रावलें. तातूंतलें 'च्या' हें एक उतर सोडलें जाल्यार बाकी म्हजे तकले वयल्यान गेलें. अर्दवर हो च्याचो सुवाळो चालू आशिल्लो. भुरगेपणांत जोर बी येतकच आजी न्हाणोवपाक अदुळशाचीं पानां घालून उदक तापयताली. न्हातना हें उदक तोंडांत वतालें. हो जपानी पाचवो च्या पितना म्हाका त्या अदुळशाच्या पानांच्या उदकाची याद आयली.

ह्या च्या पिवपाचे कले फाटल्यान एक तत्वज्ञान आसा. च्या

पिवपाच्यो खोंपी चडश्यो दोंगरा माथ्यार आसतात. थंय बसून भायल्या सैमान पितारिल्ल्या चित्रा कडेन पळयत ध्यान लावन बसपाचें. थंयच्या वातावरणांत विरगळून वचपाचें. हातांत च्या हें एक निमित्त. ह्या च्याचेर जपानी पंडितांनी व्हडले व्हडले ग्रंथ बरयल्यात. हो च्याचो सुवाळो म्हजे सारकेल्याक न्हय. तरी थंय अर्दवर कसाय पिल्ले बशेन कप तोंडा कडेन व्हरून व्हरून बसून रावलें. तेंय बी, ही इंदियन बायल सामकीच अरसीक; च्या पिवपाची कला हिका अजिबात जमना अशें म्हणचें न्हय म्हण.

थंयच्यान सरळ फुडें आयली. थंय अग्नीदेवाचें देवूळ आसा. येतना थंयचे बागेंत ६०० वर्सां पयलींचो जपानी रूख पळयलो.

क्योतोक पळयिल्ल्या जपानी बागां भितर आनीक एक वेगळे तरेची बाग म्हळ्यार रियोन्जी देवळाची बाग. हांगा रॉक गार्डन आसा. थंय रूख ना. झोंपां नात. तण ना. फुलां ना. कांयच ना. सो आमी नांवाच्या चित्रकारान साडेचारशीं वर्सां पयलीं ही बाग तयार केल्या. ह्या रॉक गार्डनाचे एके वटेन वणत आसा. तेल आनी माती कालोवन ताचो वणटीक लेप दिला. इतल्या वर्सांनी ताचेर आपसूकच नक्षी तयार जाल्या. हें रॉक गार्डन इल्लेंशें तीस एक मिटर. थंय रेंव पातळायल्या आनी चार कडेन फातर दवरल्यात. ही बाग म्हळ्यार झेन तत्वज्ञानाचो अर्क अशें मानतात. हे बागेचो अर्थ दर एकल्यान आपल्याक जाय तसो लावपाचो. कोण म्हणटात, हे फातर म्हळ्यार म्हासागरांतल्यान वयर आयिल्ले जुंवे. तर कोण आनीक कितें. पंदरा सोळा वर्सांचीं चार पांच जपानी भुरगीं थंय नदर लावन बशिल्लीं.

निमाणीं आयलीं कियो-मिझू देवळांत. देवळांत वचपाक अशीर रस्तो. देवूळ वयर दोंगुल्लेचेर. रस्त्याचे कुशीक ल्हान ल्हान दुकानां जात्रा बी भरिल्ले बशेन. सोपणां चडून वयर आयलीं. दाट रुखावळीन भरिल्लो हिगाशियामा पर्वत. पाचव्या कोराच्यो तरेकवार शेड्स. तातूंत पयसुल्ल्यान दिसपी तीन माळ्यांचो तांबड्या कोराचो पगोडा. सामकी पकदस्त अशी, जपानी पद्धतीचें पाखें आशिल्ली तांबडी गेट — निओ-मोन. हे गेटीक चेरी ब्लॉसम गेट हेंय नांव आसा. गेटींत भितर सरलीं. दोशीं वटांनी दोन देव, 'आ' आनी 'ऊं'. बरेच व्हडले. दावे वटेन घोड्यांक बांदपाचो तबेलो. असली लाकडी बांदावळ खंय जपानांत खूब थोडे कडेन आसा. युको सांगत आशिल्लें. युकोन आनीक एके गेटी कडेन बोट दाखयलें. साई-मोन. ही आठ खांब्यांची, आनीक एके तरेची गेट. थंय आनीकय सुंदर सुंदर पाखीं आशिल्ली. वेगवेगळीं देवळां आशिल्लीं पूण तीं बंद आशिल्ली. आतां आमी मुखेल देवळांत आयलीं. देवळा फाटल्यान दोंगर. आनी आमी उबीं आशिल्लीं देवळा मुखावयल्या लाकडी प्लॅटफॉर्मार. देवळांत भितर गेलीं. मर्दी लाकडी देवाऱ्यांत उबीं आशिल्लीं. कियोमिझु कॅन्नन देवाची मूर्त इकरा तोंडांची. हजार हातांचो कॅन्नन. तशे थंय हजार हात दिश्टी पडनात. पंचवीस-तीस हात मेजपाक येतात. दर एका हातांत त्रिशूळ, परशू, तलवार असलीं शस्त्रां आसात. कुशीक ताचे २८ अनुयायी आसात. हातूंत वायू, वरुण, इंद्र आसात. ह्यो मुर्ती बोधिसत्वाच्यो संरक्षक देवता अशें मानतात. देवळांतल्यान भायर सरलीं आनी पळयतूच उरलीं. आमी उबीं आशिल्ले लाकडी गरादी सकयले दरयेंत मेपल आनी चेरीचे रूख. हांगा एप्रीलांत 'चेरी ब्लॉसम' म्हळ्यार 'साकुरा' फुलता तेन्ना आनी नव्हेंबरांत मेपल रुखाचीं तांबडीं पानां पळोवपाक लोक मुजरत येतात. आमी उबीं आशिल्लीं ती लाकडी स्टेज उबी आसा आडव्या उब्या लाकडी खांब्यांचेर. हे स्टेजीक म्हणटात कियोमिजु-नो-बुताय. हें देवूळ पळयतकीच क्योतोंतलीं आनीक देवळां पळोवपाची गरज पडना. पुराय जपानांतली सादेपणांतली सोबीतकाय हांगा दिश्टी पडटा.

उजव्यान फुडें वतना मेळटा शाका-दो. शाक्यमुनी बुद्धाचें देवूळ. हातूंत तीन मुर्त्यो आसात. एक शाक्यमुनीची. ताचें नांव हांगा शाका न्योराई जालां. बाकीचे दोन फुजेन बोत्सासु आनी मोन्जु बोत्सासु. थंय तेंकुनूच आसा जीझो देवूळ. हातूंत इल्ली इल्ली दोनश्यां वयर बाळकांचीं तोंडां कर्शी आसात. ज्या कोणाचीं ल्हान भुरगीं संवसाराक अंतरल्यांत तीं हांगा तांच्या नांवान प्रार्थना करूंक येतात. आपल्या सोडून गेल्ल्या भुरग्याचें रूप तांकां हातूंतल्या खंयच्या तरी एका तोंडा भितर दिश्टी पडटाच. हरशींय हांगा आपल्या भुरग्यांक बरी राखण मेळची म्हूण प्रार्थना जाता. ह्या देवळाक तेंकून आसा अमिदा देवूळ. हांगाच्या बुद्धाचें नांव अमिदा न्योराई. थंय सावन फुडें दोंगुल्लेच्या पोंतार आसा इल्लीशी देवळी. हिगाशी पर्वता वयल्यान घसघसत येवपी तीन वझरे हे देवळेंतल्यान तीन कडल्यान सकयल देंवतात म्हणून हांगचें नांव कियो-मिझ्रु. कियो म्हळ्यार पवित्र आनी मिझु म्हळ्यार उदक, युको सांगतालें. हें पवित्र उदक. उजवे वटेनचें उदक पिल्यार तुजी बुद्द वाडटा, शिक्षणांत तुजी प्रगती जाता. मदलें पिल्यार तुजें आरोग्य बरें उरता, आनी तिसरें पिल्यार तुका मना सारको 'जीवनसाथी' मेळटा. उदक पिवपाक थंय दवले दवरल्यात. उदक पिवन जातकच ते आशिल्ले त्या जाग्यार दवरपाचे. थंय ते धुवून येतात. खंयच बुरशेपण ना. वीट येवपा सारकें कांयच ना. उदक पिवपाक गर्दी आशिल्ली. शाळेंतलीं भुरगींय खूब आशिल्लीं. पूण धुकलप, फुडें वचप असलें ना. एके हारीन फुडें वतात. हांगा सदांच खूब गर्दी आसता. पश्चीम जपानांत कॅन्नन बोधीसत्वाचीं ३३ देवळां आसात. खूब जपानी ह्या ३३ देवळांची यात्रा करपाक येतात. कियोमिझ्रु देवळाचो हातूंत सोळावो नंबर लागता. हो सगळो वाटार वर्ल्ड हेरिटेजा खाला येता.

तोक्योक किमोनो घाल्ल्यो दोन बायलो म्हाका दिशिल्ल्यो. ताचे उपरांत हांगा किमोनो घाल्ल्यो दोन चलयो दिसल्यो. पूण तांच्या किमोनोंची कॉलर फर वापरून केल्ली. युकोन सांगलें, चलयांक वीस वर्सां पुराय जातकच 'कमिंग ऑफ एज' हो सुवाळो आसता. तेन्ना हो किमोनो घालतात आनी देवळांत येतात. म्हाका लिझाची याद जाली. ताणेंय सांगिल्लें, आपणें फकत डिग्री घेतना आनी 'कमिंग ऑफ एज' ह्या सुवाळ्या वेळार किमोनो घाला. क्योतोंत आसतना युकोन विचारलें, रातच्या जेवणाक रियोकानांत वचूंक जाय काय म्हूण. रियोकान म्हळ्यार शुद्ध जपानी रितीची खानावळ. हांगा 'युबा' खावपाक लोक मुद्दम येतात. युबा म्हळ्यार सोयामिल्क घालून केल्ली डिश. हिरोशिमाक हे म्हाका ऑक्टोपस खावयतले आशिल्ले. हें येवजून हांवें ताका पयलींच नाका म्हळें. हरशीं म्हाका थंय वचपाक आवडटलें आशिल्लें. पूण जेवण जेवपाक न्हय. क्योतोक खूबश्या घराब्यांनी 'होम स्टे' संकल्पना राबयल्या. जाय जाल्यार

आमच्यांनी थंय रावपाक जाता. पूण तांकां पयलीं कळोवचें पडटा. हांवें म्हळें, जावं, क्योतोक येवन जपानांतलें नीज जपान पळयलें तें खूब जालें.

### गुडिया जापान की

'ले गयी दिल, गुडिया जापान की. पागल मुझे कर दिया, जापान, लव इन तोक्यो.' म्हज्या भुरगेपणांत हें पद हांवें खूब खेपे आयकल्लें. तेन्ना म्हाका दिशिल्लें, सगळ्यांत बरी बावली जपानांत मेळटा आसतली म्हूण. आनी तें खरेंय. क्योतोक देवळांनी गेल्ले कडेन देवळा भायर आशिल्ल्या ल्हान व्हड दुकानांनी भोंवलें तातूंत चडशी जपानी क्रॉकरी, खेळणीं, आयणे आनी बावल्यो. बावली म्हणटकीच आमच्या दोळ्यां मुखार बावली घेवन खेळपी सान भुरगें येता. पूण जपानांतल्यो ह्यो बावल्यो फकत खेळपाच्यो बावल्यो न्हय. हांगा दर एके बावलेक तिचे उत्पत्ती वयल्यान वेगळीं वेगळीं नांवां आसात. तांकां सांस्कृतीक म्हत्व आसा. युकोन सांगलें, ल्हान भुरगीं खेळटात तसल्या बावल्यांक जपानांत 'निंग्यो' म्हणटात. हो शब्द चिनी. हाचो अर्थ, मानवी आकार आशिल्लें खेळणें.

३ मार्चाक जपानांत चलयांचो दीस – 'हिना मात्सुरी' – मनयतात तेन्ना १५ बावल्यांचो सॅट चलयांक भेट म्हूण दितात. ह्या 'हिना' बावल्यांत सिंहासनार बशिल्ले सम्राट आनी सम्राज्ञी, राजकन्या, राजदरबारांतले लोक, हे तरेचे कपडे न्हेसयल्ल्यो १५ बावल्यो आसतात. युकोन म्हाका बावल्यो दाखयत सांगलें. ५ मे चल्यांचो दीस 'तांगोनोसेक्क' – मनयतात. त्या दिसा तांकां इतिहासीक विरांचीं प्रतिकां आशिल्ल्यो बावल्यो भेट म्हूण दितात. थंय 'किंतो की' म्हूण पुराणांतल्या जपानी भीमाची मूर्त आशिल्ली. आनिकूय सामुराय विरांचे बावले आशिल्ले. इतिहासांतल्या विरांचे आदर्श चल्या भुरग्या मुखार दवरपाक तांकां असले बावले भेट दितात. आनीक एक जपानाचो फामाद बावलो थंय आशिल्लो. तो म्हळ्यार 'दारुमा'. ताका कितलोय सकयल उडयलो जाल्यार तो परतून उबो रावता. दत्तराजान ताका आडवो करून करून पळयलो आनी विकतो घेतलो.

आनी एक 'कोकेशी' म्हूण लाकडाची बावली आशिल्ली. लाकडी वाटकुळो सिलिंडर कशी आनी ताचेर तकली. ह्यो बावल्यो जपानी सुव्हेनीर म्हूण खूब खपतात. हांची निर्मणी जपानाचे उत्तरे कडल्या वाटारांत जाता. पयलीं ह्या वाटारांत ओशिरासामा ह्या देवाची पुजा जाताली. हो देव म्हळ्यार, एक खांबो आनी वयर कोंरातिल्लो चेरो. ताचे वयल्यान ह्यो बावल्यो करपाची पद्धत सुरू जाली. ही बावली मोडपाचो वा फुटपाचो भंय ना म्हूण एक घेतली.

बावल्यां भायर थंय आनीक कितलींशींच जपानी लाकडी पारंपारीक खेळणीं पळयलीं. आमचो भोंवरो आसता तसलोच लाकडी 'कोमा'. 'केनदामा' म्हळ्यार दोन कपां, एक बॉल आनी एक दांडो घेवन खेळपाचो एक खेळ. आनीक एक 'दारुमा-आतोशी'. एकार एक लाकडी रिंगां आनी तांचे वयर दारुमा बावलो. हातांत लाकडी तुतयो घेवन दारुमाक उडयना आसतना एक एक रिंग उडोवप. आनिकय कितलींशींच खेळणीं आशिल्लीं. किमोनो घाल्ली, एका हातांत सत्री, दुसऱ्या हातांत आयणो घेतिल्ली जपानी सुंदरी इल्लेशे हारशाचे आरमारींत पॅक करून दवरिल्ली. ही 'जापानी गुडिया' म्हाका गोंयांत घेवन वचन शी दिसली. पूण ती सांबाळून व्हरपा इतलें पासिंयेंस म्हजे कडेन नाशिल्लें. म्हूण तो विचार सोडून दिलो. असल्यो जपानी सुंदऱ्यो क्रोकरीचेरय मिरयताल्यो.

त्या दिसा बावल्यो पळोवन जातकच आमी 'ताज महल' ह्या भारतीय रेस्टॉरंटांत जेवपाक वतालीं. बस खूब पयस दवरून सरळ रस्त्यान आमी चलत चलत येतालीं. इतल्यान मदल्या रस्त्यान सुंदर गोरीपिट्ट, लॅव गुलाबी किमोनो घाल्ली, हातांत कागदाची सत्री, पांयांक जपानी पद्धतीचें लाकडी जोतें, सुंदर हेअरस्टायल, तांचेर फुलांचे घोस–येळ पळयिल्ली 'जापानी गुडिया' दोळ्यां मुखार उबी! इतले दीस हांव जे जपानी लेडीक पळोवपाक वथरेतालें ती साक्षात म्हजे मुखार. तिका पळोवन म्हाका खरें जपान दिशिल्ले बशेन जालें. हांव सामकें भुल्लुसलें. फाटल्यान येतल्या युकोक उलो करून आपयलें. पळय पळय, हांवें जपानी बायल पळयली! युकोन थंडसाणेन म्हाका सांगलें, ती 'मायको'. तिचो टी हावजांत वचपाचो वेळ जाला आसतलो.

युकोन म्हाका अशें सांगूं नाका, म्हज्या दोळ्यां मुखार हांवें पळोवंक नाशिल्ली सायुरी उबी रावली. विसाव्या शेंकड्यांतली जपानांतली पयल्या नंबराची गेयशा. तिचें 'मेमोअर्स ऑफ गेयशा' हें आत्मकथन उजवाडा आयलां. फाटल्या दिसांनी हांवें ताचो सुनंदा अमरापूरकर हिणें केल्लो 'मी सायुरी' हो मराठी अनुवाद वाचिल्लो. आतां 'मायको' उतर आयकना फुडें हो सगळो वाठार वळखीचो दिसूंक लागलो. येतना वाटेर वाचिल्लीं नांवां, मिनामिझा थिएटर, मारुमाया पार्क, सांजो एव्हेन्यू, कामो न्हंय, शिबुया स्ट्रिट... आरे, सायुरी ह्या रस्त्यां वयल्यान भोंवल्या. ह्या एका एका जाग्या कडेन तिचो भावनात्मक संबंध आयला. आनी आतां हांव उबें आसा तो गिओन वाठार. हांगाच खंय तरी तिचो राबितो आशिल्लो. तिच्या घरांक 'नित्ता ओकिया' म्हणटालीं.

'मायको' म्हळ्यार प्रशिक्षणार्थी गेयशा. क्योतोक गेयशांच्यो शाळा आसतात. भुरगेपणांतल्यान तांकां नृत्य, गायन, वादन, संभाषणकला शिकयतात. तीन चार वर्सां त्यो शिकाऊ गेयशे म्हूण गेय बराबर रावतात. तांचे कडल्यान दादल्यांची रिजवण करपाची कला शिकून घेतात. मागीर अठरा वर्सांचेर त्यो गेयशा जातात. तेन्ना एक सुवाळो घडोवन हाडटात. ताका 'टर्निंग द कॉलर' म्हणटात. मायकोच्या किमोनोक तांबडी कॉलर आसता तर गेयशेच्या धवी. तशी तांची हेअरस्टायलय वेगळी आसता. किमोनो घट उरपाक कमराक व्हडलो पटो बांदतात. ताका 'ओबी' म्हणटात. हेर जपानी बायल-मनशे परस गेयशांची आनी मायकोंची 'ओबी' बांदपाची पद्धत वेगळी आसता.

'गेयशा' म्हळ्यार वेश्या न्हय. 'गेय' म्हळ्यार गुणी, 'श्या' म्हळ्यार व्यक्ती. क्योतोक 'गेयशे'क 'गेयको' म्हणटात. गेयशेच्या आंगावयलो तो किमोनो लाख लाख रुपयांचो आसता. तिका तो तिची मालकीण दिता. गेयशा दादल्यांची रिजवण करपाक 'टी हावजां'त वता तेन्ना तिणें तो पारंपारीक भेस करूंक जाय असो नेम आसा. गेयशा जातना तिका सोपूत घेवचो पडटा. आपल्या गिरायकान सांगिल्ली खबर आपूण गुपीत दवरतलीं म्हूण. ताचें कारण, जपानी दादल्यांक आपलो

ओग घालोवपाक आपले घरकान्नी परस गेयशा लागींची दिसता खंय. गेयशा म्हूण वावुरतना तिका लग्न जावपाक मेळना. लग्न जातली जाल्यार तिका गेयशापण सोडचें पडटा. हें सोंपेपणान शक्य जायना. तिच्या शिक्षणाचेर, खावपा-जेवपाचेर आतां मेरेन केल्लो खर्च तिका मालकिणीक दिवचो पडटा.

सायुरीक आनी तिचे भयणीक तिच्या म्हाताऱ्या बापायन आपले फाटल्यान तांचें कशें जातलें म्हूण गेयशा बाजारांत विकिल्लीं. खूब कश्ट हाल काडून सायुरी गेयशा जाता. तिच्या बऱ्या नशिबान तिका इवामुरा इलेक्ट्रीकचे संस्थापक इवामुरा केन मेळटात. आनी जल्मभर ती तांची सखी म्हूण रावता आनी निमाणी, अमेरिकेक स्थायीक जाता. थंय आपलें 'टी हावज' सुरू करता. 'जापानी गुडिये'चें हांसतें मुखामळ आमकां दिसता पूण ताचे फाटल्यान एक 'दर्दभरी दास्तान' आसता.

आमी थंयच्यान जेवन भायर सरतना आनीक तीन मायको आमकां दिश्टी पडल्यो. आंगा वयलो जड दाट सिल्काचो किमोनो सांबाळटना तांचीं पावलां एके लयेन पडटालीं. रस्त्या वयल्यान कितलेशे लोक चलताले. पूण आमी सोडल्यार कोणाचीच नदर तांचेर नाशिल्ली. युकोन म्हाका सांगलें, तांच्या किमोनो वयल्यान, चलपा वयल्यान आनी उलोवण्या वयल्यान खरी गेयशा आनी फट गेयशा कोण ती आपूण सांगूक शकतां. हालींसराक जपानांत नायट क्लबांचो खूब सुळसुळाट जाला. ताका लागून फट गेयशांचें प्रमाण खूब वाडलां. ती कॉल गर्ला बशेन दादल्यांचें मन आनी कूड दोनांची रिजवण करता. दुसरें, खरे गेयशे म्हऱ्यांत वतलो जाल्यार हजारांनी येन मोडचे पडटले. तें कितेंय आसूं, मायको पळोवन म्हाका मात भुरगेपणांत पळयिल्ल्या चित्रांतली 'जपानी लेडी' पळयिल्ल्याचें समाधान मेळ्ळें.

हांवें जपानाक 'केक्को' म्हणूंक ना...

क्योतो सावन नारा वतना दोशीं वटांनी दोंगुल्ल्यांची रांग लागली. दोंगुल्ल्यो सोंपतात थंय भाजी रोयल्या, इल्ल्या इल्ल्या चवकोनी जाग्यांनी खंय भाजी रोयल्या, मर्दीच तांदूळ, मर्दी फुलां. मर्दी आनीक पूल लागले. एका वयर एक अशें पांच पुलांचें जंक्शन लागलें. एकाच्या पोटांतल्यान दुसरो, दुसऱ्याच्या पोटांतल्यान तिसरो. सामको घुस्पागोंदळ जाल्ले बशेन. ल्हान ल्हान घरां, मर्दी फॅक्टऱ्यो. हातूंतल्यान वाट काडीत काडीत आमी नारा डियर पार्कांत - हरणांचे बागेंत — पावलीं. बागभर हरणांच हरणां. शिंतो धर्मान हरणाक देवाचो दूत म्हूण मान आसा. हरण नारा शाराचें सिम्बोल. हीं हरणां शारांत पसून भोंवतात. सकाळीं फुडें घराचें दार उकतें करतकूच दारा भायर हरण उबें आसलें जाल्यार तें मरणाचें सूचक अशें मानतात आनी ताका बेगीबेगीन शेजाऱ्याला दारा मुखार धांवडायतात. अशें केल्ल्यान घरांतलें मरण टळटा खंय. युकोन हांसत हांसत सांगलें.

नाराक बुद्धाचीं खूब देवळां आसात. पूण मुखेल देवूळ तोदाई-जी देवूळ आनी तातूंतली त्रेपन्न फूट उंचायेची ध्यानस्थ दाई - बुद्स्ची मूर्त. दाई म्हळ्यार म्हान आनी बुद्स् म्हळ्यार बुद्ध. बुद्धाचो चेरो सोळा फूट उंचायेचो आसा. हांगा भितर सरतना गेट लागता ती जपानाची सगळ्यांत पोरणी गेट. मागीर खूब भितर देवूळ. जपानी देवळांचें एक बरें. चारी वटांनी मेकळो जागो आसता. आनी तातूंत जपानी गार्डन आसता. पूण हांगा तसलें गार्डन नाशिल्लें. येद्या व्हडल्या देवळाक सोबऽ सारकीं व्हडलीं झाडां आशिल्लीं. एक तळी आशिल्ली. पयस एका कोनशाक इल्लीशी देवळी कशें शिंतो श्रायन आशिल्लें. हें बुद्धाचें देवूळ बांदतना सम्राटाक दिसलें खंय, थळाव्या देवाक मान दिना जाल्यार ताका राग येतलो. तें आपल्याक बऱ्याक पडचेंना. म्हूण ताणें घुमटी आशिल्ली त्या जाग्यार देवळी बांदली. पूण देवळा मुखार ही देवळी चिमटीभरूच दिसताली.

हो दाई-बुद्स् कमळाचेर बसला. ताका जपानी लोकांचो राखणदार अशें समजतात. ताका खंय नारा सावन तोक्योक चलून वचपाक आठ वरां लागतात. म्हाका मडगांवच्या दामोदर सालांतल्या दामबाबाली याद जाली. मडगांवकारां मर्दी दामबाब मडगांवचो राखणदार असो समज आसा. तो रातचो घोड्यार बसून मडगांवां भोंवता म्हणटात. युकोन म्हाका दाई-बुद्स्ची नाकाची पुडी पळोवन घे म्हूण सांगलें. बुद्धाचे फाटले वटेन एक खांबो आसा आनी त्या खांब्याक सकयले वटेन मर्दी एक बुराक आसा. हो बुराक दाई-बुद्स्चे नाकापुडयेच्या आकाराचो. हातूंतल्यान भुरग्यांक हे वटेंतल्यान ते वटेन काडटात. अशें केल्ल्यान तांकां बुद्धाची राखण मेळटा अशें म्हणटात. एक म्हजे येदी जपानी बायल बुराकांत भितर सरली. तिचें कमर मर्दी शिरकलें. तिचे बराबंर आशिल्ल्यांनी तिका धुकलून धुकलून ओडून भायर काडली.

देवळा भायर बुद्धाचो एक अनुयायी पिंडोला हाची कदेलार बशिल्ली लाकडी मूर्त आसा. थंय ताका डॉक्टर बुद्धा म्हणटात. ताचे भितर दैवी शक्त आशिल्ली खंय. ताच्या आंगाक हात लावन पांयां पडपाचें आनी सांगून घेवपाचें. आपले कुडीच्या खंयच्याय भागांत दूख आसल्यार खंय कमी जाता. हें आयकून म्हाका दत्तराजान विचारलें, मम्मा तकली दुखता जाल्यार कितें करपाचें? बुद्धाचे तकले मेरेन कांय कोणाचो हात पावचोना; मागीर देवाचे मांडयेर उबें रावन तकलेक हात लावचो पडटलो. देवाचे मांडयेर पांय दिल्यार जाता? हाका आनी हांव कितें सांगतलें? ओग्गी रावलें. जपानी मनीस घडये तसो उबो रावताय जायत.

आमका नारा आनीक खंय वचपाचें नाशिल्लें. देवळा भायर सोपणांचेर बसून रावलीं. कितलींशींच शाळेचीं भुरगीं थंय बशिल्लीं. 'इंदिया? इंदिया?' म्हूण दत्तराजाक विचारूंक लागलीं. सातवे आठवेचीं भुरगीं. मातशी मातशी इंग्लीश येताली. पूण तीं दत्तराजाक जपानी शिकोवंक लागलीं. 'आनातानो नान् देसका?' म्हळ्यार, 'तुजें नांव कितें?' 'दत्तराज' म्हण सांगतकीच तांणी म्हळें, 'दत्तराज वाताकुशी मोशोमा'. म्हळ्यार, म्हजें नांव दत्तराज. त्या भुरग्यांनी आनी तांच्या सरान तांचे आमचे म्हऱ्यांत उबे रावन फोटो काडून घेतले. आतां आमचो फोटो खंयच्या तरी जपानी घरांतल्या नाजाल्यार शाळेंतल्या आल्बमांतलो एक भाग जाल्लो आसतलो.

थंय देवळा भायर आनीक एक गजाल पळोवंक मेळ्ळी. आनिकूय देवळां भायर हांवें हें पळयल्लें. एक मनीस चिटयो घेवन बशिल्लो आसता. ताचेर भविश्य बरयल्लें आसता. पयशे दिवन चिटी उबारप. जपाना सारकेल्या विज्ञानीक प्रगती केल्ल्या देसांतलो मनीस बाकीच्या

आशियाई देशांतल्या मनशा बशेनूच अंधश्रद्धाळू तें पळोवन अजाप दिसलें.

नारा सावन ओसाकाक गेलीं. युकोन सांगलें, आज तुमकां 'मायूल हॉतलां'त जेवपाक व्हरतात. 'बेस्त इंदियन फुद'... ताणें तोखणाय केल्ली. 'मयूर हॉटेल' चलोवपी आशिल्लीं मराठी उलोवपी दादरचो काळे आडनांवाचो एक तरनाटो आनी ताची घरकान्न. सामकें घरगुती जेवण. हांगा पयलेच खेपे जपानी तळिल्लें नुस्तें खालें. विसवणा बशेन 'मेरु साकाना' म्हूण एक नुस्तें आसता. ताचे कुडके तळिल्ले. व्हालोर त्या हॅटिलाच्या धनयाक. मराठी मनशान ओसाका सारक्या म्हानगरांत हॅटिल चलोवप म्हळ्यार फकाणांचें काम न्हय. दुसऱ्या दिसा रातचीं जेवपाक आमी थंयच परतीं येवपाचीं आशिल्लीं. मोटीं सुंगटां मेळटात जाल्यार तळून दवर म्हूण सद्गुरून थंय सांगून दवरलें.

ओसाका म्हळ्यार जपानाची उद्देगीक राजधानी. ल्हान व्हड कारखाने आनी फॅक्टऱ्यो. वचत थंय ट्रॅफीक जॅम. आमाचे तो जपानांतलो निमाणो दीस. आमी थंय भोंवता आसतना एका जपानी मनशाक धुंवळ येवन सकयल पडटना पळयलो. ताच्या नाकांतल्यान रगत व्हांवतालें. तो पडटा म्हणसर थंय पुलिसांची गाडी पावली. ॲम्ब्युलन्स पावली. आमी थंयच उबीं आसतना कोणें फोन केलो, कोणें पुलिसांक आफयले कळ्ळें पसून ना. त्या मनशाक घेवन गाडयो गेल्यो. रस्त्यार रगताचे दाग पडिल्ले. थंयच्या एका दुकानदारान उदकाची बाटली हाडली आनी तो जागो धुलो. सगळें इतलें फास्ट आनी तोंडांतल्यान एक उतर काडी नासतना.

सांजवेळचीं ओसाका कॅसल पळोवपाक गेलीं. हो कॅसल सोळाव्या शेंकड्यांत बांदिल्लो. मागीर कोणें तो मोडलो आनी कोणें कोणें परतो बांदलो. जपानी घरांच्या देंवत्या पाख्यांचे बांदावळी खातीर जपानी वास्तू सुंदर दिसतात. थंय मुखारूच ओसाका पार्क आसा. थंय वचून बांकार बसलीं. पार्कांत चार हजारां वयर चेरीचीं झाडां आसात. मार्च-एप्रील म्हयन्यांत ह्या झाडांक चंवर येता. झाडांचेर एक पसून पान नासता. आनी सगळें झाड लेव गुलाबी फुलांच्या घोंसांनी भरून वता. तेन्ना अख्खें जपान साकुरा फुल्ला म्हणून झाडा पोंदा येवन 'साकुरा साकुरा' हें जपानी गीत गायत नाचता. चेरी ब्लॉसमाचे ते पांच-स दीस जपानांत वसंतोत्सव मनयतात. आमी थंय पावल्यांत तेन्ना बारीक मणी कशीं चेरीचीं फळां लागिल्लीं. आमी थंय बशिल्लीं आसतना थंय पासयेक आयिल्लें एक शीख जोडपें आमचे म्हऱ्यांत आयलें आनी तुमी भारतांतल्यान आयल्यांत काय म्हूण विचारूंक लागलें. मुंबयचो जीत सिंग आनी ताची बायल पूनम. तीं फाटल्या वीस वर्सां सावन ओसाकाक रावतात. तो थंय सेकंड हॅंड गाडयो विकत्यो घेवन भारतांत आनी गल्फ देशांनी विकता. तांणी आपल्यागेर येवपाचें आमंत्रण दिलें. पूण आमची दुसऱ्या दिसा सकाळीं भारतांत परतुपाची फ्लायट आशिल्ली. जेवपाक रातचीं 'हॉटिल मयूरां'त गेलीं जाल्यार काळेन आमचे खातीर तंदूर प्रॉन्स केल्लीं. थंय जेवन हॉटिल 'निक्को इंटरनेशनलां'त आयलीं. हें हॉटिल म्हळ्यार ओसाका विमानतळाचोच एक भाग. सामान ट्रॉलींत घालून सोमतें विमानतळाचेर भितर सरपाचें. रुमांत सामान दवरून सकयल येवन युको कडेन खबऱ्यो करीत बसलें. जपानांत खंय फाटल्या पन्नास वर्सां सावन एकूच पक्ष सत्तेर आसा. शिंतो हो जपान्यांचो राष्ट्रीय धर्म. ७५% लोक बौद्ध धर्मी. जाल्यार ८०% लोक शिंतो धर्मी अशें. कशें काय म्हळ्यार एकाच घरांत शिंतो श्रायन आनी देवाऱ्यांत बुद्धाची मूर्त आसपाक शकता. चडशे लोक दोनूय धर्म पाळटात. भुरग्यांक नांव दवरपाचो विधी शिंतो स्टायलीन, जाल्यार मरणा उपरांतचे निमणे संस्कार बौद्ध धर्माक धरून करतात. मड्याक अग्नी दितात. थंयचो बौद्ध धर्म शिंतो धर्मांतल्यान वयर आयला. शिंतो धर्मांत सैमपुजेक म्हत्व दिलां. दोंगर, देव, झाडां-पेडा, जनावरां, फातर सगळ्यांक देवत्व दिलां. ह्या देवत्वाक तांणी 'कामी' हें नांव दिलां. सूर्यदेवाक तर थंय खूब म्हत्व. ताका सगळ्यांत वयली सुवात. म्हाका हातूंत व्हडलेशें कांय दिसलेंना. आमचे हिंदू संस्कृतायेन हांकां सगळ्यांक देवाचो दर्जो दिला. गोंयांत तर श्रावणी आयतारा दिसा आमी सुर्याची पुजा करतात. नागाची, वडाची, पिंपळाची, तुळशीची... सगळ्यांच्यो पुजा आमी करतात.

जपानांत देवळांनी फुलांची सुंदर आरास आसता. शिंतो देवळां मुखार आर्क आसता. ताका थंय तोरी म्हणटात. ताची एक कथा आसा. एकदां खंय फांतोड देवी आपल्या आळशी भावाचेर वाजेवन घोलींत वचून बसली आनी सगळ्याक काळोख गुपाट जालो. सगळ्या देवांनी तिका समजायली. पूण तिणें कशेंच आयकलेंना. मागीर खंय एकट्यान कोंब्याक हाडून घोली भायर दवरलो. कोंब्यान कोंकोंचऽऽकों करतकीच फांतोड देवी सदचे संवयेन उठून भायर आयली आनी उजवाड जावंक लागलो. घोली भायर कोंबो उबो आशिल्लो थंय ही तोरी बांदली. तेन्नाच्यान शिंतो देवळा भायर तोरी बांदूंक लागले. जपानांत वता थंय सुंदरकाय दिसता ती ह्या शिंतो धर्मांतल्यान आयल्या.

निक्को पळयले शिवाय 'केक्को' म्हणूं नये अशी एक जपानी म्हण आसा. जपानांतलीं सगळ्यांत सुंदर नक्षीकाम केल्लीं देवळां निक्कोंत आसात. निक्कोचें सैम सुंदर. थंय जें कितें आसा तें सगळेंच सुंदर. केक्को म्हळ्यार सुंदर. म्हणून अशी म्हण आसा. निक्को तोक्यो सावन दोन एक वरां वाटेर आसा. पूण कशीं कोण जाणा, आमी थंय वचूंक पावलिंनात. म्हणून हांवें जपानांतले खंयचेच सुंदर वस्तूक 'केक्को' म्हणूंक ना.

हिरोशिमांतल्यान योकोहामा वतना मदीं टॉयलेटींत वचपाक राविल्लीं. थंय किबी सर्व्हीस एरियांतल्या टॉयलेटींत गेलीं. हात धुवपाक १०-१२ बेसिनां आनी दर एका बेसिनाच्या कोनशाक सुंदर फुलांचो इकेबाना. दर एक रचना दुसऱ्या परस सामकी वेगळी. 'वा! वा! सुंदर' म्हणचें अशी. वा! वा! बरें दिसता म्हणलें, पूण 'केक्को' म्हणलें ना. निक्को पळोवनच 'केक्को' म्हणटले म्हणून रावलां. निक्कोक 'केक्को' म्हणपाचें उरलां म्हणून घडये जपानांत परतें पावनूय बी.

सकाळीं हॉटेलांतल्यान विमानतळार भितर सरलीं. भायर युको उबें आशिल्लें. 'सायोनाऽऽरा सायोनाऽऽरा' म्हणत हात हालयत. हारशां भितर उबें रावन कमर बागयत हांवेंय म्हळें, 'सायोनाऽऽरा जपान!'



# अणकारी गांठवलां

माधवी सरदेसाय

खूबश्या भारतीय भासांनी एके खाशेली तरेचीं गांठवलां (समासीक उतरां) मेळटात. एकाच अर्थाचीं दोन उतरां चड करून नामां, एकठांय गांथून घडिल्लीं हीं गांठवलां. तन-बदन, विवाह-शादी, धन-दौलत, साग-सब्जी, धरम-ईमान, स्नेह-मुहब्बत, नाता-रिश्ता ह्यो हिंदींतल्या असल्या कांय गांठवलांच्यो देखी. ह्या गांठवलांतलें पयलें नाम 'निजाचें' जाल्यार दुसरें 'भायलें' – मुळचें अरबी वा फारसी.

सुनीति कुमार चटर्जी असल्या गांठवलांक 'translation compounds' – 'अणकारी गांठवलां' – म्हणटात जाल्यार राजेन्द्र सिंघ तांकां 'redundant compounds' हें नांव दितात.[१] (वयल्यो सगल्यो देखी राजेन्द्र सिंघांल्यो.) Redundance म्हळ्यार गरजे परस अदीक आसप. 'Redundant' गांठवलांनी भाशेचो 'फसफस' दिसता. एका उतरान भागूं येतालें थंय 'गरजे भायर' दोन उतरां येतात. ह्या बरपांत 'अणकारी गांठवलां' हें उतर वापरलां.

च्याक-खाडी (इंग्लीश 'च्यॉक' आनी बंगाली 'खाडी') ''खडू'', बाक्स-पेमदा (इंग्लीश 'बॉक्स' आनी बंगाली 'पेमदा') ''पेट'' हीं बंगालींतलीं 'अणकारी गांठवलां'. सुनीति कुमार चटर्जी सांगतात, संस्कृत भाशेंतूय हे तरेचीं गांठवलां मेळटात : कर्ष-पण (पोरणे फारसींतलें 'कर्ष' आनी संस्कृतांतलें पूण मुळचें ऑस्ट्रीक 'पण') – एक नाणें –, शालि-होत्र (ऑस्ट्रीक 'शालि' आनी संस्कृत 'होत्र') ''घोडो'', हे सारकेलीं.[२]

अणकारी गांठवलांक बारीकसाणेन पळेल्यार एक गजाल लक्षांत येता – केन्ना केन्ना ह्या गांठवलांतलीं दोनूय नामां 'भायलीं' आसूं येतात. देखीक, हिंदींतल्या 'वकील-बैरिस्टर' ह्या गांठवलांतलें 'वकील' मुळचें फारसी-अरबी आनी 'बैरिस्टर' मुळचें इंग्लीश नाम. दोनां भितर्ले 'वकील' पोरणें, खूब पयलीं भायल्यान आयिल्लें, आतां 'घरचें' जावन राविल्लें, आनी 'बैरिस्टर' निकतेंच – काल पयर आयिल्लें, देखून समाजाचे जाणविकायेंत अजून 'भायलें' आशिल्लें नाम. हे भाशेन विचार केल्यार तन-बदन, विवाह-शादी सारकेलीं वयर दिल्लीं गांठवलां 'वकील-बैरिस्टर' सारकेल्या गांठवला परस आदलीं म्हणचीं पडटलीं. फारसी-अरबी उतरां हिंदी भाशीक-समाजाचे नदरेन भायलीं आशिल्लीं त्या काळार तन-बदन, विवाह-शादी बी गांठवलां घडिल्लीं. वकील-बैरिस्टर सारकेल्या उतराचे घडणुकेच्या काळार फारसी-अरबी मुळाचीं नामां भाशेंत घरचीं जाल्लीं आनी भायल्याची सुवात इंग्लीश उतरांनी घेतिल्ली.

राजेन्द्र सिंघ सांगतात, गांठवलां दोन तरांचीं आसतात – १) नेमांक धरून तयार जाल्लीं मुळावीं गांठवलां ('rule derived primary compounds'), आनी २) जांकां नेमांनी बांदूं नजऽ अशीं, प्रयोग जावन जावन उतरां म्हूण थिरावल्लीं - 'घट्ट जाल्लीं' गांठवलां ('frozen, lexicalized compounds).[३]

मुळाव्या गांठवलांच्या घटक नामां भितर दोन लक्षणां दिश्टी पडटात –

१) तांचो अमकोच एक अर्थ वापरांत घोळटा जालो तरी दोन नामां एकठांय येवन घडिल्ल्या ह्या गांठवलांचे तरेकवार अर्थ लाव येतात. हाका सिंघ ('Variable R [Relation] Condition' म्हणटात. तांणी दिल्लीच देख घेवची जाल्यार, 'water mill' ह्या इंग्लीश गांठवलाचो अर्थ सामान्यतायेन ''उदकाचे उर्जेचेर चलपी गिरण'' ("mill powered by water") असो जाता. पूण जाय जाल्यार ह्या गांठवलाचे ''उदकाचें उत्पादन करपी गिरण'' ("mill which produces water") ''उदकाची तपासणी वा परिक्षा करपी गिरण'' ("mill for analyzing the contents of water") ''जातूंत काम करपी उदक पितात तसली गिरण'' ("mill where the employees drink water") हे तरेचेय अर्थ लावं येतात.

२) दुसऱ्या लक्षणाक सिंघ 'IS A Condition म्हणटात. तांगेल्योच देखी घेवच्यो जाल्यार, 'rose-bush' आनी 'beer-can' हीं गांठवलां आमी अशीं समजून घेतात – 'a rose-bush, IS A bush', 'a beer-can IS A ran.'[४]

Frozen/lexicalized गांठवलांनी असो खंयचोच नेम सोदून काडूंक मेळना. असलें दर एक गांठवल खाशेले तरेन घडिल्लें आसता. हांगा cart-wheel (डोंबाऱ्यांचें एक नाडेपेन्न) आनी paper-back (पुस्तक) ह्या दोन इंग्लीश गांठवलांच्यो देखी सिंघ दितात.[४]

अणकारी गांठवलां (सिंघांचीं 'Redundant Com-

pounds') वयल्या दोनूय तरांच्या गांठवलां परस वेगळीं म्हणपाचें सिंघ दाखोवन दितात. हे तरेच्या गांठवलांत एकाच अर्थाचीं दोन नामां आसतात — एक 'निजाचें', एक 'भायलें'. अर्थाचे पुनरावृत्तींतल्यान तयार जाल्ल्या ह्या गांठवलाचो अर्थ 'अमकें बी' असो जाता.[४]

सिंघ मुखार सांगतात, पुनरावृत्ती दोन तरांची आसता — 'पूर्ण' ('complete') आनी अपूर्ण ('partial'). 'दाने दाने पर लिखा है खानेवाले का नाम' हे म्हणींत 'दाने' उतराची पुनरावृत्ती आयल्या आनी तिका एक खाशेलो अर्थ आसा. 'दाने पर' म्हळ्यार ''दाण्यार'' आनी 'दाने दाने पर' म्हळ्यार ''दर एका दाण्यार'' वा ''सगळ्या दाण्यांर'':[४] हे भाशेन, 'वाड्यावाड्यार' म्हळ्यार ''दर एका वाड्यार'', 'घराघरांनी' म्हळ्यार ''दर एका घरांत''. ही 'पूर्ण पुनरावृत्ती'.

'दाना-वाना' सारकेलीं 'पडसादी रुपां' (echo formations) 'अपूर्ण पुनरावृत्तीची एक तरा. दाना-वाना म्हळ्यार ''दाणो बी.''[५] पडसादी रुपां चडश्या सगळ्या भारतीय भासांनी मेळटात. हे तरेच्या रुपांतलें पयलें घटक उतर 'खरेलें' उतर जाल्यार दुसरें पयल्याचो फकत पडसाद आसता. पयल्या उतराच्या पयल्या अक्षरा बदला अमकेंच एक अक्षर घालून हो 'पडसाद' घडटा. कोंकणींत 'बि' अक्षर पडसाद घडयता (देखीक, जेवण-बिवण), हिंदीत 'वा' अक्षर (देखीक, खानां-वाना), कन्नडांत 'गि' अक्षर देखीक, उटा-गिटा पडसादी रुपां घडयता. पडसादी रुपांचो एक खाशेलो अर्थ जाता — 'जेवण-बिवण जालें?' ह्या वाक्यांत 'जेवण-बिवण' ह्या पडसादी रुपाचो अर्थ ''जेवण बी'' — जेवण आनी ''ताचे वांगडा येवप हेर गजाली (देखीक, मेज/ओंटो निवळ करप, उरिल्लें जेवण काडून दवरप, बी)'' असो जाता. 'नरेश-बिरेश आयिल्ले' म्हळ्यार, ''नरेश बी — नरेश आनी ताचे वांगडा सामान्यतायेन आसपी हेर कोण कोण आयिल्ले.''

सिंघांच्या मत्तान, अणकारी गांठवलां खरेलीं गांठवलां न्हय, तर अपूर्ण पुनरावृत्तीचीच ही एक तरा.[५] 'धन-दौलत' हें 'धन-वन'चेंच एक रूप. दोनांयचो अर्थ ''पयसो बी'' असोच जाता.

भारतीय समाजांतले भोवभाशीकतायेक लागून भारतीय भासांनी अणकारी गांठवलां मेळटात अशें सुनीति कुमार चटर्जी म्हणटात.[६] पूण सिंघांच्या मत्तान, भासांचो एकिमेकीं कडेन संपर्क आयिल्ल्यानूच अणकारी गांठवलां घडूंक पावल्यांत हें खरें आसलें तरी हे तरेच्या संपर्कांत आशिल्ल्या सगल्याच भासांनी अणकारी गांठवलां मेळनात हेंय खरें. ते मुखार सांगतात, इंग्लीश-फ्रँच भास-संपर्काच्या संदर्भांत असलीं गांठवलां घडूं येतालीं. पूण तशीं तीं घडलीं नात. कित्याक, इंग्लीश भाशेचें व्याकरण पुनरावृत्तीक वाव दिना. भारतीय भासांचीं व्याकरणां पुनरावृत्तीक वाव दितात. देखून भारतीय भासांनी अणकारी गांठवलां घडूंक पावतात. मुंदलांत आशिल्लेच व्याकरणीक माण्णेचो विस्तार ह्या गांठवलांनी पळोवंक मेळटा.[७]

भास-बदलप ('code-switching') — एके भाशेंत उलयता आसतना मदीं मदीं दुसरे भाशेंत उलोवप) हो भास संपर्काचो एक परिणाम. सिंघ म्हणटात, अणकारी गांठवलां ('redundant constructions') म्हळ्यार एक संकरीत भास निर्मून भास-बदलुपाचे अस्थिर परिस्थितींतल्यान मार्ग काडपाचो भाशीक समाजाचो यत्न.[७]

### कोंकणी अणकारी गांठवलां

देखीः

१. घर-दार
   निजाचें-भायलें (अरबी)
   ''घर (कुटुंब) बी''

२. शीम-मेर
   निजाचें-भायलें (कन्नड)
   ''मर्याद''

३. भाट-बेंस
   निजाचें-भायलें (पुर्तुगेज)
   ''भाट बी''

४. झाड-पेड
   निजाचें-भायलें (हिन्दुस्तानी)
   ''झाड बी''

(चड करून भोवचनी रुपाचो वापर ''रुखावळ'' ह्या अर्थान.)

ह्या अणकारी गांठवलांचो 'अमकें बी' असो अर्थ जाता आनी देखून राजेन्द्र सिंघ म्हणटात ते प्रमाण अपूर्ण पुनरावृत्तीच्या नेमांतल्यान तीं घडल्यांत अशें म्हणूं येता.

हिंदींतल्या अणकारी गांठवलाचे तुळेन कोंकणी अणकारी गांठवल पडसादीं उतराक व्याकरणीक चड नदरेन लागीं आसा.

सकल दिल्ल्यो देखी पळोवच्यो —

**पडसादी उतरां**

| एकवचन | भोववचन |
|---|---|
| १. घर-बीर | घरां-बिरां |
| २. शीम-बीम | शिमो-बिमो |
| ३. भाट-बीट | भाटां-बिटां |
| ४. झाड-बीड | झाडां-बिडां |

**अणकारी गांठवलां**

| एकवचन | भोववचन |
|---|---|
| १. घर-दार | घरां-दारां |
| २. शीम-मेर | शिमो-मेरो |
| ३. भाट-बेंस | भाटां-बेसां |
| ४. झाड-पेड | झाडां-पेडां |

वयर दिल्ल्या अणकारी गांठवलांतलीं दार,मेर, बेंस आनी पेड हीं अनुक्रमान अरबी, कन्नड, पुर्तुगेज आनी हिन्दुस्तानी भासांतल्यान आयिल्लीं उतरां. कोंकणी गांठवलांनी तीं अर्थाचे आनी व्याकरणाचेय नदरेन नीज कोंकणी उतरांचीं पडसाद जावन वावुरतात. दार, पेड हीं मूळ भासांतलीं पुरुशलिं उतरां, बेंस हें पुर्तुगेज बँश (पुरुशलिं, भोववचन) उतरा वयल्यान आयिल्लें उतर. मेर [मॅर] मेरे ह्या कन्नड अलिंगी उतराचें कोंकणी रूप. पूण कोंकणी अणकारी गांठवलांनी हीं सगळीं उतरां मूळ भासांतलीं आपणालीं लिंगां सोडून दिवन गांठवलाच्या नीज कोंकणी घटकाचीं लिंगां घेवन कोंकणींत पुरायेन एकरूप जावन

वावुरतात. बेंस (< बँश) हें मुदलचें भोववचनी उतरूय कोंकणींत एकवचन जावन घोळटा आनी भोववचनी वापरांत कोंकणीचें भोवचनाचें कूस घता. वयल्या गांठवलांतलीं मेर आनी बेंस हीं उतरां कोंकणींत 'कोंकणी लिंगां' घेवनूच स्वतंत्रपणानूय घोळटात.[८]

हिंदींत अशें घडना. हिंदी अणकारी गांठवलांतलो 'भायलो' घटक आपणालें अस्तित्व हिंदी भितर पुरायेन विरघळावन उडयना. देखीक, धन-दौलंत, विवाह-शादी ह्या गांठवलांतले दोनूय घटक हिंदींत मेकळेपणान घोळटात. दौलत आनी शादी हीं 'भायलीं' आनी मुळचीं स्त्रीलिंगी उतरां धन आनी विवाह ह्या हिंदींतल्या पुरुशलिं उतरांच्या प्रभावान पुरुशलिं जायनात. स्त्रीलिंगीच उरतात. हिंदी अणकारी गांठवलाचें लिंग दुसरें घटक उतर थारायता. दौलत उतर स्त्रीलिंगी म्हूण '**उसकी** धन-दौलत', '**उसका** धन-दौलत' न्हय. तशें ब्याह उतर पुरुशलिं म्हूण 'बेटियों **का** शादी-ब्याह'. 'बेटियों **की** शादी-ब्याह' न्हय.

हे भाशेन, कोंकणी आनी हिंदी ह्या भासांच्यो 'भायलीं' उतरां आपणावपाच्यो प्रक्रिया वेगळे तरेच्यो.

कोंकणींत दोन लोक-कवनां आसात --

१. *'नागडो बेताळो शेतांत वतालो*
*शेतकाराचें मूत पियेवन घरा येतालो.'*

२. *''भावोजी भावोजी चिला पोतें*
*भावोजीच्या खांदार हागलें खेतें'*

ह्या कवनांतल्यो 'नागडो बेताळो' आनी 'चिला पोतें' ह्यो अणकारी उतरांच्यो जोडयो. 'बेताळो' आनी 'चिला' हीं मुळचीं कन्नड उतरां ('बेत्ताले' आनी 'चीला') अनुक्रमान ''नागडो'' आनी ''पोतें'' ह्या अर्थाचीं. पूण वयर दिल्ल्या अणकारी गांठवलां परस अर्थाचे नदरेन ह्यो जोडयो मातश्यो वेगळ्यो. तांचो अर्थ ''नागडो बी'', ''पोतें बी'' असो जायना.

'माँत गिरी' आनी 'मोती दोंगर' हीं दोंगुल्ल्यांचीं नांवांय अशींच अणकारी गांठवलां कर्शी. माँत म्हळ्यार पुर्तुगेजींत दोंगुल्ली. ह्या जात-नामाचो कोंकणींत व्यक्ति-नामा वरी वापर जालो आनी ताका आपणालीं 'दोंगर' आनी 'गिरी' उतरां जोडून कोंकणीन तें अदीक आपलें केलें अशें जावं येत व्हय?

## *'वनवाळ्यांचो मळो'* आनी एके हारीन येवपी समानार्थी उतरां: कांय निरिक्षणां.

मिगेल द आल्मेदा (१६०४-१६८३) हांगेल्या *'वनवाळ्यांचो मळो'* (१६५८,५९)[९] ह्या सतराव्या शतमानांतल्या गद्य बरपांत अणकारी गांठवलां वरी दिसपी कितल्योश्यो समानार्थी उतरांच्यो जोडयो पळोवंक मेळटात.

**देखीः**

१. ...वनिचे गोंवाळे गोपाळ मेळ्नु... (पानां: १४९, १५०).

२. ...जितुले वेळो... मार्गा बिदिरि द्रुश्टी पडो... (पानः १५१)

३. आपण्याक अपमानु बेहुर्मति भोगताशी समजुनु... (पानः १८५)

४. कांय येकी कोपा, क्रोधाची खुण दाखयनां... (पानः १८५)

५. तुजें तोंड... कांती, प्रकासान भरलां... (पानः १८५)

६. ...तांकां आपुल्या भावां, बंदवां सारिखे मानुनू... (पानः १८६)

७. ...ताका... कश्ट दर्द दिले... (पानः १८७)

८. ताच्या मुखकमळाक खत लंछन लांवच्याक चिंतिलें... (पानः १८७)

९. भोडुवे ताका मानु हुमति देवनु चलताति... (पानः १८९)

१०. ...सधा सर्वधा तुजी तुस्ति पोवाड (वर्निन... (पानः ३३२)

हांतल्या तीन देखींनी (२, ३ आनी ९ आंकड्यांच्या) पयलें उतर निजाचें आनी भारतीय-आर्य मुळाचें जाल्यार दुसरें 'भायलें' - द्रविडी वा फारसी-अरबी मुळाचें आशिल्लें पळोवंक मेळटा. ह्या समानार्थी उतरांक अणकारी गांठवलां म्हणटलीं जाल्यार व्याकरणीक नदरेन तीं स्वतंत्र उतरां म्हणपाचें सिद्ध जावंक जाय. पूण अन्वयाचो कस लावन पळेल्यार ह्यो उतरां जोडयो एका उतरा वरी भाशेंत घोळनात म्हणपाचें दिसून येता.

**देखीः**

१. ...कोणी प्रमाणिं ताची तुस्ती वाखाणें करुंचेंशें माका नकळो. (पानः ३२२). ह्या वाक्यांत ताची (स्त्री.) विशेशणाचो तुस्ति (स्त्री.) ह्या नामा कडेन अन्वय जाला. पूण करुचें (अ.) आनी शें (अ.) हांचो वाखाणें (अ.) ह्या नामा कडेन अन्वय जाला.

२... सधा सर्वधा तुजी तुस्ति पोवाड वर्निन... (पानः ३३२) हांगा तुजी (स्त्री.) आनी तुस्ति (स्त्री.) हांचो अन्वय जाला, पोवाडे उतर मात पुरुशलिंच उरलां.

३. ...मालाकियास म्हळल्या प्रोफेताच्या भविश्य फुडाराच लिहित वाचितां... (पानः २९१)

ह्या वाक्यांत भविश्य (अ.) आनी फुडार (पु.) ही उतरां जोडी एक उतर कशी घोळटा काय दिसा. अलिंगी आनी पुरुशलिंगी नामाचें सामान्यरूप एके तरेचें (आकारान्ती) जाल्ल्यान अशें दिसता. पूण सकल दिल्ल्या देखींनी वेगळेंच चित्र पळोवंक मेळटा --

४. इजायियास प्रोफेतु- II आपुलें भविश्य फुडार लिहिलल्या पुस्तकिच्या इकराव्या अधेयांतु... (पानः ४१८)

५. भविश्यफुडार जेणे प्रमाणिं तांणिं सांगिलले, तैशेचि वर्तले... (पानः ४६६)

४ आंकड्याच्या वाक्यांत आपुलें (अ) आनी भविश्य (अ.) ह्या उतरांचो अन्वय जाला, तर ५ आंकड्याच्या वाक्यांत सांगिलले (पु.) आनी वर्तले (पु.) हांचो फुडार (पु.) उतरा कडेन अन्वय जाला.

हे भाशेन, बारीकसाण घेतले उपरांत, *'वनवाळ्यांचो मळो'* बरपांतलीं एका फाटल्यान एक येवपी समानार्थी उतरां गांठवलां न्हय म्हणपाचें स्पश्ट जाता. लेखकाचे अलंकारीक शैलीचो भाग म्हुण्णूच ह्या उतरांच्या गांथपा कडेन पळोवप समा दिसता.[१०] त्या काळार गोंयांत घोळणुकेंत आशिल्ल्या आनी कानार पडिल्ल्या मेळत तितल्या उतरांचो -- उतरांचे विविधतायेचो -- आसपाव बरोवप्यान आपल्या बरपांत केल्लो दिश्टी पडटा. हातूंत कोंकणी भायर गोंयच्या समाजांत

प्रतिशठा आशिल्ले 'मराश्ट' भाशेंतलींय उतरां आसूं येतात,[११] तशीं कन्नड आनी फारसी अरबी भासांच्या प्रभावांतल्यान त्या काळच्या गोंयकारांचे जिबेर घोळपीय उतरां आसूं येतात. उतरांचे गिरेस्त विविधतायेक आपणाल्या बरपांत थारो दिवपी बरोवप्याच्या धोरणाक लागून सतराव्या शतमानांतले कोंकणी वयल्या प्रभावांचो अभ्यास करप आयज सोंपें जाता.

*वनवाळ्यांचो मळो* बरपांतलीं समानार्थी उतरां केन्ना दोन दोन अशीं जोडयेन तर केन्ना तीन, चार, पांच, स अशींय आयिल्लीं पळोवंक मेळटात.

**देखीः**

१. ...लटिकि गोवाय, साखि... (पानः १७८)

२. ...रुखां झाडांच्या पानांचें... (पानः २०५)

३. ...गुंडयां फातरांचिं ...माणिकां... (पानः २०५)

४. ...गर्व हांकाराची टाळणी... (पानः २४३)

५. ...लछकर्यां, पायकांक आपौनु... (पानः २३१)

६. ...कालु, वग्त, वा समैयो सोदितलेति (पानः १८१)

७. ...बोक, हाक, शिंहाडे देवनु... (पानः १८१)

८. ...प्रियेव, प्रिति वा दुलबाय... दाखैली... (पानः २०१)

९. ...ग्रेस्तु, कुबेरू संपनिकु केललो... (पानः २१५)

१०. ...हें नांव, वाखाणें वा बृद... (पानः ३३८)

११. ...सर्वय बळ्ळिक, व्यादि, रोगु, पिडा पोरो घालनु... (पानः ३६९)

१२. ...ताचे कश्ट, अपदा, दंडणा, घाशी... (पानः ४२८)

१३. अंतस्करणाकय आपुली अभ्यांतरि भास, वाच्या, उतर, बोली आसा... (पानः २६८)

१४. ...वेगवेगळिं शारां, पुरां, नगरां, पाठणा... (पानः २०३)

१५. ...मुखकमळ ...दिप्ती, प्रभे, कांती प्रकासान फांकशें केलें. (पानः १८७)

१६. ...सां जोझेफाची थोरिव, प्राप्ति, सासाय, महिमा, मानु, मानत्व... (पानः ३३८)

१७. ...सुखा, संतोसा, आनंदा, उलासा, हर्का, उछयावाची भरती... (पानः ४०२)

गोंयांत मुळावण घाल्ले नवे क्रिस्तांव परंपरेक गरजेचीं आशिल्लीं पुर्तुगेज उतरांय *वनवाळ्यांचो मळो* बरपांत लागींच्या अर्थाच्या थळाव्या, हिंदू परंपरेंतल्या, उतरांचे कुशीक बसयल्लीं पळोवंक मेळटात.

**देखीः**

१. ...तेगांय शिसां आपोस्तलांनिं... जेझु क्रिस्ताची पवित्र कुडि... देखिली... (पानः २०१)

२. ...स्वामयान हो भग्तु आपोस्तलु, मरणा पावतलो न्हय, ऐशें म्हळें नां... (पानः २१०)

३. ...ताका होमु, साक्रिफिस्यु समर्पुंच्याक... (पानः २६२)

४. ...ह्या वार्तिरि अश्रवचन बेसांव दितांव. (पानः २८८)

५. ...पुनर्जिवित्व रेजुरेयसांव जरि बरवें... (पानः २४०)

हांगा नव्यो धार्मीक संकल्पना उकतावपी उतरां संवकळीचे आदले धर्म परंपरेंतल्या उतरांक तेंकून येतात. आपोस्तलु, साक्रिफिस्यु, बेसांव आनी रेजुरेयसांव ह्या नव्या संकल्पनांचो अर्थ शिसु/भग्तु, होमु, अश्रवचन आनी पुनर्जिवित्व[१२] ह्यो संवकळीच्यो संकल्पना स्पश्ट करतात. आनी, कांय प्रमाणांत पोरण्यो संकल्पना थोडया भोव नव्या अर्थान नवे परंपरेंत घोळूंक लागतांत.

---

१. Suniti Kumar Chatterji, *Indo-Aryan and Hindi* (Calcutta: Firma K. L. Mukhopadhyay, 2nd ed. 1969) 100. Rajendra Singh, "On some 'Redundant Compounds' in Modern Hindi", Lingua 56, 1982, 345-351, "Modern Hindustani and Formal and Social Aspects of Language Contact", Rajendra Singh et. al. (संपा.) *Explorations in Indian Sociolinguistics* (New Delhi: Sage Publication, 1995) पुस्तकांत.

२. Chatterji 1969:100.

३. Singh 1995:93.

४. वयलोच संदर्भः 94.

५. वयलोच संदर्भः 94-97.

6. Chatterji: 100.

7. Singh : 97.

८. दार आनी पेड हीं मेकळीं उतरां कोंकणींत आसात. पूण म्हाका दिसता, 'घर-दारां'तलें 'दार' आनी 'द्वार' वयल्यान आयिल्लें, कोंकणींत मेकळेपणान घोळपी 'दार' एक न्हय. 'तो घरा-दाराक नासता' वा 'घरा-दाराचें ताका कांय लागना' ह्या वाक्यांनी 'घर-दार' गांठवलाचो सरसमान अणकारी गांठवलाचो जाता तसोच ''घर बी''/''घर, कुटुंब बी'' असो अर्थ जाता. तशेंच, 'झाडां-पेडां'तलें 'पेड' आनी झाडा मुळा बांदून काडिल्लें 'पेड' एक न्हय. 'वसंत रुतूंत झाडां-पेडां चंवरतात' ह्या वाक्यांत 'झाडां-पेडां' म्हळ्यार ''झाडां बी'' - ''वृक्षवनस्पत''. ''झाडां, झाडां मुळांतलीं पेडां'' हो अर्थ ह्या गांठवलांच्या वापरांत हाताक लागप कठीण. हांगा आनिकूय इल्लो अभ्यास जावंक जाय, थोडो भोव इतिहासीक नदरेन, अशें हांव म्हणन.

९. .*'वनवाळ्यांचो मळो'*मुदलांत पांच खंडांनी बरयल्लें बरप. हांगा अभ्यासा खातीर घेतला तो ओलिव्हीन्यु गॉमिश हांणी संपादीत केल्लो आनी देवनागरींत घालून उजवाडायल्लो *'वनवाळ्याचो मळो'*बरपाचो वांटो *(Old Konkani Literature: The Portuguese Role*, 1999: 137-575).

१०. *'वनवाळ्यांचो मळो'*बरपाचे शैलीच्या ह्या लक्षणांची नोंद वि.बा. प्रभुदेसाई तांणी संपादन करून उजवाडायल्ल्या ह्या बरपाच्या पुस्तकाक बरयल्ले प्रस्तावनेंत घेतात. पळेयातः प्रस्तावना *पाद्री मिगेल द आल्मैदा कृत वनवाळ्यांचो मळो*, वि.बा. प्रभुदेसाई . नागपूरः नागपूर विद्यापीठ, १९७४: एक ते अठरा.

११. 'कोंकणी' आनी 'मराश्ट' ह्या 'दोन भासां'चो उल्लेख *'वनवाळ्यांचो मळो'* बरपांत मेळटा. पळेयातः गॉमिश, १९९९: ३९२.

१२. 'पुनर्जिवित्व' हें उतर सोळाव्या-सतराव्या शेंकडयांतल्या भायल्या मिशनरींनी पुनर्जल्म/न्म उतराच्या आधारान नवें घडयल्लें उतर आसुये काय दिसता. ख्रिस्ताचें 'रेजुरेयसांव' म्हळ्यार ताचो पुनर्जल्म न्हय. तर, मरण आयले उपरांत कांय वेळान परतो जिवो जावपाची घडणूक. आदलेंच जिवीत थोडया वेळाच्या 'थांबपा' उपरांत मुखार परतें सुरू जाता. देखून घडये, पुनर्जिवित्व, पुनर्जल्म न्हय.



# कर्नाटकांतली समकाळीन कोंकणी कविता

मेल्विन रोड्रीगस

कर्नाटकांतले समकाळीन कोंकणी कविते विशीं उलोवचे बरोवचे आदीं कर्नाटकांतल्या कोंकणी काव्याचे तशें लोकाचे चरित्रे विशीं थोडी तरी दिश्ट चरयजाय पडता.

गोंयां थावन कर्नाटकाक पयले पावटीं कोंकणी लोकाची परतणी या येणें जावन कांय सयशें वरसां जालीं. म्हळ्यार चडुणें तेराव्या शतका थावन १७३० वरसा पऱ्यांत पयलें मतांतर [धर्मांतर], उपरांत इनक्विजिसांव आनी नंतर सुकी धाड तशें वेवेगळ्या हेर कारणांक लागोन कोंकणी लोकाची असली परतणी गोंयां थावन कर्नाटकाक जाल्या.

गोंयां थावन मंगळूराक तशें आसपासच्या गांवांनी कोंकणी लोक आयलो तेन्ना तांणी तांच्या बराबर लोकगितां हाडलीं आसुंयेतात. तांतलीं कितलीं उरल्यांत, कितलीं नास जाल्यांत, कितलीं कोणें बरोवन दवरल्यांत हाची म्हाका खबर ना. कुडम्यांच्या शिगम्या गाण्यांनी, तीं गाणीं गोंयां थावन आयल्लीं म्हणच्याक जायत्यो रुजवाती दिवयेत.

कथोलिकांनी तशें सारस्वतांनी लग्ना संदर्भार म्हणच्यो वोवियो-वेर्स पुराय गोंयां थावन हाडल्ल्यो म्हणोंक जायना.

*आंबो पालेलो, कुंबो फुललो*
*पयलो उलयलो होरेत आमचे होकले लागीं*
*जारद्या म्हयन्यांत सुब्रमण्यांत सश्ट*
*आमकां किर्ते नश्ट होरेत उलयल्यार?*

ह्या वेर्सांत 'जारदो' म्हळ्यार तुळू म्हयन्याचें नांव. 'सुब्रमण्य' कर्नाटकांतलो गांव. तशें म्हणताना ह्यो वोळी कर्नाटकाक आयल्या उपरांतच रचल्ल्यो म्हणजाय पडता.

*येजमानिच्या हुंबरार उदकान भरला तोंड*
*मांय फुलां माळता होकले हात जोड*

वयल्या वोवियांनी 'तोड' सब्द गोंयांत आसा म्हणोंक जायना जाल्ल्यान ही वोवी गोंयची म्हणोंकय जायना.

*आपरोसाचे वाटलेक मुयांच्यो हारी*
*आयावो नारी चवगी रोस लाया*

हे वोवियेंतले 'आपरोस', 'आयावो' सब्द मंगळूरांत हेर खंयच्याय संदर्भांनी आयकोंक मेळनांत. ही वोवी गोंयां थावन हाडल्ली जावंकय पुरो.

वोवियांची गजाल तशी जाल्यार कथोलिकां मधें घुमटा गाणीं आजून आसात. हीं घुमटा गाणीं गोंयां थावन आयल्यां उपरांत घडल्लीं म्हणच्याक थोड्यो रुजवाती मेळतात. हेर थोडीं घुमटा गाणीं गोंयांत थावन हाडल्लीं आसोंकय पुरो.

*गोंय सांडून आयली मांय, रोजार सायबीण*
*गोंय सांडून आयली मांय, रोजार सायबीण*
*गोंय सांडून आयली मांय*

*मेकळ्या केसांनी मांय, देंवली समदीराक*
*मेकळ्या केसांनी मांय, देंवली समदीराक*
*अनी देंवली समदीराक मांय, पावली बोळाराक*
*देंवली समदीराक मांय पावली बोळाराक*

*बोळारचे पोबेन तिका आसरो-मू दिला...*

हांगासर ह्या गाण्याचो संदर्भच सांगता, हें गाणें गोंयां थावन मंगळूरचे परतणेचें म्हणोन. 'बोळार' म्हळ्यार मंगळूरांतलो एक जागो जंय रोजार मायेची इगर्ज आजून आसा. कथोलिकांची सायबीण

केदळाय पळेता ती उब्या केसांची. ती मेकळ्या केसांची न्हय. ह्या गाण्यांतलो कवी तिका मेकळ्या केसांची म्हणोन कित्याक आपयता? मतांतर जालां जाल्यारीय, सायबीण म्हणताना तेदोळ पासून देवी म्हणोन आराधन कर्न आसल्ल्या मेकळ्या केसांचे दुर्गा देवीक तो कांय देखता आसतलो. भाशे मारिफात समाजशास्त्र शिकतल्यांक हांगासर व्हड एक विचार आसा.

मंगळूराक ब्रिटीश आयल्ले १७९९ वरसा. ताच्याकय पयलें पोर्तुगेजांनी म्हणजे पाकल्यांनी मंगळूरांत राज चलयलां, पूण थोड्याच काळाक. मंगळूराक ब्रिटीश या फिरंगी आयल्या नंतर मंगळूरच्या बायलांक तांणी दवार्न घेतलें आनी तांकां गोरीं भुरगींय जालीं. आजून मंगळूरांत ब्रिटीश कुटमानांव आसचो लोक आसा. ह्या एका संदर्भार लोकांनी घडललें एक गाणें, जें म्हज्या आज्यान म्हज्या ल्हानपणार म्हाका शिकयल्लें तें म्हज्या उगडासाक येताः

*आडकुलो-गो बुडकुलो, तेला तुपाचो*
*बायेगेर बाबू जाला फिरंगी रुपाचो*
*माडा मुळांत चेरको जाला, धांगरो फेरायां*
*उटागो बायांनो मांदरी खवळियां*

हांव आनी रवीन्द्रबाब केळेकार कांय वीस वर्सां आदीं ताच्या घरा भेटल्ल्यांव. आमचे थोड्याच वेळाचे मुलाकती वेळार चाफ्राचे 'आडकुलो-गो बुडकुलो' कवितेचो तांणी प्रस्ताप काडल्लो. त्या संदर्भार मंगळूरच्या लोका तोंडार आसचें हें गाणें तांकां हांवें सांगल्लें. हें गाणें गोंयचें न्हय म्हणोन म्हाका तवळ तांणी सांगल्लें. हें गीत मंगळूरच्या लोकान, तांच्या बायलांक चत्राय सांगोंक रचल्लें म्हणोन धर धर कळता. 'घरचें दूद माडामुळाक वोती नाका' म्हणतांव आमी. तशें घरांतलो गूट संवसाराक कळीत करी नाका म्हणोन. पूण हे कवितेंत घरचो गूट संवसाराक कळीत जाला, बायेक फिंरगी बाबू जाला. देखून हे कवितेंतलो कवी बायलांक या बायांक चत्राय दिता, सांगोन 'तुमी न्हिदनाकात, मांदरी या शेंदरी कवळोन बसा.'

मागीर कोणें हो वाद सारको न्हय म्हणतल्यांनी आनी आमच्या बायांक समाधान करचे दिशेन आनयेक कविता घडली:

*आडकुलो-गो बुडकुलो तेला तुपाचो*
*बायेगेर बाबू जाला फिंरगी रुपाचो*
*दिवो लावून पळेताना, सारक्या रुपाचो*

म्हणताना गोंयां थावन आयल्ल्या कोंकणी लोका मधें कविता रचची भरपूर तांक आसल्ली म्हणच्याक ह्यो कविता गोवाय दितात.

ह्याच परीं धार्मीक कांतारां म्हणया या गितां - तींय आसल्लीं. आटराव्या शतकांत फा. जोकिम मिरांदान 'रिगलो जेजू मोव्यांत' कांतार या भक्तीक गीत बरयलें. ताच्या उपरांत 'आयका क्रिस्तांव जणा', 'उटा उटा प्राणिया', 'पापिया निरभाग्या', 'सर्गीं थावून' — असलीं आनी जायतीं भक्तीक कांतारां कोंकणीक आयलीं. तीं खास कोंकणीची या लातीन आनी हेर भासां थावन कोंकणींत आणकार केल्लीं हाची म्हाका खबर ना.

गोंयां थावन येताना क्रिस्तांव लोकान *'क्रिस्त पुराण'*हाडल्लें. तें कोंकणींत अनुवाद या तर्जण करचें काम सुरवातीच्या काळार जायत्यांनी केलां. ह्या पुराणांत ११,०१८ वोळी आसात. फा. लियो सल्डान्हान अनुवादाचें काम सुरवेच्या काळार सुरू केल्लें जाल्यार उपरांतले थोडे अध्याय जे.जे. रेगो, फेलिक्स पावल नोरेञ आनी हेरांनी केल्यात.

### 'कोंकणी दिरवें' आनी उपरांतलो काळ

१९१२ वरसा कानडी लिपयेंतलें पयलें नेमाळें 'कोंकणी दिरवें' परगटून येवंक लागल्या मागीर खरी कोंकणी कविता पयल्यान पयली लोकाक वाचूंक मेळोंक सुरू जाली. ताच्याकय पयलें कविता पुस्तकां परगट जावंक नांत म्हणोन न्हय. जाल्यांत. १९०४ वरसा पुरंदर दासाचें काव्यें कोंकणीक तर्जण करून पुस्तका रुपीं परगट जालां. त्या उपरांतय असलीं तर्जण केल्लीं जायतीं ल्हान सान पुस्तिकां परगट जाल्यांत. पूण खरे कोंकणी कवितेची सुरवात 'कोंकणी दिरवें' पत्रा मारिफात जाली म्हणोन लेकुंयेता.

'कोंकणी दिरवें' पत्रा मारिफात जायते कवी उजवाडाक आयले. पूण सगळ्यांत थोर नांव केल्लो कवी म्हळ्यार लुवीस मस्करेञ.

लुवीस मस्करेञान (१८८७-१९६१) कोंकणी कवितेची ज्योत जळयली. तो एकलो स्वाभावीक कवी. ताणें लिखल्लें *'आब्रांवचें यज्ञदान'* म्हाकाव्यें कोंकणी काव्य-संवसाराक महत्वाचें योगदान. आतांय, पावनशें वरसां सोंपलीं जाल्यारी कोंकणी मुकुटा वयलें मोलादीक थीक कशें हें काव्यें सोबता.

*'आब्रांवचें यज्ञदान'*एक काव्य नाटक. बैबलांतल्या एका घडिता भोंवतीं विणल्यारी, आपलें संपूर्ण स्वातंत्र्य सांबाळून, नव्या सृजनात्मक पात्रांक जीव दिवन, धर्माच्यो वोंयो मस्तून, आमकां वेगळ्याच एका सामाजीक वेदीचेर व्हर्न पायता. मनशाचीं भावनां प्रकृतेचे सोभाये सांगाता विणून, थळीय चरित्रे संगीं माखून कविते रुपीं प्रस्तूत केल्लो हो कवी, ह्या काव्या द्वारीं मात्र न्हय, ताणें रचल्ल्या जायत्या महत्वाच्या काव्यां खातीर, ताणें समग्र साहित्याचेर घाल्ल्या प्रभावा खातीर, हेर कोंकणी कवींक उमेदीची झर जाल्ल्या खातीर - आपल्या काळाचो उंचलो तशें महत्वाचो कवी अशें थारता.

ताच्या *'आब्रांवचें यज्ञदान'* काव्यांतली एक विंचवण पळेया. संदर्भ आसा, मोरया पर्वताच्या मुळांत आब्रांव, इजाकाक घेवन पावता. तवळचें संभाशणः

...
*पुरो जालां तुका, उसक्यार तकली दवर।*
*कालीय समा नीद ना, आबळे दोळ्यां भोंवोर।*
*इंगळो जाल्यात; सगळी रातीय आवयचो जोप।*
*ओंट-बि करपोन गेल्यात; ताळवेंत येता हुलोप।*
*घरा आसतास्ताना सदां जायजाय आसली।*
*सुकण्या पिलांबरी तुका आवय पासळी।*
*मोगा-सावटाक वाडोन वोताक पडल्यार पळे। .*
*आलपुलिशी बावतात तुजे असले कळे।...*

हें काव्यनाटक ताणें 'स घातां'च्या (hexameter / six feet) छंदान प्रासांचेर बरयलां. उतरां संभाशणांत आपुरबायेन उतरतात आनी परत परत उजळच्या अंतप्रासांत समावेश जातात.

ताचे 'मनीस म्हणजे कितें?' कवितेनूय कोंकणी काव्य चरित्रेंत आपलीं पावलां बळान रोंबयल्यांत. पूण लुवीस मस्करेञाची

'कवित्वाचें गुपीत नंदनावन' कविता तिणें हाताळल्ल्या विशया खातीर, रुपा खातीर, मापा खातीर मात्र न्हय, आयच्या काळारूय तांतली तीक्षणता सांबाळून व्हेल्ल्या खातीर कोंकणी चरित्रेंतली अपरूप तशें उंचली कविता अशें हांव लेकतां –

**कवित्वाचें गुपीत नंदनावन**

*चालत्या मनशा, सर तूं पाटीं,*
*नाका तिळूंक भितर:*
*सगळ्यान चोंवची चंचाळ आशा*
*आनी पोकळ हासो, पिश्या,*
*व्हरशी जर तर,*

*रावोन वचत बारीक व्हाळची*
*संगीत गण्णांची झर,*
*भितर सोभचो प्रकास लिपत*
*कवित्वाचें मायना उबत*
*गांवचें थंयसर,*

*वनांतरी भोंवतात रचणां*
*कवित्वाचीं सुंदर,*
*तुजी एकच चंचाळ दीश्ट*
*पुरो तांकां करूंक भश्ट –*
*तिळूं नाका भितर.*

*पागरा भायर राकोन राव तूं*
*व्हाळोन येता म्हणसर*
*रंगीत गायान वाऱ्यार उपयेवन*
*आयल्ल्याक्षण, जिकून लिपोन*
*थंयचो निसर.*

ही कविता, पांच वोळींची (cinquain or quintet) कविता. 'abccb' प्रासाचेर 'लुमा'न सगळी कविता बांदून हाडल्या. दुसरे वोळीचो निमाणो सब्द तशें पांचवे वोळीचो निमाणो सब्द कवितेच्या पोंतान पोंत एका प्रासांत गुंतला तर, तिसरे तशें चवते वोळींचे निमाणे सब्द एकामेका प्रासांनी मिसळल्यात. मागीर दुसरे वोळीचें आनी चवते वोळीचें निमाणें वेंजन कवितेच्या पोंतान पोंता एकच 'र' उरलां.

कोंकणींत मात न्हय खंयचेय भाशेंत – दोन, तीन आनी चार वोळींच्या कवितांक सर केल्यार – पांच वोळींच्यो कविता वाचूंक मेळच्यो अपरूप. कवितेच्या पोंतान पोंता एके आमके मांडावळीर दवरल्ले उतरांचे तुकडे (syllables) दिसतात. ही मांडावळ ८+६+८+८+४ तुकड्यांची.

कवितेंत उतरांच्या नादाची एक रीत म्हण आसता. कवितेंनी आसचें alliteration (अनुप्रास) हांगाय पयले पंगतींत झळकता. 'चालत्या मनशा चल तूं पाटी' आनी 'सगळ्यान चोंवची चंचाळ आशा' ह्या वोळींनी एकाच नमुन्याचें वेंजन 'च' परत्यान परत्यान वेवेगळ्या सब्दांचे सुरवेर वापरून (initial alliteration) कवीन कवितेची सोभाय वाडयल्या मात्र न्हय, कविता वाचतल्याक संगिताचो अनभोग करून दिला. असलीच एक रीत सब्दांचे आकेरीक हाडल्ली 'क्षण, जिकुन, लिपुन' (consonance) हे वोळींत झळकेक येता.

कवितेचे बांदावळी विशीं अभ्यास करतल्या कोंकणी कवींनी जरूर जावन वाचिजाय जाल्ली कविता ही.

लुवीस मस्करेञाच्या जिविता काळार जायते कवी उदेवन गेल्यात. त्या पयकीं हांवें उल्लेख करिजाय जाल्लीं नांवां म्हळ्यार : फा. सिल्वेस्टर मिनेज, फा. पी. एल्. बुतेल्लो आनी फेलिक्स पावल नोरेञ.

फा. सिल्वेस्टर मिनेजान बरयल्ल्या 'पाशांवाचें गीत' काव्यांत २,३२० वोळी आसात. फा. बुतेल्लो विसाव्या शतकाच्या चाळीसाव्या तशें पन्नासाव्या दशकांनी आपल्या विनोदीक कवितां मारिफात जायतो फामाद आसल्लो. ताच्या *'काव्यां झेलो'* पुस्तकांत एकशें कविता आसात. थोड्यो भक्तीक कविताय ताणें रचल्यात. फेलिक्स पावल नोरेञान बरयल्ल्यो चडश्यो कविता धार्मीक विशयां भोंवतीं रेंवडल्ल्यो.

लुवीस मस्करेञाक धरून ह्या सर्वय कवींचीं काव्यां आमी वाचलीं जाल्यार तीं एकच धर्माच्या विशयांचेर बरयल्लीं, नीत शिकोवंचीं, प्रासांचीं म्हळ्ळें कळता.

## चा. फ्रा. देकोस्ताचो काळ

'लुम' काळा नंतरच्या काळांत उटोन दिसचो कवी म्हळ्यार चा.फ्रा. देकोस्ता. चा. फ्रा. देकोस्ता कर्नाटकांत मात्र न्हय, मुंबय तशें गोंयांत नांव केल्लो कवी. कवितेंनी ताणें उब्यो करच्यो प्रतिमा, अपरूप उतरांची विंचवणी आनी व्हाळो, जिविताचेर ताणें मारची नदर, मागीर हें सगळें कविते द्वारीं व्हाळताना प्रास आनी अलंकार गुंतल्ल्यान कानांक, काळजांक, दादोसकाय दिवंचें संगीत – हें सगळें चाफ्राक आनी चाफ्राक मात्र साध्य. ताणें आपल्या कवितेंनी जावं, हेर साहित्य प्रकारांनी जावं वापराल्ले भाशेची गिरेस्तकाय कोंकणींत मात्र न्हयं, हेर भासांनीय वाचूंक मेळची कश्ट. ताचे 'हाड चेडवा बुडकुलो' कवितेन हरयेके कविगोश्टींनी रसिकांक धोलयलां. ताचे थावन प्रेरण जोडल्ले कवी सभार. ताच्या कवितांची छाप जायत्या कवींच्या कवितेंनी झळकता. चाफ्राच्यो कविताय 'लुम' काळांतल्या कवितां बरी प्रासांच्यो. कांय चार-पांच फ्री वर्साचेर बरयल्ल्यो कविता सोडल्यार चाफ्राच्यो कविता प्रासाक सोडून रावनांत.

चाफ्राच्यो कविता गांवच्यो. गांवच्या भोंवारांतल्यो. आपल्याच समाजाच्या समस्यां भोंवतीं रेवडल्ल्यो. ताच्या कवितांनी राष्ट्रीय या अंतरराष्ट्रीय विशय हाताळल्ले झळकनांत. तो ताच्या भोंवतणीच्या समाजांतल्यो समस्या आपल्या कवितांनी हाडता. ल्हान सान संगती भोव सुक्षीमायेन पळेवन विनोदीक ढंगान पेश करता. तो उतरां सांगाता खेळचो कवी.

'लुम' काळा थावन चाफ्रा काळाक दिश्ट चरयताना कवितां खातीर विंचच्या विशयांची बदलावण जाल्ली दिसता. 'लुमा'क धर्म मोगाचो, तर चाफ्राक धर्मान वाटचें तशें वांटचें वीक दिसता. लुम तशें

चाफ्राच्या कवितांनी धर्म परत्यान परत्यान येता तरी, सोंडां घुंवडावन येता:

क्रिस्तांवांचे, पाद्रींचे जिणये रितीक सवालां करच्यो जायत्यो कविता चाफ्राच्यो आसात –

**क्रिस्तांव**

*तेणे आवय रडता:*
*लावंच्याक ना, मरतां हांव*
*हेणे बापय म्हणता:*
*दिवंच्याक ना झरतां हांव*
*मदें भुरगें दोडता*
*खावंच्याक ना, सरतां हांव*

*क्रिस्तांव हातीं वाती घेता*
*बावल्लीं चार फुलां घेता*
*आनी वाटभर म्हणत वेता*
*वेगीं मरा पुरतां हांव*

चाफ्राची 'थेंबे' आनी 'दर्याक उजो पेटला' कविता मात्र ताच्या हेर कवितां प्रास वेगळ्यो. त्यो फिलोसोफिकल कविता. उरल्ल्यो पुराय गांव, धर्म-देव, तांचे भोंवतणीचो समाज आनी समस्या, संस्कृती आनी तांतूं रेवडल्ले विशय – ह्या संगतींनी मात्र रेवडल्ल्यो दिसतात. चाफ्राच्यो कविता 'लुमा'च्या कवितां बरी पारंपारीक कविता. प्रासांक त्यो सोडन दिनांत. फकत सृजनात्मक विशयांक लागोन आनी तांणी व्यक्त करच्या भाराक लागोन त्यो वेगळ्यो दिसतात. तांकां आधुनीक कवितांचे मांचिये वयल्यान पळेवंक जायना.

चाफ्राच्या काळांतले आनी हांवें पसंद केल्ले कवी म्हळ्यार जे.बि. मोरायस, आनंद वर्टी, गौरीश कायकिणी, अरुणा राव, स्वामी सुप्रिया, एक्स. एम्. उद्यावर आनी काव्यदास. जे.बी. शिकेर सयती ह्याच काळाचे कवी. तांकां साहित्य अकादेमीची प्रशस्तीय लाबल्या. पूण म्हजे पसंदेच्या वोळ्या भितर हांव तांकां धरूंक सकना.

चाफ्राच्या काळारच बरोवन आसल्लो आनयेकलो कवी, जो दोन-तीन म्हयन्यां आदीं भायर पडलो, तो म्हळ्यार एडवर्ड नोरोन्हा. मैसूर विश्वविद्यालयांत कन्नड भाशेचो तो प्रोफेसर आसल्लो. कोंकणीक आपल्या पांडित्यपणाचीं आपुरबायेचीं कवितां ताणें दिल्यांत. *'कीर तूं म्हजो'* ताचो कविता संग्रह. गोविंद पैन कन्नडांत बरयल्ल्या 'गोल्गोथा' कवितेचे थोडे अध्याय ताणें कोंकणींत तर्जण केल्यात. म्हाका दिसता, कर्नाटकाचे कोंकणी कवितेंत आधुनीक कवितेचें येणें ताच्या मारिफात जालें. म्हजे प्रकार चाफ्रा उपरांतलो तो प्रबुद्ध कवी. पुण ताका गरजेचें नांव मेळ्ळेंच ना. ताच्यो कविता कोणेंय अध्ययन करूंक घेतल्योच नांत. कन्नडांतूच तो समाधान पावतलो जाल्ल्यान कोंकणींत असलें एक नांव जोडीजाय म्हणोन ताकाय भोगलेंना आसयेत. डॉ. एडवर्ड नोरोन्हाच्यो कविता, कोंकणी कवितेचें अध्ययन करतल्यांनी जरूर शिकोंक जाय अशें हांव चिंतां. ही एक कविता पळोवची–

**उगडापण**

*साश्टांग पडल्ल्या म्हज्या काळजांत*
*प्रह्लादाची भक्त*
*कर्णानं दिल्ल्या दानाची*
*तडवोंक नाशिल्ली उरबा*
*त्रिंदादीचेंच देवपण*
*दोळ्यां मुकार कानोनिजार सांतीपोण*
*काळजाक रेवोड घाल्ले सळसळे*
*रोंबल्ले, वावळेकट - पालेल्ल्यो वाली*
*पाकळ्यां समेत फुलोन*
*वेगेंत उबजाल्लें फोळ*
*बोळावन, गोडशें खाववन, उसक्यार*
*निदायिल्लें सूख*
*खेळतां खेळतां चुकामुकी –*
*तेलतो विलुदेचो घागरो*
*निसरताना, दोळ्यांक तोपले–*
*पाय विदरूप, आव्या –*
*कोडा मातियेचे*

कर्नाटक कोंकणींत आधुनीक कवितेचें येणें एडवर्ड नोरोन्हाच्या कवितां मुखांत्र जालें म्हण हांवें सांगलें. इतलें सांगताना आधुनीक कविता म्हळ्यार कितें म्हळ्ळें सवाल उदेतेलेंच.

आधुनीक कविता खंयसर केदळा सुरू जाली? हें सवालच गरजेचें न्हय म्हणोन भोगता. कित्याक म्हळ्यार, सांस्कृतीक प्रकार एके आमके तारकेर, एका आमक्या जाग्यार सुरू जातात म्हणोन सांगचे बरी ना. तेच परीं, आधुनीक कवितेच्या जल्माक एकलो मात्र कवी कारण म्हणोन सांगचे बरी ना. कर्नाटक कोंकणींत कांय एडवर्ड नोरोन्हा थावन सवकास आधुनीक कविता उदेवन आयल्या जावंक पुरो. तशें म्हणताना मेल्विन रोड्रीगस, एच्चेम पेर्नाल, हांची देणगी कोणेंय नातल्ली म्हणोंक जायना.

आधुनीक इंग्लीश कवितेचेर एज्रा पौंडान अनुवाद केल्ले प्राचीन चिनी कवितेचो प्रभाव आसा म्हणोन सर्वांची अभिप्राय. पूण चिनी कवी आधुनीक चिनी कवितेचेर एज्रा पौंडाचे कवितेचो प्रभाव आसा म्हणोन मानतात. अशें मूळ कारण सोदून गेल्ल्या बरी आमी संकश्टांक सांपडतांव. असल्या संकश्टांक एक अर्थ आसोंकय पुरो. म्हळ्यार एज्रा पौंडान पुरातन चिनी कविता आसा तश्यो अनुवाद करूंक नांत जावंक पुरो. त्या अनुवादांत ताची सृजनात्मक देणगी खूब आसल्ली जावंक पुरो. हीच बदलावण कांय चिनी कवींक आधुनीक कविता रचच्यांत प्रेरण जाल्या जावंक पुरो.

डेविड आर्केलान बरयल्ल्या *'Looking for Laforgue'* पुस्तका प्रकार जर्मनीच्या श्लांगेनबाद जाग्यार आधुनीक कविता पयली जल्मली. आर्केला प्रकार आधुनीक कवितेच्या जल्माक जूल्स लाफोर्ग (१८६०-८७) कारण. आर्केलाची ही सांगणी आमकां विशेस दिसोंक पुरो. आपल्या सत्तावीस वरसां प्रायेर मरण पावल्ल्या ह्या फ्रेंच कवीन एलियेट तशें एज्रा पौंड तसल्या कवींचेर प्रभाव घाला म्हण सांगल्यार पातयेवंक कश्ट मारतात.

जूल्स लाफोर्ग जल्मल्लो उरुग्वेंत. जियेल्लो फ्रान्सांत. तो ग्राज्युयेट न्हय. फ्रान्साच्या न्याशनल बिब्लियोतेकांत सांप्रदायीक शिकप

शिकताना जायत्या विशयांचेर ताणें अध्ययन चलयिल्लें. तवळच्या समकाळीन कवीं पयकीं विशेस गिन्यानाचो कवी म्हणोन ताका नांव मेळता तरी कुडींत तशें मतींत देदेस्पोर जालो. बयालोजी, वैजकीय, धर्म आनी फिलोसोफी विशयांचेर ताची आसक्त वाडली जाल्ल्यान हे सगळे विशय कवितेंत हाडूंक ताणें प्रेतन केलें. लाफोर्गाचे आधुनीक कवितेचे सुरवेचे संकेत हे. आपल्या बावीस वरसां प्रायेर जर्मन एंप्रेस आगस्टाचो फ्रेंच रीडर जावन तो काम करूंक लागलो. निमाणें लिया ली नांवाच्या इंग्लीश टिचेरीच्या मोगार पडोन इंग्लेंडाक गेलो. थोड्याच तेंपान ली सांगाता पाटीं येताना खेवादेची पिडा घेवन आयलो. उपरांत तीं दोगांय चडीत काळ जियेलीं नांत.

एंप्रेस आगस्टाक श्लांगेनबादांत रीडर जावन वावुरतना लाफोर्गान इश्ट गुस्ताव कान्हाक एक पत्र बरयल्लें: "हांव म्हजे कवितेच्यो हस्त प्रतियो करेक्शन करीत आसां. प्रास घालूंक विसरतां. अक्षरां मेजूंक, मीटर मेजूंक सलवतां, वोळी रचुंकय विसर पडता. वोळी मार्जिनाचेर आरंभ जातात, गद्या बरी. आतां बरयल्ले बरी वेगळे रितीन हांवें केदळाय कविता बरयल्ली ना." हीच फ्री वर्साचीं सुरविलीं लक्षणां म्हणोन आर्केल सांगता. तशें म्हणोन फ्री वर्सांत ताच्याकी पयलें कोणेंय कविता बरोवंक नांत म्हणोन न्हय. बरयल्यात. आमेरिकाचो कवी व्हिटमनान आपल्यो चडावत कविता फ्री वर्सांत बरयल्यात. फ्रेंच कवी रिंबोन थोड्यो कविता फ्री वर्सांचेर बरयल्यात. तोय लाफोर्गाच्या काळांतलो कवी. व्हिटमनाच्या जायत्या कवितांचो लाफोर्गान फ्रेंच भाशेंत अनुवाद केला, तोय फ्री वर्सांत. तशें म्हणताना आधुनीक कवितेच्या जल्माक लाफोर्गा सांगाता व्हिटमन आनी रिंबो सयत कारण आसात म्हण जालें.

आदल्या पारंपारीक कवितेंत एका विशया भोंवतर्णीच उतरांचो व्हाळो घुंवचो दिसता. काव्याक एक वस्त जाय, विशय जाय, तो विशय सोबीत करून सांगोंक जाय - हेंच प्रासांचे, पारंपारीक कवितेचें लक्षण. पूण आधुनीक कविता बरयतल्याक असल्या धोरणा थावन सुटका लाभयता. व्हाळच्या उदकाक तरी, गुरुत्वाकर्शणाची सकत निर्देशन दिता. पूण असले आधुनीक कवितेक कोण, कितें निर्देशन दिता म्हळ्ळें सवाल सहजपणीं उदेवंक पुरो. सैकोलोजींत मुक्त संबंध या free association म्हळ्ळी कल्पना आसा. म्हळ्यार मतीक आपलेस्तकीं व्हाळोंक सोडचें या चिंतूंक सोडचें. लाफोर्गाची रीतय अशीच. हांगासर केंद्रीकरण उणें, विकेंद्रीकरण चड. असलें विकेंद्रीकरण मुक्त संबंध सोडून चलोनच आसता.

मुक्त छंद या फ्री वर्स फकत एक शैली न्हय, तें एक जिविताचें धिरण सयत. मुक्त संबंध कोण स्वीकार करता, एकेच दिश्टीच्या वोळ्यांत दोंगर तशें तळ्याक सांगाता हाडूंक सकता. लाफोर्गाची कविता असल्या थराची. हांगासर तो हेर कवीं थावन धाराळ घेता, तुकलायता, आज आधुनीक कवितेचे पाटलाव करचे आमी, हेरां थावन मापान उसणें घेतांव. लाफोर्गाच्या काळार उसणें घेंवच्यांत अपाय आसल्लो.

कर्नाटकांतल्या समकाळीन कवीं पयकीं मावरीस डेसा, फ्रेड कुमार, किशू बार्कूर, शकुंतला आर्. किणी, आन्सी पालडका - हीं कवी/कवयित्री जीं आसात, तीं आजून पारंपारीक कविता शैली थावन संपूर्ण भायर येवंक नांत. विशय विंचवणेचे दिश्टीन तांच्यो कविता उंचल्या पांवड्यार रावतात.

मावरीस डेसान, सुरवातीच्या काळार प्रासांच्यो कविता बरयल्यो तरी, मनोहरराय सरदेसायान बरयल्ल्या 'थिकां' बरी - हांकां थिकां म्हणोन बाकीबाब बोरकारान सांगलां - जायत्यो कविता बरयल्यात. ताचीं कांय थोडीं 'थिकां' हांगा दितां:

*पाय निसरत*
*पडल्यारी उटशी*
*जीब निसरत*
*उटल्ले तितलो पडशी*

*दुबळ्याक कितेंय जिरता*
*पूण मेळना*
*ग्रेस्ताक कितेंय मेळता*
*पूण जिरना*

*वोंटार आसतां फोड*
*उमो लागता गोड*

मावरीस डेसान कांय आपुर्बायेच्यो कविता बरयल्यात. ताचे कवितेचीं दोन पुस्तकां परगट जाल्यांत. तरी पाटल्या थोड्या वरसां थावन ताणें बरोवचेंच रावयलां म्हळ्ळी दुखाची गजाल.

विशयांचे विंचवणेंत आन्सी पालडका, किशू बार्कूर तशें फ्रेड कुमार हांच्यो कविता उंचायेच्या पांवड्यार आसात तरी, आजून तांणी प्रासांचो सांगात सोडूंक ना.

आन्सी पालडका आजकाल चडीत करून भुरग्यां खातीर कविता बरोवंच्यांतच ध्यान दिवंक लागला. फ्रेड कुमार आमेरिकांत वसती करूंक लागल्या उपरांत ताची कविता अर्दार थांबल्या. किशू बार्कूर कविता सोडून नवलिका तेवशीं ध्यान दिते आसा आनी त्या शेतांत तो बळवंत दिसता.

कम्यूनिजम प्रत्येक करून लेनिनवाद कवितेंत धाराळ व्हाळयिल्लो कवी वित्ती बेंगळूर. ताच्या कवितांक 'तांबड्यो कविता'च म्हणोन नांव. राजकीय फुडारी, धर्मीक फुडारींक धरून जी आमची सामाजीक, धार्मीक व्यवस्था आसा, तांचेर सवालां करच्यो ताच्यो धाराळ कविता आसात. तरी ताचें पुस्तक आजून परगट जावंक ना.

कर्नाटक कोंकणी कविता शेतांत आधुनीक कवितेचें येणें जाल्लें एडवर्ड नोरोन्हा थावन तरी तांतूं तो एकलो एकसुरो न्हय. कर्नाटक कोंकणींतले आधुनीक कवितेचे सर्वांग वाडावळीक मेल्विन रोड्रीगस तशें एच्चेम पेर्नाल कारण म्हळ्यार चूक जायशिना. ह्या दोगांनी पाटल्या धा वरसांनी केल्ले प्रयोग कोंकणी कवितेक आज नवी एक दिशा दिवंक पावल्या. तांचे थावन उमेद घेवन जायत्या यूव बरोवप्यांनी असली वाट तांची कर्न घेतल्या. आधुनीक म्हणताना फकत रुपांत मात्र न्हय, विशयांनी सयती विशेस बदलावण जाल्ली झळकता.

**कोंकणी कविता आनी राजकीय गजाली:**

मेल्विन रोड्रीगसान राष्ट्रीय तशें अंतराष्ट्रीय राजकी गजालींचेर

जायत्यो कविता बरयल्यात. ताचे 'झूज' कवितेचेर '*साहित्य आनी विमरसो*'पुस्तकांत स्टीवन क्वाड्रसान चार पानांचो लांब-दीग विमरसो बरयला. ती कविता हांगासर दितां:

**झूज:**

*वाजपेयी आनी आडवाणीच्या कदेलांचो*
*एक पाय*
*आपल्या उतरांनी मोडून*
*मुशार्रफाचे मिलिटरी फवजेची*
*तोखणाय*
*करतां, भारताक बेंडून*
*दाव्या हातान खाडकी उकलून*
*उजव्या हातान वाकोर धरून*
*हो पाकिस्तानी केलसी*
*म्हज्या गळ्यालागचें खाड काडता!*

*पाकिस्तानी सोजेरांच्या हातांत*
*सांपडाल्ल्या*
*भारतीय सोजेराची कांप*
*म्हज्या शिरांनी*
*खिणाक सोजेराचो आवतार जावन*
*गळो कापीत कोण्णा*
*म्हळ्ळी भिरांत!*

*रात इकरांक तेंकल्या*
*सेलुनांत*
*आमच्या दोगां विणें तिसरो ना*
*दावो दोळो तिरसो करून*
*सेलुनांतल्या आरशा भायर*
*जनेराच्या हिंवांतलो*
*निदोंक गेल्लो, दुबायांतलो*
*मारोग देखताना*
*कारगील दोंगरा वयल्या कुलकुल्यांतय*
*झुजल्ल्या सोजेरां बरी*
*गोमट्याच्यो काती*
*वाकोराचे धारी लागीं*
*झुजतात भोगता*

*हांव 'मलबारी' या 'मद्रासी'*
*तो विचारता:*
*'मंगळुरी' म्हजी जाप*
*'आमचीं मिस्सायलां आतां*
*वयर थावन सकयल पासून*
*तुमच्या केरळाचीं सयत खिमां*
*करचे ताकतेचीं'*
*तो म्हजे गोमटेची कात*
*वोडून धर्न उरल्लीं खाडाचीं*
*थोडीं मुळकाटां खर्वटायता*

*'सगळें काश्मीर आमचें*
*हो कंट्रोलाचो गीट वोडला देकून*
*आकांतवादाचें पीट*
*फुगनासतां रावता?'*
*मधें मधें उर्दूंत*
*गाळी दिवन आसल्लो केलसी, एकानेक*
*'बुल शिट' म्हणोन*
*दार उगडोन भायर थिंपी थुकता*

*ओल्ड स्पायसाचे थोडे थेंबे*
*म्हज्या गालांचेर पुसताना*
*जावंच्या हुलोपान*
*लाहोर सोल्ल्याचीं कोसाळ्ल्लीं रुपां*
*म्हज्या दोळ्यां सामकार कुपां*
*जावन मांडतात*

*'आमी बोर्डरा वयले मनीस*
*इंडियाच्या गुळ्यांक*
*आमचे संबंध तुटतात*
*काळजां फाळतात*
*आनी कुटमां कोसाळतात*
*तरी आमी*
*भियान निदनांव*
*आमी रगतांत न्हातांव*
*आनी हरयेका मनशा संबंधांच्या मधेंय*
*एके बोंदुकेक जागो दितांव!*
*म्हज्या सात वरसांच्या*
*फातिमाचो आत्मो*
*बोर्डराचेर पासायो मारता*
*आनी आमचे कुशीं उसाळच्या*
*गुळियांची दिशा बदलिता...*
*तशें आमी*
*भिरांते विणें भोंवतांव'*

*म्हज्या गालांचेर*
*नीविया क्रीम माखताना*
*ताच्या तळाता भितर*
*कांपच्या शिरांचो शिरशिरो*
*म्हज्या गालांचे काती वयल्यान*
*चरोन काळजाक कसकसायता*

*हांव उटतां*

*आनी हरशेंच्याकय पांच धिराम*
*चडतीक बकसीस दिताना*
*'शुक्रिया साहीब*
*बडी मेहरबानी आपकी'*
*तो म्हणता आनी भायर वेच्याक*
*दार उगतें करता*

*काळोकांतल्या दुबायांतल्या रस्त्यार*
*चलोन वेताना*
*म्हज्या गालांक आपडतां*
*सकड साफ सफाय जालां*
*म्हळ्ळ्याची खातरी करचे आदीं*
*रस्त्या बगलेच्या रुकाचेर*
*सोजेरांचे कोण्णा*
*दोन आत्मे*
*किडकिडचे आयकतात*

*म्हजें मतींत नव्यान*
*एक झूज सुरू जाता*
*आकेर नातल्लें झूज!*

संयुक्त अरब एमिरेतांत मेल्विन रोड्रीगस कांय पंदरा वरसां राबितो कर्न आसल्लो. ताका थंयचें राजकारण म्हणयां, शेकडमार्चे राजकारण बरें कळीत आसा. भारत, पाकिस्तान, आमेरिका, रुशिया, इंग्लेंड तशें हेर राष्ट्रांच्या प्रभावान एमिरेत गांव कसो चडपडोन आसा म्हळ्ळे विशीं ताणें आपले 'रेंवेचे कण' कवितेंत बरयलां.

मेल्विनान मात्र न्हय, रोबर्ट फेर्नांडीस आनी आंद्रू डिकुन्हा तसल्या कवींनी सयत अंतराष्ट्रीय राजकी गजाली आपल्या कवितांनी हाडल्यात. रोबर्ट फेर्नांडीसाची 'ही कसली जीक?' कविता इस्रायेल-लेबनान झूज रावल्या उपरांत मरण पावल्ल्यांक सामुहीक मरणा संस्कार मांडून हाडल्ल्या संदर्भार उदेवन आयल्या :

**ही कसली जीक?**
*आकरेक तरी झूज सोंपलें*
*आज मेल्ल्यांक पुरचो दीस*
*सर्वांनी मेळोन आमच्या निर्जीव कुडींक*
*लागीं लागीं ल्हान ल्हान फोंडांनी धांपलें*

*ओलीव रुका सावळेंत सांगाता मेळोन*
*आपालिपा खेळोन खरचिल्ले ते दीस*
*जात कात लेकी नासतां एकामेका*
*संगीं वांटून जेवल्ले ते दीस गेले सरोन*
*मागदा, मरियम, मनाल, हबीब*
*जैनाब, जाक्केव, जाफर, लबीब*
*आमची इश्टागत इतलीय खरी की*
*मरणांतय आमी एक जाल्यांव*

*'धुळी थावन आयल्लीं धुळीक पाटीं'*
*आगमेंताचे चार थेंबे मुस्करार पडताना*
*'ला इलाही इल्लल्ला' थोडे उदगारताना*
*पयशिल्ल्यान थावन एक बळादीक बोबाट*
*कानार आमच्या पडत आसली*
*'आमी जिकल्यांव, आमी जिकल्यांव'*
*आमच्या मरणांत हांची जीक?*
*समजना, ही कसली जीक?*

आंद्रू डिकुन्हाची एक कविता इस्रायेल-पालेस्तीन झुजाचे पाटभुंयचेर बरयल्ली आसा. मेल्विन रोड्रीगस आपल्या 'बूसा' कवितेंतल्यान संवसारांतले म्हाशक्तीचो मुखेली बुशाचेर तीर जोकता. ताच्या पुस्तकाक प्रस्तावन बरयल्ल्या पुंडलीक नायकान सांगचे बरी "बुशा मुखार शरणांगती स्वीकारून नाचप्यांचीं तो खेबडां करता. आमेरिकेन चलयल्ल्या शोषणाचें, मारपेटाचें, आकांतवादाचें वर्णन करून कवी म्हणटा, आमेरिका आमकां फटयता, नाडटा, पिडटा, कुसयता कारण —

*बूसा बूसा बूसा बूसा*
*आमेरिकी बूसा*
*तांचे लागीं देव शीदा*
*संपर्क दवर्न आसा*

एक भयांकृत पूण वास्तव अशे तरेचें हें सत कवी प्रगट करता. हे कवितेंत फकत आमेरिकेची मुजोरशाहीच परगट जायना तर, देवाच्या अस्तित्वाचोय प्रश्न उप्रासता."

आमेरिकान अफघानिस्तानाचेर घुरी घाल्ल्या संदर्भाचेर बरयल्ली 'नशिबाची भूक' तशें आमेरिकांतलें एंपायर बिल्डींग नास केल्ले पाटभुंयेचेर लिखल्ली 'कोसाळल्लीं बुरुजां'ह्यो कविताय मेल्विनान लिखल्यात.

म्हणताना आमचे कवी, फकत आपल्या गांवा भोंवतीं पासायो मारून नांत. ते गडी उतरोन, वोंयो उतरोन संवसारभर भोंवून आसात. तांणी तांच्या कवितांनी हाताळच्या विशयांक मेर ना जाल्या. संवसाराच्या केदयाय व्हड व्यक्तीक सवाल करूंक ते पाटीं सरनांत. फकत भारतीयांच्या काळजांचे मात्र न्हय, संवसारांतल्या हरयेका नागरिकाचे हाल तांकां कळटात..

**विदेशी कवी आनी कोंकणी कविता:**

विल्सन कटील हो तरनो, उदेतो कवी. प्रासांचेर तो चडीत बरयना. विदेशी कवींक तो चडीत वाचता. तमीळ भास तो बरो जाणा जाल्ल्यान तांतलें साहित्य, कविता तो चड वाचून आसा. आपल्या कवितांनी तो शीदा, उगतें, भिरांत नासतां, लज नासतां उलयता. विल्सन कटीलाच्या आनी एच्चेम पेर्नालाच्या कवितांनी सिल्विया प्लात, बोदलेर तशें पाबलो नेरुदा तसल्या कवींचो प्रभाव पडल्लो झळकता. एच्चेमाची एक कविता अशी:

**सिल्विया...**
*वाचून तुका सिल्विया...*

*सब्द म्हजे मोने जाले*
*मरणा मुकार तुज्या म्हजी*
*जिणी एक मिस्तेर जाली*

*वाचून तुका सिल्विया...*
*आवाज म्हजे स्तब्द जाले*
*जिणये मुकार तुज्या म्हजी*
*कविता एक सवाल जाली*

*वाचून तुका सिल्विया...*
*भुरगीं म्हजीं अनाथ जालीं*
*कविते मुखार तुज्या म्हजी*
*मोगाशीर तुटोन गेली*

*आतां...*

*अनवोळकी ह्यायी गांवांत*

*मरणांत तुज्या मिस्तेर सोदतां*
*कवितेंत सवालाची जाप*
*आनी जिणयेंत मोगाची शीर*

*तुकां मेळनातल्ली...?*

विल्सन कटीलाचीय सिल्विया प्लाताचेर बरयल्ली एक कविता हांगा दितां:

**सिल्विया - तुका वाचून**

*"हांवें जेन्ना आसड्यो वोडल्यो*
*संवसार सगळो मरोन पडलो"*

*आदल्या ट्रंकाचें दार उगडून*
*तिळची माजवल्ली तस्वीर,*
*काळ्या धव्या दोळ्यांनी लेगून*
*फुलोन येवंचें वोइत*

*परने डैरीच्या पाना इड्यांत*
*पिंजून दवरल्लें पत्र,*
*उतरान उतर गडशितां दिसची*
*नव्या अर्थाची वोळ*

*हें पूरा... पूरा सांडून*
*पयस खंयगी याशें भोगता*

*सपणां पडनातल्ल्या गांवाक*
*पडल्यारी*
*याद उरनातल्ल्या गांवाक*

*पिडेस्त तुजें काव्यें वाचून गो*
*सिल्विया, म्हजे*
*सिमिस्त्रेंतले एके वोळीक*
*जीव आयला*

*काल रातीं खटल्यार जोडल्लो*
*गुपीत वोडनेचो अनभोग,*
*मोडकर मेजार हांतुव्न दवरल्लें*
*अर्दें गिच्चिल्लें पान*

*कशें लिकल्यारी तृप्ती मेळनासतां*
*मारल्ली 'एक्स' कुरू,*
*त्याय वयर वोमतो निदल्लो*
*अर्दो वाचल्लो बूक*

*हें पूरा... पूरा सांडून*
*पयस खंयगी याशें भोगता*

*काव्यें उदेनातल्या गांवाक*
*उदेल्यारी*
*कवी बुडनातल्या गांवाक*

*मर्णाचो तुज्या अर्थ सोदून गो*
*सिल्विया, म्हजे*
*कवितेंतले थोडे सब्द*
*पिशे जाल्यात.*

तरने कवी मोगाच्यो कविता बरयताना तांचो मोग पाळां रोंबयल्लो आसना. विल्सन कटील तसल्या एका वर्गांतलो न्हंय. इतले तरने प्रायेर ताचो मोग बोदलेराचे जिणिये थावन त्राण जोडता जाल्यार हे कवीचे ताकतेचें थोरूं कितलें बळादीक तें जाणा जावयेत.

फ्रेंच कवी बोदलेरान (१८२१-१८६७) 'जीण अर्दी उरल्ली सिगरेट' म्हळ्ळें. आनी तो जियेल्लोय अर्दीच जीण. तेंय शिराप पडल्ले बरीच. त्या काळार काव्याक अस्पृश्य जावन आसल्लीं वेश्या, सिगरेट, जुगार ह्या सर्व व्यसनांक कवितेचे आलतारीर चडयल्लो कवी तो. ह्या संवसारांत देव आसा तर फुलांच्या परमळांत, वेश्यांचे चंचलतेंत आनी जुगार खेळांत - अशें व्याख्यान दिल्लल्या ताचो पयलो कविता पुंजो 'ले फ्लर दु माल' (येमकोंडांतलीं फुलां) बुकाक विमर्शकांनी आनी सरकारान भारीच विरोध दाकोवन, ताका सत्यानास केल्लो. ह्या कवीचो प्रभाव विल्सन कटीलाचेर बरोच पडला. ताची 'बिडियेच्या चेडवाक' कविता वाचून पळेया:

**बिडियेच्या चेडवाक**

*तुज्या पालवा सुतांक-गो*

*परमळ बिडिये खोल्यांचो*
*हात चरयताना वोंटार पेटता —*
*तान उजो पियेवंची*

*तुजे रांदणींत फातें जळच्याक*
*म्हजे संततेन झरयिल्ल्यो*
*काडियां-तकल्यो कितल्यो जातीत!*
*बोदिलेराचे कुळियेचो-गो हांव*

*बोटां फापुडताना झडता गोबोर*
*लासोन वेचे जिणियेचो.*

**कोंकणी कविता आनी सांकेतीकता:**

आयच्या कोंकणी कवितांनी सांकेतिकता धाराळ मापान झळकता. एच्चेम्माची 'जनेल' कविता घेवंया:

**जनेल**

*घरचें जनेल दारा तेदें*
*व्हड कांय नय, पूण...*

*दारांतल्यान पळेवंक जायनातलें*
*जनेलांतल्यान मात पळेवयेत*
*दारांतल्यान येवंक जायनातल्यान*
*जनेलांतल्यान भितर रिगयेत*

*दार सयऱ्यांचें, जनेल चोरांचें*
*तरुय दारार चाबकोर सुणें*
*जनेलार सोभीत माजार*

*दार घोवाचें*
*जनेल प्रेमीचें*

*देकून मिस्ता —*

*एका घराक दार एक*
*जनेलां मात सबार.*

'जनेल' कविता आज देशांत विस्तारोन येवच्या कोमुवादाचा ग्लामाराचें दर्शन दिता. ही कविता वाचताना सादी भोगोंक पुरो, पूण हांतूं बारिकायेन पारकिल्यार वेगळे अर्थ मेळटात. हे कवितेंत येवचें घर आमचो देश, बायल - ह्या देशाची परजा. दार अस्कत वा नगण्य जावन येवची सेक्युलार सुवात तर जनेल - सुरंगारोन येवंचो कोमुवाद. हे कवितेंत येवंचे हेर संकेत घोव आनी प्रेमी, क्रमान असहाय सेक्यूलार चिंतप आनी अनैतीक मूळभूतवादी सकत्यो. चाबकोर सुणें, राजकी पाडत्यो जे घोंकतात मात आनी सोभीत माजार मीडिया जें आंग मात पिसवायता. हे पाटभुंयचेर ही एक सांकेतीक कविता आसा.

मेल्विन रोड्रीगसान, आंथोणी बार्कूरानूय जायत्यो सांकेतीक कविता बरयल्यात.

**कोंकणी कविता आनी विदेशी गांव**

आंथोणी बार्कूर तशें दिनेश कोरेयाच्या कवितेंचे जायते विशय विदेशी आसात. आंथोणी इंगलेंडाच्या वसंत काळा विशीं बरयता जाल्यारी आमच्या कोंकणी वाचप्याक ती समजजाय म्हणोन धाराळ गांवचीं रुपकां वापरता. ताची 'राणयेच्या गांवांत' धाराळ रुपकांनी भरल्या जाल्ल्यान एक विदेशी विशय समजोंक सलीस जाता.

**राणयेच्या गांवांत...**

*राणयेच्या गांवांत*
*वोताकच करटी लागता.*

*पाना रुकाक सांडतात,*
*लोक थंडाक खेंडतात.*

*हींव हाडां खाता.*

*वाऱ्या ल्हारांक*
*कऱ्या मारांक*
*धरती धवसाट जाता.*

*कांती सुकतात,*
*प्राणी थकतात.*

*जिणी थांबता.*

*आनी...*

*जेन्ना भुमी रुदान*
*मोळबा पऱ्यांत पावता...*
*सुर्यो परत तिळता.*

*बरफ हींव जाता*
*हींव धुंवरी जाता...*
*धुंवरी धोव जाता*
*धोव मायाग जाता...*

*सुर्याच्या एका हाश्याक*
*भुमीच्या एका हिशाऱ्याक*
*राकोन आसल्ल्या बरीं*
*वसंत येता.*

*आनी अबळे...*

फुलतात...

ड्याफोडील आनी टुलीप,
डैसी आनी लिली,
लांबा लांब...
गांवान गांव...

घांट मारल्या तक्षण
भायर पडच्या भुरग्यां बरीं
राशी राशी
हारी हारी

हळदुवीं आनी तांबडीं,
निळशीं आनी रंगतांबोळ...
फेस्तांतल्या लोका बरीं,
प्रायेच्या चलियां बरीं.

आनी राणये भुरगीं—
गोरीं आनी काळीं,
नितळ तशीं म्हेळीं:
वोतांत खेळतात,
वोतांत लोळतात,
वोतच गिळतात...
भिकाऱ्यान
शीत भोकायिल्ल्या बरीं.

वसंताच्या थोड्याच दिसांनी
सगळें वरसच जियेतात...!

दिनेश कोरेयाची 'नैफ रस्त्याच्या गल्ल्यांनी' कविता हांगा दिल्या. नैफ रोड दुबायांतलो एक रस्तो.

**नैफ रस्त्याच्या गल्ल्यांनी...**

नयीफ रस्त्याच्या गल्ल्या गल्ल्यांनी
त्या अंडर ग्रौंड चरंड्यांनी
दोनूय दोळे उगडोन पळेया...
सबारांचीं सबार सोभीत सपणां
आव्रा तशीं व्हाळोन आसात
रगता वासान, घवशा रंगान!

रातीच्या बारा वोरांच्या
शहराच्या उजवाडांतयी थोडे
सुशिक्षीत काळकी कोनशे...
ह्या कोनश्यांनी थोडोसो कस्ताळ
दिसना-तितलोय नितळ, निस्कळ!
हांगासर रंगाळ टाय, कडक्क इस्त्रेचीं
जोर्डानो शर्टां, रिंकल फ्री जीन्सां
लेटेस्ट फ्याशनाचीं सल्वार कमिजां
म्हारग मोबाळ लेटेक्सां
अशिकपी, सुशिकपी, जात-कात,
Nationality चो भेद-भाव सोडल्लीं
चिक्सां—
भायर-भितर, भायर-भितर
येतात-वतात, येतात-वतात.

दीस-रात अविरत
व्हाळच्या व्हाळ्यांनी
सपणां थोडीशीं —
इल्लिशीं परगांवांत, थोडीशीं घरांत...
तीं हांगाच्या रंगाळ रातींच्या फेस्ता-सांतेंत

कोणाचे मतीक येतात?
फकत लोटा खेटीचो, लुक्का-छुप्पीचो
आव्र जावन व्हाळतात!

आसात सपणां हजार तरी
ह्यालोजन दिव्याच्या
थौजंड वाट्साच्या उजवाडांकय सपणां सांपडनांत,
समजनांत.

कसली सकत ही —
कसल्यायी मनशाचो एकांत तपस मोडून
ऊंच शिखराक पावंची?
कसल्यायी मुखमळांनी
सर्व सोभीत —
आंजभडवो मात
कित्याक दिसता?
सगळ्यांचीं सपणां काळकांत धांपल्यांत;
कोनशा लिपल्यांत!

रगताचे थेंबेच —
केदनां पेज ना तरी तेज आव्र जातात
थोडोसो घाम मिसळोन, घमासान नंय जावन
व्हाळतात...
सवाय जाल्यांत उदकां,
संवयेर पडल्यांत नाकां!
हांगासर कायदे, कानुनां, पवित्र पुस्तकां
सगळीं ह्याच आव्रांत व्हाळोन वतात
सांगाता
झरीच्या उदकांत जल्मोन जियेवंच्या
पयशिल्या पिल्यांचींय

*फाल्यांचीं सपणां*
*वेळ विभाडीनासतां*
*मिनुटांनी*
*मुनिसिपालिटीच्या पायपांनी*
*नपयींच, नाच जातात!*

मेल्विन रोड्रीगस, एच्वेम पेर्नाल, विल्सन कटील, आंथोणी बार्कूर, रोबर्ट फेर्नांडिस, दिनेश कोरेया, आंद्रू डि'कुन्हा, एरीक सोन्स - हांकां वाचल्या मागीर एक गजाल नक्की जाता. हे कवी कोंकणींत बरोवंचे अंतरराष्ट्रीय कवी. तांचे विशय सगळ्या विश्वाक विस्तारल्यात. इतलें आसोनूय ते आधुनीक कविता बरयतात देकून कवितेंनी आसयेत जाल्लें संगीत तांणी संपूर्ण रितीन तिरस्कार केलां सांगोंक जायना.

मेल्विन रोड्रीगसाचे 'वाट' कवितेच्यो पयलेंच्यो वोळी घेवंया:

*हि माट / पडल्ली वाट / पाट कर्न / साट सुमान सरले*

हांगासर फकत नोव उतरां आसात. ह्या नोव उतरांची मांडावळ पळेया. 'माट' 'वाट' 'पाट' 'साट' – ह्या चार उतरांनी स्वरसाम्य आसा मात्र न्हय 'अंत्य अनुप्रास' आसा. तितलेंच न्हय 'साट सुमान सरले' म्हणताना हांगासर अनुप्रास झळकता. प्रास नासताना, आधुनीक फ्री वर्साची कविता आयकताना कानांक संगीत कशें लागता म्हणच्याक ही कविता गोवाय.

कर्नाटकांतली समकाळीन कोंकणी कविता कशी पयले पावटीं आधुनीक काव्याच्या पांवड्यांतल्यान उतरोन आसा म्हळ्ळे विशीं हांवें सांगलें. हो पांवडो कांय शास्वीत उरतलो म्हणोन सांगोंक जायना. आयच्या काळाची ही एक गरज मात्र. फुडाराच्या काळांत नवी एक घुंवडी कर्नाटकाच्या काव्याक लाबतली तें खंडीत. आधुनीक कवितेक जाल्यारी तिचेच म्हळ्ळे थोडे संकश्ट आसात.

## आधुनीक कवितेचे संकश्ट

कवितेक तिचे इतल्याकूच सोडिजाय; तिचे विशीं चडीत चिंतूंक नजो म्हणोन चिंतल्यारूय विचारवंत मनशांक तिचे विशीं चिंती नासतां रावोंक जायना – तेंय आमी जियेवन आसच्या आयच्या युगांत. कवितेंतली वस्त लोकाजिविताक लागीं जायजाय आनी कवितेची भास लोकांनी उलोवंचे भाशेक लागीं आसजाय म्हणोन आधुनीक कविता आशेल्ली. इतलें आसोनूय आधुनीक कविता लोक कित्याक वाचिना, वाचून आपणाची कर्न घेना? आधुनीक कविता ह्या दोनूय रितींनी लोकाजिविताक लागीं आसा तरी, लोकाक असल्यो कविता अर्थ जायनांत म्हणोन आदीं थावन आयकोंक मेळचो आक्षेप. आधुनीक कवितेची अर्थहीनता, भावशून्यता आनी क्लिश्टता निवारूंक जायत्या कवींनी सर्वांक अर्थ जावंच्या बरी अर्थ भरोंक, भोगणा लोकाक पाटीं व्हरोंक, प्रास, लय आनी सादीं रुपकां हाडूंक प्रेतन केल्लें आसा. जाल्यार लोकाक लागीं जावंच्या प्रयतनांत लोका थावन पयस जाल्ली आधुनीक कविता परत्यान लोका लागीं पावंचीं लक्षणां दिसनांत. आज चुटकुलां, हैकू तसल्यो कविता खिणाक लोकाक मनोरंजन दितात जावंक पुरो. असल्या कवितां वरवीं गंभीर कविता वाचूंक आयचे कवी पाटीं सरतात. भोवशा काळ गेल्ले बरीं बरोवंचेंय ते रावयतीत.

इंग्लीश विमर्शक तशें ओक्स्फर्ड प्रोफेसर सि.एस्. लेविसान बरयल्ल्यां *An Experiment in Criticism* पुस्तकांत हे विशीं चिंतप आटयिल्लें दिसता. साहित्य धरून कलेचे सर्वय प्रकार एका तेंपार एका थावन आनयेक वेगळें करूंक जायना तसल्या संयोगान आसल्ले. काव्य, संगीत, नाच, नाटक, चित्रां सगळीं एके परिधेंतल्यान या वोळ्यांतल्यान पळेवंक जातालें. सवकास हें सगळें विंगड जायीत गेलें मात्र न्हय प्रत्येक जावन आपापली विशिश्टता जोडूंक पावलें. सक्कडय कितले प्रत्येक जाले म्हळ्यार तांचे मदलो सामान्य उपयोग उणें जायत आयलो आनी एकेकाचें कार्यशेतय ल्हान जालें. सुरी म्हळ्ळें सादें हातेर एक सर्जनाचें विशिश्ट 'स्काल्पेल' (धारेची नाजूक सुरी) जाताना, तिचो वापर विशिश्ट जावंच्या सांगाता सीमित जालो आनी लोकाच्या दिसपडत्या जिविता थावन पयस गेलो. हरयेका कलेच्या प्रकारांत, विशेस जावन काव्य प्रकारांत, सभार काळा थावन ही एक विशिश्ट वाडावळ या बदलावण दिसोन आयल्या.

आधुनीक कवितेचे वाचपी कित्याक उणे म्हळ्ळ्याक लेविस अशें सांगता : 'सर्जनाचें स्काल्पेल शस्त्र चिकित्सेक बरें. हेर खंयच्याय कामाक तें बरें न्हय. कविताय तशीच, तिचे वरवीं आदीं साहित्याच्या खंयच्याय प्रकारान करयेत जाल्लें करूंक जातालें पूण आज फकत कवितेन करयेत जाल्लें मात्र करयेत. तशें म्हणताना असली एक प्रक्रिया पसंत करचे भोव उणे लोक आसतीत, मागीर पसंद केल्ल्या सर्वांनी तें स्वीकार करिजाय म्हणोन ना. आधुनीक कविता तांणी चिंतचे प्रास तांकां कठीण लागता. 'स्काल्पेला बरी' कविता विशिश्ट जाल्या तर, ती कठीण आसजायीच. त्या देकून कवींनी सयत आपणाक कोणय वाचिनांत तर आक्षेप हाडूंक नजो.

एका काळार सामुहीक जिविता रीत बळवंत आसताना आसल्ल्या बरी कविता उरोंक ना. वैयक्तीक जिविता रिती बळवंत जावन येवंच्या ह्या काळार आयची कविता लोका जम्या थावन पयस सरोन सर्जनाच्या स्काल्पेला बरी कबाटांत मात्र उरचे बरी जाल्या. क्लाशींत कविता शिकचे विद्यार्थी हो वाद आयकोंक तयार नांत जावंक पुरो. एक कविता टेक्स्ट बुकांत आयली म्हणताना, ती एक स्वीकृत निरुपणेचे चवके भितर कैदी जाता. तिका थंय थावन सुटका दीजाय जाल्यार विचारवंत विमर्शकान येजाय पडता. पूण तवळ सयत एके चवके थावन सुटोन आनयेके चवकेंत ती फिचार जाता. म्हळ्यार आधुनीक कविता विमर्शकाची मध्यस्तिका (interference) नासताना लोकाच्या हाताक पावना. नीज पळेवंक गेल्यार आधुनीक कवितेन कोणायचे मजते विणें तांच्या तांच्या सतां परमाणें वाचप्यांक समजजाय, अर्थ जायजाय. हेंच नीज जावन वाचप. ह्या वाचपांत कसलोय स्वार्थ मिसळोन आसना. पूण आयची कविता स्वीकार जावंची उणें, उपेग जावंची चड.

असल्या विचारांच्या द्वंद्वांनी आधुनीक कविता पाशार जाते आसा. तिचे इतल्याक ती नवी एक दिशा, नवी एक वाट सोदून काडतली खंडीत. तवळ आमच्या कवींनी रुता केल्लो हो नवो पांवडो उरतलो सांगोंक जायना. ही वाडावळ काळानूच सांगजाय.



# साश्टीच्या मातये वासान परमळीत जाल्ली कादंबरी

सिल्वेस्टर वाज

२६ डिसेंबर २००७ ह्या दिसा सैमान आपलें अक्राळ-विक्राळ रूप धारण केलें आनी सुनामीच्या ल्हारांनी कांय खिणां भितर कितलेंशें जिवीत उदका भरवण केलें. सुनामी सारके सैमीक आपत्तीचें काळीज हालोवपी चित्र कोंकणी साहित्यांत काडपाचें श्रेय दामोदर मावजो हांकां वता.

*'सुनामी सायमन'* ही तांगेली ह्या विशया वयली हालींच उजवाडा आयिल्ली कादंबरी.

कादंबरेंतली भास शैलीय तिका दर्जो मेळोवन दिवपाचें काम करता. भास सादी-सरळ, सोंपी आसत जाल्यार साहित्यकृती सामान्य वाचप्या मेरेन सहजपणान पावता. दामोदरबाब सदां सांगतात, आपूण हिंदू खरो पूण जियेलां क्रिस्तांवां बरोबर, म्हूण. तांच्या ह्या विधानाची साक्ष तांची बरपावळ दिता. *'सुनामी सायमन'* ही कादंबरीय हाका आडवाद ना. देखीक, हो एक संवाद पळेयात:

''हयऽ? बरो कापाझ मुगो चेडो म्हुगेलो!''

''तूं आनी किर्ते तोखेता? येव्या भुरग्या हातींक बायक दिवप सारकें न्हू.''

''जावं गे मांय! एक दीस. तेंय माशाना पासत.''

''पयलीं म्हाका ज्युरामेंत दी - आनकोडेन बायक चलोवचो ना म्हूण.''

''बरें. उतर दितां तुका. सामकीच गरज पडले बगर हांव बायकाक हात लावचों ना.'' (पान २३)

रापणकारांक रापण ओडटना नेट लावचो पडटा तेन्ना ते एका सुरान तोंडान ''ओऽ बो लाग रे हूऽ बो लाग / ओऽ बो लाग रे हूऽ बा लाग.'' अशें म्हणटात. लेखकान रापणकारांचें हें गीत फिशालकायेन वेंचून काडून ताचो कादंबरेंत आसपाव केला.

क्रिस्तांवांचें जिबे वयलीं मुदार, लिसांव, कॉमेस सारकेलीं मूळ पुर्तुगेज भाशेंतलीं उतरां ह्या बरपांत मुदयेर थीक कशीं आयल्यांत. हाका लागून क्रिस्तांव वाचप्यांक, चड करून साश्टी वाठारांतल्या वाचप्यांक, ही कादंबरी आपलीच अशी दिसले बगर रावना. मान, माशान, पाय, मांय, कुन्याद सारकेली क्रिस्तांव समाजांतली नात्यांची उतरावळूय हे कादंबरेंत येवंक जाय थंय आयल्या.

आयज क्रिस्तांव घराब्यांत इंग्लीश उतरांचोय वापर जाता. बरोवप्यान ब्रेक डान्स, डेंजर, फ्रँड, फ्रँडशीप, बॅस्ट, मिस्टेक, क्लास, सारक्या इंग्लीश उतरांचो मोठ्या प्रमाणांत पात्रांच्या संवादांत उपेग केला. हाका लागून कादंबरेंतले संवाद जिते-जिवे जाल्यांत.

कादंबरेंतल्या सायमनाचें घर गणसुवा दर्या लागसार आशिल्ल्यान कादंबरेंत खारवी भावांची दिसांदिसपटी तोंडाक येवपी जाळांची, नुस्त्याची, बोटीचीय उतरावळ सर्रासपणान मेळटा.

वेगवेगळ्या सुमार विसां वयर नुस्त्यांचो संदर्भ एका खारव्यांच्या कांतरांत मेळटा. नुस्त्याच्या काजाराचें हें कांतार अशें आसा :

*' 'दर्याक भरती येवून सगल्याक भरलेलें पाणी*
*निसत्याचें काजार म्हुणोन माटवांत सुवात नासली मातपुणी*
*खडपाक तेंकून आसलेली ती व्हड शिनाणी*
*तारली व्हंकल, पेडवो न्हवरो, बाब शेंवटो येजमानी.*

*काजाराची कोंवीत घेवून विस्वण खंयखंय वचो*
*लेपेक कोंवीत मेळ्ळी ना म्हुणोन वांकडो केलो बोंचो*
*काजाराचे उमेदीन सुंगट उडोन उडोन नाचो*
*आनी सोऱ्याच्या बारांत येदें पोट फुलोवन आसलो भाणकचो.*

*दोडयाऱ्याचें बँड आनी एमसी आसलो मोरये पिलो*
*व्हंकल-न्हवरो येवचे आदींच तांणी डान्स सुरू केलो*

*मोळसो धांवट येवून पिल्याचो फुगार केलो गळो*
*बांगडो तेंकां सजमयतालो तो गद्याच्या तोंडांत गेलो*

*इतले म्हणसर भायल्यान येवून तेंकलो होंवर*
*हालोन-धोलोन बोंबिलान तांचो होंवर काडलो भितर*
*खांपी, बुरांटो, कोंकरां माटवांत नाचो माटोवभर*
*गद्याक नाचोंक मेळ्ळें ना तेका आसली सोंडि हातभर.*

*आख्ख्या माटवांत सोबीत न्हेसून आसली वेल्ली*
*कापसाव्याक नसाय जाली, वेल्लेक नाचयता म्हूण कल्ली*
*मुडदशी आर्रोस चोरताना तिका शेतकान धरली*
*तिसऱ्यो-खुबे गजाली करी, झेमेता म्हूण कुल्ली.*

*इतले म्हणसर एमसीन म्हुटलें टॅप डान्स घायल्यार बरो*
*निमाणो डान्स म्हूण मुजगांकूय बरोच ओतलो सोरो*
*त्या सोऱ्या नेटार मुजगांनी फोर्सान वाजयलो पेंपारो*
*आनी उडोन-उडोन नाचताना पापलेटीचो सुटलो घागरो''*




· बरोवप्याक खारवी समाजा कडेन खूब संवकळ आसा म्हणपाचें ही कादंबरी वाचतना पावला पावलाक जाणवता.

कादंबरी गळसरे वरी आसता. तिची दर एक घडणूक एकिमेकीं कडेन जोडिल्ली आसता. *'सुनामी सायमन'* हे कादंबरेंत बरोवप्यान आपले उत्कृष्ट भाशे-शैलीच्या आधारान घडणुकांचो सोबीत ताळमेळ घडोवन हाडला. सायमनाचें मद्रासाक वचप आनी मद्रासांत सुनामी येवप हो एक योगायोग. हाच्याच आदारान फुडली कादंबरी चलता.

सुनामीचें वर्णन कादंबरेंत भोव बरे तरेन आयलां. ह्या वर्णनान वाचप्यांक फुडे किते जालें काय, अशे तरेची उमळशीक लागले बगर रावना. देखीक सुनामीचें हें वर्णन:

''रांदनीर उदक खतखतकीर उदकाक ओतो येता तशें दरयाचें उदक वयर सरिल्लें. मळबांत सुर्या सदचेवरी तळपतालो. ना वारो, ना मोड. मावसो वोगीच भियेता अशें चिंतून सायमनान तडीवटेन पळयलें. तड लार्गी येताली. पयसुल्लीं झाडां-घरां विचित्र दिसतालीं.''

''उदक वयर सरिल्लें. दुसऱ्याच खिणाक पोंदचें उदक निसरून फाटीं गेल्लेवरी वयलें उदक सकयल देंवलें. आनी तडी वटेन वचपा बदला दर्याच्या पोटांत वचपाक लागलें.'' (पानां ५९-६०).

सादे भाशे शैलींत केल्लें हें वर्णन वाचप्याक खूब प्रभावीत करता.

सुनामी येवन गेले उपरांतच्या देखाव्याचें वर्णन आंगार कांटो हाडटा:

''माडाच्या कवळांत एके तरणे पोंयेक धरून सायमन फातर कसो बशिल्लो. दोळ्यां मुखावयलो सांवार दोळे बिटबिटायत पळयतालो, मन किण्ण जाल्लें.''

''उदक देंविल्लें. पूण नदर पावता थंय म्हणसर उदक पातळून आशिल्लें. मंद ल्हारेतालें. त्या ल्हारांचेर मर्डी उफेंतालीं. दादले, बायलो आनी भुरगीं, आनी तांकां सांगात दितलीं गोरवां आनी दुकरां. कांय व्हडीं उमर्थी जावन उद्काचेर झेलतालीं. कांय व्हड व्हड रूख हुमटून आडवे जाल्ले. घरांच्यो वण्टी कोसळिल्ल्यो. तरेकवार जिनस उदकाचेर वयर सकयल जाताले. घरार्ची दारां, प्लास्टिकाचीं कदेलां, उर्शी-कुलचांवां, पत्रे, लाकडां...'' (पानां: ६२-६३)

दामोदर मावज्याची ही कादंबरी संवाद, निवेदन, चित्रण, वातावरण ह्या सगळ्यांच्या आदारान कोंकणी कादंबरेक वेगळीच उंचाय जोडून दिता. कादंबरेच्या हेर घटकां वांगडाच भाशे शैलीचे नदरेन विचार केलो जाल्यार ती एक बऱ्यांतली बरी कादंबरी अशें म्हजें मत.

ही *'सुनामी सायमन'* कादंबरेची समिक्षा न्हय. निकतीच हांवें ही कादंबरी वाचल्या आनी तिचे भाशेक, शैलीक लागून हांव प्रभावीत जालां. ह्या बरपांतल्या साश्टीचे मातयेच्या परमळान म्हाका तृप्त केला. म्हाका भोगल्या ती खोस हेरांकूय भोगची म्हूण हे कादंबरेचे भाशेच्यो कांय सोबीत-सुंदर सुवातो दाखोवन म्हाका जाल्ली खोस हेरांक वाटपाचो म्हजो हो ल्हानसो यत्न.



## कुळणाआड आतां कोणूच रोयी ना!

**– नागेश करमली**

कुळणाआड आतां कोणूच रोयी ना
मीर्ग लागूनय थंय मात मीर्ग लागच ना
रोवणेचे पेलीर जंय चलतालीं कश्टांचीं पारायणां
वसाड भूंय, कर्पूल तणा बगर थंय किर्तेंच किल्लना
कुळणाआड आतां कोणूच रोयी ना !

केनाळ पाटणी साळ भांगरसाळ वाल रोव
असलें किर्तेंच आतां चुकूनय कानार पडना
तास आडास जोगूल जूं निर्मणें कोणाकूच कळना
रीस नांगोर दांतो अळय जोत हांचें नांवच ना
कुळणाआड आतां कोणूच रोयी ना !



चोबो थाम पालय नेर नडणी बांदी कुणगी शीर
मेर माग खांडूं खणणी खोरें हांची नातूच ना
कण्णी कंडावणी खणपी दिपळे आंते सगळें गेलें
कित्या खातीर किर्तें हाची आज कोणाकूच जाण ना
कुळणाआड आतां कोणूच रोयी ना !

खळ मळणी दुवळ भोरो चुडी कुतल्ल गुडें गुडवें
भातापालें शेल वरंड, व्हिलो कोयतूल आतां मेळच ना
सूप सुपली मोडकूल धड धडम पॉल वारें
सगळेंच गेलें हुबून, कसलीच जागमाग नासतना
कुळणाआड आतां कोणूच रोयी ना !

कमर दोडून बाग घेवपाची संवकळच उल्ली ना
मान मोडून नडटल्यांचे कंडे खंयच झळकना
वर्सासणाच्या नव्याक आतां एक कणसय गावना
लुवणी गेली, साकाच्या तांदळा विणे एक उंडीय वचना
कुळणाआड आतां कोणूच रोयी ना!



[जून-जुलय २००९ च्या 'जागां'तलो कुडतरेचे शेती वयलो बाब डेनिस वाजालो लेख वाचून स्फुरिल्ली कविता.]

## वादळां

**– प्रकाश पाडगांवकर**

आतां वादळां शांत जाल्यांत
आनी दिगंताचीं तारवां
आकांताळ्या मोडझोडींक तोंड दिवन
धक्यार थिरावंक लागल्यांत

पिसावल्लो राकेस दयामाया नाशिल्लो
विनाशाचे वादळी-भोंवरे निर्मून
अच्छेव कांडून आतां असहाय
मद जिरिल्ले वरी निचेश्ट पडला

पृथ्वी घुंवता
कृष्णाचे किरंगळीचेर कशी...
तिची भितरली उर्जा चिरस्थायी
पातळायता संमोहन चराचराचेर



# *अल्लादीनाचो दिवो*

– तुकाराम रामा शेट

शाळेंतल्या भुरगेपणांत
दर दिव्याचें म्हाका अजापूच
जावं तो चिमणेचो दिवो
वा काट्टांची पणटी दिवाळेची

बाटलेंत वखदाचे, घालून सुतली
तयार केल्लो आवयन
तो केरोसिनाचो दिवो,
वा तो कापडाचे दशेचो
शायेचे बाटलेचो दिवो
परत परत लवंडून भगभगपी
ताचेंय म्हाका कवतूक
ताच्या उजवाडान कितलींशींच
पानां परतिलीं पुस्तकांचीं

गांवांत तर ना लायट
पूण आमचे भुरगेमतीची
लायट पेट्टाली आमच्या घरांत
बॅटरेक आनी वायरीक बल्ब जोडून ल्हान
तर केन्ना चणेकाराच्या दिव्याचे
कांजळीचेर हारश्यांच्या पातळ कुडक्यांचीं
जातालीं फिल्मरिळां
आनी ताचेर – तांचे घशीचेर
कोरांतिल्लीं चित्रां
मागीर बॅटरी दिव्याच्या झोतान
तीं जातालीं फिल्मां
बापायच्या धव्या झिरझिरीत वाल्यार
वा नव्या पुडव्यार, ताका ना कळटां
अखेरेक घर पोन्नें जातालें
सिनेमा हावज,
पळोवपीय भुरग्यांच्या आवाजान

तशी लायट आयिल्ली गांवांत
खूब वर्सांनी
आनी कांय जाणांच्या घरांत
मागीर आमगेर ती पावली
जायना कांय बऱ्याच वर्सांनी

मर्दीं म्हाका मेळ्ळेलो एक दिवो
केरोसिनाचो दिवो
बापायन हाडलेलो – जात्रेंतल्यान
आनी ताचे वांगडा एक पुस्तक
म्हज्या हट्टा खातीर
दिवो घडयल्लो पितूळचो
तातूंत सुतलेची वात
तिचेंतल्यान चडटालें केरोसीन
वयर वयर आनी पेट्टालो प्रकाश
आनी जातालो धुंवर
धुंवर वयतालो नाकांत
आनी उजवाड दोळ्यांत
काणी नाचताली काळजांत
पुस्तकाच्या पानापाना वयली

केन्नाय पुसतालों हांव
त्या पितूळच्या दिव्याक
तेन्ना तो जातालो
अल्लादीनाचो दिवो
आनी दिवोच सांगतालो
माग तुका जाय तें
हांव वोगीच रावतालों
मागीर दिव्याच्या उजवाडांत
कितलींशींच सपनां उडटालीं म्हजीं
दोळे धांपल्यार लेगीत भितर
कितलोसो रंगीत उजवाड नी सपनां
तरंगतालीं पांखां लावन

दिव्याच्या नी पुस्तकाच्या
उजवाडान हांव उजवाडलों
कितलेशेच भितर उमाळे कल्पनांचे
म्हाका क्रियेटीव केलो
त्या उजवाडान नी पुस्तकान
तो दिवो आसा म्हज्या कोळव्यांत आजून
नव्या घरांत लेगीत
सीएफएल दिव्यांच्या उजवाडांत
एक अँटीक करसो

आता हांव जाणां,
दर एक दिवो आसता,
अल्लाद़ीनाचो दिवो
जो पेटयल्यार उजवाडटा
कितलींशींच क्षितिजां
आनी सपनांक फुट्टांत पांखां उडपाचीं
खरीं,
खऱ्यांनीच.





## स कविता

**– काशिनाथ शांबा लोलयेकार**

### *काव्यसूत्र: एक*

मनांत काळेपण दाटले उपरांतूच
हांव पळयतां कागदाचें धवेपण
धवोफुल्ल कागद हांव करूंक सोदतां
काळो-निळो
उतरांचें चाबूक घेवन

वेदना जातात
पूण चाबकान कांयच सिद्ध जायना
फकत वळ उरतात कवितेचे
विखारी सोरपां सारके
जे चावतात
रसिकाक
काळे-निळे करून सोडटात
जिणे-मर्णाचे शिमेचेर

कविता बरोवप
आनी कवितेचो रसीक आसप
ह्यो दोनूय कितल्यो भयंकर गजाली

हें भयंकर दिव्य जे करतात
तेच निमणे आपल्या गळ्या भोंवतणी
सोरोप रेवडपी शंकर जातात



### *काव्यसूत्र: दोन*

कविता येता पोटांतल्यान
पोटांतल्यान गळ्या कडें
थंय निळकंठ जावन
येता जिबलेर
जिबले वेल्यान बोटांत
बोटांतल्यान पेनांत
पेनांतल्यान कागदार

गाडव कागद कित्याक खातात?
गाडव कवितेचे लेगीत कागद खातात

आतां कोण गाडव
आनी कोण रसीक
वीख पियेल्ले सगलेच आसतले रसीक

### *सुख-दूख : चार कविता*

१)
जिणेंतली खोशी न्हूं
खोशयेंतली जीण, हीच
सुखाची व्याख्या

सूख कितें
खाता-जेवतनाय मेळटा
करतनाय मेळटा
समागम

समागमांतल्यान निर्मिती
हीच खरी
सुखाची व्याख्या

सुखाची व्याख्या
हांव दुख्खाक सांगतां
आनी हांव जातां दुख्खी

दुख्खी मनीस पळयता
सूख
–दुख्खांत

२)

सूख आनी दूख
ह्यो दोन जुंवळ्यो भयणी
आनी तेंका घोव मेळ्ळ्यात तेवूय जुंवळे
जुंवळे भाव: जल्म आनी मृत्यू

एकूच कोफुजांव।
समजना,
कोण कोणाचो घोव?
बा बा बा रे कोम्या
शोव शोव शोव

– आनी भुरगेंय जावंक ना त्या दोगांकूय
समजना,
कोण वांझ कोणाचो मोव

शेंकरें फुलोवन भोंवता कोमो
भोग भोग भोगता कोमयेक
तेच राती येता सोयरो
आनी कोम्याची जीण जाता मर्ण

लोकांनो,
आतां कोमी तांतयां घालतली
सुखादुख्खाचीं
कळचेंना खंयचें तांतीं सुखाचें
आनी खंयचें दुख्खाचें

लोकांनो,
तुमी खातात, ती शाकुती न्हूं
तें मर्ण

तें सुखूच, तें दुख्खूच, ती जिणूच आनी तरीय तें मर्णूच



३)

जीणभर मन जळटा
मेले उपरांत तन जळटा
निमणी उरता राख
आतां म्हाका राख
अशें कसो म्हणूं
म्हणूं कोणाक
देवाक
कांय देंवचाराक

गिधाडां उपाशीं
घिरट्यो घालतात मनांत
मनांतल्यान भायर सरतलीं तीं
हांव मेले उपरांत
म्हजो देह खावपाक

म्हज्या मर्णाचो सुवाळो हांवें पळयला
पूण मरोन हांव पळोवंक सोदतां
सुवाळो
मर्णाच्या मर्णाचो
– अनुपम्य

४)

सूख आंगाक लागना
दुख्ख लागता मनाक
वाजत आसा संगीत
पूण खबर ना कानाक

संगिताचो कान जाय
चित्राचो दोळो जाय
दुमदुमता वास हांगा
जिणेचें नाक जाय

पूण नाका म्हाका कांयच
कांयच नाका म्हाका
सूख नाका दूख नाका
जीण नाका मर्ण नाका

फकत
आनंद जाय
आनंद जाय



# दोन कविता

– राजय पवार

## आमी सगळे एक

हांगा कसलेच तरेचो
जातीभेद ना
आमी सगळे एक
ऑफिसर (वाणी)
मॅनेजर (बामण)
प्रोफेसर (शेट)
मरीन इंजिनियर (क्षत्रीय)
कम्प्यूटर इंजिनियर (गावडा)
दोतोर (भंडारी)
संचालक (भट)
बिडिओ (वेळीप)
मामलेदार (खारवी)
... ॲक्सॅट्रा ॲक्सॅट्रा
सगळे जात-कात विसरून
समाजांत एकठांय वावूरतात

हांगा कसलेच तरेचो
जातीभेद ना
आमी सगळे एक
गरीब (नुस्तेकार)
गरीब (पदेर)
गरीब (वेटर)
गरीब (किर्लिंडर)
गरीब (ड्रायव्हर)
गरीब (हमाल)
गरीब (मानाय)
गरीब ( कामेरी)
... ॲक्सॅट्रा ॲक्सॅट्रा
सगळे जात-कात विसरून
समाजांत एकठांय वावूरतात



हांगा कसलेच तरेचो
जातीभेद ना
आमी सगळे एक
भिकारी (लंगडे)
भिकारी (कुड्डे)
भिकारी (मोने)
भिकारी (दळडिरे)
भिकारी (भुरगे)
भिकारी (दादले)
भिकारी (बायलो)
भिकारी (हिजडे)
... ॲक्सॅट्रा ॲक्सॅट्रा
सगळे जात-कात विसरून
समाजांत एकठांय वावूरतात

हांगा कसलेच तरेचो जातीभेद ना.
आमी सगळे एक.

## माय ब्युटिफूल लेडी

हांवें नवो शर्ट चडयतकीच
विचारनासतनाय
तूं म्हजे सुंदरतायेक तोखेता
... तेन्ना वोगीच म्हाका
हांव शाहरूख वा सलमान खान सो
दिसपाक लागतां...
तुवेंय नवे साडयेची घडी मोडटकीच
तुकाय आसता अपेक्षा म्हजे कडल्यान
प्रतिक्रियेची...
...वाट पळोवन पळोवन
मागीर तूंच जावन विचारता
''कशें दिसतां?''
आनी हांव (दर खेपे भशेन)
''सुंदर दिसता'' म्हणटां.

तुका दिसलांय आसत
''वणटी वेलो हारसो लेगीत
प्रतिक्रिया दिता...
...आनी होच एकलो असो कसो?
सौंदर्यदृश्टी नाशिल्लो...
... वणटींतलो चिरो कसो!

पूण खरें सांगू!
साडी कमरार खोंवन
सदचे भशेन आपल्या कामांत
तूं गुल्ल आसता...
... आख्खें घर भुजांर घेवन वावूरता
... तेन्ना
घागरो वेंतभर साडये सकयल आसता
पदराकय भान नासता
... आडखळ हाडपी केंसांच्या चंवराक
गोल गोल घुंवडावन
कच्च करून गांठ मारता
तेन्ना तुज्यांतली सुंदरताय
पळोवपा सारकी आसता!

... आनी तूं नुस्तें उजरायता तेन्ना
फाटीर बशिल्लें जळार
मारपाचे निमतान
हांव तुजे म्हन्यांत येतां
... तेन्ना इतलें, तूं केन्नाच सुंदर
दिसना
तेन्ना तूं 'तूं' आसता
आनी हांव 'हांव' आसतां

हांवूय घरांत उकत्या आंगान
कमराक तुवालो गुटलावन
हेवटेन तेवटेन वावूरतां
तेन्ना फाटी वेलो घाम पुसपाक
तुका सादयतां...
... तुकाय तेन्ना तशेंच दिसता
काय?...
... घडये तशेंच आसपाक जाय.



## *अशें दिसता*

**– अरूण साखरदांडे**

अशें दिसता
सगळें सोडून सरळ वाटेक लागचें

पारजत देंठा सयत शुभ्रकेसर फुलां कसो झडयता?
तें पारजताक विचारचें
हळदुव्या फुलपाख्र्यां फाटल्यान
तायखिळे माड्डीत धांवचें
हे वटेन ते वटेन
गुलमोहराच्या मुळांत फुलपाकळ्यांच्यो
लालकेशरी झडी माथ्यार घेवच्यो
तळ्यांतल्या उदकांत पांय बुडोवन
ल्हान ल्हान नुस्तीं पांयांक चाबतात
ते ल्हवसार स्पर्श अनुभवचे

भिरभिर पावसांत पावसा वांगडा भिजत
पावसा-पाणयांच्यो गजाली करच्यो
निकर्तेच पिकून झडिल्लें हळदुवसार
आंबट-गोड घोंट चोखीत फिरचें
नीळपंखी मोराच्या हजार दोळ्यां फाटल्यान
दोंगर रानां भोंवत रावचें
न्हंयेच्या पाणयांत कुडीक निसंग सोडून
उदका वांगडा व्हांवत वचचें

काळ्या कांट्यांतलीं काण्णां
कणक कणेरीचीं कणेरां
रानबोरीचीं बोरां
जांबळिणीचीं जांबळां
चोंचर चिंचिणीचीं चिचरां
चोखीत फातराळ खडपांनी हेडचें

सांजे तृप्त घोंटेरा कडेन उडपी
ल्हारेवपी बळारांची शुभ्र वळ पळेत रावचें
रातीचें रुमडार बसून पाख्र्यां वांगडा फुलता
तें रुमडफूल सोदचें
आनी मागीर थंयच खंय तरी लवंडचें
पुनर्जल्मा मेरेन





*दंडकारण्य*

**– निलबा अ. खांडेकार**



नाशिल्ली आयचे इतकी जीण काल
पाशण काळजाची
दीस भराच्या सूर्याक खांदार मारून
दीस परतुपा इतली तरी तांक
शिरंतरांनी उरतालीच
काळखाच्या समदिरांत बुडी मारचे पयलीं
आनी फळटाली नवी उमेद
रातीच्या कुसव्यांतल्यान
दर नवे वेदनेक नव्या कश्टांचें परिमाण मेळटालें
घडये हातूंतल्यानूच आयलें आसतलें स्वातंत्र्य
मेकळे जाले आसतले प्रगतीचे नवे आयाम
आनी घडसत गेलें आसतलें जागतिकीकरणाचें जाळें
जाका लागोन संवसार धाकटो जालो
आनी हाल मळबाच्याकूय व्हडले
जे CIA आनी KGB च्या दहशती कारवायांनी
आनीकूच वाडत गेले
गर्दैतल्या एकसूरपणांत तीळ तीळ झरत गेले
आयजूय दर दिसा मरतना पळयतां हांव
फाटल्यान खंय तरी उरोना मूं म्हजी कुरू?
हिंदू आशिल्ल्याचो मुकूट जो म्हजे तकलेर आसतालो
गळ्यांत हो देश चलयल्ल्याची राजमुद्रा
आनी वोंठार हांशें रिजवल्ल्या काळजाचें
मनांतले देव, यादींतलीं पुराणां
आनी एक रक्तरंजीत इतिहास
दरेक गजाल दोश दियत लज काडीत म्हणटा
हांव हिंदू, खूनमारो
केस्तांवां पेटोवपी, किजिलां आरंभपी, आगळिको करपी
देवा-धर्मार, देवळां इगरजींचेर हात घालपी
बहुजनांच्या नांवार बदमाशी
आनी क्रांतीच्या नांवार दलाली दिवन मेकळो जावपी
खैरलांजी आनी निठारीच्या कलंकाक
मानवतेच्या कपलाक बुको म्हण फांसपी
जीवसृश्टीचो सर्वव्यापी स्त्राप

नाशिल्ली आयचे इतकी जीण काल
पाशाण काळजाची
जांचे कडें सगळें किदें आसा
ते सुपारी दिवपाचो धंदो करतात
संसदेक दाडीं मर्दी धरून
आनी जांचे कडें फकत पोटूच आसा
तांकां कायद्याक भियोवंक शिकयतात
म्हणोनूय संसद तांचे तकलेर रावन मुतता
सॅक्स आनी संस्कृतायेक एकाच सांच्यांत बसोवपाच्या
धडपडींक जैत मेळत आसा
जो आपल्याक जेश्ठ आनी श्रेश्ठ
विचारवंत वा लेखक म्हण समजता
तो आतां सोक्रेटिसाच्या समाधी लेखाचें
प्रूफ रिडींग करूंक लागला
राखी सावंताच्या स्वयंवरांत
एक निकटी प्रसिद्धीची फ्रेम आसा
जी भूल उतावळींच्या कपलाक मारूंक लागल्या
म्हण म्हणटां,

नाशिल्ली आयचे इतकी जीण काल
पाशाण काळजाची
कितले बेगीन विसरलों हांव
ग्रॅहम स्मिथ, कौसर बानो, वली दख्खनी
उज्याचे भर्कीत जिरपी किळांच्यो
अजून जल्माक येवचो आशिल्लो संवसार
आनी फोंडांतले न्हिदेक लेगीत तुकलावपी ते खीण



भोगसणें नाका म्हाका
नाका म्हाका मानवतेक भस्म करपी
किजिलां आड उबो रावपाक शिकय नाशिल्ली
हत्या करपाक प्रवृत्त करपी
संवसाराचो सार स्वार्थाच्या व्हडपणांत
चिघळपाक शिकोवपी गीता
नाका म्हाका उजो आनी अंतरीच्या तुफाना कडें
झुजूंक शिकय नाशिल्ले वेद
अजुनूय येता म्हाका म्हज्या जिविताक
भेरो करून उडोवपी, गॅर्राक घोशीत करपी
चवदां भुवनांचो ब्रम्हांड गाजोवपी
तो पांचजन्याचो आवाज
नाका म्हाका ते शंख
नाका म्हाका फाटीचेर वार करपी तें धनुष्य
जांगडां फोडपी ती गदा
प्रार्थनेक उबो राविल्ले कडेन
शीर धडा वेगळें करपी ती तलवार
निशस्त्रांक मारपी वज्र आनी गांडीव...
म्हजी अपेक्षा आशिल्ली व्हांवून वचपाची
मानवतेच्या निष्कलंक काळजांत
निरागस मनांत आनी रेसपेदाद विश्वसमुदायांत

आयज ह्या म्हज्या तांबड्या रगतांतली
सत्यता पट्टना
विसरून वचुंदी म्हाका म्हजो इतिहास
विसरून वचुंदी म्हाका म्हजे जेश्ठ आनी श्रेश्ठ पुर्वज
आनी तांचो कुलवंश
लायिल्लोय नाका म्हाका संदर्भ खंयच
वाल्मिकी आनी व्यासांचो
त्या अठरा पुराणांचो
आनी त्या पुराणांनी तयार केल्ल्या
सोळा तत्वांच्या विराट पुरुषाच्या शिरंतरांचो
लोता, पाश आनी जया सिब्बू बद्‌दल
कांय उलोवं नाकात
हिसकावन घेतिल्ले तांचे जिणेंत
पोगळून वचपा सारकें आयज कांयच उरूक ना
आयजूय रडटात तीं म्हजे कडें
शब्दांच्या ल्हव आवाजांतल्यान
जळट्या घरांतल्यान
मानवतेच्या दिक्‌कालांतल्यान
जांकां आयकोपाक दिसता
आमकां केन्ना फुटचेच ना कान

शरयू, दया आनी साबरमती हांगासर नात
विष्णू शर्माचो जल्म हांगासर जावंक ना
रान आनी रानवट्यांक पर्याय सोदतां सोदतां
भरत गेलें काळखांतलें रान म्हज्या प्राणांत
पालवत गेलो म्हज्या शिरंतरांचो वांगोड
आनी व्हांवत गेलो संवेदन प्रवाह मेंदवांतलो
तरीय चवदा वर्सां सोंपन सोंपनात
नखेत्रांचे गतीन काळ धांवोनूय
निरंतर जिणेंत उपेक्षितूच हांव
शिरंतरां पोखरीत रावपी
हाल अपेश्टांच्या ह्या मनीसहीण दंडकारण्यांत।



# *मुयांची कविता*

**– परेश नरेंद्र कामत**



सपनांत येतात मुयो म्हज्या
आनी म्हजीं चितनां मुयेतात...

मुयो येतात
मुयो वतात –
मर्दीच हांसतात
मर्दीच थामून एकामेकांचो
उमो घेतात.

हांव चिंततां –
खंयच्यान येतात काय ह्यो
खंय वतांत काय ह्यो
किर्ते सांगूंक सोदतात काय ह्यो
किर्ते उलोवंक सोदतात काय ह्यो
कोणाचो मोग करतात काय ह्यो
मुयो!

मेरे वयल्यान
सवकासायेन चलपी मुयांचीं
हीं काळीं काळीं पावलां
हांव पळेतां..

मुयांच्या पावलांनी हांवूय
ल्हवू ल्हवू
तांच्या सांगातान चलूंक लागतां.
मुयांची मोनेळीची भास,
काळीज पिर्शी सपनां
हांव समजूंक सोदतां.
म्हज्या उतरांनी उक्तावंक सोदतां.
म्हजे कडेन एकसारक्यो पळेत पळेत
दोळे बारिक्क करीत
हांसतात मुयो
आनी हांसतां हांसतां अचकीत
तांचे दोळे भरून येतात.
घळ्ळ करून तांच्या दोळ्यांतल्यान
गळूंक लागतात दुकां...

म्हजी न्हीद खळटा–
मुयांच्या दोळ्यांतल्यान
गळटात दुकां
गळटां गळटां जायत रावतात व्हड व्हड
पृथ्वीच्या आकारा येदीं व्हड व्हड
आनी म्हज्या पांयां पोंदची भूंय
गद गद हालपाक लागता
म्हजे हात–पांय गळसणपाक लागता
– म्हज्या काळजाचें
उदक उदक जाता...

खंयच्यान तरी
अचळय रीग काडीत
म्हज्या सपनांत येतात मुयो.
कच्च करून
आपलें काळीज तोडून दीत
म्हणटात म्हाका,
आमच्या सांगाताक यो!



# दोन कविता

– राजश्री सैल

## नवी कविता

मांय पिरंगता हांव हुमणाक
मीठ घालतना,
म्हजे असलें हुमण सातां
जल्मांत तुका करूंक
जमचेंना.
घोव ताणशेता येतां वतां
पळय शेजारच्यो बायलो
कितल्यो देव धर्मीक
तुज्या हातांत केन्नाय पळयल्यार
वायकम बशीर नाजाल्यार बाकीबाब बोरकार

बाय ल्हवच ओडटा पदर
म्हणटा ल्हव ल्हवच
ओलश्या दोळ्यांनी
पळय लुलूली ममी ताका शाळेंतल्यान
हाडटा पावयता तूं मात खंयच ना
ऑफिसांत बॉस
फायली आपटिता मेजार म्हणटा
रागान तुका हें कांयच जमचेंना
वच दोळ्यां मुखावेल्यान
हांव वोगी वोगी शें
थंड झेलाद फातर कशें
पूण भितल्ल्यान कितलोसो वेळ
मेरेन धगधगत खतखतत
तापत न्हिवत रावतां
एके नवे कवितेचो
जल्म जाय मेरेन.



## टिंब टिंब..... .....

हालीं हालीं सगलींच उलोवंक
लागल्यांत टिंबाटिंबान...
थेंब्याथेंब्यान...
कोणाच्या बोल्सांतल्यान पर्सींतल्यान
मोबायल एसेमेस भास
बल्कांवांतल्यो खबरां कवळ्यो
हुबल्यो खंयचे खंय
दिगंतरार कोण जाणा
नुस्तेकार, पसरकार, पदेर रेंदेर
वळखी अनवळखी
सगल्यां कडेनच रंगताल्यो
जाणटेल्यांच्यो खबऱ्यो
रुचीन उमेदीन
पिळग्यां पिळग्यांचें
गिन्यान खबऱ्यांचें भांडार
उगडीत उस्तीत
वरांचीं वरां झांकत झांकत
काळ वेळ फकत रावतालो
तिश्टत तांच्याच दारांत
आयज... सगलो संवसार
थतर वितर...
कालचो दोतोर... फाल्यांचो शेट
आयचो पसरकार... परांचो नुस्तेकार
संवसार धांवता वेगान
फ्यूचर शॉकान भयभीत
हाकाच लागून
कितलेशेच अनवळखी
चेरे दार वाजय नासतना
बॅल मारी नासतना
येतात खबऱ्यो मारूंक
दनपार, तीनपार, सकाळ, सांज
मध्यानरात पळयनासतना
पुराय चोवीस तास
टी.व्हीतल्यान रेडियोंतल्यान
जायरातींतल्यान
आनी आमचें ब्रेन वॉश
करीत वतात आमकां
कळनासतना...



# दोन कविता

**– आर. एस्. भास्कर**

## वेळा बराबर चला

वेळा बराबर
चला आमी
ना तर –
वेळा फाटल्यान धावंक पडटलें.
कांय वेळा
घडघडेवन पडटले
देखून केन्ना
लक्षा कडें पावचे ना.

## फातर वंशी

आमी फातर वंशी
आमी पासाण कुळी
तुजी वस्ती गर्भकुडींत
म्हजी पूण दारा भायर.
हांव सादा सोंपण
देखतां सदां सपण
आशें जालें नशीब म्हजें
सगकटांचें फोपरमार घेवपाचें

तूं मरे आसा मेकळो
हांव पूण कुडींत बंदी
म्हळ्ळेलेंच म्हळ्ळेलेंच
परत परत आयकता
बळान दितालें
मोन्नेपणान खातां
आसा म्हजो कपला वेलो बोरो
मागतल्यांक मागतल्यांक बरें मागचो.





# दोन कविता

**– अरुण सिंगबाळ**

१

उकत्या मळबा वयलीं
दोन नखेत्रां
काळखे रातीं
भुंयेर पावलीं;

तूं मुमुरखें हांसलें
तेन्ना तुज्या दोळ्यांत
तीं नखेत्रां लिकलिकलीं...

२

आतां –
तूं हांसता तेन्ना
चान्नें पडटा;

पारजत फुलनासतना
परमळ घमघमता;

बिण्ण काळखांत
उजवाड फांकारता;

...आनी हांव...
शाणो आसून
पिसो जातां
... तूं हांसता तेन्ना!



# तीन कविता

– सु. म. तडकोड

१.

## खंय तरी भितर...

साबार आंकवार खीण कशे गच्च जावन आयल्यात हे नवे वास्तूंत आनी

तोखेता चंवर अनवळखी घुंवळेक
रात धारेर येता...

गच्च गच्च भुंयेंत
उदे लिक्क प्रकाश;
रिगिल्ले दिठयेंत
तुट्टा काळखा पाश

अनावर पाशांत
लिपलां एक नार्ते;
तळमळटा खोल
धगधगता पार्ते

हुंबरो लिपोवन दवरलो हांवें हे नवे वास्तूचो मस्तेपणाक हुवार येतलो म्हूण

आंकवार खीण वसवसून जिणेपांयांर ओंपता;
उतराक उतर लावन भास फुलूंक लागल्या,
मर्णाकयं धुंद करपी कविता लिपी सोदता.



२.

## कांय जाणांनी

काय जाणांनी दवरल्या अडेच्यां कांट्यांची आटी माथ्यार,
उतरां सोदीत, नकलामी करपाची रगत व्हावंक दिवन;
तांकां फुलां दिसनात, दिसल्यारय तीं बाविल्लीं,
तांकां मुमुरखें हांशें दिसना कोणाच्याच मुखामळार, दिसल्यारय तें करपल्लें;

हांसपाक जाय तेन्ना हांसुंकच जाय आनी
करंदाय मारपा वेळार ती मारुंकूच जाय;
तशें करपाचें सोडून साबार जाण जाय तें करतात देखून ही व्यथा!

खंय तरी भितर मेरेन ही व्यथा भेरेल्या,
ही व्यथा आयकुपाचे भावमुद्रेंत कोणूच ना...

३.

## स्पर्श आसचो

स्पर्श आसचो अबोल आनी
आसचो चन्द्रीम फुलतो
निरंतराचो सोद घेवूं
उदेचो सुर्या द्रुलतो

ना म्हजें, ना तुजें म्हणपी
पदां, आसूं तुज्या दोळ्यांत
गावपी रान भुल्लुसलें
नुलयल्ले उले तालांत.



## *ही रान काणी...*

– प्रकाश पर्येकार



हांव एक सारको घुंव घुंव, घुंवतां रान रान भोंवतां
भोंवतां रे त्या पालसणांनी घळण दोंगर देंगणांनी
हांव चलतां, चलतां चलतच रावतां आनी घेतां थाव
झडून गळून पडिल्ल्या त्या विविध झाड खोलप्यांनी
केन्ना मुयो काटमुयो वाळटी जावन राबितो म्हजो हांगा
झडपून पुरून नासून शेणून गेल्ल्या त्या रान रोयणींनी
जाल्यार केन्ना अस्वल वाग साळीच्या पोडींतल्या त्या
खोल खोल काळोख दाट दाट घळण वळण देंगणांनी



हांव गरगर गरगरतां हुस्केतां खर्शेतां म्हजेच भोंवतणीं
चलतां दिमकुऱ्यांनी केन्ना धांव धांवतां मेरवाच्या पावलांनी
उडून ऊंच ऊंच वतां हांव पालसण देंगण घळी पलतडीं
आनी दुखेस्त जावन बसतां सुकून मरून गेल्ल्या झाडां झुडपांनी

हांव घश्टतां कश्टतां ओडत सरपटत हावेसान मुखार वतां
रिगतां बिळांत घुसतां पेडींनी जातां एकरूप रान फुलां फुलांनी
रान धड दरड ऊंच ऊंच दोंगर खडयांचो घेतां थाव हांव
मागीर थकून थकून भागून भागून रिगतां वटवागळांच्या पेडींनी



न्हंयचे आलतडी हांव केन्ना रान व्हाळांचे पलतडी पलतडी
भोंवतां भर दनपरां केन्ना केन्ना पावसाच्या झडी वावझडींनी
देखतां भरून घसघसपी फसफसपी वझरे वझरेच ते सगळे
दोंगराच्या त्या शिल्प कल्प सुंदर भुलोवपी कड्या कड्यांनी

तीं भोंवपी सावदां उडटीं सवर्णी मोराचीं रंग गंधयाळीं पांखां
नियाळटां हांव हें सगळें घोण, वायेरें रानकावळ्याच्या दोळ्यांनी
भीर भीर सर सर सळ सळ पानां पानांत हो नाद रानपिसो
थाव घेतां आत्मसोदा फाटल्यान धांवतां सोंश्या पांवल्यांनी



आयज हांगा पेटला दाटला रानांत उजो जाळटा रान रान सगळें
हुलपून गेल्यात कोण मेल्यात सगळ्यांक जाय थेंब थेंब पाणी
धुंवराचे लोट मळबांत धुकोट देंगणांत खातड मड्यांच्यो घाणी
हड्ड्यांत हुस्कार स्वासांत स्वास दोळ्यांत म्हज्या खार खार पाणी



हुलपून गेलां जळून गेलां गोबर जालां धुंवर धुंवरच सगळो ह्या रानी
म्हजें अस्तित्व आतां करपून पुसून नासून गेलां जालां एक काणी
गंध परमळ उडून गेला ह्या देंगणा देगणांत मरण मरणाच्योच घाणी
रान रान रान रान रान रान रानाचीच ही रान मरण मरण काणी...



*काणी*

– बाळकृष्णजी कानोळकार



म्हाका एक काणी येता: तुका
ती सांगची म्हुणटां
साठां उतरांची: बत्तीस लक्षणांची: छत्तीस गुणांची: सुफळ देणी:
संपूर्ण ती. काणयेंत –

एक आसता राजा आनी
एक आसता राणी.
उतरांच्या सोदांत हांव आनी
कुंवराच्या सोदांत काणी.

सोद सोद सोदलें...
आरतून परतून सोदलें...
वयर सकयल सोदलें...
आदलें मदलें सोदलें...
फाटीं फुडें सोदलें...
आशिकुशीं सोदलें...
भायर भितर सोदलें...
आयज फाल्यां सोदलें...

सोदतां सोदतां जाली रात:

पयलो चंद्रीम उदेलो...
दुसरो चंद्रीम उदेलो...
तिसरो चंद्रीम उदेलो...
चवथो चंद्रीम उदेलो...
पांचवो चंद्रीम उदेलो...
अशें पंचीय चंद्रीम उदेलें.

अशे पंचिय चंद्रीम उदेले...
आनी अष्टमीचो चंद्रूय मावळ्ळो.

परती परती जाली रात.
आरती परती जाली वात.

परते परते परते परते
पंचिय चंद्रीम उदेले.
पंचिय चंद्रीम मावळ्ळेय.

एकूय पर रतलो ना.
एकूय मेलो रुजलो ना.
एक्क रात फळ्ळी ना.
एक्क काणी कळ्ळी ना.

परत्यो परत्यो राती आयल्यो
आरत्यो परत्यो गेल्यो
परत्यो परत्यो वाती वळ्ळ्यो
सार सार सारल्यो.

सपन सपनेता: काणी वथरेता:
एक आशिल्ली राणी:
आनी...
कुंवराचो सोद लागचो आसा.

म्हाका एक काणी कुंभा: तुका
खबर आसा नामो?... म्हज्या
राजकुंवराचो: काणयेंतल्या: जिणेंतल्या:
ना...ना : तर... तर
तूंच कित्या जायना तो
काणयेंतलो राजकुंवर म्हजे?



## एक थेंबो

– माधव बोरकार

एक थेंबो
थरथर पानार
एक उमो
हुरहूर मनार

उडलो थेंबो
सवर्णे जावन
रुजलो उमो
स्वासांत रावन.



## मोगरा माली

– के. के. सुब्रम्हण्यम

देवाले फूल चांग फूल
कोणाक जाय मोगरा फूल
पोरमोळु यत्ता यंगाय
थंगाय मोगरा फुल्लाचो.
मोवु पिवुच्याक भोंवरु एत्ता
आज मोगरा फुल्लारी
पोट भोरणु मोवु पीवुणु
फूल्लाक सोडूणु गेल्लो तो
चोवुणु चोवुणु दीसु गल्लो
राती जाल्ली सेंत सेंत
मोगरा फूल रडूणु रडूणु
खाल्ला पळ्ळें ते दुखानी
आगो बाये मोगरा फूले
चाँ गुंथूणु माली कोरणु
देवाक अरप्पण करूक
जाय जाय मोगरा माली.



## दोन कविता

– गोरख शिरसाट

### पावसा दिसांनी

पावसा दिसांनी तें येतना
आपले वांगडा
हरंधारींचो पावस घेवन येतालें
आनी हांव
पावस वचपाची वाट पळयतालों.
आतां पावसाळो सोंपत आयला
तरी केन्नाय हरंधारींचो पावस
येत काय म्हण वाट पळयतां
पावसा वांगडा तरी तें
आयल्यार आयलें म्हण...

### दर्याच्या गोपांत

दर्याच्या गोपांत
मोतयां वरी पावसा थेंबे
रिगतात तेन्ना
दर एका पावसा थेंब्यांत
तिचें रूप पळोवन
हांवूय दर्या जावन
जमनीर पातळटां.
म्हजे वेंगेंत
तिका रिगयतां.





## गजल

**– महेश पारकार**

(१)
अचकीत तें आयलें प्रेमगिताची वळ जुळी
शब्दा बगर जावं भावनां रुजोवन गेलें ।
फांतर्येतल्या फुलां वरी सोबिताय ताच्या रुपाची
मोगाची ओल नासूं काळीज भिजोवन गेलें ।
जालें दुसऱ्यांचें दुखदिणी खबर दिली
मनाक विरागी आसूं गजल भेटोवन गेलें ।
ताचें येवप तशें मर्तींत येवपी कविताशी
जिवाक धपको दिवूं फुडार सोबोवन गेलें ।

(२)
वगीच कित्याक म्हण सांग मोगान फटयलो
ताजे बगर यार्दीनी वास तिगला फुलांचो ।
जायना भेट म्हूण कसो कोणाक सांगतलों
ताका ओंपिल्ल्या खिणांनी दीस रंगता सपनसो ।
लार्गीच खंय तरी आसा तो वारोय परमळटालो
सुवात ताची काळजा खास कित्याक विसरलों ।

(३)
आयलें तें मोव मुलायम हांसलें
पेखतलो घाय जिवो करून गेलें ।
चिंतलें ना केन्ना येत म्हुण परतें
अचकीत मुखार वीजशी पेटून गेलें ।
खबर ना आतां नातें आमचें कसलें
काळजाची तार परती जोडून गेलें ।
येतना पोरन्या यार्दी सयत आयलें
वतना उरलेलो मोगय चोरून गेलें ।



## तीन कविता

**– संहिता कुळकर्णी**

### मोगा त्रिकोन

पिर्थूम सुर्या भोंवतणी घुंवता,
चंद्रीम पिर्थुमे भोंवतणी
हो सासणाचो
मोगा त्रिकोन काय किर्ते?

### मूर्त

फातरांत
ताका देव दिसलो.
स म्हयने कोरांतून
ताणें मूर्त घडयली.
आतां पळयता –
अपुरबायेन –
देवाच्या रुपांत फातर –
गर्भकुडी भायल्यान!

### नशीब!

कळवळ्ळो
एक घोंट उदका खातीर
चोंयवशीन उदक आसुनय,
दर्यार भोंवतना.
कळवळटा आजुनय
लोकांचे गर्दींत
मोगाच्या दोन उतरां खातीर!





## कित्याक दिसता काय अशें?

**– सुभाष रघुवीर बोरकार**

कित्याक काय दिसता
हें सगळें –
हे उत्फर्के
हें घळघळून वचप
हें तडफडप
हें धडपडप
ही उमळशीक
दिसता –
सगळें दिवचें सोडून
खंय तरी पयस, शुन्यांत नाच्च जावचें,
नाकात लग्नां, नाकात मुजी
नाकात पार्ट्यो सोबेच्यो
झगझग, लखलख
सगळो बडवाचार अहंकाराचो
मेल्ल्यांक बोटां मोडटात
उतरांच्यो कॅसेटी लायतात
फाट करनाफुडें मुखामळ कुसयतात.

देखून घडये –
दिसता
हें सगळें...





## एकदां

**– नरेंद्र बोडके**

एकदां अशें जालें:
मळबाचे देगेर चलतां चलतां
पावलां झडून गेलीं.

आनी आतां –
जांकां हांवें नदर दिली,
जांच्या रगतांत चान्नें ओंपलें,
तांच्याच दोळ्यां पेले काळोख
म्हज्या उतरांत रिगतात;

पावलां ना
– तरीय सगळे दीस
म्हज्याच गीतांत बुडटात...



## गिराण

**– सुफला रुद्राजी गायतोंडे**

दिसतालें
गिराण येवचें
आनी
म्हाका न्हिदूंक मेळचें...
हें गिराण
म्हाका सदचें...
बावोवपी
सुकोवपी
करपावपी...
म्हाका जाय
तसलें गिराण...
एक फावट तरी
तें येवचें
आनी जिणेक म्हज्या
येवची आंकरी
एक तरी...





## म्हज्यांतलें हांव

– रुपाली किर्तनी

सोदचें शें दिसता म्हाका
म्हज्यांतलें हांव
आसलें कशें, शेणलें खंय
बदललेंय नांव

हांव बरें गायतालें
हांव बरें नाचतालें
कलाकुसर करूंक सदांच
हांव फुडें सरतालें

म्हज्यांतलें हांव
तुवें खूब सांबाळ्ळें
तरी म्हज्याच ल्हारां वांगडा
हांव कशें व्हांवन गेलें

आनी तुमी आयलीं तशीं
हांव म्हन्यांत मिसळून गेलें
तुमचे खोशयेंत सोदीत म्हाका
म्हजे म्हाकाच विसरून गेलें

आसलें कशें, शेणलें खंय
बदललां जरी नांव.
आयज म्हाका सोदीन दिसता
म्हज्यांतलें हांव.





## तूं खंय...?

– नरेश नायक

उजवाड दाखोवन
संवसाराचो
तूं खंय गेली?
कंवळ्या आंगार
भोंवपी मायेचो हात
हेरां कडल्यान
आयकल्लो...
तुज्या गोपांतली हुनसाण
केन्नाय सपनांत
अणभविल्ली...
तुज्या हातची उणी
वांगडा रुचीक काणी...?!
हेंय सगलें काणयेंतलेंच...
हांगा भरिल्ल्या पोटार
हांव उपाशीं...
तुज्या पदराक धरून
केन्ना धांवलों ना
तुवें धरचो
म्हूण मुद्दाम केन्ना
रडलों ना
हट्ट, मस्तीय केलिना
शाणो कसो
अळणी अळणी जियेलों
तुवें म्हाका उजवाड दाखयलो
हांवें मात
जोडलें नातें
काळखा कडेन



## 'प्राणंज्योत मावळली!'

– चंदन केळेकार

भाऊ गेलो...
भुरगोच गेलो...
म्हळें कोणें तरी
'प्राणज्योत मावळली!'
पूण दिसलें
आयज पयलेच फावट
आयकतां
प्राणज्योत 'मावळली'!
'विझली' न्हय
मावळली!
सूर्य मावळटा
मावळटा म्हळ्यार
विश्वांतल्यान ना जायना
फकत
ह्या क्षितिजा वयल्यान
त्या क्षितिजार वता
थंय उजवाड दिवंक...
दिवलेंत वात आसता
वातीर जोत.
दिवली पेटयतात
एक
दुसरेक तेंकोवन...
कांय वेळार
पयली पालवता.
वात पालवता
पूण जोत?
हे वातीर ती ना
पूण दुसरे वातीर
जळटा...
उजवाड दिता.
कांय वाती
निमाणे मेरेन
आसतात
जोतीक धरून
कांय
बेगीन पालवतात...
जोत मात आसता
खंय तरी
कोणाक तरी
उजवाड दीत...



## शिरवण

– शोभा शिवा फुलकार

न्हावन धुवन धर्तरी
पाचवो शालू न्हेसल्या
सुकिल्ल्या रुखाक लेगीत
कोमरी नवी फुटल्या
रुखाचे तेंगशेर
कोगळा गायन चल्लां
पावसाच्या सांगाता
भांगरा वत पडलां
पानान पान हांसता
व्हाळ भरून व्हांवता
वाऱ्याचो खोशये सूर
कानांत सांगत सुटला
शिरवण म्हयनो आयला
शिरवण म्हयनो आयला



## दुख्खाचें कुवाडें

– सुशीला नी. हळर्णकार

दुख्खाचो सांगात
कोणाक नाका
दुख्खाची सावळीय
कोणाक नाका
दुख्खान...
मनीस करपता
दुख्खान...
मनीस कांचवेता
दुख्ख म्हणल्यार...
वायट दिसप
दुख्ख म्हणल्यार...
कांटे तोंपप
दुख्ख म्हणल्यार...
वायट दिसप
दुख्ख म्हणल्यार...
कांटे तोंपप
दुख्ख म्हणल्यार...
सैरभैर जावप
दुख्ख म्हणल्यार...
म्हज्याच मनाची स्थिती
हांवेंच निर्मिल्ली
ही परिस्थिती
दुख्ख दुसऱ्यांनी दिलें
हें सामकें फट
दुख्ख हांवेंच निर्मिलें
हेंच शाश्वत सत्
हांव कोण?
हें हांवें वळखलें
तेन्नाच दुख्खाचें कुवाडें
नकळत होलमलें





# महात्म्याच्या सांगातान जिविताची भोंवडी

डॉ. अभय बंग   कोंकणींत हाडपी: सरिता नारायण देसाय

गांधीजींच्या वस्तूंची साउथ बे लंडन हांगा पावणी जाली. तिका भोव बरो प्रतिसाद मेळ्ळो. फाटल्या वर्सा जुलै म्हयन्यांत गांधीजींची स्वाक्षरी आशिल्ल्या पत्रांची विक्री जाली. तांकां ४ हजार ७५० पौंड मोल मेळ्ळें. गांधीजीन विणिल्लो खादीचो कपडो २ हजार १२५ पौंडांक विकलो. गांधीजींनी एमा हार्कर हे आयरिश इस्टिणीक भेट दिल्ली १३ इंच उंचायेची बुद्धाची पितूळची मूर्त अशीच पावणेर वचपाची आसा. तिचे तीन-चार हजार पौंड येतले असो अदमास आसा.

महात्मा गांधीन आपुडिल्ल्यो ह्यो वस्तू. एका म्हापुरसाच्या स्पर्शान तांकां लाख मोलाच्यो केल्यात. गांधीजींच्या विचारांचो जांच्या जिविताक स्पर्श जाला तांच्याय जिविताचें भांगर जालां. डॉ. अभय बंग हांणी इंग्लंडांक दिल्ल्या एका उलोवपांत आपल्या जिविताचेर गांधीजींचो प्रभाव कसो पडलो हाचेर उजवाड घाला. त्या उलोवपाचो हो कोंकणी अणकार.

– अणकारपी

**...तु**मी तांकां प्रत्यक्ष मेळ्ळ्यात?

म्हजें भुरगेपण महात्मा गांधींच्या सेवाग्राम आश्रमांत गेलां हें कळटकीर जायते जाण उमळशिकेन हो प्रस्न म्हाका विचारतात. म्हजो जल्मच जाला गांधीजींच्या मर्णा उपरांत, तेन्ना हांवें ह्या प्रस्नाक कितें जाप दिवची? जांणी गांधीजींक पळोवंकूच नात अश्या स अब्ज लोकां मदलोच हांवूय एक. पूण हांव तांकां दिसपट्टो मेळपी. ते म्हजो आजो कशे, आनी तांचेंच रगत म्हज्या शिरंत्रांनी घोळटा अशें म्हाका दिसता.

म्हज्या दरेका कर्तुपा कडेन ते आपल्या मिश्कील हांशा सयत मोगान आनी अपेक्षेन पळेतात. म्हजे कडसून वायट कर्तूप घडलें जाल्यार खुरसार गांधीजी चडटात. गंभीर थारावणी घेवपाचो खीण म्हज्या जिवितांत येता, तेन्ना हांव तांकांच मेळून विचारतां, 'बापू, हांव आतां कितें करूं? महात्म्या कडेन जाल्ल्या कांय भेटांचे हे उगडास. कांय उगडास म्हजे खाशेले तर कांय रासवळ म्हणूं येत अशे.

दोन ऑक्टोबराक 'गांधी जयंती' कशी मनयली? आरत उंवाळून, केळवणी करून काय गोडशें वाटून? काय 'गरिबांतल्या गरीब मनशा कडेन एकरूप जायात' हो गांधीजींचो संदेश, आनी 'तुज्या कश्टांनी जोडिल्ले भाकरेचेरच तुजो अधिकार' हें तांचें तत्व पाळून?

आश्रमांतले शाळेंत गांधी जयंती दिसा दरिद्र-नारायणा कडेन एकरूप जावन कश्टाचो उत्सव चलतालो. दीसभर उपाशीं रावन, शेतकामत्या बशेन शेतांत कश्ट करून वा चरख्याचेर सूत कांतून जोडिल्ल्या दिसवड्या कोंतार फावो जाल्लें अन्न सांजवेळा आमकां मेळटालें. सांज जाता म्हणसर हातांक फोड येताले. हुमेल्लें आंग वळटालें. पोटांत भुकेचो उजो. थोडो दिसवडो मेळटालो खरो पूण तातूंतल्यान कितलेंशें अन्न खावंक-भोगूंक मेळटालें? ते इल्लेशे भाकरेन म्हजे भुकेचे पत्रावळीचो एक कोनसोय भरलो ना तेन्ना भूक म्हळ्यार कितें, कुपोषणाचो अर्थ कितें, कश्ट करप्यांचो दिसवडो कितें आसचो, शेतकामत्याच्या कश्टाचें मोल कितें आसचें, ह्या साबार ब्रह्मप्रस्नांक प्रत्यक्ष मेळप जालें.

खरें म्हळ्यार म्हज्या मुखावेल्या जिवितांत समाजसेवा म्हूण ज्या प्रस्नांचेर हांवें काम केलां तातूंतल्या जायत्या जाणां कडेन म्हजी पयली भेट गांधी जयंती दिसाच जाल्या.

ह्या दळदिरान भरिल्ल्या देसांत देवाकय भाकरेच्या रुपानूच दर्शन दिवचें पडटलें अशें गांधीजी म्हणटाले.

हाफपँट घालून दोग भुरगे सायकलीन वर्धा जिल्ल्यांतल्या पिपरी गांवांत वताले. सोळा वर्सांचो हांव. आमी दोगूय तेन्ना सेवाग्रामांत गांधीजीन सुरू केल्ले 'नयी तालीम' पद्धतीचे शाळेंत शिकताले.

अशोकान सायकल थांबयली. 'आतां आमी व्हडले जाल्यात. आमच्या जिविताचें कितें करचें हें आमी थारावंक जाय' अशें ताणें म्हळें. हांवें मान हालयली. ह्या विशयाचेर आमी धा मिणटां बारीकसाणीन भासाभास केली. सगल्यांत दुःखी-कश्टी, आदार नाशिल्ले लोक गांवांनी आसात. पोटांत भूक, आंगार चवनां आनी कुडींत तरातरांचें रोग घेवन ते जियेतात. देखून आमचे मदल्या एकल्यान शेतीचें मळ वेंचून काडचें आनी दुसऱ्यान भलायकेचें अशें आमी थारायलें.

अशोकान आपूण शेतीच्या मळार योगदान दितलों अशें म्हणटकीर भलायकेची जापसालदारकी म्हज्या वांट्याक आयली. फुडें अशोक कृषीतज्ज्ञ जालो. विदर्भांतलीं रखरखीत मळां आनी शेतकारांचीं शेतां हें तागेलें कार्यक्षेत्र जालां. ह्या मळार तो सुधारणा घडोवन हाडीत आसा.

भलायकेची जापसालदारकी घेवन हांव दोतोर जालों. फुडें गडचिरोली आयलों. 'आरोग्य-स्वराज्या'ची कशी स्थापणूक करची हेंच म्हज्या जिविताचें मिशन जालें.

आमी दोगांयनी नशिबा कडेन ही कबलात केली तेन्ना सर्गाच्या त्या मोडणार कुशीकसो महात्मा अपुर्बायेन आमचे कडेन पळेत उबो आसलो.

केन्ना तरी ताणें म्हणिल्लें - 'हांव तुमकां जादूचो तावज दितां. 'कितें थारावणी घेवं?' असो प्रस्न तुमचे मुखार येतलो तेन्ना तुमी पळयल्ल्या सगळ्यांत चड दुखेस्त, दुबळ्या मनशाचें रूप नदरे मुखार हाडात.'

अलाहाबादेक गांधीजी पयलेच फावट नेहरूंच्या आनंद भवनांत आयिल्ले. तरणाटे पिरायेचे जवाहर तांची सरबराय करताले. सकाळीं गांधीजी तोंड धुतना जवाहरा कडेन उलयताले तेन्ना उलोवपाचे तनरेंत कितलोसो वेळ उदक व्हांवत उरलें. अचकीत गांधीजी भानार आयले तेन्ना उदकाचो इबाड जालो म्हूण तांणी चुरचुरे उकतायले. तरणाट्या, गर्भश्रीमंत जवाहरान हांसत म्हळें, 'बापू, इतलें वायट दिसून घेवपाची गरज ना. हें अलाहाबाद. हांगा गंगा आनी यमुना दोगीय व्हांवतात.'

'हय जवाहर, म्हाका खबर आसा. पूण गंगा, यमुना म्हजे खातीर व्हांवनात,' बापुजीन म्हळें.

पर्यावरण चळवळ सुरू जावच्या उणेंच पन्नास वर्सां आदीं गांधीजींक हें भान आसलें. सैमाची गिरेस्तकाय मनशाक कशाय कशी भोगपा खातीर, तिचो इबाड करपा खातीर ना. तिका स्वताचें अस्तित्व आनी मोलूय बी आसता. ती गरजे पुरतीच वापरप.

ही याद वाचली तेन्ना हांवें निकतोच नागपुरांत मॅडिकल कॉलेजांत प्रवेश घेतिल्लो. हांव उठलों आनी लायटीचेर चलपी पंखो बंद केलो. पंखो नासतना म्हाका जियेवंक येवंक जाय. दोतोरकीच्या शिक्षणाचीं फुडलीं पांच वर्सां नागपुराक, गिमांतूय बी, पंखो नासतना काडलीं. गडचिरोलीक रावपाची ही पूर्वतयारी आसली.

गडचिरोलींतल्या म्हज्या राबित्याच्या दुसऱ्या वर्साची एक घडणूक. गांवा भायल्या एका घरांत आमी तेन्ना रावतालीं. एके वटेन उकतें मळ. थंय शिंयां दिसांनी कांय हेडग्या लोकांनी आपले तंबू उबे केल्ले. एके रातीं थंय व्हडलो बोवाळ आयकूंक येवंक लागलो. आड्ड्यो, रडारड... सोऱ्याचे घुंवळींत एका घोवान बायल-भुरग्यांक पेट घाल्लो आनी आपलो तंबू, तांतलें सामान सगळें लासून उडयल्लें, आनी पळून गेल्लो.

सकाळीं थंय वचून पळेत जाल्यार गोबराचे राशी म्हन्यांत मार खाल्ली, बोंदरां न्हेशिल्ली एक आवय आनी तिचीं शियान कुडकुडपी आनी भंयान कडकडपी सात पोरां उर्बी आसलीं. राणीन तांकां पांगरुणां आनी खावंक दिलें. जायत्या बायलांक घोवाच्या सोऱ्याच्या वेसनाक लागून त्रास भोगचे पडटात. हो प्रस्न कसो सोडोवपाचो?

म्हजो ते रातीं दोळो लागलो ना. ते मार खाल्ले आवयचे दोळे, तिचीं भियेल्लीं भुरगीं दोळ्यां मुखावेलीं कशींच हालना जालीं. हांकां सोडून कशें वचचें? गांधीजी कितें करतले आसले? सोदूंक लागलों. – एका वरा खातीर म्हाका हिंदुस्तानाचो हुकुमशा केलो जाल्यार सगळ्यांत पयलीं, हांव सगळीं सोऱ्याचीं दुकानां आनी लायसन्सां कॅन्सल करतलों.

वा! ह्या प्रस्नाचेर गांधीजी आमचे बराबर आसात तर. धिटाय वाडली. तांणी कितें केल्लें? चक्रवर्ती राजगोपालाचारीन ह्या प्रस्नाची जापसालदारकी घेवन शासकीय आंकडे मेळयल्ले. त्या वेळार पुराय भारत देसांत सोऱ्याच्या वेपारांतल्यान इंग्लेज सरकाराक वर्साक २५ कोटी रुपयांची येणावळ जाताली. गांधीजीन सोऱ्याच्या विरोधांत लोकांक शिक्षण दिवपाचें, सोऱ्या-दुकानांचेर पिकेटींग करपाचें कार्य हातांत घेतलें. मार्ग मेळ्ळो.

गडचिरोलीचे आंकडे मेळयले. जिल्ल्याच्या विकासाचेर १४ कोटी रुपया मोडपाचे आसले आनी सोऱ्याचें गिरायक २० कोटी रुपयांचें आसलें. गरिबीचें एक कारण ह्या सोऱ्याच्या अर्थशास्त्रांत मेळ्ळें. सोऱ्या-दुकानाच्या विरोधांत पिकेटींग सुरू जालें. 'गांवाची दारुमुक्ती' करपाक गांवा गांवाचे लोक भायर सरले. राज्य सरकाराक लेखी नासतना २ ऑक्टोबर १९९२ सावन जिल्ल्यांत 'जनतेची दारुमुक्ती' चालीक लायली.

गडचिरोलीच्या रानांत गांधीजी आमचे वांगडा झुजताले. पांच वर्सांच्या आंदोलना उपरांत निमाणें १९९३ वर्सा पुराय जिल्ल्यांत सोरो-बंदी लागू केली. पयल्याच वर्सा जिल्ल्यांतलो ६० टक्के सोरो कमी जालो. लोकांचे १२ कोटी रुपया वाटवले. घराघरांतल्या उपाशीं बायलां भुरग्यांच्या पोटांत अन्न पावलें.

पूण हो प्रस्न पुरायेन ना जावंक ना. ह्या वर्सा पुराय महाराष्ट्रांत सोरो विकपांतल्यान सरकाराक चार हजार कोटी रुपयांचे येणावळीची अपेक्षा आसा! सोऱ्याचो प्रस्न सुटावो जावपाक कृतिशीलतेची गरज आसा.

दक्षीण आफ्रिकेंत हांव पावलों तेन्ना जंय जंय गांधीजी राविल्ले, तांची अस्मिताय जंय जंय घडिल्ली थंय वचून आयलों. गांधीजींच्या जिवितांतलो 'टर्नींग पॉयंट' थारिल्ले सुवातेर, म्हळ्यार पीटर-मॅरिट्झबर्गाक गेलों. उणींच म्हळ्यार १०० वर्सां आदीं, आफ्रिकेंत निकत्याच आयिल्ल्या बॅरिस्टर गांधीक ह्याच स्टेशनार ट्रेनींतल्यान सकयल धुकलून उडयल्लो. रातभर अपमान, थंडी आनी भिरांत हांचो अणभव घेत गांधीजी प्लॅटफॉर्माचेर बसून चिंतत रावले. ''असल्या ह्या देशांत रावचेंच कित्याक? भारतांत परतें वचचें काय कितें?''

हांगाच गांधीजींचो पळ काडिनासतना झुजपाचो निश्चेव जालो. हांगाच तांणी आपलो सत्याग्रह केलो आनी गोऱ्या लोकां वांगडा ट्रेनींतल्यान भोंवडी करपाचो आपलो हक्क मेळयलो.

हे घडणुकेक शंबर वर्सां पुराय जालीं तेन्ना ह्या रेल्वे-प्लॅटफॉर्माचेर गांधीजींचें यादस्तीक म्हूण एक व्हड हॉल बांदलो. १९९६ वर्सा ह्या हॉलाचें उकतावण करतना नेल्सन मंडेला हांणी म्हळें –

शंबर वर्सां आदीं भारतान आमचे कडेन एक आडखळपी, शिकाऊ वकील धाडिल्लो. वीस वर्सां उपरांत आमी भारताक महात्मा परतो दिलो.

जण एकल्याच्या जिवितांत एक 'पीटर मॅरिट्झबर्ग' घडत आसता. आडखळपी तरणाट्या पसून महात्माचे दिकेन प्रवास तेन्नाच सुरू जावं येता.

आमी अजुनूय प्लॅटफॉर्माचेर बसून आसात.




# मंगळसुत्र

**मूळ हिन्दी: मुन्शी प्रेमचंद  अणकारपी: नरेंद्र काशिनाथ कामत**

व्हडल्या सन्तकुमाराक वकील करून, दुसऱ्या चल्याक साधुकुमाराक बी.ए. मेरेन शिकोवन, आनी धाकल्या पंकजाच्या लग्ना खातीर ब्रायलेच्या हातार रोख पांच हजार रुपया दवरून, आपूण सगळया लागणुकांतल्यान मेकळो जालों, आतां उरिल्ली जीण देवाचे सेवेंत घालोवपाक जाता, अशें देवकुमाराक दिशिल्लें.

तांणी आपली सगळी येणावळ खुशालकायेंत वा बरपावळीच्या वावरांत ओगडायली, असो आळ आज कोणेंय तांचेर घेवं, पुणून, ते व्हड अंतस्करणाचे मनीस नाशिल्ले, अशें मात कोणाच्यानूच म्हणूंक जावंचेंना. तांचे कडेन कोणूय कितेंय मागूंक आयलो आनी तो निर्शेवन परतलो, अशें केन्नाच घडूंक नाशिल्लें. जुवानपणांत आशिल्ली खुशालकायेची आवड तांणी जल्मभर सांबाळूंक जाताली, पुणून बरपावळीचें काम सोडल्यार दुसऱ्या खंयच्याच कामांत तांकां रुची नाशिल्ली आनी तांचे कडेन पयशे तरी खंय आशिल्ले?

तांकां यश मेळिल्लें आनी मनाच्या समाधाना खातीर तांकां तें पुरोशें आशिल्लें. कितेंय राखून दवरपाचेर तांचो विस्वास नाशिल्लो. परिस्तितीक लागून तांकां तशें दिसतालें जावंयेता. पुणूत आपूण कितेंच राखून दवरूंक शकलोंना हाचें तांकां दुःख मात केन्नाच जालेंना. भोवमानान जियेवचें हाचे वयर तांकां आनीक कसलीच इत्सा नाशिल्ली. बरोवपी लोकांक जें एक हांवपण आसता, ताका अहंकारूय म्हणूंक जाता, तो तांच्यांतूय आशिल्लो.

खूबश्या गिरेस्त मनशांक दिसतालें, देवकुमारांनी तांगेर येवचें, आपणाल्या पुस्तकां विशीं उलोवचें, तांकां तीं भेट दिवचीं , पुणून देवकुमारांनी केन्नाच ल्हानपण घेतलेंना. कोणेंय आपयलो जाल्यार ताका ते उपकार आठोवन न्हयकार दिताले. इतलेंच न्हय तर गिरेस्त लोकांनीच आपल्या दारांत येवचें, आपली तोखणाय करची, अशें तांकां दिसतालें. हें केन्नाच घडपा सारकें नाशिल्लें.

आपल्या बराबरचे मंदबुद्दी लोक वकील जावन वा आनीक खंयचोय धंदो करून, खोऱ्यांनी पयशे ओडटात, बेसां-भाटां विकतीं

घेतात, नवीं नवीं घरां बांदतात, हें पळोवन केन्ना केन्नाय आपले परिस्थिती विशीं तांकां खंत भोगताली. चड करून तांगेली जल्माची सांगातीण शैब्या संवसाराचे चिंतेन जळटना तांकां कोडू उतरां दिताली तेन्ना. पुणून आपले बरोवपाचे कुडींत हातांत पेन घेवन बसले म्हणटकच, ते तें सगळें विसरताले, आनी साहित्याच्या सगांत पावताले. तांगेलीं सगळीं उणेपणां आनी खंती नाच्च जाताल्यो.

पुणून हालींच्या कांय दिसांनी बरपा विशींचो तांचो मोग इलो इलो उणो जावंक लागिल्लो. साहित्याच्या मोग्यांक आपणा विशीं आतां पयलीं इतली भक्ती उरूंक ना अशें तांकां हालींसराक दिसूंक लागिल्लें. व्हड कश्टांनी तांणी जीं दोन पुस्तकां बरयल्लीं तातूंत तांणी आपले सगळे अणभव, आनी बरोवपाची सगळी कला हांचो बरे तरेन आसपाव केल्लो, तांची वाचप्यांनी व्हडलिशी तोखणाय करूंक नाशिल्ली. हाचे पयलीं तांणी बरयल्ल्या पुस्तकांनी बरपावळींत व्हड खवदळ घाल्लो. सगळ्या वर्तमानपत्रांतल्यान तांचे विशीं व्हडले व्हडले नियाळ छापून आयिल्ले. साहित्यसंस्थांनी तांकां परबीं दिल्लीं. साहित्याच्या जाणकारांनी तांच्या साहित्यगुणांची तुस्त करून तांकां चिटयो बरयल्ल्यो. पुणून देवकुमारांक मात आपल्या त्या पुस्तकां विशीं व्हडलेशें कांयच दिसनाशिल्लें. तांकां तातूंत कितलेशे दोश दिसताले, आनी बरोवपाचे शैलींतूय नकलीपण दिसतालें. लोकांक मात तांगेलीं तींच पुस्तकां अजुनूय आवडटालीं. तांगेलीं नवीं पुस्तकां लोकांनी आपोवणें नाशिल्ल्या पावण्या बशेन आपणायलीं. तेन्ना सगळ्या साहित्यसंवसारानूच आपलो अनादर केला अशें तांकां दिसलें, आनी बरोवप थांबोवपाची इत्सा, 'जी तांकां हाचे पयलींच जाल्ली' ती चडूच घट जाली.

"भूक लागतकच सादें जेवण लेगीत गोड लागता, आनी भूक उणी जातकच रुचीचें जेवण लेगीत बरें लागना!" अशें सांगून, तांगेल्या दोन-चार साहित्यीक इश्टांनी तांकां धीर दिवपाचो यत्न केलो, पुणून तांचें समाधान जालेंना.

खंयच्याय साहित्यकाराच्या बरपा विशीं वाचपी भुकेल्ले आसप, हें तो साहित्यकार अजून जितो आसा म्हणपाचें प्रमाण आसता. ती भूक उरना, तेन्ना त्या क्षेत्रांतल्यान उठून वचूंक जाय, अशें तांकां दिसतालें.

तांकां फकत पंकजाच्या लग्नाची चिंता आशिल्ली. जेन्ना एका प्रकाशकान तांगेल्या फाटल्या दोन पुस्तकांचे पांच हजार रुपया दिले, तेन्ना तांकां ती देवाचीच सुचोवणी अशें दिसलें आनी तांणी आपलें पेन सदां खातीर सकल दवरलें. पुणून वानप्रस्थाश्रम आपणावनूय आपली त्या बंधनांतल्यान अजून सोडणूक जावंकना अशें तांकां परतून परतून जाणवतालें.

शैब्याच्या हट्टा विशीं तांकां व्हडलिशी पर्वा नाशिल्ली. जांचें मन संवसारांतल्यान केन्नाच मेकळें जायना, असल्या बायलां मदली ती आशिल्ली. आपल्या कुटुंबाचेर शेक गाजोवपाची तिका अजुनूय इत्सा आशिल्ली. पुणून हातांत पयशे नासतले, ते मेरेन तिची ती इत्सा फळादीक जावची नाशिल्ली. आपल्या लग्नाच्या चाळीस वर्सांचे पिरायेंत देवकुमार तिची ती इत्सा भागोवंक शकलेनात, तेन्ना आतां तसो प्रयत्न करप म्हळ्यार उदकाचेर बडी मारपा सारकें आशिल्लें. सन्तकुमार जे तरेन तांचे कडेन वागतालो, तार्चे तांकां चड दुःख जातालें. घरचें धन लोकांक लुटूंक दिलें, हे खातीर तो तांकां भगसूंक तयार नाशिल्लो.

पन्नास वर्सां पयलीं तांणी जें बेंस वीस हजार रुपयांक विकिल्लें, तें आज आशिल्लें जाल्यार ताची वर्साक धा हजार रुपया येणावळ येतली आशिल्ली. तांगेल्या ज्या बेंसांत तेन्ना दिसा उजवाडे कोले भोंवताले, तें बेंस म्हळ्यार आज गांवांतलो सगळ्यांत बरो बाजाराचो जागो जाल्लो, आनी थंयची जमीन शंबर रुपया स्क्वेरफूट हे दरेन विकताले.

सन्तकुमाराचें महत्वाकांक्षी मन एक सारकें बापायचेर जळटालें. बापूय आनी पूत हांचे दोगांचेय सभाव इतले वेगळे कशे, हिवूय एक अजापाचीच गजाल आशिल्ली.

देवकुमारां कडेन सदांच जाय ताचे परस उणें आसतालें, पुणून तांचो हात मात सदांच सदळ आशिल्लो. सुंदरकायेचे भावनेन तांचें मन सदांच तृप्त आशिल्ल्यान, तें भांगरा फाटल्यान केन्नाच धांवलेंना. तांकां पयशांचें मोल कळनाशिल्लें अशें न्हय, पुणून तांकां मनांतल्यान अशें दिसतालें, 'ज्या संवसारांत तीन चवथाय लोक भुकेन उपाशीं मरतात, थंय एका मनशाक चड धन एकटावपाचो, ताच्यांत तें बळ आसलें जाल्यारूय नैतीक अधिकार ना!" पुणून सन्तकुमाराचो वसवस तसल्या आदर्शाचेर हांसतालो. केन्ना केन्नाय तो भीडमुर्वत दवरिनासतना अशें लेगीत म्हणटालो, "साहित्याचो इतलो मोग आशिल्लो जाल्यार लग्न जावपाक कित्याक गेलो? आपले जिणेचो गोबोर केलोच, वयल्यान आमचीय जीण मातयेभरवण करून, आतां संवसारांतलें सगळें रीण फारीक केल्ले बशेन वानप्रस्थाश्रम घेवन बसल्यात!"

शियांचे दीस आशिल्ले. सकाळचीं आठ वरां जाल्लीं. सगळें घर च्यावेच्या मेजार एकठांय जाल्लें. पंकजान मेजार च्यावेचीं कोपां आनी बशयांनीं सुकें खाण दवरलें, आनी ती भावांक आपोवपाक तांगेल्या कुडींनी गेली. खिणभरान साधुकुमार येवन बसलो.

फावो तितलेच उंचायेचो, आंगांपांगान जाय तसोच, सुंदर आनी गोड उतरांनी उलोवपी असो तो शांत सभावाचो तरनाटो आशिल्लो. खावप आनी भोंवप इतलेंच तो जाणा आशिल्लो. जें कितें आसा तें तो पोटभर खातालो आनी इश्टां वांगडा भोवंक वतालो.

"सन्तू खंय गेलो?" शैब्यान विचारलें, "च्याव थंड जातकच मागीर म्हणटलो, उदक जाल्या म्हणून! साधू, आपय ताका! हाका खावपा जेवपाक लेगीत सुटी मेळना अशें दिसपाचें कोणाकूय."

साधू मान सकल घालून बसलो. सन्तकुमारा कडेन उलोवप म्हळ्यार ताच्या जिवार येतालें.

"ताका कित्याक आपयना?" मातश्या वेळान शैब्यान परतून विचारलें.

"नाका! तो सकाळफुडेंच तिडकत जाल्यार म्हजो सगळो दीस फुकट वतलो." साधून ल्हव आवाजांत म्हळें.

इतल्यांत सन्तकुमार आयलो. दिसपाक आपल्या धाकल्या भावा बशेनूच, पुणून आंगलोट मात तितलो बरो नाशिल्लो. चेऱ्यार तेज आशिल्लें, पुणून पळोवपाक तो गर्विश्ट दिसतालो. एकाद्री गजाल आवडलिना जाल्यार करचें, तशें तोंड करून तो बशिल्लो.

कदेलीचेर बसून च्यावेचो घोट घेतलो

आनी नाक आंवळून हाडीत ताणें म्हळें, "पंकजा कित्याक येना? आनी पुष्पा खंय आसा? हांवें कितले फावटीं सांगलां तुमकां, च्याव घेवप, खावप जेवप हें सगळ्यांचें एका वांगडा जावंक जाय म्हणून!"

शैब्यान म्हळें, "तूं खा पयलीं! तीं सगळीं मागीर खातलीं! एका बराबर बसपाक ही किर्ते लग्नाची पंगत?"

सन्तकुमारान च्यावेचो घोंट मारून म्हळें, "पोन्नीच गजाल! तुका कितले फावटीं सांगलें, आतां पयलींच्या काळांतलें कांयच उरूंक ना म्हणून?"

"सगळीं एकाच वांगडा बसात म्हणटा तो रांदपाचें कोणें आनी वाडपाचें कोणें? एक मनीस दवर रांदपाक आनी दुसरो वाडपाक! मागीर दिस्त जातलें!" शैब्यान रागान म्हळें.

"जाल्यार आमचे महात्माजी ती तजवीज कित्याक करिनात? वानप्रस्थाश्रम घेवपाकूच जाणात?"

"तांणी किर्ते करपाचें तें केलें, आतां तुमकां किर्ते करपाचें आसा तें करात!"

"तें बळ नाशिल्लें जाल्यार आमकां शिकयले कित्याक? खंयूय गांवांत व्हरून सोडपाचे. आमी थंय शेत रोयतले आशिल्ले, नाजाल्यार कसलेंय मानायपणाचें काम करतले आशिल्ले! येदो पसारो सांबाळपाची किर्ते गरज आशिल्ली?"

"तुमी नाशिल्ले न्हय त्या वेळार? किर्ते करूं म्हणून कोणाक विचारतले आशिल्ले?"

सन्तकुमार तोंड वाकडें करीत च्याव पिलो, थोडें खावंक खालें, आनी मागीर ताणें साधुकुमाराक म्हळें, "तुमगेली टीम मुंबय केन्ना वता?"

"परां!" साधुकुमारान मान सकल घालून बेजारिल्ल्या सुरांत म्हळें.

"तुवें नवो सूट शिवलो?"

"म्हगेलो पोन्नो सूट अजून बरो आसा!"

"सूट ना जाल्यारूय काम जाता. आमी पुडवें न्हेसून उकत्या पायांनीच खेळटाले. पुणून ऑल इंडिया टिमींत खेळूंक वतात तेन्ना थाटूय तसोच आसचो पडटा. दळदिऱ्या बशेन वचचे परस न गेल्लो बरो! थंयच्या लोकांक तूं देवकुमाराचो पूत म्हणून कळटलें, तेन्ना ते मनांत किर्ते म्हणटले?"

साधुकुमारान कांयच जाप केलिना. च्याव घेवन जातकच तो मोन्यांनी थंयसून गेलो. बापायची परिस्थिती खबर आशिल्ल्यान तो ताका त्रास दिवपाक तयार नाशिल्लो.

"तुका ताचो सूट नवो आसचोसो दिसता जाल्यार, तूंच कित्याक शिवून घेना? बापायचेर भार घालपाक ताचेर चेपण कित्याक हाडटा?" साधू गेलो तशें शैब्यान दुखेस्त अंतस्करणान म्हळें, "आपलो ह्या घरा कडेन आतां कसलोच संबंद उरूंकना, तुमचेरूच सगळें सोडून दिलां, अशें तांणी स्पश्ट सांगलां आसतनाय, तुमी तांचेर संवसाराचो भार कित्याक घालूंक सोदतात काय म्हणटां! आपल्या बळग्यार आनी बुद्दीच्या नेटार शक्य जायत तशी जीण ते जियेले. जें किर्ते तांकां सादलेंना वा तें करूंक ते चुकले, ताचें दुःख करिसारकीं उतरां तुमच्या तोंडांत सोबनात. तुमी तांकां अशे तरेन पिडूंक लागले जाल्यार ते घरदार सोडून, खंयूय नाच्च जायत म्हणून



म्हाका भंय दिसता. आतां तांकां पयशे जोडूंक जमलेंना, जाल्यारूय ते जंय वतले थंय लोक तांकां माथ्यार घेतले बगर रावचे नात, हें तुमकां खबर आसा!"

शैब्यान आपल्या घोवाची सदांच निर्भत्सना केल्ली. आतां ती तांची वकिली करताली तें पळोवन सन्तकुमार हांसलो. "तांणी तशें येवजिलें जाल्यार तांचे पयलीं हांव नाच्च जातलों. तो भार म्हज्यान घेवंक जावचोना. तो सांबाळपाक तांणी आमकां आदार दिवचो पडटलो. आपली जोड ओगडावपाचो तांकां हक्क आशिल्लो, पुणून जाण्टेल्यांचें बेंस ना करपाचो तांकां अधिकार नाशिल्लो. हाचें तांणी पिराचीत घेवचेंच पडटलें. तें बेंस तांणी आमकां परतून दिवचें पडटलें. हांवूय थोडोभोव कायदो जाणां. वकिलांची, न्यायाधिशांची बुद्द हांवें घेतल्या. गेल्लें बेंस परतून हाडूंक जाता. आपलीं भुरगीं-बाळां आनी महात्माजीपण, हांचे भितर तांकां चड मायेचें किर्ते हेंच म्हाका पळोवपाचें आसा."

इतलें म्हळें आनी पंकजा कडल्यान पानाचो विडो घेवन सन्तकुमार आपले कुडींत वचपाक गेलो.

[२]

सन्तकुमाराची बायल पुष्पा सोबीत, नाजूक आनी लजेस्त आसली तरी ती खूब स्वाभिमानी आसली. एका उतराक लागून ती दिसांचे दीस रागान बसता. तिगेलो रागूय वेगळेच तरेचो. ती कोणाक किर्तेंच सांगना. झगडना. वायट उतरूय दिना. घरचें सगळें काम बरे तरेन करता. चडूच ब्रबरे तरेन म्हळ्यार जाता. जाचेर रागार जाता ताचे वेटेन नदर वयर करून पळोवचिना. किर्ते सांगता तें करतली. तो किर्ते विचारता तितलेंच सांगतली. तो किर्ते मागतलो तें दितली पुणून ताचे कडे पळेनासतना. कांय दिसां सावन ती सन्तकुमाराचेर रागार जाल्या, आनी तो किर्ते सांगता तें आयकता.

"आज सांजेवेळा या न्ही?" सन्तकुमारान मोगान विचारलें, तशी पुष्पान तकली सकल घाली आनी म्हळें, "तुमकां जाय तशें!"

"येतली मूं?"

"तुमी सांगतात जाल्यार कित्याक येवचिंना?"

"तुजी इत्सा किर्ते?"

"म्हाका कसलीच इत्सा ना!"

"खंयचे गजाली खातीर तुका राग आयला तें तरी सांग!"

"खंयचेच गजाली खातीर न्हय!"

"सोड! उलोवं नाका! पुणून तूं अशी ओगी रावली म्हणून हें कुवाडें सुटपाचें ना!" पुष्पाचें विरक्तपण पळोवन सन्तकुमाराक खूब राग आयिल्लो, पुणून आपणाक चडांत चड शांत दवरपाचो तो यत्न करतालो. 'हाचे फुडें तसली गजाल तोंडांतल्यान काडचोंना', अशें म्हणून तिची माफी मागपाकूय तो तयार आशिल्लो. ताणें तिका तिडावपा खातीर तशें म्हणूंक नाशिल्लें. एक खरेली गजाल तिका समजुची म्हणून म्हणिल्लें. ताणें म्हणिल्लें, "जी बायल दादल्याचेर अवलंबून आसता, तिणें दादल्याचें सांगणें आयकुचेंच पडटा!" त्या वेळार आपणें तिका तशें म्हणपाचें न्हय,

आनी म्हणिल्लेंय जाल्यार म्होंवाळ उतरांनी तरी म्हणपाचें हें तांकां समजल्लें. पुणून एक बायल जेन्ना आपल्या अधिकारा खातीर दादल्या कडेन झगडूंक सोदता, तेन्ना तिणें तागेलीं तीख उतरांय आयकुपाक तयार आसूंक जाय. तोंड धुंवडायलें म्हणून खंयचेच गजालीचो निर्णय लागना, हें पुष्पाक समजावन, तिका तें मानून घेवंक लायतलों, अशें येवजून तो आतां थंय आयिल्लो. त्या कामांत जैत मेळटकच, हाचे फुडें तसल्या विशयाचेर केन्नाच भासाभास जावची न्हय, अशे तरेचो एक बावटो तो थंय पुरूंक सोदतालो. तेन्नाच्यान तो मनांत तरातरांच्यो युक्त्यो येवजितालो, पुणून वैरी किल्ल्या भायरूच आयलोना, जाल्यार ताचेर हल्लो कसो करतलो?

फटोवन आनी मोगाच्या नाटकाचेर विस्वास दवरूंक लावन वैऱ्याक भायर काडपाचो एक उपाय आशिल्लो.

ताणें पुष्पाचे खाडकेक हात लावन तिका आपले वटेन धुंवडायत म्हळें, "तुका ते गजालीचें इतलें वायट दिसलां जाल्यार हांव ती फाटीं घेता. तिचे खातीर हांव तुजे कडेन माफी मागतां. म्हजे कडेन चार पांच दीस उलयनासतना रावपा इतलें बळ देवान तुका दिलां, पुणून ताणें म्हाका मात तें बळ दिवंक ना.तूं रागार जाता तेन्ना म्हजे शिरेंतलें रगत गोठेता. तें बळ तूं म्हाका दिशीत जाल्यार तुगेली आनी म्हगेली लडाय सारकी जातली, आनी हांव तुका तिडावंक येवचोंना. तुज्यान तशें करूंक जायना जाल्यार, ह्या अस्त्राचो घाव म्हजेर घालूं नाका."

पुष्पा हांसली. तिणें आपल्या अस्त्रान ताका हारयल्लो. तो बावडो जावन माफी मागतालो तेन्ना तिचे अंतस्करण कित्याक विरगळचेंना?

दोगां मर्दी एकचार जालो म्हणपा खातीर पुष्पान एक पानाचो विडो करून सन्तकुमाराक दिलो, आनी म्हळें, "हाचे फुडें तसली गजाल केन्नाच तोंडांतल्यान काडूं नाकात! हांव तुमची अणवी आसन जाल्यार तुमीय म्हजे अणवे! हांव तुमच्या घरांत जितलें काम करतां तितलें दुसऱ्याच्या घरांत करीन जाल्यार म्हज्यान म्हजें पोट भरूंक जातलें काय ना, सांगात!"

तिका लागपा सारकें उतर दिवपाचो आपलो विचार सन्तकुमारान बळयां दामलो आनी म्हळें, "बरे भाशेन!"

"थंय हांव जें कितें जोडटलीं तें म्हजें जातलें. हांगां हांवें जीव दिलो जाल्यार लेगीत म्हजो खंयचेच वस्तीचेर अधिकार ना. जाय तेन्ना तुमच्यांनी म्हाका घरा भायर धांवडावपाक जाता!"

"उलयत वच तूं! पुणून ताची जापूय आयकूंक तयार राव!"

"तुमचे कडेन कितेंच जाप ना! फकत आपूण म्हणटां तें खरें म्हणपाचें आसा तुमकां! तुमी म्हणटले, तुका हांगा जो कितें भोवमान मेळटा, तो थंय मेळचोना. तुजी राखण करपी थंय कोण आसचोना. तुज्या सुखादुखांत वांटेकार जावपी कोण नासतलो. अशे तरेच्यो आनिकूय कितल्योशोच अडचणी तुमी सांगतले. पुणून हांवें मिस बटलरीक लग्न जायनासतना जल्मभर आंकवार रावून भोवमान जीण जियेतना पळेल्या. तिची आपजीण कशी आशिल्ली हें हांव नकळों. आमच्या हिंदूंच्या चाली-रितीं बशेन ती नासुंयेय, पुणून सगळेच तिका मान दितात, आनी आपली राखण करपा खातीर तिका दादले - मनशाची गरज पडना."

सन्तकुमार मिस् बटलरीक वळखतालो. ती गांवांतली एक नांवाजती दोतोरीण आशिल्ली. पुष्पाच्या कुळारा तिगेलें येवप वचप जातालें. पुष्पाचो बापूय दोतोर आशिल्लो, आनी एका धंद्यांतल्या लोकांत चडसो एकचार आसता. पुष्पान ताका उकत्या उतरांनी जें कितें सांगिल्लें, ताचेर जाप दिवप ताका कठीण जाल्लें, आनी तोंड धांपून ओगी रावप तागेल्या दादलेपणाच्या अहंकारा आड येतालें.

पेचांत पडून ताणें म्हळें, "पुणून सगळ्योच बायलो मिस् बटलरी बशेन जातल्यो अशें न्हय मूं?"

"कित्याक? ती दोतोरीण जावन आपलो धंदो चलोवंक शकता, जाल्यार हांव कित्याक करूंक शकचिंना?" पुष्पान नेटान म्हळें.

"तिगेल्या समाजांत आनी आमगेल्या समाजांत खूब अंतर आसा."

"म्हळ्यार, तिगेल्या समाजांतले लोक सभ्य, शिळवंत आनी आमगेल्या समाजांतले लोक चारित्र्य नाशिल्ले, हलकट, चड करून शिकिल्ले-सवरिल्ले."

"त्या समाजांतल्या बायलांक आपबळगें आसता, आपली राखण करपाची शक्त आसता, आनी दादल्यांक दावें घालपाची तांचे कडेन कलाय आसता, अशें कित्याक म्हणना?"

"आमीय तें बळगें, ती शक्त आनी कला आपणावंक सोदतात, पुणून तुमचे फुडें आमचे कांयच चलना. मर्यादा, आदर्श, असल्यो व्हडल्यो व्हडल्यो गजाली सांगून आमकां चिड्डुपाक, आनी आमचेर चेपण दवरपाक सोदतात तुमी!"

सन्तकुमारान पळेलें, भासाभास ज्या मार्गा वयल्यान चल्ल्या ताचो परिणाम, पुष्पा आपणा कडेन एकचार करचिना, असोच जातलो, आनी हे खेपेक तो तिगेली खोस ना करपाक न्हय, तर तिका खोस दिवपाक आयिल्लो.

"बरें बाये, सगळो दोश दादल्यांचोच! आतां जाली खोशी? दादल्याकूय दादागिरी करून करून पुरो जालां आनी आतां थोडे दीस तो सुशेग घेवंक सोदता. तुजे कडेन एकचार करून झगड्यांतल्यान वाटावतलो जाल्यार, तो आपलें सिंहासन सोडपाक तयार आसा."

"अशें? जाल्यार आयच्यान घरांतूच बसात!" पुष्पान हांसून म्हळें.

"व्हडले खोशयेन बसन! म्हजे खातीर बरे बरे कपडे, बरीं बरीं वाहनां हाड! तूं सांगतली तशें हांव करतलों. तुका नाका आशिल्लें एकूय उतर उलोवचोंना."

"मागीर अशें बी म्हणचेनात मूं, बायलांक दादल्याची गरज आसता, ते खातीर तांणी दादल्यांची गुलामगिरी करूंक जाय म्हणून?"

"केन्नाच ना! पुणून एके अटीचेर"

"कसली अट?"

"तुगेल्या मोगाचेर म्हजीच मालकी आसतली."

"बायलांक मात दादल्यांक असल्यो अटी घालपाक मेळनात."

"तें तांगेलें अणवेपण. दादल्यांचेर सत्ता गाजोवपा खातीर देवान तांकां सगळीं अस्त्रां दिल्यांत."

एकचार जालो जाल्यार लेगीत पुष्पाक खात्री नाशिल्ली. सन्तकुमाराचो सबाव तिका

खबर आशिल्लो. बायलेचेर सत्ता गाजोवपाचो ताचेर एक संस्कारूच जाल्लो, तो रोखडोच कसो बदलतलो आशिल्लो? सन्तकुमार तिका वयलेवयल्यान बरोबरीचें स्थान दितालो, तरी तातूंत लेगीत एके तरेचो उपकारसो लिपिल्लो आसतालो. म्हत्वाच्या गजालींनीं ताणें लगाम आपल्या हातांत दवरिल्लो. अशे तरेचो मनीस अचकीत आपलो अधिकार ओगडावंक तयार जालो, हातूंत कितेंय तरी गुपीत आसूंक जाय, अशें तिका दिसलें.

"तीं अस्त्रां घेवन बायलांनी आपली राखण करूंक ना. वयल्यान आपली राखण करपाचेंय बळगें उरलेंना इतले मेरेन त्यो दादल्यांचीच राखण करीत रावल्यो."

सन्तकुमारान तिका म्हॉवाळ उतरांनी म्हळें, "ही गजाल म्हज्या मनांत जायते खेपे आयल्या पुष्पा, आनी बायलेन दादल्यांची राखण करूंक नाशिल्ली जाल्यार, आज संवसार सामको विराण जातलो आशिल्लो हातूंत दुबाव ना. तांगेली सगळी जीण तपश्चर्येची आनी कश्टांची.

मागीर ताणें तिका आपली येवजण सांगली. सावकारान गिळिल्लें आपलें बेंस तो परतून घेवंक सोदता. ती आपल्या बापाय कडेन उलोवणें करून ताका धा हजार रुपया दिवंक लायत जाल्यार तांगेलें दोन लाखांचें बेंस मेळूंक शकता. फकत धा हजार! तितले रुपया मेळ्ळे नात जाल्यार ताच्या हातांतल्यान दोन लाखांचें बेंस वतलें.

"पुणून तें बेंस विकलां." पुष्पान म्हळें.

सन्तकुमारान मान हालयली. "विकूंक ना, तें लुटलां! जी जमीन दोन लाखांकूय सवाय, ती वीस हजारांक फुंकल्या. कोणूय जाणकार मनीस असो फटोवन घेना, आनी घेतलो जाल्यार तो तकलेन सारको ना. दादान कुशळतायेन संवसार करूंक ना. ते कल्पनांच्या संवसारांत वावुरताले. फटिंगांनी तांकां फटयले आनी बेंस लाटलें. म्हजो धर्म तें बेंस परतून हाडपाचो आनी तुका जाय जाल्यार तशें जावं येता. धा हजार रुपयांची व्यवस्ता करप दोतोरां खातीर व्हडलिशी गजाल न्हय!"

पुष्पान मिनीटभर येवजिलें आनी मागीर दुबाव दाखोवन म्हळें, "दादा कडेन धा हजार रुपये आसत अशें दिसना म्हाका."

"सांगून तरी पळे!"

"कशें सांगूं? तांची परिस्थिती हांव नकळों? तांची दोतोरकी बरी चलता, पुणून तांकां खर्चूय तसोच आसता. विरू खातीर तांकां म्हयने म्हाल पांचशी रुपया इंग्लंडाक धाडचे पडटात. तिलोत्तमाच्या शिक्षणाचो खर्चूय उणो ना! सांबाळून दवरपाची तांकां सवंय ना. हांव तांकां संकश्टांत घालूंक सोदिना."

"हांव उश्णे मागतां, फुकट न्हय!"

"जंय इतलें लागीचें नातें आसा, थंय उश्णे म्हळे जाल्यारूय ते फुक्याचेच. तुमी तांगेले पयशे दिले नात जाल्यार ते तुमचें कितें करतले! कोर्टांत वचूंक नजऽ, पंचायतींतूय वचूंक नजऽ! लोक दुशणां दितले."

सन्तकुमारान तीख उतरांनी म्हळें, "म्हज्यान पयशे पावोवंक जावचेनात अशें तूं कित्याक समजता? लोक हांसतले!"



पुष्पान तोंड धुंवडावन म्हळें, "तुमी जिखतलेच अशें ना! आनी जिखलेय जाल्यार, आनी तुमच्या हातांत पयशे आयलेय जाल्यार अशे कितलेशे सावकार आसात जे वेळार रीण पावयतात? थोडे संस्थानीक जाल्यार सदांच कोर्टांत फावटी घालतात. तुमी काटकसर करून खूब पयशे एकठांय करतले अशें एक वेळ मानून घेतलें जाल्यारूय, मनशाचो सबावूच असो आसा, पयशे खावंक मेळत जाल्यार तो खाले बगर रावना. धर्म आनी नीत विसरून वचप हें सगळ्यांचें दुबळेपण जालां."

सन्तकुमारान पुष्पा कडेन रागान पळेलें. पुष्पाच्या सांगपांत जें सत आशिल्लें तें बाणा बशेन ताच्या काळजार बशिल्लें. ताच्या मनांत जो एक चोर लिपिल्लो ताका पुष्पान दिस्त धरिल्लो, आनी फुड्यांत उबो केल्लो. ताणें तिडकीन म्हळें, "मनशाक तूं इतलो उणाक समजता? तुगेल्या ह्या असल्या सभावाचें म्हाका अजाप दिसता आनी दुखूय बी जाता. फाटल्या काळांत सावन समाजाचेर धर्म आनी नितीचेंच राज्य आसा. ज्या दिसा संवसारांत धर्म आनी नितीचो लय जातलो, त्याच दिसा समाजाचोय लय जातलो."

ताणें धर्म आनी नीत हांचे व्हडविकायेचेर एक व्हडलें भाशण दिलें. "खंयच्याय घरांत चोरी जाली जाल्यार केदो बोवाळ जाता? कित्या खातीर? चोरी सादी गजाल न्हय, हे खातीर मूं? समाज चोरांचो आशिल्लो जाल्यार कोणाच्यानूय सहज करूंक जायत इतलोच बोवाळ जातलो आशिल्लो. पिडां विशीं हालीं खूब आयकूंक येता. पुणून बारीकसाणीन पळेत जाल्यार, शंबरांत एक हाचे परस चड वायटकार आसचेनात. पिडा सगळ्यांकूच जावपा सारकी गजाल आशिल्ली जाल्यार घटमूट मनशांचें प्रदर्शन भरतलें आशिल्लें."

पुष्पा तागेलें भाशण वयले वयर आयकताली. तिचे कडेन जापो आशिल्ल्यो. पुणून तिका हे भासाभाशेक म्हत्व दिल्लें नाका आशिल्लें. आपूण बापायक पयशां विशीं कांयच सांगचिना हें तिणें थारावन दवरिल्लें, आनी कितल्याय तर्कांचो वा तत्वगिन्यानाचो तिचेर परिणाम जाय सारको नाशिल्लो.

सन्तकुमारान भाशण सोंपयलें. ताका कांयच जाप मेळ्ळिना तशें ताणें खिणभरान म्हळें, "कितें येवजिता? हांव तुका खरेपणान सांगतां, जाता तितले बेगीन हांव पयशे पावयतलों."

"कितें सांगपाचें तें तुमीच वचून सांगात! हांव चीट बरोवचिंना!" पुष्पान निश्चेवान म्हळें.

सन्तकुमारान ओंट चिड्डिले. "एदीशी गजाल तुज्यान बरोवंक जायना जाल्यार सांगतां, घराचेर म्हजो अधिकार आसा."

"ज्या खिणाक म्हजी गांठ तुमचे कडेन बांदली, त्याच खिणाक म्हजोय हक्क त्या घराचेर जाला."

"जितल्या सोंपेपणान हक्क मेळटा, तितल्याच सोंपेपणान तो काडुनूय घेवंक येता." सन्तकुमाराच्या उतरांनी अहंकार भरिल्लो.

जो विचार तकलेंत हाडपाक भंय दिसतालो, त्याच विचारांत आपणाक कोणें तरी धुकलून उडयल्या, अशें पुष्पाक दिसलें. हांगा येतकच एक दोन म्हयन्यां भितरूच तिणें सन्तकुमाराचो सभाव पारखिल्लो. ताच्या सांगातान जियतेली जाल्यार, तो सांगता ते भाशेन नांचपी बायल जावन रावचें पडटलें.

आपणालें व्यक्तिमत्व तागेल्या अहंकारांत विरगळावचें पडटलें. तो येवजितलो तेंच येवजुपाचें, तो करतलो तेंच करपाचें. आपल्या आत्म्याच्या विकासा खातीर हांगा वेळूच नाशिल्लो. ताच्या हिसपान ह्या वा दुसऱ्या संवसारांत फकत धनूच आशिल्लें. तातूंतल्यान ताचे जिणेक स्फूर्त मेळटाली. पयशां मुखार बायल भुरग्यांक तो व्हडलोसो लेखी नाशिल्लो. पुष्पा कडल्यान एक खेपे चिनी मातयेची बशी फुटिल्ली. जाल्यार ताणें तिचो कान पिळिल्लो. जमनीर तींत रकलें म्हणून पंकजाक सगळी जमीन पुसपाची ख्यास्त दिल्ली. तागेल्या पयशांक पुष्पा केन्नाच हात लायनाशिल्ली. पयशे ही सांबाळून दवरपाची वस्त अशें तो समजनाशिल्लो. ती एक भोग घेवपाची वस्त अशें तो म्हणटालो. नश्टखर्च आनी निश्काळजीपण ताका आवडनाशिल्लें. आपणाक सोडल्यार दुसऱ्या कोणाचेरूच ताचो विस्वास नाशिल्लो. पुष्पान निश्ठुरतायेन आत्मो ओगडावपा वांगडाच ती जीण जियेवपाची आपणाली तयारी केल्ली. पुणून हांगा तिचो कांयच हक्क ना, हांगा ती फकत एक वावराडी कशी, अशी परतून परतून याद करून दिवप, हें तिच्यान सोंसूंक नजो जातालें. ह्या दिसांनी असलेच एके खबरेक लागून तिणें कांय दीस खाण-जेवण सोडिल्लें. आज मेरेन तिणें मनाक कशेय बशेन समजावन शांत केल्लें. इतल्यांत तो दुसरो घावो पडिल्लो. तिगेले आसनाशिल्ले धिटायेचो ताणें मरचे पयलींच गळो आंदिल्लो.

सन्तकुमार तिका आव्हान दिवन गेलो आनी आतां किते करचें हें ती थंयच बसून येवजूंक लागली. असले परिस्तितींत जियेवप भोव कठीण आशिल्लें. बापायच्या घरांतूय तिका शांतताय मेळचिना हें ती जाणा आशिल्ली. तिगेलो बापूय सन्तकुमाराक एक बरो भुरगो समजतालो. ताचे कडल्यान वायट घडणूक घडल्या हें ताका पटोवन दिवप कठीण आशिल्लें. पुष्पाचें लग्न करून दिवन तांणी जिणेंतलो एक कठीण प्रस्न सोडयल्लो. ताचेर नव्यान येवजुपाक तांकां जमचें नाशिल्लें. आतां चिंतेंतल्यान मेकळो जावन, सगळे कडेन भोंवडी करची, ही तागेली जिणेंतली सगळ्यांत व्हडली इत्सा आशिल्ली. ती फळादीक जावपाचो वेळ लागीं येतालो. चलो लंडनाकसून आयलो, आनी धाकले चलयेचें लग्न जालें म्हणटकच तो संवसारांतल्या सगळ्या लागणुकांतल्यान मेकळो जावपाचो आशिल्लो. तागेल्या पांयार घालून घेवन, तागेले इत्सेक बादा हाडिल्लें पुष्पाक नाका आशिल्लें. मागीर तिचे खातीर दुसरो जागो खंय आसा? खंयच ना! मागीर कितें, जल्मभर ह्याच घरांत रावन अपमान सहन करीत जियेवचें पडटलें?

साधुकुमार येवन बसलो तशें पुष्पान अजापान विचारलें, "तूं मुंबय केन्ना वतलो तर?"

"वचपाचें आशिल्लें फाल्यां; पुणून म्हाका वचपाची इत्सा जायना! येवपा वचपाक शेंकड्यांनी रुपया लागतले. घरांत कांय पयशे नात. हांव कोणाक कश्ट दिवंक सोदिना. मुंबय वचपाची अशी गरज तरी कितें आसा? ज्या गांवांत धांतले णव लोक भाकरेक वळवळटात, थंयच्या धा-वीस मनशांनी क्रिकेटीच्या व्यसनांत पडून रावप सामकें पिशेपणाचें!" साधुकुमारान फाटीं फुडें येत म्हळें.

"तुगेलो भाव तुका पयशे दिता मूं!" पुष्पान ताका उमेद हाडपा खातीर म्हळें.

साधून हांसत हांसत म्हळें, "भाऊ पयशे दिना! म्हाका दादाचो गळो अंदूंक सांगता. हांव दादाक कश्ट दिवंक सोदिना. भाऊक मात हें सांगूं नाका वयनी, तुका पांयां पडटां!

तागेलीं नमळायेचीं उतरां आयकून पुष्पा हांसली. "जाणें सत्याग्रहांत शिक्षण सोडलां, दोन फावटीं बंदखणींत वचून आयला, जेलराक वायट उतरां दिवन ताच्या हड्ड्यार बसला आनी मस्तेपणाक लागून तीन म्हयने काळखाचे बंदखणींत रावला, असो बावीस वर्सांचो स्वाभिमानी तरनाटो भावाक इतलो भियेता? जायत बाये! "हांव सांगतलींच!" तिणें मुद्दामूच म्हळें.

"तुज्यान सांगुंकूच जावंचेंना! तूं दुश्ट न्हय इतली!"

"कित्या वयल्यान म्हणटा तूं?"

"चेऱ्या वयल्यान!"

"फट!"

"तशें जाल्यार हेंवूय सांगतां, आज भाऊन तुका कितेंय तरी म्हळां!"

पुष्पान लजत म्हळें, "सामकें फट! ते कित्याक म्हाका कितेंय म्हणटले?"

"बरें! म्हजे तकलेर हात दवरून सोपूत घे!"

"सोपूत कित्याक घेवं? म्हाका पळेल्या तुवें केन्ना सोपूत घेतना?"

"भाऊन कितेंय तरी म्हळां जातलेंच! ना जाल्यार तुगेलो चेरो इतलो बावला कित्याक? भाऊक सांगपाचें धाडस जायना म्हणून! नाजाल्यार पुरिल्लीं मडीं कित्याक उस्तिता काय म्हणून विचारतलों आशिल्लों. जी जमीन विकल्या, तिचे खातीर दादाक गाळी घालप म्हाका मानवना. संवसारांत सगळेच गिरेस्त आसतात? काय गरिबूय मनीस आसात हांगा? हांव तुका खऱ्यांनीच सांगतां वयनी, हांव सावकार जावपाची इत्सा करतलों, तेन्ना म्हज्या मनाचें कितें जातलें काय, हाचो मनांत दुबाव येता. इतल्या दुर्बळ लोकां मदीं सावकार जावप म्हळ्यार, म्हाका सुवार्थान कुड्डो जावपा सारकें दिसता. आमी दिसांतल्यान दोन खेपो तूप लायिल्ल्यो रोटयो, दूद आनी सफरचंदां-संत्रां खातात. पुणून शंबरांत णव्याण्णव लोक अशे आसात, तांकां ह्यो वस्तू पळोवंक लेगीत मेळनात. हें पळेतकच हांव जे अवस्तेंत आसा तिची म्हाका लज दिसता. निमाणें, आमकां अशीं कसलीं तांबडीं पाखां आसात?"

पुष्पा अशे तरेन येवजुपी नाशिल्ली. पुणून साधूलें कपटा विरयतचें खरेपणाचें उलोवप तिका मानवतालें. तिणें म्हळें, "तूं चड वाचीबिची ना. मागीर तुजे तकलेंत असले विचार खंयसून येतात?"

"पयलींच्या जल्मांत भिकारी बी आशिल्लों जावं येता."

साधू वचपाक उठलो तेन्ना पुष्पान हाताक धरून ताका बसयत म्हळें, "म्हगेली जाव बावडी कपड्यांक आनी भांगराक सामकी वळवळटली तर!"

"हांव लग्नूच जावचोंना!"

"खंयच्यानूय रकाद बी येता काय म्हणून मनांत आंवडेता जातलो."

"ना वयनी, तुका फट सांगना! लग्नाचो विचार लेगीत म्हज्या मनांत येना. कोणाकूय तरी उपकारा पडची, इतलेच खातीर म्हजी जीण. जंय सेवा करतल्यांची गरज आसा, थंय कांय जाणांनी तरी आंकवार रावुंकूच

जाय. लग्न जालोंच जाल्यार असले चलये कडेन जातलों, जी म्हजे वांगडा गरिबींत रावपाक तयार आसतली. आनी जी म्हजे जिणेची खरी सांगातीण जातली.''

पुष्पान तागेलें उलोवणें हांशार व्हरून म्हळें, ''सगळे तरनाटे पयलीं अशेंच म्हणटात, पुणून लग्नाक कळाव जालो म्हणटकच पिडापीड करूंक लागतात.''

''हांव तसल्या तरनाट्यांतलो न्हय वयनी!'' साधून नेटान म्हळें,

''तुजे तकलेंत पंकजाचोच विचार घोळटा.''

''तुका कितेंय सांगलें म्हणटकच, तूं कितेंय उलोवंक लागता. हे खातीर हांव तुजे सरीं येना.''

''बरें, आतां खरें सांग, आमगेल्या पंकजाच्या सबावाची चली मेळत जाल्यार लग्न जातलो काय ना?''

साधुकुमार उठून चलूंक लागलो. पुष्पान ताका थांबोवपाचो यत्न केलो, पुणून तो हात सोडून पळून गेलो.

ह्या आदर्श, शीलवंत, नितळ आनी शांत सभावाच्या तरनाट्याक मेळटकच, पुष्पाचें बाविल्लें मन परतून टवटवीत जातालें. ती भितल्ल्यान जितली जड, तितलीच भायल्यान ल्हव आशिल्ली. सन्तकुमारा मुखार तिका खिणाखिणाक आपल्या अधिकाराची राखण करची पडटाली. केन्ना तो कसो घाय घालीत म्हणून सादूर रावचें पडटालें. शेब्या तिचेर सदांच अधिकार गाजोवंक सोदताली. आपूण ह्या घराची मालकीण, आनी तिगेलो तो अधिकार दर एकल्या मनशान मानून घेवंक जाय म्हणपाचें ती खिणभरूय विसरनाशिल्ली. खरेपणानशीं देवकुमारांनी संवसाराचो सगळो भार सन्तकुमाराचेर घालून तिचे कडल्यान तो अधिकार काडून घेतिल्लो. देवकुमार घराचो मालक आसत जाल्यारूच ती मालकीण आसतली, हें ती विसरिल्ली. फकत आशिर्वाद दिवपा इतलेंच बळ आशिल्ल्या देवा बशेन आतां तिची आवतिकाय जाल्ली. मनांतलो दुबाव काडपा खातीर ती सदांच आपल्या अधिकारांची परिक्षा घेताली.

मनशाचे कुडींत एकाद्री पिडा घट्ट चिकटून रावची तसो तो विचार तिच्या मनांत रिगून उरिल्लो. आनी ताका लागून खाल्लें जेविल्लें आंगाक लागनाशिल्ल्यान तिचें आरोग्य सदांच वखवखिल्ले बशेन आसतालें.

पुष्पा तिचे कडेन उलोवंक भिताली. तिचे म्हऱ्यांत वचपाचें पुष्पाक धाडस जाय नाशिल्लें. निमणी उरली पंकजा. तिका काम करपाची पिडा लागिल्ली. काम हेंच तिगेले मनरिजवणेचें साधन आशिल्लें. कागाळ करपाक ती शिकुंकूच नाशिल्ली. देवकुमारा बशेनूच तिचो सबाव आशिल्लो. कोणेंय चार उतरां दिलीं जाल्यारूय ती मान सकल घालून आयकताली. मनांत कसलीच वायट येवजण ती येवंक दिनाशिल्ली. सकाळ सावन रातचीं धा-इकरा वरां मेरेन सुशेग घेवपाक तिका फाव नाशिल्लें. कोणाले बंडेचो बुतांव तुटलो जाल्यार तो पंकजा लायतली. कोणाली मुस्तायकी खंय आसा हें पंकजा बगर



कोणाकूच खबर नासतालें. इतलें करून्य वाचपाक आनी भरपाक ती वेळ खंयसून काडटाली, कोण जाणा! घरांत जितलीं उर्शी आशिल्लीं तितल्यांचेरूय पंकजाच्या हाताचे कलेची कुरू आशिल्ली. मेजा वयले तुवाले, कदेली वयल्यो गादयो, पेटयां वयलीं कवरां, सगळीं तिगेल्याच शिवणकामान भरिल्लीं आशिल्लीं. रस्मी धाग्यान भरिल्लीं सवण्यांचीं आनी फुलांची चित्रां तिणें फास्क्यांनी घालून वणटीक हुमकळायल्लीं. तीं सालाचीं सोबा वाडयतालीं. तिका गावपा-वाजोवपाचीय आवड आशिल्ली. ती सतार वाजयताली. पेटी म्हळ्यार तिच्या हातचो खेळ आशिल्लो. पुणून कोणाय नव्या मनशा मुखार गावपा-वाजोवपाक मात ती लजताली. ती कॉलेजांतूय वताली, आनी बऱ्या चलयां मदीं वावुरताली. तिका म्हयन्याक पंदरा रुपया स्कॉलरशीप मेळटाली. पुष्पा म्हऱ्यांत बसून हांसत खेळत दोन उतरां उलोवपाक तिचे कडेन वेळ नाशिल्लो. ताका लागून पुष्पाक आपले जिणेचो भार उणो करूंक फकत साधुकुमारूच मेळटालो. घोवान जाल्यार उरफाटें आपलेंच ओजें तिचेर घाल्लें.

साधुकुमार वतकच तें ओजें कशें उखलचें हे येवजणेंत पुष्पा बुडून गेली. आपणें कितलेय त्रास दिले जाल्यारूय ती खंयच वचूंक शकना, न्हय कितेंच उलोवंक शकना हें तिगेल्या घोवाक खबर आशिल्ल्यान तो तिचेर दादागिरी करतालो.

तो समजता तेंय खरें. तिका चैनीच्यो वस्तू आवडटात. तिका खावंक-जेवंक बरें जाय. तिका खुशालकायेन जियेन दिसता. तिणें चैनीच्या वस्तूंचो मोह सोडलो जाल्यार कोणाक काळीज आसा तिचेर दादागिरी करपाचें? मागीर ती कोणाक कित्याक भितली?

सांजवेळ जाल्ली. पुष्पा जनेला कडेन उबी रावून भायर पळेताली. वीस पंचवीस बायलो आनी चलयो एका सुरांत एक पद म्हणत वताल्यो. कोणाच्याच आंगार बरीं वस्त्रां नाशिल्लीं. तांचें तोंड आनी सगळें आंग धुल्लान भरिल्लें. म्हयन्यां संकिनी तांच्या केंसांक तेलाचो वास लागूंक नाशिल्ल्यान ते सामके सुके जाल्ले.

तीं कामेऱ्यां आशिल्लीं. दीसभर चुनो आनी विटो व्हांवोवन, आतां तीं घरा कडेन वतालीं. सगळो दीस तांकां वतांत काम करचें पडिल्लें जावंये! धनयाच्यो धपकावण्यो आनी गाळी खावच्यो पडिल्ल्यो आसूं येतात. दनपरां एक मूठभरूच अन्न खावन तीं राविल्लीं आसूं येतात. पुणून इतलें आसुनूय तीं कितलीं खोशी दिसतालीं! बंधना विरयत! तांगेले ते खोशयेचें आनी स्वतंत्रतायेचें गुपीत कितें आसत काय?

[३]

लोक जांकां भियेवन पांयां पडटात, असल्या मनशां भितल्लो मि. सिन्हा एक. तो दिसलो म्हणटकच सगळे लोक 'येयात येयात' करतात आनी ताची फाट घुंवली तशे, 'मोठो पाताळयंत्री मनीस! कसो कातरीत म्हणून सांगूं नजऽ!' अशें म्हणून ताची निंदा करतात.

खटले तयार करप हो ताचो धंदो. कवी कल्पनेच्या आदारान कविता बरयता तसो सिन्हासायबूय खटल्याचें वीख कल्पनेन निर्माण करतालो. तो कवी कित्याक जालोना, सांगू नजऽ पुणून कवी जावन तांणें कितलेंय साहित्य निर्माण केल्लें जाल्यारूय ताका आतांचे इतलो पयसो जोडूंक जावचो

नाशिल्लो.

कायद्याची पुजा बांदिल्ल्यान ताका सगळ्यो सिद्धी फावो जाल्ल्यो. सोबीत बऱ्या बंगल्यांत तो रावतालो. व्हडल्या व्हडल्या गिरेस्त लोकां कडेन तांच्यो वळखी आशिल्ल्यो. ताका प्रतिश्टा आशिल्ली, मान आशिल्लो. लिखणेंत जादू आशिल्ल्यान तो खटल्यांत जीव हाडटालो. कोणाच्यानूच फट म्हणूंक जावचेनात इतले सभावीक प्रसंग येवजून काडटालो, आनी खरींच, जितीं दिसपा सारकीं चरित्रां निर्माण करतालो.

व्हडले व्हडले विद्वान लोक लेगीत ताका सारके वळखूंक शकनाशिल्ले. तो सन्तकुमारा वांगडा शिकिल्लो. दोगांय भितर बरी इश्टागत आशिल्ली.

सन्तकुमाराच्या मनांत एक विचार आसलो, सिन्हान रंगरूप दिवन ताचो जितो जिवो पुतळो केलो, आनी आज तांणी खटलो भरपाचो निश्चेव केला.

सकाळचीं णव जायत आयिल्लीं. वकील आनी फिर्यादी ऑफिसांत वचपाची तयारी करताले. सिन्हासायब आपले कुडींत मेजार पांय दवरून, कदेलीचेर लवंडला. गोरोपिट्ट, ऊंच, लांबोडो चेरो, लांब केंस फाटल्यान खांद्या मेरेन पावल्यात. मिशयो तासल्यात. दोळ्यांक वक्ल. ओंठांत सिगार. चेऱ्यार विद्वानकायेचें तेज. दोळ्यांत आभिमान. व्हडलो गिरेस्त मनीस हें रोखडेंच कळटा.

सन्तकुमारान फकत बंडी घाल्या. ताचे तकलेर चेपें आसा, आनी तो मातसो चिंतेस्त कसो बसला.

''तूं बेश्टोच भिता.'' सिन्हान सन्तकुमाराक धीर दित म्हळें, ''हांव सांगतां तुका, आमीच जिखतले. असले शेंकड्यांनी खटले चलतात. चल्यां-नातवांनी नांव दाखयनासतना भरल्यात. पक्की गवाय जाय, आनी ती मेळोवप दाव्या हाताचो खेळ.''

सन्तकुमारान दुबाव दाखोवन म्हळे, ''पुणून बापायची मानतूक करची पडटली. तांगेले इत्से बगर कांयच जावचेंना.''

''तांकां जाग्यार हाडप तुगेलें काम!''

''पुणून ते जाग्यार येवप कठीण!''

''जाल्यार तांकांय घाल गुळी! ते तकलेन सारके नात अशें आमी सिद्ध करुंया!''

''तशें सिद्ध करप सोंपें काम न्हय! जांणी व्हडलीं व्हडलीं पुस्तकां बरयल्यांत, जांकां सभ्य समाजांतले मानेस्त मान दितात, जांचे बुद्दीक सगळे तोखेतात, तांकां पिशे कशे थारायतले?''

''तें सगळें हांव पळेतां!'' सिन्हान ताका विस्वास दिवन म्हळें, ''पुस्तकां बरोवप वेगळी गजाल, आनी तकली जाग्यार आसप वेगळी गजाल. हांव जाल्यार म्हणटां, सगळे बरोवपी लहरी आसतात. सामके पिशे! फकत तुस्त तोखणाय जोडपा खातीर जे लोक हो धंदो करतात, ते साबुद्दीचेर आसत जाल्यार, तांणी पुस्तकां बरयनासतना, दलाली करीत जाल्यार तांकां कश्टांचें फळ मेळटलें. पुस्तकां बरोवन अजीर्ण, जागरण आनी बारीक जोर ह्योच गजाली हाताक लागतात. पयशांची तजवीज तूं कर! बाकी सगळें म्हजेर सोडून दी! आनी आज सांजवेळा क्लुबांत मात योच! आतांच्यानूच चडायेक सुरवात करूंक जाय! तिब्बीचेर मोग आशिल्ल्याचें नाटक कर! ती सबजज्जाची एकली एकसुरी चली हें मतींत घेवन, तिका जाळ्यांत ओडशीत जाल्यार तुजें काम सादतलें. तिब्बीचें उतर मोडप, सबजज्जांक केन्नाच जमना. हांव ह्या गजालींनी तुजे परस चड हुशार. हांव सद्या एका खुनाच्या खटल्याचें काम पळेतां, आनी सिविल सर्जन कामत हांची हळडुव्या चेऱ्याची धूव ह्या दिसांनीं म्हजी मोगी आसा. सिविल सर्जन म्हजो कितलो आदर सत्कार करता, विचारूं नाका! त्या भुता कडेन लग्न जावपाक अजून मेरेन कोणूच तयार जावंक ना. व्हडले ओंठ आनी देह म्हळ्यार लकिल्लो रूख कसो. इतलेंय आसून तिका दिसता, 'संवसारांत आपले इतली सुंदर कोणूच ना.' बायलांक आपल्या रुपाची इतली बडाय कित्याक आसता हेंच म्हाका समजना. जिका खऱ्यांनीच रूप आसा तिणें गर्व केलो जाल्यार एक वेळ समजूं येता. पुणून जिचो चेरो पळोवन काकुळट दिसता ती आपणाक अप्सरा कशी समजता? तिचे फाटल्या फाटल्यान भोंवपाक आनी तिचे कडेन मोग करपाक सगळेच कांचवेतात. पुणून हाताक बरोच व्हडलो पोटलो लागपाचो आशिल्ल्यान थोडी भोव तपश्चर्या करचीच पडटली. तिब्बी मात खऱ्यांनीच अप्सरा. मातशी चंचलूय. थोड्याच कश्टांनी वश जातली. तुवें तुजी सगळी कला खर्चुंची पडटली.''

''ती कला हांव खूब शिकलां.''

''तशें जाल्यार आज सांजवेळा क्लुबांत यो!''

''बरे बशेन!''

''पयशांचीय तजवीज कर!''

''ती तर करपाकूच जाय!''

अशे तरेन सन्तकुमार आनी सिन्हा दोगूयजाण तयारेक लागले. सन्तकुमार बायलांक आशेवंक नाशिल्लो. तो रंगेलूय नाशिल्लो. पुणून सवंग करपाक जाणा आशिल्लो. ताचें रूप बरें आशिल्लें. तो गोड उलोवंक जाणा आशिल्लो. जिवान मातसो मोठो, हांसतो चेरो, गोरोपिट्ट. सूट चडोवन बडी घुंवडायत चलतालो तेन्ना चडूच नदरेंत भरतालो. टेनीस, ब्रीज, असल्या फेशनींच्या खेळांनीय तो तरबेज आशिल्लो. तिब्बी कडेन सूत जमोवपाक ताका कळाव लागलोना.

तिब्बी कॉलेजाच्या पयल्या वर्साक आशिल्ली. हुशार आनी उलोवपांत पटायत, पुणून गर्विश्ट आशिल्ली. तिका अभ्यासांत गोडी नाशिल्ली. थोडेंच शिकताली पुणून चार चवगांत मात नेटान वावुरताली. आनी आपूण जें कितें जाणा तें चड विद्वानकायेचें अशें भासयताली. व्हडल्या विद्वानान कसलेंय उलोवप करूं, ती तातुंतूय चुकी काडटाली. व्हडल्यो बुदवंतकायेच्यो गजाली सांगपांत तिका गोडी आशिल्ली. दुसऱ्याली उलोवपाची तरा बरी आनी समजिकायेची नासत जाल्यार तें उलोवणें न सोंसपा इतलो तिचो सबाव चड अहंकारी आशिल्लो.

तिगेर मानाय आनी वावराड्यो मातूय तिगनाशिल्ल्यो. दुसऱ्याचें उणेपण काडपांत तिका खोस भोगताली. तिची शिस्त चड कडक आशिल्ली. तिची नदर चड तीख आशिल्ल्यान दादल्यांतली वा बायलांतली बेशिस्त तिका मातूय मानवनाशिल्ली. ती रोखडीच भोंवयांनी आनी ओंठांतल्यान तशें जाणोवन दिताली. बायलां मदीं वावुरतना तिची नदर तांगेल्या वस्त्रांचेर आनी अळंकारांचेर, आनी दादल्यां मदीं आसतना ते कशे वागतात हाचेर आसताली.

आपूण सुंदर हाची तिका जाणवीक आशिल्ली आनी तरातरांचे भेस करून ती चडूच चकचकताली. अळंकार घालून

भोंवपांत तिका व्हडलीशी रूच नाशिल्ली, पुणून आपल्या पेटलांत ते झगझगतना पळोवपाक तिका खोस भोगताली.

दिसांतल्यान कितल्याश्याच फावटीं ती आपलो भेस बदलताली. केन्ना बंगाली जाल्यार केन्ना गुजराती नेसताली. मर्दीच एक दीस स्कर्ट आनी मोजे घालताली. पुणून दादल्यांक आपणा कडेन आकर्शीत करून घेवपांत तिका मात लेगीत गोडी नासताली. ती आपल्याच रुपाक तोखेत रावताली.

पूण ती सादी भोळी मात नाशिल्ली. तरनाट्यांच्यो मोगाच्यो गजाली आयकुनूय ती थंड रावताली. आपल्या रुपाची तोखणाय आयकुपां पेल्यान तिका त्या गजालींनी रूच नासताली आनी तिचे कडल्यान उत्तेजन मेळनाशिल्ल्यान तरनाटे निर्शेताले. पुणून सन्तकुमारांत मात थोडेंशें वेगळेपण आनी कुशलकाय आशिल्ल्याचो तिका मनांतल्यान भास जाल्लो. बाकीच्या तरनाट्यां मर्दीं आशिल्लें हुतहुतेपण ताच्यांत नाशिल्लें.

सन्तकुमाराच्या खंयच्याच वेव्हारांत हुतहुतेपण नासतालें. शिस्त आसताली, ताजबाण आसताली. ते खातीर ती सदांच सादूर रावताली, आनी तागेल्या मनांतले विचार वळखुपाचो प्रयत्न करताली. सन्तकुमाराचो संयम आनी तागेली येवजुपाची तरा तिका आपले वटेन ओडूंक सोदताली.

आपूण एक ताळमेळ नाशिल्ल्या लग्नाचो बळी अशें चित्र सन्तकुमारान तिचे मुखार उबें केल्लें. आनी ते खातीर तिच्या मनांत ताचे विशीं थोडी काकुळट निर्माण जाल्ली. ताणें आपलें येवजिल्लें काम सादोवपा खातीर पुष्पाच्या रुपाची तोखणाय साप्प थोडी केल्ली. वयल्यान तिच्या हट्टीपणाच्यो आनी निश्टूरतायेच्योच चड्श्यो गजाली सांगून तब्बीचेर आपलो इतलो प्रभाव घाल्लो की, तिका पुष्पा मेळिल्ली जाल्यार सन्तकुमाराची कड घेवन ती तिचे कडेन झगडपाक उणी करची नाशिल्ली.

एक दीस तिणें सन्तकुमाराक म्हळें, "तुमी तिका सोडिनात कित्याक?"

सन्तकुमारान धूर्तपणान म्हळें, "कसो सोडूं, त्रिवेणी? समाजांत रावतलो जाल्यार, समाजाचे कायदे पाळचेच पडटात! आनी हातूंत पुष्पाची चूक कितें? ती आपले आपूण काय अशी घडूंक ना! देवान, आनी तिचेर जे संस्कार जाल्यात वा परिस्थितीन तिका जशी घडयल्या तशी ती जाल्या."

"म्हाका असल्या मनशां विशीं इल्लीय काकुळट दिसना. जो मनीस बायल आपल्या गळ्यांत पडली असो धोल वाजयता, ताणें तो गळ्यांतलो धोल खंयच्याय फोंडकुलांत उडोवचो अशें म्हाका दिसता. म्हजी सत्ता चलत जाल्यार, हांवूच तो उडोवंक आसां!"

आपणें केल्ल्या जादूचो बरो परिणाम जाता हें पळोवन सन्तकुमारान. मनांतल्यान खोशी जावन म्हळें, "पुणून तिची कितें दैना जातली हें तरी येवजी न्ही!"

तिब्बीन म्हळें, "हें तुमी कित्याक येवजूंक जाय? ती आपल्या कुळारा वतली वा कसलेंय काम करतली. नाच्च जाल्यार आपल्या



सभावाच्या दादल्या कडें लग्न जातली."

सन्तकुमारान व्हडल्यान हांसून म्हळें, "तिब्बी, सत्य आनी कल्पना हांचे भितर अंतर आसता, हें नकळो तूं! कितली भोळी?"

मागीर ताणें मातसो गंभीर जावन म्हळें, "हो एक कठीण प्रस्न त्रिवेणी! पुष्पाच्या सांगातांत म्हजें रगत कितलेंय आटलें, वा एक दीस त्या पिकासांवान हांवें म्हजो गळो कातरून घेवपाचें थारायलें जाल्यारूय, समाजाचे नदरेंतल्यान ताका म्हत्व ना. म्हज्यान तिका कशीच सोडूंक नजो. फकत एकेच गजालीचेर म्हज्यान तिका सोडूंक जाता; ती गजाल म्हळ्यार, तिगेली कृतघ्नताय. तिगेले बाकीचे सगळे दोश दोश थारनात."

सांजवेळ जाल्ली. तिब्बीन एका चाकराक आपोवन पोरसांत कदेलां दवरूंक सांगलें आनी ती भायर आयली. चाकरान कदेलां दवरलीं आनी काम सोंपिल्ले बशेन तो वचूंक लागलो, तेन्ना तिब्बीन ताका धपकावन म्हळें, "कदेलां पुसूंक कित्याक नात? तांचेर कितलो धुल्ल आसा, दिसना तुका? कितलेय फावटीं सांगलें जाल्यार तुका याद उरना. ख्यांस्त दिले बगर ती उरचीय ना!"

चाकरान कदेलां पुसून निवळ केलीं आनी तो वचूंक लागलो.

तिब्बीन ताका परतून धपकायलो. "तूं परतो परतो खंय वचूंक सोदता? मेज दवरलें? च्यावेचें मेज कित्याक हाडूंक ना? च्याव कितें तुजे तकलेर दवरून पिवपाची?" तिणें त्या म्हाताऱ्या चाकराचे दोनूय कान पिळ्ळे, आनी ताका धुकलून म्हळें, "सामकोच मूर्ख. अडाणी खंयचो! तकलेंत शेण भरलां आसतलें. जाणटेलो चाकर खूब वर्सां सावन तांगेर आशिल्लो. घरची मालकीण ताका खूब मानताली. तिच्या मरणा उपरांत, ताच्यान थंयची नोकरी सोडूंक जातालीं. दुसरे कडेन ताका दोन रुपया चडूय मेळटले आशिल्ले. पुणून मालकिणी विशीं ताका एके तरेचें आपलेपण दिसतालें. त्या आपलेपणान ताका त्या घरा कडेन बांदून दवरिल्लो, आनी धमकावण्यो आनी अपमान सोंसुनूय तो थंय चिकटून उरिल्लो. जज्जसायबूय ताका धपकायताले. पुणून तांणी धपकायलो म्हूण ताका वायट दिसनाशिल्लें. ते वयान ताचे बराबरचे आशिल्ले. पुणून त्रिवेणीक ताणें आंगा खांद्यार खेळयल्ली, हांडीर घेवन भोंवडायल्ली. आतां तीच तिब्बी ताका धपकायताली आनी मारतालीय. ताका लागून ताचे कुडीक जितली दूख जाताली ताचे परस चड दूख तागेल्या अभिमानाक जाताली.

ताणें फकत दोनूच घरांनी चाकरी केल्ली. दोनूय घरांनी चलयो आशिल्ल्यो, सुनोय आशिल्ल्यो. त्यो सगळ्यो ताका मानताल्यो. सुनो ताका लजताल्यो. कितेंय चूक जाली जाल्यार मनांतूच दवरताल्यो. तागेली मालकीण जाल्यार देख घेवपा सारकी बायल आशिल्ली. तिणें ताका केन्नाच कितें म्हळेंना. मालकान कितेंय उलयलें जाल्यार ताची कड घेवन ती घोवा कडेन झगडटाली. आनी ही तिगेली चली ल्हान व्हड कांयच पळेना. लोक म्हणटात शिकतकच अक्कल येता म्हणून! हीच मूं ती अक्कल? ताच्या मनांत बंडाचो विचार आयलो." हो अपमान हांवें कित्याक सोंसचो?"

"जी चली म्हजे चलये परसूय वयान ल्हान, तिचे कडल्यान हांवें म्हज्यो मिशयो

कित्याक ओडून घेवच्यो?''

गरिबांकूय जाल्यार अभिमान आसता आनी तो पयशेकारां परस उणो नासता. आपणाक मान आनी व्हडपण मेळचें अशें तांकांय दिसता. आनी ताचे बदला अपमान सोंसचो पडलो जाल्यार ते मनान अपंगूळ जातात.

घुरान च्यावेचें मेज दवरलें. पुणूत तागेले दोळे मात बंड करूंक सोदताले.

''चल, रांदप्याक दोन च्या हाडपाक सांग!'' अशें तिब्बीन सांगलें, तसो ताणें रांदप्याक रकाद दिलो, आनी एके कुशीक आशिल्ले आपले खोंपींत वचून तो खूब रडलो. आज मालकीण आशिल्ली जाल्यार ताचो असो अपमान जावचो नाशिल्लो...?

रांदप्यान च्यावेचे पेले मेजार दवरतकच, तिब्बीन एक पेलो सन्तकुमाराच्या हातांत दिवन हांसून म्हळें, ''फकत बायलोच पतिव्रता नासतात, दादलेय पत्नीव्रता आसतात हें म्हाका आज कळ्ळें!''

सन्तकुमारान च्यावेचो घोंट मारून म्हळें, ''आसलेनात जाल्यारूय आशिल्ल्याचें सवंग तरी करतात.''

''हांव हाका नैतीक दुबळेपण म्हणटां! मोग करतल्यान तो मना सावन करचो, उकतेपणान करचो! हांव जाल्यार लग्न मोगाचें लक्षण मानतां. ती धर्माची वा चालीची बांदावळ मानप म्हज्यान सोंसूंक जावचेंना.

''तेय गजाली खातीर दादल्यांचेरूच आक्षेप घेतात!''

तिब्बीक अजाप दिसलें. तो प्रस्न आतां बायल आनी दादलो असो जातीर गेल्लो. तिका आपले जातीची कड घेवची पडली.

''तुमी म्हजे कडल्यान अशें वदोवंक सोदिनात मूं, सगळे दादले म्हळ्यार देवाचे पुतळे आसतात म्हणून? तुमी जी तोखणाय चलयल्या ती मना सावन न्हय! फकत लोक कितें म्हणत ह्या भंयान. हांव हाका प्रामाणीकपण म्हणिना. विंचवाची नांगी मोडून ताचें वीख काडून उडोवपाक जमत, पुणून ताचें विखाळेपण मात वचपाचें ना!''

''चडश्या बायलांचो प्रतिव्रता धर्म लोकांच्या भंयानूच आसता, अशें हांवें म्हळ्यार तुका कशें दिसतलें? '' सन्तकुमारान आपली हार मानून घेत म्हळें.

तिब्बीन आपलो पेलो मेजार दवरलो आनी म्हळें, ''हांव हें केन्नाच मानचिंना!''

''कित्याक?''

''दादल्यांनी बायलांक कसलेच तरेची मेकळीक दवरूंक ना! हे खातीर पतिव्रता धर्म तांचे भितर तुमी इतलो रिगयला की, तांकां तांचें अशें वेगळें व्यक्तिमत्वूच उरूंक ना! त्यो फकत दादल्यांच्या आदाराचेर जियेवंक शकतात. तांगेलें वेगळें अशें अस्तित्वूच ना! लग्न जायनासतनाय दादलो चैन करता, भायलोचार करता आनी वयल्यान मिशयांक पीळ घालता. तुमी पुष्पाक सोडूंक सोदिनात, तिका स्वतंत्रताय दिवंक सोदिनात. कित्याक काय म्हळ्यार, तुमी दादले!''

''तूं म्हजेर अन्याय करता!'' सन्तकुमाराच्या आवाजांत काकुळट आशिल्ली. ''हांव पुष्पाची जीण काबार करूंक सोदिना. हेच खातीर हांव तिका सोडिना. हांवें तिका सोडली जाल्यार, लोकां वांगडा तुकाय म्हजो तिरस्कार दिसतलो.''

तिब्बीन हांसून म्हळें, ''म्हजी चिंता करूं नाकात तुमी.'' मागीर मातशी गंभीर जावन तिणें म्हळें, ''हांव तुमची अडचण समजूंक शकतां.''

''तुज्या तोंडांतल्यान हीं उतरां आयकून म्हाका कितली खोस भोगता म्हणून सांगूं! खरें म्हळ्यार तुजे दयेची म्हाका गरज आसा!''

''तुमची म्हाका खऱ्यांनीच काकुळट दिसता. तुमी तिची आनी म्हजी भेट कित्याक घडोवन हाडिनात? एकाद्री हांव तिका नीट मार्गार हाडीन!''

तिगेले सांगणेन आपणाक दुःख जाल्ले वरी चेरो करून सन्तकुमारान म्हळें, ''ती मार्गार येवप कठीण, त्रिवेणीबाय! ती वयल्यान तुजेरूच बगलांट घालतली, आनी नाका आशिल्लें येवजीतली. ताका लागून म्हाका घरांत रावप लेगीत कठीण जातलें.''

तिब्बीच्या धाडशी सभावाक ओतो आयलो.

''तशें जाल्यार हांव तिका मेळटलींच!''

''आनी म्हाका हेंवूय दार तूं धांपतली!''

''कित्या खातीर?''

''सादी गजाल! ती तुजें बरेपण जोडटली आनी मागीर तूं तिची तोखणाय करूंक लागतली.''

''म्हळ्यार हांवें तुमकां तुमचेंच खरें म्हणपाचो दाखलो दिवचो अशें दिसता तुमकां?''

''हांव तुजे कडल्यान दया आनी काकुळट हाचीच आस्त धरतां. तुकां म्हज्या मनांतलें दुःख सांगून मन मेकळें करूंक सोदतां! हांव तुजे कडें येतां वतां हें कळत जाल्यार ती एक नवेंच अरिश्टूय उबें करीत!''

''तुमी तिका इतले कित्याक भितात? खरें म्हळ्यार हांवें भियेवंक जाय!'' तिब्बीन ताका चाळयल्ले बशेन करीत म्हळें.

''हांव तुजे खातीर भितां, म्हजे खातीर न्हय!'' सन्तकुमाराचो आवाज आतां चिंतेस्त कसो जाल्लो.

''तुमी म्हजे खातीर भियेवं नाकात!'' तिब्बीन भंया विरयत म्हळें.

''हांव जितो आसतना म्हजे खातीर तुजो कोणेंय अवमान केल्लो म्हज्यान सोंसूंक नजऽ जातलो!''

''म्हाका असली भावूकताय सोंसना हें तुमकां खबर आसा!''

''ही भावूकताय न्हय! हांव मना सावन खरें उलयतां!''

''मना सावन खरें उलोवपी हांवें साप थोडे पळेल्यात!''

''संवसारांत सगळ्या तरांचे लोक आसतात!''

''शिकार करतल्यांचे जातीचे चड! बायला भितर शिंतळ बायलोच शिकार करतात, पुणून दादल्यां भितर मात सगळेच शिकारी आसतात.''

''अशेंच कांय न्हय! हातुंतूय आडवाद आसतात.''

''बायल दादल्याचें रूप पळेना. दादलो मात सदांच रुपाक भुलता, म्हणून ताचेर विस्वास दवरूंक जायना. म्हज्या रुपाची तोखणाय करपी कितलेशेच तरनाटे म्हगेर येतात. आतां ह्या वेळार लेगीत कोणूय येत. हांव सुंदर आसां हातूंत दुबावूच ना. पुणून तेच खातीर कोणेंय म्हजी तोखणाय करची अशें म्हाका दिसना.''

सन्तकुमाराचें काळीज धडधडलें.

''हातूंत म्हजोय आसपाव ना मूं?''

''तुमी म्हजी तोखणाय करतल्यांतले न्हय अशें हांव धरतां.''

सन्तकुमारान मान बागयत म्हळें, "हें म्हजें दुर्भाग्य म्हणपाचें."

"हें तुमी मना सावन म्हणिनात. हांव तुमचें मन समजून घेवंक शकना, अशें म्हाका दिसता. तुमी असल्या मनशांतले आसात, जांच्या मनाचो थाव लागना."

"तुजे विशींय म्हाका अशेंच दिसता."

"हांव किर्ते गुपीत गजाल न्हय! हांव तुमकां खरेपणान सांगतां, हांव असल्या मनशाच्या सोदांत आसां, जो म्हज्या मनांतल्या न्हिदिल्ल्या मोगाक जागयतलो. हांव खूब खोल आसां, आनी जो खूब खोल उदकांत उडी मारूंक जाणा तसलोच कोण म्हाका मेळूंक जाय. ते खातीर हांवें तुमचे कडेन केन्नाच पळोवंक ना. आजवेर हांवें उजवाडाचीच कड पळेल्या, आनी तिका हांव वाजेल्यां. आतां हांव काळखाची कड पळोवंक सोदतां, जंय त्याग आसा, रडें आसा. तांचीय म्हाका रोखडीच वीट येवंये! जिणेचो म्हाका चड बेगीन वीट येवं येता. पुणून, हांवें एकाद्र्या व्हड्ल्या मनशाची गुलाम जावची वा हांव ताका कायद्यान बांदून उरची अशें म्हजो आत्मो मानपाक तयार ना. कश्टाची आनी त्यागाची जीण हीच खरी जीण अशें हांव मानतां.

"आज आमचो देस आनी समाज जे वायट आवतिकायेंत आसा ताचे कडेन आड्नदर करप हें म्हजे नदरेंतल्यान अन्यायाचें. एकेक दीस हांव म्हजोच दुस्वास करूंक लागतां. बाबाक आपल्या ल्हानशा संवसारा खातीर एक हजार रुपया ओगडावपाचो किर्ते हक्क आसा? आनी काम धंदो करिनासतना आळसांत दीस काडपाचो म्हाकाय कसलो अधिकार आसा? हें सगळें जाणा जावनूय काम करपाचें बळ म्हज्यांत ना? भोगविलासाचे हे जिणेन म्हाका कामा भायरें करून उडयलां. आनी म्हज्यांत गिरेस्तकाय कितली भरल्या हेंवूय तुमी पळेलां जातलें. म्हज्या तोंडांतल्यान आयिल्लें उतर खरें जालें ना जाल्यार हांव सामकें पिशें जातां. मनाचेर बुद्दीचो अंकूश ना. सोरो ही एक वायट गजाल हें जाणा जावनूय सोरेकाराच्यान तो जसो सोडूंक जायना तशी म्हजी गजाल जाल्या. त्याच भंयान म्हजी इच्छाशक्तीय जीव नाशिल्ले बशेन जाल्या."

तिब्बीच्या चेऱ्यार सदांच चंचळपण दिसतालें. आपल्या मनांतली गजाल सांगपाक ती भिडेताली. लोकांचें बरेपण मेळचे बदला, निंदा आयकून घेवची पडत काय; हाचो तिका दुबाव येतालो. पुणून आतां ह्या वेळार तिचो आत्मोच उलयता अशें दिसतालें. तिचे दोळे ओले जाल्ले. मुखामळाचेर नाजुकपण आनी नमळाय खेळटाली.

तिचो संयम सुटत चल्ला, आपल्या मनांतलें कोणाकूय तरी सांगपाक ती उतावीळ जाल्या, हें पळोवन सन्तकुमारान धूर्तपणान म्हळें —

"खूबशे फावटीं म्हज्याय मनांत असलेच विचार घोळटात. म्हज्या अदमासा परसूय हांव तुका चड लागीं आसां!"

"तुमी म्हाका हें केन्नाच सांगलेंना!"



तिब्बीन खोशयेन म्हळें.

"तूंय बी उकतेपणान आयजूच उलयल्या!"

"इतले खुशालकायेंत रावता आनी असल्यो गजाली करता, अशें लोक म्हणत म्हणून म्हाका भंय दिसता. ही गिरेस्तकायेची संवय सुटपाक किर्तेय उपाय आसत जाल्यार हांव खोशयेन करीन. ह्या विशयाचेर तुमचे कडेन पुस्तकां बी आसात जाल्यार म्हाका दियात! तुमी म्हाका तुमची शिष्या करशात?"

सन्तकुमारान तिचे कडेन म्हेंवाळपणान पळेत म्हळें, "हांवूच तुजो शिष्य जावंक सोदतालों."

तिब्बीन नदर सकल करिनासतना ताचो हात हातांत घेवन म्हळें, "तुमी फकाणां करतात! कसल्याय अरिश्टा कडेन हांव झगडूंक शकतलें अशे तरेन म्हाका तुमी तयार करात! हांव बायल-मनीस नाशिल्लें जाल्यार. म्हजें मन इतलें दुबळें आसचें नाशिल्लें, होच विचार म्हज्या मनाक परतून परतून तोंपता."

आज ती सन्तकुमारा कडेन किर्तेच लिपोवन दवरूंक, राखून दवरूंक सोदिनाशिल्ली. इतलो तेंप ती जें किर्ते सोदताली तें तिका आज मेळिल्लें आसूं येता.

"बायलो दादल्या परस चड उदार आसतात त्रिवेणीबाय!" सन्तकुमारान म्हळें.

"संवसाराची सगळी घडणूच घुंवडावन उडोवची अशें दिसना तुमकां?"

नितळ मनान विचारिल्ल्या त्या प्रस्नाक फटकिरी जाप दितना सन्तकुमाराचें काळीज थरथरलें. ताणें म्हळें, "खरी गजाल!" मागीर ताणें एक उस्कारो सोडलो आनी ओगीच रावलो.

"ह्या प्रस्नाचेर येवजितां येवजितां म्हाका न्हीद लागता आनी मागीर हांव तार्चीच सपनां पळेता. ह्या संवसारांत लोक कितले सुवार्थी आसात पळेयात! जे व्यवस्तेक लागून सगळो समाज उदरगतीक पावूं येता, ती व्यवस्ताच थोडच्याशा सुवार्थी लोकांनी चिड्डून दवरल्या!"

सन्तकुमारान पडिल्ल्या चेऱ्यान म्हळें, "तांचोय वेळ येतलो." तो उठून उबो रावलो. ताचें कपटी मन ते नितळ हवेंत आपलें दुश्टपण मतींत आयिल्ल्यान घुसमटूंक लागलें. धर्मा कडेन निश्ठा आशिल्ल्या मंनांत अधर्माच्या विचारांची घुसमट जावची ते बशेन.

"आनीक मातसो वेळ बसात मूं!" तिब्बीन ताका आग्रौ केलो.

"आज सोड म्हाका! आनीक केन्नाय येतां!"

"केन्ना येतले?"

"रोखडोच येतां!"

"तुमची दुखी जीण हांव एक वेळ सुखाची करूंक शकन आशिल्लें!"

सन्तकुमार उठून बेगिबेगीन भायर गेलो. तिब्बी मोगाळ नदरेन ताचे कडेन पळेत रावली. ती सुंदर आशिल्ली, बुदवंत आशिल्ली, तेच बशेन कठोर आनी चंचलूय आशिल्ली. मेळपाक कठीण आशिल्ली. मोगाचें सवंग करून.कोणूय तिका फटोवंक शकचो नाशिल्लो. पुणून वेश्ये भितर सगळो सुवार्थ भरिल्लो आसुनूय तिच्या मनांत जशी भक्तीची भावना लिपिल्ली आसता, तशे तरेन तिगेल्या अविश्वासान भरिल्ल्या मनांतूय एक हयन्हयशी विश्वासाची भावना लिपून बशिल्ली, आनी ते भावनेक आफुडपाची कला जाचे कडेन आसा, ताच्यान तिका मूर्ख थारावंक जाताली. विस्वासाचे ते नाजूक

भावनेक आफडिना फुडें ती सादीसुदी, सरळ सबावाची, कपट नाशिल्ली चली भिवकुरी जाताली. सन्तकुमार नशिबानूच आज त्या आसनाचेर बशिल्लो आनी ताच्यान तिका जाय तशी नाचोवपाक जाताली. ताणें तिचेर भूल घाल्ली. तिका आतां सन्तकुमारांत एकूय दोश दिसनाशिल्लो. ह्या संत मनशाची जीण पुष्पा ना करूंक उठल्या अशें तिका दिसतालें. ताचे फाटल्यान उबी रावून ताका उमेद हाडपी अशे तरेची सांगातीण हाका जाय! हाचे जिणेची वाट लावन आपूण समाजाचें केदें व्हडलें लुकसाण करतां हें पुष्पाक खबर ना! इतलें आसुनूय तिका गोमटेक बांदून रावता म्हळ्यार, सन्तकुमार देवमनशा परस उणो न्हय! ताची हांव कशे तरेन सेवा करूं, ताची जीण सुखाची कशी करूं! अशे तरेच्या विचारांचें मोड तिचे तकलेंत घोंगेवपाक लागलें.

[४]

सन्तकुमार तिब्बील्या घरांतल्यान भायर सरलो तेन्ना हवेंत उडटालो. ताचें अंतस्करण खोशयेन भरिल्लें. इतले बेगीन देवतेचो आशिर्वाद मेळत हाची ताणें आस्त धरूंक नाशिल्ली. नशिबानूच नेट लायलो. ना जाल्यार जी चली बऱ्या बऱ्या भुरग्यांक हाताच्या बोटार नाचयताली, ती ताची इतली भक्ती कित्याक करतली आशिल्ली?

आतां कळाव करूंक फावना. जें कितें घडपाचें तें आनीक दोन फावटीं मेळटकच घडटलें हातूंत दुबाव ना. कोणाच्यान सांगूंक जाता, ती एकाद्री बदलुंकूय शकता. ती आपूण जशी येवजिता तशी ताका फुडें सरूंक सांगतली आनी त्या वेळार हाच्यान फुडें सरूंक जावचेंना. तो फाटीं फाटीं येतलो, आनी थंयच दोगांचेंय वाजपाचें आसा.

सन्तकुमार आपल्या घरा कडेन वचचे बदला नीट सिन्हाल्या घरा कडें गेलो. सांजवेळ जाल्ली, आनी काळोख पडूंक लागिल्लो. मिस्टर सिन्हा कपडे घालून खंय तरी वचपाक भायर सरिल्लो. सन्तकुमाराक पळोवन ताणें विचारलें –

''खंयच्यान आयला?''

''थंयच्यानूच! आज जमलें!''

''खरें?''

''हय! हांवें तिचेर जशी कितें जादवाची बडीच घुंवडायल्या.''

''मागीर जिखून आयलो तर! आतां तुगेल्या बापायचो हुस्को सोड!''

''तुकाय म्हजे वांगडा येवचें पडटलें!'

''हांव येतलोंच! पुणून तूं मात धड नशिबाचो खरो! कामतीली चली म्हजेर मोग करूंक लागल्या. हांव मोगाचें सवंग करतां, आनी ती मात समजता, म्हजो तिचेर खरो मोग आसा म्हणून. ह्या दिसांनी तुवें पळेल्या तिका? जमनीक पांय लागना तिचो. पुणून एक आसा. ती बरीच हुशार आसा. तिच्या हातांतल्यान हांव सुटून वचूं नये म्हणून ती म्हजी बरे तरेन बडदासा दवरता, आनी सैमान तिका जें उणें रूप दिलां ताची ती अशे तरेन भरपाय करूंक सोदता. बरो पयसो मेळत जाल्यार लग्न जावपाक कसली हरकत आसा काय म्हणटां हांव!''

सन्तकुमारान अजापान म्हळें, ''तूं तिचें तोंड पळोवन सामको बेजार जाला जातलो.''

''हय! अजुनूय बेजारतां. पुणून पयशांचो प्रस्न आसा न्हय? दोतोर सायबान वीस पंचवीस हजार रुपया दीत जाल्यार हांव लग्न जातलों. लग्न जालों म्हणून हांव म्हजे म्हाका खंय विकतलों!''

दुसऱ्या दिसा दोगांयं इश्टांनी आपलें म्हणणें देवकुमारां मुखार मांडलें. देवकुमारांचो आपल्या कानाचेर खिणभर विश्वास बसलोना. तांणी आपली सगळी जीण भंया विरयत, कपट करिनासतना, आनी कोणाच्या चेपणा खाला रावनासतना घालयल्ली. कलाकारा भितर जो एके तरेचो आत्माभिमान आसता, ताणें सदांच तांकां धाडस दिल्लें. तांणी कश्ट काडिल्ले, उपास काडिल्ले, अपमान सोंशिल्ले, पुणून आपल्या आत्म्याक मात खत लागूंक दिवंक नाशिल्लें. अख्खे जिणेंत ते कोर्टाचें सोपण चडूंक नाशिल्ले. तांणी म्हळें, ''तुमी हें जें सांगतात ताचें म्हाका वायट दिसता. आनी ही इतली वायट गजाल तुमच्या मनांत आयली हाचें दुःख जाता.''

''गरज सगळें शिकयता. आपली राखण हें जिणेचें पयलें सुत्र. जमीन तुमी वीस हजारांक दिल्ली, तिचें मोल आज दोन लाखां परस उणें ना.'' सन्तकुमारान मुर्वत धरिनासतना म्हळें.

''दोन लाखांचीच कित्याक, धा लाखांचीय जावं येता. म्हज्या हिसपान हो आत्मो विकपाचो प्रस्न. थोड्याश्या पयशां खातीर हांव म्हजो आत्मो विकूंक शकना.''

दोगूय इश्ट एकामेकां कडेन पळोवन हांसले. ''कितले पोन्ने विचार, आनी लाचारीचेय! आत्मो म्हणटात ती वस्त तरी खंय आसा? सगळो संवसारूच जंय फटींगपणाचेर चलता, थंय आत्मो रावतलो तरी कसो? शंबर रुपया दिवन ताचे बदलाक एक हजार रुपया घेवप हो जर अधर्म जायना, उपाशीं पोटान काम करतल्या एक लाख अशक्त मानायांचे येणावळीचेर सावकारान पोट भरप हो जर अधर्म जायना, जाल्यार एका कागदाचेर बरयल्ली एक पोन्नी कारवाय थांबोवपाचो प्रयत्न करप, हो अधर्म कसो जाता?''.

सन्तकुमारान तीख सुरांत म्हळें, ''तुमी जर हाका आत्मो विकप म्हणटात, जाल्यार तो विकचो पडटलो. ताचे बगर दुसरो उपाय ना! आनी तुमी हे गजाली कडेन तशे नदरेन कित्याक पळेतात काय म्हणटां हांव! भौसाचो जातूंत फायदो आसा तो धर्म आनी भौसाचें जातूंत लुकसाण आसा तो अधर्म. हे गजालींत भौसाचें कितें लुकसाण जातलें सांगशात?''

देवकुमारांनी थंडसाणीन म्हळें, ''आमच्या शिमांचेरूच भौस तिगून उरला. त्यो शिमो आमी तोडल्यो जाल्यार भौस सोंपतलो.''

दोनूय वाटांनी शास्त्रांचे नवे अर्थ भायर सरूंक लागले. देवकुमार शिमो, सिद्धांत आनी धर्माची बांदावळ हांचो आदार घेवन उलयताले. पुणून त्या दोगांय तरनाट्यां मुखार तांचें कितेंच चलनाशिल्लें. ते आपल्या पिकिल्ल्या खाडा वयल्यान हात भोंवडायत आनी माथें खरपीत जें प्रमाण दिताले, तें, ते दोगूय तरनाटे रोकडेंच फट थारायताले आनी भायर मारताले.

सिन्हान कठोर जावन म्हळें, ''बाबुजी, तुमी खंयचे मुस्तींतल्यो गजाली सांगतात? कायद्याचो जितलो फायदो घेवंक येता, तितलो आमी घेवंक जाय! कायद्याच्या कलमांची खरी भास ताचो फायदो घेवचो हीच आसता.आतां तुमी पळेलां, व्हडल्या भाटकाराक रयते सावन वाटावपा खातीर सरकारान कायदे केल्यात, आनी

कितल्योश्योच येणावळी तांकां परतून मेळ्ळ्यात. तुमी किर्ते ताका अधर्म म्हणटले? कायद्याचो आदार घेवन आपलें काम सादोवप, हाकाच वेव्हार म्हणटात! म्हाका हे गजालीचें कांय पडून वचूंक ना, न्हय, हातूंत म्हजो इल्लोय सुवार्थ ना! सन्तकुमार म्हजो इश्ट आनी ताचे खातीर हांव तुमकां इतलें हें सांगतां. तुमी तें मानप वा न मानप तुमचे कडेन आसा!''

''हांवें किर्ते करचें अशें तुमचें म्हणणें?'' देवकुमारांनी बेजार जावन विचारलें.

''चड कांय न्हय! आमी जें किर्ते करतले ताका तुमी आडखळ हाडूं नाकात!''

''सत्याचो खून जातना म्हज्यान पळोवंक जावंचोना!''

''तशें जाल्यार तुमकां म्हजें मडें पळोवचें पडटलें.'' सन्तकुमारान दोळे व्हडले करून तिडकीन म्हळें.

सिन्हान सन्तकुमाराक धपकायलो. ''कसल्यो फकाणाच्यो गजाली करता तूं सन्तकुमार? दोन चार दीस बाबुर्जीक येवजुंदी. तूं अजून भुरग्यांचो बापूय जावंक ना. बापायक पूत कितलो अपुर्बायेचो आसता, हें तुका खंय खबर आसा? ते आतां कितलींय आडमेळीं हाडूं, आमी खटलो भरलो म्हणटकच ते किर्ते करतात तें पळे! ''तांणी सय केल्ली तेन्ना ते तकलेन सारके नाशिल्ले, आनी अजुनूय केन्नाकेन्नाय तांकां पिशेपणाचो झटको येता,'' अशे तरेची आमची फिर्याद आसतली. भारता सारक्या उश्ण हवेच्या देशांत चडश्या लोकांक ही पिडा जाता, आनी ती तांकांय जाली जाल्यार, तातूंत अजाप जावपा सारकें कांय ना. आमी सिवील सर्जनाक तें सारकें बरें पटोवन दितले.''

''हांव जिवो आसतना अशें केन्नाच जावचें ना... केन्नाच ना! परिस्तितीक लागून हांवें तें सगळें जाणा जावनूच केलां. म्हाका ताचें इल्लेंय वायट दिसना. तुमी अशे तरेची केस केली जाल्यार तिका सगळ्यांत पयलीं हांव आडखळ हाडटलों. पयलींच सांगता!'' देवकुमारांनी निश्चेवान म्हळें आनी ते कुडींतले कुडींत नेटा नेटान पासयो मारूंक लागले.

सन्तकुमारानूय उबो रावून धपकावन म्हळें, ''तशें जाल्यार हांवूय आव्हान दिवन सांगतां, एक तर तुमी धर्माची राखण करतले वा म्हजी! तुमकां हाचे फुडें म्हजें तोंड केन्नाच दिसचेंना!''

''म्हाका म्हजो धर्म बायल आनी भुरग्यां परसूय चड मोगाचो!''

''तांची तकली जाग्यार ना! हाचे फुडें ते किर्ते करीत हें सांगूं नजो! तांकां बंद करून दवरचे पडटले, अशी तूं आजूच केस कर!'' मि. सिन्हान सन्तकुमाराक बुद्द दिली.

''म्हाका पिशें लागलां!'' देवकुमारांनी मुठी आंवळीत म्हळें.

''हय! तुमकां पिशें लागलां! तुमची तकली जाग्यार ना! असल्यो गजाली पिशेच उलयतात! लोकांक जो मारूंक धांवता, तो पिसो न्हय? सगळो लोक जो वेव्हार करता, ताचे उरफाटो वेव्हार करप, म्हळ्यारूच पिशेपणां.''

''तुमी दोगूय खरेले पिशे!''



''हें दोतोर थारायतलो!''

''हांवें विशेक पुस्तकां बरयल्यांत. हजारांनी व्याख्यानां दिल्यांत. हें पिशा मनशाच्यान करूंक जायत?''

''हय! पिशा मनशाचेंच हें काम! एकाद्र्या वेळार फाल्यांच तुमकां बांदून दवरुचे पडत!''

''तूं म्हज्या घरांतलो चलूंक लाग! ना जाल्यार हांव तुका गुळी घालतलों!''

''सामके पिशा मनशा बशेन धपकायतात! सन्तकुमार, तूं तुगेले कागाळेंत अशेंय बरय, ''आमच्या जिवाक भंय आशिल्ल्यान तांगेलें आर्म काडून घेवचें!''

देवकुमार कायदयाच्या जाळ्यांत केन्नाच घुसपूंक नाशिल्ले. प्रकाशकांनी, पुस्तकां विकतल्यांनी तांकां सदांच फटयल्ले. पुणून ते केन्नाच कायद्याक शरण वचूंक नाशिल्ले. आपूण बरो जाल्यार सगळो संवसार बरो, ही जाणविकाय तांच्या चिंतनांत आशिल्ली. हे नितीन ते सदांच वावुरताले. पुणून ते भित्रे मात नाशिल्ले. चड करून सिद्धांतांच्या गजालींनी समेट करूंक ते नकळो आशिल्ले.

हेवटेनचो संवसार तेवटेन जालो जाल्यारूय तांकां ह्या कपटांत जैत मेळचें ना. पुणून ते तांकां खऱ्यांनीच पिशे थारायतले? जे तरेन सिन्हान धपकावणी दिल्या ती फकाणाचेर व्हरूंक जावचिना. तांगेले सांगणे वयल्यान अशें दिसतालें, ते असल्या कपट नाटकांत हुशार आसात, आनी डॉक्टरा कडेन तांणी हात मेळयल्यात. ते तशें करून दाखयतलेच.

देवकुमाराच्या आत्मीक अभिमानान आलांट मारून म्हळें, ''ना, असल्या असत्याक हांव केन्नाच शरण वचचोंना. ते खातीर किर्तेय सहन करचें पडूं! डॉक्टर जालो म्हणून तो किर्ते कुड्डो आसता? तो तांकां किर्तेय विचारतलो, तांचे कडेन भासाभास करतलो, काय लेखणी घुंवडावन रोकडोच म्हाका पिसो थारायतलो? हे भुरगे म्हणटात ते बशेन म्हजी तकली खऱ्यांनीच घुवूंक ना मूं?'' तांकां आपल्या वेव्हारांत कांयच वेगळेपण दिसलेंना. तांगेली बुद्द सुर्याच्या उजवाडां इतली नितळ आसा. ना, ना, केन्नाच ना! त्या लांडग्यांक आपलो घांस घेवंक ते केन्नाच दिवचेनात.

पुणून सन्तकुमाराच्या मनाची घडण अशे तरेची कशी जाली हाचीय तांकां खंत भोगताली. तांकां आपल्या बापायची याद जाताली. ते कितले शांत आशिल्ले. सत्यान चलपी आशिल्ले. तांगेलो मांव वकील आशिल्लो, पुणून न्यायान चलपी आशिल्लो. एकटेच जोडटाले आनी आपलो सगळो संवसार चलयताले. पांच भावांचे आनी तांगेल्या भुरग्यांचें ओजें सांबाळटाले. आपल्या आनी तांगेल्या चल्यां-चलयां कडें तांणी केन्नाच वेगळेचार केलोना. व्हडले भावजेचे पयलीं ते केन्नाच जेवलेनात. धर्मान चलपी असल्या कुटुंबांत सन्तकुमारा सारको दुश्ट मनीस कसो निर्माण जालो! आपणें किर्तेय वायट काम केल्ल्याची तांकां चुकून लेगीत याद जायनाशिल्ली.

पुणून अशे तरेन नांव वाट लावन कशें घेवपाचें! आपल्या पुताक तांकां बरो करूंक जमलेंना तेन्ना तांची सगळी जिणूच सोंपून गेल्ले वरी जाली. तांचे भोंवतणच्या लोकांक ते 'मनीस' करूंक शकलेनात. जाल्यार जिणेचे

अखेरे मेरेन केल्ले साहित्याचे सेवेन कोणाचें कल्याण जालें? आनी, ही केस चलतली तेन्ना ते लोकांक तोंड तरी कशे दाखयतले? तांणी पयसो जोडलोना जायत पुणून यश तरी जोडिल्लें. तेंवूय हातांतल्यान सुटून वतलें? समाधाना खातीर तांकां इतलें लेगीत मेळचेंना? तांगेल्या आत्म्याक हाचे पयलीं अशें दुःख केन्नाच जावंक नाशिल्लें.

हें सगळें शैब्याक सांगून तिका दुःख कित्याक दिवप? तिगेल्या नाजूक अंतस्करणाचेर घाय कित्याक घालप? तें सगळें दुःख आपणेंच झेलूंक जाय! आनी दुःख मानपाची गजाल तरी कित्याक? जीण म्हळ्यारूच अणभव! होच एक अणभव थारूं येता. तोवूय घेवन पळोवया!

हो विचार मनांत आयलो तशें तांचें मन ल्हव जालें. घरांत वचून पंकजाक तांणी च्याव करूंक सांगली.

''सन्तकुमार किर्ते म्हणटालो?'' शैब्यान विचारलें.

''कांय न्हय! ती फाटलीच गजाल!'' तांणी हांसत हांसत म्हळें.

''तुमी आं म्हणूंक ना मूं?''

''केन्नाच ना!''

''हाचे तकलेंत हें भूत कशें भरलें हेंच कळना!''

''वांगड्यांचे संस्कार जाल्यात जातले, आनी किर्ते?''

''पुणून हाचेरूच ते कशे जाले? साधू आसा, पंकजा आसा. संवसारांत किर्ते धर्मूच ना?''

''पुणून असल्याच लोकांची बुद्द चलता. हें मतींत घे!''

त्या दिसाच्यान देवकुमार भोंवपाक वचपाचे बंद जाले. तोंड लिपोवन ते दीस रात घरांतूच बसताले. जसो किर्ते सगळो दाग तांच्याच माथ्याक लागिल्लो. गांवांतल्या आनी शारांतल्या सगळ्या मानादीक आनी बुदवंत लोकां कडेन तांगेली इश्टागत आशिल्ली. सगळे लोक तांगेल्या बऱ्या सभावाची तोखणाय करताले. तांचेर केस घाल्यार लेगीत ते लोक कांयच म्हणचे नाशिल्ले. पुणून तांगेल्या अतस्करणांत चोरा बशेन लिपून बशिल्ल्या अहंकाराक लागून आपल्या बरे मागप्यांच्या बऱ्या वायटाचो आपुणूच अधिकारी अशें ते मानताले.

कांय दिसां पयलीं तांगेल्या साधुकुमारान न्हंयच्या हुंवारांत बुडी मारून बुडटल्या मनशाची जीण वाटायली तेन्ना तांकां 'व्हडलें यश मेळुनूय जावची नाशिल्ली इतली' खोस भोगिल्ली. तांगेले दोळे खोशयेच्या दुकांनी भरिल्ले. तांचें माथें खूब ऊंच जालां अशें तांकां दिशिल्लें. चेऱ्याचेर तेज चडिल्लें. साधुकुमाराची तोखणाय करपी लोक सन्तकुमाराचेर तरातरांनी टिका करतले, तेन्ना ते ती कशी सहन करतले आशिल्ले?

अशे तरेन एक म्हयनो गेलो, तरीकूय सन्तकुमारान केस घालिना. हांगा सिवील सर्जनाक मेळूंक जाय, थंय मि. मलिकाक पुरावे तयार करपाक सांगूंक जाय, असल्या गजालींक लागून दीस वताले, आनी पयशांचीय तजवीज करूंक जाय आशिल्ली. देवकुमारांनी आदार केल्लो जाल्यार जें काम सोंपेपणान जावपाचें, तेंच काम तांगेल्या आडमेळ्यांक लागून चड कठीण जाल्लें.

सन्तकुमार केन्नाकेन्नाय सामको निर्शेतालो. किर्ते करचें तें ताका समजनाशिल्लें. दोगूय इश्ट देवकुमारांक दुशण दिताले.

सन्तकुमार म्हणटालो, ''हांकां गुळी घालचिशी दिसता म्हाका! हांव हांकां बापूय न्हय, दुस्मान समजतां!''

सिन्हा ताका समजायताले, ''म्हाका जाल्यार तांचे विशीं आदर दिसता. मनीस आपल्या सुवार्थाक लागून उणाकांतलें उणाक काम करता. पुणून जांणी त्याग केला आनी जे सत्याच्या मार्गा वयल्यान चलतात तांचे विशीं मनांत आदर उप्रासताच. तुका तांचो राग कसो येता हेंच म्हाका समजना. जो मनीस सत्या खातीर व्हडल्यांतलें व्हडलें कश्ट सहन करूंक सोदता, तो पुजा करपाचे योग्यतायेचो आसता.''

''असल्यो गजाली सांगून म्हजो जीव जळोवं नाका सिन्हा! तुवें मनार घेतिल्लें जाल्यार आज ते पिशांच्या इस्पितळांत आसपाचे. तूं इतलो भावार्थी आससीत अशें म्हाका दिसूंक नाशिल्लें.''

''तांकां पिशांच्या इस्पितळांत धाडप ही गजाल तुका दिसता तितली सोंपी न्हय! आनी हाची कांय गरजूय ना! तांणी हीं कागदपत्रां तयार केल्लीं तेन्ना तांची तकली जाग्यार नाशिल्ली, इतलेंच आमी दाखोवन दिवंक जाय! ते खातीर गवाय दितल्यांची गरज आसा. ते अजुनूय तेच अवस्तेंत आसात हें सिद्ध करपाक डॉक्टर जाय, आनी डॉ. कामतूय अशें बरोवन दिवपाचें धाडस करचेनात!''

देवकुमारांक धपकावन बागोवप शक्य नाशिल्लें. पुणून बऱ्या तर्का मुखार मात तांची मान आपशींच सकल जाताली. संवसाराची ही वायट आवतिकाय कित्याक जावची? ह्या दिसांनी ते ह्याच प्रस्नाचेर येवजिताले. कर्म आनी संस्कार घेवन ते खंयच वचूंक शकनाशिल्ले. सगळे सारके हे भाशेनूय तांकां तें कुवाडें सुटनाशिल्लें. 'सगळो संवसार जर एक जाल्यार तातूंत हे भेदभाव कित्याक? चडांत चड कश्ट करुनूय एकाद्रो मनीस भुकेन कित्याक मरता? आनी दुसरो हात पांय हालयनासतना फुलांचे शेजेर कित्याक न्हिदता? सर्वात्मक काय अनात्मक हें? बुद्द म्हणटा, हांगा सगळे सारके आसात! काम करता त्या हिसाबान आपणाक वयर सरपाक संद आसा! पुणून दुबाव विचारता, सगळ्यांक सारकी संद खंय मेळटा? बाजार भरला. जाचे ताचे इत्से प्रमाण वस्त विकती घेवंक जाता. पुणून जाचे कडेन पयशे आसात तोच ती विकती घेतलो. आनी सगळ्यां कडेन पयशे नासतात तेन्ना सगळ्यांचो सारकोच अधिकार आसा, अशें कशें म्हणूंक जायत?' अशे तरेचें आत्ममंथन तांचे भितर केन्नाच जावंक नाशिल्लें. तांगेली साहित्यीक बुद्द असले व्यवस्तेचेर केन्नाच खोशी नाशिल्ली. पूणून तो प्रस्न आपणाक जाय तसो सोडोवपा सारकी कठीण गजालूय आज मेरेन तांचे मुखार नाशिल्ली. वाटेर पडिल्लो फातर चुकयत एकाद्रो मनीस मार्गा वयल्यान चलता, तशे तरेची तांची आज मेरेनची अवस्ता आशिल्ली. कितलेशेच लोक रातचे ताका आपटतात जातले, कितल्याशाच लोकांचे हातपांय फुट्टयात जातले, हें येवजिनासतना तो चलता आनी एक दीस जेन्ना आपुणूच ताका आपटून थोंपरां फोडून घेता तेन्ना ताची येवजुपाची शक्त जागी जाता आनी मागीर तो वाटे वयलो फातर कुशीक काडून उडयता. देवकुमारय आज वाटे वयल्या फातराक आपटल्ले आनी तांगेली

येवजुपाची शक्त जागी जाल्ली.

न्याय खंय आसा? एकाद्रो गरीब मनीस कोणाल्याय शेतांतले वाल बुड्डून खाता जाल्यार कायदो ताका ख्यास्त करता. दुसरो गिरेस्त मनीस दुसऱ्याक दिसा उजवाडे लुट्टा जाल्यार ताका तसरीप मेळटा, सन्मान मेळटा. कांय मनीस तरातरांचीं आविदां घेवन येतात आनी तांच्या नेटार दुबळ्या मानायांक गुलाम करतात. खंड, जण, टॅक्स अश्या तरातरांच्या नांवांनी लुटूंक लागतात आनी आपूण व्हडले पगार घेतात, शिकार करतात, खेळटात, तरातरांचे रंगढंग करतात. होच मूं ईश्वरान निर्मिल्लो संवसार, आनी होच मूं तागेलो न्याय?

देवमनीस सदांच आसतले आनी आसातूय. संवसारांत ते धर्मान आनी नितीन चलतात. आपले जिणेक कश्ट दिवन ते संवसारांतल्यान मेकळे जातात. पुणून तांकां देवमनीस कित्याक म्हणचे? तांकां भिवकुरे म्हणूंक जाय! आपली तोखणाय करून घेवपी म्हणूंक जाय. न्यायाची राखण करतात, न्याया खातीर प्राण ओंपतात तेच खरे देवमनीस! पुणून जे जाणार जावनूय नेणारांचें सवंग करतात. धर्माचे बसके वयल्यान सकल लवंडटात आनी तांच्या दोळ्यांक ही वायट अवस्ता दिसना, जाल्यार ते कुड्डे आनी मुर्खूय म्हणपाचे, देवमनीस मात कशेच न्हय! आनी हांगां देवमनीस जावपाची गरजूय ना! देवमनीस म्हणून घेतल्यांनीच भाग्य, ईश्वर आनी भक्ती हांचीं फकणां करून, हे अनितीक मरण ना केलां. भौस आज जे दर्शन जिवो आसा, तसो तो आसचे परस मनशांनी तो नानपच्छात केल्लो जाल्यार चड बरें जातलें आशिल्लें. मनशाक पयलीं मनीस जावचें पडटलें; दुश्टां वांगडा झगडपा खातीर कमराक शस्त्र बाळगुचें पडटलें. तांची शिकार जावपांत देवपण मेळना. आज जे इतले गिरेस्त आनी राजालोक आसात, ते तागेल्या पूर्वजांनी केल्ले लुटीचेर खोस भोगतात. आनी जांणी आपलीं बेसां तांकां विकल्यांत तांणी तीं पिशेपणां करूंक ना? गयेक वचून पितरांक पिंड दिवप, आनी हांगां येतकच म्हामनी वाडप, हाचे खातीर हजारांनी रुपया काबार करपाची कितें गरज आशिल्ली? तें जाल्यार सामकेंच पिशेपण आशिल्लें! तांकां आपल्या भुरगेबाळांची चिंता कित्याक जालिना? जांकां फुकेसवाय धन मेळ्ळें, तांणी तें मेळत तशें फुकलें जाल्यार, तांगेल्या भुरग्यांनी ते फुकट्याक कित्याक भोगचें न्हय! जांकां आपल्या जुवानपणाच्या संवयांक पास घालूंक जमलेंना, तांगेल्या भुरग्यांनी तपश्चर्या कित्याक करची?

निमाणें तांणी मनाचो निश्चेव करून अशें थारायलें — "अनितीन भरिल्ल्या ह्या संवसारांत धर्म-अधर्मा विशीं येवजप सामकें चूक. जुगार खेळून वा आत्मघात करून, दुसऱ्याच्या वसवसाचो फायदो घेवन पयशे एकठांय करप, हें कायद्याच्या दावपेंचा इतलेंच बरें वा वायट. सावकाराक ते वीस हजार रुपया रीण आसले जाल्यार नीत सांगता, 'बेंस विकून तागेलें रीण फारीक कर! उरता ते पयशे तुका मेळटले!' पुणून कायदो रिणकाऱ्या



कडेन इतलोय न्याय करिना जाल्यार, रिणकाऱ्यान कायद्यांतल्यो खांची सोदून काडून सावकारा कडल्यान आपलें बेंस परतें मागलें जाल्यार, ताका अधर्मी थारावप समा जावचें ना! ह्या सिद्धांताचेर तशेंच शास्त्र आनी नीत हांचेर सगळ्या वाटांनी येवजिलें आनी तें मनांत घट्ट धरलें. आतां ते कशेच बदलचे नाशिल्ले. तांगेल्या मुळच्या संस्कारांक बादा येतली आशिल्ली. जाल्यारूय एक नवो मंत्र मेळिल्ले बशेन ते चड खोशी आनी उमेदी जाल्ले.

एक दीस तांणी गिरिधरदास शेटी म्हऱ्यांत वचून तांकां उकतेपणान सांगलें, "तुमी म्हगेलें बेंस परतून दिवचेनात जाल्यार म्हगेले पूत तुमचेर केस घालतले."

गिरिधरदास हालींच्या काळांतले मनीस आशिल्ले. इंग्रजींत हुशार. थोडोभोव कायदो जाणा जाल्ले, राजकारणांत वांटो घेवपी, अशे तरेचे. ते कंपन्यांचे शेअर्स घेताले आनी बाजाराचो रागरंग पळोवन विकताले. एक साकरेचो कारखानो चलयताले. सगळो वेव्हार इंग्रजी पद्धतीन चलयताले. तांगेलो बापूय मक्कुलालूय होच धंदो करतालो. पुणून ते पुजाबिजा करून आनी दक्षिणा दान करून पानवळ घेत रावताले.

गिरिधरदास सगळीं कामां वेपाराच्या कायद्यांतल्यान करताले. मानायांक पयले तारकेक पगार दिताले. कोणाकूय मदीं गरज लागली जाल्यार कळंतरान पयशे दिताले. मक्कु लाल, मानायांक वर्सभर पयशे दिनाशिल्ले, पुणून तांकां जाय तितलें जेवंक खावंक दिताले. जेन्ना हिशोब करताले तेन्ना मानाय तांकां देणे जाताले. वर्सांतल्यान दोन चार फावटीं व्हडल्या आफिसरांक सलाम मारपाक वताले. तांकां भेटवस्तू दिताले. जोतें भायर दवरून भितर वताले आनी हात जोडून उबे रावताले. परतून येतना थंयच्या लोकांक दोन चार रुपया बक्षीस दिताले.

गिरिधरदास म्युनिसिपल कमिशनर आशिल्ले, आनी सगळ्या मनशां कडेन ते खूब नमळायेन वावुरताले. उत्सवाच्या दिसांनी ते तांकां तसरिपो वांट्टाले आनी आपली वाहवा करून घेताले. आपल्या हक्कां खातीर झगडपाक आनी चळवळ करपाक ते जाणा आशिल्ले. तांकां फटोवप कोणाकूच जमनाशिल्लें.

देवकुमारांल्या उलोवण्याचें तांकां अजाप दिसलें. देवकुमारांक ते खूप मानताले. तांगेलीं थोडीं पुस्तकां तांणी वाचिल्लीं, आनी तांगेल्या पुस्तकांचीं बंडलां तांगेल्या वाचनालयांत आशिल्लीं. ते हिंदी भाशेचे मोगी आशिल्ले, आनी गांवांतल्या प्रचारसभांक तांणी जायते फावटीं देणग्योय दिल्ल्यो. पंडे आनी पुजारी हांचीं नांवां घेतल्यार तांकां तिडक मारताली. मेळत तशें दान करपाचे चालीचेर टिका करून तांणी एक पुस्तिकाय उजवाडायिल्ली. स्वतंत्र विचारांचे मनीस म्हणून गांवांतले लोक तांकां मानताले.

मक्कुलालशेट आंगान जड आशिल्ल्यान तांकां जाग्या वयल्यान हालपाक कश्ट जातालें. गिरिधरशेट मात आंगान जाय तितलेच आशिल्ले, आनी गांवांतले व्यायामशाळेचे फकत मुखेलूच न्हय जाल्यार बळिश्ट निशाणेबाजूय आशिल्ले.

खिणभर ते देवकुमारांच्या तोंडा कडेन पळेत रावले. ते कितें सांगूंक सोदतात हें तांकां

कळ्ळेंना. ते पयशांक अडचल्ल्यान तांची बुद्द भश्टल्या आनी ताका लागून ते कित्याय किर्ते उलयतात अशें तांकां दिसलें. देवकुमारांच्या चेऱ्या वयलें जिखिल्ल्याचें हांशें पळोवन तांचो तो विचार चड घट जालो. भांगराच्या काडयांचें दोळ्यां वयलें वक्ल काडून मेजार दवरीत तांणी हांसून म्हळें –

''घरा कडेन सगळें सारकें आसा मूं?''

''हय! सगळी तुमगेलीच क्रिया!'' देवकुमारांनी थोमणो मारिल्ले बशेन म्हळें.

''व्हडलो चलो वकिली करता मूं?''

''हय!''

''मागीर जालां किर्ते तर? तुमगेलीं पुस्तकां चड खपनात दिसता! तुमचे सारक्या सरस्पतीच्या भक्तांक फावो तितलो मान दिवप ना म्हळ्यार आमच्या देशाचें व्हड दुर्भाग्य! तुमी युरोपांत आशिल्ले जाल्यार आज लाखांचे धनी जातले आशिल्ले.

''हांव पयशांक आशेल्ल्यां भितल्लों न्हय हें तुमी जाणात!''

''मागीर, व्हडल्या संकश्टांत बी पडूंक नात मूं? तुमी म्हणशात ती सेवा करपाक तयार आसां हांव! तुमचे सारक्या विद्वान मनशा कडेन म्हजी वळख आसा हें हांव म्हजें व्हडलें भाग्य समजतां. तुमची कितेंय सेवा करूंक मेळप म्हळ्यार, म्हजे खातीर ती अभिमानाची गजाल!''

देवकुमार असल्या उतरांनी नमळायेचो पुतळो जाताले. तांची तुस्त करून तांचे कडल्यान सगळेंच व्हरूंक जातालें. एक लखपती आनी तातूंत साहित्याचो मोगी तांचो येदो व्हड सन्मान करता, तेन्ना ताचे कडेन जमनीच्या दिवपा घेवपा संबंदान उलोवणें करप म्हळ्यार लजेची गजाल अशें तांकां दिसलें.

''म्हाका तुमी इतले योग्यतेचे समजतात ही तुमची उदारकाय!'' तांणी म्हळें.

''तुमी खंयचे जमनीची गजाल करताले, हांव समजलोंना.''

''शेट मक्कुलालांनी म्हजे कडल्यान बरोवन घेतिल्ली ते जमनीची!'' देवकुमारांनी आडखळत आडखळत म्हळें.

''अशें? तिचे संबंदान किर्ते नवी गजाल आसा?''

''ते गजालींत चले तुमचेर केस घालपाचे आसात! हांवें तांकां खूब समजायले पुणून ते आयकनात. तांकां कितेंय दिवन तें प्रकरण मिटयात, हें सांगपाक आयिल्लों. गजाल कोर्टांत कित्याक वचूंक जाय? दोगूय जाण बेश्टे खरशेतले.''

गिरिधरदासांचो शांत, मुर्वत राखपी, चेरो कठोर जालो. जीं नाकटां तांणी शिश्टपणाचे गादये मुळा लिपयल्लीं, ती देवकुमारांचें उलोवणें आयकून धारदार जावन भायर आयलीं. राग चिड्डून धरीत तांणी म्हळें, ''म्हाका समजावपा खातीर तुमकां हांगा येवपाची गरज नाशिल्ली. भुरग्यांकूच तुमी समजावपाचें!''

''तांकां सांगून जालें!''

''तशें जाल्यार वचून थंड बसात! हांव म्हगेल्या हक्का खातीर झगडपाक जाणां! तांगले तकलेंत कायद्याचे गरमेचो परिणाम जाला आसत जाल्यार ताचेर म्हजे कडेन वखद आसा!''

आतां देवकुमारांली साहित्यीक नमळाय गळून पडली. लडायेक उबो राविल्ले बशेन तांणी म्हळें, ''मागीर तुमकां खबर आसूंक जाय, ते जमनीचें मोल दोन लाखां परस उणें ना!''

''दोनूच न्हय धा लाख आसा! तिचो तुमचे कडेन संबंद ना!''

''तुमी म्हाका वीस हजारूच दिल्ले!''

''तुमी केन्ना कोर्टांत वचूंक नात. गेल्ले जाल्यार, 'जी वस्त एकदां विकल्या ती कायद्यान कितल्याय पयशांक परतून मेळना,' हें तुमी जाणा जातले आशिल्ले... हो नवो कायदो मानून घेतलो जाल्यार गांवांत एकूय सावकार नदरेक पडचोना.''

थोडो वेळ प्रस्न आनी जापो जायत रावल्यो आनी मागीर ते दोगूय बरे मनीस सुण्या बशेन गुरगुरत आनी दांत दाखयत व्हडल्यान झगडले.

गिरिधरदासांनी गजाल मारून म्हळें, ''म्हाका तुमचे कडल्यान अशे तरेची आस्त नाशिल्ली.''

देवकुमारांनीय बडी उबारून म्हळें, ''तुमी इतले सुवार्थी आसत, अशें म्हाका दिसूंक नाशिल्लें.''

''तुमी तुमचो सत्यानाश करून घेवंक सोदतात!''

''कांय पर्वा ना!''

देवकुमार थंयच्यान भायर सरले तेन्ना माघ म्हयन्यांतल्या काळखे रातीच्या थंड वाऱ्यांतूय तांकां घाम आयिल्लो. जिकिल्ल्याचें येदें व्हड अहंपण तांचे जिणेंत हाचे पयलीं केन्नाच येवंक नाशिल्लें. तांणी कल्पनेंत जायत्या जाणांचेर जैत मेळयल्लें, पुणून आयचें जैत आशिल्लें एका नव्या विचाराचें, एका नव्या बळग्याचें.

ते रातीं सन्तकुमार आनी सिन्हा हांणी देवकुमारांचेर परतून एकदां चेपण हाडपाचें थारायलें. दोगूय येवन उबे रावले. इतल्यांत देवकुमारांनी उमेदीन म्हळें, ''तुमी अजुनूय कागाळ करूंक ना? बेश्टोच कळाव कित्याक करतात?''

निर्शेणेन सुकून गेल्ल्या सन्तकुमाराच्या मनांत उमेदीचें मॉड आयलें. जाचेर ताचो विश्वास नाशिल्लो तो देव खऱ्यांनीच आसा तर! भीक मागपाक आयिल्ल्याक आशिर्वाद मेळिल्लो.

''तुमच्याच हयकाराची वाट पळेताले.'' ताणें म्हळें.

''हांव खोशयेन हयकार दितां तुमकां! म्हजो आशिर्वाद आसा तुमचे फाटल्यान!''

तांणी मागीर गिरिधरदासां कडेन जाल्लीं उलोवणीं तांकां सांगलीं.

सिन्हान नाका पुडयो फुलोवन म्हळें, ''तुमचे आशिर्वाद आसात, थंय आमचें यश आसा. तांकां आपले संपत्तीचो गर्व आसत, पुणून हांगाय जाल्यार किर्ते अबुददी लोक नात!''

सन्तकुमार अर्दें यश पदरांत पडिल्ले बशेन खोशी जाल्लो. ''बरें सांगलें तुमी तांकां!'' ताणें म्हळें.

सिन्हान व्हडल्या आवाजांत बढाय मारली, ''असल्या शेट लोकांक हांवें बोटार नाचयल्यात!''

सन्तकुमार सपनां पळोवंक लागलो. ''आमचे दोगांचेय बंगले हांगा बांदपाचे दुश्टा!''

''हांगा कित्याक? सिविल लायनींत बांदपाचें!''

''अंदमासान कितल्या दिसांभितर निकाल लागत केसीचो?''

''स म्हयन्यां भितर!''

"बाबुर्जींच्या नांवान सरस्पतीचें देवूळ बांदपाचें!"

पुणून खरो प्रस्न आशिल्लो, पयशे खंयसून हाडचे हो. देवकुमार पयशांक आशेल्लो मनीस नाशिल्लो. तांणी पयशांचो जप केन्ना केलो ना. सांबाळून दवरपा सारकें तांका केन्ना किर्ते मेळ्ळेंच ना. एका म्हयन्याक पन्नास रुपया जमताले. जाल्यार दुसऱ्या म्हयन्याक ते खर्च जाताले. आपल्या सगळ्या पुस्तकांचे हक्क तांणी विकिल्ले. फकत पांच हजार रुपया पंकजाच्या लग्ना खातीर तांणी शैब्या कडेन दिल्ले. कोणाय कडेन पयशे मागतलो जाल्यार तसलो मनीस तांचे नदरे मुखार नाशिल्लो. तांकां दिशिल्लें, सन्तकुमार घरसंवसार चलयतलो आनी आपूण सुशेग घेतलों वा खंयूय भोंवपाक वतलों. पुणून आतां हो येदो व्हडलो बेत येवजितकच ते ओगी कशे बसतले?

तांगेले खूब बरें मागपी आशिल्ले. एक दोन संस्थानिकूय तांच्या बरे मागप्यां भितर आशिल्ले, आनी देवकुमारांनी आपणागेर येवचें, आपणेंय तांचे गूण गावचे अशें तांकां दिसतालें. पुणून देवकुमारांनी अजून कोणाल्यांच बंगल्यांत पांय दवरूंक नाशिल्लो. पुणून आतां मात ते तांचे फुडें पयशांची मदत करात म्हणून तोंड फांफुडटाले. तांगेलो स्वाभिमान आता थडद्या भितर न्हिदून पडिल्लो.

ते जें करताले ताचो परिणामूय रोखडोच दिसलो. तांका बरे म्हणपी तांगेल्या एका भक्तान लोकांक जाहीरपणान अशें कळीत केलें, "देवकुमारांचो साठावो जल्मदीस व्हड दबाज्यान मनोवंक जाय, आनी तांकां साहित्याच्या मोग्यां कडल्यान एक थैली भेटोवंक जाय! ज्या मनशान आपले जिणेंतलीं चाळीस वर्सां साहित्य सेवे खातीर ओगडायलीं, तो आतां पयशांक पादिशेर जाला, ही गजाल दुःखाची न्हय? आमी साहित्य सेवकांचो व्हड सत्कार करचेनात, ते मेरेन साहित्य फुलचें ना! ताची उदरगत जावचिना!"

वर्तमानपत्रांनीय ही गजाल उखलून धरली. अजापाची गजाल म्हळ्यार, ज्या साहित्यिकांचें देवकुमारां कडेन दुस्मानपण आशिल्लें, ते हया वेळार उदारपण दाखोवंक लागले. ते गजालीचेर भासाभास जावंक लागली. एक कमिटीय घडयली. एक म्हाराजा तिचो मुखेल जालो. मि. सिन्हान देवकुमारांचें एकूय पुस्तक वाचूंक नाशिल्लें. पुणून हे चळवळींत तेच चड वांटो घेताले. मिस् कामत आनी मिस् मलकानी हांणीय त्या दबाजाक येवकार दिलो. बायलांनी दादल्यां परस फाटीं रावूंक फावना अशें त्यो म्हणटाल्यो.

तारीक थारायली. शारांतले इंटरमिडियेट कॉलेजींत हया दबाजाची तयारी सुरू जाली.

निमाणें एकदांचो दीस उजवाडलो. आज सांजेवेळा तो सुवाळो जातलो. पयस पयसून साहित्याचे मोगी आयल्यात. सोरांवचे कुंवरसायब ती थैली भेटयतले. अदमासा परस चड मानेस्त जमल्यात. उलोवप जातलें. गायन जातलें, नाटक करतले, मोगाची च्या पार्टी जातली. कविसंमेलन जावपाचें आसा. शारांतल्या वणटींचेर जायराती लायल्यात.



सभ्य समाजांत बरो खवदळ चल्ला. राजासायब सभेचे मुखेली आसात.

देवकुमारांक देखावो करप मात्तूय आवड नाशिल्लें. लोक उत्सवांतूय ते चडशे वचनाशिल्लें. पुणून आज व्हकल पावणेंतलो न्हवरो जावचें पडिल्लें. सभेक वचपाचो वेळ लागीं येवपाक लागलो, तशी तशी तांच्या मनांत एके तरेची निराशेची सावळी दाटपाक लागिल्ली. ज्या वेळार तांकां थैली भेटयतले आनी ती घेवपाक ते हात मुखार करतले, तो देखावो कितलो लज दिसपा सारको आसतलो?

जांणी केन्ना पयशां खातीर हात फुडें केलोना, तांणी हया निमण्या वेळार दुसऱ्यांनी दिल्लें दान घेवप? हय, हें दानूच! आनीक कांय न्हंय! खिणभर तांगेल्या आत्म्याचें अहंपण बंड करून उठलें. थैली मेळनाफुडें त्याच जाग्यार ती खंयचेय सार्वजनीक संस्थेक दिवप हेंच तांकां त्या वेळार सोबपासारकें आशिल्लें. तांगेले देख दिवपी जिणेक तेंच फावोशें आशिल्लें. लोक तांचे कडल्यान तेच गजालीची आस्त धरताले. तशें करपांतूच तांकां व्हडपण आशिल्लें. ते माटवांत पावले तेन्ना तांच्या मुखामळार खोशयेचें मातूय चिन्न नाशिल्लें. ते मातशे लजिल्ले बशेन जाल्ले. एके वटेन बऱ्या कामाची ओड, जाल्यार दुसरे वाटेन मेळोवपाची आस्त ओडटाली.

ही भेट म्हळ्यार दान न्हय! तो तांगेलो हक्क हें मनाक कशें समजावपाचें! पयशांक आशेल्लो मनीस म्हणून लोक हांसतले. ते बुद्दीवादी आशिल्ले. आनी बुद्द जें किर्ते करता तें नितीक धरून करता! नितीचो आदार मेळिल्लो जाल्यार ते कोणाचीच पर्वा करचे नाशिल्ले.

ते थंय पावतकच तांकां व्हड येवकार मेळ्ळो. मंगलगायन जालें. भाशणांक सुरवात जाली. पुणून ते मात तकली उसळपी मनशाबशेन दिसताले. तांकां त्या वेळार तकलेचे पिडेचेर वखद जाय आशिल्लें. हें जें किर्ते चल्लां ते बरोबर न्हय! सगळे विद्वान आसात, पुणून तांणी केल्लो नियाळ कितलो वयलो वयलो. ताका मातूय खोलाय ना! जशे किर्ते तांचे विचार तांकां समजुंकूच नात! जसो किर्ते हो जयजयकार म्हळ्यार कुड्डी भक्ती! आनीक कांय न्हय! चाळीस वर्सां मेरेन खंयचे स्फुर्तीन तांकां बांदून दवरल्यात, जो केन्नाच उणो जालोना तो उजवाड खंयचो आशिल्लो, हें कोणेंच केन्ना समजून घेवंक ना!

अचकीत तांकां एक आलाशिरो मेळ्ळो, आनी हळडुव्या पडिल्ल्या तांगेल्या चेऱ्यार मातशीशी तांबसाण आयली.

हें दान न्हय! हा प्रोव्हिडंट फंड! जो आज मेरेन तांगेले जोडींतल्यान कातरून वतालो. सरकारी नोकरेंत लोक पेन्शन घेतात, तें दान आसना न्हय. जांणी लोकांची सेवा केल्या, अंतस्कर्णा सावन केल्या, व्हडलो पगार दिलो जाल्यारूय करचोना इतली मन लावन केल्या, तांणी पेन्शन घेतल्यार लज कित्याक दिसची?

म्हाराजांनी थैली भेटयली तेन्ना देवकुमारांच्या चेऱ्यार गर्व आशिल्लो, आनी जिखिल्ल्याची खोस आशिल्ली.





# जमीन

मूळ हिन्दी: रामचंद्र सरोज    कोंकणीत हाडपी: उदय देशप्रभू

जायते दीस जाले, रामगरीबाक बरी न्हीद पडना. रात भर येवजीत उरता. वायट गजालीच मनांत येतात... जागेपणींच वायट वायट, भंय दिसपा सारकीं सपनां पळेता... अस्वस्थ जावन उठून बसता... परतो न्हिदपाचो यत्न करता. हेच बशेन पुराय रात घालयता. फांतोडेर कसो तरी मातसो दोळो लागता.

उबाळाचे दीस. ताका लागून शेतां पडींग पडल्यांत. हातूंत भर म्हूण, बशिल्ले कडेन शेतकारांच्यो जमनी नाच जातात. रामगरीबाक भायर सरूंक पसून भंय दिसता. खंयूय प्रधान मेळत जाल्यार?... तो कितेंय करूंक शकता. गांवांत ताका आडावपी कोण आसा? पुलिसूय ताचें कांय वायट करूंक शकनात... सगळ्याक ताचे हात पावल्यात.

रामगरीबाची बायल रुपेस्त तशी गुणेस्तूय बी. घरचो सगलो वावर करता, ते भायर शेतां-भाटांतल्या वावरांतूय ताका आदार करता. दोगां ल्हान भुरग्यांची आवय खरी, पूण तरणी रसरशीत कूड. प्रधानाची नदर तिचेर पडल्या तेन्ना सावन तीय भियेवन आसा. प्रधान जिवान घटमूट. दुडवांनीय ताण... गांवांतल्या धुवां-सुनांचेर ताची नदर. ती रामगरीबाक समजावपाचो यत्न करता —

'कित्याक वागाच्या तोंडांत हात घालता?... बुद्द खंय चरूंक गेल्या तुजी? प्रधान सांगता तें मानून कित्याक घेना?... नुकसान जाता जाल्यार जावंदी. जीव उरलो जाल्यार पोट भरपाची वाटूय मेळटली.'

बायलेचे हे समजिकायेची रामगरीबाक तिडक मारता —

'कसली बायल-मनीस तूं! आपल्या पावलां मुखावयलें तुका कांयच कशें दिश्टी पडना?... जमीन गेली जाल्यार खातलीं कितें? ल्हान ल्हान दोगां भुरगीं आसात. तांचीं दुकां, तांचे वळवळे पळोवंक जातले तुज्यान?'

भुरग्यांचें लक्षांत येतकूच हिरमनिया ओगी जाता. कितें करचें, सुचना तेन्ना कामाक लागता. रामगरीब हुस्को घेवन बसता.

रामगरीब दिलदार मनीस. सगळ्यां कडेन हांसत्या तोंडान चलपी... कोणाकूय गरजेक

पावपी. नाचपा-गावपांत सगळ्यांत मुखार... धोल वाजोवपांत ताका लागपी गांवांत कोण ना. होळये वेळार धोल वाजोवन वाजोवन तार्ची बोटां फुट्टात. भाटांत विरहाची तान लायत जाल्यार आयकुपाक अर्दो गांव थंय एकठांय जाता. पूण आतां रामगरीब सामको दुःखी आसा. कोणेंय इल्लेंशें आपलेपण दाखयलें, धीर दिलो जाल्यार ताचे दोळे दुकांनी भरून येतात. सुरवेक जायते फावटीं तार्णे प्रधानाचे पांय धरले. तरातरांनी ताचे कडेन मागून पळेलें. पूण प्रधान कसोच बदलोना. वयल्यान धमक्यो दिवंक लागलो. आतां कितलो तेंप जालो, तो प्रधाना मुखारूच येवंक ना. तो प्रधानाक मेळुंकूय सोदिना... मेळुनूय बी किर्ते जावपाचें आसा? नशिबूच पयलीं फुटकें, तातूंत दया खंयच्यान येतली?

दोन वर्सां फाटींच गांवांतले जमनीचे सगळे वेव्हार बंद केल्ले... शेतांची विक्री, रजिस्ट्री, वांटप – सगळें बंद आसलें. धा दिसां उपरांत जमीन मेजपी सरकारी अधिकारी आपली टीम घेवन गांवांत पावले. मास्तराच्या घराच्या वारांदार सरकारी अधिकाऱ्यांक जागो मेळ्ळो. हेर कर्मचारी गांवांत जंय जंय सुवात मेळटाली थंय बसपाक लागले.काम सुरू जालें. लोखणाची सरपळी शेतां मेजपाक शेतांनी भोंवपाक लागली तेन्ना गांवचो लोक कुतुहलान पळोवपाक लागलो. जमीन मेजताले... कागदार ह्या मेजपाची नोंदणी जाताली. पोरण्यां नकाशां बदला नवे नकशे तयार जावंक लागले. गांवचो लोक आपआपल्या कामांनी गुल्ल आशिल्लो. कोणाक कसलीच अडचण जालिना. चार पांच म्हयन्यांनी काम सोंपलें. ए.सी.ओ.चें ऑफीस उकतें जालें, मुळावे शाळेच्या दोन वर्गांत, आदीं केन्ना तरी मास्तर रावतालो थंय. सरकारी कर्मचाऱ्यांनी आपलें काम सुरू केलें. मेजप सोंपिल्लें ते जमनीचीं कागदां वांटप सुरू जालें. गांवांत बोवाळ जावपाक लागलो. कागदां पळोवन लोकांक अजाप जावंक लागलें. एक 'बिघो', तीन 'विस्वा' आशिल्लें तें शेताचें माप मेजप जालें उपरांत फकत अठरा 'विस्वा' जाल्लें... खंय खंय धा 'विस्वा' जमीन एक 'बिघो' जाल्ली. खंय मोड-तोड दाखयल्ली... ए.सी.ओ. अधिकाऱ्या मुखार मेजप परतें करचें म्हूण मागून केल्ल्या अर्जांची रास जाली... ए.सी.ओ. एक एकल्याक जाग्यार घालूंक लागलो. कांय जाणांक समजावन धाडले. गरज थंय जमीन परती मेळूंक लागली... कितलेशे म्हयने हें काम चलिल्लें.

वर्साच्या सोंपत्यार शेताची मालकी थारावपाचें काम सुरू जालें. गरज पडटाली तेन्ना गांवांतल्या पंचायत वांगड्यां कडेन वासपूस करून तांचें म्हणणें मानून घेवन मेजप फायनल केल्लें. तरी कागाळ्यो आसल्यो. केशी जाल्ल्यो तांचो निकालूय ए.सी.ओ.क दिवचो पडलो. उपरांत सातभारे दिवपाचें काम सुरू जालें. फुडलो कारभार खबर आसलो तांणी ए.सी.ओंक मेळून आपणाक जाय तशे सातभारे करून घेतले. हें काम पुराय जातकूच शेतकारांक 'आकासपत्र-तेवीस' मेळ्ळें... गांवांतले अर्द्या वयर शेतकार बेजार जाले. तांचीं बरीं बरीं शेतां हेवटेन तेवटेन जाल्लीं. रामगरीबाली तीन बिघा बऱ्या कसाची जमीन प्रधानाल्या सातभाऱ्यांत गेल्ली. बदल्यांत ताका मेळिल्ली गांवच्यान पयस दोंगरा कुशीक आशिल्ली पडींग जमीन. गांवांतल्या जाणट्या लेखपालान, रामसजीवनान, कागद वाचून दाखयलें तेन्ना रामगरीबाक आपणाचेर वीज कोंसळून पडल्या अशें दिसलें. ताची आवतिकाय पळोवन लेखपालूय भियेलो. मातश्या वेळान साबुद्दीर आंयलो तेन्ना रामगरीब लेखपालाचे पांय धरून रडपाक लागलो.

रामसजीवनान ताका धीर दीत म्हळें, 'रडटा कित्याक? आजून चड वेळ जावंक ना. व्हडलीशी कारवाय जावंक ना. सगळें बदलूं येता.'

रामगरीब शांत जालो. तार्णे विचारलें, 'कशें, लेखपाल सायब?'

'जाका आपणालो सातभारो मान्य ना तार्णे कागाळ करपाची. तूं तुजी कागाळ दी. गांवचो वकील, भैयालाल, कागळ बरोवन दिवपाचें काम करता. ताका मेळ वचून... अजून जायते दीस आसात. कित्याक भियेला?'

रामगरीब येवजणेंत पडलो. रामसजीवनान ताका परतेंय सगळें विस्कटावन सांगलें –

'किर्ते करप जाणा? ए.सी.ओच्या ऑफिसांत कागाळ व्हरून दिवप. हेंच आकासपत्र घेवन वच आनी ए.सी.ओ.क दाखय. तुका किर्ते सांगपाचें आसा तें ताका सांग... विनंती कर... तो मानतलो.'

कागाळीचो ल्हानसो अर्ज बरोवन दिवपाक वकिलान पन्नास रुपया घेतले. जिवार येवन रामगरीबाक व्हडा कश्टान एकठांय केल्ल्या पयशांक हात घालचो पडलो. ऑफिसांत अर्ज दितकूच ताका दिसलें, सोमतें वचून ए.सी.ओ. सायबाक मेळचें. येवजितां येवजितां कळाव जालो. ऑफीस बंद जालें. सुर्यो अस्तमतेक वतालो. जेष्ठ म्हयन्यांतल्या मळबांत कुपां दिसपाक लागलीं. ए.सी.ओ.न खाटीर टमाट आनी कांद्याच्यो फोडी आशिल्ली बशी दवरिल्ली आनी तो बाटली उकती करपाक वतालो. एकलोच आसलो. रामगरीबाक हो वेळ बरोसो दिसलो. तो बेगी बेगीन मुखार सरलो. ए.सी.ओ.चे पांय धरले आनी रडूंक लागलो. सातभाऱ्याची किर्ते तरी भानगड आसतली म्हूण कळपाक ए.सी.ओ.क वेळ लागलोना.

'किर्ते जालां? कित्याक रडटा?' आपणाले पांय मेकळे करून घेत तार्णे विचारलें.

रामगरीबान रडत रडत आकार-पत्र ए.सी.ओ.च्या हातांत दिलें. कागद पळेना फुडें ए.सी.ओ.क कळ्ळें, ही प्रधानाची भानगड. तार्णे रामगरीबाक समजायलो, 'पिशेपणां करूं नाका. असली संद परतून मेळपाची ना. तीन बिघ्यां बदला तुका बारा बिघे जमीन मेळटा.'

'पूण ती पडींग जमीन, सायब, थंय कांय पिकपाचें ना. ह्या तीन बिघ्यांचेर म्हजें आख्खें घर चलतालें. पोट भरून थोडें भोव अन्न उरतालेंय बी. हे पडींग जमनीर किर्ते पिकतलें आनी आमी किर्ते म्हूण खातलीं?'

खरी गजाल, ए.सी.ओ.कूय दिसलें. तो हिशेब करपाक लागलो. 'कितली जमीन तुगेली?'

'तीन बिघे. ही हांगा, प्रधानाच्या व्हडल्या जमनी कुडक्या कुशीक. मर्दी न्हय सायब.'

'कितलें पिकता? गाय बैल बी आसात?'

'पोटाक जाय तितलें पिकता. उणें पडल्यार कसलोय वावर करतां. दोन बैल आनी एक गाय आसा. गाबणी आसा. भुरग्यां खातीर दूद मेळटा.'

'बरें आसा. वच तूं घरा आतां. हांव पळेतां.'

'पळेयात सायब, तुमीच मायबाय सायब... आमचे सारकेल्यांक तुमीच राखपाचें.' आनीक एक फावट सायबाच्या पांयां पडून रामगरीब उठलो.

ए.सी.ओ. सायबान हिशेब केलो. पूण तो कांय वाट काडूंक शकलो ना. सकाळीं 'अदालत' लागचे पयलीं ताणें आपणाल्या सदच्या लेखपालाक म्हळें, 'रामगरीबा कडेन उलय. जमनीचें जाग्यार घालपाक कितले खर्चुपाची तयारी आसा तें विचार.

'तो हाता पोटा वयलो मनीस, सायब. बैलूय मरपा कडेन पावल्यात. विकल्यार सातश्यां आठश्यां वयर कोण दिवपाचो ना. गाय आसा. हांवें पळयलां, खेपेक एक लिटरा वयर दूद दिना.'

'ताचे कडेन कांय ना जाल्यार कित्याक आयिल्लो तो म्हजे कडेन?'

'गांवांतल्या लेखपालान धाडला जातलो. ताच्या मनांत गरिबां खातीर दया-माया आसा. म्हूण तो व्हांवते गंगेंत हात धुवपाक दिना.

'तशें जाल्यार व्हरूं प्रधानाक ताचें शेत.'

'एक गजाल आसा सायब...'

'कितें?'

'रामगरीबाची बायल बरी सुंदर आसा...'

ए.सी.ओ.च्या काळजांत 'धक धक' सुरू जाली. रानवटी जनावरांक सावज पळोवन जाता तशी. ह्या आडगांवांत राबितो आशिल्लो. दोन म्हयने जाल्ले, बायले कुशीक वचूंक नासलो. म्हणूंक लागलो, 'ताका पटय आनी रातची बायलेक धाडून दी म्हूण सांग.'

'करतां यत्न... कित्याक धाडचो ना? बापुयूय धाडीत ताचो. आयची रात न्हयं जाल्यार फायची रात तुमची रिती वचची ना.'

हो लेखपाल ए.सी.ओ.चो खास आसलो. दिवपा-घेवपांत भागिदारूय आसलो.

दुसऱ्या दिसा वेळ सादून लेखपाल रामगरीबागेर आयलो. रामगरीबाक अजाप जालें. ताचे नदरेन लेखपाल एक अधिकारीच आसलो. ताका बसपाक रामगरीबान खाट मुखार केली. तेन्नाच हिरमनिया बांयचेर न्हावंक गेल्ली परतताली ती लेखपालाक दिश्टी पडली. अर्दो पदर तोंडार काडून दार उकतें करून ती भितर सरली. लेखपालान तिचें अर्दें उकतें मुखामळ पळेलें आनी तो पळेतूच उरलो. ताका दिसलें, हिरो येवन चिखलांत पडला. ही सायब लोकांची वस्त! तो बसलो ना. 'रामगरीब, तुजे लागीं कितें तरी उलोवंक जाय, पूण हांगा न्हय. यो म्हजे बराबर...' ताणें म्हळें.

रामगरीब रोखडोच तयार जालो. लेखपाल ताका घेवन आंब्यांनी गेलो. वाटेर तो फकत ए.सी.ओ. सायबाच्यो गजाली करतालो. 'सायब खूब व्हडल्या काळजाचो, गरिबांचें दुःख समजता ताका. हाचे पयलीं हांवें कितल्याश्या ए.सी.ओं. वांगडा काम केलां. सगले चांडाळ आसले चांडाळ. जमीन मेजपा वेळार गरिबांक नाडटाले. इतलेंच न्हय, तांची मर्यादाय इबाडटाले...' रामगरीब आयकतालो. कितें उलोवचें ताका कळना जालें.

दोगूय एका आंब्या मुळांत बसले. सगळ्याक किण्ण आशिल्लें. शेतां पडींग पडिल्लीं. उजो जातालो तो वेगळोच. आंब्यां रुखांक आंबेय लागूंक नासले. त्या वाटारांत तिसालान आंबे जाताले. लेखपालान हेवटेन तेवटेन नदर मारीत मुद्द्याक हात घालो.

'रामगरीब, तुका दिसता, तुजे कडल्यान कांयच घेना आसतना ए.सी.ओ. सायब तुजें काम करतलो?'

रामगरीबाक अजाप जालें. त्या दिसा ताच्या उलोवपा वयल्यान दिसतालें, तो कितेंय तरी करतलोच म्हूण. निराश जावन ताणें म्हळें, 'हांव कितें म्हूण दितलों, लेखपाल सायब?!'

'प्रधान तुजे जमनी खातीर ए.सी.ओ.क पांच हजार रुपया दिवंक तयार आसा, जाणा न्हय तूं?

रामगरीब भियेलो. जमनीक हात लावन म्हणूंक लागलो, 'धरणीमायेच्यान तर, लेखपाल सायब, म्हजे कडेन कांयच ना. गाय-बैल पसून विकले जाल्यार हजार देड हजारां वयर कांय मेळपाचें ना.' रामगरीबाचें मुखामळ पडिल्लें. ताच्या दोळ्यांनी दुकां आयिल्लीं.

'एक गजाल जावं येता..'

'कितें ती?'

'ए.सी.ओ. सायब बायलांचो खूब मान राखता. तांची खंयचीच मागणी तो भायर उडयना.'

रामगरीबान तकली वयर काडून लेखपाला कडेन पळेलें. 'हांव समजलों ना, लेखपाल सायब...'

'हांव म्हणटालों, सांजेवेळार ए.सी.ओ.सायब शाळेंत एकलोच आसतलो तेन्ना तुजे बायलेक धाडून दी. तिचे विनवणेचो प्रभाव पडूं येता.'

रामगरीब मातसो अनमनलो. 'बरें आसा सायब, घेवन वतां बायलेक थंय...' ताणें म्हळें.

'ना, ना रामगरीब. असली चूक करूं नाका. इतली घडोवन हाडिल्ली संद फुकट वतली. तुजे बायलेक घडये थंय रातभर रावचेंय पडत...' लेखपालान रामगरीबा कडेन पळयलें. 'तुजी जमीन तुका मेळटली... तुजे खातीर, तुज्या भुरग्यां खातीर... इतलेंच न्हय, तीन बिघ्यां परस इल्ली चडूच मेळोवन दितलो ए.सी.ओ सायब. ताणें कागदां घुंवडायलीं जाल्यार ताका कोण आडावंक शकतलो?'

रामगरीबाक सगळें स्पश्ट कळ्ळें. ताच्या तोंडार ताण दिसूंक लागलो. रागान शिरो फुट्टातश्यो जाल्यो. दिसलें, तो लेखपालाक थंयच आपटून मारतलो. 'हरामी खंयचो! तूं तुजे बायलेक म्हजे सरीं धाडूंक शकता...? एके रातीक न्हय, फकत एका वराक...?' ताणें आपणाचेर नियंत्रण दवरलें. सरकारी ऑफिसरा कडेन झगडप बरें न्हय. तो तकली सकल घालून विचार करपाचें नाटक करपाक लागलो.

लेखपाल मुखार सांगूंक लागलो, 'चड विचार करून कांय जावपाचें ना. शारांनी व्हडले व्हडले ऑफिसर आपले परस वयल्या पदा वयल्या ऑफिसरां कडल्यान, मंत्र्यां कडल्यान काम करून घेवचें आसता तेन्ना आपल्या बायलांक मुखार करतात. ही खबर फकत तुजे म्हजे भितर उरतली... ए.सी.ओ. सायबाक फकत आपल्या कामाचें पडलां, दलालीचें पडूंक ना... तूं जाणा, मनू म्हाराजान म्हळां — 'क्षेत्रभूता स्मृतानारी'. नारी म्हळ्यार जमीन... तूं तुजे दोन बिघे जमनीच्या बदल्यांत एके राती खातीर आपणाली जमीन उश्णी दिता. बायल तुजीच आसा, तुजीच

उरतली.'

रामगरीब उठून उबो रावलो, रागान लेखपाला कडेन पळयलें आनी कांय उलय नासतना घरा वेटेन चलत रावलो. घरा वचून खाटीर आड पडलो. तो लेखपाला वांगडा गेल्लो म्हूण हिरमनियाक खबर आसली. किर्ते चड -उणें जावंक ना मूं... ती विचारांत पडली. किर्ते जालां काय म्हूण रामगरीबाक विचारपाचो तिणें परतो परतो यत्न करून पळेलो. पूण तो मोनो आनी भेड्डो जावन पडिल्लो. कांय वेळान रामगरीब उठलो. बैलांक उदक-खावड घाली, भुरग्यांक पोशेलीं, जेवण जाल्लें तें पोटांत घालें. पूण हिरमनिया कडेन कांयच उलयलो ना. परतो परतो तिचे कडेन पळेता आनी दुसरे कडेन नदर व्हरता. हिरमनिया खूब बेजार जाली. निमाणें रामगरीब उठलो. गांवांत वचपाक भायर सरलो.

लेखपालाच्या उलोवण्या उपरांत रामगरीबाक आपणाले चोंयवशीन काळोखूच काळोख दिसूंक लागलो. आतां मेरेन फकत प्रधान आसलो. आतां लेखपाल आनी ए.सी.ओ. – दोग दुस्मान आनीक वाडिल्ले. बायलेची बेमर्याद जाली जाल्यार...? ही येवजण ताका खावंक येताली... खूब ल्हान पिरायेर लग्न जाल्लें तांचें. रामगरीब तेन्ना सात-आठ वर्सांचो आसतलो आनी हिरमनिया आसतली पांच-स वर्सांची. तो अठरा-एकोणीस वर्सांचो जालो तेन्ना गौना जाल्लो... हिरमनिया सोळा-सतरांची आशिल्ली. आतां ती दोगां भुरग्यांची आवय. एक चलो, एक चली. पिराय एकवीस-बावीस आसतली. इतली सुंदर की गांवचे तरनाटे तिका बरे नदरेन पळयनात. सगळ्यांच्या काळजांत चलबिचल जावंक लागता. पूण हिरमनिया इतली कडक की तिची लागसार वचपाक कोणाक काळीज जायना. तिची सोबीतकायूच तिचें दुस्मान जाल्या, ताका दिसूंक लागता. हिरमनियेची ताका काकूळट दिसपाक लागता. तो लेखपाल आनी तोंड घेवन सांगता, बायल म्हळ्यार खंय जमीन, मनीस न्हय, मोनजातूय न्हय... जमीन! जीव घेवचो सो दिसता ताचो. वाट लावन उडयन दिसता सगळ्याची... वा मनू म्हाराज! खंय शेंवटून मारली तुवें बायल-मनशेक! रगता-मासाचे साक्षात देवीक जमीन करून उडयली.

रामगरीबाच्या मनाचेर व्हड चेपण आसलें. मनांतल्या मनांत तो चिड्डून गेल्लो. ताचें दुःख, ताचो हुस्को ताका चिड्डितालो. इतलें आसुनूय आपणाले जमनी बाबतींत तो साप्प निराश जावंक नासलो. इल्लो इल्लो करून जेष्ठ म्हयनो अर्दो सोंपलो ...मर्दी मर्दी मळबांत कुपां दिसूंक लागिल्लीं. जमीन मेजपाचें काम सोंपत आयिल्लें. कांय थोड्यो कागाळ्यो सोडोवपाच्यो उरिल्ल्यो. रामगरीब आपल्या पोरण्या शेतार वचूंक नासलो. नव्या सातभाऱ्या प्रमाण मेळिल्ल्या शेता कुडक्यारूय ताणें पांय दवरूंक नासलो. ए.सी.ओ.चे अदालतींत मात तो सद्दां हाजिरी लायतालो. गांवांतल्या जायत्या लोकांच्यो कागाळ्यो सुटाव्यो जाल्ल्यो. ताचो नंबर मात लागनासलो. ए.सी.ओ.ची मागणी पुराय जावंक नासली म्हूण ताकाय विचारपाचें रामगरीबाक धाडस जाय नासलें. लेखपालान जें किर्ते सांगिल्लें ताच्या धपक्यांतल्यान तो आजून सांवरूंक नासलो. ऑफिसरान एक दीस सांगलें, 'सी.ओ. सायब येवपाचे आसात. तेच सातभारे फायनल करतले आनी ते प्रमाण जमीन मालकांक तांचे तांचे जमनीचो ताबो मेळटलो... ए.सी.ओ.चें काम सोंपत आयलां. ज्यो कागाळ्यो उरल्यात तांचेर निकाल दिवनूच ते वचपाचे आसात.'

कोणें विचारलें, 'सी.ओ. सायबान दिल्ल्या निर्णया आड कागाळ आसल्यार?'

ऑफिसरान सांगलें, 'कागाळ हायकोर्टा मेरेन व्हरूं येता... जण एकल्याचे तांकी प्रमाण... सामान्य मनशाक सी.ओ.चो. निर्णय फायनल. कोणाकूय मुखार वचपाचें आसल्यार ए.ओ.सी.ची अदालत आसा, डी.डी.सी. आसा आनी निमाणें हायकोर्ट आसाच.'

रामगरीब सी.ओ. येवपाची वाट पळोवंक लागलो.

ए.सी.ओ.क लागीं आशिल्लो लेखपाल एक दीस ताका परतो मेळ्ळो. 'ए.सी.ओ.न केलां तेंच सी.ओ. करतलो. तसोच पेजाद कोणूय आसल्यार तो निर्णय बदलतलो. सी.ओ.चे अदालतींत ए.सी.ओ. सायब आसतलोच. नाजाल्यार ताका गायड कोण करतलो? आनी हय, गांवच्या पंचांकूय हाजीर रावचें पडटलें.'

रामगरीब सगळें आयकत रावलो. कांय उलयलो ना.

'तुवें कांय जाप दिलिना, रामगरीब... आतां सगळें. ए.सी.ओ. सायबाच्या हातांत आसा...'

'म्हजी बायल 'जमीन' न्हय आनी फातरूय न्हय... तुमच्यो बायलो आसत तश्यो...' रागान ताणें म्हळें. आनी मागीर रागाचेर कसो तरी ताबो दवरीत वचूंक लागलो. लेखपाल अजापभरीत जावन पळेत उरलो. रामगरीबाचें अशें रागान उलोवप ताका घाय करून गेलें.

सी.ओ.ची. अदालत तेच शाळेंत भरली. सी.ओ. शारांतसून गाडी घेवन आयिल्लो. काम सोंपोवन सांजचो तो परतुपाचो आशिल्लो. सुटयो सुरू जाल्ल्यान शाळा रितीच आशिल्ली.

रामगरिबाक किर्ते येवजलें, कोण जाणा. ताणें हिरमनियाक म्हळें, 'तूंय यो आयज.'

हिरमनिया बेजारली. 'हांव शी...? अदालतींत म्हजें किर्ते काम? जमीन तुजी, तूं वच.'

रामगरीबान तिका एक-दोन फावटी समजावपाचो यत्न केलो. तिणें आयकलें ना तेन्ना ताका राग आयलो.

'तूं आयलिना जाल्यार तुका जिवानशीं मारून तुजें मडें घेवन वतलों.'

हिरमनिया सामकी भियेली. पयलेंच खेपे तिणें रामगरीबाचें हें रूप पळेल्लें. रामगरीबा वांगडा वचपाक ती भायर सरली. शाळेंत आनीक कांय बायलोय आयिल्ल्यो. तांचे म्हऱ्यांत वचून बसली. पूण आपणाली सुंदरकाय ती कशी म्हूण धांपून दवरतली आसली? लोकांच्यो नदरो सहज तिचेर पडटाल्यो.

सी.ओ. आनी ए.सी.ओ दोगूय मेजा फाटल्या कदेलांचेर बशिल्ले. ऑफिसर तांचे कुशिकूच बसून फायली चाळटालो. हेर कर्मचारी आनी कमिटी मेंबर शाळेच्या बाकांचेर बशिल्ले. बाकीचे जमनीर बशिल्ले वा उबे आशिल्ले.

दोन चार कागाळ्यो आवियार करून जातकीच रामगरीबाची कागाळ आयली. 'रामगरीब!' म्हणिना फुडें रामगरीब बशिल्लो थंय उठून उबो रावलो. ए.सी.ओ.न रामगरीबा

कडेन बोट करून सी.ओ. सायबाक ताची केस समजावन सांगली – 'ही सामकी सादी केस. हाची तीन बिघे जमीन सभापतीच्या सातभाऱ्यांत आयल्या. ह्या तीन बिघ्यां बदला हाका घरा पसून मातशी पयस बारा बिघे जमीन दिल्या... गरीब आसा.. मातशें कश्ट करीत जाल्यार बारा बिघे जमनीचो धनी जातलो. पूण हो समजना. आपणाली जमीन सोडूंक सोदना...'

सी.ओ.न रामगरीबा कडेन पळेलें. रामगरीबाच्या मुखामळार हुस्को दिसतालो. ताका समजायत सी.ओ.न म्हळें, 'ए.सी.ओ.सायब सांगता तें सारकें. तीन बिघ्यां बदला बारा बिघे जमीन घेवपांत कसली अडचण?'

रामगरीब ताणशेलो, 'अडचण आसा सायब. खूब अडचण आसा... आमकां जमीन जाय. फातर घेवन कितें करपाचें आसा...?' मागीर हिरमनिये वेटेन पळोवन म्हणूंक लागलो, 'हांगा यो. थंय कितें बसल्या?' हिरमनिया येवन रामगरीबा कुशीक उबी रावली. 'ही म्हजी घरकान्न, सायब. हिका विचारात, जमीन बदला ती आपणाली मर्याद वगडावपाक तयार आसा काय म्हूण. ए.सी.ओ. सायबाकूय विचारात सायब, खंयूय तांचें कितेंय काम आडकून उरलें जाल्यार ते आपणाले घरकान्नीक कोणाय म्हऱ्यांत धाडूंक तयार जायत काय म्हूण!'

इतलें उलयता म्हणसर रामगरीबाक धांप लागली. ताचे हात कडकडपाक लागले. बांकार बसून आशिल्ल्या लेखपालाक पळोवन म्हणपाक लागलो, 'लेखपाल सायब ए.सी.ओ.चो रकाद घेवन आयिल्ले म्हजे कडेन. बायल जमीन आसता म्हूण सांगताले. म्हजी जमीन परती जाय जाल्यार रातभरा खातीर हांवें म्हजे बायलेक ए.सी.ओ.सायबा सरीं धाडची म्हणटाले...'

सगळ्याक शांतताय पातळ्ळी. हिरमनिया हातांनी आपणालें तोंड धांपून घुस्मटून रडपाक लागली. ए.सी.ओ.चो अवमान जाल्लो तो प्रधानाक मानवलोना. तो बांका वयल्यान उठून रामगरीबाच्या आंगार धांवन वचूंक लागलो. पूण सी.ओ.न ताका आडायलो. सी.ओ.वांगडा आशिल्ल्या दोगांय रायफलधारी शिपायकांनी प्रधानाक धरून दवरलो. सी.ओ.न ए.सी.ओ.चेर दिश्ट घाली.

'तुमकां लागून मेजमाप खात्याच्या नांवाक काळें बोट लागता...'

आपणाचेर आयिल्लो आळ न्हयकारीत ए.सी.ओ.न म्हळें, 'हांवें खंय कितें म्हळां? कोण तरी म्हजी बदनामी करूंक सोदता.'

'हो मनीस फट उलयता तर?... आनी हे बायलेचेंय रडें फट म्हणपाचें?... लेखपाल खंय?'

लेखपाल थंयच्यान कूस मारूंक सोदतालो. पूण कमिटीच्या एका वांगड्यान ताका धरून दवरलो. 'खंय चल्लो? जाप दी पयलीं!'

दुसऱ्याय एका वांगड्यान नेट लायलो, 'गांवचे लजेचो प्रस्न हो...!'

ए.सी.ओ आनी लेखपाल - दोनांचेरूय रोख आसलो. रामगरीबाची तिडक अजून निवळूंक नासली. थंय आशिल्ल्या पंचायतीच्या वांगड्यांनी म्हळें, 'जाप दियात. हो आमचे सगळ्यांचे लजेचो प्रस्न!'

लोक खुबळिल्लो. सी.ओ.न सगळ्यांक थंड केले आनी म्हळें, 'लेखपालाक हांव आतांचे आतां सस्पँड करतां. आनी ए.सी.ओ.ची केस सस्पँड करपा खातीर वयर धाडून दितां. रामगरीबाच्या अर्जाचेर आपणालो शेरो मारून तो ऑफिसरा कडेन दितना ताणें म्हळें, 'रामगरीबाचो जमनी वयलो ताबो आशिल्लो तसो उरतलो.'

तो उठून उबो रावलो. 'हेर कागाळ्यो फाल्यां पळेतलों.' ताणें म्हळें. ए.सी.ओ. आनी लेखपाल दोगांकूय शिपायकांनी धरून व्हेले.

रामगरीबान सगळ्यां हुजीर हिरमनियेक वेंग मारली. तिचीं दुकां पुसलीं आनी तिच्या हाताक धरून तो घराचे दिकेन चलपाक लागलो.





# अत्तर हाजी

**मूळ कन्नड: फकीर महमद कटपाडी, अणकार: रमेश लाड**

सावकार हारशा मुखार उबो रावून आपणालें पडबिंब नियाळटालो. खाडांतल्यान बोटां खेळयत, पडबिंबाचेर खोशी जावन तो समाधानान हांसलो. अत्तर हाजीन ताच्या दोळ्यांक लायिल्ल्या सुरम्याक लागून पातकड्यांच्यो कडो सामक्यो उठून दिसताल्यो. अत्तर हाजीची सुरमो लावपाची कुशळटाय पळोवप हो एक खोसदिणो अणभव. आलिमेनचे सरयेचो कुडको चिमटेंत धरून, सुरम्याचे डबयेंत बुडोवन तो दोन पातकड्यां मदीं सर्रर करून लावन तो खिणा भितर मेकळो जातालो. अत्तर लावपाचीय ताची तीच तरा. खंयचें गिरायक कसलो परमळ पसंत करता त्या त्या वासाच्या क्रमा प्रमाण तो वळखीच्यो कुरवो लावन दवरतालो आनी जण एकल्याचें आवडीचें अत्तर बोटांच्या तेमकार घेवन ताच्या कपड्यांक लायतालो. गंभीर दुर्मुखो दिसपी मनीस लेगीत त्या वासाची नशा चडून प्रसन्न जातालो. अत्तर हाजीन लायिल्ल्या सुरम्यान खोशी जावन सावकारान म्हणलें "हूं... हाड, दाखय पळोवया अत्तर तुगेलें."

गांवांतल्या सावकार, गिरेस्त दुकानकार बी लोकांच्या घरा कडेन वचून आंगाक अत्तर लावप, दोळ्यांत सुरमो घालप असलीं कामा हो अत्तर हाजी दर शुक्रारा करतालो. पयलीं सावकाराल्या घरा कडेन वचून काम सोंपोवन मागीर तो हेर लोकांगेर वतालो. तीं सगळीं कामां सोंपोवन तो मशिदीच्या दारांत येवकाराक उबो राविल्ले वरी रावून, शुक्राराच्या खाशेल्या नमाजाक हाजीर रावपी लोकांक अत्तर लायतालो. तांणी हातार दिल्ले मोडीचे पयशे घेवन बोल्सांत घालप हें त्या दिसाचें ताचें थारिल्लें काम आसतालें. सप्तकांतल्यान फकत शुक्रारा दिसा गांवांत हें काम केलें जाल्यार उरिल्ले स दीस लागशिल्ल्या गांवांनी आपणालें अत्तराचें पेटूल खांद्यार हुमकळावन तो भोंवतालो. सावकाराचें काम सोंपोवन आजून जायत्या जाणांचें काम उरलां आसत जाल्यार तें सगळें सोंपोवन पयली बांग जावचे आदींच तो मशिदी कडें पावतालो. सावकारान 'हूं' म्हणची फुरसत, अत्तर हाजीन ताचे पसंतीच्या 'जन्नतुल फिर्दौस' अत्तराचे बाटलेची गुड्डी काडलीच!

"ये... कसलोय हल्को सेंट बी लावन म्हज्या सिल्काच्या कुर्त्याक दाग घालशीत... सांबाळ आं..." सावकारान आपणाले सदचे संवयेन ताका शिटकायलो.

''ना सावकार... तुमकां हांवें म्हजे कडेन आसात तातूंतलो सगळ्यांत उंची 'जन्नतुल फिरदौस' सेंट लायला सावकार'' अत्तर हाजीन जाप दिली.

''सगळे कचऱ्याचे लायकेचे सेंट लेगीत तुगेल्या हातांत पावतकच 'जन्नतुल फिरदौस' जातात. सोड खबर...' अशें म्हणून सावकारान नाका पुडयो रुंदावन अत्तराचो वास घेतलो. ताची नदर पेटला भितर आशिल्ल्या मोगरा, जास्मीन, रोज, इंटिमेट आनी हेर तरांच्या अत्तरांच्या बाटल्यांचेर भोंवली.

''ना सावकार... असली अत्तर तें... पळयात तुमी मुद्दम जाय जाल्यार,'' ताणें म्हणलें. हाजी आपणाल्या धंद्यांत केन्ना फटकिरेपणां करिनाशिल्लो. हीच न्हय ताणें बापाय कडल्यान घेतिल्ली देख? आलिशा अवलियान आपणाल्या वंशजाक हस्तांतर केल्लें पेटूल तें! अत्तर हाजीन गांवांतले जुम्मा मशिदीचे कुशीक आशिल्ल्या दर्याच्या 'वली' जानाची याद केली. ताच्या करामतींच्यो जायत्यो गजाली हाजीन आपणाल्या बापाय कडच्यान आयकल्ल्यो. आलिशा अवलिया तांच्या गांवांत आयिल्लो तेन्ना थंय ओंकारे येवप आनी भायर जावपाचो रोग पातळिल्लो. गांवचो लोक सामको कंगाल आशिल्ल्यान अत्तराचें पेटूल घेवन आयिल्ल्या आलिशा अवलिया कडे कोणेंच लक्ष दिलें ना खंय. ताणें वांटिल्लें अत्तर लोकांनी दुबाव आयिल्ल्यान घेतलें ना खंय. पूण ज्या लोकांनी तें घेतलें त्या घरांनी रोग आळाबंदा आयलो म्हणपाची खबर गांवांत पातळ्ळी. लोक मागीर ताचे म्हऱ्यांत येवन आपणा खातीर मागणें मागत म्हण याचना करूंक लागले तेन्ना आपणाल्या कुटुंबांतल्या मूळ पुरसाक आपणा कडें आशिल्लें अत्तराचें पेटूल दान जावचें म्हण मागणें मागलें खंय. मागणें सोंपले उपरांत वलीउल्लाक त्या रोगाची लागण लागून थोड्याच दिसांनी ताका मरण आयलें म्हणटात. ते संवसाराक अंतरता म्हणटासर गांवांतले लोक रोगमुक्त जाले खंय. वलीजाना कडल्यान जाल्ली हळशीक निवळ करपाक लोक गेले तेन्ना दुर्गंधाच्या बदलाक खंय अत्तराचो वास येवंक लागलो. थंय मशिदी कुशिकूच तांचो दर्गो बांदलो आनी आज मेरेन लोक थंय प्रार्थना करतात म्हणपाची अत्तर हाजीक याद जाली. अशेतरेच्या वली कडल्यान मेळिल्ल्या अत्तराच्या पेटलांत दुर्गंध कसो आसूं येता म्हण ताणें आपणाकूच विचारलें.

सावकार दुबाव घेता ही ताची जल्मा सावनची संवय म्हणपाची. सगळ्याच गजालींनी दुबाव घेवपाची ताची वृत्ती बदलप शक्य ना. तेन्नाच हाजीक सावकार आपणाक पयल्याच दिसा मेळिल्लो आनी जें उलयल्लो ताची याद जाली. ताणें आपणाल्या घामाच्या दुर्गंधा विशीं उलयतना म्हणिल्लें, ''कितें सांगूं, दिसाक दोन फावटीं न्हावनूय बी हो घाम कमीच जायना मरे...!'' ताका हाणें जाप दिल्ली ''ते खातीर तकलेक ताण दिवपाची गरज ना सावकार, 'जन्नतुल फिरदौस' अत्तर आसा म्हजे कडें. हें तुमी लायलें जाल्यार सगळो दुर्गंध ना जातलो सावकार, पळयात तुमी.''अशें म्हणून बाटली बोटाच्या तोंकाक लावन बोट सावकाराच्या शर्टाक लायलें. शर्टाचे बटन काडून छातयेक आनी कुर्शीनी लायलें. कल्पना नासतनाच हाजीन ताच्या आंगाक हात लायना फुडें सावकाराचें आंग शिरशिरलें पूण तो वासाक भुल्लो. ताणें एक बाटली विकती घेतली आनी दर शुक्रारा चुकनासतना आपणाक एक बाटली हाडून दिवपाक सांगलें. सावकार न्हावन बी मशिदेंत वचचे पयलीं दर शुक्रारा हाजी ताचे मुखार हाजीर जातालो. आपणें दिल्ले पांच-धा रुपया मोन्यांनी तो बोल्सांत घालता तें पळोवन सावकाराक ताची खूब तोखणाय दिसताली.

सावकाराच्या आंगाक आनी कुर्त्याक अत्तर लायता आसतना ताका कितें तरी येवजलें आनी तें सांगचें काय ना अशें जावन तो ओग्गी रावलो. तो कितें तरी सांगूक सोदता हाची सावकाराक कल्पना आयली.

''कितें जालां रे तुजें अत्त्या...?'' सावकारान विचारलें. तो हाजीक केन्ना केन्नाय ह्या नांवान उलो करतालो. 'हाजी' म्हणटलो जाल्यार ताणें 'हज' यात्रा करूंक नाशिल्ली. सावकार दोन फावटीं ते यात्रेक गेल्लो. 'डबल हाजी' जाल्लो तो. पूण हो नांवाचो हाजी 'हज' यात्रेक वचपा विशीं चिंतुंकूच शक नाशिल्लो. जल्मदात्यांनी तेच आशेन घडये पुताचें नांव 'हाजी' दवरिल्लें आसुये. एकाद्रो डबल हाजी हज यात्राच करूंक नाशिल्ल्या कोणाय मनशाक 'हाजी' म्हण कसो पाचारूंक शकता? गांवचे लोक ताका 'हाजी' म्हणटाले पूण फकत सावकार ताका 'अत्त्या' म्हण उलो करतालो. 'हाजी' उतर वापरपाक फावो तो मान आसूं नाका?

सेंटाचे बाटलेच्या तोंडाक कापसाची गुठली लावन ती भिजिल्ली गुठली सावकाराच्या हातांत दिवन ''सावकार... अं... अं... म्हजे घरकान्नीक जोर आयला. हॉस्पिटलांत व्हर म्हणलां वैजान... तेन्ना ...'' अशे कितें तरी तो गुणगुणलो.

''आज शुक्रार मरे... जुम्माचें नमाज सोडून हॉस्पिटलांत वता काय कितें?'' अत्तर लायिल्ली कापसा गुठली कानांत घालीत सावकारान विचारलें. सावकार मशिदीचे जाळवणदार समितीचो मुखेली आसलो. ताका लोकांक जाप विचारपाचो हक्क आसलो.

''लाहौल वलाकुव्वत... जुम्मा सोडून कसो वतलों हांव सावकार? फाल्यां वचुया म्हणलां तिणें... कसली तरी व्हडली टेस्ट करपाक जाय खंय... हजारभर रुपया जाय आसले.'' हाजीन म्हणलें.

''कितले रे सायबा... हजार म्हणटा? सुभानल्ला! कितें रे, भिकणां तीं? तूं जाणा न्ही, पयर हांवें दुसरें दुकान घालां तें? हात रिते जाल्ले आसात सद्याक. पूण तूं पयलेच फावट मागता न्ही, म्हणून शंबर रुपया दीन.'' अशें म्हणून सावकारान शंबर रुपयांची नोट जतनायेन बोल्सांतली काडून ताका दिली.

निरशेल्ले चर्येन ताणें ती बोल्सांत घाली. आनी मेळ्ळें तें नशीब म्हणून पेटूल उखलून खांद्याक हुमकळावन थंयच्यान भायर सरलो.

सगळी रात ताची घरकान्न दुखीन आनी जोरान परंवत पडिल्ली. ते खातीर हाची न्हीद सारकी जावंक पावलिना. इल्लें चल्ल्यार पुरो जाल्ले वरी दिसूंक लागलें. वत खूब कडकशें दिसूंक लागलें. तो अच्चुकाकाल्या कपड्या दुकानांत.भितर सरलो आनी ताका बेगिबेगीन अत्तर लायलें.

''कितें रे हें, इतली ताकतीकशी...?'' ताणें विचारलें.

''तुमकां खबर ना धनया, आनीक जायते कडेन काम सोंपोवन मशिदेंत वचपाक जाय... ते खातीर...'' ताणें जाप दिली.

''पाड पडूं त्यो खबरी! एक काम आसा पळय, जावपाकूच जाय..'' अशें म्हणून अच्चुकाका काना कडेन तोंड हाडून उलोवंक लागलो. ''खंयचें रे तें अत्तर... ताच्या वासान बायल मनशां आकर्शीत जावन येतात खंय मरे, आसा तें तुजे कडेन?'' ल्हवु फुतफुतत ताणें विचारलें.

अत्तरहाजीक आयकून कितेंशेंच जालें. ''कसलें तें... हांवें पळोवंक ना केन्ना धनया.'' ताणें जाप दिली.

''पडूं पाड... सोड खबर... तुवें फकत दंड घालपाचो आमकां! मंगळूराक पावताच न्ही तूं. थंय खबर काड... कितलेय पडूं पयशे. हांव दितां...'' अच्चुकाकान सांगलें. ''एक मात, कोणाकूय सांगशीत बी हें, सांबाळ...'' अशेंय सांगूंक तो विसरलो ना.

जमलें जाल्यार खंयचोय एक खर वासाचो सेंट ल्हानशे बाटलेंत भरून, 'होच तो सेंट तुमी म्हणटात तो' अशें म्हणून दिवं येतालो. दोनशीं रुपया दी म्हणल्यार दितलो आसलो. पूण दुडवां खातीर नियत व्हगडावंक हाजी तयार नासलो. थंयचें काम सोंपोवन तो भायर सरलो. गांवभर भोंवून दनपारच्या अडेज वरांचेर सुमार मशिदी कडें परतलो जाल्यार जुम्माचो नमाज सोंपोवन थोडो वेळ अत्तराचो व्यापार केलो जाल्यार त्या दिसाचें काम सोंपता. परतून घरा परतलो जाल्यार दुसऱ्या दिसा आशिकुशीच्या वाड्यांनी वचून व्यापार करून सांजवेळ मेरेन घरा पावप हो ताचो नित्य नेम.

गांवांत संगळ्यांक अत्तर हाजीची गरज आसता. लग्नां मुजी, मरणां, फतिहा असल्या सगळ्याच धर्मीक क्रिया कर्मां खातीर अत्तर जायच पडटा. गांवा गांवांतल्यान फकत चलुनूच भोंवपी हाजी पांच फूट उंचायेचो, आंगान बारीक शिडशिडीत. माथ्यार इस्त्री केल्ली तोपी. आंगाक धवो कुर्तो, धवो लेंगो, पांयांक हवाई चप्पल, खांद्यार अत्तर, सुरमो हांच्यो बाटल्यो भरिल्लें पेटूल घेवन भोंवपी हाजी ही एक चिरपरिचीत व्यक्ती. 'आत्म्याचो आहार' अशें जाका म्हणटात तो सुगंध वांटपी मनीस. मंगळूर सावन विंगड विंगड व्यापाऱ्यां कडंच्यान अत्तर विकतें घेवन घरा हाडून ल्हान ल्हान बाटल्यांनी भरून किरकोळ गिरायका कडें व्यापार करतालो. मेळिल्ल्या मोडीच्या पयशांच्या लाभांतल्यान तीन भुरगीं आनी बायल हांचे वांगडा संवसाराचो गाडो धुकलतालो.

अत्तराचो व्यापार तो आपणाल्या बापाय कडच्यान शिकलो. ताच्या बापायक गांवांतले लोक 'सेंटाचो मौला' म्हणटाले. आंगान लांब-रुंद, गंभीर चेरो, दाट व्हडलें खाड, मिशयो, माथ्याक धवें मुंडाशें, धवोफुल्ल शर्ट, पांयां कडच्यान इल्लो वयर उरपी लेंगो आनी पांयांत कर्र कर्र करपी चामड्याचो व्हाणो अशें खंयीय आसल्यार उठून दिसपी व्यक्तिमत्व. अत्तराचें पेटूल खांद्यार घेवन गांवचे गांव चलून भोंवपी हाम्मद बॅरीक गांवांतले लोक 'सेंटाचो मौला' म्हणुनूच वळखताले. चडश्या जाणांक ताचें नांव खबरूच नाशिल्लें. एका मौलवीक खबर आसूंक फावो तितलें धर्मीक गिन्यान नासतनाय बी दिसाक पांच फावटीं जावपी नमाजाक तो मशिदींत हाजीर रावतालो. हो ताच्या व्यापाराचोय बी वेळ आसतालो. नमाज सोंपले उपरांत मशिदी भायर आपणालें अत्तराचें पेटूल उकतें करून व्यापार सुरू करतालो. हाम्द बॅरीक व्यापार सुरू करतना कसलीच जायरात करची पड नासली. पेटूल उगडटनाच थोड्या अंतराचेर अत्तराचो वास पावतालो आनी लोक आकर्शीत जावन लागीं येताले. कांय जाण अत्तर लावन घेवंक येताले जाल्यार हेर कांय जाण ल्हान ल्हान बाटल्यांतलो सेंटाचो वास घेवन पळयताले. हम्मद बॅरी हो फकत सेंट विकपी न्हय. तो अत्तरा विशीं एकाद्रो विचारूय सांगतालो. ''मुसलमान मनशान सुगंधी वस्तूंचो उपेग करप ही एक धर्मीक परंपरेक धरून आपणायल्ली गजाल (सुन्नत). तो एक 'रूह' म्हळ्यार आत्म्याचो आहार. आमचे कुडीक जशे तरेन आहाराची गरज आसता तशीच आत्म्याकूय आहाराची गरज आसता. सुगंध म्हळ्यार स्वर्ग, दुर्गंध हो नर्क... परलोकांत सुगंध, दुर्गंध आसतात. सुगंध होच स्वर्गाक लागींचो.'' हेच खातीर लोक हम्मद बॅरीक सेंटाचो मौलवी म्हणटाले.

बापूय हम्मद बॅरीन पुताक 'हाजीक' आपले फाटल्यान दवरिल्ली आस्पत म्हणल्यार परंपरेन आयिल्लें अत्तराचें पेटूल आनी खोंपी सारकें एक घर. गांवचो कोयर उडोवपाच्या व्हण्या भोंवतणेंत रावपी झोपडपट्टींतले लोक हाजीच्या घरा भोंवतणेंत अत्तराचो वास आसता म्हणून ताच्या आंगणा मुखार आशिल्ल्या वडारुखाच्या पेडार बसून चकाटां मारीत आपणालो मेकळो वेळ घालयताले. हाजी, ताची घरकान्न सारम्माची खबर घेवपाचें निमित्त काडून हेर कांय लोक येवन वताले.

हाजीन सोळाव्या वर्साच हो व्यापार आपणाल्या बापाय कडच्यान आपणा कडेन घेतलो. थोडेच दीस जोर येवन फट्ट करून बापूय भायर पडलो आनी सगळी जापसालदारकी हाजीचेर पडली. व्हडल्या दोगी भयणींचीं लग्नां जावन पयसुल्ल्या गांवांनी तांचे संवसार चलताले. भलायकी इबाडिल्ली आवय पंरवत घरांत पडिल्ली. तिका पळोवपाक कोण ना म्हण भयणींनी फाटीक लागून तेरा वर्सांच्या सारम्माक हाडून हाजीचें लग्न लावन दिल्लें. बारीक सुकिल्ली बडी कशें आसलें तरी बऱ्या लक्षणांचें आशिल्ल्यान सारम्मान आपणालो ल्हानसो संवसार थोडेशे येणावळी भितर सांबाळून व्हेलो. ताणें दोन धुवांक आनी एका पुताक जल्म दिलो. बापूय भायर पडले उपरांत पांच वर्सांनी आवयय भायर पडली. सेंटाच्या व्यापारांतल्यान येवपी येणावळ भुरगीं व्हड जावंक लागलीं तशी पावना जाली. अब्बाजान असले आडखळी वेळार गांवच्या सावकारा कडच्यान आदार घेतालो. रमझान म्हयन्यांत अत्तराचो व्यापार चलनाशिल्लो. देहाक उपास आसता तेन्ना आत्म्याकूय आहार मेळूंक फावना. त्या दिसांनी हम्मद बॅरी आपणाल्या वळखीच्या लोकांक मशिदींत ल्हान सान धर्मीक व्याख्यानां दिवन तांकी प्रमाण कितेंय मदत करात म्हण मागणें करतालो. लोकय बी तांकता तितलो आदार समजिकायेन दिताले.

पूण हाजीक तसलें काम करपाची वान्सा नाशिल्ली. ते भायर धर्मीक व्याख्यान दिवपा इतलें धर्मीक गिन्यानय ताचे कडें नाशिल्लें. ते खातीर रमजान म्हयन्यांत येणावळी खातीर ताणें दुसरो उपाय काडलो. अत्तराच्या पेटला बदलाक एक पोती घेवन तातूंत तरातरांच्यो तोपयो, लेंस बी घालून तो मशिदींनी वतालो आनी थंय तो माल विकून रमजान म्हयन्यांत चार पयशे जोडटालो. तितले भितर कसो तरी

संवसार चलतालो. पूण घरकान्नीक हार्लीसराक जोर येवंक लागिल्ल्यान वैद्य हकिमांनी दिल्ल्या वखदां खातीर चड्डूच खर्च जावंक लागलो. तातूंत व्यापारांतल्या मुद्दलांतलो वांटोय खर्चल्ल्यान तें उणें जायत रावलें. दुडू खर्च जायत रावलो तरी तिची भलायकी सुधारली ना. दुखीक लागून ती सोंसूंक जायना जावन पंरवताली. हाजीक ते खातीर सारकी न्हिदय पडनाशिल्ली.

कांय दिसांनी तिचे मानेक वयले वटेन आयिल्लो फोड व्हडलो जायत रावलो आनी एक दीस फुटलो. सारम्मा घोवाक धीर दीत म्हणटाली, "बरो जातलो तो घावो, भियेवं नाकात तुमी" दूख गिळीत ती उलयताली. हळडी पिठो भिजोवन तो हून करून धाव्याक आपले आपुणूच लायताली. एके रातीं न्हिदलीं आनी चडूच जोर आयिल्ल्यान उठलीच ना. तिच्यान उलोवं नजो जालें. सकाळी हाजीन भुरग्यांक नाश्तो करून दिलो आनी शाळेंत धाडलीं. सारम्मान म्हणलें, "म्हजे खातीर तुमकां कितले त्रास हें!' तिगेलीं अस्पश्टशीं उतरां हाजीक कळ्ळीं. ताका तिगेले दुखीची कल्पना आयली. "आसूं तें, कांय नजऽ, इतलीं वसां तुवें आमची सेवा केली ना? हांवें आज एक दीस तुजें काम केल्यार कितें व्हडलें? सगळें अल्ला पळोवन घेतलो. तूं कांयच चिंतूं नाका." ताणें धीर दिलो.

घरकान्नीची सेवा एका दिसान सोंपची ना म्हणपाचें ताका कळ्ळें तेन्ना हाजीन तिका वैजा म्हऱ्यांत व्हेली. पळयना फुडें वैजान म्हणलें, "देवा सायबा, हें म्हज्या हातान जावचें ना रे बाबा... कॅन्सर हो... खंयच्यान आयलो हो तुजे भेटेक? तिका तू नीट कंकनाडी हॉस्पिटलांत घेवन वच." हाजी घरकान्नीक मंगळूरांतल्या हॉस्पिटलांत घेवन गेलो. डॉक्टरांनी तपासून ताका सांगलें, "पयलींच हें हाताभायर पावलां. सगळ्यो परिक्षा जावपाक जाय..." चड म्हायती विचारतकच कळ्ळें कीं, तपासण्यांक हजारांनी रुपया खर्च येतलो आनी पिडा बरी जावपाचो चान्स उणो. सारम्मान क्षीण आवाजान तें सगळें आपणाक नाका म्हण हट्टच धरलो. "हांव हॉस्पिटलांत मरतलें अशें कांयच करूं नाकात," तिणें म्हणलें. आपणाल्या जिवा परस तिका घरकाराक दुडवां खातीर दुसऱ्यां मुखार हात पातलावचे पडटले हाचें चड दुख्ख जाता म्हणपाचें हाजीक कळटालें. डॉक्टरान दिल्लें वखद आनी घावो धुवपाचें वखद, कापूस, बँडेज बी घेवन घरा गेलो.

थोड्या दिसांनी तिगेल्या घाव्यांतल्यान वायट वास येवपाक लागलो. खीणभर गोमटेर भूत बशिल्ले वरी हाजी अवाक जालो. ताणें मनांतल्या मनांत अल्लाक उलो केलो - "कसली चूक घडली आमचे कडच्यान परवरदिगार? कसली ख्यास्त दिली ही तुवें आमकां..." अशें म्हणून दुकां गळयलीं. भुरगीं तिचे म्हऱ्यांत वचनात जालीं. आशिल्ले एकेच कुडींत हांतरूण घालून तिका न्हिदयली. हाजी तिगेलो घावो धुवन वेळावेळार बँडेज करतालो. भुरगीं पयसुल्ल्यानूच आवयक पळोवन वतालीं. हाजी आपणाले अत्तर पेटयेंतलें अत्तर हेवटेन तेवटेन शिंपडायतालो.

"गांवभर सुगंध वांट्टल्याच्या घरांत अशे तरेचें अरिश्ट कित्याक आयलें... या अल्ला!" अशें म्हणत पिशा वरी तो बडबडटालो. भुरग्यां कडल्यान पयसाविल्ले घरकान्नीच्या मनाचे दुख्खी आवतिकाये विशीं चिंतून केन्नाच भुरग्यांचेर हात उखलूंक नाशिल्ल्या हाजीन रागान एक फावट तांकां बडयलीं.

भुरगीं आवय म्हऱ्यांत वचूं नजो जाल्ल्यान हेवटेन तेवटेन धांवत मार चुकयत रावलीं. शेजार पाजारचीं मनशां येतालीं तींय बी पयसावलीं. एकटोच हाजी घाण पडिल्ली आसतनाय बी तिचो घावो निवळ करून, धुवन, वखद लावन बँडेज बांदतालो. वैज पळोवंक येताले आनी हाजीची काकुळट करून चुरचुरताले "कसले चुकी खातीर ही ख्यास्त केली रे देवान तुका... हाजी, सोंसून घे रे बाबा..." पयलीं पयलीं सेंटाची बाटली उकती करून सेंट शिंपडावन घाण पयस करपी हाजीक मागिमागीर ती घाण सोंसपाची संवय जाली.

पोटा खातीर अर्दी मर्दी अत्तर विकूंक वचनूय बी फावो तितल्या प्रमाणांत व्यापार जायनाशिल्लो. "अत्तर बरें ना... वासूच ना..." अशें म्हणून कांय जाण नाका म्हणटाले. "हाजी, कसलो बुरसो वास येता रे तुज्या कपड्यांक...?' अशेंय बी कांय जाण विचारताले. तो चडशें उदक घेवन बी न्हातालो. कपडे धुवन, निवळ करतालो, अत्तर शिंपडावन वेपाराक वतालो. अशें करुनयबी व्हडलोसो व्यापार जाय नाशिल्लो. लोकांच्या नाकांकूच कसली तरी पिडा मारल्या आसतली अशें मनांत म्हणटालो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं च्या पीत बशिल्ल्या हाजीक पुताक विचारलें, "अब्बाजान भायर वचचे नात तुमी आज?"

बापूय भायर गेलो जाल्यार परतो येतना घडये कितेंय घेवन येत ही भुरग्यांक आस्त.

"ओगी बस थंय. तूं सांगता म्हणुनूच दिसता न्ही हांव सदांच भायर वचून येतां तो?" हाजी तिडकलो.

पूत येदेंशें तोंड करून बसलो. हाजीन आपणाल्या तोंडाकूच पळयत बशिल्ल्या भुरग्यांच्या मुखामळां कडेन खीणभर पळोवन घेतलें आनी तो उठून उबो रावलो. संकश्टाच्या कोटा भितर अडकल्ल्या हाजीन अल्लाचें स्मरण करून सुटकेचो श्वास घेतलो. "अल्लान खीणभर दोळे उकते करून आपले वटेन पळयल्यार पुरो, ह्या हालइपश्टांची पर्वा कसली मागीर!"

कोनशाक पडिल्ल्या अत्तराच्या पेटला वटेन ताणें नदर मारली. थोड्यो अत्तराच्यो बाटल्यो आसुये. त्योच विकून जीण सारिल्ली बरी. हाचे मुखार केन्नाच मशिदींत लोकां मुखार हात पातलावंक शकचोंना.

भायर वचचे पयलीं कुडींतल्यान सदांच कानार पडपी सारम्माचो पंरवुपाचो आवाज ताच्या कानार पडलो ना. ताणें पावल फाटीं घेतलें. सारम्मा मर्डे कशी पडून आशिल्ली. खीणभर ताका कांयच सुचलें ना. दुसऱ्याच खिणाक साबुद्दीर येवन ताणें म्हणलें, "सोंपलो तुगेलो खेळ ह्या संवसारांतलो. स्वतंत्र जालें तूं आतां... इन्नलिल्लाहीवइन्नइलैही राजिऊन..." मागीर ताणें भुरग्यांक म्हणलें, "रीण पावलें तुमच्या अम्माचें ह्या संवसारांतलें.' आयकना फुडें भुरगीं विकळापून होऽऽऽ करून रडलीं.

सोंसूं नजऽ तसली घाण मारपी त्या मड्या कुशीक कोणूय लोक कशे म्हण येतले? शेजारच्या अंदुचाचाक खबर सांगली. "कब्रस्तानांत व्हणो मारून घेवपाची जापसालदारकी म्हजी, तूं हुस्को करूं नाका.

हेर कामां तूं पळय..." अशें म्हणून अंदुचाचा आपणाक आदाराक जाय आशिल्ल्या कामगारांक पुंजावंक भायर सरले. खबर कळ्ळी तेन्ना वाड्या वयल्या सगळ्या लोकांनी घरांत बशिल्ले कडेनूच "आरे रे... काकुळट..." म्हणलें आनी चुरचुरले.

अत्तराचो वास घेवपा खातीर वरांचीं वरां बसून रावपी लोक घरकान्नीच्या निमण्या वेळार खीणभर लेगीत घाण सोंसूंक तयार नात हाचे विशीं चिंतून ताची मत भेरेल्ले वरी जाली. मुखावयलीं कामां जावचीं आसलीं. कफनाचें वस्त्र हाडपाचें आसलें. कापूर, धूप बी ना जाल्यार चलतालें. पेटलांतलें आशिल्लें नाशिल्लें अत्तर कुडीचेर घालपाचें थारायलें. अच्चुचाचाल्या कपड्यां दुकानार वचून कफन वस्त्र हाडूंक तो भायर सरलो. अच्चुचाचाल्या ना म्हणलें जाल्यार हाजीन दुसरो उपाय चिंतून तो तयारेनूच गेल्लो. अत्तराच्या पेटलांतली सोबीतशी एक बाटली सोदून काडली. ते बाटलेंत हाताक मेळटा तें एक अत्तर भरलें. ती एका रंगीत कागदांत गुठलायली आनी बोल्सांत घालून अच्चुचाचाल्या दुकानार गेलो. "सावकार तुमी एक फावट एका खाशेल्या उपेगाचें अत्तर मागिल्लें तें हाडलां हांवें" अशें म्हणून दोनशीं रुपया तरी हातासूंक जाय, "तें हाडूंक खूब त्रास पडले... मुंबय साकून हाडून घेतलां तें... अशें ताका सांगपाचें चिंतून ताणें म्हणलें, "या अल्ला, माफ कर म्हाका...!"

दुकानार गल्ल्या भितर बशिल्ल्या अच्चुचाचाक उद्देशून ताणें म्हणलें, "अस्सलाम आलेकुम!" अच्चुचाचान कोण काय म्हणून तकली वयर काडून पळयलें.

"घरकान्न भायर पडली सावकार...!" हाजीन म्हणलें, अच्चुचाचा 'इन्नलिल्लाही' म्हणून मुखार उलयलो.

"आरे तिका कॅन्सर सो कितें जाल्लो न्ही रे हाजी? कसलें पातक केल्लें रे तुवें ह्या संवसारांत, असलें अरिश्ट तुज्या वांट्याक आयलें तें?" अच्चुचाचा सानभुतीन उलयलो.

हाजीक दुख्खाचो उमाळो आयलो. "कित्याक म्हाका अल्लान ही ख्यास्त दिवंक जाय आसली? कसलो अपराध केल्लो हांवें सावकारा? कोणाच अनाथाची आस्पत झोमून घेवंक ना, वजनमापांत फटींगपणां करूंक नात, कांय ना..." अशें नकळटनाच तो सदांचे परस वाडिल्ल्या आवाजान उलोवन गेलो.

"कितें जालां रे तुका?... बरें, आतां कित्याक आयला तूं हांगा?" अच्चुचाचान विचारलें.

"कफनाक वस्त्र जाय सावकार, हातांत कांयच दुडू ना." ताणें जाप दिली.

"हांगा कितें हांवें फुकट वांटपा खातीर दुकान घालां?" अशें म्हणपाक तो तोंड उकतें करपाचोच आसलो.

"हें तें अत्तर सावकार, तुमी एक दीस एका खाशेल्या उपेगा खातीर मागताले तें... मुंबयच्यान हाडून घेतलां... चड मोलाचें तें" अशें म्हणून बाटली ताच्या हातांत दिली. अच्चुचाचान 'हूं... हूं...' म्हणत ती बोल्सांत घाली. तोंडार फुलिल्लें हांशें हाजीचे नदरेंतल्यान सुटलें ना.

"बरें आसा, आतां वस्त्र घेवन वच तूं, बाकी सगळें मागीर पळोवया" अशें म्हणत अच्चुचाचान कामगाराक म्हणलें, "हाका एक धा मिटर मेट्टुरमलचो धवो कपडो दी रे."

आपणा भितरय दुसऱ्याक मामा करपाची फिशालकाय आसा म्हणपाची जाणविकाय जावन हाजी अजापलो.

"मनांत हाडलें जाल्यार वाट चुकोवपीय तोच आनी वाट दाखोवपीय तोच. सुगंध आनी दुर्गंध हे दोनूय जिणेचेच वांटे न्ही!" असल्या विचारान तो घरा वटेन चलूंक लागलो. धवें लुगट जाग्यार दवरीत ताणें धुवेक म्हणलें "उम्मन, न्हाणा खातीर उदक तापय गो बाय!"

"मुन्ना... सगळें आमीच करपाचें रे पुता... कोणूच येवपाचो ना हांगा आदाराक... उम्मनाक आफोवन हाड चल." ताणें पुताक उलो करून सांगलें.

व्हणो मारपाचें काम सोपोवन अंदू आनी हमजा मशिदींत गेले आनी तांणी जनाजा हाडून घरा मुखार दवरलो.

उदक तापतकच धुवेक म्हऱ्यांत दवरून शवस्नान घालें. हाडिल्लें धवें कफनाचें वस्त्र आपणाक कळटा तशें घरकान्नीचे कुडी भोंवतणी रेवडायलें. घाव्यांत कापूस घालून तो बांदलो. उरिल्लो सुरिल्लो सेंट बेंडेजीचेर आनी कुडीचेर शिंवरायलो.

भुरग्यांक आदाराक घेवन हाजीन घरकान्नीची कूड उखलून भायर जनाज्यांत व्हरून दवरली. जनाजा व्हरूंक चार जाणांची गरज आशिल्ली. ताणें पुताक आफोवन फुडले वटेन धरूंक तयार केलो आनी दुसरे वटेन आपणें धरून कूड कब्रस्तानांत व्हरपाची तयारी केली. हमजा आनी अंदूक तें पळोवन पुटवलें ना. दोगूय जाणांनी मुखार सरून हेर दोन वटांनी आदार दिवन जनाजा खांद्यार धरलो आनी चलूंक लागले. अत्तराचो वास नाकाक तेंकतनाच 'लाइलाह इल्लल्लाह...' हीं उतरां भायर सरलीं. शवयात्रा फुडें सरली तसो एकेकलो येवन मेळूंक लागलो.

जनाजा मुखार दवरून नमाज जालो. शव व्हण्यांत दवरून माती ओडली. मौलवीन खुत्बा वाचूंक सुरवात केली. हाजीन खंयच्यानूय घाण येता बी जाल्यार अदमास घेतलो. मातयेन सगळेंच आपणाल्या पोटांत घेतलें... हांसत्या मुखान संवसार केल्ले सारम्माकूय बी.

"अल्लाचे कृपेन सगळेंच ज्युस्ताजुस्त घडून आयलें." अंदुचाचान म्हणलें. हाजीचे दोळे भरून आयले. दोळे उकते करतना हयन्हयशीं भुरग्यांचीं मुखामळां दोळ्यां मुखार उदेलीं.

दुसऱ्या दिसा कितें करचें, कळना जावन तो बशिल्लो. "भायर वचचनी अब्बाजान?" अशें भुरग्यांनी विचारचे आदींच तो सट्ट करून उठलो आनी अत्तराचें रितें पेटूल खांद्यार लांबोवन भायर सरलो.

खंय वचचें तें थाराय नासतनाच तो चलतालो. इतल्यान अच्चुचाचान उलो करून ताका थारायलो. हें आनी कसलें अरिश्ट आयलें काय, हाय रब्बा! "नाडपणां करता मरे असलीं, फटिंगा लफंग्या..." अशें म्हणटलो हाची तयारी दवरून भियेत भियेतच तो ताचे म्हऱ्यांत गेलो. अच्चुचाचान हेवटेन तेवटेन पळोवन कोण ना हाची खात्री करून घेतली. "खूब उंची सेंट मरे तो म्हाराजा तुवें दिला तो! आनीक एक बाटली हाडून घे बाबा, म्हज्या इश्टाक जाय खंय... घे हे ॲडव्हान्स जाय जाल्यार दवर तुका..." अशें म्हणून अच्चुचाचान शंबरांच्यो कांय नोटी काडून हाजीच्या हातांत दिल्यो. 'हेंच न्ही तें कर्तुप खुदाचें...!' अशें मनांत म्हणत हाजीन उमेदीन पावल मुखार घालें.





# उज्याचे किटी कडेन आडनदर केल्यार घर लासता

मूळ रशियन: लेव तॉलस्तॉय   इंग्लीशी वयल्यान कोंकणींत हाडपी: भालचंद्र राव

एका ल्हानश्या गांवांत इव्हान शॅरबाकार नांवाचो एक गिरेस्त शेतकार रावतालो. गांवच्या लोकां भितर एक बरो मनीस म्हूण ताका मान आशिल्लो. इव्हानाक तीग पूत आसले आनी तिगूय कामांत हुशार आसले. व्हडल्याचें लग्न जाल्लें आनी दुसऱ्याचें ठरिल्लें. आंगापांगान घटमूट आशिल्लो तिसरो शेतांतलें कसलेंय काम करूंक तयार आसतालो. इव्हानाची बायल घरकामांत हुशार आसली आनी काटकसरीन संवसार चलयताली. ताची सुनूय घरकामांत आदार करपाक फाटीं रावऽ नासली. घरांत एकलोच मनीस कांय करनासलो. तो म्हळ्यार, इव्हानाचो म्हातारो बापूय. ताका दम्याची पिडा आसली आनी सात एक वर्सां सावन तो खाटेर न्हिदून आसतालो.

इव्हानाक जाय आशिल्लें सगळें ताचे कडेन आशिल्लें आनी ताचें कुटुंब समाधानान जियेतालें. तांणी अशेंच जियेवं येतालें. पूण तांचें शेजारच्या लंगड्या गाब्रिएला वांगडा केस्तांव आशिल्लें आनी हाका लागून तांच्या मनांत सूख नाशिल्लें.

गाब्रिएलाचो बापूय गोर्दे आनी इव्हानाचो बापूय त्रॉल घराचे मुखेली आशिल्ले तेन्ना दोनूय घराबे मायेमोगान चलताले. एकल्यागेर कितेंय उणें पडटालें तेन्ना रोखडे शेजाऱ्यागेर वचून तें हाडटाले. एकल्याचें पाडूक दुसऱ्याच्या शेतांत पावलें जाल्यार तंट्या विरयत तें आपल्या गोठ्यांत पावतालें. बापायच्या काळांतलें हें वातावरण बदलून आयज मोगाची सुवात रागान आनी दुस्वासान घेतिल्ली.

सगलें सुरू जाल्लें एका ल्हानश्या कारणा वयल्यान. इव्हानाची कोंबी तांतयां घालपाक लागिल्ली. एक दीस भुरग्यांच्या बोवाळाक लागून कोंबयेन शेजाऱ्याले सुवातेर एका झाडा मुळा वचून तांतीं घालें. सुनेन कोंबयेचो

आवाज आयकल्लो. पूण तेन्ना तिचे हात दुसऱ्या कामांत घुसपल्ले आशिल्ले. पास्कांच्या फेस्ताक लागून ती एक एक तांतीं एकठांय करून दवरताली. सांजवेळां तिणें मांयक आनी देराक तांतया विशीं विचारलें. कोणेंच्र तांतीं पळोवंक नाशिल्लें. धाकल्या देरान म्हळें, म्हाका दिसता, 'भुरग्यांच्या बोवाळाक लागून तुजी कोंबी शेजाऱ्यांगेर गेल्ली. तिणें तांतीं थंयच घालां आसतलें.'

सून शेजाऱ्यांगेर गेली. गाब्रिएलाचे आवयन तिका विचारलें, 'कितें जाय आशिल्लें बाय?' हिणें सांगलें, 'आजये, सकाळीं म्हगेली कोंबी हेवटेन आयिल्ली. हांगाच तिणें एक तांती घाल्लें जावंक जाय. ताका लागून आयिल्लें हांव.'

'आमकां तुजे कोंबयेच्या तांतयाची कांय खबर ना आनी गरजूय ना. देवाचे कृपेन आमकां आमच्या कोंबयांचीं तांतयां मेळटात. दुसऱ्यांल्या कोंबयांनी घाल्लीं तांतयां सोदूंक आमी दुसऱ्यांल्या जाग्यार वचनात.'

हें आयकून इव्हानाचे सुनबायक राग आयलो आनी ती गरजे परस चड उलयली. शेजान्नूय उलोवंक फाटीं रावली ना. निमाणें दोगीय एकिमेकींक वायट उतरां दिवंक लागल्यो. इव्हानाची आनी गाब्रिएलाची बायलूय थंय पावली. तींय मोठ्या मोठ्यान उलोवंक लागलीं. एकामेकांचेर आरते परते आरोप जावंक लागले. तूं अशी, तूं तशी. तूं चोर. तूं वायट रितीची बायल... आमचे कडल्यान तुमी एक गाळणें व्हेल्लें; तें परतें दितना ताका एक व्हडलो बुराक आशिल्लो.... गाब्रिएलाचे बायलेन म्हळें, उदकाच्यो बालद्यो हाडूंक तुमी आमचें जोत व्हेल्लें, तें आत्तां परतें करात. आनी तिणें वचून जोताक हात घालो. थोडें उदक सकल पडलें. आतां गाब्रिएलूय झगड्यांत वांटो घेवंक आयिल्लो. इव्हान जिवान घटमूट आनी ताचे वांगडा ताचे तीग पूत. इव्हानान गाब्रिएलाच्या खाडाचे कांय केंस ओडले. गडबड आयकून लोक थंय पावले. आनी झगडपी दोन कुटुंबांक वेगळीं केलीं. त्या दिसा पसून, एका तांतयाक लागून, इश्टागतीन चलपी दोन घराब्यां मदीं विरोध-तंटो सुरू जालो.

गाब्रिएलान आपणाल्या खाडाचे कांय केंस एका कागदांत गुटलायले आनी ते घेवन तो सरकारी कचेरेंत गेलो. ताणें इव्हानाचेर आरोप केलो. म्हणूंक लागलो, हांवें खाड वाडयल्लें तें दुश्ट इव्हानाक ओडपा खातीर न्हय! गाब्रिएलाची बायल म्हणूंक लागली, पळेयात आतां इव्हानाक बंदखणींत धाडटले!

जाणटेलो खाटेर आड पडिल्लो थंयच्यान सांगपाचो यत्न करतालो — 'झगडीं थांबयात आनी आदले बशेन मायेमोगान चलात... पूण कोण ताचें आयकुपाक तयार नाशिल्लो. जाणटेलो म्हणूंक लागलो, तुमी ल्हान भुरग्यां वरी कस्पटा समान एका तांतया खातीर झगडटात. कोणाय भुरग्यान व्हेलां आसतलें तांतीं. आनी, निमाणें, एका तांतयाचें मोल कितें? देवान आमकां भरपूर दिलां. आनी, शेजान्नीन तुमकां वायट उतरां दिल्लीं आसल्यार तुमी तिका बऱ्या उतरांनी जाप दियात. सगळ्यां कडल्यान केन्ना तरी चूक घडटाच. हें केस्तांव आतांच पालयात आनी आदले वरी बरे बशेन चलात. ही दुस्मानकाय घेवन बसल्यार तिचो तुमकांच त्रास जातलो.

जाणटेल्या त्रॉलान आपलें मत मांडलें पूण कोणेंच ताचें म्हणणें कानामनार घेतलेंना. म्हातारपणांतलें उलोवणें; ह्या कानांतल्यान भितर घेवन त्या कानांतल्यान सोडून दिवपाचें, हे भाशेन केलें. इव्हानान रागान म्हळें, 'हांवें ताच्या खाडाचे केंस ओडून काडूंक नात. वयल्यान ताच्याच पुतांनी म्हजें खोमीस पिंजलां... खोमसाची कितें दशा जाल्या, पळे.'

इव्हानूय आपणालो आरोप घेवन सरकारी कचेरेंत गेला. न्यायाधिशांनी ताचें आयकून घेतलें. तेन्नाच गाब्रिएलाचे गाडयेच्या चाकाचो एक गांच ना जालो. त्या घरच्या बायलांनी इव्हानाच्या पुतांचेर दुबाव धरलो. परतींय तीं कचेरेंत गेलीं. आदीं तांचीं भुरगीं एकामेकां बराबर खेळटालीं. आतां तींय एक दुसऱ्याक वायट उतरां दिवंक लागलीं. पयलीं घरचीं बायलां वाटेर मेळटना हांसून उलयतालीं; आतां रागान पळोवंक लागलीं, गाळी घालून झगडूंक लागलीं.

सुरवेक फकत गाळी घालतालीं, झगडटालीं. मागीर एक-दुसऱ्याची कसलीय वस्त काडूंक लागलीं. जिवीत त्रासांचें जालें. सूख, समाधान थंयच उरलें. जिबेर वायटपण आनी काळजांत कोडसाण पातळ्ळी. इव्हान आनी गाब्रिएल परते परते सरकारी कचेरेंत वचून एकामेकांचेर आरोप करत आसताले. गरजेभायर दुस्मानकाय वाडत गेली. ल्हान ल्हान कारणां वेल्यान एकामेकांक धमकावंक लागले — 'राव दाखयतां! बरी बुद्द शिकयतां तुका!' जाणटेलो सांगत आसतालो, 'तुमची ही दुस्मानकाय, बुद्द शिकोवपाची ही भास सोडून दियात. तुमचें काम करात. मनांतलो दुस्वास ना करात. तुमकांच ताचे त्रास जातले.'

पूण कोण ताचें आयक नासलो.

सात वर्सां उपरांत एका लग्ना सुवाळ्यांत इव्हानाचे सुनेन गाब्रिएलाचेर तो घोडे चोरता म्हूण आरोप केलो आनी लोकां हुजीर ताका लज केली. गाब्रिएल बरोच पियेल्लो आशिल्लो. हो आरोप ताच्यान सोंसूंक जालोना आनी इव्हानाचे सुनेक ताणें मार घालो. इव्हानाची सून एक आठवडो भर न्हिदून उरली. ती तेन्ना गुरवार आशिल्ली. कचेरेंत वचूंक कारण मेळ्ळें म्हूण इव्हान खोशी जालो. सरकारी न्यायाधिशां सरीं वचून ताणें गाब्रिएलाचेर आरोप केलो. आतां गाब्रिएलाक बंदखणींत वचून बसचेंच पडटलें, ताका दिसलें. पूण तशें कांय जालें ना. मार खाल्ले बायल-मनशेचेर माराचीं कसलींच कायमचीं चिन्नां उरूंक नाशिल्लीं; ती घरांत भोंवताली, वावुरताली. हाका लागून गाब्रिएलाक कसलीच ख्यास्त फावो जाली ना.

इव्हानान व्हडल्या न्यायाधिशा सरीं वचून आरोप केलो. ताणें गाब्रिएलाक वीस दांड्याच्या माराची ख्यास्त फर्मायली. हें आयकतना इव्हान गाब्रिएलाच्या तोंडाक पळोवंक लागलो. ताचें तोंड फिकें पडिल्लें. तो मोन्यांनी भायर गेलो. इव्हानूय ताचे फाटल्यान गेलो. गाब्रिएल पुटपुट्टालो : 'ताणें म्हजे फाटीर वीस दांडे घालपाचे केल्यात. म्हजी फांट भगभगतली. हांवूय ताची कसलीय वस्त लासून उडयतलों. ताका म्हजे परस चड भगभग भोगयतलों.'

इव्हान रोखडोच न्यायाधिशा सरीं गेलो आनी ताणें आनीक एक आरोप केलो.

गाब्रिएल म्हणूंक लागलो, 'म्हाका दांड्यांचो मार दियात... हांवें कांय म्हणूंक ना. आतां म्हाका दिसता, हांवेंच कश्ट भोगचे. ताच्या वायटपणाक कांय शिक्षा ना दिसता.'

हें उलयतना गाब्रिएल भयानक

दिसतालो. ताचें तोंड पळोवन थंय आशिल्ले ऑफिसर पसून भियेले. ती सुवात न्हय जाल्यार तो शेजाऱ्याक कितें तरी करतलोच आसलो अशें दिसतालें.

तो जाणटो न्यायाधीश म्हणूंक लागलो, 'हें पळयात, तुमी आतां देवान दिल्ली बुद्द मातशी वापरात. इश्टा गाब्रिएल, तुवें एके गुरवार बायलेक मारली. हें चुकीचें. देवाचे दयेन तिका व्हडलेंशें कांय जालेंना. तशें कितेंय जाल्लें जाल्यार तुजो दंड वाडटलो आशिल्लो. आतां तुजी चूक मान्य कर आनी इव्हानाची माफी माग. तो तुका माफ करतलो. तशें जालें जाल्यार तुका फर्मायल्ली ख्यास्त म्हज्यान फाटीं घेवं येता.'

कचेरेंतल्या एका कर्मचाऱ्यान एका नेमाचेर बोट दवरलें आनी ख्यास्त अशी बदलूंक मेळना म्हूण सांगलें. न्यायाधिशान ताका ओगी रावंक सांगलें. म्हणूंक लागलो, 'तुमी सगले देवाक मानतात, तेन्ना पयलो न्याय देवाचो. देवाक शांतताय, सवस्तकाय आवडटा, झगडीं तंटे न्हय. परतोय ताणें गाब्रिएलाक उपदेश केलो. पूण गाब्रिएल आयकुपाक तयार नाशिल्लो. थरथरत्या आवाजांत तो उलोवंक लागलो — 'फुडल्या वर्सा म्हाका पन्नास भर जातलीं. म्हज्या पुराय जिवितांत म्हाका केन्नाच दांड्याच्या माराची ख्यास्त जावंक ना. ह्या इव्हानान म्हाका कचेरेंत ओडून व्हरून म्हाका असल्या माराची ख्यास्त दिवंक लायली. हांवें ताची माफी कित्याक मागची? जालें तें खूब जालें...' इतलें म्हणून तो कचेरेंतल्यान उठून भायर गेलो.

कचेरे सावन इव्हानाचें घर सात मैलांच्या अंतराचेर आसलें. तो घरा पावतासर तिळसांज जाल्ली. घोड्याक ताच्या जाग्यार बांदून तो घरांत भितर सरलो. घरांत कोण नाशिल्लीं. बायलो गोठ्यांत गोरवांक बांदूंक गेल्ल्यो आनी भुरगे शेतांतल्यान अजून परतूंक नासले.

इव्हानाच्या दोळ्यां मुखार गाब्रिएलाचें फिकें, रागान आनी लजेन भरिल्लें तोंड आयलें. ताका मातशें वायट दिसलें. ताचे सुवातेर हांव आशिल्लों जाल्यार म्हाका कशें दिसपाचें? ताका गाब्रिएलाची काकुळट दिसली. इव्हानाचो जाणटो बापूय खाटेर उठून बसलो आनी ताणें विचारलें, 'कसली ख्यास्त जाली गाब्रिएलाक?'

'फाटीर वीस दांडे पडले...' इव्हानान जाप दिली.

जाणटेल्यान तकली हालयली आनी म्हणूंक लागलो, 'जालें तें खूब वायट जालें. ताकाच न्हय, तुकाय, आमकांय. ताका मार पडलो. तुका कितें मेळ्ळें?'

'तो परतो आनी तसो वागचो ना,' इव्हानान जाप दिली.

'तुमच्या दोगांयच्यो करण्यो सारक्योच. तुजे परस ताणें अदीक वायट कितें केलां, सांग...'

'म्हजे सुनेक तो जिवानशीं मारतलो आसलो. आनी आतां आमकां उजो घालून लासतलो म्हूण धमकी दिल्या.'

इव्हानाच्या बापायन तेन्ना म्हळें —

'इव्हान, तूं भायर भोंवता आनी हांव हांगाच पडून आसतां. रागान तूं कुड्डो जाला. तुका फकत ताचें वायट आंग दिसता, तुजें दिसना. झगड्यांत सदां दोगां आसतात. एकट्याक लागून केन्ना झगडें जायना. ताच्या खाडाचे केंस कोणें ओडले? ताचें तणा कुडें कोणें इबाडलें? आनी, ताका सरकारी कचेरेंत कोणें व्हेलो? तूं निर्दोश आशिल्ले वरी तूं सगळें ताचेर घालतां. आमच्या तेंपार आमी अशे चलनाशिल्ले. ताचो बापूय आनी हांव मायेमोगान, एकामेकांक आदार करीत शेजाऱ्यां वरी चलताले. तांगेर गंवाचें पीठ कमी जालें जाल्यार कोणूय आमगेर येतालो आनी म्हणटालो, त्रॉलकाका, इल्लें गंवा पीठ जाय आशिल्लें. हांव मागीर पीठ दवरुपाचे सुवातेक बोट दाखोवन म्हणटालों, हे तातूंत आसा पीठ. जाय तितलें काडून व्हर. तांगेल्या घोड्यांक चरपाक व्हरपी कोणूय नासलो जाल्यार हांव तुका सांगतालों तांकां चरोवन हाडूंक. म्हाका कसलीय गरज पडटाली तेन्ना सरळ वचून गोर्देबाबा कडेन मागतालों. तोय म्हणटालो, व्हर रे त्रॉलबाब तुका जाय तें... पूण आतां पळे. तुमचे भितर गंभीर युद्ध चल्लां. हाका जिवीत म्हणप? तूं एक मनीस. तूं तुज्या बायले-भुरग्यांक कितें शिकयता? कांय दीस रावन पळे, आमचो तारासक आनी तांचो ग्रेन्ना एकामेकां कडेन गाळींनीच उलयतले आनी तांच्यो आवयो तांकां बरी बुद्द दिवचे सुवातेर खो खो करून हांसतल्यो. हें बरें दिसता तुका? एक दीस तुका हाची सगळ्याघी जाप दिवची पडटली. तुज्या आत्म्या विशीं चींत. हें सगळें चल्लां तें तुका बरें, न्यायाचें दिसता? तांणी एक उतर दिलें, तुमी दोन उतरां दितात. पुता, जेजूच्या उतरांचो उगडास दवर — कोणेंय तुका वायट उतरां दिलीं जाल्यार तूं ताका वायट उतरां दिवं नाका, ओगी राव; कोणेंय तुज्या एका पोल्यार थापट मारलें जाल्यार दुसरो पोलो मुखार कर. आनी सांग, म्हजी चूक आसा जाल्यार मारात म्हाका. ही देवाची शिकवण. देवान आमकां आमचो गर्व आनी अहंकार सोडूंक सांगिल्लो. पुता इव्हान, ओगी कित्याक? हांव उलयलां तांतलें कितेंय चूक दिसता तुका?'

इव्हान कांय उलयलो ना.

त्रॉलान मुखार म्हळें —

'पुता इव्हान, तुज्या म्हाताऱ्या बापयचें म्हणणें आयक. आतांच सरकारी कचेरेंत वच आनी गाब्रिएला वयले आरोप फाटीं घे. ही दुस्मानकाय सोड आनी आदले वरी इश्टागतीन चलात... फाल्यां फेस्ताचो दीस. गाब्रिएलाक इल्ली च्या आनी व्होडका पिवपाक दी. सोंपय ही दुस्मानकाय... घरच्या बायलां भुरग्यांकूय हेच भाशेन चलूंक सांग. ह्या झगड्या-तंट्यांनी तुजें कितें बरें जालां? सरकारी कचेरेचेर तुवें कितलो पयसो मोडला जातलो, कोंत कर. खरें म्हळ्यार तुगेल्या भुरग्यां बराबर तुवें शेत नांगरूंक वचूंक जाय आसलें. पूण तूं हे भानगडींत बुडून आसा. शेतांत काम कशें चल्लां ताचेर तुजें कांय लक्ष ना. अंदू पिकूय कमी आयलां, तू जाणा? तुज्या वावरांत लक्ष घाल. भुरग्यां बराबर शेतांत वावूर. घरांत कोणेंय तुजो अपमान केल्यार तांकां माफ कर. तेन्नाच तुजें जिवीत सरळ आनी सुखाचें जातलें. तुजें काळिजूय शांत उरतलें.'

इव्हानान एक हुस्कारो सोडलो. ताका दिसलें, बापायन म्हाका सांगलां तें सगळें खरें. हें चिंततना ताचें मन ल्हव जालें. खूब तेंपान काळजांत इल्ली खास भरून आयली. पूण इतल्या तेंपाचें केस्तांव सोंपोवचें कशें, सुरवात कशी करची, ताका कळना जालें. ताच्या मनांत कितें चलतालें ताची सुलूस लागिल्ले वरी जाणटेल्यान म्हळें, 'वच इव्हान, वच. वेळ वगडावं नाका. उजो सगळ्याक पातळचे आदीं आतांच वचून पालय.'

तेन्नाच बायलां भुरगीं घरांत भितर सरलीं. गाब्रिएलाक फावो जाल्लो दांड्याच्या माराचो दंड, उपरांत ताणें दिल्ली घराक उजो घालपाची धमकी, बी त्योच खबरी मोठ्या मोठ्यान करपाक लागलीं. सरकारी न्यायाधीश तांकां मदत करतलो अशें गाब्रिएलाचे सुनेन कशें म्हळें; रशियेच्या राजाकूच पत्र बरोवन इव्हानाचो अर्द जागो तीं तांचो कशीं करून घेवपाची आसात... ह्योय खबरी तांच्या गजालींनी आयल्यो. इव्हानाच्या कानार हें सगळें पडलें आनी ताचें मोव जाल्लें काळीज परतेंय रागान आनी दुस्वासान भरलें. गाब्रिएला कडेन इश्टागत जोडपाचो विचार ताणें सोडून दिलो.

शेताचीं खूब कामां आशिल्लीं. इव्हान तीं करूंक गेलो. शेतांत मातशें निवळ करता सर काळोख जालो. तागेले तिगूय पूत शेतांतल्यान घरा आयले. थंडेच्या काळाचें काम चलतालें. ते घोडे येवन नांगरप करताले. थोडें किरकोळ काम करून तांकां सोडले आनी गोरवांक तण-पेंड घालूंक गेले. तारास घोड्यांक चरपाक घेवन वचपाचो आशिल्लो. इव्हान रातच्या जेवणाचें आनी उपरांत न्हिदपाचें चिंततालो. बापायलो उपदेश आनी गाब्रिएल - दोनूय ताचे तकलेंत नाशिल्ले. घरांत भितर सरच्या वेळार गाब्रिएलाचीं रागान भरिल्लीं उतरां ताच्या कानार पडलीं – 'तो जिवो आसून कितें उपेग? ताका मारूंक जाय...' हें आयकून इव्हानाकूय राग आयलो. थोडो वेळ तो थंयच रावलो आनी मागीर घरांत भितर सरलो. घरांत एक दिवो पेट्टालो. ताची बायल रांदताली, सून सूत कांतताली, व्हडलो पूत रुखा मुळा बसून जोतें करतालो. इव्हानाच्या घरांत सगळें शांत आशिल्लें. ताचें मन मात अस्वस्थकायेन आनी रागान भरिल्लें. तोंडार राग आनी दुस्वास आशिल्लो. शेजारी ताका एक पिडा कसो दिसतालो.

बांकार न्हिदिल्ल्या माजराक सकल उडोवन इव्हान थंय बसलो आनी बायलेच्यो बेश्ट्यो चुकी सोदून काडूंक लागलो. गाब्रिएलाचीं उतरां परतीं परतीं ताचे तकलेंत येतालीं. ताणें कचेरेंत दिल्ली धमकी आनी निकतेंच कानार पडिल्लें वाक्य – '....मारूंक जाय'.

बायलेन तारासाक वाडलो. एक पोरणें मेंढराचें चामडें फाटीर घालून, इल्लो पाव वांगडा घेवन तारास घोड्या सरीं गेलो. इव्हान उठलो आनी पुताक घोड्यार बसूंक आदार केलो. तारास गेलो. ताचे बराबर गांवचे कांय भुरगेय घोड्यार बसून गेल्ले. इव्हान दरवट्या कडेन उबो आशिल्लो. घोड्याच्या गेतांचो आवाज आतां आयकूंक येना आशिल्लो. इव्हानाच्या मनांत परतीय गाब्रिएलाची धमकी आयली. 'तुजी कसलीय वस्त हांव लासून उडयतलों...'

गाब्रिएल रागा भरशीं कितेंय करूंक शकता. आतां वारेंय व्हांवता आनी सगलें सुकें सुकें आसा. तो आमचें घर लासून उडयतलो आनी निर्दोश म्हूण सुट्टलो. तो उजो पेटयता आसतनाच ज्युस्त ताका धरूंक जाय. अशें येवजीत येवजीत इव्हान घरांत भितर सर नासतना असोच रस्त्यार पासयो मारूंक लागलो. ताच्या दुबावी आनी अस्वस्थ मनाक कोण तरी थंयच्यान ल्हव पावलांनी गेल्ल्याचो भास जालो. इव्हान तटास जालो. कान दोळे उकते करून रावलो. सगळ्याक शांत आशिल्लें. वाऱ्यान फकत पानां आनी पाख्या वयलें सुकें तण हालतालें. काळोख जाल्लो. काळखांत ताका एक नांगर सो दिसलो. पूण थंय कोण मनीस नाशिल्लो. हांव चुकलां आसतलों, इव्हानान मनांत म्हळें. पूण घरा भोंवतणीं एक पासय मारिल्ली बरी अशें येवजीत इव्हान इल्लो मुखार गेलो. तितल्यांत नांगरा म्हऱ्यांत एक दिवो पेटिल्ले वरी ताका दिसलो. म्हणटासर ना जालो. कांय वेळान परतो दिसलो. उजवाडांत इव्हानाक एक मनीस तणाक उजो घालता काय दिसलो. ताचें काळीज धडधडूंक लागलें. तरी तो ल्हवू मुखार गेलो. 'सारको धरतां तुका, आतां तूं कसोच सुटचो ना...' ताणें मनांत म्हळें.

आतां तो ल्हान दिवो उरूंक नाशिल्लो. व्हडलो उजो जाल्लो आनी पाख्या मेरेन पाविल्लो. उज्याच्या उजवाडांत गाब्रिएल सारको दिसतालो. एक व्हडलो पक्षी ल्हान शेवण्याक धरूंक वता तसो इव्हान लंगड्या गाब्रिएलाक धरूंक धांवलो. पूण गाब्रिएल सोंश्या वरी धांवलो. इव्हानाच्या पावलांचो आवाज आयकून रोखड्या रोखडो गायब जालो. 'तूं आतां कसोच सुटना' अशें म्हणत इव्हान ताचे फाटल्यान वेगान धांवलो. गाब्रिएलाचो कोट ताच्या हातांत आयलो पूण गाब्रिएल नेटान मुखार धांवलो तसो कोट पिंजलो. गाब्रिएल सुटलो आनी इव्हान सकल पडलो. गजाल मारूंक लागलो. 'धांवात रे! धरात ताका! चोर! खुनमारो...' असो आड्डूंक लागलो. आनी उठून परतोय गाब्रिएला फाटल्यान लागलो. गाब्रिएलाच्या हातांत एक लाकडाचो दांडो आशिल्लो तो ताणें इव्हानाचे तकलेर घालो. इव्हान कांय वेळ बेशुद्ध जावन पडलो. इतल्यान ताच्या घरा म्हऱ्यांत एक व्हडलो आवाज जाल्लो ताका आयकूंक आयलो. घरा फाटलो गोठो जळटालो. घरा म्हऱ्यांतूय थोडो उजो आनी धुंवर दिश्टी पडटालो.

'धांवात रे...! पळेयात कितें जालां तें...!' इव्हान आड्डूंक लागलो... ताच्या हातांतली चूड काडून घेवंक जाय आशिल्ली. पूण म्हज्यांत तितलीय शक्त ना. मोठ्यान आड्डी मारपाचीय शक्त ना, ताका दिसलें. इव्हानाचें घर सगळें लासून गेलें. शेजारी धांवन आयिल्ल्यान थोडें सामान तांणी भायर काडलें आनी उज्या पसून वाटायलें.

इव्हानाच्या बापायक उबारून भायर काडलो. हेर सगळीं भायर आयलीं. तांचे जीव वाटावले. पूण बाकी सगळें गोबर जावन गेलें. घोडे चरूंक मळार गेल्ल्यान वाटावल्ले. पूण गोरवां, कोंबयो, नांगर, एक बैलगाडो, बायलांच्यो कपड्यां पेटो सगळें सगळें काबार जाल्लें. इव्हानाकूय उज्याचो मातसो धग लागिल्लो. पूण ताचें मन भेरेल्लें. घर, गोरवां, इल्ल्यो इल्ल्यो करून एकठांय करून दवरिल्ल्यो वस्तू – कांय उरूंक नाशिल्लें तें पळोवन तो म्हणूंक लागलो, '...कितें जालें हें, इश्टांनो! फकत ताच्या हातांतली चूड काडून घेवपाची हांवें...'

सकाळीं फुडें गांवच्या मुखेल्याचो पूत येवन इव्हानाक सांगूंक लागलो, 'तुज्या बापायचो मरणाचो वेळ आयला. तुका ताणें आपयला...'

इव्हानाचें मन थाऱ्यार नाशिल्लें. 'बापायक कितें जालां?... म्हाका सो आपयता...?' ताणें मुखेल्याच्या पुताक विचारलें. 'बापूय तुजो निरोप घेवंक सोदता...' भुरग्यान परतेंय सांगलें आनी इव्हानाचो हात

धरून तो ताका आपल्या घरा कडेन व्हरूंक लागलो.

घराक उजो लागिल्लो त्या दिसा जाणटेल्याक उबारून भायर हाडटना ताच्या आंगार इल्लें पेटिल्लें तण पडिल्लें आनी आंगाचो कांय भाग लासून गेल्लो. गांवच्या मुखेल्यान ताका आपल्या घरा व्हेल्लो. मुखेल्याचें घर मातशें पयस आशिल्लें. इव्हान थंय पावलो तेन्ना मुखेल्याची बायल आनी कांय भुरगीं जाणटेल्याक न्हिदयल्लो ते कुडींत आशिल्लीं.

'तुजो पूत इव्हान आयला पळे तुका मेळूंक...' जाणटेलेन इव्हानाच्या बापायक सांगलें. तो एका बांकार आड पडून आशिल्लो.

'हांवें कितें सांगिल्लें इव्हान? घर कोणें लासलें?' बापायन विचारलें.

'ताणेंच, बाबा. हांवें ताका धरलो, पूण म्हजे तकलेर दांडो घालून, पेट्टी चूड घेवन ताणें आमच्या घराक उजो घालो. हांवें सगळें पळेलें पूण म्हज्या आंगांत शक्त नाशिल्ली. हांव सकल पडिल्लों. न्हय जाल्यार हांव कितेंय तरी करतलों आशिल्लों. येदो व्हडलो अनर्थ जावचो नाशिल्लो...'

'इव्हान, हांव चल्लों... एक दीस तूंय मरतलो. कोण चुकलो? सांग इव्हान...'

इव्हान बापायक पळेत रावलो. कांय उलयलो ना.

'देवाचें नांव घेवन सांग, चूक कोणाची? हांवें तुका कितें सांगिल्लें, याद आसा?'

इव्हान तेन्ना साबुद्दीर आयलो आनी घडिल्लें सगलें सांगूंक लागलो. दिमी घालून म्हणूंक लागलो, 'बाबा, म्हाका माफ कर. हांवूच गुन्यांवकार. तुजे आनी देवाचे मुखार सांगतां हें हांव.'

जाणटेल्यान उजव्या हातांतली मेणवात दाव्या हातांत घेतली आनी उजवो हात कपलाक लावपाक वयर काडपाचो यत्न केलो. पूण ताच्यांत कांय शक्त नाशिल्ली.

'देवाचें नांव घे. ताची तुस्त गा...' अशें म्हणून पुताक पळेत रावलो. 'इव्हान, इव्हान...' म्हूण कांय वेळान ताका उलो मारलो.

'कितें जाय बाबा?' इव्हानान विचारलें.

'आतां तुवें कितें करूंक जाय, तूं जाणा?' इव्हान रडटालो.

'आतां आमचें कशें जातलें, हांव कांय नकळ,' ताणें म्हळें.

बापायन मिनीट भर दोळे धांपले आनी मागीर म्हणूंक लागलो, 'कशेय बशेन जातलें... देवाचो आदेश सदां पाळूंक जाय... कोणें उजो घालो, कोणाक सांगूं नाका. दुसऱ्याची चूक लिपय. देव तुमकां दोगांकूय माफ करतलो.' आनी दोनूय हातांनी मेणवात धरून जाणटेल्या त्रॉलान प्राण सोडलो.

बापायचे सांगणेक मान दिवन इव्हान तोंड धांपून रावलो. गाब्रिएला आड ताणें कांय कागाळ केलिना. गाब्रिएलाकूय अजाप जालें. सुरवेक ताका भंय दिशिल्लो. उपरांत इल्लो इल्लो करून तो ना जालो. गाब्रिएला विशीं आशिल्लो इव्हानाच्या मनांतलो रागूय ल्हवू ल्हवू ना जालो. कांय तेंपान दोनूय घराब्यां मदलीं झगडीं-केस्तावां बंद जालीं आनी इल्ले इल्ले करून ते आदले वरी इश्टागतीन चलूंक लागले.

गाब्रिएलाच्या घरा शेजराच इव्हानाचें घर परतेंय उबें जालें. आदले वरी सगलीं मायेमोगान चलूंक लागलीं. राग, दुस्वास, अखटाय सगळें विसरून इव्हान शॅरबाकार आपल्या बापायचो उपदेश मानून देवाचो न्याय पाळटालो. आतां ताचें कोणेंय वायट केल्यार, ताका कोणेंय दुःख दिल्यार तो तें शांतपणान घेता. मनांत राग धरिना. कोणेंय ताका गाळी घाल्यार तो ताका बऱ्या उतरांनी जाप दिता. बायले-भुरग्यांकूय ताणें हीच शिकवण दिल्या. आतां इव्हान शॅरबाकाराची परिस्थिती आदले परस बरी आसा. सुखा समाधानान, देवाची भक्ती करीत तो जियेता.



## नवो सुर्या

**मूळ सिंधी: हरीश करमचन्दानी**

**अणकार: प्रियदर्शिनी तडकोडकार**

एक दीस पर्थून सुर्या उदेलोच ना
चौंयवशीन गुपाट काळोख पातळिल्लो
हांवें दिवली लायली
पूण वारो इतलो
की दिवली पालोवंक लागली
हांव वाऱ्याक सांगूं कसो
नाका व्हावंक
राव, म्हाका दिवली पेटोवंक जाय म्हूण?
म्हजें बेजार जावप वाऱ्याक समजलें.
हांवें सांगलें,
सुर्याची बलायकी इबाडल्या,
आयज तो उदेवचो ना,
पूण म्हजी आशा करूं नाका, हांव ना हालचो,
ना धोलचो.
पूण दिवली तर पेटूंकच जाय.
आपणांतच अशी तांक निर्माण कर जिका
लागून
तिका कोणूच पालोवचो ना, अशें तूं दिवलेकच
सांग.
आयज हांव आसल्यारय फाल्यां मोड येवं येता.
मोड आयल्यार आपणाक कशी सांबाळटली
उजवाडाची राखण करप इतलें सोंपें न्हय.
जापसालदारकी घेतल्यार ती पुराय करुंकच
जाय.
तेन्ना दिवलेंतले वातीन वतां वतां आपणाकच
वाटायिल्लें, हांवें पळेलें

दिवली आतां उजवाड फांकताली आनी
एका नव्या सुर्याचो जल्म जालो.



Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset Printers, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai